BIMB/ Oct-Nov 2021 / Vol 20 / ISSUE 10-11 / Panaji Goa POSTAL LICENCE NO. G-2/RNP-GOA/01/2018-2020 Published on 1st and Posted on 5th & 10th day of every month RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413

# बिम्ब

## दिवाळी 2021



Price: ₹ 200/-

## प्रत्येक चोखंदळ वाचकाच्या संग्रही असावे असे *विष्णू सुर्या वाघ* यांचे प्रकाशित साहित्य






















### कविता
झिंजीर झिंजीर सांज
फील गुड फेणी
सुशेगाद
वाघनखे
लोकोपनिषद
बच्चूभायची वाडी
सूदिरसूक्त (कोंकणी)

### गद्यकाव्य
पर्जन्यधून

### नाटक
तुका अभंग अभंग
आदित्यचक्षु
तीन पैशांचो तियात्र













### चरित्रलेखन
सळसळ पिंपळपानांची (दादा गांवकर)
नाट्यसूर्य (सुर्या वाघ)
हे सुरांनो जितेंद्र व्हा-(जितेंद्र अभिषेकी)
एका सुरश्रीची कथा-(सूरश्री केसरबाई केरकर)

### अनुवादीत
शांततेचे घण (कोंकणी भाषेतील ज्येष्ठ साहित्यिक श्री.दामोदर मावजो यांच्या 'कमडफूल' कथासंग्रहाचा मराठी अनुवाद)

### एकांकिका
शब्दकुंड
रक्तपर्जन्य

### पुनर्लिखित
करीन ती पूर्व

कला अकादमीचे माजी अध्यक्ष,गोवा विधानसभेचे माजी उपसभापती,सांत आंद्रे मतदारसंघाचे माजी आमदार, लेखक,कवी,पत्रकार,नाटककार,व्यंगचित्रकार,वक्ते,गायक असे अष्टपैलु दैवी व्यक्तिमत्व लाभलेले शब्दप्रभु स्मृतिशेष विष्णू सुर्या वाघ यांच्या अप्रकाशित साहित्याचा खजिना लवकरच वाचकांच्या भेटीस येत आहे.

# अनुक्रमणिका






मुखपृष्ठ
हर्षदा केरकार-सोनक

संपादक
दिलीप बोरकार

पालवी संपादक
मानसी धाऊस्कार

अंक सजावट
गिरीश नंदा बोरकार/संकेत लवंदे

संपादकीय पत्रव्हेवाराचो पत्तो
Dilip Borkar
2-A, Govt. Qtrs, Ponte De Linhares
Patto, Panaji- Goa 403001
Tel: 0832-2438355 | Mail: bimbkonkani@yahoo.co.in

वर्गणीचे दर
वर्गणीचे दर जानेवारी २०२१ सावन
वर्सुकी ५००रु. ३ वर्सां १४००रु.
विद्यार्थी- वर्सुकी ३००रु.
वाचपघरां-वर्सुकी ८०० रु.
३ वर्सां २५०० रु.पोस्टेजा सयत
वर्गणीचो चेक 'BIMB MONTHLY' ह्या नांवान धाडचो





# पत्रकारितेची दिवाळी! आमीय पणटी पेटोवंया...

## संपादकीय

ही दिवाळी येवन येता पत्रकारितेचें म्हत्व अधोरेखीत करीत... पत्रकारिता हो लोकशायेचो चौथो खांबो..पत्रकारिता म्हणटकच आयचे काळार आमचे नदरे मुखार आमच्या देशांतली बाजारू पत्रकारिता येवं येता...आयज पत्रकारितेच्या नांवान लोकशायेच्या ह्या चौथ्या स्तंभार कोण खंयचे माकड कशे नाच करतात ताचे वयल्यान आमी पत्रकारितेची मोलावणी करची न्हय. आमच्या देशांतल्या कांय पत्रकारांनी राजकारणी आनी सत्ताधाऱ्यांची तळव उखलून धरून आपलें सादोवन येवपाक आपले मर्दीच सर्त लायल्या ती पत्रकारिता न्हय. तो पत्रकारितेक लागिल्लो कलंक. आमी हे पत्रकारितेचेर लक्ष दिवं नये..आमी विचार करुंया ते पत्रकारितेचो, जी पत्रकारिता देशांत चळवळ म्हूण रुजली आनी मोठ्या कश्टान काय जायना, रसरसून वयर सरून एक आदर्श इतिहास घडोवंक पावली. आमची लोकशाय तग मारून आसा ती असली पत्रकारिता अजून जिवी आसा ह्याच आश्वासक सत्याचेर. आमच्या देशाच्या स्वातंत्र्या आदीं राजकारणांत आशिल्ले कितलेच फुडारी पत्रकार आशिल्ले. पत्रकार म्हण्णूच तांणी आपले लेखणेन समाज उठोवन आनी पेटोवन घाल्लो. महात्मा गांधी, लोकमान्य टिळक, गोपालकृष्ण गोखले, आगरकर सारख्या कितल्याच फुडाऱ्यांनी स्वातंत्र्य पदरांत घालून येवंक खबरापत्रां चलयलीं. महात्मा गांधी हांचो 'यंग इंडिया' आनी 'हरिजन', लोकमान्य टिळकांचो 'केसरी' आनी 'मराठा', डॉ. बाबासाहेब आंबेडकर हांचो 'प्रबुद्ध भारत' हांणी लोकजागृताये पासत आनी वैचारीक परिवर्तना पासत जें कार्य केलां ताचो आदर्श आजून समाजा मुखार आसा. ही आदर्श पत्रकारिता चलोवपी दर एकलो खंयचे ना खंयचे चळवळीचो फुडारी आशिल्लो. सत्ताधाऱ्यांक तांणी आपले पत्रकारितेन नाका शेवट करून उडयले. ते पासत तांणी दंड आनी ख्यास्तूय भोगिल्ली आसा. पत्रकारिता हें एक शस्त्र म्हणपाचो नवो अर्थ आनी परिमाण तांणी पत्रकारितेक दिलो. तेच पासत सरकार पत्रकारांक थर्त भियेतालें.

पूण आयज त्याच देशांतले पत्रकार राजकारणी आनी सत्ताधाऱ्यांचे पालखीचे भोई जाल्ले पळोवन मन खंती जाता. आमी लोकशायेचो चौथो खांबो म्हूण जे पत्रकारिते कडेन पळयतात तो होच खांबो काय? असो प्रस्न पडटा. तेन्नाच पयस खंय तरी दाटिल्ल्या ह्या काळ्या कुपांचे देगेक एक भांगराची झालर दिसता. आमचें मन खोशयेन भुरकुट्टा.

हे दिवाळेकय आमचें मन खोशयेन भुरकुटून वचून, आमच्या मनां-काळजांत खोशयेचो फोगार फोग फुटपा सारकी एक घडणूक घडिल्ली आसा. करोनाच्या वा कोविड -१९ चे म्हामारीन फाटलें देड वरस समाजाचेर जें एक काळखी साम्राज्य पातळायल्लें आनी समाजमन निर्शेल्लें त्या मनांत एके गजालीन नक्कीच लाख लाख दिवे पेटयल्यात हातूंत आमकां मात्तूय दुभाव ना. अशी खंयची ही घडणूक, जिर्णे आमची दिवाळी अदीकूच फुलयली..?

ही घडणूक खंयची तर, स्वीडनच्या नोबेल पारितोषीक समितीन २०२१ वर्सा खातीरचें शांतताये पासतचें नोबेल पारितोषीक दोन पत्रकारांक जाहीर केलां. फिलिपाइन्सची मारिया रेस्सा आनी रशियेचो दमित्री मुरातोव हांकां तो फावो जालो. दोगा पत्रकारांक एकाच वर्सा शांततायेचें नोबेल फावो जावप ही पत्रकारिते कडेन ओर्सान पळोवपी संवसारभरच्या दरेक लोकशायवादी नागरिका पासत अभिमानाची गजाल. ही खबर कानार पडल्या बराबर तांच्या प्रत्येकाच्या मनांत 'आदर्श पत्रकारिता चिरायु जावं!' ही एकूच घोशणा आयल्या हातूंत कोणाकूच दुभाव आसूंक फावना. आयज मनीसपण आनी लोकशाय तिगोवन दवरपाची आसत जाल्यार पत्रकारिता सोडून दुसरी खंयचीच गजाल ना. लोकशायेचो हो चौथो खांबो आयज राजकारण्यांनी करमेवन उडयला देखून सगळो भार आयज लोकशाय पेलपी चार खांब्यां मदल्या फकत न्यायमंडळ ह्या खांब्याचेर पडला. हें वजन पेलून तो खांबोय आतां ढळमळटा काय किर्ते अशें दिसूंक लागलां. अशे वेळार पत्रकारिते सारख्या लोकशायेच्या चौथ्या खांब्याक ह्या शांतताये पासतच्या नोबल पुरस्कारांनी खात्रीन घटाय मेळटली. तेच पासत हे दिवाळेच्या शुभ म्हुर्तार दोगां पत्रकारांक हो पुरस्कार फावो जावप ही संवसार भरच्या लोकशायवाद्यांनी दिवाळी फुलोवपी सारखीच गजाल. जे कोण लोकशाय आनी शांतताय हांच्या चिरंतन अस्तित्वा पासत वावुरतात, त्या पासत गरजेचें आशिल्लें अभिव्यक्तीस्वातंत्र्य तिगोवपाक धडपडटात तांकां सगळ्यांक आयच्या असोसणिकायेच्या काळांत हे पुरस्कार खात्रीन नवी उर्बा दिवंक पावतले. तेच पासत पत्रकारितेच्या मळार अभिव्यक्ती स्वातंत्र्या पासत झगडपी मारिया रेस्सा हे आमचे पत्रकार भयणीचें आनी दमित्री मुरातोव ह्या पत्रकार भावाचें अभिनंदन करतनाच आमी तांकां दिवाळेचीं परबीं भेटोवंया..

पाद्री कायतान फारीयान अस्वस्थ मनान म्हळें :

# सांगपा साखी खबर ती !

**उदय भेंब्रे हांची**
**'कातर रे भाजी'**
**ही कादंबरी २०२२ वर्सा येवपाची आसा.**
**ही कादंबरी संमोहन शास्त्राचो जनक आबे फारीय ह्या गोंयकाराची जीण आनी ताचो हिप्नॉटिझमा विर्शीचो सोद वावर हांचेर आदारिल्ली आसा.**
**कांदोळी –कोलवाळ – लिस्बोअ –रोम – लिस्बोअ – फ्रांस अशी ताची कश्टमय भोंवडी !**
**जियेतना हारलो आनी मरणा उपरान्त जिखलो अशी विचित्रांची जीण!**
**ते कादंबरींतलो हो एक वांटो.**

---



उदय भेंब्रे
मो. : 9822163223

केंद्रीय साहित्य अकादमी पुरस्कारान सन्मानीत कोंकणी चळवळींतले ज्येश्ठ फुडारी, पत्रकार, गीतकार आनी विचारवंत ॲड. उदय भेंब्रे हांची 'व्हडलें घर' हे कादंबरीक वाचकांनी घसघशीत येवकार दिल्या उपरांत गोंयच्या इतिहासाचे फांटभुंयेर एका गोंयकार पुताची कादंबरीच्या रुपान वळख घडयतात. तांचे'कातर रे भाजी' हे नवे कादंबरींतलें हें एक प्रकरण ..

आयकतल्यांक आपल्या उलोवपान भारावन वडोवपाची कला पाद्री जुजे फारीया कडेन नाशिल्ली. पूण पुर्तुगेज भाशेचेर प्रभुत्व आशिल्लें. धर्मशास्त्र आनी तत्वगिन्यान हांचो खोलायेन केल्लो अभ्यास आशिल्लो. बारीकसाणीन केल्ल्या निरिक्षणांतल्यान घेतिल्लो अणभव आशिल्लो. दर एका विधानाक अभ्यासाची आनी संशोधनाची जडसाण आशिल्ली. सगल्यांनी उलोवप मन लावन आयकलें. सोंपलें तेन्ना सगलीं समाधानान उठलीं. राणयेन हें उलोवप कित्याक दवरूंक लायलें असो प्रस्न जांकां पडिल्लो तांकां जाप मेळ्ळी.

उलोवप सोंपोवन पाद्री जुजे फारीय पुलपुत्रांतल्यान देंवन कपेलांत लोकां मदीं आयलो. जण एकल्यान ताका हात दिवन परबीं भेटयलीं. जे पाद्री कायतान फारीयाक वळखताले तांणी ताचे सरी वचून ताकाय हात दिवन परबीं भेटयलीं. कांय जाणांनी ताका विचारलें,





' पाद्री जुजेन उलोवप सुरू करचे आदीं तुवें कितें तरी म्हळें. कितें तें?'

पाद्री कायतान खरें तें कशें सांगतलो! वेळ मारून व्हरपाक ताणें सांगलें,

'कांय ना. हांव आमचे भाशेंत उलयलों म्हूण तुमकां कळ्ळें ना, हांवें जुजेक सांगलें, सगलो लोक आयला आतां उलोवप सुरू कर'

एक एक करून सगळीं मनशां कपेलांतल्यान भायर सरलीं. एकलोच मनीस वण्टी कडेन उबो आशिल्लो. तो फुडें सरलो. पाद्री जुजे फारीया बगले येवन ताणें हेरां भशेन हात दिवन ताका परबीं भेटयलीं. पाद्री जुजेन 'देव बरें करूं' म्हणटकूच त्या मनशान म्हळें,

'म्हजें नांव आर्मांद काब्राल. हांव आदीं फौजेंत कारोनेल आशिल्लों. गोंयांतूय पावलां. तुजें उलोवप उत्तम जालें. सद्या हांव ऊ मुन्दु ह्या मासिकाचें संपादन करतां. तुजी सगळी खबर समजून घेवन म्हाका ती उजवाडावपाची आसा.'

'पूण आज कशें जातलें तें?'

'ना, आज जावचें ना. ताका वेळ लागतलो. तुजें भुरगेंपण, कुटंब, शिक्षण हांचे विशीं सगली खबर जाय.'

' तशें जाल्यार तुका पायचे कडेन उलोवचें पडटलें. हांवें पंदरा वर्सांचे पिरायेर गोंय सोडिल्लें'.

' पूण पाय खंय?'

पाद्री जुजेन लागींच आशिल्ल्या पाद्री कायतानाक बोट दाखयलें,

'तो म्हजो पाय. पाद्री कायतान वितोरीन दे फारीय. तो सगली खबर सांगतलो.'

' पूण तुजे कडेनूय उलोवपाचें आसा म्हाका.'

'उलोवया'.

काब्राल पाद्री कायतान फारीया म्हऱ्यांत गेलो, ताका हात दिवन परबीं भेटयलीं. आपली वळख सांगली – आनी म्हळें,

'तुमी गोंयचे खंय! गांव खंयचो?'

'गोंया विशीं खबर आसा?'

'थोडी भोव. फौजेंत आसतना पांच स वर्सां गोंयांत काडल्यांत.'

'गोंयांत खंय?'

'हांव चडसो काबू दे राम कोटांत उरलों.'

'आमी बार्देस म्हालांतले, कोलवाळ गांवचे.'

' बार्देसांतले? हांव एक दोन फावटी बार्देसांत पावलां पूण भोंवन गांव पळोवंक पावलो ना. हांवें तुमचे विशीं थोडें भोव आयकलां. पूण सगलें समजून घेवंक जाय. पाद्री जुजेकूय सांगलां हांवें....'

'सगलें म्हणचे?'

'सगलें. तुमच्या कुटंबाचो इतिहास, तुमी पुर्तुगालाक कशे आयले, रोमाक वचून शिक्षण कशें घेतलें, हें सगलें छापून येतकूच लोकांक कळूंक पावतलें.'

पाद्री कायतान फारीयान खीणभर चिंतलें... हें बऱ्याक पडटलें? लोकां मदीं दुबाव आसात, गैरसमज आसात, कांय जाण जुजेक पाद्री आनी माद्री हांचो पूत समजतात हाची ताका जाणविकाय आशिल्ली. तें सगलें स्पश्ट करपाक आनी जमलें जाल्यार गोंयकारांचेर अन्याय जाता ताचेर उजवाड घालपाक ही संद बरी आसा अशें ताका दिसलें. काब्रालाक ताणें म्हळें,

'बरें आसा, केन्ना येता?'

'तुका वेळ मेळटा तेन्ना.'

'आज आयतार, परां मंगळाराक येवंक जायत?'

'सांजवेळा पाचांक?'

'हय, पांचांक येतां.'

काब्रालान पाद्री कायतान फारीयाच्या घराचो पत्तो विचारून घेतलो. दोनूय पाद्रींक 'ओब्रिगाद' म्हळें आनी गेलो. कपेलांवाक 'देव बरें करूं' म्हणून पाद्री कायतान आनी पाद्री जुजे घरा वचूंक भायर सरले.

पाद्री जुजे कुश्तोदियु फारीयाचें तें उलोवप लिस्बोआंत गाजलें. दिसाळ्यांनी त्या उलोवपाची तुस्त-तोखणाय केली. आनी हें लिस्बोआ पुरतेंच ना. पुर्तुगालभर पाद्री जुजे फारीयाची नामना पातळ्ळी.

■■■

मंगळाराक ज्युस्त पांच वरांचेर आर्मांद काब्राल पाद्री कायतान फारीयागेर पावलो. पाद्री जुजे फारीयान दार उगडलें, ताका घरांत घेवन सालांत व्हरून बसयलो आनी भितर वचून काब्राल आयला म्हणपाचें बापायक सांगलें. पाद्री कायतान सालांत आयलो, काब्रालाक हात दिलो आनी तो बशिल्लो ताचे

मुखार वाटकुळ्या मेजाचे दुसरे वटेन आशिल्ल्या कदेलार बसलो. काब्रालाक ताणें म्हळें,

' सांग, कितें जाणा जावपाचें आसा तुका?'

'सगलें. तुमचें कुटंब, गोंयांतली जीण, लिस्बोआंतले अणभव, रोमांतलें शिक्षण.... सगलें.....'

काब्रालान आपले विशीं थोडी-भोव खबर काडल्या हें पाद्री कायतानाच्या लक्षांत आयलें. ताणें विचारलें,

'खंय सुरु करूं?'

'आरंभा सावन... म्हळ्यार तुमच्या पुर्वजां सावन. उगडास आसल्यार तारीक वा वर्स सांगचें. सांगपा सारकें आसा तितलेंय म्हाका जाय'.

'बरें आसा.'

'मदीं कितेंय विचारल्यार तुका वायट दिसचें ना मूं? म्हणचे, तशें विचारलें जाल्यार आडखळ जावची ना न्हय?'.

'ना-ना. उगडासांत आसा तें सांगपाचें. मदीं प्रस्न विचारले म्हूण कांय नज.'

'तर सुरु केल्यार जाता.'

काब्रालान पटी मेजार दवरून पेन हातांत धरलें. पाद्री जुजे वण्टीक तेंकून आशिल्ल्या एका कदेलार बसलो. काब्राल उत्सुकतायेन आयकूंक रावलो.

'गोंयांत बार्देस म्हालांतलो कोलवाळ हो आमचो गांव हें पैर हांवें सांगलां. सोळावो शेंकडो सोंपतां-सोंपतां बार्देसांतलीं खूबशीं हिंदू कुटंबां बाटून क्रिस्तांव जालीं. तांचे मदलें एक कुटंब आमचें.

'मुळचें आडनांव कितें?'

'सांगतां, अनंत शणै हो आमचो निमणो हिंदू पुर्वज. लोक ताका आंतू शणै म्हणटाले आनी त्या वाठारांत ताका व्हड मान आशिल्लो. क्रिस्तांव जायत सावन म्हजी पिळगी पांचवी वा सवी आसुंये. जल्माचें वर्स 1729. सुर्वेक इगर्जेचे शाळेंत शिकलों. तेन्नाच पाद्री जावपाची इत्सा मनांत किल्लली. कुटंबांतल्या जाण्ट्यांकूय ती मानवली. ते प्रमाण पाद्रीपणाचें शिक्षण घेवपाक म्हाका चोडणचे सेमिनारींत धाडलो.

'गोंय शारांत कित्याक धाडलो ना? थंयूय सेमिनारी आसा?'.

' तें म्हज्यान सांगूंक जावचें ना. घडये तेन्ना गोंय शारांतलें वातावरण शिक्षणाक फावो तशें नाशिल्लें. चोडणचे सेमिनारींत चड बरें शिक्षण मेळटालें अशेंय आसुंयेता.'

'सेमिनारींतलें शिक्षण केन्ना पूर्ण जालें?'

' तें मात्शें आडखळ्ळें.'

' कित्याक?'.

'सांगतां, आठ वर्सां शिक्षण घेवन सुटयेंत कोलवाळे आयिल्लों. कांय दिसांनी एक रायबारी सोयरीक घेवन आयलो आनी पायक मेळून गेलो. उप्रांत पायन सांगलें, कांदोळेच्या आलेशांद्र सौजाक एकूच धूव. तिचें काजार करुंक तो सोदता. बार्देसांतलो मोटो गिरेस्त भाटकार तो -'

'खरोच गिरेस्त आशिल्लो?'

'हय, हांव आयकून जाणा आशिल्लों ताचे विशीं. आमचींय भाटां आशिल्लीं, पूण तो घराबो खूब गिरेस्त. तांकां कोंक्रो म्हण वळखताले.'

'कोंक्रो कित्याक?'

## ना चिरो ना नांव

**आबे फारीय हांचो एक पुतळो पणजेंत पोरण्या सचिवालया लागीं आसा. कांदोळे ज्या घरांत तांचो जल्म जालो त्या घरांत तांचो एक अर्दपुतळो आसा. पणजेंतलो पुतळो शिल्पकार रामचंद्र पांडुरंग कामत हांणी तयार केल्लो तर कांदोळेच्या घरांतलो अर्दपुतळो व्ही. एस्. कुंकळयेंकार हांणी तयार केल्लो. पुर्तुगेजांनी बार्देसांतल्या दोन शाळांक तांचें नांव दिल्लें. मडगांवांत एक मुखेल मार्गाक आबादि फारीय मार्ग अशें नांव दिल्लें तें तांचेंच यादस्तीक म्हूण. आबे फारीयाचें मूळ नांव जुजे कुश्तोदियु दे फारीय. तांचें कुटंब कोलवाळचें. जल्म जाल्लो 31 मे 1756 दिसा. ते संवसाराक अंतरले पारीस शारांत 20 सप्टेंबर 1819 दिसा. फोंडार ना चिरो, ना नांव !**

'सारकें खबर ना. कोण म्हणटालो तांचें आदलें नांव केंकरो आसलें, ताचें कोंक्रो जालें, तर कोण सांगतालो, तांच्या पुर्वजाक फाटीक पोंग आशिल्लें म्हूण तांकां तें नांव पडलें. ताची धूव गोरी पिठ्ठ आनी सुंदर आसा अशेंय आयकल्लें. '

'तुवें कितें केलें?'

'हांव पाद्रीपणाचें शिक्षण पूर्ण करुंक सोदतालों. पूण पायन आग्रो धरलो, हांवें काजार जावचें म्हूण. इतले गिरेस्त घराब्यांतले चलयेची सोयरीक येवप कठीण. देखून ही संद सोडची न्हय अशें ताका दिसता हें हांव समजलों. पायन म्हणलें, ' तूं हुशार म्हूण ताणें आयकलां. तूं ताचें भाट-बेंस बरे तरेन सांबाळतलो हे विशीं ताका खात्री दिसता.'

'मागीर तुवें कितें थारायलें?'.

'हांवें चितलें, पाद्री जावन कितें करतलों! गिरेस्तकायेच्या आदारान व्हडवीक जोडटलों. हांवें पायचें सांगणें मानून घेतलें. काजार कांदोळे दबाज्यान जालें. रोज मारीय एकलीच अपुर्बायेची धूव. मांय नासली. पाय एकलोच कसो रावतलो? म्हाका घरजांवय जावचोच पडलो.'

काब्रालान पटयेंत कांय उतरां बरयलीं आनी फुडलो प्रस्न विचारलो.

' पूण मागीर पाद्री......?'

' कसो जालो होच प्रस्न न्हय? ताची जाप अशी -काजार जालीं आमीं, पूण आमचे सबाव केन्नाच जुळ्ळे नात. एका घरांत रावनूय आमी सुमार स वर्सां मनान आनी कुडीन पैसूच उरलीं. म्हजो सासुपाय नातरां पळोवंक आशेतालो. आमचो संवसार सारको जावचो म्हूण धुवेक तरेकतरांनी समजायतालो. पूण वाडत गेल्ली निर्शेणी ताका पोखरताली. आमच्या संवसाराचें कितें जातलें ही चिंता काळजा वेलो भार वाडयताली. अखेरेक 1755 वर्सा तो भायर पडलो. दुसऱ्या वर्सा जुजेचो जल्म जालो. '

'तारीक कितली?'

' 31 मे 1756. सात दिसांनी म्हळ्यार ७ जूनाक ताचो बापतिज्म जालो.'

काब्रालान पटयेंत तारखो बरयल्यो आनी म्हळें, ' मागीर घरांतलें वातावरण बदल्लें आसूंक जाय.....'

' बदलूंक जाय आशिलें. पूण ना. सबावाक वखद ना म्हणटात. तशेंच घडलें. रोज मारियाचे वागणुकेंत कसलोच फरक जालो ना. आदीं तिका समजावपाक बापूय आशिल्लो. तोवूय गेल्लो. परिणामीं आमचे मदलें अंतर वाडत गेलें.'

' मागीर?'

' मागीर कितें? हांवें चींत चींत चिंतलें. जुजेच्या कंवळ्या मनाचेर वायट परिणाम जायत असोय हुस्को मनांत रिगिल्लो. हांवें थारायलें, हाचेर एकूच उपाय -'

' कसलो तो? '

' घोव-बायल हें नातें सोंपोवपाचो.'

' कितें?!'

' हय. दुसरो उपायूय नाशिल्लो. त्या संवसाराक अर्थ आशिल्लो?'

' पूण तें कशें केलें?'

' इगर्जेच्या कारभाऱ्यां सरीं दोगांय गेलीं आनी काजाराचो साक्रामेंत मोडपाक मान्यताय मागली. हांवें पाद्रीपणाचें शिक्षण पूर्ण करून दिक्षा घेवची आनी रोज मारियान माद्री जावचें अशेंय थारलें.'

' आनी जुजे, म्हळ्यार, पाद्री जुझे?'

' ताका सांबाळपाची जापसालदारकी हांवें घेतली. ते प्रमाण जुजेक कोलवाळे दवरून हांव परतो चोडणा सेमिनारींत गेलों आनी शिक्षण पूर्ण करून १७६४ वर्सा दिक्षा घेतली. रोज मारीय माद्री जावपाक गोंय शारांत सांत मोनिका कॉन्वेंटांत गेली आनी थंयच रावली.'

तिनसांज जायत आयिल्ली. सालांत उजवाड उणो जाल्लो. पाद्री जुजे उठलो आनी दिवे पेटयले. काब्रालान 'ओब्रिगाद' म्हळें. पाद्री जुजेन मान हालोवनूच तें मानून घेतलें आनी परत कदेलार बसलो.

' पाद्री जातकूच तुवें कितें केलें?' काब्रालान फुडलो प्रस्न विचारलो.

'म्हजी नेमणूक हळदोणेंचे इगर्जेंत व्हिगार म्हूण जाली. पांच वर्सां थंय मिसां सांगलीं आनी वाजेलों. हळदोणें सोडून घरा आयलों... कोलवाळे'.

' कित्याक?'

' जिवीतभर मिसां सांगत रावपाची म्हाका इत्सा नाशिल्ली. आनी उंचलें पद मेळत, कर्तुत्व दाखोवंक संद मेळत अशी आस्त नाशिल्ली.'



' पूण कित्याक?'

हो प्रस्न उप्रासतलो हें पाद्री कायतान फारीय जाणा आशिल्लो, पूण ताची स्पश्ट जाप दिवप शाणेंपणाचें जातलें काय कितें हे विशीं ताका दुबाव आशिल्लो. ताणें चिंतलें, खरें तें सांगल्यार वायट कित्याक जातलें? घडये बऱ्याकूच पडत. गोंयांत चलता तो अन्याय चड लोकांक कळूंक पावतलो. ह्या संपादकान छापूंक मात जाय. मात्शी किंवाट्यानूच ताणें जाप दिली.

'गोंयांत थळाव्या लोकांचेर अन्याय जातालो. तांकां फुडें सरपाकूच मेळनाशिल्लें–.'

' म्हणचे? हांव समजलों ना.'

'सिन्योर काब्राल, गोंयांत सुमार तीन हजार थळावे पाद्री आसात. आज मेरेन एकल्याकूय बिशप नेमूंक ना.'

'कित्याक?' प्रस्न विचारतनाच ताणें पटयेंत कांय उतरां बरयलीं.

' त्या प्रस्नाची जाप मेळना. घडये थळाव्यांचे गूण दिसनात, फकत कात दिसता! आनी हें फकत धर्मीक मळार न्हय. फौजेंत तेंच घडटा आनी प्रशासनांतल्या पदां संबंदानूय तेंच. असली परिस्थिती कोणाक जाय आसता? लोक हो अन्याय सोंसतात; म्हज्यान सोंसूंक जावचो नाशिल्लो. देखून हांवें पुर्तुगालाक येवचें थारायलें. जें गोंयांत रावन जमपा सारकें नाशिल्लें तें घडये हांगा रावन करूंक मेळत अशें म्हाका तेन्ना दिसलें.'

' पूण गोंयांत तुमचें घर आसा, भाटां आसात तांचें कशें?'

' एक फावट गोंय सोडून हांगा येवपाचें थारायतकूच ती वेवस्था केली हांवें. घरांत रावपी आनीक मनशां आशिल्लीं. म्हजीं आवय–बापूय थंयच आशिल्लीं. तांचो हुस्को नाशिल्लो.'

' पूण भाटां बी.....?'

' म्हजो एक इश्ट आनी गांवभाव आसा, रामा कुश्टा नायक. ताचींय भाटां आसात. ताका सांगलें भाटां पळोवपाक, हिशोब दवरपाक आनी नेमान म्हाका दुडू धाडून दिवपाक. तें तो वेवस्थीत करता.'

' आनी पुता विशीं कितें थारायलें?'

' जुजेक बरें आनी उंचलें शिक्षण दिवपाचें हांवें थारायल्लें. तें गोंयांत जावपा सारकें नाशिल्लें. ताका रोमाक धाडपाची म्हाका इत्सा आशिल्ली. म्हणटकूच ताकाय बरोबर हाडपाची मांडणी केली. हां, आनीक एक केलें. ह्या शारांत कोणा कडेनूच वळख नाशिल्ली. हांगा येवन शेणपाक नाका म्हूण हांव बार्दे सांतल्या फ्रांसिस्कन प्रोव्हिन्सियालाक मेळ्ळों. ताका म्हजी अडचण सांगतकूच ताणें कांय जाणांक पत्रां दिलीं. एक पत्र दिलें



तिराच्या आर्चबिशपाक. तो पापसायबाचो पुर्तुगालांतलो प्रतिनिधी आशिल्लो न्हय?'

' मागीर?'

' 21 फेब्रुवारी 1771 दिसा सां जुजे नांवाच्या तारवार आमी भायर सरले. तारवांत कळ्ळें की गोंयचो मुखेल सचीव येरींकि जुजे दे मेन्दान्य एका झुजांत हारलो म्हूण परत आपयला आनी तो त्याच तारवांत आसा. हांवें ताची वळख करून घेतली, हांव आनी पूत लिज्बोआक कित्याक वतात तें सांगलें आनी लिज्बोआंत कोणाक मेळचें तें विचारलें. ताणें उंचेल्या पदांचेर आशिल्ल्या कांय अधिकाऱ्यां खातीर पत्रां दिलीं. आमचें तारूं णव म्हयन्यांनी 23 नोव्हेंबर 1771 दिसा लिस्बोआक पावलें.'

काब्रालान तारखो पटयेंत बरोवन घेतल्यो आनी म्हळें, ,' हांगा लिज्बोआंत तुमकां दोगांयकूय आपूण परकी अशें दिसलें ना?'

' दिसलें तर! पूण हांव पाद्री आशिल्ल्यान आनी पुर्तुगेज भास उलोवंक येता आशिल्ल्यान ह्या शारांत शेणिल्ले भाशेन जालें ना'.

' हांगा येवन कितें केलें?'

' फ्रांसिस्कन प्रोव्हिन्सियाल आनी सिन्योर मेन्दान्य हांणी दिल्ल्या चिटींक लागून अधिकाऱ्यांच्यो वळखी जाल्यो. ताका लागून राजवाड्यांत रीग मेळ्ळी. पूण चड आदार जालो तिराच्या आर्चबिशपाचो–'

' तो कसो?'

' प्रोव्हिन्सियालाची चीट घेवन ताका मेळ्ळों. आमी कित्याक आयल्यात तें ताणें समजून घेतलें. रोमाक वचून म्हाका डॉक्टरेट करपाची आसा आनी जुजेक थंयच पाद्री म्हूण दिक्षा घेवपाची आनी डॉक्टरेट घेवपाची आसा हें आयकून ताका बरें दिसलें.ताणें एक काम म्हजेर सोंपयलें.–'

' कसलें तें?'

' गोंयांत धर्मीक मळार कितें चल्लां, भोव करून धर्माचो प्रसार करपाचो वावर कसो चल्ला हाचेर विस्तारान नियाळ बरोवन दिवपाचें.'

' सबावीक तें. तिराचो आर्चबिशप हो पापसायबाचो पुर्तुगालांतलो प्रतिनिधी आनी गोंय ही पुर्तुगालाची वसाहत; म्हणटकूच ताचे नदरेन असलो नियाळ गरजेचो.'

' हांवेंय तशेंच चिंतलें. म्हजीं कांय मतां मांडपाकूय ती एक संद आशिल्ली. हेरशीं, त्या विशयाचो हांवें खोलायेन अभ्यास करूंक नाशिल्लो; पूण कितें चलता तें जाणा आशिल्लों. कांय वर्सां पाद्री म्हूण वावुरिल्लों न्हय?'

' तें खरें. आनी गोंय तशें ल्हान. खबरो कळटाल्यो.'

' हय. हांवें जमलें त्या भाशेन नियाळ बरयलो. थळाव्या पाद्रींचो फावो तसो उपेग जायना, तांकां फावो ती संद मेळ्ळी जाल्यार वावर अदीक बरो जावं येता असोय मुद्दो मांडलो. म्हजें अक्षर तितलें बरें नाशिल्ल्यान जुजे कडल्यान ताची तालीक करून घेतली. ताचें अक्षर भोवच सुंदर. रोखडोच आर्चबिशपा सरीं वचून तो नियाळ ताका दिलो. बराबर जुजेकूय व्हेल्लो.'

' मागीर?' काब्रालान पेटयेंत नोंद करीत विचारलें.

' आर्चबिशपान नियाळ पळयतनाच अक्षराची तोखणाय केली. तें अक्षर जुजेचें म्हूण सांगतकूच ताणें जुजेक शाबासकी दिली आनी तो कितें करूंक सोदता काय म्हूण विचारलें. हांवें आदीं सांगिल्लें तेंच जुजेन सांगलें. आर्चबिशपान ताका आशिर्वाद दिलो आनी 'तुजी इत्सा फळादीक जावं' म्हळें. म्हाका ताणें सांगलें, नियाळ वाचून पळयतां. तितलें करून आमी परतले.'

' कितें जालें त्या नियाळाचें?'

'कांय दिसांनी आर्चबिशपान म्हाका आपयलो. ताणें सांगलें, आपणें नियाळ पापसायबाक धाडला. म्हाका ते विशीं व्हडलीशी उत्सुकताय नाशिल्ली, पूण ताणें एक खोशेची खबर सांगली.–'

' खोशेची! कसली?'

' आपणें राजाक चीट बरयल्या आनी रोमाक शिक्षण घेवपाक आमकां दोगांयकूय पालव दिवचो अशें सुचयलां. म्हाका खोस जाली. हांवें ताचे उपकार मानले पूण ताची सुचोवणी राजान मानून घेतली ना जाल्यार कशें जावपाचें? असोय एक प्रस्न मनांत उप्रासलो–'.

' कितें केलें तुवें?'

'हांवें मुखेल प्रधान मार्केज दे पोंबल हाका मेळपाचो यत्न केलो. तो वेगळ्या विचारांचो, वसाहतींतले प्रजेचें बरें चिंतपी अशें आयकल्लें. पूण तें जमून आयलें ना आनी भेट जावंक पावली ना.'

' मागीर?'

' आतां फुडें कशें अशें हांव चिंत्तालों. इतल्यांत आर्चबिशपा



कडल्यान रकाद आयलो, राजा कडेन भेट थारायल्या, दोगूय वचून मेळात.'

' जाली ती भेट?'

' हय तर! आनी ताकाच लागून शिक्षणाचो प्रस्न सुटलो.'

' कसो?'

' राजाचे भेटेक गेलों तेन्ना राजान आमची खबर आयकून घेतली. कांय प्रस्न विचारले. जापो आयकून तांचे चर्येर खोस दिसली. रोमांतल्या खर्चाचो हुस्को करूं नाकात, बरे तरेन शिक्षण घेवन येयात असो आशिर्वाद ताणें दिलो.'

' अशें जालें तर!'

'हय. 1772 वर्स तें. हांवें वेळ केलो ना. जुजेक घेवन जिनोवाच्यान रोमाक गेलों. थंय जुजेक प्रॉपागांद फिदेचे कोलेजींत घालो आनी डॉक्टरेट करपाक म्हजें नांव नोंदलें.'

' तुवें विशय सांगिल्लो. हांव बरोवन घेवपाक पावलों ना, कसलो तो?'

' धर्मशास्त्र. 1777 वर्सा म्हाका डॉक्टरेट मेळ्ळी. जुजेचें शिक्षण चालू आशिल्लें. ताका थंय दवरून हांव लिस्बोआक परतलों. पूण कांय म्हयन्यां आदीं बरेच बदल जाल्ले. राजा दाँ जुजे भायर पडिल्लो; ताची धूव पयली दोना मारीय राणी जाल्ली. तिणें मार्केज दे पोम्बालाक मुखेल प्रधानाच्या पदा वयल्यान निखळायिल्लो... तूं जाणा तें.'

' हय.'

आर्मांद काब्रालान कोटाच्या वयल्या बोल्सांतल्यान घडयाळ काडून वेळ पळयलो.

' साडे आठ जालीं! खूब वेळ घेतलो तुजो पाद्री फारीय.'

' कांय नज. हें सगळें सांगपाक वेळ लागताच.'

' मूयतु ओब्रिगाद! आतां पाद्री जुजे कडेन उलोवंक जाय. केन्ना येवं?'

' फाल्यां यो.' पाद्री जुजेन म्हळें.

' आयचे भाशेन?'

' हय, पांच वरांचेर. हांव रावतां.'

' येता तर.' काब्रालान दोगांकूय हात दिलो आनी तो भायर सरलो.

ते राती जेवंक बशिल्ल्या वेळार बापूय कांय उलयलो ना. पुतान म्हळें,

' पाय, तुवें काब्रालाक सगली खबर सांगली ना....'

' तुजे मांयचे विशीं म्हणटा तूं?'

' हय....'.

' सांगपा सारकी खबर ती?'

सादो प्रस्न; पूण त्या प्रस्नाच्या सुरांतली तिडक, निर्शेणी,

व्यथा हें सगळें पुताच्या मनाक आफडून गेलें. दुखदिणेंच तें. तो आनीक कांय उलयलो ना.

सांगपा सारकी खबर ती? पाद्री कायतानानूच विचारिल्लो प्रस्न तो. पूण हातरुणार पडलो तरी त्या प्रस्नान ताची फाट सोडली ना. ताणें कुशी परतिल्यो, पूण दोळो लागलो ना. परत परत तोच प्रस्न....

*केदे उमेदीन काजार जाल्लें! आलेशांद्र सौजाची आस्पत बरे तरेन वापरून व्हडविकेक पावपाचो केदो आवंडो बाळगिल्लो! पूण घडलें उरफाटेंच. काजारान कसलेंच सूख हाडलें ना. दिले त्रास मनाक. अपमानानीच भरलें काजारी जिवीत....*

*सांगपा सारकी खबर ती?.....*

*गिरेस्त घराब्यांत जल्म. एकलीच धूव. सुमारा भायर अपुर्बाय आनी नस्ते लाड. जाय तें मेळटा. सांगता तें करतात. पिराय वाडटां वाडटां रोज मारींय जाल्लें हट्टी, गर्विश्ट, बडायो मारपी आनी आपलें तेंच करपी. ताका सगलें किंकोत! कोणाचीच पर्वा नाशिल्ली, काजार जातकूच घोवाची लेगीत... दिसपट्टे वाद आनी ... झगडीं......*

*सांगपा सारकी खबर ती?*

*सासुपायचे इत्सेक लागून घरजांवय जाल्लों. पूण आंगांतल्या गुणांचो म्हाका अभिमान आशिल्लो. रांड, मींड म्हणात, पोटभर वाडात हो म्हजो स्वभाव न्हय. पूण रोज मारीयान म्हाका चाकरा समान वागयलो. बायल म्हूण ती वागलीच ना, दिसपट्टो अपमान.... गिरेस्तकायेचो गर्व... आपल्याक जाय तेंच करपाचो हट्ट... घरजांवय... तो कुस्कुटा समान....!*

*सांगपा सारकी खबर ती?...*

*समजून घेवपाची सोड, आयकुपाचीय तयारी ना. घोव म्हूण म्हाका लेखपाची तयारी नाऽऽच.. बापायचीय पर्वा केली ना. तो बाबडो सांगून सांगून थकलो. जाण्टेपणांत ताका हें नाका आशिल्लें. तो खंती जाल्लो. काजराक स वर्सां जावन कांय म्हयने जाल्ले. तो हातरुणाक लागलो. सगळे उपाय केले.... पूण व्यर्थ... तो दुखेस्त मनानूच भायर पडलो...*

*सांगपा सारकी खबर ती?*

*बापूय गेलो....घरांत एके तरेचा पोकळी...पयलेच खेपे रोज मारीयाक आपूण एकसुरी दिसूंक लागली. खूब रडली ती. दोन दीस जेवलीच ना. मागिरूय दीस-रात हातरुणाचेर पडून रावली. तोंड उश्यांत रोम न.....दुख्ख अडेचें दिसलें ना. तें खरें आसुंये...पच्छताप?... सांगूंक जायना...म्हयनो तसोच गेलो. एक यत्न करूया म्हूण पलंगार बसलों... तिच्या केंसां वयल्यान हात भोंवडायलो.घडये मायेचे पोकळेंत तिका तो जायसो दिसलो. तिणें कूस परतिली आनी दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतनाच तकली म्हजे मांडयेर दवरली....बदल जाला? म्हाका खात्री नाशिल्ली....ते राती हांवें तिका वेंगेंत घेवपाचो यत्न*

*केलो. ती कूस परतून वेगेंत आयली. काजारा उप्रांत पयलेच खेपे कुडी एक जाल्यो. धोव-बायलचें कुडीचें नातें जुळ्ळें....कांय राती तश्योच गेल्यो....*

*सांगपा सारकी खबर ती?*

*रोज मारीयाक दीस गेले.... घरांतलीं सगलींच तिका सांबाळूंक लागलीं. 'भाटकार येतलो' अशें सांगून धीर दिवपाक लागलीं. सासुपायच्या मर्णा उप्रांत धा म्हयन्यांनी जुजेचो जल्म जालो...*

*मांय जातकूच रोज मारीयाची वागणूक बदलतली अशें दिशिल्लें. पूण ना, तशें घडलें ना.. जाल्ल्याचो सबाव मेले बगर वचना अशें म्हण्टात... तशेंच घडलें. रोज मारीयाचो आदलो सबाव परत वयर सरलो. तेच हट्ट.. आपलें तेंच खरें... सगलीं किंकोंत.... धोव धरून... तशेंच तापप... तशेच वाद.... तशींच झगडीं.. जुजेक मांयची माया केन्ना मेळ्ळीच ना... न्हय, जुजेक मांय केन्ना मेळ्ळीच ना....*

*सांगपा सारकी खबर ती?*

पाद्री कायतान रातभर तळमळ्ळो. न्हिदेक पर्थून पर्थून पराथली ताणें. पूण फाटल्या त्या दुखदिण्या उगडासांनी तिका फांतोड लागीं पाव मेरेन दारा भायरूच दवरली.

■■■

बुधवाराक दनपारां जेवतकूच मात्सो विसव घेवन पाद्री कायतान आपल्या कामाक घरांतल्यान भायर सरलो. जुस्त पांच वरांचेर आर्मांद काब्राल आयलो. पाद्री जुजेन ताका येवकार दिलो आनी सालांत हाडून वाटकुळ्या मेजा कडल्या कदेलाक बोट दाखोवन म्हळें,

' बस. तूं वेळ सारको पाळटा.'

' ती शिस्त पाळ्ळी जाल्यारूच कामां जातात.'

' खरें तुजें! तुकां पायन सगलें सांगलां. हांवें सांगपा सारकें कितेंय उरलां?'

' उरलां तर! म्हाका तुजे अणभव समजून घेवपाक जाय. बरे, वायट सगले.'

' बरें आसा. सुरू करपाक जाता.'

काब्रालान पटी उगडून मेजार दवरली. पेनाचें बुकाल काडलें आनी प्रस्न विचारपाक आरंभ केलो.

' भुरगेपण कशें गेलें तुजें?'

' बरें गेलें काय वायट गेलें हें सांगप कठीण. तेन्नाचे सगले उगडासूय उरूंक नात–'

' उगडास जाता तें सांग.'

' कांदोळेचें घर व्हडलें. खेळपाक कितलीशीच सुवात. पूण घरांत हांव एकलोच भुरगो. कोणा वांगडा खेळटलों? हां, घरांत कातारीन नांवाचें पोस्कें आशिल्लें. मांयचेच पिरायेचें. तें म्हजेर माया करी, म्हजीं कामां करी; पूण काम नासतालें तेन्ना म्हजे वांगडा खेळूंक येतालें.'

' आनी मांय?'.

' मांय?.... ती आपल्याच कामांत आसताली. कांदोळी गांवांत पीन्त नांवाचें कुटंब आसलें. तांगेर कितलींशींच भुरगीं! हांव केन्ना केन्नाय तांगेर खेळूंक वतालों. दर्या लागीं आशिल्लो. मदीं मदीं वेळेर वचून आमीं रेंवेंत खेळटालीं. घरां बांदतालीं, ल्हार फुटून येता तें उदक पांयार घेतालीं. थंय वेळेर आमी खूब मौज करतालीं. काब्रालान मांयचे विशीं आनीक कितेंय विचारचे आदींच पाद्री जुजेन विशय बदलिल्लो.

' कांदोळे शिकप जावंक ना ?'

' ना, इगर्जेची शाळा आशिल्ली अशें दिसता पूण म्हाका तेन्ना शिकपाक धाडूंक ना. आनी आठ वो णव वर्सांचे पिरायेचेर हांव पायचे वांगडा कोळवाळे रावंक गेलों.'

' कोळवाळे तुका इश्ट मेळ्ळे आसतले'–



' ना. थंय हांव इगर्जेचे शाळेंत वतालों. भुरगे आशिल्ले पूण इश्ट असो कोणूच मेळ्ळो ना. त्या भुरग्यांकूय हांव विसरलां.'

' कितें शिकयताले?'

' लॅटीन भास. तीं म्हाका आवडटाली. थोडें धर्मशास्त्रूय शिकयताले. पूण तें म्हजे तकले वयल्यान वतालें.'

' त्या विशयांत तुवें डॉक्टरेट मात घेतली!' काब्रालान विनोदान म्हळें.

' तें खूब वर्सां उप्रांत. रोमांत शिकतना म्हाका धर्म–शास्त्राची गोडी लागलीं .'

' कोलवाळे कितलीं वर्सा शिकलो? '

' थोडींच. सारकीं सागतलों जाल्यार स. मागीर पायन आनी हांवें गोंय सोडलें. काल पायन सांगलां तें भशेन 1771 वर्सा आमी गोंय सोडलें. तेन्ना म्हजी पिराय पंद्रा वर्सांची.'

काब्राल सगलें बारीकसाणीन आयकतालो आनी आयकता आसतनाच आपले पटयेंत नोंदी करतालो. ताणें विचारलें,

' तारवार तुमी णव म्हयनें काडलें. वाज आयलो ना?'

' मदीं मदीं आयलो. पूण सांगातूय मेळ्ळो.'

' वळखीचे मनीस आशिल्ले'

' हय. तारवार चडशीं पुर्तुगेज मनशां आशिल्लीं. पूण पाय आनी हांव धरून गोंयचे सात जाण आशिल्ले. कोदोळेचो जुजे पीन्त; तो पिरायेन म्हजे परस मात्सो व्हड. हांगा उंचलें शिक्षण घेता. दोग जाण सरकारी कामा खातीर आयिल्ले. आनीक दोग जाण आशिल्ले ते हिंदू. ते व्यापारा संबंदान आयिल्लें. वांगडचो असो जुजे पीन्त आशिल्ल्यान सांगात मेळ्ळो, वेळ सारपाक सोपें जालें. पायन नव्यो वळखी करून घेतल्यो.'

' हांगा पावतकूच दुसऱ्याच वर्सा तुमी दोगूय रोमाक गेले. थंयचो अणभव कसो? '

'1777 पाय थंय आशिल्लो; म्हणटकूच एकटेपण बादले ना. मदीं कांय वर्सां जुजे पीन्त रोमांत शिकून आयला. ताचोय सागांत मेळ्ळो. पाय डॉक्टरेट करून हांगा येवचे आदीं म्हज्यो जायत्यो वळखी जाल्यो. शिकपाक फावो अशें वातावरण मेळ्ळें.'

' तुजीं डॉक्टरेट खंयच्या शास्त्रांतली?'

' धर्मशास्त्र आनी तत्वगिन्यान.'

तरणाट्या पाद्री जुजे विशीं काब्रालाक अदिकूच उत्सुकताय दिसली. ती ताचे चर्येर उफेली. पटयेंत नोंद करून ताणें फुडलो प्रस्न विचारलो ,

' पूण पाद्रीपणाचें शिक्षण आनी डॉक्टरेट हें एका बराबर कशें जालें?'

' पाद्रीपणाचें शिक्षण तीन वर्सा आदीं सोंपिल्लें. मागीर डॉक्टरेट केलीं. पूण डॉक्टरेट घेतली तेन्नाच पाद्री म्हूण दिक्षा घेतली.'

' प्रबंधाचो विशय कितें?'

' देवाचें आसप, ताचें एकलेपण आनी ताची सासाय हाचे संबंदींचे सिद्धांत. तो लॅटीन भाशेंत आसा. हो प्रबंध सर्गेस्त राजा दाँ जुजे हाका ओपचो अशें हांवें चितिल्लें, पूण मजगतीं राजा भायर पडलो आनी पयली दोना मारीय राणी जाली. देखून तो तिका ओपलो. म्हाका दिसता राजवाड्याच्या कपेलांत म्हजें उलोवप घडून आयलें तें त्या प्रबंधाक लागुनूच.'

' डॉक्टरेट आनी दिक्षा घेवप हें खयच्या वर्सा जालें?'

1780 तें म्हजे जिणेंतलें तें खाशेलें वर्स. '

' कित्याक? प्रबंधाक आनी उलोवपाक लागून?'

' तें एक कारण, दुसरेंय एक कारण आसा, प्रबंधा वांगडा हांवें एक सोदनिबंद बरयलो.'पवित्र आतम्याचें येणें ' हो ताचो माथाळो. तो सोंदनिबंद हांवें पापसायब सवो

पायस् हाका ओंपलो –'

' हो सोदनिबंद लॅटीन भाशेंत?'

'हय. तो वाचून पापसायब खूब खोशी जालो. ताणें कळयलें, सिस्टीन कपेलांत हांवें मीस सांगचें. 12 मार्च 1780 हो दीस पापसायबानूच थारायलो. तो दीस हांव केन्नाच विसरचो ना.'

' कित्याक? डॉक्टरेट मेळिल्लो दीस म्हूण ? '

'ना.' कितल्याश्याच कारणांक लागून तो दीस म्हजे जिणेंत खाशेलो थारलो –'

' देखीक......?'

' मीस सांगलें तें सिस्टीन कपेलांत ! तें कपेल म्हळ्यार वास्तुकलेचो एक सोबीत–सुंदर नमुनो! तशें तें कपेल म्हाका नवें नाशिल्लें. आदीं कांय खेपो पळयल्लें. पूण त्या दिसा कपेलांतल्या संवसारांत नामनेक पाविल्ल्या मिका–लांजेलोच्या फ्रेस्को चित्रांनी म्हाका वेगळीच उर्बा दिली. पैर हांगा उलोवप जालें तेन्ना म्हाका सगलेंच नवें. कपेल पयलेच खेप पळयतालों. उलोवप आयकूंक आयिल्लीं तीं सगलीं अनवळखी मनशां. पाय थंय आशिल्लो इतली गजाल सोडली जाल्यार सगलेंच वातावरण नवें आनी परकी कशें! रोमांत घडलें तें वेगळें– '

' वेगळें कशें?'

' पळय, सिस्टीन कपेल वळखीचें आनी मीस सांगपाक अभिमान दिसचें अशें. मिसाक आयिल्ले ते म्हजे शिक्षक आनी विद्यार्थी इश्ट. हेर कांय पाद्री शिक्षक आयिल्ले. सगळींच तोंडां वळखीचीं आनी सगल्यांत अदीक म्हत्वाचें म्हळ्यार मीस आयकूंक पापसायब आयिल्लो. उमेदीचें ल्हार म्हज्या शिरंतरांनी उसळ्ळें. तेंच उतरांनी देंवलें. तो शेर्माव वेगळोच जालो. ना, म्हज्यान ताचीं वर्णनां करूंक जायना असलें भाग्य खूब थोड्यांक मेळटा. '

' मात्सो राव आंऽऽ ' काब्रालान पटयेंत कांय नोंदी केल्यो आनी विचारलें',

' खरें तुजें! आतां कितें करचें थारायलां..?'

' पळोवया. प्रयत्न करप. पूण पायन काल तुका सांगलां तशें, गोंयांत कोणाकूच गोंयकारांचे गूण दिसनात, तांची तांक दिसना, तांचें कर्तुत्व दिसना, आमकां ल्हानूच लेखतात.हांगा तरी वेगळें कितेंय घडटा जाल्यार पळोवया.'

' गोंय म्हणटकूच उगडास जालों. सुमार धा वर्सां तूं गोंयां पासून पैस आसा. गोंयची मातूय याद येना? '

' येता केन्नाय. पूण णव वर्सां रोमांत गेलीं. वेळ अभ्यासांतूच गेलो. '

' चिटी बी बरोवप जाताल्यो? '

' ना. कोणाक बरयतलों? इश्ट अशे नाशिल्लेच न्हय!'

' सोयऱ्यां मदल्या कोणाकूय....? '

' सोयऱ्यां मर्दी?.... म्हाका दिसता, एकल्याकूच बरयल्ली हांवें... हय, एकूच चीट ती. '

' तुका आडखळ ना जाल्यार विचारूं?'

' विचार–विचार?'

' कोणाक बरयल्ली? '

' मांयच्या बापोलभावाचो पूत आंतोनियु ज्युआंव दे सौज हाका. म्हज्या शेपायचें घर तेंच ताचेंय घर.'

एक दीस म्हाका कातारिनाचो खुबूच उगडास आयलो. मांयच्या घरांतलें पोस्कें तें. एके जाण्टे बायलेक पळयली आनी कित्याक कोण जाणा, कातारीन नदरे मुखार येवंक लागलें. हांवें रोखडीच चीट बरयली, कातारीन जाण्टे जायत वतलें, ताचो कोण ना, ताचो सांबाळ करचो. चीट धाडलीच; पूण कातारीनाक एक ल्हानसो आल्तार, रोजरी आनी मुर्त्यो धाडून दिल्यो.'

काब्रालान पटी धांपली; पेनाक बुकाल घालून तें खोमसाच्या बोल्साक लायलें आनी म्हळें,

'तुजो खूब वेळ घेतलो. पूण म्हाका जायत्यो गजाली कळ्ळ्यो, देव बरें करूं.'

' म्हाकाय तुजे कडेन उलोवन बरें दिसलें. परत केन्नाय मेळुया.'

' हय–हय, मेळुयाच.'

काब्रालान पाद्री जुजेक हात दिलो आनी आदेउश करून तो भायर सरलो.

थोड्या वेळान पाद्री कायतान आयलो. ' काब्राल येवन गेलो?' ताणें विचारलें .

'हय. तूं येवचे मात्सो पयलीं गेला.'



' सांगलें ताका सगलें? '

' हय, सांगलें.'

पाद्री जुजे सट् करून उलोवन गेलो खरो; पूण दुसऱ्याच खिणाक ताका जाणविकाय जाली की पायन विचारिल्ल्या प्रशनांतल्या 'सगलें' ह्या उतरांत गर्भीत अशें कितें तरी आशिल्लें. ताणें चिंतलें आनी ताका उगडास जालो आपणाल्याच कालच्या उतरांचो. ताणें मनांत आपणाकूच प्रस्न विचारलो, तुवें खरेंच सगलें सांगलें? ताच्या मनान जाप दिली–

*ना.तुवें सगलें सांगूंक ना. तुजे मांयन तुका*

*मोग दिलो ना, माया दिली ना....*

*हें तुवें सांगलें ना. तुजी मांय सकाळ–सांजवेळ पायक हिणसायताली. कांय वेळा दोगांय एकामेकाचेर तापतालीं, एकाम `काचेर झुझून वतालीं. ल्हवुल्हवु हीं झगडीं सदांचीं जाल्लीं.... तुजेर आकांत येतालो. तूं मागीर बाबडोऽऽ जावन कातारिना सरीं वचून बसतालो...*

*हें तुवें सांगलें ना.*

*एक दीस तीं अशींच झगडलीं. एकामेकाचेर झुझून गेलीं. तूं ते कुडींत आशिल्लो. तूं भियेलो कोणूय हात उबारीत म्हूण! तूं तांचे बगलेक वचून तांकां कुशीक काडूंक लागलो.... तेन्ना मांयन तुका शेवटून उडयलो... पडलो तेन्ना मातशें लागलें तुका... तूं एका कोनशाक बसून रड रड रडलो...*

*हें तुवें सागलें ना.*

*आनीक एक दीस मांयन पायचे वयलो राग तुजेर काडलो... तुका तापयलो.... पोल्यार एक थापट्य मारलें.... तूं कुडींतल्यान भायर धांवलो... बद्द रांदचे कुडींत वचून कातरिनाच्या कमराक वेंग मारून हुडक्या हुडक्यांनी रडलो.... कातारिनान तुका मायेमोगान समजायलो... पोर्सांत व्हेलो... विसरायेर घालो...*

*हें तुवें सांगलें ना.*

*कांदोळी सोडून कोलवाळे वचऽ मेरेन अशेंच घडत रावलें... समजिकाय येतकूच चार–पांच वर्सां घरांत तुवें भिरातीन आनी धकेचपाट्यांनी काडलीं..... पाय तुका सांबाळटालो आनी मांयची माया कातारिना कडल्यान म `ळटाली....*

*हें तुवें सांगलें ना.*

रातीं जेवतना पाद्री जुजे कांय उलयलो ना. बापायक ताची मनस्थिती कळटाली. ताणेंय कसलोच विशय काडलो ना. पुताचे तकलेंत मांयच्या घरांतले उगडास खतखत्ताले. त्या उगडासांनी ताका मध्यान रात मेरेन पीड पीड पिडलो.

**(फुडलो वांटो फुस्तक रुपांत....)**

# धुकें

## समाज लुकसाणीचें - समाज रिजवणेचें

गोंय विद्यापीठांत कोंकणी विशयांत एमएच्या दुसऱ्या वर्सांत अध्ययन करपी मानसी प्रेमानंद धाऊस्कार बिम्ब मासिकाचें पालवी संपादक जावन आसा. सैमांत रमून ताचेर उप्पाट मोग करता आसतनाच ताच्या रक्षणा पासत आपले परीन वावुरता... हांगा सैम आनी साहित्यांतलें धुकें हाचेर तें भाश्य भाश्य करता...



मानसी धाऊस्कार
मो. 8788595022

ह्या वर्सा पावस हिसपा भायर पडलो. फाटलो कांय काळ सैमाच्या ऋतूचक्रांत उलथापालथ जावन चक्राच्या क्रमांत आडखळ आयिल्ली ती पयस जाल्या काय कितें असो विचार मनांत उदेवपा इतलो हो बदल आशिल्लो.

जाणकारांची चर्चा जी वेगवेगळ्या माध्यमांतल्यान कानार पडटाली वो वाचनांत येताली ताचे वयल्यान सैमांतलो हो बदल कोरोनाचे फांटभुंयेर केल्ल्या प्रदिर्घ लॉकडावनाचोच असर जावंक जाय अशें निश्चीत जाल्लें. कित्याक ह्या लॉकडावनांत सगळे उद्योग बंद पडिल्ले आनी यंत्रांतल्यान तयार जावन सैमांत भरसुपी प्रदुशण बंद जाल्लें, जाका लागून सैमाचें इबाडिल्लें संतुलन पुर्वपदार येवंक लागिल्लें.





हे घडणुकेचो अदमास आनी अणभव म्हाकाय घेवंक मेळिल्लो आनी पयलेच खेप हांव प्रदुशण विरयत सैम अणभवतालें.

पावस जसो भरपूर पडलो आनी शेतकारांची जीण खोशयेची जाल्या असो अणभव पळोवंक मेळ्ळो तशेंच पावसा फाटोफाट दिल्ली सारकें शार पुरायेन धुक्या मेकळें जावन दिल्लीच्यान हिमालयाचीं शिखरां लेगीत नदरेक दिसलीं म्हणपाचें आयकूंक आयलें.

दिल्ली ही भारताची राजधानी. हे राजधानींत फाटलो कितलोच काळ धुक्याचो सांवार आयिल्ल्याचें जग–जाहीर आशिल्लें आनी ह्या प्रदुशणांक लागून सगळेच हुसक्यांत पडिल्ले. ह्या धुक्याक लागून राजधानींतल्या समाज जिवनाचेर आकांताळो भंय पातळिल्लो. प्रदुशणाक लागून दिसभर विखारी कण भरसल्लें धुकें पुराय दिल्लींत दाटून उरतालें आनी मनीसजातीक श्वास घेवपाक लेगीत कठीन जातालें. ह्या धुक्यान सगळे तरेची येरादारी प्रभावीत केल्ल्यान मोठें आर्थीक अरिश्ट वयर सरिल्लें. हाचेर उपाय म्हूण केजरीवाल सरकारान प्रदुशणकारी वाहनांचेर नियंत्रण हाडून प्रदुशण आळाबंदा हाडपाकूय पावलां उबारलीं. पूण उदरगतीचो चुकीचो अर्थ लावन समाज जो प्रचंड गतीन धांवतालो तो सरकारी निर्णयांक आनी धोरणांक बदऽनाशिल्लो. ह्याच काळांत सैमान आपले राखणे पासत कूस परतिली आनी कोरोनाचे फांटभुंयेर सक्तीचें लॉकडावन घडोवन हाडून प्रदुशणाक ब्रेक लायलो.

ह्या सगळ्याचो अणभव जेन्ना एका सत्याच्या रूपान मुखार येता तेन्ना सैम आपली स्वताची चाल घेवन चलत आसता हाची खात्री जाता. ह्याच अणभवान चार म्हयन्याचो पावस पडले उपरांत जेन्ना वत धर्तर तापयता, पावसाच्या उदकांत रुखावळ तृप्त जावन राविल्ली आसता तेन्ना वतांत ती करपतली हाची भिरांत उप्रासता आसतनाच सैम धुक्याची चादर पातळावन ही भिरांत धांपून उडयता म्हणपाचोय अणभव म्हाका मेळ्ळो.

सकाळीं बेगीन उठचें आनी पासयेक वचचें हाचे इतलें सूख मनाचे आनी कुडीचे भलायके खातीर दुसरें ना. पूण केन्ना केन्नाय सकाळीं उसरां मेरेन दाट धुकें पसरिल्लें आसता तेन्ना ह्या धुक्यांत थंडी भरची ना मूं? असो प्रस्न पडटा आसतनाच रोखडीच जाप मेळटा– चार म्हयने रुखावळीक घसघसून उदक घालपी पावस आतां रातभर धुकें फापडून तिका उदका विणें उबंत उडयना. सैमाच्या ह्या खेळान आनी जतनायेन मन सैमा मुखार नतमस्तक जाता.

धुकें हो खऱ्यानीच सैमांतलो अप्रूप अविश्कार. धुकें सैम निर्मीत आसता आनी तें सृश्टींतल्या जिविताक पुरक आसता. पूण ह्याच धुक्यांत मानव निर्मीत प्रदुशण भरसता तेन्ना तें ह्याच जिविताक मारक जाता. ह्याच धुक्याचेर जेन्ना खोलायेन विचार करपाचो एक विचार मनांत उदेलो तेन्ना मनांत ह्या धुक्याचीं साबार रूपां नाचूंक लागलीं. धुकें समाजाक लुकसाणेंत घालता तशेंच तें समाजाक रिजयताय म्हणपाचो एक विचार ह्या धुक्याच्या अभ्यासा कडेन म्हाका घेवन गेलो. तातूंतल्यान धुक्याची निर्मीती, ते निर्मीती फाटलीं शास्त्रीय कारणां, कृत्रीम धुकें आनी तातूंतलें प्रदुशण, धुक्यांचे वेगवेगळे प्रकार, धुक्याक लागून उप्राशिल्लीं अरिश्टां, समाज रिजवणें पासत ह्याच धुक्याचो काव्यांत केल्लो वापर, सिनेमां आनी नाटकांनी आयिल्लो धुक्याचो रूपकात्मक आनी प्रतिकात्मक संदर्भ अशी ह्या धुक्याचीं कितलींच आयामां मुखार उबीं रावलीं आनी धुकें हें ह्या लेखाचो विशय जावंक पावलो.

पावसाळो सोंपले उपरांत खास करून शरद ऋतूंत आनी शिंयाळ्यांत जमनीच्या पृश्ठभागाचेर, देंगणांनी जाल्यार वसंत ऋतूंत आनी गिमाळ्यांत दर्याभागाचेर धुकें पडिल्लें आमकां दिसता. जमनीच्या पृश्ठभागा पासून जाका आमी भूंयतळ म्हणूं येता ताच्या पासून धुकें वयले वटेन २२५ मिटर मेरेन विस्तारिल्लें आसता जाल्यार दर्या वयलो हो वयले वटेनचो विस्तार १५० मिटर मेरेन जाल्लो आसता.

जेन्ना जमनीच्या तळा लागसारची आर्द्र हवा थंड जायत वता आनी तिचें तापमान दवांका सकयल पावता तेन्ना धुकें जावपाक लागता. तेच वांगडा धर्तरे वयल्या गरम उदकाचें बाश्पीभवन जावन तें थंड हवेंत गेलें जाल्यारूय हवा संतृप्त जाता आनी ताचेंय धुकें जाता. हाचोच अर्थ तापमान उणें जावप म्हणल्यार शितलीकरण जावप आनी बाश्पीभवन जावप ह्या दोनीय क्रियांक लागून धुक्याची निर्मिती जाता.

हें धुकें म्हणल्यार जमनीच्या वयल्या थराक स्पर्श करून रावपी एक कुपूच अशें म्हणूं येता. हातूंत नदरेची कक्षा





(visibilty) 1000 मिटर अंतरा परस उणी आसता. तेच पासत ताका धुकें अशें म्हणपाची चाल आसा आनी नदरेची कक्षा समजा 1000 मिटरा परस चड आसली जाल्यार ह्याच कुपांक धुकें म्हणनासतना ताका झकळ म्हणटात. झकळाक विरळ धुकें आनी इंग्लीशींत मीस्ट (Mist) अशें म्हणटात. जाका धुकें म्हणटात तें कूप धतरिक स्पर्श करिनासतना जमनी लागीच उफेत आसलें तरीय ताका कांय लोक धुकें म्हणनात तर स्तर कूप म्हणटात. देंगणांत, दरयंत बी असलें स्तरकूप तयार जाल्यार दोंगरा वयल्या मनशाक आपले भोंवतणी धुकें पडलां अशें दिसतलें, जाल्यार सकयल रावून वयर दोंगरार पळोवप्याक हेंच धुकें, धुकें न्हय तर स्तरकूपशें दिसतलें. दर्या देगे वयल्या वाठारांत विस्तीर्ण अश्या सरोवराच्या लागसारच्या वाठारांत, पर्वतांचेर, भरपूर जलबाश्प आशिल्ले दरयंत, तशेंच भूंयतळा लागीं उदक शितळ आसता अश्या दर्या पृश्ठभागाचेर धुकें तयार जाता. भूंयतळाचेर वा जमनीच्या पृश्ठभागाचेर धुकें भोवतेक सकाळचें दिसता. मागीर सूर्य उदेलो म्हणटकच भूंयतळ तापूंक लागता आनी हवेचो प्रवाह सुरू जाता आनी धुकें वयर वचूंक लागता. उपरांत ल्हव ल्हव ताचें अस्तित्व ना जाता. मागीर परतूय सांजवेळा सूर्यास्ता उपरांत ताची निर्मिती जाता आनी मागीर रातभर ताची निर्मिती घडत वचून दाटाय वाडटा अशी ही सैमाची अप्रूप क्रिया सातत्यान चालूच उरता.

सैमीक प्रक्रियेन जें धुकें, झाकळ रूप घेता तें खरें म्हणल्यार शुध्द आसूंक जाय आशिल्लें. पूण मनशांनी आपल्या हपापीपणांक लागून धतरिचेर इतऽलेंऽऽ प्रदुशण वाडयलां, जाका लागून सैमूच अरिश्टांत सांपडलां. ह्या प्रदुशणांक लागून जसो एसीड पावस पडटा तशेंच प्रदुशणांक लागून कितलेच विखारी द्रव्यकण ह्या धुक्यांत भरसतात आनी ह्या द्रव्यकणां सयत जर हवा थंड जायत गेली जाल्यार तिची सापेक्ष आर्द्रताय वाडटा. ही आर्द्रताय सत्तर टक्क्यां परस मातशी उणी आसली जाल्यार हवेंतले मातये कण चड करून सुकेच उरतात. ताका लागून एक शुश्क (Dry) धुंवरीशी नदरेक अणभवपाक मेळटा. हे धुंवरेक लागून पयसुल्ल्या वस्तुंचो रंग बी मंद जावन वता आनी वस्तू सारखी वळखूंक येना. उजवाडांतूय सगळे कडेन फक्त काळखी दाटिल्ली दिसता आनी आर्द्रता ९५ टक्क्यां परस वयर गेली जाल्यार हेच धुंवटेचें धुक्यांत रूपांतर जावंक लागता. प्रदुशणांक लागून शारांत धुक्याचेर प्रभाव पडटा तेन्ना आदीं धुरकटशें जावन मागीर धुंवटी, त्या उपरांत झाकळ आनी मागीर धुकें अशी ही प्रक्रिया घडटा. प्रदुशणाक लागून कणांचो आकार आनी ज्या प्रमाणांत कणांचो भरस वाडटा ताचेर धुक्याची निर्मिती थारता. धुक्यांतल्या ह्या घटक कणांच्या आकाराचो आनी संख्येचो नदरकक्षेर परिणाम जावन धुक्याचें वेगळें परिमाण नदरेक दिसता.

धुक्यांत उदकाचो अंश केन्नाच एक सारको आसना. तो एक सारको बदलत आसता. औद्योगीक मळा वयल्या वाठारांत जें धुकें आसता तातूंत उदकाचो अंश सगळ्यांत उणो आसता आनी प्रदुशणकारी विखारी कण चड आसतात. ताका लागून ह्या धुक्याची दाटाय वाडत रावता आनी ताचें विकीरण जावंक

कळाव लागता. ताका लागून दिसपट्ट्या जिविताचेर खूब परिणाम जाता.

धुकें ही सैमाची सुंदर निर्मिती आनी शास्त्रीय नदरेन ह्या धुक्याची विस्कटावणी करून निर्मिती प्रक्रियेचो अभ्यास करून हवामानशास्त्रज्ञानी तांची विभागणी केल्या. धुकें हें तापमान उणें जातकच जो शितलीकरणाचो प्रकार घडटा आनी ओलसाणीचें बाश्पीभवन म्हणल्यार वाफेंत रूपांतर जाता देखून हें धुकें पडटा. धुकें तयार जावंक फावो अशी परिस्थिती तयार जाता ताचे वयल्यान धुक्याचे प्रकार मानल्यात.

धुकें हें तरातरांचें आसता–

विकीरण (रेडीएशन) धुकें, अभिवहन (एडवेक्शन) धुकें, संशितक (फ्रीजिंग) धुकें, दरयतलें (वॅली) धुकें अश्या रूपांनी आमचे मुखार येता.

दिसभर भुंयेच्या पृश्ठभागांत शोशून घेतिल्ली उश्णताय सांजवेळार हवेंत सोडटा तेन्ना विकीरण धुकें तयार जाता. जस–जशें उश्णतायेचें वहन जमनी कडल्यान हवेंत जाता तस–तशें उदकाचे बिंदू तयार जातात. विकीरण धुकें हें सामान्यतायेन चडशें सगळ्याक सांपडटा. जेन्ना आर्द्रतायेन (moisture) भरिल्ली हवा आदींच थंड आशिल्ल्या पृश्ठभागा वयल्यान व्हांवता तेन्ना तिचो सकयलो थरूय शितल जायत रावता. हे हवेचें तापमान सकयल येवन थंय दवबिंदू तयार जातात. हवेचें वहन करपी वारो आदीं सावन घोळत आशिल्ल्यान विकीरण (रेडीएशन) धुकें आनी अभिवहन (एडवेक्शन) धुकें हांची सरभरस जावपाची प्रक्रिया सुरू जाता. विकीरण (रेडीएशन) धुकें सुर्य उदेलो म्हणटकच विरळ जायत वता. जाल्यार अभिवहन (एडवेक्शन) धुकें कितलेच दीस तिगून उरता. दरयंतलें (वॅली) धुकें आदींच पडून गेल्ल्या पावसान ओली केल्ले मातयेक लागून तयार जाता. मळब नितळ जावंक लागले उपरांत सुर्याची उर्जा भूंयपृश्ठा पासून पयस वचूंक लागता आनी लागसरच्या परिसरांतलें तापमान सकयल येता आनी दव तयार जाता. हाका लागून घनदाट अशें धुकें तयार जावन पातळटा. जेन्ना तापमान शून्य अंशाच्या सकयल येता तेन्ना तयार जाता तें फ्रिजींग धुकें. ह्या धुक्यांतल्यान भुरभुरपी पावस पडटा आनी ताचे थेंब खंयचेय वस्तूच्या संपर्कांत आयले म्हणटकच ते गोठून वतात. थंडगार हवेंतल्यान हो पावस पडून ताचें जें धुकें तयार जाता ताका अवक्षेपण (प्रेसिपीटेशन) धुकें म्हणटात. तशेंच ध्रुवीय प्रदेशांत निर्माण जावपी धुक्याक झेलाचें धुकें (आयस फॉग )म्हणटात. तापमान वजा चार (–4 ) अंशाच्या सकयल आशिल्ल्यान हवेक अत्यंत थंड अश्या थेंबाक धरून रावप शक्य जायना. ताका लागून ह्या सुक्षीम थेंबाचें सुक्षीम अशे झेलाचे कण तयार जातात.

फ्रन्टल फॉग हो धुक्याचो आनीक एक प्रकार. हातूंत उश्ण हवा, शितळ हवेच्या वयल्यान व्हांवता. वारो मंद गतीन आसता आनी थंड वाठारांत अवक्षेपण प्रक्रिया आकार घेवंक लागता. हातुंतल्यान हवा सॅचुरेटेड जाता आनी धुकें निर्माण जाता.

कांय हवामानशास्त्रज्ञानी धुक्यांचें वर्गीकरण सोंपे भाशेंत केलां ताचोय उल्लेख करप गरजेचो अशें म्हाका दिसता. हेय प्रकार धुक्याच्या वर्गीकरणांत आसपावतात आनी ते म्हणल्यार–

1. शितलीकरण धुकें – हवेंत जी आर्द्रताय आसता तातूंतली उश्णताय सैमांत घडपी वेगवेगळ्या प्रक्रियांक लागून उडून वता आनी ही आर्द्रताय शितळ जाता. जेन्ना वारो व्हावना तेन्ना निरभ्र रातच्या वेळार उफेवपी उर्जेच्या रूपान भूंयतळा वयली उश्णताय अवकाशांत उत्सर्जीत जातकच भूंयतळ थंड जाता. हाका लागून थंयची हवाय थंड जाता. हे हवेंत फावो ते प्रमाणांत आर्द्रताय आसल्यार असल्या शितलीकरणांतल्यान ताचें रूपांतर दवांत जाता. आनी अशे तरेन बिंदू तयार जावन ताचें धुकें घडटा. ह्या धुक्याक प्रारणजन्य धुकें म्हणटात. शितलीकरणांतल्या धुक्यांतलो हो एक प्रकार जालो आनी अभिवहन धुकें अशाय एका प्रकाराचो आसपाव हातूंत करतात. हें दर्या वयल्यान येवपी उष्णार्द्र हवेचो प्रवाह रातचो जो व्हांवत येता आनी तो दवांका सकयल पावता आनी धुकें जावन रावता. तेच प्रमाण दोंगरां वयल्या थारावीक उंचायेर असलेच प्रक्रियेंतल्यान धुकें तयार जाता, ताका पर्वतीय वो आरोही धुकें म्हणटात. अशे तरेचे हें शितलीकरण प्रकारांतलें धुकें.

२. बाश्पीभवन धुकें

चड तापमानाच्या उदकाचें शुश्क थंड हवेंत जर बाश्पीभवन जालें आनी ते हवेंत संद्रवण घडोवन हाडपी आर्द्रताग्राही केंद्रकां

व्हडा प्रमाणांत आसल्यार कांय वेळान हवेंत धुकें तयार जाता. हे असले प्रक्रियेंतल्यान जें धुकें घडटा ताका बाश्पीभवन धुकें म्हणटात. ह्या प्रकारांत जेन्ना थंड शुश्क हवेचो प्रवाह उच्च तापमानाच्या जलपृश्ठा वयल्यान वचूंक लागता. तेन्ना बाश्पीभवन धुकें तयार जाता. हें जावपाक हवेच्या आनी उदकाच्या तापमानांत बरोच फरक आसचो पडटा. असल्या धुक्याक वर्षाजन्य धुकेंय म्हणटात. थोडे कडेन ह्याच धुक्याक सीमापृश्ठीय धुकें अशेंय म्हणटात.

धुक्याचो समाज जिवनाचेर परिणाम जाले बगर रावना.

सैम निर्मीत सगळ्या प्रकारचीं धुकीं तापनक्रियेंतल्यान ल्हव ल्हव अदृश्य जायत वतात. धुक्याची संख्या सकाळच्या वेळार चडांत चड आसता, दनपारची ती उण्यांत उणी जावन वता. चड दाटसाणेच्या धुक्या परस उण्या दाटायेचें धुकें बेगीन वितळटा. प्रारणजन्य धुकें उथळ आसता. सुर्योदया उपरांत कांय वरां भितर तें नाच्च जाता. आरोही धुक्याची दाटाय चड आसता ताचेर दिसपट्ट्या तापाचो परिणाम जायना. तशेंच दर्या वयल्या हवेचें तापमान दनपरां सहसा वाडना. देखून दर्यार निर्माण जाल्ल्या चड दाटायेच्या अभिवहन धुक्यार दिसपट्ट्या तापमानाचो परिणाम जायना. देखून तें तशेंच उरता. हें घडटा जेन्ना सैम प्रदुशण विरहीत आसलें जाल्यार. पूण मनशांनी उदरगतीच्या नांवांन सैमांत जें कितें प्रदुशण भरशिलां तें ह्या धुक्यांत भरसतकच सैमाच्या सैमीक चक्राक बाधा येता. हो प्रकार जेन्ना घडटा तेन्ना हें धुकें काय धुलीकण असो प्रस्न पडटा. हाकाच लागून शिंयाळ्यांत जी आमकां धुक्याची चादर दिसता तें धुकें थंडेक लागून पडलां काय वातावरणांत धुळीचें प्रमाण वाडिल्ल्यान हें घडटा म्हणपाचें कळपाक मार्ग नासता. हें अशें घडपाक मानव निर्मीत प्रदुशणाचो खूब मोटो वांटो आशिल्ल्यान हें प्रदुशण धुक्याच्या रूपान दाटून उरता. हें असलें धुकें स्वासांतल्यान पुलमांवांत गेलें जाल्यार ताका लागून दमो आनी कॅन्सरां सारकीं दुयेंसां उप्रासतात. तेच वांगडा धुक्याक लागून चड पयसुल्लें दिसपाक आडखळ जाल्ल्यान सगळ्या तरांची येरादारी हें धुकें वचऽसर स्थगीत करची पडटा. बोटी, विमानां, रस्त्या वयलीं वाहनां रद्द करचीं पडटात.

हवामान तज्ञ आनी राष्ट्रीय समुद्र विज्ञान संस्थेचे मुखेल शास्त्रज्ञ डॉ. एम.आर रमेश कुमार हांच्या म्हणण्या प्रमाण धुक्याचें आमच्या दिसपट्ट्या जिविताचेर तरातरांचे परिणाम जायत आसतात. रस्तो अपघात, विमानाची फेरी विलंब, रेल्वेचें वेळापत्रक इबाडप, दर्यांत बोटींचें नांगर उदकांत दवरून धुकें विरळ जावपाची वाट पळोवप, धुकें आनी धुवर हांचें मिश्रण जालें म्हणटकच स्वासांतल्यान तें पुलमावांत वचप आनी भलायकी इबाडप अश्यो गजाली घडटात.

मनीस धुक्यांतल्यान मनरिजवण करून घेता.

धुकें हें गोंयच्या मानान देशांत उत्तरेकडेन मोट्या प्रमाणांत आसता देखून हें धुकें ह्या वाठारांत लोककलेंत चड प्रमाणांत दिसून येता. ताचो वापर कथा, कादंबऱ्यांनी केल्लो सांपडटा. धुक्याचेर खुबश्यो कविता कवींनी रचल्यात. 'कोहरा', 'धुन्द' अशे नांवांनी आयिल्ले कितलेच हिंदी सिनेमा खूब गाजल्यात. चडश्या हिंदी सिनेमांनी प्रणयाच्या प्रसंगार धुक्यांत चित्रीकरण करून कलात्मक उंचाय हाडटात जाका लागून नायक नायिकेची भावना बरे तरेन उक्तावप जाता. भिरांकूळ प्रसंग जशें भूत, आत्मो आदी प्रसंगांच्या चित्रणावेळार सैमीक धुक्याचो वापर करप जमलें ना जाल्यार कृत्रीम धुंवटी फॉग मशीनाचेर तयार करून वातावरण निर्मिती करतात.

आमच्या लागशिल्ल्या महाराष्ट्र राज्यांत धुक्याचें वर्णन आशिल्लें कितलेंच साहित्य आमकां वाचूंक मेळटा. कितल्याच कवींनी ह्या धुक्याचो वापर प्रतिमा, प्रतिकां, रूपक असल्या रूपांनी वापर करून काव्याक वेगळो आयाम दिल्लो आसा. कृत्रीम धुकें जरी समाजाचे भलायकेक अरगती पडना आसलें तरी सैमीक धुकें प्रणयी लोकांक खूब सुखायता. प्रेम युगूलान आंगार शाल चडोवन आनी एकामेकांक वेंगेंत घेवन धुक्यांतल्यान फिरपाक वचप हातूंत एक वेगळेंच सूख आसता. धुकें जरी हालींच्या प्रदुशणांक लागून समाज जिवनाक पिडापीड भोगयता आसलें तरी सैमीक धुकें समाज जिवन रिजोवपाचेंय काम करता. म्हणुनूच धुक्याचो वापर कलेच्या सगळ्या माध्यमांतल्यान कलात्मकताय वाडोवपाक, भावनांचे उक्तावण करपाक करतात.

कोंकणी साहित्यांतूय आमकां धुक्याचो वापर जाल्लो दिसता. संवसारांतल्या हेर वाठारांतल्या मानान गोंयांत धुकें

हें खूब कमी प्रमाणांत आसलें तरी जें कितें नदरेक पडटा ताच्या दंवरूपी प्रकाराचो वापर कवितांनी बऱ्याच रूपांनी आयला. बऱ्याच कवींनी आपले एक तरी कवितेंत खंय ना खंय दंवाचो संदर्भ घेवन काव्य रचना केल्या आनी आपली धुक्या विशींची, दंवा विशींची उत्कट भावना उक्तायल्या.

कोंकणी कवितेंले धुकें कशें कितें आसा होय एक विशय नदरे खाला घालपाक कांय कविता नदरे खाला घाल्यो–

कोंकणी कवितेंत धुकें आयलां तें दंव ह्याच ताच्या रूपांतल्यान. कांय कवींनी धुंवटी, धुंवरी ह्याय रूपांचो वापर करून आपल्यो भावना उक्तायल्यात. म्हाका हांगां कोंकणींतलें कांय ज्येश्ठ कवी आनी तांची उपरांतची आतां मेरेनची पिळगी दंव, धुकें, धुंवरी अश्या माध्यामांतल्यान आपल्या मनांतली भावना कशे पद्दतीन व्यक्त करता तें तांच्या वेंचीक कवितांचें मोस्त्र दिवन तांणी  समाजाची कशे तरेन रिजवण केल्या तें पळोवप समा जातलें.

आधुनीक कोंकणी काव्यांतले पयले पिळगेंतलें कवी म्हण कोंकणी काव्यमळ बाकिबाब बोरकार, मनोहरराय सरदेसाय



, पांडुरंग भांगी, वामन सरदेसाय म्हणल्यार अभिजीत , विजयाबाय सरमळकार हांचीं नांवां घेतात. हे कवी गोंय मुक्ती आदले कवी जाल्ल्यान तांणी धुक्याची सांगड प्रतीक रूपांत पारतंत्र्या कडेन घाल्ली दिसता. देखीक नामनेचे सुटके झुजारी वामन सरदेसाय जे 'अभिजीत' ह्या नांवान काव्य रचताले, ते सुटके झुजांत वावुरताना बेळगांवच्यान कार्य करताले. तांचें लक्ष पुर्तुगेजाच्या शेकातळा आशिल्ल्या गोंयचेर लागिल्लें. पूण तें केन्ना स्वतंत्र जातलें आनी आपणांक गोंया वचूंक मेळटलें हाची खात्री तांकां नाशिल्ली. तेच अथेकणेंतल्यान तांकां कविता स्फुरली –

ते निळनिळशे धुंवरे पेल्यान
दिसभर लागलां थंयसर ध्यान

ती निळनिळशी धुंवरी म्हणल्यार गोंयचे सुटकेची अनिश्चितताय. जशें धुक्यांत कांय अंतरा वयलें दोळ्यांक दिश्टी पडना तशें पारतंत्र्याचे धुंवरेंत तांकां गोंयचें स्वातंत्र्य खंयच झळकना. धुंवरे पेल्यान नदर मोखून दिसभर ध्यान लावन ते तेंच पळयता.

बाकिबाब बोरकार आपल्या एक कवनुलांत म्हणटात –

चेऱ्यार पुनव, फाटीर उमास
दंवांत भिजता फुलां – रास
असो तुजो सव्वास
म्हजी जल्मजुगा मिरास

हांगा आपले मोगीकेची वाट मुखामळार पुनव फुलोवन पळोवपी कवी तिका मेळपा पासत उमाशेच्या काळखांत चांचपडटा. तिचे खातीर पुंजायल्लीं फुलां दंवांत भिजल्यांत. म्हणटकच कवी आपले मोगीके पासत झुरता, तिका भेटोवंक फुलां रास जमयता आनी ती दंवांत भिजता आसतनाय तिचो सहवास मेळटलो हे आशेन जियेता.

पांडुरंग भांगी आपले एके कवितेंत म्हणटात –

दंवाचो थेंबो
सुर्याक वेंगेंत घेवन लिकलिकता
एक खीण
खिणभर गोठेता
निराकारक आंवडेता

हांगा कवी दंवा थेंब्याक अध्यात्मीक पांवड्यार व्हरून



ताका विश्वरूप दिता. येदोसो दंवा थेंबो पुराय सुर्याक आपले वेंगेत घेता ही कल्पनाच वेगळे उंचायेर व्हरता.

'जायो–जुयो' ह्या आपल्या कविता संग्रहांत कवी मनोहरराय सरदेसाय दंवाची खबर करतना सांगतात –

फांतोडेचें किर्ण जशें
तणावेलो दंवा थेंबो
ओडून घेता
किर्ण तुजे घालून म्हजेर
व्हर म्हाका

हांगांय मनोहरराय सरदेसाय पांडुरंग भांगी वरीच दंवा थेंब्याक अध्यात्मीक रूप दिता.

कवींची ह्या उपरांतची पिळगी म्हणल्यार माधव बोरकार, रमेश वेळुस्कार बी. कवी माधव बोरकार मळबाचें जनेल ह्या कविता संग्रहांतले कणी हे कवितेंत दंवा विशी म्हणटात–

दंवाचें थेंबें
वेंचता किरणां
कळ्यांत लक्ष
फळटा मरणां

हांगां ह्या कवीन दंवाचें मानवीकरण केलां आनी दंवाचे थेंबे धर्तरि वयलीं सुर्याचीं किरणां वेंचता म्हणपाची सुंदर कल्पना केल्या. पूण तेंच वांगडा मरणाचें सत कवी सांगता. दंवा थेंब्यांत किरणांक वेंचप म्हणल्यार मरणांक वेंगावप.

कवी रमेश वेळुस्कार माधव बोरकारां वरींच दंवा थेंब्याच्यो भावना घेवन मुखार वतात. तांची झेन शैलीची एक कविता दंवा थेंब्यांतल्यान जिवीताचें तत्वगिन्यान उक्तायता. कवी म्हणटात–

दंवा थेंबो
पारदर्शी
म्हजो खीण
पार करता

खंत हे कवितेंत कवी विजयबाय सरमळकार म्हणटात–

जाणविकाय आयली आतां
कोण न्हय कोणाचो
दंवा थेंबो आळवा वयलोसो
देह हो खिणाचो

कितले सुदर कल्पनेन जिविताचो सखोल अर्थ कवीन एका दवा थेंब्याचें प्रतीक घेवन आमचे मेरेन पावयला..आळवाचेर आशिल्लो दंवा थेंबो सुर्याचें किरण पडटगीर नाच्च जाता तशेंच हो देह शाश्वत न्हय तर तो खिणयाळशो आसता. दंवा थेंब्याचें प्रतीक घेवन कवी जिविताचें शाश्वत सत्य एका अशाश्वत दंवाच्या थेंब्यांतल्यान आमकां सांगतात.

कवींचे हे दुसरे पिळगे उपरांतची तिसरी पिळगीय दंव, धुकें, धुंवरी हांकां आपले कवितेंत खंय ना खंय सुवात दिताच. दिलीप बोरकार हे आपले एके प्रेम कवितेंत म्हणटात–

अदृश्टाचे वाटेक हे दोळे
अजून काळजांत आस पिशी
दंवांत भिजून थिजल्यो राती
पारजताच्यो रकल्यो राशी

हांगा कवी रातीची अवतिकाय दंवांत भिजतकच कितें जाता हाची भावना उक्तायतात.

कवी माया खरंगटे काश्मीरच्या पहलगाम ह्या सुंदर थळाक सुंदरी मानून वर्णन करतना एके कवितेंत म्हणटात–

त्या निळनिळश्या मळबा तळा
काळशी निळशी शाल धुंवरेची

कवी निलबा खांडेकार आपले 'उनत' हे कवितेंत दंवाचें वर्णन करताना म्हणटात–

कवळें उनत झिरपता
झाडांच्या पानां पानांतल्यान
खांद्या खांद्यातल्यान तणाच्या पात्यार
आनी दंवाचे थेंबें हांसत रावतात दांत भायर काडून





नव्या उन्ताक येवकार दिवपाक

हे पयलेच एक कवी जे दंवाच्या थेंब्यांत दांताचें रूप पळयतात.

हेच तिसरे पिळगेंतले एक कवी शाबा कुडतडकार हांणी मात दंवाच्या वा धुक्याच्या मोगांत पडून आपल्या साबार कवितांनी वेगवेगळ्या रूपांनी तांकां केळयलां.

कवी म्हणटात–

त्या दिसा फांत्या पारार धवेंच धुकें दाटलेलें
ओठांनी तुज्या ओंठा वेले म्होवाळ थेंबें भेटलेले

दुसरे एके कवितेंत कवी म्हणटात–

धुकें धुकें मनांत म्हज्या
किरणां तूं घेवन यो....
नदरेंत म्हजे धुकेंच धुकें....
मिरी मिरी धुकें पडलां

'धुकें' हे एके कवितेंत होच कवी म्हणटा–

धुक्यांत तूं धुकें जालें
दोळे म्हजी नदर पिले...
शेणिल्लीं दुकां शेणोवन
धुक्यांक सोडून म्हजे जाले.

धुकें ह्या सैमीक अविश्काराचो दंव असो मात्तूय उल्लेख करी नासतना थेट धुकें म्हणत धुक्याचो काव्यांत वापर करपी हो कवी अल्पजिवी थारून धुक्या भितरूच भरसून गेलो ही गजाल कोंकणी काव्य मळार खूब दुखदेणी अशें म्हाका दिसता.

नूतन साखरदांडे ही हेंच तिसरे पिळगेची कवी. दंवा थेंबे हे कवितेंत ती म्हणटा–

पानां वेले दंवा थेंबे पळोवन
म्हाका दिसतालें भुरगेपणांत
सर्गातले देव
म्हजे सारख्या गरीब भुरग्यांचेर दुकां गळयतात.

दंवा थेंब्यांक देवाचीं दुकां म्हणपी ही कवी धुक्याक एक वेगळो आयाम दिता.

रूपा कोसंबे आपल्या 'उमळ' ह्या काव्य संग्रहांतल्या दंवा थेंब हे कवितेंत म्हणटा–

बकच्छायेन हांसतल्या
धव्याफुल्ल मोतयांक
पळोवन आळवावेल्या
दंवाच्या थेंब्यान ताका शिटकायलें....

हांगा कवी रूपा दवा थेंब्याची तांक उकतायता आनी दंवा थेंब्याचें आगळें रूप कवितेंतल्यान वाचकां मेरेन व्हरता.

दंव म्हणऽ नासतना धुंवरी म्हणत धुक्याक कवितेंत हाडपी राजश्री सैल ह्या आविश्काराक वेगळोच आयाम दिता. तें 'धुंवरेल्ली सकाळ' हे आपले कवितेंत म्हणटा –

तुज्या श्वासांत फुल्ली
धुंवरेल्ली सकाळ
एका खिणांत जालें
हांव गच फुलिल्लें ओंवळीचें झाड

हांगा कविता धुंवरेचो वापर एके अध्यात्मीक वाटेकडेन

वचपाक करता.

आपल्या साहित्यांतल्यान विंगविंगड संवेदना घेवन साहित्यमळार वावुरपी हर्षा शेटये हांचीय एक कविता धुक्यांत व्हरून तातूंतलो अणभव वाचकांच्या मनांत शिंपडायता. तांची ही 'मुन्नार' एक कविता पळयात –

लेव निळ्या कॅनवासाचेर
धुक्याचो पदर पांगुरलेल्यो
निळश्यो पांचव्यो दोंगुल्ल्यो
धुक्यांतल्यान
निस्त निस्तत वचपी
धवशीं गोबरीं कापशी कुपां....

हांगां कवी मुन्नार ह्या पर्यटन थळाचें धुक्यांत लिपिल्ल्या दोंगरा सयत सुंदर शब्दचित्र काडून तें रसिकांच्या दोळ्यां सामकार जितें जिवें करता.

धुकें जावं, धुंवरी जावं वा दंव जावं! हो सगळो सैमाचो आविश्कार जाल्ल्यान प्रतिसृश्टी निर्माण करपी कवीक तांचें पिशें लागलें जाल्यार अजाप न्हय. तांणी आपले तांकी प्रमाण कोंकणी काव्यांत तांकां सुवात दिल्या.

सैमांतल्या खुबश्या घडणुकांचो मनीसजातीक अजून मेरेन अर्थ लागूंक ना. तेच पासत मनीसजात सैमाच्या विरोधांत आपल्या फायद्या पासत किर्ते ना किर्ते नाडपेन्ना करीत आसता आनी सैमाचीं अरिश्टां आयली म्हणटकच ताचें पानवळ भोगता. तेच वांगडा समाजांत असो एक घटक आसा जो सैमाचें रूप आपल्या मनाचे कसवटेर घेवन केळयता आनी ताचो आनंद समाजाक घेवपाक मजत करता. देखुनूच धुकें जशें समाजाक लुकसाणीचें आसता तशेंच दुसरे रूपांत तें मनरिजवणूय जावन येता.

---

## संदर्भ वळेरी

**चर्चा :** भौ.दिलीप बोरकार – ज्येश्ठ पत्रकार, तशेंच बिम्ब मासिकाचे संपादक.

**डॉ.जयंती नायक** – ज्येश्ठ साहित्यीक तशेंच लोकवेद संशोधिका,

**डॉ.प्रकाश पर्येकार**– पर्यावरण प्रेमी , कोंकणी साहित्यीक आनी संशोधक.

**मुकेश थळी** – कोंकणी साहित्यीक आनी पत्रकार

दिसाळें

लोकमत, मार्च २०२१-लेख- धुक्यात लुप्त झाली सृष्टी

पुस्तकां

कुडतडकार, शाबा.*वावझड.* पाटो कॉलनी, पणजी – गोंय: गोवा कोंकणी अकादेमी,२०१०.

कोसंबे, रूपा.*उमळ.* सांत लॉरेन्स, आगशी – गोंय : बिम्ब प्रकाशन,२०१०.

खरंगटे,माया.*श्रावणशिवर.* नावेली, गोवा: मोहीत प्रकाशन, २०११.

खांडेकार, निलबा.*सुर्यवंशी.* डोंगरी, मंडूर – गोंय : सुरू प्रकाशन,१९९९.

बोरकार,बाकीबाब. *कोंकणी काव्य संग्रह.* नवी – दिल्ली : साहित्य अकादेमी,१९८१.

बोरकार, बाकिबाब. *सासाय.* पणजी – गोंय : गोवा कोंकणी अकादेमी,२०१०.

बोरकार, दिलीप. *मेथये पावलां.* सांत लॉरेन्स, आगशी – गोंय : बिम्ब प्रकाशन,२०१०.

बोरकार, माधव. *पांच दसकां कोंकणी कवितेचीं.* कोंकणी भवन, विद्यानगर,मडगांव – गोंय: कोंकणी भाशा मंडळ, २०११.

बोरकार, माधव.*मळबाचें जनेल.* दत्तवाडी, सांगे गोंय: संजना पब्लिकेशन्स,२०१८.

भांगी, पांडुरंग. *चाफेल्ली सांज.* श्रीस्थळ, काणकोण – गोंय : ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन,१९९७.

वेळुस्कार, रमेश.*झेनकविता.* करमळी, तिसवाडी – गोंय: सहीत,२०१४.

शेटये, हर्षा.*म्हजी माती म्हजें मळब.*पर्वरी, गोंय: बिम्ब प्रकाशन,२००७.

सरदेसाय,मनोहर.*जायो जुयो.* शिवडी (पूर्व),मुंबय १५ डीडी: मोहन मुद्रणालय,१९७०.

साखरदांडे, नूतन. *जीण जाली कस्तुरी.* पर्रा, बार्देस-गोंय: नूतन प्रकाशन, १९९४.

सैल, राजश्री. *ओलीं रानां.* रवीन्द्र भवन, नवी – दिल्ली : साहित्य अकादेमी,२०१५.

■■■







# झक मारलें पर्यावरण

कोंकणी साहित्याच्या मळार जे कोण मोजकेच विनोदी लिखाण करतात तातूंत उदय गुडे हांचेंय नांव घेतात. कवी, ललित निबंधकार अशी आपली कोंकणी साहित्यांत वळख निर्माण करपी हो लेखक समाजांतल्या अतिरेकीपणाची आपल्या विनोदी लेखनांतल्यान खिल्ली उडयता...



उदय गुडे
मो. : 9604107362

म्हजे बायलेक पर्यावरणाची नसाय कित्याक ती कळना.

त्या मानान आमची शेजान्न बरी. ती पर्यावरणा बद्दल जागरूक आसा. पर्यावरणाचो सांबाळ ती आपले परीन करता. पूण म्हजे बायलेक तें कळना.

कालचीच गजाल सांगतां.

काल 5 जून. ज़ागतीक पर्यावरण दीस. हो दीस जायते जाण आपले परीन मनयतात. सैमांत वचून मनोवचे परस, व्हॉट्सेपार चड मनयतात ती गजाल वेगळी. आसूं, मनोव बाबडे. आमचें कितें वता? आमचें पर्यावरण म्हळ्यार आमच्या दुसऱ्या मजल्या वेल्या फ्लॅटाचे गॅलरींत दवरिल्ली एक तुळस आनी तीन कुंड्यो. तातूंत एकांत गुलाब, एकांत शेंवतीण आनी एकांत बारकेलो वट्टेलांव. जालें! एक बरिशी दसण हाडपाचें मनांत आशिल्लें. म्हळें, आयच्या



ह्या शुभ म्हुर्तार एक दसणिची कुंडी हाडुया. म्हजी इत्साय पूर्ण जातली आनी आयच्या दिसा एक तरी झाड (शिरवूरवश कांय जायना) रोयिल्ल्याचें (खरें म्हळ्यार हाडून गॅलरींत दवरपाचें) समाधान. ही गजाल बायलेक म्हणल्या मात, पिट्ट कन्न उसळ्ळी. म्हणूंक लागली,

''कांय नाकात आनीक झाडां बिडां! आसात तींच सांबाळपाक जायनात. इल्लीशी कुंडी, तातूंत खोटलो भर उदक घालता आनी आपूण उठून वता. मागीर गॅलरींत माती व्हांवन येता ती म्हाका पुसची पडटा. पर्यावरण तुजें, त्रास म्हाका. आनीक एक कुंडी हाडल्यार हांव शेंवटून भायर मारतलें आं! पयलींच सांगतां.''

मनांत म्हळें, असली कसली बायल ही! झाडां बद्दल मोग नाशिल्ली. हिचे खातीर आज म्हगेलो जागतीक पर्यावरण दीस फुकट वतलो तर ?

ना. अशें जावंक फावना. वर्साक एकचदां तर येता तो. तो असो फुकट वचूंक जायना. कितें तरी करूंकच जाय. झाड रोवंक मेळ्ळें ना म्हण कितें जालें, पर्यावरण रक्षणाच्यो आनीकय गजाली आसात न्ही! हय, अशेंच करुंया. आज उदक साल्वार करुंया.

हांवें बायलेक अशें म्हणलां मात, ओदोळ ती पिट्ट कन्न एकदांच उसळिल्ली. आतां पिट्ट पिट्ट कन्न दोनदां उसळ्ळी. म्हणूंक लागली,

''उदक साल्वार करूंक पयलीं तें आसूं जाय न्ही? कालच्यान नळ ना हें तुजे राज्याक खबर तरी आसा? तरी बरें, हांवें फाटीक लागून लॉफ्ट टँक बसोवन घेतली म्हणून! ना जाल्यार आज तुका उदका खातीर भीक मागची पडटली आशिल्ली. मागीर बस आशिल्लो भीक मागून हाडिल्ल्या उदकाचें रक्षण करीत!''

म्हाका बायलेल्या उतरांचें व्हडलें शें कांय दिसलें ना. म्हाका लक्तुबाय दिसली त्या अधिकाऱ्याची, जाचे तकलेंतल्यान जूस्त आयच्याच दिसा नळ बंद दवरपाची कल्पना आयली, ताची. अशें करून कितले लाखानी लिटर उदकाची बचत केली जाणात ताणें! खरें म्हळ्यार ह्या ताच्या उदात्त विचारा खातीर ताचो जाहीर सत्कार करूंक जाय आशिल्लो!

करतलो कोण तरी अशें येवजून हांवें बायलेक म्हणलें,

'' जाणा मगो, 'पाणी अडवा, पाणी जिरवा' म्हण एक मोहीम आसा.''

''जाणा हांव तें.'' बायलेन म्हणलें.'' तूं अशें कर, आमच्या हॉलांत एक फोंड मारून तातूंत पाणी आडय. मागीर सोसायटी वाले येवन तुजी कशी जिरयतात तें पळय!'' बायल फणफणत आनी कितें तरी बडबडत जेवण करपाक रांदचे कुडींत गेली आनी हांव खांदार तुवालो उडोवन न्हावपाक मान्न्यांत वतालों मात, दारावेली बेल वाजली. हांवें दार उगडलें. पळयल्यार आमगेली शेजान्न न्हावपाचे तयारेंत आमगेर आयल्या.

''कालच्यान उदक ना न्ही. आमगेलें उदक सामकें सोंपलां. तुमगेर लॉफ्ट टँक आसा. तातूंत घरांत तुमी दोगांच. आमचे बशेन चौगां न्ही. म्हणून म्हणलें तुमगेर उदक आसतलें! ते खातीर न्हांवक आयलां. चड न्ही, मात्सो हय न्हयसो शॉवर घेतां आनी वतां. घेंव मरे?'' अशें म्हणत, म्हजे जापेची वाट पळय नासतना ती मान्न्या वटेन गेली.

तिचे तोंडांतल्यान 'शॉवर' हो शब्द आयकना बराबर म्हजे तकलेंत जोगूल चमकलें. म्हळें, ही आतां आमच्या शॉवराचेर न्हातली. उपरांत हांव न्हातलों. म्हणटगीर दोबराद उदक सोंपतलें. ते परस आमी दोगांय एकाच बराबर न्हालीं, जाल्यार एका न्हाणाचें उदक वाचतलें. तितलोच पर्यावरण रक्षणाक आमचो हातभार.

हांवें म्हजो हो उदात्त विचार शेजान्नीक सांगलो.

म्हगेलें म्हणणें आयकून तिणें पयलीं फ्लॅटांत हेवटेन तेवटेन नदर भोंवडायली. कोणाकय सोदूंक भोंवडायतात तशी! घडये नदरेक कोण पडलो ना जावये, तशी ती हयन्हयशी हांसली आनी आपले भितरच मुरगटत, 'यो तर' अशें म्हणत मान्न्यांत गेली. तिच्या फाटल्यान हांवय गेलों. म्हाका तिची लक्तुबाय दिसली. पर्यावरणा विशीं कितली जागरूक पळय! नातर आमगेली ही! कितलो फरक हो दोगां मर्दी.

न्हातना हांवें आमचें मर्दी चार आंगळांचें अंतर दवरलें. पयलीं तें एका वेताचें दवरिल्लें. पूण ताणें हांव शॉवराचे 'रेंजी'तल्यान भायर पावपाक लागलों म्हण मागीर तें अंतर चार आगळांचें केलें. म्हळें, बेठेंच



कोणायच्या मनांत कसलेंय किल्मीश येवपाक नाका. इतली जतनाय घेवन लेगीत माथ्याक शाबू लायतना म्हजो कोपोर नकळटना तिच्या खांदाक हयन्हयसो लागलोच. ते खातीर हांवें तिका तिनदां sorry म्हळें आनी (म्हज्या) कोपराचेर दोन थापटां मारलीं. म स्त्यान म्हाका लजेक घाल्लो.

आज म्हजो दीस सार्थकी लागिल्लो. आज हांवें उदक वाचोंवन पर्यावरणाचें रक्षण केल्लें. तेच सम ाधानान हांव मान्न्यांतल्यान भायर आयलों.

म्हजे फाटल्यान शेजान्नाय भायर आयली आनी बोंचो वांकडो करून आपले फ्लॅटांत गेली. हिणें बोंचो वांकडो सो केलो? भितर वतना बरी मुरगुटत गेल्ली. हिच्या मना सारखें जालें ना काय? कितें आशिल्लें काय तिचे मनांत?

पूण म्हाका तें म्हत्वाचें नाशिल्लें. म्हाका म्हत्वाचें आशिल्लें तें हांवें केल्लें पर्यावरण रक्षण. तें म्हाका म्हजे बायले बराबर हिरीश करपाक जाय आशिल्लें. म्हणून हांव शुळींश जावन रांदचे कुडींत गेलों. पळयल्यार ही थंय ना. म्हणून बॅडरुमांत गेलों. थयंय ना. सगले फ्लॅट भर सोदली. पूण ही बेपत्ता. खयंय वतना ही म्हाका सांगून वता. आज कित्याक सांगलें ना? हांव न्हातालों म्हणून काय?

अचकीत म्हजी नदर जेवणा मेजार गेली. पळयल्यार थंय बायलेन म्हज्या नांवान एक चीट बरोवन दवरल्या. हांव वाचूंक लागलों.

पयलीं चिटयेचो मायनो सदां बशेन 'म्हज्या म ोगाच्या' असो बरयिल्लो. पूण मागीर तें खोडून थंय 'घट्टणपाड्या' अशें बरयिल्लें. बरोवं कितेंय, तिची खुशी! म्हाका फरक पडना. निमाणें बायल म्हजीच न्ही! तिका सगलें माफ. हांव फुडें वाचूंक लागलों,

'तुजे ह्या पर्यावरण रक्षणाच्या नश्ट्या नादांत, हांव म्हजे जिणेचें पर्यावरण इबाडून घेवपाक तयार ना. हांव घर सोडून वतां. तूं तुज्या त्या पर्यावरणाक न्हाणयत बस.'

वाचून कपलार हात मारलो.

म्हजे बायलेक पर्यावरणाची नसाय कित्याक तेंच कळना!

■■■

# आवय दिसाचीं परबीं




कवयित्री, बालसाहित्यकार, कथाकार, अनुवादक म्हूण नामनेक पाविल्लें माया खरंगटे हांचीं तेत्तीस पुस्तकां प्रकाशीत. एन्सीईआरटी- दिल्ली संस्थेचो बालसाहित्य पुरस्कार, गोवा कोंकणी अकादेमीचो उत्कृश्ट साहित्य पुरस्कार, केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो बालसाहित्य पुरस्कार ..आनी



माया अनिल खरंगटे
मो. : 9420685278

''संचिता, ह्या वर्सा हांव तुजें कांयच आयकुचें ना हां, तूं दर वर्सा कितेंय तरी निमित्त सांगून मदर्स डे चे कार्यावळीक येना.''

''आगो उर्वी बेठोच म्हाका फोर्स करूं नाका गो, प्लीज! तुजें सगळें आयकतां हांव पूण...... हे कार्यावळीक येवपाचो आग्रो करूं नाका.''

'' बाय गो, अंदू आमी धावेक. फुडल्या वर्सा खंय खंय शिकूंक वतलीं कोण जाणा! अंदू आमी अभ्यासा बराबर जाता तितली मजाय करप, फक्त कार्यावळ चुकोवप ना अशें थारायलां न्हीं आमी!''

''हय गो सायबिणी, थारायलां आमी. पूण....''

''आतां आनी कसलो पूण ? टिचरीन कितें सांगलां जाणा मगो, प्रत्येकान मदर्स डे दिसा दोन उतरां तरी उलोवंकच जाय म्हणून!''

''तूं पिशार पडलां उर्वी. हांव त्या दिसा येवचेंच ना. दोन उतरां आनी उलोवप ?





विसर तूं, हांव त्या दिसा येवचेंच ना स्कुलांत.''

''तसलीं पिशेपणां तूं दर वर्सा करता. अंदू प्रिन्सिपल मॅडमीन सांगलां, त्या दिसा हजेरी घेतलीं म्हणून! तुका बेश्टेंच एब्सेंट मार्क पडटलें.'' ''आसूं, पळोवया मागीर तें! बेश्टोच वाद नाका.'' ''संचिता, तूं मगो हरशीं सामकें गूड गर्ल. आमी दोगांय सगळ्यो गजाली एकामेकांक सांगतात. पूण ही एकच गजाल तुवें म्हाका अजून मेरेन सांगुना. तूं 'मदर्स डे' दिसा कित्याक घरांत रावता? तुजी मम्मा हांगां नासता म्हणून? तूं केन्नाच मम्मा विशीं कांयच सांग ना मगो? आनी हेर भुरग्यांक तूं सांगता खंय तुका मम्मा ना म्हणून!''

''प्लीज उर्वी, म्हाका कांयच विचार नाका ह्या विशयाचेर.''

''संचिता, तूं म्हाका सदांच अशेंच सांगून वोगी करता.''

'' हय करतां, प्लीज आतां आमी घरा या. कितलो वेळ जालो आमी हांगा गजाली करीत बसल्यांत. पप्पा घरा पावला जातलो!''

'' या, या, चल. पूण याद धर हां, अंदू तुका मदर्स डे ची कार्यावळ चुकोवंक मेळची ना.''

उर्वी आनी संचिता चडशीं ट्युशन सोंपतकर थोडो वेळ गजाली करत गार्डनांत बसतालीं. थंय मागीर अभ्यासाच्यो गजाली करतां करतां खंयच्याय विशयाचेर उलयतालीं. तीं गार्डनांतल्यान भायर आयलीं. भायरच तांकां टिचर शिला मेळ्ळी. तिणें तांकां हडकिलीं आनी म्हळें,ड्ड्उर्वी, संचिता खंय भोंवतात गो? अंदू तुमी धावेक. निमणें वर्स तुमचें शाळेंतलें. फुडल्या आठवड्यांत 'मदर्स डे' ची कार्यावळ आसा, खबर आसा मगो? ''

''हय टिचर'' दोगांयनीय म्हळें.

''आमची पयली कार्यावळ न्ही, अंदू तुमी सगळ्यांनी वांटो घेऊं जाय हां! तुमची मम्मी तुमचे पासत कसले कसले त्रास काडटा पळे तें सांगपाचें तुमी. मागीर तुमचे मम्मीक कितलें बरें दिसतलें पळे!'' टिचरीन सांगलें.

''हय टिचर, हांव तयारेक लागलें.''उर्वीनउमेदीनम्हळें.

''आनी तूं गो संचिता. तुका तयारी बी करपाक नाका न्ही? तूं सांगता त्या खिणाक, सांगता त्या विशयाचेर उलोवपी! पोरूं म्हाका दिसता तूं त्या दिसा गैरहजर आशिल्लें. अंदू तुमी हुशार भुरग्यांनी सगळ्या कार्यावळींनी वांटो घेवंकूच जाय.''

''हय टिचर.'' संचितान सांगलें.

टिचर गेली आनी उर्वीक खूक करून हासूंक आयलें. ताणें म्हळें, ''संचिता, टिचरीक याद आसा पोरुंची. अंदू तुजी नाटकां नाकात हांगा.''

'' आतां विशय बदल. एसायनमेंटाचें कांयच उलोवंक नात आमी. सरान केन्ना दी म्हळा?''

'' आं, परां दिवपाचो गो. आज रातचें तूं आमगेर यो. दोगांय बसून करुंया. जेवपाकच यो आमगेर.''

'' नाका गो. पप्पा-मम्मा हांव ना जाल्यार सारको जेवचो ना. जेवतकच तो म्हाका हाडून पावयतलो तुमगेर.''

''संचिता. जायते वेळा तूं पप्पाक, 'पप्पामम्मा' म्हणटा, कित्याक गो?''

'' आगो ती मजा. हांव फकाणांनी ताका पप्पामम्मा म्हणटां. बरें चल, घरा या. जेवन येतां हांव.''

हांसत उर्वीक हात दाखोवन संचिता आपल्या घराच्या रस्त्यार वळ्ळें.

० ० ०

''संचिता, आगो आज स्कुलांत कित्याक येऊं ना? आज कसली मजा जाली जाणा, तुजी सामकी याद आयली म्हाका.''

संचिताच्या फ्लॅटांत भितर सरतनाच उर्वीन बडऽबडऽ करून उलोवंक सुरवात केली.

संचिताचो पप्पा उर्वीच्या बडबड्या सभावाक लागून ताका बोवाळ भट म्हणटालो. आतांय ताणें हांसून म्हळें, '' बोवाळ भट, संचू रुमांत आसा, थंय वचून गडगड कर!''

''आं! पप्पा आज तूं घरा? म्हणून संचिता येऊं ना शाळेंत?'' उर्वीन विचारलें.

'' भितर चल, तुज्या सगळ्या प्रस्नांच्यो जापो संचू दितलें.'' पप्पान उर्वीक सांगलें.

उर्वी संचिताचे कुडींत आयलें. संचिता खाटीर न्हिदिल्लें. उर्वीन भियेवन ताका विचारलें, ''संचिता, कितें जालां तुका? ''

'' मात्सो जोर आयलो गो काल. पप्पा म्हणूं लागलो, आज मात्सो सुशेग घे म्हणून!'' संचितान सांगलें.

'' संचिता, खरो जोर मगो? काय'मदर्स डे' चुकोवपाचो जोर?''

उर्वीन हांसून विचारलें.

'' हें उर्वी, म्हाका खऱ्यानीच जोर आयिल्लो. आज ना. पूण आंग दुखता, म्हणून पप्पान घरा दवरलें. फाल्यां येतलें हांव.''

दोगीय इश्टिणी कितलोच वेळ बडबडत रावल्यो. संचिताक चुकिल्लो अभ्यास उर्वी घेवन आयिल्लें. तिनसांज जावंक येतकर उर्वी उठलें.



''फाल्यां खरेंच येतलें मगो स्कुलाक ?'' उर्वीन ताकां विचारलें.

'' हय तर, अंदू सुरवातीकच तीन खेपे स्कूल चुकलां म्हाका. फाल्यां येतलें हांव.'' संचितान सांगलें.

संचिताचे कुडीचें दार आड करून उर्वी भायर आयलें. संचिताचो पप्पा हॉलांत आपलो लॅपटोप घेवन काम करतालो. ताणें उर्वीक पळोवन म्हळें, '' बोवाळभट, चल्लें?''

''हय पप्पा.'' उर्वी संचिताच्या पप्पा म्हऱ्यांत गेलें आनी ताणें हळूच म्हळें, '' पप्पा, परां 'मदर्स डे'चे कार्यावळीक पालकांक कंपलसरी आपयलां. खबर आसा न्ही?''

'' हय, हय, म्हाका मॅसेज आयल्या, धा वरांचेर येयात म्हणून, येतलों हांव.'' पप्पान हांसून म्हळें.

'' संचिताक पयलीं सांगू नाका. सरप्रायज दिवंया ताका.'' इतलें सांगून उर्वी गेलें.

ooo

आयज 'मदर्स डे.' सगळे विद्यार्थी उमेदीन वर्गांत बशिल्ले. क्लास टिचरीन येवन तांची हजेरी घेतली. 'तयारी करात उलोवपाची. हांव येतां' अशें सांगून टिचर गेली.

वर्गांत बशिल्ले कडेन विद्यार्थी आपलें भाशण परत परत वाचताले. संचिता मात सगळ्यांक पळयत वोग्गी बशिल्लें. उर्वीचें ताचेर लक्ष गेलें. ताणें अजापान म्हळें,

'' आगो संचिता वोग्गी कित्याक बसलां? तुज्या भाशणाची तयारी करना?''

'' ना गो, हांव कांयच उलोवचें ना.''

'' ना हां संचिता, आज सगळ्यांक उलोवचेंच पडटलें म्हणून सांगलां टिचरीन.'' उर्वीन सांगलें.

संचिता येवजूंक पडलें... 'आरे देवा, हांव दर वर्साक मदर्स डेक स्कुलांत येना आशिल्लें, अंदू हांवें येवन चूक केली. सगळीं आपल्या मम्माचेर उलयतलीं, हांव खंयच्या मम्माचेर उलोवं? ती पयस, करियर करता म्हणून वचून बसल्या. तिका हांव खंय वळखतां? हांव तिचे कडेन उलयना, तिका सारखी वळखयना. ती आयल्यार लेगीत हांव आतुगेर वचून रावतां. आनी तिणें म्हजे पासत केलां कितें? कितें म्हणून सांगूं हांव माचयेर वचून?... हय खरें तेंच सांगतां... म्हज्या मम्मान म्हजे पासत कांयच करूं ना म्हणूनच सांगतां...'

तितले म्हणसर टिचरीन येवन सगळ्या विद्यार्थ्यांक एके वळींत हॉलांत वचपाक सांगलें. संचितान उर्वीक सांगलें– ''उर्वी तूं चल, हांव टिचरीक मेळून येतां.''

सगळे विद्यार्थी हॉलांत वचून बसले. एके वाटेन पालक बशिल्ले. सगळीं आपापल्या पालकांक हात दाखयतालीं. संचिताच्या पप्पानय संचिताक हात दाखयलो. संचिता अजापान पप्पाक पळोवंक लागलें, 'आरे, पप्पान म्हाका म्हळें ना, आपूण येतलों म्हणून स्कुलांत!' संचिता मनांत हांसलें आनी ताणें एक निश्चेव केलो.

कार्यावळीक सुरवात जाली. सुत्रसंचालन करपी टिचरीन त्या दिसाचें म्हत्व सांगून सगळ्यांक येवकार दिलो. मागीर मायकार प्रिन्सीपल मॅडमीक आपयली.

आपलें उलोवप करून जातकर निमाणें मॅडमीन सांगलें,

'' अंदू आमी कार्यावळ वेगळे भशेन करपाची थारायल्या. आयज प्रत्येक विद्यार्थ्यान आपले आवयक माचयेर आपोवन ह्या कदेलाचेर बसोवप, तिचे विशीं तुमकां कितें दिसता तें थोडे भितर सांगात आनी हांगा दवरल्यांत तातुंतलें एक गुलाबाचें फूल तिका दिवन तिचो भोवमान करात...''

''आरे वा! म्हणून सगळ्यांच्या मम्मांक आपयल्यांत न्ही संचिता?..''

उर्वीन सट्ट करून म्हळें आनी जीब चाबली. संचिता फक्त हांसलें. उर्वीक अजाप जालें आज संचिता बेजार आसतलें हाचो ताका वर्गांत येत साकून हुस्को जाल्लो. पूण आतां संचिता हांसता तें पळोवन ताका मनांतल्यान बरें दिसलें.

सगळ्या विद्यार्थ्यांनी आपल्या आपल्या मम्माचो फूल दिवन आनी उतरांनी भोवमान केलो. निमाणें टिचरीन संचिताचें नांव घेतलें. उर्वीन आनी ताच्या हेर इश्टिणींनी हुसक्यानच संचिताक पळयलें! संचिता हांसत उठून माचयेर गेलें. मायक हातांत घेवन ताणें म्हळें,''टचर, म्हाका माफ करात,वोदोळ हांवें तुमकां म्हजी मम्मा येवचिना म्हणून सांगिल्लें. पूण आतां हांगा म्हजो पप्पामम्मा आयला. हांव तांकां हांगा आपोवं मू?..''

टिचरीन मान्यताय दिली.

'पप्पामम्मा?' सगळीं भुरगीं आनी पालक बी सगळींच कुचकुचपाक लागलीं. तितले म्हणसर संचितान पप्पाक माचयेर आपयलो आनी त्या खास कदेलार बसयलो आनी म्हळें, ''इतलीं वर्सां हांव आयचो हो दीस 'मदर्स डे' चुकयतालें. म्हाका आवय ना म्हणुनय हांवें एक उर्वी सोडून म्हज्या हेर इश्टिणींक सांगिल्लें. इश्टिणिनो म्हाका माफ करात. म्हाका आवय आसा पूण म्हजे नदरेन ती ना. ती इंजिनियर. ती अमेरिकेक आसता. आतां तुमी सगळ्यांनी तुमची मम्मा तुमचे पासत कितें करता तें सगळें सांगलें. तितलेंय म्हजो पप्पा म्हजे पासत करता. म्हणून हांव ताका अपुर्बायेन पप्पामम्मा म्हणटां. हांव मात्शें बरें ना जालें काय तो सुटी घेवन म्हज्या म्हऱ्यांत रावता. म्हाका जाय जाय तसलीं खाणां जेवणां करूंक तो शिकला. म्हाका केन्नाच कितेंच ना म्हणना. हांवें भलतोच हट्ट केल्यार म्हाका मायेन समजायता. पप्पान म्हाका खाणां जेवणां दिवनच घट करुना तर मनानय तशेंच घट केलां. आयिल्ल्या प्रसंगाक फुडें करपाक शिकयलां.

म्हाका याद आसा, हांव ल्हान आसतना एक एक दीस म्हाका सामकीं मम्मी जाय कशी दिसताली. तिचे यादीन हांव आकूळ पिकूळ जातालें आनी ती म्हाका मेळना म्हणून तो राग पप्पाचेर काडटालें. वोगीच व्हडा व्हडान रडटालें. हाता लागीं कितें मेळटा तें मोखून मारतालें. पप्पान कितलेंय फुसलांव हांव ताचें कांयच आयकनाशिल्लें. पूण म्हजो पप्पा केन्नाच म्हजेर रागार जाय नासलो. वेल्यान कितें कितें सांगून म्हाका फुसलायत रावतालो. म्हज्या असल्या नाका आशिल्ल्या हट्टा वेळार ताच्या दोळ्यांत हांवें दुकांय पळयल्यांत, पूण म्हजो राग केन्नाच कमी जाय नासलो.

एक दीस म्हाका जोर आयिल्लो. रातभर पप्पा म्हज्या उशा म्हऱ्यांत बसून म्हज्या कपलार थंड उदकाच्यो घडयो घालत आशिल्लो. म्हाका अचकीत जाग आयली. पळय जाल्यार पप्पा म्हजे तकलेर हात धरून दोळे धापून बसला आनी ताच्या पोल्या वयल्यान दुकां गळटालीं. तीं दुकां पळयलीं आनी त्या दिसाच्यान हांव पुराय बदल्लें. तेन्नाच्यान म्हजी आनी पप्पाची खरी इश्टागत जाली.

ते उपरांत हांवें ताका केन्नाच मुद्दम जावन त्रास दिवना. पप्पा म्हजे खातीर फक्त पप्पाच न्हय तर तो म्हजी मम्मा आनी जिवाचो इश्टूय जालो. म्हणून ताका हांव पप्पामम्मा म्हणटां, दोस्त म्हणटां.

अश्या म्हज्या पप्पामम्माक आयच्या आवय दिसाचीं परबीं भेटयतां.''

हॉल ताळयांच्या कडकडाटान भरलो. माचयेर संचिता आनी ताचो पप्पा एकामेकांक वेंग मारून दुकां गळयतालीं.

■■■






# “सायबा भोगोस” आनी “व्हडलें घर...”

## तुलनात्मक अध्ययन

कोंकणी साहित्याच्या मळार समिक्षात्मक लिखाण करपी
चंद्रलेखा डि'सौजा
गोंय विद्यापीठाच्या कोंकणी विभागाच्यो निवृत्त प्राध्यापक. तांचीं 'कवितेची पृष्ठभुमी' आनी 'कोंकणी काव्यशास्र' अशीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. तुलनात्मक अध्ययन आनी लेखन हातूंत तांची फिशालकाय दिसता.



चंद्रलेखा डि'सौजा
मो. 000

इतिहास, समाज आनी कादंबरी ह्या रुपान तांचें अध्ययन करतना जीं तथ्यां मेळटात तांचो आदार घेवन सांस्कृतीक संदर्भान विचार करपाचो यत्न करतां. दोनूय कादंबऱ्यो वसाहतकालीन संदर्भ घेवन येतात.

'सायबा भोगोस' कादंबरीकार खडाप म्हळ्यार वि.जे. पी.सालदान्य (1925-2002) कन्नड लिपयेंत ही कादंबरी सन् 1980 त बरयल्या. पांच भागांत बरयिल्ली ही कादंबरी, सन् 1997 त ताची दुसरी आवृत्ती कन्नड लिपयेंत येता आनी तिसरी आवृत्ती सन् 2013 त, ताचो पयलो भाग देवनागरी लिपयेंत येता.

'व्हडलें घर' बरोवपी उदय भेंब्रे, प्रकाशन वर्स 2021. तांची पयलीच कादंबरी आसा. कादंबरीचो काळ (पान-13) 1566-1585, वीस वर्सांचो. 'धर्मांतर हो हे कादंबरीचो विशय न्हय. धर्मांतरणाल्यान जें इंक्विझिशन आयलें त्या इंक्विझिशनाक लागून जाल्लो आकांत हो हे कादंबरीचो विशय.' (पान.14)

जशें 'व्हडलें घर'इंक्विझिशनाक लागून जाल्लो आकांत हाका विशय मानता तशेंच 'सायबा भोगोस' हे कादंबरेंत वि.जे. पी साल्दान्य'खडाप' हांची कादंबरी जी देवनागरी लिपयेंत आसा थंय प्रकाशकालीं उतरां-

'गोंयांत १७ व्या शतमानांत पोर्तुगेझ आडळतेदारांनी इंक्विझिशन कानून हाणू कोंकणी लोका वयर केलेले अन्याय, हिंसा कार्य आनी ताजे निमित्तान आमगेले म्हालघड्यांनी कोंकणी जणाले कुळार गोंय सोणू, केनरा आनी तेनकाक, न्हेशिल्या आंगवल्यारी धांवोन येवचे तशीं जालें. त्या काळाचे चारित्रीक विषय आपणाल्या सृजनशील बरपान कोंकणी साहित्यांत हाडून एक दाकलो केललो पयलो महान साहिती वि.जे.पी. साल्दन्य- 'खडाप..'

'तागेले लिखणे ताकून ५० वयर कथा, कादंबरी, कवन व्हाळून येवन, कोंकणी साहित्य क्षेत्रांत एक विशेश क्रांती जावच्याक कारण जालें.'

'व्हडलें घर' कादंबरींत उपकार मानताना कादंबरीकार उदय भेंब्रे बरयतात-

'येदो नामनेचो कादंबरीकार अशें करता जाल्यार म्हजे सारक्या पयलीच कादंबरी बरयतल्यान तशें करूंकच जाय अशें....' (म्हळ्यार ही तांची पयली कादंबरी आसा.)

दोनूय कादंबरीकार हांचे विशय समान आसात, इतिहास लेगीत समान आसा, कथावस्तु लेगीत समान आसा. ऐतिहासीक कथानक आशिल्ल्यान कादंबरीकाराक इतिहास बदलूंक मेळना, म्हूण दोनूय कादंबरीकार ह्या संदर्भात लेगीत समान आसात. 'व्हडलें घर' वाच्चे पयलीं 'व्हडल्या घराचीं सोपणां चडचे पयलीं'

वाचल्यार हाचो दिश्टावो जाताच. कादंबरीकाराची तयारी, संदर्भ (पान 10,11) हें सगळें मान्य करून लेगीत इतिहासकार आनी कादंबरीकार आप-आपलो सृजनशिलताय अंतर्गत फकत घटना वर्णनच करता अशें न्हय. पूण जें ऐतिहासीक तथ्य सामकार आसता ताका साहित्यकार, कादंबरीकार त्या ऐतिहासीक यथार्थ अंतर्गत लिपिल्ले भाव, क्रिया-प्रतिक्रिया हांकां चित्रीत करपाचो यत्न करता. कादंबरीकार फकत कथानक, घटना, कार्य हांची परिघा भितर येवपी मनशां, तांचे मनांत चलपी तांची मानसीक प्रक्रिया, उत्फर्के, हुस्के, कळवळे जे तांच्या मनांत धुमशेणां घालतात तांकां तशेंच तांच्यांनी जें कितें केलां.....ह्या सगळ्याक खूबच खोलाय आनी गहनतायेन पळयता. जशे चित्रकार फकत वस्तुकच पळयनात पूण वस्तुचे अयस पयस लेगीत नियाळटात, अयस-पयसाचो प्रभाव ते वस्तुचेर, तशेंच ते वस्तुचो प्रभाव त्या अयस-पयसाचेर कसो आसा ताचें आकलन करपाची लेगीत यत्न करता. कादंबरीकार इतिहासाच्या ज्या भागाक, घटना अंतर्गत वेंचून काडटा, ताका पुनर्प्रस्तूत करपाचो यत्न करता. त्या कालखंडाक स्थूल, भौतीक जगत्, सामाजीक जीवन आनी पात्र तांचे विचार प्रामाणीकपणान पुनर्प्रस्तूत करता. कादंबरीकार ऐतिहासीक तथ्यांक तोडूंक शकना फकत तातूंत निहीत (contained) आशिल्ले सृजनशिलतायेक आपल्या उद्देश्या अनुरूप ताका साकार करूंक शकता. हें कार्य भाशा-शैली वरवीं तयार जाता. कादंबरीची ही गुंथणी कादंबरीकार तयार करना तरी लेगीत ताची दृश्टी ही गुंथणी तयार करता, जशें न्हंय आपलो पाट तयार करून व्हांवना पूण तो पाट न्हंय व्हांवताना आपूणच तयार जायत रावता. ही गुंथणी कशी आसची हें सांगतना म्हाका दत्ता दामोदर नायक हांचो लेख याद जाता. (लोकमत-आयतार, 2 मे,2021)

'सर्व इतर भाशांत केवळ फुलांची वेणी असते. कोंकणीत शेवत्यांची फांती असते. जायांचो पोड असतो. सुरंगाचो वळेसर असतो. ओंवळाचो पड असतो. आबोल्यांचो झेलो असतो. मोगऱ्यांची आटी असते.'

ज्या प्रकाराची गुंथणी त्या प्रकाराचें नांव येता. वेणी, फांती, पोड, वळेसर, पड, झेलो, आटी हे सगळे रेखांकीत शब्द आप-आपली उतरावळ घेवन येतात. साहित्यांत लेगीत ही गुंथणी आसताच. ताका शैली म्हणूं येता, आनी ही गुंथणी उतरांच्या माध्यमांतल्यानूच तयार जाता. जशें संगिताचे स्वर सातूच पूण तातुंतले राग-रागिणी अनंत. हांगा एक गजाल लक्षांत धरूंक जाय, ती म्हळ्यार वेणी, फांती, पोड, वळेसर, पड, झेलो, आटी हातूंत तांकां बांदपी दोर आमकां दिश्टी पडटा पूण साहित्यांत उतरांच्या माध्यमांतल्यान विचारांचो दोर दिसूंक जायना. पूण तो दोर मोतयांची माळेवरी अनुस्यूत आसूंक जाय. उतरांक बांधपी पूण तो दिसना. जर साहित्यकार हो धागो वेवस्थीत रुपांत, आपली शैलीच्या माध्यमांतल्यान अनुस्यूत करूंक पावना तर पात्रचित्रण, वातावरण निर्मिती, तांचें कार्य-व्यापार तशेंच अंतर्संबंध हाचेर प्रभाव घालता आनी मागीर कृतीची संप्रेषणीयता उणी जाता. शैली आनी शिल्प मेळून कृतीची संहिता (Text) तयार जाता जशें देवूळ, इगर्ज, मस्जिद वा कसल्याय प्रकाराची वास्तु माती, सिमेंट, फातर चुनो हांच्या सामंजस्यानच तयार जाता. पूण तांचें शिल्प वेगळें आसता. ह्याच प्रमाण साहित्यकार आपली भास-शैली वापरून वेग-वेगळें शिल्प तयार करता. ह्या अर्थान शैली विविध-रुपां जाता. ऐतिहासीक सामाजीक कादंबरी म्हळ्यार इतिहासाची साहित्यीक व्याख्या जाता.

'सायबा भोगोस'- आरंभ जाता तेन्ना वातावरण निर्मिती आनी पात्रांचें चित्रण-

'आमचें मूळ पीठ गोंय, थंय घडल्ली कथा ही.'

सतरावो शेंकडो....इसवी 1661-म्हळ्यार, केनरा क्रिस्तांवांचें बंधडे प्रासय शेंबोर वरसां चड आदली गजाल.

गांवचें वर्णन-

'सरल्ल्या गांवाक उरल्लोच पटेल म्हणचे बरी सरकारी तशें धार्मिक फुडारी मेळोन, गरजेन, मरजेन तशें खोरजेन आपणाक जाय जाल्लेबरी अत्मे म्हणोन कदवळ उदकांत मासळी पागताले....' (पान.2)

त्या वेळारय, गोंयांत त्या प्रास शेंबोर वरसां अदीं, (दॉम फ्रा.गास्पार दे लियांव पिरेर, गोंयचो प्रथम आर्च बिस्प, आनी दॉम कोनस्तांतीन दे ब्रागान्जा गवर्नर जावन आसल्ले तेदना) स्तापीत जाल्ले भिरांकूळ धार्मिक झडतेचे 'इन्क्विजिसांव' कोडतिची मोडतहुनोनी चलताली. दुडवाधीक, बळाधीक आनी अधिकारी प्रभाव आसल्ल्यांच्या चेलांक अनी तसल्यां पाटल्यान लांबतेल्यांक आनी खबरींक गूढाचारींक सोडल्यार हेर सार्वत्रीक जीवन दुबावाचें, धमकेंत, लिपत्या आरोपांनी आनी तापत्या केंडांनी म्हळ्ळेवरी लोळतालें, फुडें वेतालें-' (पान-2)

उताऱ्यांत रेखांकीत उतरां शैली अंतर्गत जी सामाजीक परिस्थिती चितारता ताचें दर्शन घडयता.

'व्हडलें घर' आरंभीक उतरां आनी सामाजीक चितार-

'गोरवां गोठ्यांत परतुपाचो वेळ जावंक नाशिल्लो. पूण वत मोव जाल्लें. गोंय बंदर आनी बंदरा लागीं उबीं आशिल्लीं तारवां दिसूंक लागलीं. कांय वेळान व्हडें बंदरा लागीं पावलें. मुखेल धक्याक तेंकून आशिल्ल्या धाकट्या धक्याक तेंकलें.....तिगूय



चडूं लागलें....भितर वायसरॉयाची पालास आसा....पुर्तुगेज 'ताका तेरेंरू-दे साबाय्यु' म्हणटाले....सगळ्यांत व्हडली इगर्ज-सॅ कॅथॅड्रल.....कायतान.....तोंडांतल्यान उतरां सुटलीं..... 'व्हडलें घर' तीं उतरां अजाप आनी भंय हांणी उपाट भरिल्लीं.'

उतरां जर अजाप आनी भंयान भायर सरलीं तर वातावरण अकबंध कशें? जी वातावरण निर्मिती जाता थंय भंय आसल्यार तुटक उतरां नाका आशिल्लीं? उतरांचो भावार्थ, लक्ष्यार्थ, विरोधार्थ, तांचो आघात-प्रत्याघात वयल्या वर्णनांत दिश्टी पडना. अशें दिसता की कादंबरीकार तथ्यात्मक उतरां वापरता लेगीत सृजनात्मक न्हय. ऐतिहासीक तथ्य चितारलें म्हूण ती कादंबरी जायना आनी जर वर्णनात्मकतायेन ती कादंबरी मानली तरी लेगीत ती तथ्यात्मकच उरता. शैली अंतर्गत जी सृजनात्मकताय जाय ती 'व्हडलें घर' हातूंत दिश्टी पडना.

आतां पळोवंया 'सायबा भोगोस' कादंबरी इंक्विझिशन सेंटराचें चित्रण कशें करता- '....त्याच वेळार, बंधेंतल्या काळक्या कुडांत, फातराच्या बांकार रावोन आसल्ल्या सिञोर जुवांवक एक थराचो धखो बसोन तकली ताची घुंवल्लेबरी जालें, हातां पांयांक आसल्ल्या सांकळिंची जडाय एकाच्याणे व्हावंक कश्ट जाल्लेबरी ताका भोगलें. जाल्यारय, मन ताणें घट केलें. ताचेरच तसलो परिणाम जालो तर, भायल्या हेरांचेर प्रत्येक जावन सिञोर क्रियादोचेर कसलो वायट परिणाम जायनाये? तें पळेंवचे आतुरतायेन दोळे नितळावन, परत्यान भायर ताणें पळेलें.' (पान 166)

'व्हडलें घर'हातूंत जें चित्रण येता-

'कायतानाचे कुडीक दोट्टी दार, एक भितल्ल्यान उगडटा अशें आनी दुसरें भायल्यान उगडटा तशें भितल्लें दार दोन दाट फळ्यांचें. ताका दोन गडगंज खिळ्यो. ह्या दाराक वयल्या वांट्यांत एक ल्हानशें जनेल. ताकाच धाकटें दार आनी खिळी आसा. जेवण वा हेर कितेंय दिवपाच्या वेळार तें धाकटें दार उक्तें करून तें दितालें आनी रोखडेंच बंद करताले. भायलें दार एक फळ्यांचें. पूण भितल्ल्या दारा इतलें दाट न्हय...'(पान 27)

अशें दिसता की कादंबरीकारान जितले संदर्भ वाचल्यात तातुंतल्यानच तथ्यात्मक विवरण दिता. इतिहासा कडेन प्रामाणीक रावप, ताका विकृत करचो न्हय हें मान्य, पूण जर त्या इतिहासांतल्यान कादंबरी बरोवंक जाय जाल्यार त्या ऐतिहासीक कालखंडांत जें कितें आशिल्लें वा घडिल्लें तें सगळें प्रतिबिंब रुपांत आसता पूण कादंबरींत जर तें येता तर चित्र रुपांत चित्रीत जावंक जाय. इतिहास म्हळ्यार तथ्याश्रित यथार्थ. तरी लेगीत आमी इतिहासकाराक साहित्यकार म्हणना न्हय? साहित्यकाराचें काम आसता त्या इतिहासांतल्यान जें कितेंय घडलां तातुंतल्यान मानवीय संवेदना संचरीत जाता ताका धरपाचो यत्न करप.

गोंयचो सांस्कृतीक इतिहास म्हळ्यार फकत वसाहतवाद न्हय पूण त्या वसाहतवादांत जाल्लें धर्मांतरण-Conversion आनी हातुंतल्यान आयलें धर्मपरीक्षण-Inquisition. धर्म परीक्षक-Inquisitor.आनी ह्या धर्मपरीक्षणाक लागून जाल्लो आकांत हो हे कादंबरीचो विशय. तर हें सगळें घडलें कोणाचेर? मनशांचेरच न्हय?'व्हडलें घर' हाचो विशयच जर हो आकांत तर तो तुळशीचो रोंपो, देवाची मूर्त ह्या सगळ्यांचें निरुपण जालां पूण त्या आकांताचें चित्रण जावंक पावलें, अशें म्हणूंक जावचें ना. तशेंच पान 135,166,169,171,176 चित्रण, संवाद आसाच. पान 176 चेर 'बाउतुज्माची आदली रात....गोमतीचो दोळो लागलो ना' फुडें आयिल्ले विचार पूण आसा....मूर्त, देवूळ....गोमतीचे दोळे..... पान 130चेर कायतानाचे विचार...विचारांचें भिरें.....

'व्हडलें घर' इतिहास दिता. तथ्य दाखयता. गोंयांत जाल्लें धर्मांतरण, धर्म परीक्षण, १६ व्या शेंकड्यांतलें गोंय, ताचो इतिहास, भुगोल लक्षांत धरून ही कादंबरी बरयल्या. डॉ.दॅलाँ हांचें अणभव-कथन दस्तावेज रुपांत आसा. कादंबरीकार स्विकार करता की तांच्या अणभव कथनांतल्यान ती वर्णनां घेतल्यांत. (पान 12)

'जो इतिहास आसूंक जाय तितलो उक्तो ना त्या इतिहासाचेर ही कादंबरी रचल्या. इतिहासाच्या ग्रंथांनी मेळटा. म्हजो प्रयत्न आसा तो साहित्याच्या माध्यमांतल्यान तो लोकां मुखार दवरपाचो.' (पान, 15)

जर इतिहास साहित्याच्या माध्यमांतल्यान दिवंक तो तथ्यात्मकताय वांगडाच पात्र आनी घटना आपली सापेक्षताये अंतर्गत फकत भायलो परिवेश न्हय पूण तांचे आत्मस्थ अंतर्जगत हाचो परिवेश आसता ताका पूण जोडपाचो यत्न करता. वातावरण निर्मिती करताना, फुडली येवपी घटना हाका पूण केंद्रांत दवरून अशें रितीन व्यक्त करता की ती घटना तातुंतल्यानच उत्पन्न जाल्या अशें दिसता. कथा आनी अवांतर कथा पात्र आनी वातावरण निर्मितींतल्यान तांचें आंतरीक विश्व पूण सजीवतायेन चितारपाचो यत्न करता. तेन्नाच ती साहित्यीक कृती जावंक पावता.

कादंबरीकार बरयता-

'त्या इंक्विझिशनाच्या काळांत राय गांवांतलें पै कुटुंब हिंदू आसताना फापसलें. गांवांत रावलें त्या जोडप्याक दबावा खाला धर्म बदलचो पडलो....'(Flap) कव्हराचेर.

मूळ मुद्दो हिंदुचें जाल्लें धर्म परिवर्तन....दबावा खाला हें घडलें. मान्य. तांचीं कारणां म्हळ्यार गोंयांत आशिल्ली पुर्तुगेज





राजवट. जेन्ना परकी सत्ता, दुसऱ्या देशाचेर आनी समाजाचेर आपली सत्ता गाजयता तेन्ना शासकाक मान दिवप, तांचे वरी वागप, तांचो धर्म आपणावप वा तांचेर बळजबरी जावप.....शासक आनी प्रजा, तांचें वेगळेंपण, तांचें मदीं जाल्लो संघर्श आनी ह्या संघर्शांतल्यानच जाल्लें आत्मसातीकरण आसता.

भारताचो इतिहास हाची साक्षी दिताच. गोंयच्या इतिहासांत हें धर्मपरीक्षण, धर्मांतरण जेन्ना जाल्लें तेन्ना–

The Portuguese Catholic Church ruthlessly implemented 'inquisition' and brought about mass conversions. In Goa the upper castes such as Brahmans and Kshatriyas first fell a prey to inquisitions and tyrannical laws, while in British India the lower castes were converted by manipulating their "consent'. (GomesOlivinhu,"Village Goa.'pg.74)

धर्मांतरण, धर्मपरीक्षण आनी ताका लागून जाल्लो आकांत, हो आकांतच जर 'व्हडलें घर' कादंबरीचो विशय– (मध्ययुगीन युरोपांतल्या कांय राज्यांनी तर होच इतिहास पातळिल्लो आसा, इतलेंच न्हय पूण पुर्तुगालांतले इंक्विझिशन सगळ्यां परस खर आशिल्लें तर ताचो आकांत लेगीत तितलोच खर, पान 7,8)

तर त्या आकांताचें निरूपण तितल्याच खरपणान जावप गरजेचें आशिल्लें तितल्या स्वरुपांत तें जावंक पावलें ना, अशेंच म्हणचे पडटलें.

'सायबा भोगोस'चे हें चित्र कशें चित्रीत जाल्या तें पळयल्यार–

'सिञोर जुवांवची दीश्ट, त्या निमाण्यांचेर तीर धरून खंचली. हरयेल्याच्या आंगार, ङ्सानवेनीतो' नांवाचो, गोणिये सारको, हळदुव्या रंगाचो सडीळ डगलो शिरकायल्लो.....'

'.....पातक कांटाळचो जांव, कूड थरथरावन धरचो अनुभव तो जातालो म्हणयेतः कुट्टोन आनी धांट्टोन, पडोन आनी उटोन ते फुडें वेताले, वेतालीं–पयस–थावन पळेवन, दादलो व स्त्री म्हण पारकूंक जायनातल्लें, तांचीं मुखमळां, रगताची लय नासतां, म तीयाळीं आनी गोब्राळी जाल्ली, तांचे केंस म्हेळोन, वोळोन झाटां जाल्ले, उजवाड पळेवन विसर पडल्या तांकां, त्या वोतांत दोळे उगते धरूंक जायनातल्लें.' (पान, 160)

हें चित्रण जें चित्र चितारता तें फकत प्रतिबिंब रुपान ना पूण चित्रीकरण रुपांत आयल्या.'सायबा भोगोस' कादंबरी हें सिद्ध करता.

'व्हडलें घर' असलें चित्रीकरण करपांत उणें पडटा. कादंबरीकार फकत एकठांय केल्लें तथ्य मांडटा.

हांगा एक प्रस्न असोय उपरासता की हो आकांत फकत हिंदुचेरूच जाल्लो? पुर्तुगेजां पयलीं गोंयांत आदिलशाही शासन आशिल्लें. हांगा मुसलमान लोक नाशिल्ले? फकत पै कुटुंबच? मानुया कादंबरीकार प्रातिनिधीक पात्र घेता पूण इतिहास मांडटाना तो एकांगी जालो न्हय? सत्ताधिशा तांचें चाकर मानाय नाशिल्ले? गुलाम नाशिल्ले? इंक्विझिशनां विशीं हांवें वांचिल्लीं पुस्तकां सेंट्रल लायब्रेरींत आसात. लॉकडाउन आनी संचारबंदी आशिल्ल्यान आम कां संदर्भ पुस्तकां मेळपाचो प्रस्नच उपरासना. तितल्यान 'लोकमत' आयतार आवृत्तींत (16, मे, 2021) म्हाका वाल्मिकी फालेरो हांचो लेख ङ्कूळ आनी मूळङ्ग अंतर्गत वाचूंक मेळ्ळो.

'8 ऑगस्ट 1560 रोजी चोडण येथे तर, 15 ऑगस्ट रोजी दिवाडी येथे सामुहीक धर्मांतराचा कार्यक्रम पार पडला. विरोधाचा हा बालेकिल्ला सर झाल्यानंतर धर्मांतराने वेग घेतला. त्याच वर्षांत चाळीस हजार हिंदू–मुस्लिमांनी ख्रिस्ती धर्मांत प्रवेश केला. संपूर्ण तिसवाडी तालुकाच जणू ख्रिस्ती जाला होता.'

'इंक्विझिशनचे पवित्र कार्यालय 02 आब्रील 1560 रोजी सुरू करण्यांत आले. त्याचा आरंभीचा रोख पोर्तुगाल मधील धर्मांतर केलेल्या, पण स्वतःच्या मूळ धर्माचें आचरण करणाऱ्या ज्यू धर्मियांकडे होता. पण जसाजसा काळ उलटला....'

इंक्विझिशनाचो आकांत फकत हिंदू खातीरच नाशिल्लो पूण वाल्मिकी फालेरो 'कूळ आनी मूळ' अंतर्गत दुसऱ्याय धम र्च्या लोकांचेर जाल्ल्या आकांत विशीं बरयतात तशेंच Luis de ssisCorreia आपल्या पुस्तकांत –"Portuguese India Mumbai-Chaul-Vasai,1498-1739'– पान 123 चेर बरयतात–

"The Holy office relentlessly pursued the Cristaos- Novos and the Oriental Jews who in order to obtain advantages in trade, residing in Goa and Cochin, had declared themselves Christians. The first offence committed by such oriental Jews only merited an arrest and an appearance before the Holy office of the Inquisition, but..'

हो आकांत फकत हिंदूचेरूच आयलो अशें म्हणूंक जावचें ना. इतिहास मनशांक आपलो देश, समाज, संस्कृती तांचो विकास इतलेंच न्हय तर मानववंशशास्त्रीय नदरेंतल्यान लेगीत इतिहास खूबच कितें शिकयता. फकत आपल्या देशाचोच न्हय तर दुसऱ्या देशांचो इतिहास लेगीत आमकां, आमच्या मानवीय समाजा बद्दल वास्तवीक दर्शन घडयता. म्हळ्यार इतिहासाक सर्वांगी रुपांत पळोवचो. एकांगी रुपांत पळयल्यार मानववंशशास्त्रीय दृश्टीन लेगीत चूक करतली.'व्हडलें घर' विशय वेंचतनाच एकांगी जाल्या, हें मात मानचेंच पडटलें.

■■■

# पुणेंचें वेगळें रूप





सुशांता दत्ता नायक
मो. 9326115625

संवसाराचे भोंवडेचे उत्फर्के बाळगून
सहजिवना वांगडाच सहप्रवास करपी एक दांपत्य
म्हळ्यार सुशांता नायक आनी साहित्यीक दत्ता नायक.
भोंवडी करून भोंवडेंत जें कितें अणभवलां,
पळयला तें आपलेच भितर दवरी नासतना तातूंत
हेरांकूय आसपावन घेवपाच्या उत्फर्यान
सुशांताय हातांत लेखणी घेता.
तांचें 'धर्तरि वयलो सर्ग' हें प्रवास वर्णन
वाचकप्रिय थारलांच,आतां तांचे नदरेंतल्यान
तांणी पळयल्लें हें पुणे..

म्हजें आनी पुणेंचें नातें फाटल्या पंदरा वर्सांचें. म्हजी धूव लग्न जावन पुण्याक रावता. आमी तागेर वर्सांतल्यान दोन-तीन फावटी वतात. पुण्याक वचप, नातरां वांगडा खेळप, सिनेमा पळोवप, मॉलांनी भोंवप, रेस्टॉरंटांनी जेवप, खरेदी करप, पुणेंचो लक्ष्मीनारायण चिवडो आनी चितळेची बाकरवडी घेवप आनी गोंयांत परत येवप. हें आमचें वर्सावळीचें.

२०२० त कोरोना आयलो आनी सगल्यांची जिणे शैलीच बदल्ली. पयले स म्हयने खंयच वचूंक मेळ्ळें ना. विमानां बंद आशिल्लीं. सगले लोक आपापल्या घरांनी बसून उरले. सप्टेंबर २०२० त कोविड प्रकरणां मातशीं उणीं जालीं आनी गोंयां भायर वचपाक मेळूंक लागलें. ती संद घेवन आमी मोटारीन पुण्याक वचपाक भायर सरलीं. त्या वेळार पुण्यांतलें वातावरण मातशें हुस्क्याचें शें आशिल्लें. कोविड जाल्ले दुयेंती मेळप चालूच आशिल्लें. रातची

संचारबंदीय लागू आशिल्ली. दुकानां बंद. हॉटेलां बंद. भायर भोंवपाक मेळनासलें. पांच लोकांक एकठांय येवपाक मनाय आसली. सिंहगडार वचपाक बंदी आसली. पावना धरण बंद आसलें. सगलीं इतिहासीक थळांय बंद आसलीं.

म्हजे धुवेच्या घरा कडल्यान तीस किलोमिटरांचेर मल्हार गड आनी मस्तानी तलाव. तो गड आनी तलाव पळोवन येवपाचें आमी थारायलें. दनपरां तीन वरांचेर आमी भायर सरलीं. अर्दवरान मल्हार गडार पावलीं. रस्त्यार वाहनांची येरादारी उणी आशिल्ल्यान रोखडींच पावलीं. पुणेंच्यान सासवड वचपाचे वाटेर एक घाट लागता, थंय मल्हार गड आसा. पंढरपुराक आशाढी एकादशीक जे वारकरी वतात तांची ती वाट. वाटेर एक मोटो विठोबाचो पुतळो आसा. सोबीत-सुंदर असो पाचवोचार सैम आनी तरांतरांचीं रानफुलां मन भुलयतात.

मल्हार गडा कडेन गाडी वता. थोडेंशेंच चलचें पडटा. वयर वतकच दिवे घाट आनी सोनोरी नांवाचो गांव नदरेक पडटा. पळयता थंय मनभुलवणो सैम. घाटा वयल्यान येवपी शत्रूंचेर नदर दवरपा खातिरूच हो मल्हार गड १७७५ वर्सा मराठ्यांनी बांदिल्लो असो इतिहासांत उल्लेख आसा. ह्या गडार दोन ल्हान देवळां आसात. एक म्हादेवाचें आनी दुसरें खंडोबाचें. मदीं एक ल्हान तळी. आमचे सारके आनीक कितलेशेच लोक हो गड पळोवपाक आयिल्ले. थंय पेरांचे आनी अंजिराचे खूब मळे आशिल्ले. कांय जाण तांतलीं फळां विकपाकूय बशिल्ले. आमी तांचे कडल्यान कांय पेरां आनी अंजिर घेतले आनी मस्तानी तलाव पळोवपाक भायर सरलीं.

दवे घाटा वयल्यान देंवतना मक्याचीं आनी बाजरीचीं पाचवीचार शेतां आनी मदींच वाटकुळो निळोच मस्तानी तलाव नदरेक




पडटा. घाट देंवतकीर वडकी ह्या गांवांत मस्तानी तलाव आसा. दोन किलोमिटर थोडोसो मातयेचो रस्तो.

अशें म्हणटात - बाजीराव आनी मस्तानी पुर्णेच्यान घोड्यार बसून ह्या तलावा कडेन येतालीं, न्हातालीं आनी मजा मारतालीं. १७०० वर्सांतली ही गजाल. बाजीरावान ह्या तलावाक सकयल्यान घटमूट अशी वणत बांदून घेतिल्ली. ती आयजूय तश्शी आसा. कांय वर्सां उपेक्षीत उरिल्लो हो तलाव २०१८ वर्सा उसपून नितळ केल्लो.

तलावाक तेंकूनच मस्तानेश्वराचें एक देवूळ आसा आनी कांय सोंपणां सकयल देंवतकीर गणपतीचें देवूळ लागता. तलावाक लागूनच एक भुंयार आसा. ह्या भुंयारांत वचूंक मेळटा. त्या भुंयारांतल्यान सुमार ३५ किलोमिटर अंतर चल्ल्यार शनिवार वाड्यार पावतात. राखणदारांक येवपा-वचपा खातीर ही वाट तयार केल्ली काय तलावाचें उदक शनिवार वाड्या मेरेन पावपा खातीर हो कानाल तयार केल्लो हें कळूंक मार्ग ना.

मस्तानी तलाव पळयतकीर मन धादोशी जालें. त्याच खिणाक पेशवाई काळांतलें चित्र नदरे मुखार आयलें. घोड्यार बसून आयिल्ले श्रीमंत बाजीराव पेशवे, तांचे फाटल्यान पालखेंत बसून येवपी सोबीत-सुंदर मस्तानी, तरसादी घेवन आयिल्ले सरदार, तांबडीं, पाचवीं बोंदेरां नाचोवपी भालेदार आनी धोलताशांचे आवाज सगलें दोळ्यां मुखार तश्शा तश्शें आयलें. लॉकडावन आसुनूय आमचे भाशेन कितलेशेच लोक तलाव पळोवपाक आयिल्ले. हो खोशेचो आनी आनंदाचो दीस आमचे यादींत उरलो.

दुसऱ्या दिसा आमी शिंदे छत्री पळोवपाचें



थारायलें. वानवडी फकत पंदरा मिनटांचे वाटेर. ही शिंदे छत्री आमकां येतना-वतना वाटेर लागताली. पूण पळोवपाचो योग येनासलो. कोविडच्या निमतान ती पळोवपाची संद मेळ्ळी. भितर वचपाक बंदी आसली. आमी भायल्यानूच ताचें दर्शन घेतलें. हें स्मारक भव्य आसा तशेंच ताचो इतिहास सामको रंजक आसा. तो आयकतकच मन अजापभरीत जालें.



मराठी सैनीक महादाजी शिंदे हे ग्वाल्हेराचेर राज्य करताले. तांणी १७६९ वर्सा पुण्यातले वानवडीचे हे सुवातेर शंकराचें देवूळ बांदिल्लें आनी त्याच वर्सा ते संवसाराक अंतरले. म्हणून तेच सुवातेर तांची समाधी उबारली. ताचे उपरांत लागीं लागीं सुमार २०० वर्सांनी म्हणल्यार १९६५ वर्सा माधवराव सिंधिया हांणी ते समाधीचेर इस्लामीक वास्तुकलेचें एक घुमट बांदलें. माधवराव सिंधिया हे महादाजी शिंदेचे वंशज. हें घुमट सत्रेच्या आकाराचें आसा म्हणून पुणेकर त्या घुमटाक शिंदे छत्री ह्या नांवान वळखतात.

माधवराव सिंधिया हांणी त्याच प्राकारांत राजस्थानी वास्तुकलेचें स्मारक उबारलां. ही वास्तू खूब सुंदर आसा. ताची दरेक वणत



भायल्यान लेगीत वेगवेगळ्या चित्रांनी कोरांतल्या. ह्या प्राकारांत त्या तेंपा वयलीं विंगड विंगड चित्रां पळोवंक मेळटात तशेंच शिंदे कुटुंबाचे फोटेय आसात. ह्या स्मारकाच्या वेवस्थापनाची पुराय जापसालदारकी शिंदे देवस्थान ट्रस्टान घेतल्या.

हे सुवातेचें एक खाशेलपण म्हणल्यार केदोय पावस पडूं कोणेच आपली सत्री फुलोवंक जायना. शिंदे छत्रीक मान दिवपा खातीर ही परंपरा रुढ जाल्या अशें म्हणटात. हें सगळें पळोवन आमच्या ज्ञानांत खूब भर पडली.

आमी मागीर ‘खडकी वॉर शिमितेर’ पळोवंक गेलीं. ही शिमितेर पांच नखेत्री गार्डनूच कशें! ताच्या चारूय वटांनी गुलमोहराचीं झाडां, ताचेर कुचकुचीत तांबडींच फुलां आनी थडग्यांक तेंकून गुलाबाचीं झाडां आनी मर्दी पेत्रॉलीच्या फुलांचे माटव! पयल्या म्हाझुजांत मरण आयिल्ल्या साडे संयशां वयर लोकांचीं आनी दुसऱ्या म्हाझुजांत प्राण ओंपिल्ल्या एक हजार संयशां वयर लोकांचीं थडगीं हांगा आसात.

इकरा नोव्हेंबर २०१३ ह्या दिसा प्रिन्स चार्ल्स हांणी हे शिमितेरीक भेट दिल्ली. तो दीस हुताम्यांचो यादस्तीक दीस आशिल्लो. प्रिन्स चार्ल्स आनी ताचे वांगडा आयिल्ल्या ताच्या मनशांनी आपल्या शर्टाचेर तांबड्या फुलांची पीन लायिल्ली. ते घडणुकेची याद ताजी करपा खातीर शर्टाचेर तांबड्या फुलांची पीन लावपाची प्रथा आसा.

अशी जाली आमची पुण्याची ट्रीप. हे भोंवडेची याद मनांत घोळटा आसतनाच मार्च २०२१ उजाडलो आनी कोरोनाच्या दुसऱ्या ल्हारान संवसारांत खवदळ घालो. सगल्याक परत लॉकडावन जालें. कोरोना आटापा येवचो म्हणून लसीकरणाचे मोहिमेनूय नेट धरलो. २०२१ चो ऑगस्ट म्हयनो आयलो. कोरोना निवळटा अशें दिसूंक लागलें. शारांच्यो शिमो ल्हवू ल्हवू उक्त्यो जावंक लागल्यो. आमकां परत पुण्याक वचपाची उमळशीकशी लागली. हे खेपे आमी एक दीस सातारा वचून थंयचो नाना फडणवीस वाडो आनी कास पठार पळोवपाचें थारायलें.

आमी एक सप्टेंबराक दनपरां मोटारीन पुण्याक वचपाक भायर सरलीं. वासिनाच्यो दोनूय लशी घेतिल्ल्याचें प्रमाणपत्र आमचे कडेन आशिल्लेंच. सातारा पाव म्हणसर रात जाली. सकाळीं णव वरांचेर नाना फडणवीस वाडो उक्तो जाता. हो वाडो वाईच्यान तीन किलोमिटर अंतराचेर मेलावली ह्या गांवांत आसा. अठराशे शेंकड्यांत माधवराव पेशवे २ हांणी तो बांदला. आबोली नांवाचे चलयेन आमकां तो सगलो वाडो भोंवन दाखयलो.

ह्या वाड्यार भितर, वयर आनी सकयल अशीं स सालां आसात. एक नानाची न्हिदपाची कूड, एक हिशोब दवरपाचें साल, एक बायलांक बसपाचें साल, एक पडवी, एक वासरी, एक चवकी, सगल्याक लांकडांचे कोरांतिल्ले खांबे, लांकडाचो कोरीव फोर्र, घराक आडामो





आशिल्लें लांकडी दार, धान्य दवरपाक एक मोटी कोठयेकूड. घरा फाटल्यान कृष्णा न्हंय. न्हंये कडेन वचपाक फातरांचीं सोंपणां.

न्हंयेचे देगेर दोन ल्हान देवळां. एक विष्णूचें आनी एक शंकराचें. शंकराच्या देवळा मुखार एक मोटी घांट. ६५० कील वजनाची. हे घांटेचो इतिहास असो : मराठा सैनीक चिमाजी आप्पान १७३९ वर्सा पुर्तुगेजां कडल्यान वसईचो किल्लो जिखतकीर ती घांट थंयच्यान काडून हांगा लायिल्ली. हे घांटीचेर मदर मेरी, इन्फण्ट जेझूक धरून आसा अशें शिल्प कोरांतलां. देवळा मुखार कॅथोलीक घांट पळोवन आमकां अजाप जालें.

हो सगलो इतिहास मोडी लिपयेंत बरयला. हीं कागदपत्रां आदीं मेणावली वाड्यार आसतालीं. तीं आतां पुणेचे टेक्कन कॉलेजीन सांबाळून दवरल्यांत. आमची गायड - आबोलीक मोडी



हांगा हिंदी आनी मराठी सिनेमांचीं कितलिंशींच चित्रीकरणां जाल्यांत. तातूंत स्वदेश, दबंग, मृत्युदंड, काकस्पर्श ह्या सिनेमांचोय आसपाव आसा. हें सगलें पळयतकच पेशव्यांची जीण दोळ्यां मुखार येता.

वाडो पळोवन जातकीर आमी धा किलोमिटर पयस आशिल्ल्या लिंब गांवांतली बारा मोटेची बांय पळोवंक गेलीं. ही बांय छत्रपती शाहू महाराजाच्या तेंपा वयली. चारशें वर्सां पयलीं म्हणल्यार १६४१ वर्सा शाहू महाराजाची बायल वीरूबाई भोसले हिणें ही बांय बांदून घेतिल्ली असो इतिहास सांगता. ही बांय लिंगाच्या आकाराची आसा. ती एकशें धा फूट खोल आनी पन्नास फूट रुंद आसा. मुख्य बांय अश्टकोनी आनी ताका जोडून दोन फांटे अशी ताची रचना आसा. दोनांयचे मदीं एक सांकव, हनुमान, वाग, घोड्यार बशिल्ले शिवाजी



लिपी येताली. आमचे तिकेटींचेर तिणें मोडी लिपयेंत आमचीं नांवां बरयलीं.

आदीं गोंयांत लेगीत मोडी लिपयेंत हिशोब बरयताले. आतां लोकांक मोडी कळना. पूण पुरातन कागदपत्रां वाचूंक मोडी लिपी कळप गरजेचें.

वाड्यार कांय कडेन फ्रेस्को चित्रां आसात. तातूंत सीता महाराष्ट्रीय धाटणीची साडी न्हेसल्या अशें दाखयलां.

वाड्या भायर हतयाच्या पांयाच्या आकाराचें गोरखचिंचेचें एक मोटें झाड आसा. ताचें रोंप लागीं लागीं ३०० वर्सां पयलीं आफ्रिकेच्यान हाडिल्लें खंय! ३०० वर्सां पिरायेचें हें झाड पेशव्यांच्या सगल्या पिळग्यांचें साक्षीदार जावन उबें आसा.

महाराज अशीं शिल्पां कोरांतल्यांत. बारीक पळयल्यार ही बांय भुंयारी राजवाडोच कसो दिसता.

हे बांयंत देंवपाक मोटीं रुंद अशीं राजेशाही सोंपणां आसात. बांयचें उदक काडपाक बारा तोंडां आसात. म्हणून हे बांयक बारा मोटाची बांय अशें म्हणटात. कुशीक आमराय आशिल्ल्यान ताका उदक शिपपा खातीर ही बांय बांदिल्ली आसुये.

भितरले वणटीचेर मोडी लिपयेंत ताचो इतिहास बरयला. हाचे वयल्यान हांगा शाहू महाराजाच्यो बसका जाताल्यो असो अदमास काडूं येता. ही बांय पळयतकीर त्या तेंपा वयले लोक कितले कलात्मक आशिल्ले हाची जाणविकाय जाता.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं फुडें आमी कास पठार पळोवंक गेलीं. कास पठार पळोवंक लोकांची गर्दी जाता म्हणून हांगा वचपा खातीर ऑनलायन बुकींग करचें पडटा. आमी सकाळीं सात ते इकरा हो वेळ घेतिल्लो. हो पठार म्हणल्यार फकत खडप आनी ताचेर मातयेचो पातळ थर. जून ते ऑगस्ट हे तीन म्हयने पावस पडून वतकीर ह्या पठाराचेर तण वाडटा. सप्टेंबरांत वत पडपाक लागतकीर ताचेर निळीं, गुलाबीं, हळडुवीं आनी धवीं अश्या रंगांचीं फुलां फुलतात. हांगा सुमार आठश्यां



वयर फुलांच्यो जाती आसात. चारश्यां वयर फुलांच्यो जाती कास पठार सोडून संवसारांत खंयच नात. फुलां फुलतकीर हो पठार खूब सुंदर दिसता. दोळे सुखावतात.

दरेका फुलाक नांव आसा, बॉटानिकल आनी थळावें नांव. तातूंतलीं म्हज्या लक्षांत उरलीं तीं मिकी मावस, टूथ ब्रश आनी रान हळद हीं नांवां. थोडीं फुलां सामकीं जमनीक चिकटून आसतात. तीं









दाखोवपाक गायडान आमकां भिंग दिल्लें. गुलाबी फूल आनी ताका काळे थिपके. ताचें नांव म्हज्या काळजांत घर करून रावलें. सीतेचीं आंसवां. तें नांव आयकून सहज दिसलें - सीता हांगाचयान वतना दोळ्यांतल्यान दुकां गळयत गेल्ली काय?

जांबळ्या रंगाचीं फुलां मात सात वर्सांनी फुलतात. तीं आतां बद्द २०२४ त फुलतलीं.

आमी कास पठारांत पावलीं तो दीस खूब बरो आशिल्लो. थोडें वत, थोडें धुकें, झणझणीत वारो आनी चारूय वटांनी फुलांचो गालिचो. हो गालिचो पळोवन दिसलें - सेर्त कोणें तरी हांगा तरेकवार रंगांच्यो बियो फाफुडल्या आसतल्यो.

२०१२ वर्सा युनेस्कोन हो कास पठार 'वर्ल्ड हेरिटेज सायट' म्हणून जाहीर केला. आतां थंय वचप सोंपें जालां. थंयची वेवस्थाय बरी आसा. कोविडा खातीर ऑनलायन बुकींग मात करचें पडटा. दर दिसा फकत तीन हजार लोकांकूच हांगा प्रवेश मेळटा. हांगा चेक पोस्ट, पार्किंग, शटल सर्विस अश्यो सेवा आसात. चलचें पडना. फुलांचो वाठार वंय घालून बंद केला. भितर चलपाक पांयवाट केल्या. माहिती दिवपाक गायड दवरल्यात. तणार पांय दवरूंक मेळना. चुकून कोणेय पांय दवरलोच जाल्यार कानार पिल्लूक आयकूंक येता. सैमाची आनी फुलांची जांकां आवड आसा तांणी हो कास पठार मुजरत पळोवचो आनी आनंद घेवचो.

अशीं हीं पुण्या लागसारचीं थळां सामकीं पळोवपा सारकीं. अशे तरेन आमी ह्या दोन वर्सांत पळयलें पुणेंचें आनी पुण्या लागसारचें आगळें वेगळें रूप...!

★★★

# पुरण

म्हादय न्हंयचे तडीर आशिल्ल्या पुरण शेताचें आनी थंयच्या लोकजिवनाविशीं प्रकाश पर्येकार हांची ही कादंबरी भाश्य करता. सत्तरींत वयर कडवळी ते सकल गांजें मेरेन एका काळार वट्ट 33 वयर गांव पुरण शेतां कसयताले. तेंच तांचें पोट.मागीर तांचें कितें जालें? रोखडीच उजवाडाक येवपी 'पुरण' कादंबरीचें हें 18 वें प्रकरण ...



प्रकाश पर्येकार
मो. : 8390303546

गणबा पुरण शेताच्या माळ्यार न्हिदलेलो. कूस परतली तशी तेका जाग येयली. दुऱ्याचे कोंडी वयर मळबांत जोगुलतालें. तेचो तो उजवाड माळ्यार भितर सरलो. तो उठून हातरुणार बसलो. ओणव घालून तेणी पुरणींत टॉर्च भोंवडायली. हर्राऽऽ हर्राऽऽ हर्राऽऽ असो आवाज करून सावजांक जागयलीं. आनीक एक दोन फावट तेणी मोठ्यान आवाज दिलो. परत एकदां तेणें पयस मेरेन टॉर्च मारली. तेचे ते जागीन अत्मा उठलो. तेणेंय शेतांत टॉर्च मारली. तोवूय सावजांक जागोवपाक लागलो.

कांय वेळान परत जोगुलपाक लागलें. गडगड्याचो आवाज तेच्या कानार सादपाक लागलो. घडाऽम घुडूऽऽम असो मदींच एक आवाज फुटलो आनी मळबांत विरगळून गेलो. पाड पडचेली जाली. पावस येता सो दिसता. अशें चिंतून गणबा माळ्या वयल्यान सकयल देंवलो. आपले आपणाकच सावरीत शेताचे मेरेर तो उबो रावलो. मळबांत





वयर नदर मारली. जोगलाच्या उजवाडान तेका चार पांच काळशीं कुपां थायीं पडलीं. 'पावस काय करता देव जाणा. झडटा सो दिसता!' अशें म्हणत, आसलो तसो तो माळ्यार चडलो आनी हातरुणार बसलो. तेणें विडी काडली. फस्काची काडी मारली. विडयेचे चार पांच झुरके नेटान मारले. आनी मागीर तो तसोच कांय वेळ बसून रावलो.

बरोच वेळ असोच गेलो. आतां थंड वारें सुटलेलें. गणबान परत भायर पळयलें. अस्तमते वटेन कुपां एका मेकांक तेंकून उबीं आसलीं. गडगडो स्पश्ट तेच्या कानार सादतालो. तो आवाज आतां लागीं लागीं येतालो. परत थंड वारें व्हांवपाक लागलें. गणबाच्या आंगांत शिरशिरी भरली.

पळयतां पळयतां सर सर करून पावस पडपाक लागलो. माळ्याच्या पाख्यार टप टप करून थेंबे झडले. मदींच थांबलो. कांय वेळान परत सुरू जालो.

गणबान नेटान कुंकारो मारलो आनी अत्माक जागयलो. तेणीय कुंकारो मारून परती जाप दिली. आतां दोंगायनीय आपल्यो टॉर्ची पुरणींतल्या थामा वयल्यान आरत्यो परत्यो घुंवडायल्यो. टॉर्चीच्या उजवाडान पावसाचे मोठ्ठे थेंबे तेंकां स्पश्ट दिश्टी पडटाले.

परत नेटाचो वारो सुटलो. वाऱ्याच्या मारान पुरणींतलें थाम एका अर्दान लवंडटालें. हो वारो आनी पावस आमचे पुरणीक आडयी उडयताशी दिसता. गणबाक हुस्को जालो. बरो वेळ पावस पडत रावलो. मागीर पिरपिरपाक लागलो.

गणबाक रातभर न्हिद लागलीच ना. धोंपरा पोटांत ओडून तो तसोच पडून रावलेलो. सकाळीं झिळमिळट्यार तो उठलो. आपली पुरण भोंवून पळयली. चार पांच कुणग्यांतलें थाम वाऱ्यान आडवें पडलेलें. पुरण आजून पिकूंक नासली. आनीक धा बारा दीस तरी वचंक जाये आसले शेत लुंवपाक. एका एका थामांतल्यो चार पांच केंसऱ्यो तितल्योच पिकलेल्यो. बाकिच्यो हरव्योच आसल्यो. भाताचो गोटो आजून घट जावंक नासलो. एक दोन केंसऱ्यांनी आजून दूद आसलें. पालय जितीच आसली. थामाच्या ताटाऱ्यांतलें पाणी मरूंक नासलें.

''पावसान भिजयली मरे आमचे पुरणीक! वाऱ्यान थाम आडयें उडयलें.'' अत्मा आपले पुरणीक पळोवन चुरचुरतालो.

''म्हाज्याय चार कुणग्यांतलें थाम आडयें उडयलें. पावल भर पाणी जालां कुणग्यानी. पुरण पिकल्यार कातरूंक तरी मेळटली आसली.'' गणबान आपलें दुख्ख व्यक्त केलें.

''हो पावस तसलोच तो. एक दोन वलां करतलो आनी मागीर दडी मारतलो.''

चैत्र सोपून वैशाख लागता थंय आसा. पावस दारां धोडावंक लागलो.

गणबा आनी अत्मा आपली पुरण पळोवन घरा परतताले. न्हंयच्या देंवण्यार तेंकां तुको मेळ्ळो.

''अदूं पावस बेगीन आसा हां.'' तुको उलयलो.

''अशें कित्याक म्हणटा तूं?''

''मोळयांच्या पोटांत कवटां जाल्यांत. रातीं शाबलो आनी मी दोगय दिपकावणेक गेल्ले. एका एका मोळयाच्या पोटांत किरमुळेच्या बोटा येदीं गाबोळी.''

मिर्गाचो पावस झडून उमळ जातकच मोळये तांतयां लावपाक रान व्हाळानी चडटात. ज्या व्हाळांतल्यान तेंकां तांतयां वयर वयपाचें आसा थंय येवन ते रावतात. हें रगल्याक खबर आसलें. तुको कितें सांगपाक सोदतालो तें अत्माक मात सारकें समजलें ना.

''मिर्ग लागपाक आजून म्हयनो आसा. मोळयाच्या पोटांत गाबोळी केन्ना जाली तर?''

''जाल्या तर खरी. दोन चार मोळये मी कोळश्यार भाजून खाल्ल्यात रातीं.''

''सगळेंच बदल्लां. आंब्याच्या झाडाक आतां पणस तितले लागपाचे उल्ल्यात.'' अत्मा तुक्याक पळयतूच उरलो.

पुराय दीस सुको गेलो. मळबांतल्यान एक थेंब सकयल पडलो ना. कडक वत पडलें. वत मचमचीत आंगांर बसतालें. जमीन तापली. दनपार मेरेन आसली तशी सुकी सडसडीत जाली.

एक दीस सोडून दुसरे दीस सांजवेळार परत पावस येयलो. पयलीं थंड वारो सुटलो. कांय वेळान पयस खंयतरी जोगुलपाक लागलें. मागीर पावसाची रीप रीप सुरू जाली. रातचीं जेवणां जायसर तो एक सारको पडत रावलो. पावस जमीन भिजोवन गेलो. पुरण शेतकारां मदीं चर्चा सुरू जाली.

''बेबे बिळांतले आजून भायर सरोंक नात. तेंचो आवाज आमकां कोणाक आयकोंक येवंक ना.''

''जमनींतल्यान वाळटी हुडलेली खंय दिश्टी पडली ना.''

''कवड्या गिडगें रडलेलें कोणें आयकोंक ना. आनी तुको सांगता मोळयाच्या पोटांत कवटां जाल्यांत म्हूण म्हाका खरें दिसाना हें. कुळवाड्यांक भियोवंक येता हो आडयाळो पावस.''

''एक दोन वलां जाल्या शिवाय गोरवांच्या वाड्यार कोण धांपाण घालिना.''

''लाकडांची खोप कोण शिंवपाक बगिना. ''





''इतले बेगीन घर शिंवणी कोण करीना. ''

''भोक्याक इल्लें पाणी तेंकोंक जायें. तेन्ना आपलीं मिर्गा पयलींचीं कामां करूंक धांवता हो गांव.''

''खरें तुजें. आमी आमचें घर आजून परतूंक ना. फुडें पावस असोच कोसळापाक लागलो जाल्यार घर कोसळून तकलेर पडटलें. ''

''आमी आजून बाजाराक वचोन खारीं पासून हाडूंक नात.''

''तूं रडटा खाऱ्यांक. मी आजून मीठ घेवंक ना तें बग. मिठाच्यो गाडयो गांवांत येवन गेल्यो दोन.''

आयची ही सदची सकाळ नासली. कालचे परस आयज जमनीक चड वलसाण जिरलेली. वाटेन गोरवां चलून गेल्यार तेंच्या पांयांचीं गेतां मातयेंत भितर रिगतालीं. उदकाच्या लोंड्या वांगडा झाडांच्यो खोलप्यो व्हांवून सकयल गेल्ल्यो. उदकाचे वाटेर मर्दी मर्दी बारीक मोठे कटे तयार जाल्ले. त्या कट्यांत उदक साठावल्लें. चड ना. पावलभर उदक. तेतूंत गांवांतलीं भुरगीं खेळटालीं. गांवांतल्या व्हाळांत उदकाचीं कोंडा तयार जाल्लीं. थंय मात धोंपरभर उदक...

आयजूय सुर्या मळबांत दिश्टी पडलो. चक्क वत पडलें. वताक भांगराचो रंग चडलेलो. एक पासून पावसाचें कूप मळबांत थायें पड नासलें.. सगळ्यां पुरणकारांक सूऽऽ जालें.

'' मी सांगलेलें तुमकां, हो पावस तसलोच म्हूण. एक दीस येतोलो आनी मागीर दडी मारतलो. वयर बग. मळबांत खंयच ढग दिश्टी पडानात.''

कोणूय वाटेर मेळटकच अत्मा हेंच सांगतालो. पांडलो आपल्या गोरवांक घेवन राना वटेन वयतालो. पांडल्याकय अत्मान तेंच सांगलें.

''तूं कायीय सांग म्हाका. मी आयकोन घेवचोना तुजें हें. देवळा कडले सांवरीक कोंमऱ्यो फुटल्यात. कवड्या गिडगें पावसा यो पावसा यो करून रडटा तें आयकलां मी रानांत. रातीं मद्यान पारार न्हंयच्या फांट्यांत एक बेबो आराडटालो. पावस लागीं पावला अत्मा. म्हाजें आयकात. कुले खरपीत घरा बसल्यार फसतले तुमी. कोयत्यो घेयात आनी भात कातरूंक लागात. खांडी खंय पावूं. कुडोवभर तरी पदरांत पडटले. भुरगीं बाळां दोन दीस गोटे खातलीं.'' टपा टापा पावस पडचो तसो पांडल्यान उतरांचो पावस झडयलो. आनी मागीर गोरवांक आमडीत पांडलो रानांत रिगलो.

रगलो हें सगळें लागींच उबो रावून आयकतालो. तो आनीक थंय रावलो ना. फाटल्या पांयांनी बद्द घरा.

''आगो तूं आनी सुरंगी फाल्यां मळणेच्या खळ्याक शेण काडात. मी कोयत्यो घेवन पुरणींत वयतां. तुमी मागीर फाटल्यान येयात. पांडल्याची सांगणी केन्ना फट थाराना. तो तुकोय पावस लागीं पावला म्हणटालो. मोळयाच्या पोटांत कवटां जाल्यांत खंय! ह्या पावसाचें म्हाकां आतां काय खरें

दिसाना. आयज जाता तितली पुरण कातरून घालुया. फाल्यां आडवांच्यो कवळ्यो करुया. पेंडकां बांदून भात खळ्यार हाडुया.'' हें सगळें तेणें बायुल्याक एका दमांत सांगून उडयलें. रगल्यान दांतरांच्यो कोयत्यो तुवाल्याच्या शेवाक बांदल्यो. दुसऱ्या शेवाक तेणी नाल्ल आनी उजवातीचो पुडो बांदलो. कांय खाय नासतनाच तो पुरणीचे वटेन चलपाक लागलो.

वयर तीन फांट्यार एकल्याच बोडक्याची पुरण पिकलेली. पुरण कातरून तेणी आडवां घातलेलीं. पेंडकां बांदून खळ्यार व्हरपाचो तेचो आयज बेत आसलो.

''तुजी पुरण बेगीन कुडावन जाली जाल्यार म्हाजे मजतीक मात्सो यो.'' रगल्यान बोडक्याक सांगलें. तो आनी तेची बायल उमा आपल्या पुरण शेताचे वटेन वयतालीं.

''म्हाजें थाम मी आतां खळ्यार व्हराना. घरा कडेन व्हरोन पडयेर आपडटां. थंयच मळूंक मेळटलें म्हाका.'' अशें म्हूण बोडको न्हंयचे तडेन चलत वयले वटेन गेलो.

रगलो कुणग्यांत सकयल देंवलो. मावता तितलें थाम मुठींत धरलें. कोयती थामाक लावन चर्र करून ओडली. थामान मूठ भरली. ती मुठय हाडून तेणी खोल्यार दवरली. केळीच्या पानार देवाक नाल्ल दवरलो. उजवात पेटावन ओवाळ्ळी. हात जोडून सांगणें केलें. 'पाव रे म्हाज्या बाबा. ह्या थळाचो धनी तूं. घामाचें पाणी आनी रक्ताचें सारें करून हें पुरण शेत कसयलां मी. जगयणारो तूंच आनी बुडयणारो तूंच. हें पिकलेलो दाणो भुरग्या बाळांच्या तोंडा मेरेन व्हर रे बाबाऽऽ.''

बायुलें आनी सुरंगी पुरणींत येता म्हणसर रगल्यान दोन कुणगे कातरून तेचीं आडवां घातलेलीं. बायुल्यान येतानीच दनपारां खावपाक नाचण्याचो भाकरी आनी चटणी घेवन ययल्लें.

दीस माथ्यार येयलो तसो उकाडो वाडलो. गदगदपाक लागलें. घामाच्यो पावळ्यो देंवपाक लागल्यो. वाऱ्याचो पत्तो नासलो. झाडाचें पान पासून हालऽ नासलें. वातावरण दमट जाल्लें. रगल्याचें बानयान घामान भिजून वलें जाल्लें. बायुलें आपलें तोंड परत परत पदरान पुसतालें. वताक लागून सुरंगीन आपल्या माथ्यार तुवाल्याची खोळ घातलेली. तेंवूय आपल्या गळ्या कडलो घाम पुसतालें.

सांजवेळ जाता म्हणसर रगल्यान आपली अर्दी अदीक पुरण कातरून घातली.

''आतां आमकां भय ना. फाल्यांचो दीस मेळ्ळ्यार पुरो. अर्दा आदेसान जाता तितली पुरण कातरुया. सांजेच्या मायत्याक पेंडकां बांदून खळ्यार व्हरोया. बोडक्याकय आपयला मी. येतोलो तो आमचे मजतीक.''

''तुमी फाल्यां पेंडकां बांदून व्हरात. मी उल्लेली पुरण एकटेंच कातरतां. दोनय कामां वांगडाच जावन पडटलीं.'' सुरंगीन आपलें मत मांडलें.

''हां. तशेंच करुया.'' रगल्याक सुंरगीची सांगणी पटली. तेका मना पासून बरें दिसलें.

चडशीं कामां पयलींच करून दवरलेलीं म्हूण रगलो आपलेचेरुच खूश आसलो. पेंडकां बांदपा खातीर केळीचे गबे तेणें आठ दिसां पयलींच काडून सुकोवंक घातलेले. आयज सकाळीं खळ्याक शेण काडून जाल्लें. फाल्यां पेंडकां हाडून गुडयें दाळपाचें. परवाच्यान मळणी घालपाची. बरें वारें लागल्यार एका दिसान भात वारें करून जातलें. पेर खळ्यार सुकोवन भात घरा व्हरपाक मेळटलें. मनातल्या मानात तेणी गणीत मांडलें.

पोरूं तेणी पावस येवचे पयलींच सगळें भात उकडलेलें. पावसाळ्यांत आपणाक तांदूळ कितले लागतले तितलें भात तेणी गिरणीर कांडून हाडलेलें. पावसान उपकार केले जाल्यार अनूय तशेंच करपाचें अशें तेणें थारयल्लें.

तिनसांज जायसर तिगांय पुरणींत काम करतालीं. ''पुरो आतां. या आमी घरा.'' अशें म्हूण रगल्यान आपली कोयती एका आडवा पोंदा घालून दवरली. मेरेर किल्लून येयल्लें तण तेणें हुमटिलें आनी त्या आडवार उडयलें. आपले यादीक.

सावजांक भुजोवपाक रगल्यान मोठीं लाकडां हाडून पुरणीक तेंकून परसो घातलो आनी तो घरा परतलो. काळोख दाट जातालो. वाटेर चलतना पयस जोगूल चकचकता तें तेका थायें पडलें. रगल्यान कच्च करुन आंग काडलें. 'नाका रे बाबा, असो भियेवं मात नाका म्हाका. दोन दीस मात्सो दोळे धांपून गप्प राव. उपकार जातले तुजे.' तेणी वयर मळबांत पळयलें. मळब निवळ नितळ आसलें. तेची नदर पुर्वे कडेन गेली. दोंगराचे खांचींतल्यान निकतोच चंद्र वयर सरतालो. 'आयज वैशाखांतली पुनव.' रगलो पुटपुटलो.

वयर गांवच्या देंवण्यार रगलो न्हावपा खातीर थांबलो. फातरा पोंदा लिपोवन दवरलेलो साबण काडलो. कपड्यांचोच साबण तो. तुवाल्याक घस्टून तुवालो उमळून काडलो. मागीर आंगाक पोसोन फेंस काडलो. तोच मागीर चेड्डेक लावन चेड्डी उमळून काडली.

आतां चंद्र वांवभर वयर सरलेलो. चान्न्यांतल्यान चलत

रगलो घरा येयलो.

दांडये वयली तेणी कांबळ काडली. ती सोडोवन रगलो तिचेर बसलो. तेणी भायर पळयलें. घरा भायर पीठ कशें चान्नें आनी घरांत काजळी दाटलेलो काळोख. चिमणेक लागून आसूंक जाय! रगल्यान चिमणी लागीं ओडली. तिचेर धरून तेणें विडी पेटयली. विडी ओडून सोंपतकच तो कांबळीरूच लंवडोलो.

बायुल्यान येवचे येवन पणस फोडून शेक केल्ली. ह्या दिसांनी रगल्यागेर पणसाची शेक सदचीच जाल्या. रातचें जेवण म्हूण आनीक वेगळें कांय ना. सुरंगीन बापायक च्या हाडून दिली. आनी मागीर वाटलेंत घालून वाटलीभर शेक.

वाटली हातींत घेवनूच रगलो सकयल खळ्यांत गेलो. तेणें मळबांत वयर पळयलें. पयस एक कूप लोंबता तें तेका दिश्टी पडलें. कांय खिणा पयलींच चान्नें पडून सगळो परिसर उजळून गेल्लो... आतां कुपांनी मळबांत इल्ली इल्ली दाटी केल्ली. कांय वेळ असोच गेलो. पळयतां पळयतां सगळींच कुपां लोंबपाक लागलीं. तीं आतांच फुटून धर्तरिर वत्तलीं अशें दिसपाक लागलें.

पावस फटयता सो दिसता आमकां. हे दिसता ते ढग वतपाक लागल्यार पुरणभर पाणी जातलें. आडवां सुकोंक घातल्यांत तीं भिजतलीं. सगळीच गू घाण जातली. रगल्याच्या मनात पाल चुकचुकली.

''आगो अशें भायर यो गो बेगीन. ''

''काय जालें?''

''जाल्या म्हाजी मडसरी. बुडटा दिसता आमी. न्हंयतलो शेकारो खांवचेली पाळी येता शी दिसता आमचेर!''

''तूं बेश्टोच हुस्केता. घरांत भितर येवन बस बगया. आनीक इल्ली शेक खा आनी न्हीद वगी. सुरंगीन तुजें हातरूण घातलां. '' बायुलें तेका सांगतालें पूण रगल्यान आयकूंक नासलेले वरी केलें. तो खळ्याचे पेळेर बसून रावलो.

खंयतरी आंग आंवळून बसलेलो वारो आतां नेटान व्हांवपाक लागलो. झाडाच्यो खांदयो हालयत थंड वारें रगल्याच्या घराक हात लावन गेलें. तेच्या आंगाचो कांटो फुल्लो. आंग सर्र जालें.

वाऱ्याची गती आनीक वाडली. पानांचो सळसळ वाडलो. वारें मदींच घुंवलें. रगल्याच्या दारांत दोन माड आसले. तेचीं चुडटां फडफटलीं. मागीर पिवळ्ळीं... तेंचो फडाकी फडाकी करून आवाज जालो. दोन तीन सुकीं चुडटां कवाळ्यांतल्यान सुटलीं आनी पयस वचून जमनीर शेवटलीं. झाडाच्यो खांदयो पिवळून गेल्यो. एक खांदो मदसून पेंचलो आनी वाऱ्याच्या नेटा वांगडा सकयल शेंवटलो.

रगलो घरांत येयलो. पडवेर बसलो. विडी पेटयली. ती ओडीत तो शुन्य नदरेन भायर पळयत रावलो.

गोठ्यांत गाय हांबेताली. ल्हान पाडकाक तो आतां वाड्यांत बांदतालो. गायक दिसता तशें. गायच्या फुडल्यान. तेंवूय आतां हामेवपाक लागलेलें. वाऱ्यान आपली गती कमी केली. पयस मळबांत जोगुलतालें. मागीर कांय वेळान गडगडो आयकूंक येयलो. पयलीं बारीक. आनी मागीर मोठ्यान. घुडूमऽऽ घुडूमऽऽ घडामऽऽ आकांताचो एक गडगडो लागीं खंयतरी फुटलो. कान फुट्टा तसलो... तेचो लोळ मळबांत लोळत लोळत पयस गेलो आनी नाच्च जालो.

वारो परत व्हांवपाक लागलो. तेणी आपली गती वाडयल्ली. ह्या वाऱ्यांत आतां चडून थंडसाण आसली. रगल्याच्या आंगांत शिरशिरी भरली. झाडां हालयत वारो पयस गेलो आनी फांटल्यान फराऽऽ फराऽऽ करून पावस झडपाक लागलो... एक वावझड येवन गेली. परत गडगडो सुरू जालो. परत वारें सुटलें. मागीर दडकार दडको कोसळपाक लागल्यो...

घराच्यो पावळ्यो फताऽऽ फताऽऽ करून रगल्याच्या दोळ्यां मुखार वतपाक लागल्यो. त्या पावळ्यां कडेन कांय खीण तो पळयतूच उरलो. रगल्याच्या दोळ्यांत दुकां दाटून येयलीं. तेच्यो पातकड्यो वल्यो जाल्यो. त्यो नकळटां भरल्यो. मागीर तीं दुकां पोल्यां वयल्यान निसरून सकल येयलीं. तेणी खांदा वयलो तुवालो काडलो आनी दोळ्यांक लायलो.

''हें कातवड न्हूं?''

''हय.''

''रोयणी, मीर्ग फुडें आसा. पूण कातवडांत पावस कसो?'' बायुलें हळू आवाजान उलयलें.

''आमच्या जाणा परीक इतले बेगीन पावस केन्ना पडलो ना. असो पावस पडलेलो म्हणपाचेंय आमच्या आवय बापायन आमकां केन्ना सांगोक ना. भोगणार हे सगळे.''

''पावरे म्हाज्या आजोबा. तूं त्या शिडमार बसलेलो आसा जाल्यार आमचे पुरणीक आसरो कर. तुज्या नांवान मी धव्या पाकांचो कोंबो दवरला.'' बायुल्यान हात जोडले. तेच हात तेणें दोन पोल्यार दोन दवरले. चिंतेस्त नदरेन भायर पळोवपाक लागलें.

''घरांत सगळ्याक पोवता मगे.'' सदा उठून भायर येयलो. बायुलें उठलें आनी भितर गेलें. तेच्या फाटल्यान रगलो गेलो.

भितरले कुडींत तशेंच चुली कडेन पाणयाची धार वतपाक लागलेली. पावसाचें उदक गळटा थंय थंय सुरंगीन आयदनां दवरलेलीं. तीं आयदनां भरतकच तेतूंतलें उदक तें भायर व्हरून वोत्तालें.

रगल्यान घराच्या पाश्टार टॉर्च मारली. चार पांच कडेन पोवतालें. माथ्यार तुवालो दवरून तो तसोच लाकडांचे खोपींत धांवलो. खोपीच्या भाळ्याक निसण बांदून दवरलेली. ती तेणें सोडयली. निसण घेवन तसोच तो घरांत येयलो. रगल्याचें गांवठी नळ्यांचें घर. निसण लायली आनी तो वयर चडलो. तेणे नळे सारके केले.

गोरवांचो वाडो आनी लाकडांची खोंप तेणी शिंवलेली. घर शिंवपाचें तेणें फाटीं दवरलेलें. सुरंगीच्या लग्ना पयलीं घर परतपाचो तेचो बेत आसलो.

पावस एक सारको कोसळटालो. वारो तेका सांगात दितालो. वाऱ्याचो हुंयऽ हुंयऽ चूंयऽ चूंयऽ असो आवाज येतालो. झाडाच्यो खांदयो पिवळटकच करऽ करऽ असो आवाज कानार सादतालो. खांवक येयल्ले वरी तो आवाज गांव भर पातळटालो.

थंडायेक लागून बेब्यांक जाग येयल्ली. भितरल्यान भायर सरून ते बिळाच्या तोंडार येवन रावलेले. आतां ते एक एकलो सूर काडून आराडटाले. बेबक्यो बारीक आवाजान रडटाल्यो. तांची एक मैफलूच चल्लेली न्हंयच्या त्या फांट्यांत.

''बेबे भायर सरले. हो पावस थांबत असो दिसाना आतां.'' रगलो आनीक अस्वस्थ जालो.

''पावस शेर्त वयतलो. आयज वत पडलेलें तश्शें फाल्यांय पडटलें.'' बायुल्यान रगल्याक धीर दिलो. तेचे कुशीक तें आंग चोरून वग्गी बसलेलें.

मद्यान जाल्ली. पावसाचो नेट मदींच कमी जातालो. मागीर घोऽ घोऽ करून परत वतपाक लागतालो. रगलो आजून जागोच आसलो. हरशीं तो घरांत भितर न्हिदतालो. आयज तेणी पडवेर कांबळ घालून बसलेलो थंयच जमनीक फाट तेंकयल्ली.

' गेलीं आसतलीं सगळीं आवडां होवोन. आतां खायात गू. नाजाल्यार मरात उपाशीं. बांदाक पाणी फुगलां आसतलें. पाणी पाटांतल्यान नेटान होंवता आसतलें. पाट फुटून पाणी शेतांत रिगलां आसतलें. न्हंयच्या पाणयाची पातळी वाडोन शितारी मोडून पडल्या आसतली... रगलो आपले भितरूच बडबडटालो.' तो भितरले भितर खतखत्तालो. परवल्ले भशेन करतालो आनी मदींच उठून हातरुणार बसतालो. जाग येतकच बायुलें भायर येतालें आनी वण्टीक फाट तेंकोवन बसतालें. तेची ती तळमळ तें कान दिवन आयकतालें. आनी मागीर दोळ्यांत दुकां साटोवन हरंदरानी पडपी पावसाक तेळीत रावतालें.

फांतोड जाली. पावस पडपाचो थांबलो ना. भिणभिणट्यार बोडको रगल्यागेर येयलो. रगलो आजून उठूंक नासलो.

''रगल्यामामा उठ. सगलें गेलें होवोन. चाळींतले गुणें फोडून खावचेले जालें आमी आतां. न्हंयक पाणी आकांताचें येयलां. गांवचें देंवणें बुडलें. वयर घांटार पावस चड पडलो सो दिसता.''



हें आयकना फुडें रगल्याचें काळीज खप्प जालें. काळजांत कळ येवन गेल्ले वरी जालें.

''सोंपले आमी बोडक्यादादा.''

''रडलो म्हुणो हातीक कांय गावचेलें ना. उठ आतां. पुरणीक बगून येवया.''

रगल्याच्या दोळ्यांत झेम आसली. तेका उठपाचें तारणपण नासलें. तरी तो बोडक्याच्या आवाजान उठलो. दोळे चोळीत हातरुणार बसलो.

रगल्यान हातळूंक घातलेली कांबळ उखल्ली. तिची तेणी खोळ केली. खोळ माथ्यार घातली. बोडको फुडें आनी रगलो फाटल्यान. ते दोगूय सकयल न्हंयचेर गेले. सगळो गांव न्हंयच्या देंवण्यार उबो आसलो. सगळेच मोने. कोणा कडेन कितें उलोवचें तेंच तेंकां सुचनासलें. हुंवाराचें पाणी दोळ्यां फुडल्यान व्हांवतालें. आनी पुरण शेतकारांच्या दोळ्यांतल्यान दुकां....

''आरे कोण तरी उकलून व्हरात रे म्हाका न्हंयच्या देंवण्यार. म्हादयक कितकें पाणी येयलां तें तरी ह्या फुटक्या दोळ्यांनी बगतां.'' हातरुणार न्हिदला थंयच थपादादा बडबडटालो. तेचेर कोणाचें लक्ष नासलें. जण एकलो देंवण्यार धांवतालो.

म्हादय न्हंयच्या प्रवाहाक गती आसली. पाणयाच्या लोटा वांगडा पुरणीच्यो शितान्यो व्हांवत व्हांवत सकयल वयताल्यो. शितऱ्यांचे तराफे पुराय पात्रांत तरंगताना दिश्टी पडटाले. मदींच एक खोड व्हांवत येयलें आनी घुंवत घुंवत सकयल वयतालें.

चाळींतल्यान वाट काडीत रगलो आनी बोडको गाडे देंवण्यार गेले. अनंताचें झाड ताठ उबें आसलें. रातच्या वाऱ्यान तेचो एकूय खांदो मोडून पडूंक नासलो. पूण, असंख्य पानांचो सडो तेच्या भोंवतणी पडलेलो... वांयगणे पुरणकार शेतकारानी घातलेल्या बांदा वयल्यान उदक वोत्तालें. तेचो घोऽ घोऽ करून आवाज गाड्या देंवण्याच्या त्या परिसरांत घुंमतालो. आतां तो बांद कांय खिणांत फुट्टलो आनी आसलेलें नासलेलें सगळेंच व्हांवून वयतलें अशें पळयतल्याक दिसतालें.

रगलो आपले पुरणी कडेन पावलो. बांदाचें उदक पाटांतल्यान घसघसतालें. पाट दोन तीन कडेन आचापार फुटलेलो. पाटाची माती व्हांवून पुरण शेतांत वचून एकठांय जाल्ली. काल लुंवन घातलेलीं आंडवां ते मातये पोंदा धांपून गेल्लीं. पुरणीची शितारी मोडून व्हांवून गेल्ली.

हें चित्र विदारक आसलें. दोळ्यांक कश्ट दिवपी आसलें. दोळे फोडून उडोवपी आसलें. रगल्याचे कल्पने भायलें आसलें. तेणें हें सगळें दोळ्यांत साठयलें आनी एकूच हामेल फोडली.

''सोपलें रे सगळें बोडक्यादादा. अंदूच दुसऱ्याची पुरण केल्ली मी. सगळे कश्ट पाणयांत गेले.

''भुरग्या भशेन रडटा काय. वगी राव. माजी एकट्याची सोडून सगळ्यांच्योच पुरणी गेल्यो होवोन. सगळो गांव धडेक बसलो. तोंडा काडलो घांस ओडून हेलो. माज्या आवय बापायन कसलें पुण्य केल्लें कोण जाणा. न्हंयचो कांय गुन्यांव ना रगल्यामामा. आमचींच पापां वाडल्यांत आतां. फुडें फुडें ह्या म्हादच्या तिरार आनीक काय काय घडटलें तो देवच जाणां''.

रगलो आजून हुंडकेतालो.

''हांगां असो रडात बसों नाका. चल या आमी आतां घरा.''

''म्हाज्या सुरंगीन जीव तुटासर पुरणींत काम केल्लें. फोड येयल्ले पोराच्या हातीक. तेच्या कश्टाचें तरी तेका दोन घांस खांवक मेळोंक जाये आसले. तें पासून सूख म्हाकां बगूंक मेळ्ळें ना.''

पावस आजून झडटालो. रगल्यान माथ्या वयली खोळ काडली. खोळ सोडयली आनी कांबळ खांदार घेतली. तो आतां फुडें चलतालो आनी तेच्या फाटल्यान बोडको. रगल्याचे दोळे भरून वत्ताले. दुकांची आनी त्या पावसाच्या उदकाची आतां वळख पटऽ नासली.

(म्हादय न्हंयचे तडीर आशिल्ल्या पुरण शेताचें आनी थंयच्या लोकजिवनाविशीं ही कादंबरी भाश्य करता. सत्तरींत वयर कडवळी ते सकल गांजें मेरेन एका काळार वट्ट 33 वयर गांव पुरण शेतां कसयताले. तेंच तांचें पोट. हजारानी खांडी भात पिकयताले. तातूंतल्यान मेळपी तणाक लागून लोक मोठे संख्येन गोरवां पोसताले.

सरकारान वसंत बंधारे बांदपाक सुरवात केली. एक एक करून पुरण शेतांची जमीन उदका पोंदा गेली. लोक विस्तापीत जाले. सरकारान कोणाचेंच म्हणणें आयकून घेतलें ना. ह्या कारणांक लागून पणसुलें गांवांत असंख्य उलथा पालथ घडून येता. रेंवेच्या उत्खननाक लागून पर्यावरणाचो न्हास जाता. भुरगे आनी तरणाटे वेसनाधीन जातात. समाजांतली विसंगती आनी विशमता ह्या सगळ्याचो प्रकाश पर्येकार हाणी अचूक वेध घेतिल्लो आसा.

■■■





# मांजरा पील



कोंकणी साहित्याच्या मळार सातत्यान बरोवपाचो यत्न करप्यां मदीं आयज **अविनाश कुंकळकार** हें नांव ठळकपणान नदरेक पडटा. कथा, ललित, बालसाहित्य आनी खास करून एकांकी आनी नाटक ह्या मळार तांचो खाशेलो वावर दिश्टी पडटा. तांचीं नाटकां माचयेर आनी पुस्तकरुपानूय आयल्यांत.



अविनाश कुंकळकार
मो. : 7875237830

स्कुल सुटपाची घांट वाजली. उदकाक आडो घालून साठोवन दवरिल्लें उदक अचकीत सोडल्या उपरांत लोट व्हांवता तसो भुरग्यांचो लोट स्कुलाच्या प्रवेश दारांतल्यान व्हांवलो. तन्वी आनी तेजस हीं दोगांय भाव भयणी त्या लोटांत आशिल्लीं. स्कुल सुटून घरा येतना तीं सदांच मस्ती करीत येतालीं.. आयजूय तीं दोगांय तशींच घरा येतना तांकां एक मांजराचें पील दिसलें.

बरेंऽ धवें-धवें, माणकुलें! मांजराचें तें सुंदर पील पळोवन तीं दोगांय थंयच कांय वेळ रावून त्या पिलाक नियाळूंक लागलीं. तें मांजरा पील थंय रत्याचे देगेक कितें तरी येवजून हुंडके दियत रडटा तें पळोवन तें कोणाक तरी सोदता आसतलें असो अंदाज तेजसान लायलो. तेजस ल्हवू-ल्हवू ताचे कुशीक गेलो आनी ताणें ल्हवूच ताका उकलून आपले वेंगेंत घेतलें. तें मोव-मोव ल्हेंवेंचें मांजराचें सोबीत पील वेंगेंत घेवन ताका खूब्ब बरें दिसलें, खूब्ब खूश जावन ताणें तन्वीक विचारलें,



'' दिदी,ह्या मांजराच्या पिलाक आमी घरा व्हरूंया? ''

'' नाका हां तेजस, आई उलयतली! '' तन्वीन म्हळें.

तन्वीचीं तीं उतरां आयकून तेजसचो हांसतो चेहरो साम को बावलो.

'' व्हरूया न्हय दिदी आमी ताका आमच्या घरा, पळय कशें रडटा तें आमचे कडेन पळोवन! तें आमकां कितें तरी सांगपाक सोदता अशें दिसता! ''

'' हय?? तुका कळटा तें कितें सांगपाक सोदता तें? ''

''हय दिदी, ताची आवय शेणल्या. तें आपले आवयक सोदता. तें आमचे कडेन विचारता, तुमी म्हजे आवयक पळयल्या काय म्हूण.! '' तेजसान म्हळें.

तें आयकून तन्वीक हांसूंक आयलें.

'' ताची आवय शेणल्या, काय तें शेणलां रे? ताची आवय शेणल्या जाल्यार ताच्या रडण्याचो आवाज आयकून येतली. चल या आमी.'' अशें म्हणून तन्वी चलूंक लागलें. पूण तेजस फुडें वचना जालो. तो थंयच रावलो... तन्वीन ताका आपयलो.

'' ना दिदी, हांव तेका व्हरतलोंच घरा.'' अशें म्हणत मांजराच्या त्या पिलाक घेवन तेजस चलूंक लागलो. फाटल्यान तन्वी ताचेर आरडलें.

''तुका सांगल्यार कळना तेजस!! ताका पळयतांच आई म्हजेर काडटली फोर. तुका कोण कांयच म्हणचोना.'तूं व्हडलें मगो? तुकाय ना बुद्द.' अशें म्हणटली, जाणा तूं?''

''ना गो दिदी, आईक कळचें ना.''

''आईक कळचें ना?आई कितें कुड्डी,ना कळपाक?''

''दिदी, आमी ताका बोटव्यांत घालून व्हरया. हें पळय अशें...''

तेजसान मांजराच्या पिलाक आपल्या बोटव्यांत घालें.

''तूं न्हय तेजस, कसोच आयकपाचो ना. चल आतां, घालें न्हय ताका बोटव्यांत?'' तन्वीन वाजेवन म्हळें.

''हां दिदी, म्हणल्यार तुवेंनूय बी मान्य केलें न्हय, हाका आमच्या घरा व्हरचें म्हूण?'' तेजसान हांसत विचारलें.

''हय वय, पळोवंया घरा पावतगीत कितें जाता तें!'' अशें म्हणून तीं वाट चलूंक लागलीं.

दोगांय जेन्ना घरा पावलीं तेन्ना तांची वाट पळयत आई दारांतूच उबी आशिल्ली. तीं आयल्यांत तें पळोवन आई फणफणली.

''आगो बाय, आयज उशीर कित्याक गो?'' आईन विचारलें.

आयकून दोगांय एका-मेका कडेन पळयत ओग्गी रावलीं.

''हांवें विचारलां आयज उशीर कित्याक जालो गो येवपाक? '' आईन परतून आवाज वाडयलो.

''तें मांजराचें पील...''

''उदकान पडिल्लें गे आई. ताकाच वयर काडटा म्हणल्यार आमकां उशीर जालो.''

तेजस फुडलीं उतरां उलोवंचे पयलींच तन्वीन जाप काडली. तेजसान तन्वी कडेन पळयलें. तन्वीन ताका ओगी राव म्हणून खुणायलें.

''हय आई, उदकान पडिल्लें तें मांजराचें पील.'' तेजसानूय आपली हुशारकी दाखयली.

''रत्या वयल्या मांजराक उदकांतल्यान वयर काडपाक तुमी स्कुलांत वतात?''

आई तांचेर तापली आनी सदचे वरीं तन्वीच्या खांदा वयलो बोटवो काडून घेतलो आनी तेजसाचोय काडपाक गेली पूण ताणें तो काडूंक दिलो ना.

''बुडटल्याक वाचोवचें, अशें तुवेंन एक फावट सांगिल्लें. याद आसा न्हय आई तुका?'' तेजसान खूब्ब दिसां फाटीं उलयल्लीं उतरां आईक याद करून दिलीं.

''हय आसा याद, पूण स्वताच बुडून दुसऱ्याक वाचोवप नासता. त्या मांजराच्या पिलाक वाचयतां-वाचयतां तुमी बुडिल्लीं जाल्यार?''

तीं दोगांय ओगीच रावलीं. आई परतून तेजसाच्या खांदा वयलो बोटवो काडूंक गेली पूण तो फाटीं सरलो.

''आरे, बोटवो दी मरे, भितर दवरतां.'' आईन म्हणलें.

''नाका आई, आयज हांवूच दवरतां.'' तेजस बोटवो घेवन भितर गेलो. आई ताचे कडेन पळयत रावली.

''आगो बाय, कितें जालां हाचें आयज? बोटवो घेवन भितर सो?'' आईन तन्वीक विचारलें. तन्वी मातशें घुसपल्या वरीं जालें.

''आई, आपलें काम आतां आपणेंच करपाचें हें ताका समजलां आसतलें!'' तन्वी बडबडलें.

''हय? आनी तुका केन्ना समजतलें? चला, हात पांय धुवन घेयात. जेवण वाडटां.'' अशें म्हणून ती भितर गेली.

''हां देवूच पावलो म्हणपाचो! आईक जर कळिल्लें आमी मांजराचें पील घरांत हाडलां तें, आनीक सोंसपाचें नाशिल्लें.'' अशें म्हणत तन्वी सुस्कार सोडून भितर गेलें. दोगांय हात, पांय धुवन जेवंक बसलीं. आईन जेवण वाडलें.

''आई, बाबा गे? येवकना आजून?'' तन्वीन आईक

विचारलें.

''हां, हें पळय, विसरलींच हांव. आयज बाबा दनपारच्या जेवणाक येवंचो ना अशें म्हणलां ताणें. ताच्या ऑफिसांत पार्टी आसा खंय आयज! तुमी जेवन घेयात.'' आईन म्हणलें.

''आई तुंवय जेवंक बस न्हय आमच्या वांगडा.'' तेजस.

'' नाका. तुमी जेवात पयलीं. हांव मागीर जेवतां...आनी हां ओगी बसून जेवतलीं, मस्ती करी नासतना. कितेंय जाय जाल्यार म्हाका उलो कर.''

अशें म्हणून ती थंयसरल्यान गेली. तन्वीक कसली तरी याद आयली. ताणें तेजसच्या कानांत ल्हवू आवाजान सांगलें,

''मांजराचें पील तें तुज्या बोटव्यांतूच आसा न्हय! घुसमट्टलें तें!''

'' ना दिदी, हांवें ताका बोटव्यांतल्यान काडून खाटी पोंदाक दवरलां.''

''आरे पिशा, तें खाटी पोंदाच्यान भायर सरलें जाल्यार?''

''तूं समजता तसो पिसो न्हय हां हांव दिदी. हांवें ताच्या पांयाक सुतळी बांदून खाटीच्या पांयाक बांदल्या.''

''पूण भूक लागची ना रे ताका?''

''फ्रिजान पेलो भर दूद आशिल्लें तें दिलें पिवंक. आतां ताचें सामकें पोट भरलां!''

''हूं! हुशार हां तू!'' तन्वीन तेजसाची तोखणाय केली.

''पूण दिदी, आईक तुवें फट कित्याक सांगलें, मांजराचें पील उदकांत पडिल्लें म्हूण?'' तेजसान अचकीत प्रस्न विचारलो.

''ना तर कितें सांगू आसलें, मांजराचें पील बोटव्यांत घालून हाडलां म्हण? जेव थंय ओग्गी! आनीक हुशारकी कर नाका.'' तन्वी ताचेर चाळवलें! तो तकली सकयल घालून जेवंक लागलो. कांय वेळान दोगांयचें जेवण जालें आनी थंय आवय आयली.

''जेवलीं मगो! चलात, मातसो विसव घेवंन अभ्यासाक बसात. तो पर्यन हांव जेवन घेतां.''

''बरें आई!'' अशें म्हणून तीं दोगांय आपले कुडींत गेलीं. तो पर्यन आवयन जेवन घेतलें.

सांजेच्या स वरांचेर मांजराचे पोर रडल्याचो आवाज आईक आयकूंक आयलो. आईन तन्वीक उलो मारलो, तन्वीन कुडींतल्यानूच आईच्या उल्याक जाप दिली.

''हांगा यो गो!'' आईन म्हळें. तन्वी भायर आयलें.

''कितें आई?''

''मांजराचें पोर खंय रडटा तें पळय गो! त्या शेजारच्या मांजरान आमगेर येवन पोरां बी काडूंक ना म्हगो?''

'' ना आई, तें कुडींत...'' तन्वीन अचकीत आपलीं उतरां थारयलीं.

''कितें कुडींत?''

''कुडींत न्हय, कुडी भायर रडटा तें मांजराचें पोर!''

''पळय ताका, भितर आनी येत तें!''

''ना–ना! भितर येना, भितरूच आसा तें!''

'' कितें म्हळें?''

'' हांव भितरूच आसां आई, ताका भितर येवंक दिना हांव!''

अशें म्हणून तें सामकें उचांबळ जावन कुडींत गेलें. थोड्या वेळान आई सालांत सारण मारतना थंय तें मांजराचे पोर रडत रडत आयलें. ताका पळोवन आईक सामकी भिरभिरी मारली. रागान सारण जमनीर उडयली आनी तन्वीक उलो मारलो.

''तन्वी... तन्वी, बेगीन हांगा यो. आनी तेजसाकूय आफय.''

तन्वी आनी तेजस दोगांय सालांत आयलीं.

''आई कित्याक आफयलां?'' तन्वीन विचारलें.

'' हें कितें गो?'' त्या मांजराच्या पोरा कडेन बोट दाखोवन आईन विचारलें.

''म्हजें मांजर!'' अशें म्हणून तेजसान त्या मांजराच्या पोराक वेंगेंत घेतलें.

'' तें भितर कशें आयलें गो?''

आईन परतून विचारलें. तीं दोगांय उग्गी!

'' हांवें कितें विचारलां बाय तुका?''

'' आई हांवें सागिल्लें ताका, तें आमकां नाका म्हूण. स्कुलांतल्यान येताना ताणें ताका हाडिल्लें.'' तन्वीन भियेत भियेत सांगलें.

'' बाबा, ताका आनीक कित्याक हाडलें तुवें?''

'' आई, थंय रस्त्याचे कडेक एकटेंच बाबडें रडटालें, तें आपले शेणिल्ले आवयक सोदतालें जावंये! भुकेन, तानेन तळमळटा आसतलें अशें म्हाका दिसलें म्हूण हांवें ताका आमचे घरा हांडलें. मांजराच्या पोराक कशें घरा हाडलें हें तेजस आपले आवयक सांगतनाच तांचो बापूय सगूण आयलो. तेणें तांचें सगलें उलोवप आयकलें आनी तेजसाक आपले वेंगेंत घेवन ताची तोखणाय करीत म्हळें,

'' शाब्बास तेजस शाब्बास!! खूब बरें केलें तुवें ताका हाडलें तें. आतां भितर वचून ताका दूीद पिवूंक दी.''

बाबाचीं उतरां आयकून तेजस खूब्ब खूश जावन, मांजराच्या पोराक घेवन भितर घेलो.

'' तुमी केन्ना आयले? आनी हें कितें सांगतात तांका?''

'' हे देवाचे उपकार... आमच्या भुरग्यांच्या बऱ्या गुणांची वळख आज आमकां जाता. फुडें वचून आमचीं भुरगीं कितें करतलीं हाचो अंदाज आमी आजूच लावंक शकतात.''

'' म्हळ्यार! हांव समजूंक ना!''

'' जो तानेल्ल्याक उदक पिवयता, भुकेल्ल्याक दिता जेवंक जेवण. हाच्या परस चड कांयच ना संवसारांत. हेंच खरें मनीसपण.''

सगुणाचीं उतरां आयकून आईचो सगलो राग निवळ्ळो. तिच्या दोळ्यांनी दुकां भरलीं. तिणें जड आवाजांत म्हळें.

'' माफ करात हां! हें तर म्हज्या लक्षातूच आयलें ना.''

तन्विच्याय बी दोळ्यांतल्यान दुकां गळूंक लागलीं. ताणें दुकां पुशीत म्हळें,'' हय बाबा! म्हाकाय बी माफ कर. म्हाका वायट इतलेंच दिसता, हांव म्हज्या भावा सारकें कित्याक जावंक ना? म्हज्या भावा सारके विचार म्हजे कित्याक नात बाबा?''

तें रडूंक लागलें. बाबान ताचे तकलेर हात दवरून ताका समजावपाचो यत्न करीत म्हळें,'' ना बाय, तशें कांय ना! आमी सगलीं एकेच माळेचे मणीं!''

'' हय, खरेच तें!'' आईचें काळीज खोशेच्या उमाळ्यान भरून आयलें. ती चड कांय उलोवंक शकली ना.

'' वतां हांव भितर, म्हाका खूब काम आसा...'' अशें म्हणीत खोशेचीं दुकां गळयत ती भितर गेली.

'' बाय, तूंय वच आईक मात्सी मजत कर, दीस भर काम करून करून सामकें नाका पुरो जाता गो तिका!''

बाबान तन्वीक म्हळें.

'' हय बाबा, म्हाकाय बी तशें दिसता. पूण आई म्हाका कसलेंच काम करूंक दिना, प्रत्येक वेळार म्हणटा अभ्यास कर, अभ्यास कर!''

'' तिचेंय बी सारकें बाय! आमकांय दिसता तुमी खूब शिकचीं, व्हड मनशां जावंची. आमचेर जी परिस्तिती आयली तशी तुमचेर येवंची न्हय. तुमी सदांच सुखी आसचीं!'' बाबान तन्वीक समजायलें.

'' तुमचो आशिर्वाद आसल्यार आमी सुखी आसतलींच बाबा. पूण आमचेंय बी कितें कर्तव्य आसा न्हय, आपल्या आई बाबाक सुखी दवरपाक!''

तन्वीच्या उलोवपान गंभिरताय भरली. वातावरण गंभीर



जालें. तन्वीच्या दोळ्यांतल्यान दुकांच्यो झरी व्हांवल्या वरी ताची अवस्ता जाली. बाबान ताका आपल्या म्हेऱ्यांत घेयत म्हणलें, '' ताका आजून खूब वेळ आसा बाय! जो मेरेन आमचे हात पांय चलता तो मेरेन आमकां खटपट करूं दी. जेन्ना आमचे हात पांय चलचे नात तेन्ना पळयात आमकां. तो मेरेन तुमी खूब्ब व्हड मनशां जाल्लीं आसतलीं! कदाचीत आमकां विसरतलींय घडये..!''

आपल्या बापायन उलयल्लीं उतरां तन्वीच्या मनाक लागल्या वरी जालीं. काळजाक भालो तोंपल्या वरी जालो. ताणें बाबाच्या पांयार घालून घेतलें आनी म्हळें,'' ना बाबा, अशीं हीं उतरां हाडूं नाका तुमच्या तोंडांत! तुमी आमचें जगणें, तुमींच आमचें सगलें... एका वेळार त्या देवांक, साईबाबाक विसरूंक शकतां आमी पूण आमच्या आई बाबाक न्हय!''

तें बापायच्या पांया कडेनूच बसून रडूंक लागलें. बाबान ताका उठयलें आनी म्हळें.

'' ना बाय तशें म्हणूं नाका. देव तो साईबाबा. सगल्यांचो बाबा तो.!''

'' हय देव तो! हांवें खंय ना म्हणलां! पूण शिरडींत साईबाबा आनी घरांत आईबाबा हें दोनूय सारकेंच आसता.''

तन्वीच्या उतरांनी बाबाचेंय काळीज भरून ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां आयलीं.

'' पुरो बाय पुरो... तूं रडूं नाका. तूं रडटा आनी म्हाकाय रडयता. भितर वच आनी मात्शें शांत जा.''

बाबान दुकां सावरीत म्हळें. तन्वी आपलीं दुकां पुशीत भितर गेलें.

हेंच... हेंच वादळ उमळटा आमच्या प्रत्येकांच्या मनांत. प्रत्येक जण दुसऱ्यांक सुखी करपाचो यत्न करतात. दुसऱ्यांच्या मनांतलें वादळ शांत करपाचो यत्न करतात. भुरगीं न्हय तीं म्हजीं..! म्हज्या पुण्याची पुंजी, म्हज्या भाग्याच्या वाट्याक आयिल्लें धन तें धन..! देवा, म्हजें तें धन म्हज्या पासून पयस करूं नाका देवा, पयस करूं नाका!

फाटल्यान तेजस आयिल्लो, ताच्या पोल्याचेर दुकांच्यो पावळ्यो देंविल्ल्याच्यो कुरवो दिसताल्यो. ताचे वयल्यान तो खूब रडला म्हणपाचें जाणवतालें. ताणें येवन बाबाक रडक्या आवाजांत म्हणलें,

'' बाबा, म्हाका दिसता खंय तरी पयस गेलें तें!''

तेजसाक पळोवन बाबान बेगी-बेगीन आपले दोळे पुसले.

'' कोण पयस गेलें म्हणटा रे?'' ताणें तेजसाक विचारलें. बाबाचेर नदर पडटकच तोय रडटालो म्हणपाचें ताच्या दोळ्यांनी आयिल्ल्या दुकां वयल्यान तेजसान पारखिलें.

'' बाबा, तुंवय रडटालो? हां! म्हजें मांजर शेणलां म्हूण तूं रडटालो न्हय? हांवूय बी खूब रडलों बाबा!''

'' मांजर शेणलें? कशें शेणलें तर तें!'' बाबान अजापीत जावन तेजसाक विचारलें.

'' खबर ना बाबा! सगल्याक सोदलें! खंयच मेळना.''

'' त्या पेट्यान बी खावंक ना मरे?'' बाबान फकाणांनीच म्हळें.

'' ना! तो पेटो खंय आसलो हांगा?''

'' पेटो येवंक ना जायत रे, पूण मांजर थंय गेल्लें आसत जाल्यार?''

'' मांजर म्हूण थंय कित्याक वतलें, घे खा म्हाका म्हणून?''

'' हय, तेंवूय बी सारकें तुजें... पूण तुवें ताका खावंक दिल्लें मरे कितें तरी?''

'' हय बाबा, पयलीं हांवें ताका बिस्कीट खावंक दिली, मागीर दूद पिवंक दिलें आनी इतलें करूनय तें म्हाका सोडून गेलें! हीं मांजरां सगलीं अशींच आसतात!''

अशें म्हणून तेजस सामको दुखी जावन बसलो.

इतल्यांत भितर सावन तन्वी भायर आयलें.

'' तेजस तुजें मांजर खंय दिसना मरे, कित्याक?'' ताणें तेजसाक विचारलें.

'' दिदी, तें ना देखून दिसना! '' तेजसान हलक्या आवाजान जाप दिली.

'' ना म्हणचें? गेलें तर तें वयर?'' तन्वीच्या ह्या प्रस्नान तेजसाक दुखलें म्हणपाचें बाबाक समजलें. ताणें मर्दीच जाप घाली.

''वयर वचूंक ना गो तें! शेणलां आसतलें! सोदात ताका.'' अशें म्हणून तो भितर गेलो आनी तीं दोगांय मांजराच्या पोराक सोदूंक लागलीं. बरोच वेळ सोंदल्या उपरांतय ताचो पत्तो लागलो ना.

'' हांगा तर खंयच दिसना तें!'' अशें म्हण बेजार जावन तन्वीन थंयच बसकण मारली.

'' झाडार बी चडूंक ना न्हय दिदी तें!'' तेजसान दिदी म्हेऱ्यांत येवन ताका विचारलें.

'' झाडार कशें चडटलें? ल्हान तर आसा तें! ताचे कडेन जाता झाडार चडूंक?''



'' तरी हांव पळयतां हां दिदी, झाडार दिसता जाल्यार!''

'' पळय आनी कर तुजें समाधान.'' तन्वीन म्हळें.

तांच्या घरा सामकारूच एक पणसाचें झाड आशिल्लें. त्या झाडार बी तें मांजराचें पोर चडलां कांय म्हूण तो पळोवपाक लागलो.

इतल्यांत तांचो मामा तांगेर पावलो. ताणें तेजसाक झाडा म्हऱ्यांत पळोवन म्हळें,'' झाडार कितें पळयता रे? पतंग बितंग शिरकला झाडार?''

मामाक पळोवन दोगांय खूश जालीं. तन्वी धांवत मामा म्हऱ्यांत आयलें.

'' मामा कसो आसा तू?'' ताणें विचारलें.

'' हांव आसां बरो, तुमी कशीं आसात? चलता न्हय अभ्यास बरो? पेपर बरयल्यात न्हय बेस्ट! आनी चेहरो साम को पडला कसो तुमचो?कितें जालें?''

मामान तांच्या मुखामळा वयले भाव वळखले.

'' मामा, आमचें मांजर शेणलां.'' तेजसान लाडांत येवन म्हळें.

'' हां !! माजर? हें आनी खंयचें माजर?'' मामान अजापान विचारलें.

'' मामा पयर दनपारां स्कुलांतल्यान येतना तेजसान एक ल्हानशें माजराचें पोर हाडिल्लें. पूण तें आतां खंय तरी गेलें. ताकाच सोंदतालीं आमी!''

'' माजराचें पोर? धव्यें शें?... हां एक ल्हानशें मांजराचें पोर तर थंय रस्त्याचे देगेक म्हाका दिसलां हांव येतना!''

'' खंय दिसलां मामा? चल आमी थंय वचून हाडया ताका!'' तेजसान उमळशिकेन म्हळें.

'' नाका. ताची गरज ना आतां!''

'' पूण तें मांजराचें पोर जाय म्हाका!!'' तेजस पांय आपटून फुटफुटूंक लागलो.

'' तें पोर आपले आवय म्हऱ्यांत खूश आसा!'' मामान ताका समजायत म्हळें.

'' म्हळ्यार, ताची आवय मेळ्ळी तर ताका?'' तेजसान अजापान विचारलें.

'' ताची आवय शेणिल्ली तर?'' मामान विचारलें.

'' ना मामा, ताची आवय शेणूक नाशिल्ली! तेंच शेणिल्लें आनी आपले आवयक सोदतालें.'' तेजसान सांगलें.

'' देखून तुवें ताका हांगा हाडलें? हें पळय तेजस! भुरग्याक ताचे आवय पासून पयस करप हें बरें न्हय!''

'' पूण हांवें ताका हांगा हाडून खावंक दिलें, ताची कुयदाद केली. हातूंत म्हजें कितें चुकलें?''

'' तुजें कांयच चुकूंक ना! उरफाटे तुवें बरेंच केलें म्हणपाचें, तुवें ताका खावंक दिलें. ताच्या आंगांत थोडी ताकद आयली. देखून तें आपले आवयक सोदूंक पावलें. आतां तें आपले आवय वांगडा खूश आसा! पूण तुमची आवय खंय तर!''

'' आई आसा भितर, जेवणाची तयारी करता. राव, हांव आईक आपयतां!''

तन्वी आईक उलो मारूंक वतालें. पूण मामान ताका थारयत म्हणलें,'' नाका. तिका करूंदी जेवणाची तयारी.''

'' पूण मामा... म्हाका तें मांजर जाय आसलें!'' तेजस मर्दीच उलयलो.

'' तेजस! आतां तूं व्हडलो जालो, मांजरा वांगडा खेळचो उरूंक ना आतां... मानतां हांव, मोनजातीचेर मोग करूंक जाय. पूण प्रत्येकाक आपले आवयचो मोग चड खास आसता. मागीर तो मनीस जावं वा मोनजात.''

मामान तेजसाक समजावपाचो यत्न केलो. पूण तेजस हट्ट सोडूंक तयार नासलो. तो गाल फुगोवन रागान उबो रावलो. मामा हलको सो हांसलो आनी थंयच बसलो. ताणें तेजसा कडेन पळयत म्हणलें, '' हें पळय तुमच्या खातीर हांवें कितें हाडलां तें!''

'' कितें हाडलां मामा?''

तेजस खूश जावन धांवत मामा म्हऱ्यांत येवन विचारलें. मामाच्या खांदार एक मोट्टी बॅग आसली. ते बॅगेंतल्यान लॅपटॉप काडून ताणें म्हणलें, '' हो लॅपटॉप...! संवसारांतल्यो सगळ्यो खबरी आमकां हाचेर मेळटात. लॅपटॉप पळोवन तन्वी खूब खूश जालें. तेच खोशयेच्या भारांत,'आवयस! लॅपटॉप!!' अशी उतरां ताच्या तोंडांतल्यान भायर सरलीं. तें पळोवन तेजस फुतफुतता...

'' दिदी, चड खूश जावपाची गरज ना हां! तुज्या खातीर न्हय तो, म्हज्या मामान म्हज्या खातीर हाडला तो...!'' अशें म्हणून ताणें तो लॅपटॉप हातांत घेतलो.

'' आवयस...! बरच जड आसा.'' ताणें म्हणलें.

'' तेजस, शाण्या... तो तुज्या खातीर न्हय. दिदी खातीर तो...! दी ताका, भुरग्यांनी लॅपटॉप घेवन खेळचें न्हय..!''

मामाच्या उतरांनी तेजस निर्शेलो. दुखेस्त मनान ताणें लॅपटॉप दिदी कडेन दिलो. तन्वीन हांसतो चेहरो करून तो घेतलो.

'' आतांच म्हणटालो हांव व्हडलो जालों म्हूण आनी आतांच म्हणटा भुरग्यांनी लॅपटॉप घेवन खेळचें न्हय म्हूण...!

हे कशें मामा?'' सामको रडकें तोंड करून तेजसान मामाक विचारलें.

'' तितलोय व्हडलो जावंक ना हां तूं, आनी लॅपटॉप हो खेळ खेळपा खातीर वापरप न्हय, दिदीक ताचो शिकपा खातीर वापर जातलो, देखून ताका हाडला तो हांवें.''

'' आनी म्हाका कोणाचो वापर...! खेळपा खातीर? एक मांजर आसलें, तेंवूय बी गेलें म्हाका सोडून.'' तेजस रडूंक लागलो.

'' आतां कांयच फायदो ना रडून! हो पळय टॅब, हो टॅब तुका.'' अशें म्हणून मामान टॅब तेजसा कडेन दिलो.टॅब पळोवन तेजस खूब खूश जालो.

'' वाव्व, टॅब ? लेनोवा कंपनिचो? मामा कितलो बरो रे तूं, चंदा मामासे प्यारा मेरा मामा...!'' खोशयेच्या भारांत अशें म्हणत तो मामा म्हऱ्यांत येवन बसलो.

'' मेरे आखों का तारा मेरा मामा!'' मामाची आपल्या हातांनी नदर काडिल्ल्यावरी करून तन्वी मामाचे दुसरे वटेन बसलें. इतले म्हणसर भितर सावन तांची आवय आयली आनी तांचो तो मोगाळ देखावो पळोवन ती पळयतूच उरली.

'' हें कितें चल्लां हांगा? मामा आयला...! आमकां खबर लेगीत ना! आनी बाय, तें कितें गो तुज्या हातान?''

'' आई हो लॅपटॉप!'' तन्वीन हांसत म्हणलें.

'' हां हां!लॅपटॉप...! आनी बाबा तुजो टॅब तर मोडिल्लो न्हय रे?''

'' आई, हो नवो टॅब मामान हाडला.''

'' राजेश, तुवें ताका टॅब हाडला नवो?'' आईन राजेशाचेर म्हणल्यार मामाचेर आरडत विचारलें.

'' हय ताई...! ताका स्कुलांत दिल्लो टॅब मोडलो खंय!'' राजेशान सुसेगाद जाप दिली.

'' देखून तुवें ताका नवो टॅब हाडलो? कितें हें राजेश? तुका खबर आसा न्हय टॅबार गेमी खेळतात तें...! हांव म्हणटालीं ताचो टॅब मोडलो तो बरें जालें. आनी तुवें ताका नवो टॅब हाडलो?'' अशे म्हणून आई राजेशाचेर रागार जाली.

भयणीची समजूत काडूंक राजेश तिच्या म्हऱ्यांत गेलो आनी तिका समजायत म्हणलें, '' ताई टॅब, लॅपटॉप हीं फकत गेमी खेळपाचीं साधनां न्हय! असल्या ह्या वस्तूंनी मनशाक खूब गिन्यान मेळटा हाची खबर ना तुका. देखून तुमी अशीं उलयतात.

'' ते पिशे न्हय जे स्कुलांत असल्यो वस्तू भुरग्यांक वाट्टात! तें एक आधुनीक पुस्तक! एक अशें पुस्तक की ताका गिन्यानाचो पोटलो म्हणल्यार अतिताय जावंची ना. ताचो खरो वापर करून मनीस आपलें गिन्यान वाडोवंक शकता...! शकता कित्याक? ताचो खरो वापर करून आयज मनीस चंद्रार लेगीत पावले. देखून तांकां हांवें त्यो वस्तू हाडल्यात.



म्हाका कितें म्हजीं भाची-भाचो इबाडिल्लीं जाय?''

राजेशाचें हें सगळें उलोवणें आयकून आई कांय वेळ ताका पळयतूच उरली.

'' तशें न्हय रे...! पूण तांणीबी समजूंक जाय न्हय ते!''

'' कित्याक समजचिना? शाणीं भुरगीं तीं! शाण्या भुरग्यांक समजावपाची गरज पडना!''

'' हय रे बाबा, शाणींच तीं म्हजीं! हां हे खोशयेन आयज भूक बी कांय लागपाची ना तांकां! चला आतां, जेवण काडटां, जेवपाक येयात.''

अशें म्हणून आईन वचपाक पांय उखल्ले मात, तेजसान खोशयेन 'येस-येस' अशें म्हणलें. आई वचपाची थारली आनी तेजसाक पळयतूच रावली.

'' हें तें कितें करता रे तूं, येस-येस करून?''

'' कांय न्हय आई, कांय न्हय अशें म्हणून तेजस हांसत भितर गेलो. आईन तन्वीक पळयलें, तें आपल्या लॅपटॉपांत गेल्लें ते पळोवन तिणें ताचेर धेंगसो घालो.'' तुका आनी सेपरेट आमंत्रण दिवंक जाय गो?''

'' ना आई ! येतां हांव!'' अशें म्हणत ताणें आपलो लॅपटॉप बंद केलो आनी तेंय तिचे वांगडा भितर गेलें.

'' आनी राजेश तुंवय बी यो जेवंक.'' भितर वतना तिणें राजेशाक म्हणलें.

'' ओके ताई!''

'' हो आतां ओके कितें...! साबांव, कपड्याक लावपाचो?''

'' ना ना, बरें ताई बरें...!''

दोगांय वांगडाच हांसलीं आनी राजेशूय तांच्या फाटाफाट जेवपाक गेलो!

कांय वेळान राजेश जेवन बी टॉवेलाक हात पुशीत भायर वारांदांत येवन कदेलीर बसलो. फाटल्यान केळ्यांची बशी घेवन आई आयली. राजेशान तिका पळोवन तोखणाय करीत म्हणलें,' वा! ताई, जेवण मस्त केल्लें हां! म्हजी ताई खंयच्याय पांच नखेत्री हॉटेलांतल्या सेफा परस कमी ना हा...!

'' हां हां पुरो ! इतली तोखणाय!! घे केळें खा.''

अशें म्हणत तिणें राजेशाक केळें दिलें.

'' तोखणाय कित्याक करूं नाका? जेवण बरें केलां तें केलांच हातूंत कसली फटी तोखणाय? वाव्वा! ती सुगटांची कडी...!''

केळें खाता आसतनाच राजेश कविता करूंक लागलो.

'' सुंगटांची कडी
तातूंत वांयग्याच्यो फोडी
कांद्याचे फोडणींत उडयली
हरवी मिरसांग थोडी!''

'' तुका आपलें खंयच्याय वेळार कविता सुचता. आनी कविता म्हूण तरी कश्यो? सामक्यो जिवंत..!''

'' ताई ... जाणां तूं, जेन्ना मनशाचें मन खूश आसता न्हय तेन्ना मनशाक खूब कितें सुचता.''

'' सुचता मरे? लग्नाचे बाबतीन सुचलां कितें?''

ताईचो प्रस्न आयकून राजेशाचें तोंड आंबट जाल्ल्या वरी जालें. ताणें इल्लेंशें तोंड करून म्हणलें,

'' लग्नाचो विशय नाका हां ताई!''

'' कित्याक नाका? केन्नाक रावला रे तूं? कितलो तेंप म्हण रावतलो एकलो?''

'' हांव एकलो खंय आसा? तुमी आसात न्हय सगळीं म्हजीं! भावोजी, भाचो-भाची आनी तूं ताई... ताई कित्याक? आईच म्हजी तूं! आपल्या भुरग्या सारकोच मोग दिला तुवें म्हाका... हांव दोन वर्साचो आसतनाच आमचो आवय बापूय आमकां सोडून गेलो. तुवेंनूच ताई म्हाका व्हड केलो. शिकयलो, म्हज्या स्वताच्या पांयार उबो रावपाक समर्थ केलो. आयज हांव जो कितें आसां न्हय ताई, हें तुमचेंच देणें. देखून तर पावला पावलाक तुमचीच याद येता...''

राजेशान भावूक जावन आपल्या मनांत आशिल्लें सगळें सांगून सोडलें.

'' म्हूण कितें आख्खें आयूश्य एकटोच रावतलो? घर तर आसाच तुका रावपाक. पूण एक घराणें आसप गरजेचें आसता मनशाक. बायल, भुरग्यां बगर घराक सोबा येना आनी तांच्या बगर घराचें घराणे जायना. देखून म्हणटां वेळार जें जाता तें सारकें आसता...''

'' बरें ताई... हरलों हांव! लग्न जा म्हणटात तर जातां लग्न, पूण एक अट आसा...!''

'' आतां कसली अट, सगळें तर आसा तुजे कडेन! घर, गाडी, पयसो, भांगर... तरी कसली अट?''

'' लग्न जातलों जाल्यार एक चली जाय आसता! आनी ती चली, तूं पळयतली म्हज्या खातीर!''

'' हांव? हांव खंयच्यान पळोवं, बाजारांत नुस्तें व्हरूंक येता थंयची?''

'' तें म्हाका खबर ना. तूं खंयसूनय पळय! तुजी पसंती ती म्हजी पसंती, मागीर ती गरीब लेगीत आसल्यार हरकत ना.''

इतल्यांत सगूण कामार सावन आयलो. आपल्या

हातांतलें बॅग सावित्री कडेन दिलें.

'' आयज कसल्यो पसंतीच्यो खबरी चल्ल्या भाव-भयणी मदीं?'' ताणें म्हणलें.

आयकून राजेश लजिल्ल्या वरी जावन उठलो.

'' बरें ताई, येतां हांव. सांगलां तें काम कर! येतां भावोजी.'' अशें म्हणून तो गडबडींत गेलो.

'' हो राजेश असो कसो गेलो? आनी कसलें कामाचें म्हणटालो तो?'' सगुणान अजापान विचारलें.

'' हांव ताच्या लग्नाचें उलयतालीं.''

'' मागीर कितें म्हणटा? जायना खंय लग्न?''

'' जाता म्हणटा, पूण चली म्हाका पळय खंय!''

चली म्हणटांच सगुणाक करली तरी याद जाली.

'' चली म्हणल्यार याद आयली! राजारामाची चली, जाणां न्हय तूं? पोर बरें आसा हां, आमच्या राजेशाक सामकें सोबतलें. उतर घालून पळोवया जाल्यार सांग! राजाराम भितर सरतलोच न्हय आतां सदचेवरी हेवटेच्यान पासार जातना!''

'' हय हां, राजारामाली चली म्हज्या लक्षातूंच आयली ना... इतली बरी चली राजेशाक सोदून तरी मेळटली? तुमी घालात उतर आनी सोमतेंच थारावन उडयात.

'' हय... येतलो तो आतां. तूं वचून इल्ली च्या दवर.''

सावित्री भितर गेली आनी सगूण थंयच राजारामाची वाट पळयत बसलो.

थोड्या वेळान राजाराम आयलो.

'' सगूणभाऊ, आयज भायर बसून कोणाची वाट पळयता? कोण येवपाचो आसा?'' राजारामान अजापान विचारलें.

'' यो तुजीच वाट पळयतालों हांव.''

सगुणान उठून ताका येवकार दिलो.

'' म्हजी वाट पळयतालो? आयज म्हजी शी वाट पळयतालो?''

'' ना रे अशीच! आसा मरे बरो?''

'' हय आसां बरो.''

'' आनी शितल कशें आसा?''

ताच्या तोंडांतल्यान शितलाचें नांव येतांच राजाराम ताका पळयत उरलो. सगुणूय बी कांय वेळ उगी रावलो. मातश्या वेळान ताणें परत विचारलें.

'' चली रे तुजी, कशी आसा काय म्हणटां?''

'' बरें... बरें आसा रे तें! पूण, आयज...'' राजाराम उलयतां उलयतां थांबलो.

'' एकवीस वर्सा पुराय जालीं न्हय बाय शितलाक, लग्नाचो विचार बी कितें केला काय ना ताच्या?''

सगुणान तोंडार हांसो हाडून विचारलें.

'' हय एकवीस वर्सा सरलीं! चलयेचीं वर्सा जशीं वाडटात तसो बापायचो प्रेशर वाडटा.''

राजाराम मात्सो चिंतेस्त जावन, उचांबळ जाल्या वरी जालो. तें पळोवन सगुणान ताका धीर दिवंच्या यत्नान म्हळें.

'' आरे राजाराम, असो उचामळ कित्याक जाता!''

'' गरीब घराण्यांत चली वाडप म्हळ्यार शांत बसपाची गजाल न्हय! लग्नाचो विशय काडल्यारूच आंगार घाम फुट्टा. उचामळ आनी कसो जावचों ना?''

सगूण उठून ताचे सरी आयलो. ताच्या हाताक धरून ताका थंयच सोप्यार बसयलो आनी आपूणय बसलो.

'' हय रे राजाराम. खरें तुजें तें! पूण, खंय उलोवणी बी जाल्यां काय म्हणटालों हांव !''

'' ना रे बाबा... रातीं त्याच विशयार उलयतालीं आमी. दोगां तिगां जाणांक म्हणून दवरलां. पळोवंया कितें जाता तें!''

'' शिक्षण सोंपलें दिसता न्हय ताचें? आतां कितें करता?'' सगुणान सहज विचारलें.

'' भुरग्यांचो अभ्यास घेता. ट्यूशन काय कितें म्हणटा तें! शिकून कामां तरी मेळटात रे आतांच्या तेंपार? पूण, आयज म्हज्या शितलाचीशी बरी चवकशी करता? विचार कितें आसा भाऊ? '' राजारामाक दुबाव सो आयलो.

'' ताचें कितें आसा जाणा, म्हजो मेवणो आसा न्हय राजेश, ताचें आनी शितलबायेचें कशें दिसता तुका?''

सगुणाच्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लीं उतरां आयकून राजाराम एकदम खूश जालो. ताच्या कानांत खोशयेची धून वाजल्या सारकें आयकूंक आयलें. अचकीत उठून मनमोकळेपणान ताणें आपल्या दोनूय हातांनी सगुणाक उठोवन वेंगायत म्हणलें.

'' आरे, आरे म्हज्या मनातलें उलयलो पळय तूं, फाटले दोन दीस म्हज्या मनांत हेच विचार घोळटाले. आयज म्हजें मन हलकें जाल्या सारकें जालें. आयज हांव खूब खूश जालों सगूणभाऊ.

'' राजाराम, राजाराम इतल्यान खूश जावं नाका. ही खबर आमचेच मदीं आसा. तांकां विचारूंक जाय. तांकां मानलें तर मागीर जावया आमी खूश.''

सगुणान ताका समजावपाक म्हणलें.

'' सगूणभाऊ, जाता तितल्या बेगीन ही खोशी म्हाका दी



तूं.''

ताणें सगुणाच्या पांयार घालून घेतलें.

'' तुवें म्हाका आयज जें खोशयेचें किरण दाखयलां तें किरण म्हज्या म्हऱ्यांत पावूं दी. तो खोशयेचो आख्खो सुर्य म्हज्या वांगडा रावूं दी.''

राजारामाचे खोशयेक शीम-मेर उरूंक नाशिल्ली. तो खोशयेच्या भारांत सामकोच उचांबळ जातालो. तें पळोवन सगूण ताका पळयत उरलो. इतल्यांत सावित्री भितर सावन च्या घेवन आयली.

'' घेयात गोड गोड च्या पिवन तोंड गोड करात.'' तिणें दोगांयकूय च्या दिली. दोगूय च्या पियेले.

'' आयज जे खोशयेचें कारण तुमच्या मुखामळार दिसता तें कायमचेंच उरूं दी. फाल्यां हांव राजेशाक आफयतां. चलयेक, चल्याक एकमेकांक पळोवन तांचो निर्णय तांकां घेवंदी, मागीर फुडलें फुडें पळोवया!'' सावित्रीन म्हणलें.

'' हय हें कार्य जाता तितले बेगीन जाता तें बरें! हांव आतांच वचून आमच्या घरच्यांक सांगतां.'' अशें म्हणून राजाराम वचूंक दोन पावलां फुडें सरलो आनी मागीर न म्हणले.

'' देव बरें करूं सगुणभाऊ ही खोशयेची खबर दिल्या म्हूण!'' अशें म्हणलें आनी तो थंयच्यान खोशेखोशेन गेलो!

'' कितलो खूश जावन गेलो न्हय? देवाक जाय तर सगळें बरेंच जाता!'' सावित्रीन खोशयेन आपल्या घोवाक म्हणलें.

रातच्या वेळार तेजस हातांत पुस्तक घेवन कितें तरी विचार करीत बशिल्लो. ताचो बापूय म्हळ्यार सगूण येवन ताका पळयता. ताच्या म्हऱ्यात वचून, ताच्या सामकारूच आशिल्लो विजेचो बटण दामून दिवो पेटयता आनी ताका विचारता.

'' आरे तूं हांगा काळखांत बसून कसलो विचार करता?'' तेजस आपल्यांतूच आसता. ताका बाबा आयला आनी तो आपणाक कितें तरी विचारता तें लेगीत कळना. सगूण ताका हात लावन ताका विचारांतल्यान भायर काडटा.

'' तेजस... शाण्या कितें जालां? ''

तेजस जागो जाल्ले वरी जावन. बापायक पळयता.

'' ना... ना.. बाबा, कांय न्हय.''

'' कांय न्हय कशें! कितें तरी विचार करतालो तूं! सांग म्हाका, कसलो विचार करतालो?''

'' ना बाबा, अभ्यास करतालो हांव.'' अशें म्हणत तो बेगी बेगीन पुस्तक वाचूंक लागता. पूण ताचें कितें तरी बिनसलां हें बापायक कळटा.

'' तेजस कितें जालें शाण्या... बाबाक सांगचोना?''

तसो तेजस उठून उबो रावता. ताचे कडेन पळयत ताका विचारता, '' बाबा, आमच्या मामा कडेन खूब पयशे आसात न्हय?''

'' हय आसात जायत!''

'' आसा जायत न्हय, आसात ताचे कडेन!''

'' बरें आसा... तर?''

'' तर कितें बाबा! आमचे कडेन कित्याक नात? आमचें हें ल्हान शें घर! आमच्या मामा सारकें आमचें घर कित्याक ना बाबा?''

पुताचीं उतरां आयकून बापायच्या दोळ्यांनी दुकां आयलीं. ताणें दुकां पुशीत म्हणलें,

'' हय शाण्या. आमचें घर ल्हान, आमचे कडेन चड पयशे नात! हांव एक गरीब मनीस, म्हजे कडेन तशें जमना करूंक. देखून म्हणटां... तूं व्हडलो जावन बरें शिक्षण घेवन व्हडलो इंजिनीयर जा, खूब पयशे कमय आनी एक व्हडलें घर बांद! हो जागो आमचोच. ह्या आख्ख्या जाग्यार बांद तूं एक व्हडलें घर!'' अशें उलयतनाच ताच्या दोळ्यांतलीं दुकां पडलीं.

'' बाबा तूं रडटा? माफ कर हां बाबा! हांवें तुका रडयलो.''

'' जाणां हांव, तुज्याय मनांत एक वादळ चल्ला! आमी गरीब आसल्याचें वादळ. शांत जा, शाण्या शांत जा. हें वादळ तुज्या मनांत चड दीस उरचें ना, म्हजो विस्वास आसा.'' बाबान ताका वेंगेंत घेवन म्हणलें.

'' बाबा, आमी मामा कडल्यान घेवया न्हय थोडे पयशे, आनी बांदुया आमीय बी एक बरें शें घर!''

'' ना शाण्या! तें सारकें न्हय. दुसऱ्याच्या पयशांनी मनीस स्वता खातीर सूख विकत घेवंक शकना. आपलें घर हें आपल्या कश्टान बांदपाचें आसता. तेन्नाच आमी म्हणूंक शकतात, आपलें तें आपलें, केन्नाय उकतें केलें केन्नाय धांपलें!''

'' हय बाबा, म्हज्या मनांतलें वादळ हें म्हाकाच शांत करचें पडटलें. हांव खूब शिकून इंजिनीयर जातलों बाबा. खूब पयशे जोडून म्हज्या मनांतलें वादळ शांत करतलों. हें हांव तुका उतर दितां. तुमचो आशिर्वाद हें एक वरदान बाबा म्हजे खातीर!'' अशें म्हणून बाबाच्या पांयार घालून घेतलें. इतल्यांत थंय ताची आवय सावित्री आयली. ताणें आवय म्हऱ्यांत वचून आवयचे दोनूय हात आपल्या हातांत घेतले आनी म्हणलें, '' आयज पासून तुमी खूब केलें आमचे खातीर. खूब वादळां सोंसलीं आमकां वाडोवपाक ह्याच्या फुडें हांवूय

बी बाबाक मजत करतलों ताच्या कामांत. आनी हांव पयस करतलों तुमच्या मनांतलें वादळ!''

पुताचीं तीं धीर देणीं उतरां आयकोन दोगांयचे कान तृप्त जाल्या सारके तांकां दिसलें .तांणी दोगांयनीय ताका वेंगेंत घेवन ताची खूब अपुरबाय केली...

आयताराचो दीस आशिल्लो, सगळ्यांकूच सुटी. तेजस भायर बसून टॅबार खेळटालो. तन्वी पोरसांतल्या झाडांक उदक घालून रिकामी कळसुली घेवन तेजसा म्हऱ्यांत आयलें आनी ताका टॅबार खेळटा तो पळयलो.

'' तेजस, तूं हांगा बसून टॅबार खेळटा? पयलीं दवर तो टॅब!''

'' दिदी टॅबार खेळल्यार कितें जालें गो? आयज स्कुलाक सुटी, परिक्षाय सोंपली. बेकार तर आसां. खेळटां न्हय मात्सो!'' तेजसान म्हणलें.

'' खेळ रे, खेळ...! मात्सो कित्याक जाय तितलो खेळ. पूण आतां न्हय.''

'' आतां न्हय कित्याक? आतां कितें करूं तर?'' ताणें अजापान विचारलें.

'' आतां आमी एक झाड लावया.''

'' झाड, खंयचें दिदी?''

'' आरे रातीं मामान एक झाड हाडिल्लें. विसरलो तूं? राव, तें घेवन येतां हांव.'' अशें म्हणून तें झाड घेवन आयलें.

'' हें पळय झाड. तूं हांगा एक फोणकूल काड.''

'' हांगा कित्याक लायता तें झाड दिदी? थंय फाटल्या पोरसांत लावया न्हय!''

'' नाका–नाका ! हांगाच लावंक जाय तें! ताचें एक कारण आसा.''

'' कसले कारण? झाड खंयसरूय लायलें म्हूण कितें जालें?''

'' तशें ना रे, पळय हें एक पणसाचें झाड. पयलीं ताका खूब पणस जाताले. पूण आतां मेजून दोन वा चार जातात.''

तन्वीन तेजसाक पणसाचें झाड दाखयत म्हणलें.

'' पयली जाताले आनी आतां कित्याक जायनां गो दिदी चड?'' तेजसान फोंडकूल मारतां, मारतां विचारलें.

'' आरे पिशा तें आतां जाण्टें जालें न्हय रे! आनी हेंय बी एक पणसाचेंच झाड. तें मरून सोंपच्या पयलीं हें वाडून व्हड जावंक जाय. देखून हें झाड हांगाच लावप गरजेचें, मागीर कितें जातलें झाडाक झाड तयार.''

झाड रोयता आसतनाच तन्वीन तेजसाक समजायलो.

'' हूं... हुशार हां दिदी तूं! पूण दिदी हें झाड व्हडलें जावपाक खूब तेंप लागतलो न्हय!''

'' हय तेंप तर खूब लागतलो!''

'' मागीर तो पर्यत आमी जाण्टीं जातलीं मगो! आमी उरतात काय कोण जाणां ह्या संवसारांत! तेन्ना कोणाक ते पणस खावंक?''

'' हें झाड कोणें लायिल्लें तें जाणा तूं?''

'' ना. नकळों हांव.''

'' हांवूय बी नकळों, आमच्या आज्याच्या आज्यान लायल्लें खंय! अशें बाबा सांगतालो, पूण ते आसा आतां?''

'' ना.'' तेजस तन्वीक पळयत उरलो.

'' असो कितें पळयता! ह्या झाडाचे पणस आमी खातात न्हय? तांणीय जर अशेंच चिंतून हें झाड लावंक नासलें तर आमकां आयज हाचे पणस खावंक मेळटले आसले?''

'' ना हां दिदी! कळ्ळें म्हाका आतां.''

'' कितें कळ्ळें तुका?''

'' हेंच की मनशान झाडां लावप, पूण फळाची आस्त धरची न्हय! आयज आमकां आमच्या आज्या पणज्यांनी लायिल्ल्या झाडाचीं फळां खावंक मेळटात. तशेंच आमी लायिल्ल्या झाडाचीं फळां केन्ना तरी आमच्या भुरग्यांक खावंक मेळटलीं.''

'' हां आतां कसो उलयलो!''

'' पूण दिदी... ह्या पणसाच्या झाडाक कितलीं वर्सां जालीं आसतलीं गो?'' ताणें प्रस्न विचारलो.

'' ह्या झाडाक कितलीं वर्सां जालीं आसतलीं हाचो अंदाज करप गरजेचें न्हय, पूण त्या झाडान आमचे खातीर कितें कितें सहन केलां आसतलें हाचो अंदाज लावप चड गरजेचें. तें स्वताच आपल्या माथ्यार वत घेवन आमकां शितळ सावळी दिता, वादळाचें वारें आपल्या आंगार आडोवन आमकां ताच्या पासून वाटयता, वातावरणांतली धूळ आपल्या आंगार घेवन आमकां नितळ निवळ स्वास घेवंक वारें दिता आनी इतलें तें सगळें सहन करून लेगीत आमकां खावंक गोड फळां दिता.''

'' आनी मनीस हें सगळें जाणां जावन लेगीत गरज नासतना झाडां कापून उडयतात! जाणां दिदी, रातीं म्हज्या सपनांत झाडां उलयतालीं.''

'' झाडां उलयताली? कितें सांगतालीं तीं तुका?''

'' तीं म्हाका काय सांगनाशिल्लीं, आपल्यांतूच उलयतालीं तीं. तांचें उलोवप एक कविते वरी आसलें.''



कविते वरी
उलयतालीं?
म्हणल्यार झाडांनी
रचिल्ली कविता! तेजस ती
कविता मात वेगळीच आसतली न्हय?'' तन्वीन उमळशिकेन विचारलें.

'' वेगळीच दिदी, सामकी वेगळी!''

'' तुका याद जाता? म्हाकाय बी म्हणून दाखय ते झाडान रचिल्ली कविता! म्हाकाय आयकूंक जाय.''

तांचें झाड रोवप चालूच आसलें. तेजसान फोंडकूल काडिल्लें. त्या फोंडकुलांत पणसाच्या झाडाची रोपी घालतनाच तन्वीन म्हणलें.

'' तर आयक दिदी! तें अशें म्हणटालें...''

आनी तेजसान कविता वाचपाक सुरवात केली.

'' एका झाडान म्हणलें दुसऱ्या झाडाक
कितें जालां ह्या मनशांच्या गिन्यानाक?
कापून आमकां नश्ट करूंक
तांच्या मातूय दुखना काय मनाक?''

कवितेचें पयलेंच कडवें आयकून तन्वीन अजापान आपलें तोंड आं करून उकतें केलें. तेजसान कविता फुडें म्हणली.

'' आमकां कापून रस्ते वाडयतात
व्हडल्यो व्हडल्यो बिल्डिंग्यो घडयतात
अशे हे मनीस आमकां कित्याक रडयतात?
आमच्या दोळ्यांतल्यान हीं दुकां गळयतात!''

हय कितलीं
दुख्खी जावन तीं
झाडां उलयतात न्हय एकमेकां कडेन?'' तन्वीन आपल्या दोळ्यांनी दुकां हाडून म्हणलें.

'' फुडें तें झाड म्हणटा...
आमीच तांकां सावळी दितां
फुलां दितां फळां दितां
आमकांच लागून पावस पडटा
आमीच हांकां उदक दितां
आमी आसांत म्हूण हो संवसार सुंदर
सूख आनी शांतीचें घर
तरी लेगीत ह्या मनशांनी
अमच्याच गळ्यांत घातले दोर...
चीत मनशा वेळ आसा
गरजे शिवाय आमचेर अन्याय करूं नाका
ना तर फुडें सूख आनी शांतीची
अपेक्षा तुमी धरूं नाकात.
हाचे पयलीं केल्ल्या चुकांची
ख्यास्त तुमकां भोगची पडटली
झाडां लावन, झाडां वाचोवन

धर्तरी सोबीत करची पडटली...''

पुराय कविता आयकून तन्वी सामकें तांच्या दुख्खांत भरसून गेलें. ताणें तेजसाचे हात धरून म्हणलें.

'' तेजस, तेजस म्हज्या भावा, तूं खऱ्यांनीच भाग्यवान! जीं झाडां तुजे सपनांत येवन तुका आपल्या दुख्खाची काणी कवितेच्या रूपान सांगतात. तांकां तुजेर विस्वास आसा जायत की तूं तांकां वाचोवंचे खातीर कितें तरी करूंक शकता म्हूण!''

तन्वीच्या त्या भावनीक उतरांनी तेजसाचें मन भरून येवन दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवलीं. ताचीं दुकां पळोवन तन्वीच्याय दोळ्यांनी दुकां आयलीं. ते म्हणसर तांची आवय भायर येवन तांकां पळयताली.

'' आगो, तुमी कितें करतात थंय दोगांय?'' तिणें विचारलें.

आवयक पळोवन दोगांयनी बेगीबेगीन आपआपले दोळे पुसले.

'' आई आमी हें झाड रोयतालीं! जालें आई झाड रोवन, तेजस आतां हाका थोडें उदक घाल.''

तेजस उदक हाडूंक गेलो आनी उदक हाडून ताणें झाडाक घातलें.

'' जालें न्हय झाड रोवन? बरें केलें तुमी झाड रोयलें तें! आतां ताका सदांच उदक घालून बरे तरेन ताका वाडयात. जतनाय घेयात ताची. आनी आयज भूक बी कांय लागना तुमकां? वेळ कितलो जाला पळयला? चलात, हात पांये धुवन जेवंक येयात.''

अशें म्हणून ती भितर गेली आनी तांणी दोगांयनीय हात पांय धुवन तीं जेवपाक गेलीं.

* * *

तीन म्हयन्यां उपरांत अचकीत तेजसाक त्या म ांजराच्या पोराची याद आयली. एक दीस दनपारच्या वेळार स्कुलांतल्यान घरा आयल्या उपरांत घरांत मांजर रडिल्ल्याचें ताका आयकूंक आयलें. ताणें आपल्या खांदा वयलो बटवो थंयच जमनीर उडोवन भितर धांव मारली.

'' हाचें आनी कितें जालें?'' तन्वी चितूंक पडलें आनी ताणेंय बी भितर धांव मारली. भितर वचून तन्वीन पळयलें. तेजस कितें तरी सोंदता. तें पळोवन तें आपूणय सोदूंक लागलें. पूण आपूण कितें सोंदतां तें ताका खबर नाशिल्ली. तरी पूण तें सोंदतालें. बरोच वेळ कांयच मेळना तें पळोवन ताणें तेजसाक विचारलें.

'' कितें सोंदता रे तेजस?''

'' मांजराक सोदतां.''

'' कितें,मांजराक सोदतात आमी, खंयच्या मांजराक रे ?'' तन्वीन परतून विचारलें.

'' दिदी, आमचें तें शेणिल्लें मांजर आयलां अशें म्हाका दिसता. हांवें ताच्या रडण्याचो आवाज आयकला. तें म्हाका उलो करता! तें हांगाच खंय तरी आसा!'' अशें म्हणून तो ताका सोदूंक लागलो. ताणें खाटी पोंदाक, मेजा पोंदाक, आलमारी फाटल्यान सोंदलें. तन्वीनूय सोदलें. पूण तांकां तें मेळूंक ना. तन्वीक वाज आयलो. 'सोद तूंच!' अशें म्हणून तें भायर आयलें. भायर ताका वेगळेच तरेचो आवाज आयकूंक आयलो. 'फूऽ फूऽ' करून कोण तरी फोंसां घालता असो तो आवाज आशिल्लो. तें भिलें. ताणें बेगीबेगीन आवयक भायर आपोवन घेतली. आवय वांगडा तेजसूय भायर आयलो. भायर येवन तांणी पळयलें जाल्यार, एक धवें मांजर सोरपा वांगडा झुजतालें. सोरपाचें आनी मांजराचें बरोच वेळ झूज चल्लें. दोगांय एक मेकांचेर हल्लो करतालीं. आवाज वाडत आशिल्लो, वातावरण भयानक जाल्लें. तन्वी, तेजस आनी आवय तिगांय भंयान एकमेकांक वेंग मारून तें भिरांकूळ दृश्य पळयतालीं.

कांय वेळान मांजरान सोरपाक मारून उडयलो. सोरोप मरून पडिल्लो आनी मांजर सामकें थकून जमनीर आड पडिल्लें. तेजस सगळो भंय विसरून मांजरा सरीं धांवलो. ताणें मांजराक वेंगेंत घेतलें. मांजरांत जीव आशिल्लो! ल्हवू-ल्हवू तन्वी आनी आवय बी मुखार सरलीं. तांणी सगळ्यांनीच मांजराची अपुरबाय केली. ताका उदक पिययलें. मांजर साबुद्दीर आयलें.इतल्यांत तांचो बापूय कामार सावन आयलो. तिनसांज जाल्ली. ताकाय बी प्रकरण समजल्या उपरांत तो अजापलो आनी ताणें त्या मांजराचे उपकार मानले. ताचेर मायेन हात फिरयलो आनी म्हणले.

'' पळयलें न्हय तेजस बाबा... मोनजात केन्ना उपकार विसरना. तीन म्हयन्या फाटीं तुवें ताचेर केल्ल्या उपकाराची ही परतफेड. मोनजातीक कळटा आपल्या धनयाचेर आयिल्लें अरिश्ट, देखून तें तुका वाचोवंक आयिल्लें जावये!''

'' हय बाबा, तेंच तें म्हजें शेणिल्लें मांजराचें पोर.''

तेजसान ताका वळखलें. मांजरानूय आपलो मोग दाखयलो आनी आयज एका मांजराक लागून एक व्हड अनर्थ जावपाचो चुकलो म्हणपाचें सगळ्यांक समजलें.

■■■



# भिंगाचें बींग

दिल्लीच्या कथा संस्थेचो 'कथा' पुरस्कार,केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार, 'वात्सल्य' पुरस्कार , तशेंच 'शाश्वती' पुरस्कार सारख्या कितल्याच पुरस्कारांनी सन्म ानीत मीना काकोडकार हें कोंकणी साहित्य मळा वयलें एक म्हत्वाचें नांव. तांच्यो कथा, कादंबरी,बालसाहित्य वाचकांक मंत्रमुग्ध करता...तांचे कथा शैलीची ही एक पत...



मीना काकोडकार
मो. : 8087708050

मळा वयल्या करडाक उजो पेटलो...

पेटलो म्हळ्यार आपसूकच पेटलो ना...

तर मज्ञा म्हणून इल्लोसो उजो घाल्लो, तो भगभगीत पेटलो.

फरफर आवाज करत सगळ्याक पातळूंक लागलो.

तो अक्राळ विक्राळ जावन सकल्या गांवा मेरेन वतलो आनी थंयचे आमचे शाळेकय खातलो अशें आमकां दिसलें.

भंयान आमच्या पोटांत गुळो आयलो.

आनी आमी धांव मारली...

सामकी कुल्यांक पांय तेंकोवन.

०००

तो आमचो सदचोच शाळेंत येवपा वचपाचो रस्तो.

शांतो, शेड्डो, हांव आनी म्हजो धाकलो भाव गजू आमी वांगडाच शाळेंत वताले. शेड्डो हें ताचें खरें नांव नाशिल्लें. ताणेंच सांगिल्लें आमकां आपलें नांव शरद म्हणून. पूण ताका





सगळीं .. घरचीं लेगीत शेड्डोच म्हणटालीं.

शेड्डो जाल्यार शेड्डो आमकां कित्याक पडिल्लं?

पूण शेड्ड्याक शाळेंत चाळयताले तेन्ना तो अदीं मदीं रडटालो. बाईक सांगतलो म्हणटालो.

पूण शेड्डो शेड्डोच उरलो.

तशें आमचें घर शाळेचे सामकें लागीं नाशिल्लें. पूण भुरग्यांचो थातो मातो करपाचे ते दीस नाशिल्ले.

आमी खंयच्या वर्गात शिकतात हें लेगीत घरच्यांक याद नासतालें. बाईन वा गुरुजीन हाता पांयार पट्टी मारली जाल्यार कोण विचारनासलो. वयल्यान तें कळ्ळ्यार घरा कडेनय थापटां पडटालीं. 'आरे, सगळेजाण एकामेकांचे हात धरून वचात आं'. इतलें म्हळ्यार घरच्यांची जापसालदारकी सोंपताली.

एकामेकांचो हात धरून न्हय पूण आमी वांगडाच शाळेंत वताले.

वाटेर दोना मारीचें घर आशिल्लें. तिच्या घराच्या पोरसाक लोखणाची गेट आशिल्ली.

आमी चौगयजाण शाळेंत येतना वतना ते गेटीचेर बडयो मारीत वताले.

दोना मारी जनेलांत आसली जाल्यार व्हडल्यान तापताली.

आमी मागीर किटकिटत धांव मारताले.

सकाळीं शाळेंत वचप आनी येतना वतना दोना मारीचे गेटीचेर बडयो मारीत येवप ह्यो दोनय गजाली आमचे नदरेन सामक्यो गरजेच्यो आशिल्ल्यो.

शांतो, शेड्डो आनी हांव एका वर्गांत आशिल्ले.

यत्ता तिसरी – क

आनी गजू पयलेक आशिल्लो.

एक पावट मज्राच जाली. शेड्डो चड्डेंत हागलो.

सगळ्या वर्गांत घाणीं बुट्टांणीं सुटल्यो.

भट्टेंतलो उजो भस्स करून भायर सरचो तसो घाणींचो लोळ वर्गांत फुटलो.

अकस्मात घाणीं खंयच्यान सुटल्यो त्यो पयलीं आमकां आनी बाईक कळ्ळें ना.

पूण शेड्ड्या म्हऱ्यांत बशिल्ल्या भुरग्याक हे घाणीचें उगम स्थान कळ्ळें. ताणें रोखडीच आड्डी मारली.

'बाई, शेड्डा चड्डेंत हागला हाये'...

बाई सकट सगळीं शेड्ड्याक पळोवंक लागलीं. शेड्ड्याक कुशीक उडोवन आमी पयस धांवले आनी नाकार हात धरून खी खी करुंक लागले.

आतां शेड्ड्याक गुवा सकट भायर कसो व्हरप हो कठीन प्रस्न बाईक पडिल्लो. कारण उबो रावता खिणाक कलसांवाच्या पांयांतल्यान भितरली हळशीक देंवन भायर गळूं येताली.

बाईक सामकी तिडक मारिल्ली.

'काय खाल्लं होतंस रे काल?'.. ती तापली.

शेड्डो रडूंक पाविल्लो तरी ताणें रडत रडत बाईक सांगलें, 'पणस बाई'..

'अपरीच्या वर्गांत आहेस का तू चड्डीत हगायला?' बाईन नाकार पदर घट्ट धरून विचारलें.

मागीर बाईन आमकां सगळ्यांक वर्गाच्या भायर वचूंक सांगलें.

दुसरेच्या वर्गांतले बाईक आदाराक आपयलें.

तीं कितलीशींच कागदां घेवन आमच्या वर्गांत गेली.

भितर कितें चल्लां तें पळोवपाची आमकां उमळशीक लागिल्ली. पूण तांणीं वर्गाचें दार बंद केल्लें.

उपरांत शेड्डो निवळ जाता, वर्ग निवळ जाता म्हणटासर शाळा सुटपाचो वेळ जालो.

बाईन दार उकतें केलें.

शेड्डो भेंडाक एक तुवालो गुटलावन उबो आशिल्लो.

आमी सगळ्यांनी दप्तरां घेतलीं आनी वर्गांतल्यान भायर सरले.

घाणीं सगळ्या वण्टिंकच चिकटल्ल्यो.

आमचे फाटोफाट शेड्डोय आयलो.

'शेड्ड्या बाईन तुका नागडो केलो रे?' शांत्यान किटकिटत ताका विचारलें. शेड्ड्याचे चेड्डेचें बाईन कितें केलें हो आम कां प्रस्न पडिल्लो.

तरी बरें गजू चड्डेंत हागलो ना. ना जाल्यार ताचो व्हडलो भाव म्हणून घडये बाई म्हाका गजूक निवळ करूंक लायत आशिल्ली.

म्हजेर आकांत आयलो आनी हांवें गजूक शिटकायलो...

'गजू, तूं चड्डेंत बी हागलो जाल्यार हांव आईक सांगून तुज्या कुल्यांक तापिल्लो कायलातो लायतलों'...

हें आयकून गजू थर्त भियेलो आनी तीन दीस घरा कडेन लेगीत हागलो ना.

आईक मागीर तो हागलो ना म्हणून हुसको जालो.

'पोटांत कशें सुकलें रे तुज्या ?'.. अशें ती परती परती विचारूंक लागली. मागीर आजेन गजूक आजूत घालें.

तसो आमचो गजू मातसो पिसरुटच.

एक पावट आमचे शाळेंतल्या गणू म्हणटा त्या भुरग्याची



आवय मेली. घरा वतना कोणें तरी आमकां म्हळें. 'गणूची आई मेली'...

गजून गणूची आई मेली तें सारकें आयकलें ना आनी हांबेर फोडत तो धांवन घरा कडेन आयलो.

ताचें रडप आयकून आई बेगीबेगीन दारांत आयली.

तिका पळोवन गजून धांवत वचून तिका वेंग मारली.

'आई, तूं मेल्ली न्हय गे?' ताणें रडत रडत तिका विचारलें. आईक कांयच कळ्ळें ना. मागीर आमी तिका सगळें सांगलें. तें आयकतकीर आईन गजूक चडच अपुरबाय केली.

आईचें म्हणून नाका जाल्लेंच. पिसरुटपणा केल्यार चुळचुळीत थापटां मारपाचीं सोडून अपुरबाय करता.

शाळे कडल्यान घरा येतना वाटेर आमकां एक मळ लागता. गिमा दिसांनी मळा वयलें तण सुकून हळदुवेंच जातालें.

एक दीस शांतो घरच्यांक लिपोवन फस्क घेवन आयलो.

'ए.... करडाक उजो घालुंया?'...

'हय... हय....' आमी फुल्ले.

शांत्यान फस्का काडी पेटोवपाचो यत्न केलो पूण ताचे कडेन पेटच ना जाली. मातशी पेट्टा खिणाक वाऱ्यान पालवताली. अश्यो पांच-स काडयो फुकट गेल्यो.

'शांत्या हांव पेटयतां', हांवें म्हणलें. 'कागद आसल्यार दी'.

शांत्यान कादेर्नाचें पान पिनून दिलें. हावा शिवा करून एक काडी पेटली आनी कागदाकय उजो लागलो. पूण तणाक उजो लागचे पयलींच उजो पालवलो. शांत्यान कादेर्नाचीं चार-पांच पानां तरी पिनून दिलीं. पूण करडाक उजो लागलोच ना. गजून लेगीत एक काडी पेटयली. त्या बोवाळांत आपणें प्रस्नोत्तरीच्या कादेर्नाचीं पानां पिनल्यांत हें शांत्याल्या लक्षांतच आयलें ना.

करडाक उजो लागलोच ना म्हणून बेजार जावन आमी घरा गेले. दुसऱ्या दिसा बाईन कादेर्न तपासूंक मागल्यार शांत्याचो कादेर्न अर्दकुटो. बाईन बारीकसाण घेतल्यार मुखा वयलीं पानां पिनिल्ल्यान फाटलीं पानां सुटल्यांत तीं बाईक दिसलीं.

हातांत पट्टी घेवन बाईन प्रस्नोत्तरी सुरू केली.

पट्टी पांयाक बसली तेन्ना शांत्याक जाप फुटली.

'बाई तणाला उजो लावायला पानें पिनलीं' ताणें थरथरत सांगलें.

मागीर करडाक उजो घालूंक शांत्यान कादेर्नाचीं पानां पिनिल्लीं हें उक्तें जालें. इतलेंच न्हय तर हे उचापतींत हांव आनी शेडडोय सामील जाल्ले हेंय बाईक कळ्ळें.

बाईन आमकां हेडमास्टरा म्हऱ्यांत व्हेले.

ताणें आमकां उजरावन काडले.

इतलेंच करून तो ओगी रावलो ना तर ताणें सगल्यांच्या घरा रकाद धाडले.

• तुमचीं भुरगीं फस्कां घेवन शाळेंत येतात. मळार उजो घालतात. सांबाळात.

हेडमास्टराचो रकाद जूस्त बाबा कडेन पावलो. ताणें पयलीं



म्हजेर एक फुलयलें. मागीर प्रस्नोत्तरी सुरू....

'नावाडग्या फस्कां घेवन खंय उजो लावंक गेल्लो?'

'ना रे बाबा, हांवें फस्क व्हरूंक ना.'

'फट उलयता? बेठोच रकाद धाडलो मास्तरान?'

'फस्क शांत्यान हाडिल्लें रे बाबा.'

येन्नासर भंयान म्हजी रड सुरू जाल्ली.

'अशें? फस्क शांत्यान हाडलें? आनी काडी कोणें तुवें पेटयली?'

आनीक एक थापट

'शांत्याक पेटोवंक येना जाली म्हणून...'

'म्हणून तुवें पेटयली?'

आतां म्हाका थरथरो भरिल्लो.

'पूण फस्क शांत्याचें बाबा!'

'काडी पेटोवन उजो तुवें लायलो मरे?'

'ना बाबा .. चार काडयो पेटयल्यो पूण उजो लागलोच ना.'

'आरे व्वा ! मागीर पांचवी काडी कोणें पेटयली तवनासा?'

'गजून बाबा.'

'गजून?' बाबा आइडलो. 'मेल्ल्याक फस्क पेटोवंक येता?'

हांवें मान हालयली.

'खंय रे तो गजू? असो हांगा यो रे...'

ही गर्जना आयकून दारा भायल्यान लिपून भितर पळोवपी गजून आकांतान धांव मारली आनी बद्द रांदचे कुडींत आई फाटल्यान वचून लिपलो.

बाबाच्यो गर्जना चालूच आशिल्ल्यो, त्यो आयकून आई गजूक घेवन सालांत आयली.

'कितें जालां?'...

बाबान तिका घडिल्ली गजाल सांगली. ती आयकून गजूक सोडून आईन म्हजेर चार धपके घाले.

'आरे, त्या ल्हान पोराक फस्क पेटोवंक शिकयता?'...

'आई गजूक पयलींच येतालें.' हांवें सांगपाचो यत्न केलो पूण म्हजें कोण आयकपाक तयार नाशिल्लो.

दोगांयचेर सामको सांवार आयिल्लो.

तांणी म्हाका पापडा पिठी कसो धाडायलो.

म्हजी कांय चूक नाशिल्ली.

पयली गजाल म्हणल्यार हांवें फस्क व्हरूंक नाशिल्लें.

पानां पिनलीं तो कादेर्न म्हजो नाशिल्लो.

म्हजे काडयेन तणाक उजो पेटूक नाशिल्लो.

पूण तांणी म्हाका उलोवंक संद दिली ना.

'परत फस्काक हात लावशीत जाल्यार खबरदार' बाबान कान पिळीत सांगलें.

माराक लागून म्हजें सगलें आंग दुखतालें तें जालेंच. पूण गजूक मार पडलो ना म्हणून तें चडूच दुखूंक लागिल्लें . संद मेळटा तेन्ना गजूचेर चार थापटां फुलोवप अशें हांवें थारायलें.

दुसऱ्या दिसा शाळेंत वतकीर शांत्याक आनी शेड्ड्याकय मार पडलो म्हणून कळ्ळें.

जिवाक मातशें बरें दिसलें.

उपरान्त मळा वयल्यान वतना आमी करडा कडेन पळय नासतना चलत रावताले.

गजू मात परतो परतो सांगतालो 'दादा, तण सुकलां रे'

एक दोनदां हांवें मोन्यानी आयकलें.

मागीर ताच्या कुल्यार चार सणसणीत थापटां फुलयलीं.

जिवाक हाऽऽ दिसलें.

गजून सदांचे संवयेन पेपारें वाजयलें.

मात हांवें आईक सांगल्यार सोणय फोडटलों अशें धपकायतकीर तो गप्प जालो.

उपरान्त शाळेक सुटी पडली.

आमचें दोना मारीले गेटीचेर बडयो मारप आनी मळा वयल्यान येवप, वचप बंद जालें.

करडाक उजो घालपाची इत्सा अर्दकुटीच उरली.

शाळा नासली तरी आमी सगळे खेळूंक एकठांय जाताले.

एक दीस हांवें म्हळें, 'जाणा मरे शांत्या, तुवें कादेर्नांचीं पानां पिनूंक नाशिल्लीं जाल्यार कांयच जावचें नाशिल्लें. फस्क हाडटना कागदांय हाडपाचीं तुवें.'

'सगळें हांवेंच हाडपाचें? फरकय हाडपाचें आनी कागदांय हाडपाचीं? आनी तुमी कितें करपाचें तर? फुस्क्यो मरपाच्यो?' शांत्यान नाका पुडयो फुलोवन विचारलें.

शेड्ड्यान म्हळें, ' आमगेर कागदां भरल्यांत. म्हाका सांगल्यार हांव हाडपाचों.'

'आमगेरय कागदां भरल्यांत न्हय रे दादा?' गजून म्हळें.

'ओगी राव रे , पिसकटा ' हांव तापलों.

'आनी कागदांक आपशींच उजो पेट्टलो?' शांत्यान परतें नाक फुलयलें.

'हय रे, फरक जायच.' शेड्ड्यान मान हालयली.'.

' गरज ना' हावेंय नाक फुलयलें. ' बाबाल्या गवेतांत भींग आसा.'

' भींग म्हळ्यार ?'

'भींग म्हळ्यार भींग, ताणें उजो पेटोवंक येता.बाबान

दाखयिल्लो म्हाका कागद पेटोवन.'

' फस्क नासतना?'

'हय. खर वत मात जाय.'

'खऱ्यांनी?'

'खऱ्यांनीच'

'तुजो बाबा दितलो तुका भींग ?'

'श्शें... ताका सांगल्यार दिवचोच ना तो.. '

'म्हणटकीर ? '

'सांगप ना रे ताका... ताचें गवेत उकतेंच आसता. तो दनपरां उसरां घरा येता. तो येवचे पयलीं भींग परतें गवेतांत दवरपाचें.'

' खऱ्यांनीच.'

मागीर आमी दुसऱ्या दिसा साडे इकरा वरांचेर भींग घेवन मळार वचपाचें थारायलें. गजूक व्हरपाचें म्हज्या मनांत नाशिल्लें. पूण ताका पाडपडिल्याक व्हेलो ना जाल्यार आम च्या भिंगाचें बींग तो आई कडेन फोडत ही भिरांत आशिल्ली.

'कोण्णाक कांयच सांगप ना. ना जाल्यार मार पडटलो ' हांवें गजूक धपकायलो.

ताणें मान हालयली.

दुसऱ्या दिसा घरांतल्यान भायर सरतना हांवें लव्हूच आईक सांगलें,

'आई, आमी शांत्यागेर वतात गे खेळूंक. '

' ह्या वेळार रे?' अशें म्हणून आई भायर येताली पूण ताचे पयलींच आमी घरांतल्यान भायर धांव मारली.

शेड्डो आनी शांतो आमची वाटच पळ्यताले.

आमी सडसडीत मळार गेले.

' ए भींग दाखय मरे' शेड्ड्याक आनी शांत्याक उमळशीक लागिल्ली.

हांवें बोल्सांतलें भींग भायर काडलें.

भींग तशें सामकें ल्हान नाशिल्लें. आकारान चौकोनी आशिल्लें. ताका भोंवतणीं आटो आशिल्लो आनी हातांत धरूंक हेन्डलय आशिल्लें.

' हें कशें पेटोवप?' शेड्ड्यान विचारलें.

तांकां कोणाक भिंगा विशीं कांयच खबर ना म्हणून म्हाका बरें दिसलें. बाबान म्हाका सगलें बरें करून दाखयिल्लें.

तसो आमचो बाबा बरो, मात तो रागाक वायट.

आमी रस्त्या पसून मातशे पयस गेले. कोणेंय आमकां पळयल्यार आनीक बोवाळ जावंक नाका म्हणून.

फस्काक लागून पडिल्लो मार आमी विसरूंक नाशिल्ले. भिंगाक लागून कितलो पडत आशिल्लो सांगूंक येवपाचो नाशिल्लो.

'बाबा येवंचे पयलीं भींग परतें गवेतांत दवरूंक जाय आं! ना जाल्यार बाबा म्हजो जीवच घेतलो.' हांवें सगल्यांक सांगलें.

वत खर जावंक लागिल्लें. वतान आमचें माथेंय गरम जावंक लागिल्लें. पूण आमकां तणाक उजो लागता तो पळोवपाची उमळशीक लागिल्ली.

हांवें करड एकठांय केल्लें आनी ताचे वयर भिंगांतल्यान सुर्याचें किर्ण घालें.

कांय एक जालें ना.

शांत्यान म्हळें, 'आरे, फस्का काडी रोकडीच पेट्टा, हें भींग केन्ना पेट्टलें?'

'आरे रावात मरे ...?'

बाबान भींग कागदाचेर धरिल्लें तेन्ना कागद काय बरो भुरू भुरू करून पेटिल्लो. मज्जा आयिल्ली. पूण आतां कांयच जायनासलें.

'दादा, म्हजी तकली करपली?' गजून म्हळें.

'तुवें येवपाचोच न्हय. पापड खंयचे कडलो! करपलो खंय?' म्हाका राग आयलो.

'तुजें भींग शेकेलें काय दिसता!' शांतो पिरंगलो.

भींग धरून म्हजोय हात वळून आयिल्लो. घरा गेल्यार बरें



अशें म्हजे तकलेंत येता थंय आसा, तणाचो रंग बदल्लो. धुंवर येवपाक लागलो आनी खिणा मजगतीं उजो पेटलो.

सगल्यांनी ताळयो मारल्यो.

शेड्ड्यान बोल्सांतलें कागद काडलें. एक कागद त्या उज्यार धरलो आनी तो पेट्टकीर कुशिच्या तणार उडयलो.

अशे एक एक करून आमी कितलेशेच कागद पेटयले आनी भोंवतणचें करड पेटयलें.

सामकी मज्जा आयली.

पळयतां पळयतां उजो व्हड जालो.

तण सुकून चरचरीत जाल्लें. पेट्टकीर तें आगगाडी कशी मुखार मुखार धावंक लागलें.

शेड्डो भिलो, 'आवयस! उजो सगल्याक पातळटा मरे!'

म्हाकाय भंय दिसलो. 'ए आमी घरां या.'

गजून पेपारें सुरू केलें.

उज्याच्यो जिबल्यो व्हड व्हड जावंक लागिल्ल्यो.

सगळें मळ पेटलां , सकल्या गांवांकय उजो पेटला आनी तो बद्द आमचे शाळे मेरेन पावला आनी हेडमास्तर, बाबा बडयो बी घेवन आमचे फाटल्यान लागल्यात अशें चित्र म्हज्या दोळ्यां मुखार उबें रावलें .

'आरेऽऽ करडाक उजो लागला रेऽऽ' रसत्या वयल्यान कोण तरी आइडलो.

आनी कुल्याक पांय तेंकोवन आमी सगले धावंक लागले. वाटे वयल्यान वचपी दोग तीग जाणांनी आमी धांवत वतात तें पळयलें. म्हणटकीर उजो कोणें लायला हें रोकडेंच सगल्यांक समजतलें हे विशीं आमकां खात्री आशिल्ली .

मार चुकयतले जाल्यार घरा न्हय तर खंय तरी लिपून रावप गरजेचें आशिल्लें. बोवाळा भितर हांव भिंगाची गजाल विसरुनच गेल्लों...

'शांत्या, म्हादेवा देवळांत लिपयां', हांवें खरशेत म्हळें.

'म्हादेवा देवळांत फकत सोमाराची गर्दी आसताली. हरशील्या दिसांनी भट पुजा करून वतकीर थंय कोण लोक नासतालो.

आमी चौगयजाण म्हादेवा देवळांत लिपून बसले.

जेवणाचो वेळ जावन गेल्लो तरी हांव आनी गजू घरा कडेन पावले नात म्हणून आईक तिडक मारली.

'उवाळिल्ल्यांक, खेळा मुखार कसलेंच भान नासता' अशें म्हणून तिणें कोणाक तरी आमकां आपोवंक शांत्यागेर धाडलो.

शांत्याले आवयन शांतो आमगेर गेला म्हणून सागलें.

तिणें शेड्ड्यागेर आमकां सोदूंक धाडलें.

थंय शेड्डो आनी आमी कोणच नाशिल्ले.

आतां मात सगल्यांच्याच घरच्यांक हुसको जावंक लागलो.

हेवटेन,तेवटेन सोदप सुरू जालें. तेन्नाच कोणें तरी आम कां मळार पळयलां म्हणून सागलें.

तितल्यांत बाबा घरा पावलो. ताच्या कानार ही गजाल पडली. ताणें मळार पावट मारली तेन्ना करडाक लागिल्लो उजो ताणें पळयलो. ताची तकली तापली. तो बडी घेवन आम कां सोदूंक भायर सरलो. तसो उजो चड पातळूंक नाशिल्लो. पूण हें आमकां खबर नाशिल्लें. सगल्याक सोदासोद सुरु जाली.

म्हादेवा देवळांतलो भट कितें तरी विसरलो म्हणून परतून देवळांत आयलो तेन्ना ताणें आमकां पळयलें.

'आरे तुमकां सोदतात मरे सगल्याक. चलात घरा' अशें म्हणून ताणें आमकां देवळांतल्यान धांवडायले.

उपाय नासून आमी देवळांतल्यान भायर सरले.

काळजांत खपखप जातालें.

'बाबा आमकां मारतलो' गजू रडत म्हणटालो.

अर्दे वाटेर पावतां म्हणसर मुखा वयल्यान बाबा बी येतात तें आमी पळयलें.

आमी जाग्यारच घट्ट जाले.

गजू चुरचुरीत चड्डेंत मुतलो.

म्हाकाय जातालें, पूण हांवें आडावन धरलें. म्हाका सट्ट करून भिंगाची याद जाली. बाबाच्या मारा परस बोल्सांतलें भींग फुटत म्हणून म्हाका चड भंय दिसूंक लागलो.

भींग गवेतांत पावोवप भोवच गरजेचें आशिल्लें.

बाबा बडी वावडत आमचे दिकेन येतालो.

हांवें आकांतान बाबाक चुकोवन बद्द घरा धांव मारली.

पयलीं वचून भींग गवेतांत दवरलें.

इतल्यांत आईची नदर म्हजेर पडली.

'नावाडग्या खंय गेल्लो? गजा खंय?'

आईन माराचो श्री गणेशा करीत विचारलें.

बाबा हे फावटी थापटां न्हय तर बडयांनी फोडटलो हें म्हाका खबर आशिल्लें.

पूण त्या मारा परस व्हड गजाल आशिल्ली ती म्हळ्यार 'भिंगाचें बींग' फुटूंक पावलें ना ही.

कुल्याचें व्हडलेंशें कितें आशिल्लें? ते मार खावन खावन पयलींच घट्ट जाल्ले!

आमी मार खावंक तयार राविल्ले...

■■■

# हरिराम गुरू संवाद : असग़र वजाहत

असग़र वजाहत हो साठोत्तरीचे पिळगे उपरांत हिंदी साहित्यांतलो नामनेचो सिद्धहस्त कथाकार,नाटककार आनी कादंबरीकार. सिनेमा आनी चित्रकलेच्या मळार ताणें म्हत्वाचो वावर केला. दिल्लीच्या जामिया मिलिया इस्लामिया विद्यापीठांत तो हिन्दी विभागाचो मुखेल आशिल्लो.



१

गुरु : तुजी सगळी जीण फुकट गेली हरिराम!

हरिराम : ती कशी गुरुदेव?

गुरु : तूं जीब वावडूंक शिकलो ना !

हरिराम : पूण म्हाका तरसाद वावडूंक येता गुरुदेव!

गुरु : तरसादीन गळो कापूं येता, पूण जिबेन पुराय मनीस कापूं येता.

२

गुरु : हरिराम, गर्दे भितर घुसून फार्स पळोवंक लाग.

हरिराम : कित्याक गुरुदेव?

गुरु : गर्दे भितर घुसून फार्स पळोवंक जमना जाल्यार तूं स्वताच एक फार्स जातलो.

३

हरिराम : क्रांती म्हळ्यार कितें गुरुदेव?

गुरु : क्रांती एक शेवणें, हरिराम!

हरिराम : तें खंय रावता गुरुदेव!

गुरु : हुशार लोकांचे जिबेर आनी साद्या लोकांच्या काळजांत.

हरिराम : हुशार लोक ताचें कितें करतात?

गुरु : हुशार लोक ताची तुस्त करतात, ताचीं गितां गायतात आनी वेळ येतकच ताका चाबडावन उडयतात.

हरिराम : आनी सादे लोक ताचें कितें करतात?

गुरु : तें तांच्या हातांत केन्नाच सांपडना.

विश्व कोंकणी केंद्राच्या विमला पै पुरस्कारान सन्मानीत शैलेंद्र मेहता हे नामनेचे पत्रकार,स्तंभलेखक आनी कवी. तांचो 'सिसिफस तेंगशेर' हो कोंकणी कविता संग्रह उजवाडाक आयला. तांची बरपावळ राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय नेमाळ्यांनी उजवाडाक येता. ते हेर भासांतलें साहित्य अणकारीत करूंक फिशाल...



अणकार : शैलेंद्र मेहता
मो. 9820654233





4

हरिराम : गुरुदेव, एका हाडा खातीर दोन उपाशीं कुत्रे झगडटात जाल्यार तांकां पळोवन एक सादो मनीस कितें करीत?

गुरु : झगडें सोडयतलो.

हरिराम : आनी हुशार मनीस कितें करीत?

गुरु : हाड घेवन पळून वतलो.

हरिराम : आनी राजकारणी कितें करीत ?

गुरु : आनीक दोन उपाशीं कुत्रे थंय सोडटलो.

5

हरिराम : मनीस म्हळ्यार कितें गुरुदेव?

गुरु : एक प्रकारचें जनावर, हरिराम!

हरिराम : हें जनावर कितें करता गुरुदेव?

गुरु : हांगां विचार निर्माण करता.

हरिराम : मागीर कितें करता ?

गुरु : मागीर विचारांचे महाल बांदता.

हरिराम : मागीर कितें करता ?

गुरु : मागीर तातूंत रावता.

हरिराम : मागीर कितें करता ?

गुरु : मागीर विचारांक खावन उडयता.

हरिराम : मागीर कितें करता ?

गुरु : मागीर नवे विचार निर्माण करता.

6

हरिराम : संवसार म्हळ्यार कितें गुरुदेव?

गुरु : एक चरपाचें मळ, हरिराम!

हरिराम : ताचेर कोण चरता ?

गुरु : तोच चरता जाचेकडेन दोळे आसात.

हरिराम : दोळे कोणाक आसतात गुरुदेव?

गुरु : जाचेकडेन जीब आसता.

हरिराम : जीब कोणाकडेन आसता गुरुदेव?

गुरु : जाचेकडेन बुद्धि आसा.

हरिराम : बुद्धि कोणाकडेन आसता गुरुदेव?

गुरु : जाचेकडेन शेंपडी आसता.

हरिराम : शेंपडी कोणाक आसता गुरुदेव?

गुरु : जाका शेंपडेची ईत्सा आसता.



7

गुरु : हरिराम, सांग, सफळतायेचें गुपित कितें?

हरिराम : खर यत्न, गुरुदेव!

गुरु : ना .

हरिराम : बुद्धि?

गुरु : ना.

हरिराम : ईमानदारी?

गुरु : ना.

हरिराम : मोग?

गुरु : ना.

हरिराम : मागीर जैताचें गुपित कितें गुरुदेव?

गुरु : असफळताय .

8

हरिराम : गुरुदेव, एके सोबीत अस्तुरेक लागून दोन मोगी झगडटात जाल्यार कितें करचें?

गुरु : तिसऱ्या मोग्याचो सोद.

हरिराम : कित्याक गुरुदेव?

गुरु : कारण अस्तुरे लागून झगडपी मोगी आसूंक शकनात.

9

हरिराम :सगळ्यांत व्हडलें तत्वगिन्यान खंयचें गुरुदेव ?

गुरु : हरिराम, सगळ्यांत व्हडलें तत्वगिन्यान म्हळ्यार चाटप.

हरिराम :तें कशें गुरुदेव?

गुरु : चाटपी व्हड व्हड तत्वगिन्यानाक चाटून उडयता.

10

हरिराम : इमानदारी म्हळ्यार कितें गुरुदेव?

गुरु : तें एक भयानक जिवघेण्या दुयेंसाचें नांव.

हरिराम : आमच्या देशांतूय हें दुयेंस आसा ?

गुरु : हरिराम, आदल्या तेंपार प्लेग, टीबी. आनी कॉलरा हांचेवरी हाचेर कांयच उपाय नाशिल्लो. तेन्ना हें दुयेंस देशभर पातळटालें आनी लाखांनी लोकांक खावन उडयतालें.

हरिराम : आनी आतां गुरुदेव?

गुरु : आतां ताचेर वखद सांपडलां, जाका लागून ह्या दुयेंसाक आळाबंदाक हाडूं येता.

हरिराम : त्या वखदाचें नांव कितें गुरुदेव?

गुरु : आयज भुरगे-बाळांचे जिबेर लेगीत ताचें नांव घोळटा, लोभ.

■■■

# विसरप

शिक्षक म्हूण भुरग्यां सांगांताक जीण सारिल्ल्यान **काश्मिरी पावसकार** हांकां आपलें कल्पनाविश्व वाडोवपाची संद लाबली. ताचोच वापर तांणी आपल्या बरोवपांत करून एक आदर्श समाज घडोवपाचे नदरेन साहित्य निर्मितीय सातत्यान चालू दवरली. ललित साहित्य हें तांचें खाशेलपण. '' हें तांचें पुस्तकूय उजवाडाक आयलां.



काश्मिरी पावस्कार
मो. : 9421192858

एकदां एकलो जाणटेलो आपले घरकान्नीक, येवन–वचून एक सारको 'डार्लींग, डार्लींग ' म्हूण पाचारतालो.

तें आयकून ताचे शेजान्नीन अजापान ताका म्हणलें, 'आवयस्स! तुका घरकान्नीचो कितलो मोग न्हय? काय बरे तुमी तिका मोगान 'डार्लींग' म्हणटात!'

तशें हांसून ताणें जाप दिली, ''आगो बाय, म्हाका हालीं बायलेलें नांवूच याद उरना. देखून उपाय नासून हांव तिका 'डार्लींग' म्हणटां. एका गुंड्यान हांव दोन सुकणीं मारतां. अर्थूय जालो स्वार्थूय जालो.''

ही जाली विनोदाची गजाल. भुरगेपणांत हांवूंय अभ्यास करूंक विसरतालें, तेन्ना आवयन म्हाका म्हणचें. 'तूं जेवंक बरें विसरना मगो? मागीर अभ्यास कसो विसरता तर?' अशीच आनीक एकली इश्टीण आपणाक याद उरपाक मोबायलार आलार्म लायता, पूण आलार्म वाजतकच तो कित्याक लायला तेंच ती विसरता. आनी एकली इश्टीण लग्ना उपरांत कांय

तेंपान आपूण लग्न जालां हें विसरून, शाळेंतल्यान शिकोवन घरा वतना चुकून कुळारचे बशींत चडटाली. मागीर कंडक्टर खंय तिका उगडास करपाक 'शिवोले, शिवोले' अशी आरड मारून तिका उगडास करून दितालो. दुसरी आनीक एकली इश्टीण सदांच आपलें वक्ल माथ्यार चडोवन, तें खंय दवरलां हें विसरून चुकून मार दुसऱ्यालें वक्ल दोळ्यांक लावन घरा वताली. तसोच आमचो सोऱ्याकार भाव सगलें विसरूंक सोरो पियेता खरो, पूण आपलें घर मात तो केन्नाच विसरना! अश्यो विसराळुपणाच्यो जायत्यो मजेशीर गजालीय आमच्या कानार पडटात.

याद उरप ही मेंदवाची हेर प्रक्रिये मदली आनीक एक प्रक्रिया. पिरायेच्या दर एका टप्प्यार हे स्मरणशक्तीची आम कां गरज पडटा. दर दिसाक खंय आमी धा प्रतिशें, तर दर म्हयन्याक णव्वद प्रतिशें विसरतात. पूण जाणटे पिरायेर कांय जाणांची स्मरणशक्ती मंदावता. विसरप वा विस्मरण ही ताची उरफाटी प्रक्रिया. पिराय वाडटा तशी आमी विसरूंक लागतात. केन्ना केन्ना 'विसरप' हें आमच्या बऱ्याक पडटा. ताचो आमकां लाव जाता. कारण दुख्खी अणभव, कोडू यादी, हार, अपयश बी सारक्यो गजाली आमी फाटीं उडोवच्यो आसतात. पूण विसरप हें जायते फावट आमचे खातीर लुकसाणीचें जावं येता. स्राप थारूं येता. देखीक कोणाचे पयशे दिवपाक, म्हत्वाचो रकाद दिवपाक, फोन नंबर, वेळार वखद घेवपाक. कोणायच्या सुवाळ्याक वचपाक. ते भायर घराची, गाडयेची चावी. पेन, सत्री, मोबायल, भांगरा वस्त, ईमेल. एटिएम नंबर बी विसरपी लोक पायलेक पंचवीस तरी मेळटले. तशेंच जेवणांत मीठ, साखर, तिखट घालूंक विसरपी बायलां तर घरा घरांनी सापडटलीं.

स्मरणशक्तीची गरज संगल्यांकूच आसता. ही विसरपाची प्रक्रिया कशी घडटा हाचे विशीं आमकां पुराय गिन्यान ना.



तरी मानसशास्त्राच्या अभ्यासा प्रमाण विसरपाच्यो जायत्यो तरा आसात. हांतली निर्शेणी, थायरोयड, मानसीक ताण, उणी न्हिद, चिंता, एखादें मेंदवाचें दुयेंस, अपघात अशीं कितलींशींच कारणां आसूं येतात. मनांत एका परस चड गजाली आसल्यार विसरपाची चड शक्यताय आसता. कांय जाणांक जाणटेपणांत तकलेक उणें रगत पाविल्ल्यान 'स्मृतिभ्रंश' वा 'डिमेन्शिया' सारक्या दुयेंसाचे भकीक पडचें पडटा. तेन्ना ते आपलें नांव,गांव धरून घरच्या मनशांची वळख लेगीत विसरतात. हाचो तांचे बराबर हेरांकूय त्रास जाता. ही तर खूब दुखदेणी गजाल! मुखार वचून लाँग टर्म आनी शॉर्ट टर्म मेमरी लोस म्हूण दुयेंस जाता. हाचेर आधारून आयिल्ले 'गझनी' तशेंच 'सदमा' हे दोन सिनेमा खूब्ब गाजिल्ले.

स्मरणशक्तीची गरज संगल्यांकूच आसता. पूण ही विसरपाची प्रक्रिया कशी आनी कित्याक घडटा हाचे विशीं आमकां पुराय गिन्यान ना. इतली ही स्मरणशक्ती सामकी नाजूक आसता.

'विसरप' ह्या उतराक इतिहास जमा जावप, आड नदर करप, नदरे आड वचप, फांटी पडप, कानार केंस काडप, दुर्लक्ष करप अशे जायते समानार्थी उतरां प्रयोग आमचे भाशेंत घोळटात. अशी ही विसरपाची पिडा हालीं खूब वाडत चल्ल्या. देखून स्मरणशक्ती वाडोवंक बाजारांत जिनसा- भासांचीं वखदां, टॉनिकां आनी जायत्यो उपचार पद्दती आयल्यात. वेळ पडल्यार ह्यो पद्दती मुजरत आपणावच्यो.

एक गजाल तुमकां सांगतां. उपकार करून तुमी हेर गजाली विसरात, मात दिसाची सुरवात करतना 'यू आर वरदी' आपूण योग्य आनी लायक आसा म्हणपाक कशेंच विसरूं नाकात. तशेंच सदांच आपल्यांतलें बरेंपण उगडास करात. मागीर पळयात तुमच्यांत कितलो फरक पडटा तो. पूण जीण सुखी करूंक, तशेंच निरोगी मनाचें संगोपन करूंक आमी आम चो भूतकाळ विसरपाक जाय, भविश्याची चिंता सोडून दिवंक जाय आनी शक्य तितकें वर्तमानांत जगूंक जाय. विचार करात केन्ना कांयच न विसरपी मनीस आसल्यार ह्या संवसारांत कितें जावपाचें? एक तर तो भूतकाळांत जगपाचो.दुसरें, ताचो मेंदू कोयरा आयदन जावपाचें. हाचेर सोंपो उपाय म्हणल्यार, कंप्युटर रिफ्रेश करतात तशी अर्दी-मर्दी आमी आमची मेमरी रिफ्रेश करुया. तशेंच दिसाची सुरवात करतना आपल्यांतलें बरेंपण उगडास करूया. मागीर 'भले बुरे हे घडून गेले, विसरून जावू सारे क्षणभर.जरा विसावू ह्या वळणावर' अशें खोशयेन गावंक आमी मेकळे !

■■■





# अजब गजब





वसंत सैल
मो. : 9422442657

प्रा.वसंत सैल हे जुवारीनगरच्या एम. ई. एस. महाविद्यालयाचे आदले उपप्राचार्य आनी वाणिज्य विभागाचे मुखेली. तांचो शैक्षणीक आनी सामाजीक वाठारांत वावर आसा. तांचें भुरगेपण कारवारांत गेलां. कथा आनी ललित ह्या साहित्य प्रकारांत तांकां गती आसा. तांचें साहित्य वेगवेगळ्या नेमाळ्यांनी उजवाडाक आयलां.

'आगो मीरा... मेजार म्हजो फोन वाजता पळय... हांव दाडी काडटां...पुराय तोंडाक दाडेचो साबण लायला... मात्सो बेगीन घे... कट जातलो!'

'' हांव आदोळेर बसलां हांगा... नाल्ल कात्तां... सकाळीं फुडेंच तुमी नुस्त्याची गांथन हाडून दिल्या न्हीं... तार्चें हुमण करूंक नाका?''

''आरे बाबा... म्हाकाच फोन घेवंचो पडटलो!''

हांवें सगळें दाडेचें सामान बेगीन बेगीन बेसिनार दवरलें आनी हांव फोन घेवंक धांवलों... मेजा फुडें पावता सर म्हाका धाप मारूंक लागली... हांव खरशेंवक लागलों आनी तेच अवस्थेंत हांवें मोबायल उखल्लो...

''हॅलो... हॅलो... कोण... कोण... लिंगराज... कितें जालें... सकाळींच असो फोन...?''

''ना भावा, प्रसंगच तसो आयला... अरे हांव आतां म्हजे बायलेक घेवन मदर्स गिफ्ट हॉस्पिटलांत वतां... तिका खूब पिडा



जावंक लागल्या...बेगीन तिका व्हरचें पडटलें... आतां केन्नाय ती बाळंत जावं येता... तूं पळय, जमता जाल्यार हॉस्पिटलांत यो... म्हाका बरें दिसतलें... धीर मेळटलो..!''

हांवें परतून जाप दिवचें पयलींच लिंगराजान फोन कट केलो. पूण हांव तें सगळें आयकून संभ्रमांत पडलों... लिंगराजाची बायल शिवलिला गुरवार...! हें कितें आयकलें हांवें...कितें चुकिचे बीन आयकलें ना मूं... हें अशें कशें जावं येता? शक्यच ना तें! लिंगराजाची बायल शिवलिला मास्तरीण आनी हालींच ती सिर्विसेच्या नेमा प्रमाण, साठ वर्सां जाल्या उपरांत निवृत्त जाल्या... हे गजालीक सुमार चार पांच वर्सां जावन गेलीं आनी लिंगराजान राष्ट्रीय बँकेंतल्यान आपल्या जनरल मॅनेजरच्या हुद्या वयल्यान निवृत्त जावन सुमार धायेक वर्सा जावन गेलीं. त्या हिशेबान पळोवंक गेल्यार शिवलिलाक सुमार पासस्ट वर्सां आनी लिंगराजाक सत्तर वर्सां जावन गेल्लीं आसूं फावो..! इतलेंच न्हय तर तांकां दोगांक दोन चले आसात... व्हडल्या चल्याचें लग्न जालां, तांकां दोन वर्साचो नातू आसा. दुसऱ्या चल्याचें लग्न जुळोवचे यत्न चल्ल्यात आनी आतां हेची बायल गुरुवार..? हें कितें नवल आयकतां हांव... विस्वास बसना..!

''आगो मीरा... आयकलें गो... तुजी इश्टिण शिवलिला गुरवार आसा खंय आनी तिका पिडा जावन मॅटरनिटी हॉस्पिटलांत लिंगराज घेवन सुटला...!''

''वोगी रावात... हें कितें चावटपणाचे नाकासले चाळे... तुमकां मस्करी करूंक बरें येवजता... तेंवूय ह्या म्हातारपणांत!''

''आगो हांव खरें सांगतां.... आत्तां ताणें फोनार तेंच सांगलां आनी... हेतून म्हज्या म्हातारपणाचो प्रस्न कित्याक आयलो?''

''कितें? तुमचें बोड बीन वायट जावूं ना मू..? सकाळीं फुडेंच हीं कसलीं फकाणां? मनशाक जरा तरी लज... मर्याद उरूंक जाय... वोगीच तोंडाक येता म्हूण लोकांचें नांव घेवन नाकासलीं फकाणां करप बरें न्ही... तुमी तुमच्या वयाचो तरी मान राखात... वोगीच उलोवचें म्हूण उलोवंक नाकात.''

संतापून मीरान म्हाका खूब उलयलें... ती बातमी आशिल्लीच तशी... म्हूण हांवें तिका सांगिल्लें तें कशेंच पटलें ना... आतां तिची संतापिल्ली ही मनस्तिती आनी प्रतिक्रिया पळयत जालार तिका तें कशेंच पटचें ना... आतां करचें कितें? दुसरे वटेन म्हज्या मनांत अजून पर्यत दुबावाचें चक्र फिरूंक लागलें... लिंगराजान फोनार सांगिल्ली ही गजाल आयकूंक हांव चुकलों बी ना मू..? म्हाका आतां म्हजेर विश्वास बसनासलो...तो फोन कॉल खरोच लिंगराजाचो आशिल्लो काय आनीक कोणाचो आशिल्लो? तकली चलना जाली ... कितें काय समजना... तरीय पूण मोबायलांतल्यान कॉल लॉग तपासून पळयल्लें बरें... म्हूण हांवें कॉल लॉग उक्तो केलो... तपासलो... फोन कॉल लिंगराजाचो आसलो हें स्पश्ट जालें... आतां कितें... फोन लिंगराजाचोच आसलो खरो पूण लिंगराजान फोनार जें सांगिल्लें तें हांवें आयकूंक चूक करूं ना मूं..? हय अशें जावं येता म्हूण हांवें लिंगराजाच्या चल्याक फोन लायलो.

''हॅलो... हॅलो... कोण प्रकाश रे..? हांव राजेश्वर काका उलयतां... तुज्या पप्पाचो म्हाका फोन आयिल्लो...''

''हय काका...पप्पा मम्मीक घेवन हॉस्पिटलांत गेला... काका, हांव थंय हॉस्पिटलांत वचूंक सुटलां...''

''बरें बरें... तूं गाडी चलयता आसतलो... आमी मागीर उलोवया!''

हांवें फोन कट केलो. लिंगराज आपले बायलेक घेवन हॉस्पिटलांत गेला तेंवूय स्पश्ट जालें... पूण तेची बायल गुरुवार आसा हें लिंगराजान हाचे पयलीं तेंणी म्हाका केन्नाच सांगूंक नासलें...परत तोच प्रस्न. अशें कशें घडूं येता..? हांव चिंत चिंत चिंतूंक लागलों... परत मीराक हें सांगल्यार ती कशेंच आयकून घेवची ना... मान्य करची ना... उलट हांव फकाणां करतां म्हूण म्हाका ती उलयतली... आतां कितें करचें? हॉस्पिटलांत वयचें काय कितें? ह्या करोनाच्या काळांत थंय वयचें म्हटल्यार भंय कसो... आनी हांव थंय वचून तरी करतलों कितें? शिवलिलाची काळजी घेवंक लिंगराज आसा... आनी त्या भायर ताचे दोन चले आनी सून सुद्दां आसा... वोगीच थंय वचप बरें न्हीं... म्हूण फुडें फाटीं चिंतून हांव घरा रावलों आनी तशीच प्रतिकूल परिस्थिती आसल्यार थंय वयचें, असो हांवें निर्णय घेतलो. लिंगराजाक मोबायलाचेर, 'तूं काळजी घे आनी म्हजी उपस्तिती थंय जाय जाल्यार म्हाका मुद्दाम कळय' म्हूण हांवें ताका संदेश धाडलो.

'हांगा सगळें सारकें आसा... शिवलिलाक बाळांत कक्षांत व्हेलां आनी दोतोरान भिवचें अशें कांय ना म्हटलां... तूं आतां हांगा येवच्या भानगडींत पडनाका... हांगा म्हजे फुडें प्रकाश आसा. मागीर तुका कितें तें कळयतां' म्हूण लिंगराजाचो संदेश आयलो आनी हांवें समाधानेचो लांब हुस्कार घेतलो.

सदां भशेन हांव बातमी पत्र घेवन वयले वयर मुखेल बातम्यों वाचूंक यत्न करतालों. पूण म्हजें मन अस्थीर आशिल्ल्यान पेपरांतल्या बातम्यार लक्ष लागऽनासलें... परत परत शिवलिलाचें गुरवारपण आनी बाळंतपण हे विशय तकलेंत घुंवताले... एकाद्रें शिवलिलाच्या पोटांत खंयच्या तरी दुयेंसांची गांठ बीठ येवूंक ना मूं..? आनी त्या दुयेंसान तिका पोट येवूंक

ना मूं..? आनी हो लिंगराज त्या दुयेंसान फुगिल्ल्या तिच्या पोटाक तो गुरवार आसा म्हूण समजूंक ना मूं..? पूण तें तशें आसलें जाल्यार दोतोराक समजूंक जाय आसलें... आतांच्या काळांत तर जायत्यो टेस्टी आयल्यात... सोनोग्राफिंतल्यान तर सगळें स्पश्ट जाता... निदान अचूक जाता... ना. ह्या दुयेंसाच्या दुबावाक कांय अर्थ ना... तथ्य ना... तरी पूण आतां हे पिरायेचेर तिचें अशें जावप म्हळ्यार अजापूच! तें कितेंय आसूं... आतां तिका हॉस्पिटलांत व्हेला न्ही... तिचें कितें तें सोक्षमोक्ष आतां लागतलो... आतां आनी ह्या गजालिचेर नाकासलो विचार करून कित्याक तकली फोडूया..! अशें म्हूण हांवें म्हाका समजावपाचो यत्न केलो. पूण मनांत रुजिल्लो संशय तो कसोच पुसना...

हांव न्हांवन न्हाणयेंतल्यान येतां थंयच आसां, तेन्नाच टेबलार दवरिल्लो मोबायल वाजलो. पूण उखलच्या पयलींच थांबलो. कॉल लिंगराजाचो आसलो. परतो कॉल केल्यार तो व्यस्त आयलो. फोन परतो तसोच सोडून देवपुजा आटपून येतां पर्यंत मीरान टेबलार नास्तो तयार दवरिल्लो. मस्त पानपोळे आनी पुदिनाचीं पानां, सोय आनी कितें घालून तोंडाक लाळ गळयची सुवादीक हिरवी चटणी पळोवन म्हज्यान रावूंक जालें ना. तें खावंक हांवें झडप मारली. पानपोळे आनी पुदिनाचे चटणीचो मस्त स्वाद घेतलो.

सांजेचों असोच हांव आराम खुर्चेर बसून शिवलिला बद्दल चिंत्तालों. ती केन्ना बाळंत जातली आनी तिचें तें गुपीत केन्ना खुलतलें आनी त्या गुपिताचो सोक्षमोक्ष केन्ना लागतलो ह्याच विचारांत हांव गुस्पटिल्लों. त्याच वेळार टेबलार दवरिल्लो फोन परत वाजलो. हांव खुर्चे वयल्यान उठून फोन उखलूंक पावचे पयलींच तो वाजचो थांबलो. तो मिसड् कॉल लिंगराजाचो आसलो... म्हूण हांवें ताका बेगीन बेगीन परतो कॉल लायलो. पूण व्यस्त आयलो. दोन तीन वेळां परत कॉल लायलो पूण तो व्यस्त आशिल्लो.

लिंगराजाचो मोबायल इतलो व्यस्त येता म्हटल्यार कितें तरी बातमी आसा हें नक्की जालें. आतां हॉस्पिटलांत गेल्लें बरें... पूण थंय वयचे पयलीं मीराक सांगिल्लें बरें म्हूण हांवें तिका म्हटलें...

''आगो मीरा, शिवलिलाचें हॉस्पिटलांत कितें जालां तें पळोवन येतां... लिंगराजाचो दोन वेळां मिसड् कॉल आयिल्ले... परत फोन लायलार व्यस्त आयलो... एकाद्रें शिवलिला बाळंत जाल्ली आसूं फावो...''

''कितें? अजून पर्यंत तीच मस्करी? कितें जालां तुमचें? त्या बावड्या शिवलिलाचे फाटीक कित्याक लागल्यात तुमी? मात तरी लज धरात... लज धरात... अशें लोकांचें नांव घेवन नाकासली मस्करी करप योग्य न्ही... लिंगराज तर तुमचो जिवाचो दोस्त... त्या दोस्ताचे बायलेची तुमी अशी फटकी.... चिल्लर मस्करी करतात... सोबता तुमकां?''

मीरा फाडफाड, थांब नासतना कणकणूंक लागली.. म्हज्या नांवान सवूंक लागली. तिका आतां म्हजो खूब राग आयिल्लो. रागान तिचे गोरे गोमटे पोले तांबडे जाल्ले.नाक आवळिल्लें. दोळ्यांच्यो मंडळ्यो वयर सरिल्ल्यो. आतां परतें शिवलिलाचें नांव घेतलें जाल्यार ती म्हाका सोडची ना. फाफसून उडयतली! तिका समजवचो तर आतां प्रस्नूच उरूंक ना. म्हूण हांव गप्प तोंडार हात धरून थंयच्यान भायर आयलों. त्याच वेळार परतो म्हजो मोबायल वाजलो. वेळ काडिनासताना बेगीन मोबायल उखल्लो. मोबायलाचे स्क्रिनीर लिंगराजाचें नांव रिंगटोनाच्या आवाजा बराबर झळकतालें. फुरसत पळय नासतना कॉल घेतलो.

''हॅलो लिंगराज..... शिवलिला कशी आसा रे?''

''शिवलिला बाळंत जाली. तिका खूब पिडा जावन हिसपा भायर तरास जालो. ऑपरेशन करचें पडलें. आतां ती बरी आसा.''

''बरी आसा तें बरें जालें. पूण ती बाळंत जावन कितें जालें?''

''कितें सांगू म्हज्या भावा...दोतोरान तिचें सिझेरियन करून पोटांतल्यान पुटपुटीत एका फाटल्यान एक अशीं पांच भुरगीं डिलिव्हर केलीं. तीन चलयो आनी दोन चले...''

''कितें सांगता रे... तुका हे घडयेकूय फकाणां येवजता? वोगीच कितें उलय नाका.''

''अरे बाबा हांव वोगीच उलयना. हें सगळें खरेंच घडलां. आमकां आतां आनीक पांच भुरगीं जालीं. हय तूं उलयता तें खरें आसा. हांगां ही घडिल्ली गजाल कोणाकूय खरी दिसची ना. आमचे जिणेंत ह्या वयार हो अपरिचीत महा चमत्कार घडिल्लो आसा.''

तें आयकून कितें उलोवचें म्हाका सुचलेंना म्हूण हांवें म्हटलें...

''बरें लिंगराज... तूं भुरग्यांची आनी शिवलिलाची काळजी घे!''

हांवें फोन दवरलो. लिंगराजाची खबर आयकून हांव चकीत जालों. आतां परत म्हाका आनी एक चमत्काराचो धक्को बसलो. हय, चमत्कार जातात ते आयकलां... हे अशें चार....





पांच भुरगीं जल्माक येतात तें केन्नाय पेपरांत वाचलां... पूण हो कसलो चमत्कार..? साठिंतले बायल मनशेक आनी सत्तरींतल्या दादल्याक हें अशें भुरगें जावप... तेंवूय एक न्हीं..... तर चक्क पांच भुरगीं..? विश्वास बसना आनी तो बसतलो तरी कसो..? कोणाक सांगचें...? परत मीराक सांगलें जाल्यार ती म्हाका सोडची ना... एकाद्रें नाकासलीं विकृतपण करता म्हूण म्हाका सान्नी खुटयान बडोवंक फाटी सरची ना..! नाका... नाका... तो तिका सांगचो विचार... आनी सांगलें जाल्यार तिका एकाद्रें खरें दिसचें ना... विश्वास बसचो ना... नाका ती सांगची भानगड... मुखार केन्नाय कितें करचें तें पळोवया... खरें म्हणल्यार शिवलिलाक हॉस्पिटलांतल्यान घरा हाडल्या उपरांत प्रत्यक्ष तिका व्हरून दाखोवनच सांगिल्लें बरें... म्हूण हांवें म्हज्या तोंडाक कुलूप लावचें थारयलें... पूण म्हजें भितरलें मन कांय आयकना... मीराक ही खबर सांगिल्ले बगर म्हाका कसो चैन पडटलो...? ना थारोच लागचो ना... खूब खूब चिंतून... मन घट्ट करून... लांब उस्वास घेवन...धैर्य करून मीराक सांगचें म्हूण हांव तिच्या फुड्यांत वचूंक सुटलों... मीरा रांदचे कुडींत आपल्या कामांत व्यस्त आसलें... हांव थंय आयिल्ल्या पावलांची चावल आयकून म्हाका पळय नासतना मीरान म्हटलें...

''आतां कितें नवीन शिजलां तुमचे तकलेंत? कांय काम ना धंदो! रिटायर्ड जावन घरा बशिल्ले कडेन बरें नाका जाल्लें एक एक येवजता...रितें भटकिल्लें मन खंय पावत काय सांगूक जायना... भोग तो म्हजो... भोग...!''

हांवें कितें सांगें पयलींच मीरान टोमण्यांचो बॉम्ब म्हजेर उडयलो... आतां आनी हिका कितें सांगचें उरलें म्हूण हांव एक खीण थंय स्तब्द उबो रावलों... आनी थंयच्यान भायर सरूंक परतलों... पूण मनांत परत तेंच घुटमळटालें... पूण ही विलक्षीत आनी चमत्कारीत खबर मीराक सांगले बगर म्हज्यान रावूंक जायना... मीरान सान्निखुटो घेवं वा आनी कितें करूं, ही खबर मीराक सांगून म्हजें विचलीत मन शांत करूंक जाय... कितें जाता तें जावं... आतां आनी फाटीं फुडें पळोवपाचें ना म्हूण हांव तसोच परतो फिरलों आनी मीराक दाबिल्या आवाजान हांवें म्हटलें...

''मीरा . तुका एक खबर सांगची आसा...ही खबर तुका खरी दिसची ना... एक विपरीत गजाल घडिल्ली आसा...केन्नाच कोणें आयकूंक नासलें तें आज हांवें आयकलां... कोणाकूच खरें दिसचें ना अशी ही गजाल... म्हजो सुद्दां विश्वास बसना

ताचेर...पळय... पळय मुगो पयलीं आयकून तरी... आयकल्या उपरांत तुजें कितें तें तूं थारय...''

''बरें ...अशें कितें घडलां तर..?''

''आगो... हेदोळ हांवें शिवलिलाची ती गजाल म्हणिल्ली न्हीं... ती गजाल खरी थारली... शिवलिला बाळंत जालें... तिका तरास जावन सिझेरियन करचें पडलें... आनी तिका एक न्ही तर पांच भुरगीं जाल्यांत... तीन चलयो आनी दोन चले!''

तोंडांतलो आंवडो गिळत गिळत ती गजाल मीराक सांगून हांव मेकळों जालों...

मीरान आपले दोळ्यां वयल्यो भुंवयो वयर व्हरून म्हाका विचित्र नदरेन पळयत म्हटलें...

''कितें.. शिवलिला बाळांत जालें? आनी पांच भुरगीं जालीं? तुमची तकली जाग्यार आसा मूं? अरे देवा, ईश्वरा कितें आयकूंक म्हाका दवरलां हांगां!''

''आगो, म्हाकाय खरें दिसना. लिंगराजाचो फोन आयिल्लो आनी ताणें म्हाका ही गजाल सांगल्या. म्हणटात न्हीं तें, मिरसांग सुकली तरी तिची तिखटसाण वचना म्हूण, तशेंच जालां तें!''

मीराचो राग अनावर जालो. तें खूब संतापलें. खुबळ्ळें. आनी तिणें हातांत धरिल्लो उदकाचो चेंबू खाण्ण करून जमनीर मारलो आनी ती आपलो हात धाड धाड बोडार धाडवंक लागली. सुटिल्ल्या वरी थारो दिनासताना ती म्हाका एक सारकी खेप... खेप... खेपूंक लागली. चंडिका आंगार सवरिल्ले वरी आपल्या हातांत मेळटा तें काडून भायर मारूंक लागली. मीराचो हो असो अवतार हांवें आयज पर्यंत केन्नाच पळोवंक नासलो. हांव खूब भियेलों. आतां म्हजें कांय खरें ना... हांगां आतां कितेंय घडूं येता...हे घडयेक म्हाका आतां एकूच उपाय दोळ्यां मुखार दिसतालो आनी तो म्हटल्यार हांगाच्यान जाता तितले बेगीन कूस मारपाचें... ना जाल्यार म्हजें आतां कितें जातलें तें कोण सांगू शकना. कारण मीरान आतां रणचंडिकेचो अवतार धारण केल्लो... आतां आनी कसलो अनर्थ घडचो नाका म्हूण हांवें थंयच्यान समतें म्हाळे वयले गच्चीर हनुमान झेप मारली...

मीराचो आवाज थांबनासताना गच्चीर आयकूंक येतालो. हे घडयेक म्हजेर आयिल्लें संकट तात्पुर्ते टळिल्लें! हो गच्ची वयलो जागो सद्या तरी म्हजे खातीर निर्धोक आशिल्लो. आतां कमीत कमी एक आठवडो पर्यंत तरी मीरा ह्या अवतारांतल्यान भायर सरचें कठीण आसलें! शिवलिलाक हॉस्पिटलांत पळोवंक वयचो प्रस्न तर नाशिल्लोच आनी लिंगराजाक फोन करचे म्हटल्यार सुद्दां म्हजे खातीर धोक्याचें जाल्लें.

हेच अवस्थेंत सुमार दोन म्हयने जाले अजून पर्यंत मीरा आपलें तोंड फुगोवन आसतालें... म्हजे कडेन जाय तितलेंच उलयतालें... ह्या दिसांनी म्हजी पुराय दिनचर्या यांत्रीक जावन पडिल्ली...रस ना.. वास ना...परमळ ना... सुकी जीण... ह्याच दरम्यान म्हाका दोन वेळां लिंगराजाचो फोन आयलो...पयले खेपेक शिवलिलाक हॉस्पिटलांतल्यान घरा हाडल्या म्हूण सांगूंक तर दुसरे खेपेक असोच आमचे खबरे पासत... आमी शिवलिलाक पळोवंक गेलीं ना. हाचें म्हजे म्हाकां खटकतालें... तशें हांवें तिका पळोवंक आमी येतली म्हूण सांगिल्लें... पूण थंय वयचें तरी कशें? मीरा कांय थंय वचूंक तयार जावचें ना. आनी हांव एकटो थंय मीराक सोडून वचप सारकें न्ही. वोगीच मीरा बद्दल तांकां कितें वायट दिसूं येता! शिवलिलाक तर तें मनाक लागतलें. आतां तरी थंय तांकां पळोवंक वचपाक कसलो तरी मार्ग सोदून काडूंक जाय. हेंच चिंतून हांवें मीराक म्हटलें...

''मीरा, बरेच दीस जाले आमी खंय भायर वचूंक नात. जिवाक बेजार आयला.''

इतले म्हणटा सर मीरान आपली सदांचीच कट कट करीत म्हटलें...

''आतां खंय भायर मसणांत वतलीं! आनी हो करोना 'काळ' कसो लागला आमचे फाटीक! निसंतन जावन वचूं त्या करोनाचें!''

''आतां करोनाचें खूब कमी जालां. मास्क घालून गाडयेर एक पासय मारूंक कांय हरकत ना. जिवाक तितलोच सुसेग!''

तें आयकून मीरा गप्प रावलें. बारिकसाणेन पळयल्यार हांवें भुल्लुसावन तिका सांगिल्लें मानवलें अशें दिसलें म्हूण हांवें म्हटलें...

'' तें कितेंय आसूं, आयज सांजेची आमी एक पासय मरूंया.''

मीरान परती जाप दिनासतना आपल्या मुखामळा वयल्या अविर्भावान म्हज्या उतराक आपली मर्जी दिली.

सांजेच्या सुमार साडे चारांक हांवें गाडी गेटिंतल्यान भायर काडली. मीरा हांवें सांगिल्ल्या वरी पयलीच तयार जावन आसलें. हांवें मनांत येवजल्या प्रमाण मीरा कडेन हांव खूब गजाल्यो मारत रावलों. कांय वेळान बाजारांतल्यान रस्त्याची फेरी पुर्ण जाली म्हूण हांवें गाडी लिंगराजाच्या घराचे दिकेन वळयली. कांय अंतर फुडें सरलें उपरांत हांवें हळूच मीराक म्हटलें...

'' बरेच दीस जाले आमी कोणागेर वचूंक ना... हें पळय आमी लिंगराजाच्या घरा लागीं पावलीं...दोन मिनटां तांकां जाप

करून आयलीं जाल्यार बरें जाता आसलें!''

''बरें... आतां आमी हांगां पाविल्लीं आसात न्ही...घरा तशें सांजेच्या जेवणाची सगळी तयारी आसा...आनी पंदरा - वीस मिनटां वेळ घेवं शकता आमी!''

'देव पावलो.' हांवें खूश जावन मनांत म्हटलें आनी गाडी लिंगराजाचे गेटी फुडें उबी केली. आमी गाडयेंतल्यान उतरलीं. लिंगराजाच्या दारार पावल्या उपरांत घराची बॅल वाजयली. तेंच्या घराचें दार तशें उकतें आसलें. पूण थंय हॉलांत कोण दिसऽनासले. बॅल आयकून लिंगराज आपली लुंगेची घडी घालत मोटे खोशेन फुडें आयलो.

''अरे...यो...यो...मीराताई, राजेश्वरबाब...येयात... आयज तुमकां म्हूर्त मेळ्ळो दिसता...येयात... येयात... बरें दिसलें... कळ्ळें गो...शिवलिला...हांगा पळय कोण आयलां तें!

लिंगराज खोशेन हिसपा भायर फुलिल्लो. आमी तेच्या फाटल्यान घरांत सरलीं. भितर शिवलिला आसलें. तिणें आपल्या पांचूय भुरग्यांक न्हाणोन भितरले कुडींत सकयल लादेर,जमखाण पसरवन निजयल्लीं...ते कुडींत उकती गॅलरी आसली आनी सकयल फाटल्यान भायर वचूंक ते गॅलरींतल्यान पावंडे आसले. ते गॅलरी लागीं आमकां बसूंक प्लास्टीक खुर्च्यो राजेश्वरान हाडून दवरल्यो. सगळ्या भुरग्यांक जमखणार निजयल्लीं खरें, पूण तीं सगळीं भुरगीं जागीं आसलीं. आपले हात पांय वयर सकयल हालयत मस्त आपल्या भितर खेळटालीं. मीरान तांकां पळोवन आपलो हात तोंडार हाडलो. तें खूब चकीत जालें आनी तितलेंच आबूज जालें. दोशित्व आनी क्षमस्व नजरेन तिणें म्हाका पळयलें. आपूण चुकलें... वोगीच खूब राग केलो... आपल्या घोवाक धारेर धरलें... नाना तरेन उलयलें... खेपलें... हाची खंत तिच्या काळजांत जागली तें तिका पळयतकच म्हाका समजलें. पूण हांवें तिका स्मित हास्य दिलें... तिका ती चुकल्या हे नदरेन पळय नासताना हांवें तिका म्हटले...

'' पळयलें मुगो मीरा, सगळीं सुंदर फुलां सारकीं जाल्यांत... म्हूण हांवें म्हणिल्लें न्हीं...पळय...पळय कितलीं सुंदर जाल्यां तीं !!

मीरान मंद हसमुख चेहऱ्यान उलय नासताना मान हालोवन 'हा' म्हटलें....

शिवलिलान आपल्या भुरग्यां फुडें येवन म्हटलें..

''पळयात... पळयात...कोण आयल्यात तें... ती मीरा म ावशी आनी तो राजेश्वर काका...''

आमी दोगांनीं भुरग्यांक अपुरबायेन, मायेमोगान उल्लाळान जाप दिली...पूण कोणाक धरचें, कोणाक उखलचें आनी कोणाक सोडचें तें आमकां समजूंक नासलें...म्हूण आमी दोगांय खुर्चेर बसलीं.

सगळीं भुरगीं लकलकीत आपले दोळे, हात, पांय हालयतालीं. आमकां उस्फुर्तेन पळयतालीं... हांवें परतून भुरग्यांक जाप दिली.

''बाबू... बाबू... बाये... बाये... या... या... आमी या फिरूंक या... खेळू या... भोंवंक या... या...''

हांव आपयता..... ते आयकून सगळी भुरगीं खोशयेन हांसतालीं... जेन्ना हांवें परतें, 'या...या' म्हूण जाप दिली तेन्ना तिनूय चलयो वोमत्यो फिरून दिमकुऱ्यांनी घोडयां वरी उब्यो जाल्यो आनी म्हाका पळोवंक लागल्यो...तें पळोवन हांव चकीत जालों...कांय वेळ स्तब्द जालों... हांवें म्हाका सांबाळून परतून तांकां जाप दिली...तिनूय चलयो दिमकुऱ्यांनी म्हज्या फुड्यांत येवपाक लागल्यो... हांव परत तें पळोवन चकीत जालों. दोन म्हयन्यांचीं हीं भुरगीं दिमकुऱ्यांनी कशीं फुडें सरूंक शकतात? लिंगराजाचें सगळें आयकतात - पळयतात तें अजब गजबच...

हांवें परतून भुरग्यांक जाप केली.

''पासयेक या न्ही? पासयेक या न्ही?''

अशें म्हणटकच तिनूय चलयो आपल्या पांयार उब्यो जाल्यो आनी उकते गचितल्या पावंड्यांचे दिकेन चलूंक लागल्यो. हांवें बोवोळ मारलो, 'भुरगीं पडटलीं...पडटलीं' हांव खूब भियेलों. हांवें परतो बोवाळ मारलो... पूण भुरगीं थांबऽ नासतना फुडें वचूंक लागलीं. आतां हीं भुरगीं पावंड्यां वयल्यान सकयल पडटलीं म्हूण हांवें म्हजे हात फुडें सरकवन बोवाळ मारत तांकां धरूंक उडकी मारली आनी हांव निजिल्ल्या कडल्या खाटी वयल्यान धाड करून वोमतो सकल पडलों... म्हजें कपल फ्लोरा वयले लादयेर आदळ्ळें... कपलाक मार लागून मोटो बोंगो आयलो... नाकांतल्यान रगत टिपकूंक लागलें...

म्हजो बोवाळ आनी हांव सकयल पडिल्लो आवाज आयकून खाटीर म्हजे बाजून निजिल्ली मीरा जागी जाली... आपले दोळे चोळीत तिणें म्हाका म्हटलें...

'' कितें जालें... तुमीं बेबुळले काय कितें? सपनेले कितें?. आनी थंय सकल कितें करतात तुमी...?''

हांवें आजू बाजून नदर फिरयली. सगळे कडेन काळोख दिसतालो... रात सोंपूक नासली... हळूच कपलार हात फिरयत हांवें म्हटलें...

''मार बीर कांय ना...म्हजेंच अजब-गजब जालें..!

■■■



# च्या मारी... महामारी

समाजांतल्या वेगवेगळ्या घडणुकांचेर जागरूकपणान नदर मारून तांचेर आपले परीन भाश्य करूंक दत्तप्रसाद नायक आपले परीन प्रयत्न करता. कोंकणी भास तांकां व्यक्त जावपाक मजत करता हाची खात्री जाल्ल्यान आपले सरभोंवतणच्या घडणुकांचेर विनोदी ढंगान भाश्य करपाचो तांचो हो यत्न



दत्तप्रसाद नायक
मो. : 9552914969

गरीब वा श्रीमंत, हांव सगल्यांक एकेच नदरेंतल्यान पळेतां. हे देवाले विचार.

Rich or poor I Look on all, with an equal eye. अशे हे देवाले विचार आमचो समाज वा पिळगी आपणायता? काय ते विचार फकत विचार जावन रावल्यात? घडये हे विचार आमी विसरल्या आसुंये, देखून याद दिवपा खातीर देवान युक्ती केल्या अशें म्हणूं येता!

देवाली युक्ती म्हणल्यार सगळ्यां खातीर बरीच आसतली, ही खात्री आसाच. पूण तरीकूय मनाक थार ना. मन तें, तागेलें काम म्हणल्यार विचार करप. कसली युक्ती , कित्याक, बरी, वायट ह्या जायत्या हुस्क्यांनी बाबडें मन गुरफटून गेलां.उपरांत स्वताचो समज काडपा निमतान देवाले युक्तीचो सोद आपणाक लागलो अशें समजून शांत लेगीत जाता. मनाक लागिल्ल्या सोदा वयल्यान तें अशें सांगता...

जगांत कितें चल्लां तशें पळयल्यार, वेगवेगळ्यो घडणुको,

प्रत्येक सेकंदात म्हण, मिनटाक, वराक वा दिसाक घडत आसतात. ताका आमींच जापसालदार. आमी त्यो थांबवकय शकतात. पूण तें अशक्य. आसूं, ह्या घडणुकां विशीं म्हाका सद्याक म्हत्व ना. म्हाका खास करून सांगपाचें आसा तें म्हणल्यार 'आमी देवाक, आनी देवाले विचार विसरत गेल्यात.'

आयज ह्या संवसारांत म्हत्वाचो विशय चल्ला तो म्हणल्यार 'महामारी'. ताचो कोरोना वा कोविड-१९(Corona/Covid-19) म्हूण उल्लेख जाला. पूण मुखेल करून ती एक महामारी.

कोरोना म्हणलें की 'मरण', असो भंय आयच्या समाजाच्या मनांत निर्माण जाला. येवजील्यार तशेंच कितें सद्या संवसारांत घडटाय बी. आयज संवसार भर कोरोना पातळ्ळा. दर वाठारांनी कोरोना विशीं चर्चा चालू आसा ती दिश्टी पडटा तशेंच आयकुंकय येता.

समाज माध्यमान तर एक फोर्मेट करून दवरला. No. Of cases per day, deaths, recovered tested etc. अख्ख्या सवंसारांतल्यो बातम्यो घरांत बशिल्ले कडेन कळटात.

कोरोना म्हणल्यार कितें, तो खंयच्यान आयलो, ताका कोणे जल्माक घालो, आनी जल्माक घालो तर कित्याक घालो? ताचे प्रकार कितले? आदी... ह्यो सगल्यो बाबी, वा तांचे विशीं, तुमी आपापलो तर्क-वितर्क करून, समजून घेवन, मनाक शांत दवरूंक शकतात.

कोरोना बाबतीत म्हाका इतलेंच खबर आसा की तो मनशाचे कुडीरच न्हय तर थेट कुडींत वचून, श्वाशोश्वासाचेर आडमळी करून, मनशाक सोंपोवपाचो यत्न करता. इतलेंच न्हय, तर तो इतलो चांडाळ आसा, तो एकट्या वयल्यान दुसऱ्याक, दुसऱ्या वयल्यान तिसऱ्याक अशें करून सहज सगल्यांक आपल्याल्या मरणपाशांत ओडून घेता. कोरोना पिडीत जाल्ल्याचो वारो लेगीत दुसऱ्याक लागल्यार तो ताचेर झडप घालता. भुरगीं, जाण्टी, चले, चलयो, गरीब, श्रीमंत हो भेदभाव करी नासतना तो सगळ्यांकच आपल्या पाशांत ओडपाक यत्न करता. अशे तरेन कोरोनान आमचें जिवीत सामकें त्राशीक करून सोडलां. एकामेकां सावन सगळ्यांक पयस करून उडोवन, सगळेंच विस्कटावन सोडलां.

कोरोना पासून बचाव करतले जाल्यार उपाय आसा. तो म्हणल्यार सगळ्यांत पयलीं नाक-तोंडाक धांपून दवरप (Wearing Mask) आनी आपल्याक दुसऱ्याचो वारो लेगीत लागूंक दिवप ना. त्या खातीर एकामेकां सावन पयस रावप (Social Distancing).

नाक-तोंडाक धांपून दवरप हो उपाय म्हणूया कांय प्रमाणांत करूंक जातलो. मात एकामेकां सावन पयस रावप आमकां शक्य



आसा? संवसारांत आयल्याच आमी एकामेकांचो सांगात धरून आनी आतां देरेफेंत हो सांगात मोडप म्हणल्यार कशें जातलें! 'जितो उरल्यार भीक मागून खावन जगतलों' अशी म्हण आसा, पूण आयज ह्या कोरोना काळान कोणाय कडल्यान भीक घेवप सुद्दां मरणाचें आपोवणें अशी परिस्थिती जाल्या.

इस्तिमसांवाची बाब म्हणल्यार कोरोना भेदभाव, जातिवाद, वा धर्मवाद आदी... सगळ्यांक भेदून गेला. ताणें सगल्यांक एकेच नदरेन धरल्यात. गरीब, श्रीमंत, कोंकणो, क्रिस्तांव, मुसलमान, गांवांतले, शारांतले, झोपड्यांतले, बंगल्यांतले, नोकरेकार वा बेकार कोणाकच ताणें सोडूंक ना. सगळ्यांचेरच आपलो प्रकोप एक समान फांकला आनी अशे तरेन सगळे मनीस जातीक एकठांय हाडपाचो यत्न केला.

महामारी जेन्ना आयली त्या वेळार अशें दिसतालें, की गिरेस्त लोक कोरोनाच्या विळख्यांतल्यान सहज सुटून बरे जातले. भंय जातलो तो फक्त गरिबांक. इस्पितळांत वचपाक, उपाय करपांत, इस्पितळाची फी, वखदां खातीर पयशे हें सगळें तांकां परवडचें ना. गिरेस्त लोक दुडवांचो विचार ना करतां सहज उपाय करून घेवन आपलो जीव वाटयतले. अशे तरेचे तरेक तरांचे भयानक दुबाव सुरवातीक पसरलेले. पूण करोनान ते सगळे दुबाव घडके भितर फट करून दाखयले. ताणें कांय खिणांतच आपलें शक्ती प्रदर्शन केलें आनी आपल्याक सगळे एकसमान हें सिद्द करून दाखयलें.

दिसान-दीस हे महामारीक बळी पडटल्यांचे, तशेंच कोरोनान बळी घेतिल्ल्यांची आंकडेवारी पळेत जाल्यार दिसता, ही जीण सोंपपाचो वेळ आयला कांय कितें! आमच्या संवसारांत थोर, जैतीवंत विज्ञानीक, दोतोर आदी कापास्तादीची मंडळी आसतना,

ते ह्या महामारीचेर तोडगो कित्याक काय काडीना, तांकां कोरोनाक मारपाचें वखद कित्याक सापडना आदी विचारांनी अख्ख्या संवसारांत हुसको पातळ्ळा.

जो मेरेन पापांचो घडो भरना, तो मेरेन पाप करतल्यांचो देव शेवट करी ना ही म्हण सगल्यांक खबर आसतलीच. आनी नेमकें तशेंच आयज घडपाची सुरवात संवसार भर चल्ल्या. कोरोना जे तरेन आपली तांक वाडयत चल्ला ताचे विशीं खाशेलेपणाची बाब आयज समाज समजूपाक लागला.ताका थांबोवपाक वा हरोवपाक लागून (अशें म्हगेलें मत) जायते देश एकठायं येवन वावरूंक लागल्यात.त्याच प्रमाण वेगवेगळे समाज, संस्था, इतलेंच न्हय तर वेगवेगळे राजकीय पक्ष, फुडारी लेगीत एकजूट करून बरे भावनेन,मोगान एकामेकां खातीर वावरूपाक लागल्यात. कोरोना पासून जीव कसो वाटावपाचो, ताका कसो थांबोवपाचो हाचेर भर दिवन महामारी विशीं जागृताय करपाक लागल्यात. तशेंच बळी पडिल्ल्या लोकांक आधार दिवंक लागल्यात. एकामेकाक काळजी घेयात म्हण संदेस धाडूंक लागल्यात. अशे तरेन दर एकलो समाजा विशीं काळजी दाखयतना दिश्टी पडटा.

समाजाच्या अशे तरेन एकवटाच्या वावराक लागून आनी मनशांली एकामेका खातीर वाडिल्ली मजत भावना, धडपड, मोगाक लागून तांचें हें कर्तूत्व पळोवन म्हणूया, देवाक दया आयली आसतली! म्हणून ताणें आमकां आशेचें किरण दाखयलें. कोरोनाक (मारपाचें जरी नासलें) थांबोवपाचें वखद देवान घडोवन दिलें. कळाव लायलो, पूण महामारीक थांबोवपाक अस्त्राची निर्मिती देवान केलीच.

महामारीचो प्रताप ल्हव-ल्हव करीत सद्या फिको जायत चल्ला. कांय देशांनी तर तो सामको थारला. हेर वाठारांनी बी कोरोनाचो विळखो सदळ जायत गेला आनी फुडारांत तो सामको सुट्टलोय अशी सुलूस आमकां देवान दिल्या. आयचो आमचो समाज लेगीत हे महामारीक लागून सुधारणेचे, विकासाचे वाटेर चल्ला.आनी आस्त बाळगितां, तो ही वाट पूर्ण करतलो. आमी आस्त बाळगुया, देवान ही जी 'कोरोनारूपी युक्ती' केल्या तातुंतल्यान आमका मुक्ती तर मेळटलीच.तरीपूण आयच्या आमच्या समाजांत देवाले विचार समजून घेवन, आपणावन, मतींत दवरुन,फुडें सरपाचो यत्न करपाक जाय. तशेंच देवाक हाच्या फुडें आनीक युक्ती काडपाक संद मेळची न्हय देखू न देवाल्या विचारांची जतनाय करूंक जाय.अशें जर आमी केलेंना जाल्यार देवाक नवी युक्ती काडपाक कळाव लागचेलो ना हें निश्चित.

■■■





# सोयरीक






अरूण काकोडकार
मो. : 9822588852

अरूण काकोडकार हे कथा आनी ललित लेखनांत फिशाल.तांचो 'मुठभर मळब'हो ललित लेखांचो संग्रह उजवाडाक आयला आनी आनिकूय पुस्तकां उजवाडाचे वाटेर आसात. तांकां साहित्या पासतचो 'बिम्ब'पुरस्कार तशेंच कला आनी संस्कृती खात्याचो गौरव पुरस्कार लाबला.

घरा पावनाफुडें श्रीकांतान गाडी थांबयली. गाडयेचें फाटलें दार उगडून सामानाची पोती भायर काडली.

गाडी लॉक करून तो घरांत भितर सरलो. भायर वताचो रखरख. एप्रील म्हयनो निकतो सुरू जाल्लो. फ्रिज उगडून ताणें उदकाची बाटली काडली आनी तोंडाक लायली.

''आयज बेगीन सो येयलो?'' सुकांतीन, ताचे घरकान्नीन ताका हटकीलो.

'' सकाळीं पॅसेंजरांक सोडपाक एअरपोर्टार गेल्लों. थंयसून परत येतना मडगांवां दोन पॅसेंजर मेवळे. सांग्यार येवपाक टॅक्सी सोदताले. तेंकां हाडले. लागीं पावलांच न्हय, सोमतो जेवपाकच येयलों!''

'' जावं, आयज भाडीं मेवळीं तुका. आतां रोकडेंच वाडटां. बस मात्सो. सकाळीं उठचे उठून गेल्लो.'' गावेन गॅसा वयलो रोसाचो तोप काडटां काडटां सुकांतीन म्हळें.





दोन कुडींचें सुलचे नळ्यांचें घर. फुडले वटेन पडवी. पडवेक लागून ल्हानशें साल. दोनूय वटेन दोन कुडी. ताचे फुडें उजवे वटेन रांदचीकूड. दावे वटेन मान्नें. पन्नाशेक वर्सां आदीं श्रीकांताच्या बापायन हें घर बांदिल्लें. सरकारा कडल्यान धरणाचे पयशे आयिल्ले. ल्हानशें शेत-भाट धरणाक लागून सोडचें पडलें. बापायच्या मरणा उपरांत घराचे दोन वांटे जाले. एकवटेनचो भाग श्रीकांताच्या व्हडल्या भावान दादान घेतलो. दोगांयनी आपापल्या वांट्यांचीं घरां फुडल्यान फाटल्यान वाडयलीं. श्रीकांताचो पुतणयो सरकारी नोकरी करता. हालींच ताणें रीण काडून आपल्या घराची दुरुस्ती केली. आदल्यो वणटी मोडून शिमिटाच्यो नव्यो वणटी उबारल्यो. मदेरामेंत करून नवे नळे घाले. फुडले वटेन सालाक शिमिटाचें पाखें घालें. श्रीकांत आयज करतलों, फाल्यां करतलों करीत कांयच करूंक पावलो ना..सातवी पास जावन श्रीकांत फुडें शिकूंक पावलो ना. हागेर, तागेर, हे कंपनींत, ते कंपनींत रावन ड्रायव्हराची नोकरी करतां करतां खंयच थीर जालो ना. पंचावनाची पिराय सरली. भुरगीं व्हड जालीं. व्हडलें अनिता तेवीस वर्सांचें जालें. अनुप सतरा वर्सांचो. अंदू बारावेक. कोरोनाक लागून ऑनलाइन शिकप जाता तें सारकें जायना. परिक्षा जातली काय ना हाचोय दुबाव. दोनेक वर्सां आदीं श्रीकांतान बँकेचें रीण काडून सेकेंड हॅन्ड गाडी घेतली. टॅक्सीचें परमीट काडलें. कांय म्हयने गाडी बरी चलयली. मागीर कोरोनाचो म्हारोग आयलो आनी सगळी वाट लागली. फाटलें देड वर्स खूब त्रासांत गेलें.

'' अनुप, तो टिव्ही बंद कर. दीस-रात टिव्ही पळयत बसप. आनीक उद्देग ना. शिकप म्हणटा तें केन्ना?'' श्रीकांत पुताचेर तिडकलो.

'' हांव तेंच सांगतां तेका. किंवाटून किंवाटून म्हाजोच प्रेशर वाडटा. तेका कितें फरक पडटा?'' सुकांतीन आवाज चडयलो.

'' नॅट मेळना जाल्यार हांव कितें करूं बाबा? आतां कितले दीस जाले, नॅट येता, वयता. कितें करपाचें? मदलो मदलो अभ्यास चुकता. हें कनेक्शन काडून जिओचें कनेक्शन घे म्हण कितलें सांगलें.'' अनुपान आपलें गाराणें मांडलें.

'' जिओचें बरें म्हण खंय गॅरंटी आसा?'' श्रीकांतान विचारलें.

अनिता तेन्नाच घरांत भितर सरिल्लें. तांचें उलोवणे ताच्या कानार पडलें.

''जिओ ना जाल्यार एअरटेल बरीं चलतात. दुसरें नॅटवर्क थीर नासता,बाबा. खूब कटकटी जाल्यात. ऑनलाइन शिक्षणाक लागून बऱ्या नॅटवर्काची गरज उपरासल्या.''अनितान बापायक समजायलो.

''नॅटवर्क आनी फॅटवर्क! सगळें नवें नवें येयलां. पयशे काडपाच्यो खबऱ्यो!'' श्रीकांतान थोमणो मारलो.

अनिता प्राथमीक शाळेंत शिकयता. शाळा बंद आसल्यो तरीय ऑनलाइन वर्ग चालू आसतात. घरा साकून धायेक किलोमीटराचेर प्राथमीक आनी माध्यमीक शाळेंत ताची नोकरी. बी.ए. पास जाले उपरांत वर्सा भितर ताका ही नोकरी लागली. थंड सभावाचें अनिता. बापाय कडेन ताचें बरें पडटा. आई मात्शी तापट म्हण तें जाणा.

अनिता भितर गेलें. दोन पेले काडले. लिंबू पिळून, झेल उडोवन,थोडीशी साखर घालून ताणें सरबत केलें. एक पेलो आपणें घेतलो. दुसरो बापायक हाडून दिलो. ''बाबा घे. थंड सरबत पियेतकीर जीव बरो दिसतलो. वतांतल्यान येयला.'' ताणें म्हणलें.

'' कशें चल्लां स्कूल तुजें? हें ऑनलाइन शिकप भुरग्यांचे तकलेंत वयता तरी?'' कदेल फुडें ओडून श्रीकांतान ताचेर बसकण घेतली.

''हय तर. चडशीं भुरगीं आतां सेट जाल्यांत. गरीब जावं पयस पयस रावतल्या भुरग्यांक कठीण जालां. कारण तेंचे लागीं मोबाइल सारके नासतात. नॅटवर्काची अडचण आसता.''

'' हें केन्ना सारकें जातलें कोण जाणा! सदांच अशेंच उरल्यार शिक्षण आनी तें कसलें ? भुरगीं फाटीं उरतलीं. शाळेंत शिकप वेगळें आनी ऑनलाइन वेगळें.'' श्रीकांतान म्हळें.

'' आख्ख्या संवसाराचो हुस्को तुज्या माथ्यार कोणे ठेयला? तुज्या संवसाराचें पयलीं पळय.'' इतलो वेळ ओगी आशिल्ली सुकांती फट्ट करून उलयली.

''म्हज्या संवसारांत हांवें कितें उणें केलां? वेळार जाय जायतें हाडून दितां काय ना? केन्ना उपाशीं दवरल्यांत तुमकां?''

'' हांव खंय ना म्हणटां? घरांत तांदूळ-गोटो केन्नाच उणो जालो ना. तितलेंच केलें म्हण जालें ना. आनीकय जबाबदाऱ्यो आसतात. अनिता आतां लग्नाचें जालां. दोन वस्ती कितेंय करून घालूंक जाय. भांगर म्हळ्यार तूं आंग काडटा. करूंया करूंया म्हणटां म्हणटां वर्सां गेलीं. भांगर कितलें म्हारग जालां खबर आसा तुका ?''

श्रीकांत मोन्यांनी बायलेचीं उतरां आयकत उरलो. ती कितें म्हणटा तें ताका समजतालें पुणून ताची जाप ताचे लागीं नाशिल्ली. चार पयशे कितेंय करून दवरपाक जाय हाची जाण ताका आशिल्ली पुणून ताचो निरुपाय आशिल्लो. टॅक्सी खातीर काडिल्ल्या रिणाचे हप्ते भरता म्हणसर ताका नाका पुरो जातालें. सुकांती तोंडान फटकळ पूण संवसाराक ती हातभार लायताली. घरा फाटल्यान पोरसांत केळमे रोवन, पावसाळ्यांत घोसाळीं, तवशीं, वाल,दुदी रोवन, हाका ताका धरून, तांचेकडल्यान तीं बाजारांत व्हरून विकप अशें करून ती चार पयशे कमयताली. तिका खबर आशिल्लें, आपल्या घोवा कडेन भांगर करपाची तांक ना. वेळ पडल्यार आपलेंच भांगर धुवेक दिवपाची ती तजवीज करताली .

दनपारचीं जेवणां जाले उपरांत तिणें घोवा लागीं अनिताच्या लग्नाचो विशय काडलो. श्रीकांत भायर सरपाच्या बेतांत आशिल्लो. ''तूं भायर सरता? बस, तुका कितें सांगपाक जाय. सुशीलमावशेचे सुनेन गीतान अनिता खातीर बरो भुरगो दाखयला.'' तिणें हळू आवाजांत म्हळें.

''खंय आसता? कितें करता?''

'' तो दुबय आसता. मोटार मॅकानीकाचो डिप्लोमा केला. मोटार स्पेअरपार्ट कंपनींत कामाक आसता. स-सात वर्सां जालीं. तेचीं आवय-बापूय कुठ्ठाळे रावतात. भुरगो एकदम बरो. गीता सांगी.''

तिणें आलमारीचो मदलो खण उगडलो आनी फोटू काडून ताचे लागीं दिलो.

ताणें बारीकसाणेन तो फोटू पळयलो.

''फोटू पळोवंक बरो दिसता. पिराय कितली ताची?''

'' बत्तीस वर्सां.''

'' बत्तीस? फोटू पळयल्यार पंचवीसेक वर्सांचो कसो दिसता!''

'' फोटू घडये दोन-तीन वर्सां आदलो आसूं येता. हीं देड-दोन वर्सां कोरोनाक लागून तो हांगा येवंकच पावलो ना.''

'' सगळे सोडून दुबयचो कित्याक म्हण सोदप? हांगां कोण भुरगेच नात?''

'' जालें तुजें पुराण सुरू? फाटल्या वर्सा भरयांत कितके भुरगे पळयले? कोणाक नोकरी सारकी ना, कोणाचें शिक्षण कमी, कोण भयणीक लागून उरला..''

'' पळय, आमचें अनिता बीएए शिकलां. शाळेंत टिचर आसा. ताका सोबऽ सारको न्हवरो मेळचो अशी म्हाजी इत्सा.''

'' म्हाकाय दिसता, अनिताक बरो न्हवरो मेळचो. बऱ्या भुरग्याक सोयरीक व्हेल्यार पयलीं दोत विचारतात. आमी खंयच्यान हाडटलीं ?''

'' मेळटलो गो बरो भुरगो! अनिता कितें वाडून उरूना आमचें. दुबय म्हणिना फुडें पयलीं म्हाका बेजासांव येता. दादाल्या सुनिताचें कितें जालें! तें हांगां, तो थंय. आतां कितलीं वर्सां जालीं? धाकटो पांच वर्सांचो जालो. लगीन जायत सावन विनोद कितले पावटी येयलो हांगां? केन्नाय वर्स-देड वर्सांतल्यान येता, वीस पंचवीस दीस रावता, परत वयता.''

'' कितें वायट जालें तेंचें? तेंकां भुरगो जालो. सुनिताक घोवान शारांत दोन रुमाचो फ्लॅट घेवन दिलो. गाडी घेवन दिली. सुनिता गाडी चलयता. आई बाबाक आपणागेर घेवन वता. सुखी आसा तें!''

'' हय, सुखी आसा! तूं जाणा? फ्लॅट आसलो, गाडी आसली म्हण सुखी जालें? तेच्या मनांतलें दुख्ख तुका येवन सांगचें ना तें. तूं गांवार घालतलें म्हण जाणा तें!''

'' तुका सांगलां तेणें?''

'' हय, म्हाका सांगलां. म्हणूनच दुबयचो भुरगो म्हणिना फुडें हांव फाटीं फुडें येतां. एकठांय रावपाचें जें सूख आसता तें लाख मोलाचें आसता. वांगडा रावून झगडलीं तरीय त्या संवसारांत मोग आसता, सूख आसता.''

'' मागीर सोयरीक करूंया नाका?''

'' नाका. पळय, म्हज्या मनांत एक भुरगो आसा. हरी नायकालो राजेश. लांब, सुडसुडीत. दिसपाक बरो. तेंची ग्यारेज आसा. अनिता वांगडा शिकतालो. ऑटो मॅकेनिकाचो डिप्लोमा केला. कितें दिसता तुका?''

'' राजेश बरो दिसता म्हण जालें! बारावी बऱ्या मार्कानी पास जालो. फुडें शिकूंक गेलो ना. डिप्लोमा केलो. ग्यारेज बिरेज केन्नाच्यो खबरो सांगता तूं? एके वेळार धायेक वर्सां आदीं हरी नायक गडगडटालो. मीन थंडावलें. ट्रकांची येरादारी थांबली. ग्यारेजी बंद पडल्यो. आतां बसता ट्रकांची वाट पळयत. राजेशा फाटल्यो फुडल्यो दोग भयणी, धाकटो भाव. आतांचे म्हारगायेंत तेंचें शिकप, लग्नां! कितें फकाणा न्हीं तीं! '' सुकांती सरळ सरळ उलयताली.

अनिता भितरले रूमांत आवय-बापायचीं उलोवणीं आयकतालें. आपणाक लागून तांचो वाद जाता हें ताच्या मनाक लागतालें. आईचो सभाव तें जाणा. बाबा सरळ मनाचो.

लग्नाक जाय जाय तशी दिवपा घेवपा इतली तांक ताचे लागीं ना हेंवूय ताका खबर आसा. राजेशा विशीं आपली ओड बाबाचे नदरेक कशी आयली हाचें ताका अजाप जालें. आपूण तर बाबा लागीं तशें केन्ना उलोवना. पूण ताका राजेश पसंत आसा हें येवजूनच ताका उमेदशी जाली.

कितलो देखणो आनी शिटूक दिसता राजेश! लांब गोरो. ताचें न्हेसप कितलें ठाकठीक! चलप एकदम नेटान. उलोवप कितलें गोड...'म्हाका नोकरी करूंक आवडना. म्हाका म्हजो वेवसाय करपाक जाय.' तो केन्नाय ताका सांगता. हांसतना जिवणेच्या तोंकाक मिरयो घालीत कपलार आयिल्ले केंस लव्हूच फाटल्यान ओडपाचो ताचो झेत अनिताक पळोवपाक आवडटा. मोटारसायकल दामीत चलोवंक ताका मजा येता. अनिताक भंय दिसता तेन्ना,'कांय ना गो, भिये नाका तूं' अशें ताका म्हणीत तो आनीकय दामता. तें कामाक वतना वाटेर तो ताची वाट पळयत रावता. तें दिसना फुडें ताका थारायता. स्कूटी थंयच पार्क करूंक लायता आनी आपले मोटारसायकलीन ताका स्कूला मेरेन पावयता आनी परत हाडून सोडटा. हें बाबान केन्ना तरी पळयलां आसतलें. बाबाच्या मनांत तो आसा ही जाणवीकाय कितली उमेदीची! पुणून आईक कशी पटोवप!

..अनिताक तोच हुस्को जातालो.

'' गीतान म्हाका पंदरा दिसां भितर कळय म्हण सांगलां. त्या भुरग्याच्या आवय-बापायक रोकडेंच तेचें लगीन जाल्लें जाय.'' सुकांती घोवाक सांगताली.

'' रोकडेंच लगीन म्हणपाक कितें फकांडां गो तीं? तुंवें सारकी खबर काडल्या? एकदम उठसूट लगीन करूंया म्हणल्यार कितें!''

'' हांवेन सगळी खबर काडल्या. म्हाका म्हजे धुवेचो हुस्को ना तर? समीर आवय-बापायचो एकलोच पूत. तेका एकलीच भयण सुषमा. तिचें लगीन जालां. हो भुरगो एकदम बरो. कसलें वेसन ना. जोडटा बरो. अनिता राणी कशें रावतलें. फ्लॅट, गाडी सगळें घेवन दितलो. तूं जाल्यार गीताक फोन करून विचार. ना जाल्यार आमी तेका मडगांवां तेगेर घरा वचून मेळून येवूं या.''

'' आई, कित्याक इतली ताकतीक गे? थोडे दीस रावूंया न्हीं!'' अनिता फुडें येवन उलयलें.

'' थोडे दीस कित्याक रावपाक जाय? आतांच कितें तें थारावपाक जाय. तुका कितें अडचण आसा बाय? काय बरी सोयरीक आयल्या. पळोवया तरी!'' सुकांतीन धुवेक समजायली.

कितें सांगचें तेंच अनिताक समजना जालें. म्हाका राजेश आवडला हें ताका सांगपाक जाय आशिल्लें. पुणून तें सांगपाक तें फाटीं फुडें जातालें. अनिताच्या दोळ्यांतली भास सुकांतीक समजताली पुणून ती तशें दाखोवन दिनाशिल्ली. राजेशाल्या बापायचो गॅरेजीचो धंदो थंडावला. गॅरेज बंद पडपाची आसा. तो खूब रिणांत आसा. राजेशाल्यो दोन भयणी लग्नाच्यो आसात हें सगळें तिका खबर आशिल्लें. तें सगळें चिंतून राजेशा लागीं सोयरीक व्हरपाक ती फाटीं सरताली.

सुकांतीन गीताक फोन करून दोन दिसांनी तांगेर वचपाचें थारायलें. श्रीकांत आनी सुकांती गीताल्या घरा वचून आयलीं. गीतान समिराच्या आवय-बापायक आनी भयणीक आपोवन हाडिल्लीं. सगळी उलोवणी बरीं जालीं. दोगांयचीं टिपणां जुळटालीं. देण्या-घेण्याचें व्हडलेंशें नाशिल्लें. सुनेक पाटल्यो करपाचें समिराचे आवयन उतर दिलें. हांसत्या मुखान, व्हडा उमेदीन सुकांती आनी श्रीकांत घरा परतलीं. वाटेर गाडयेंत दोगांय उलयतालीं.

'' पळोवपाक बरीं मनशां शीं दिसतात.'' श्रीकांतान म्हळें.

'' हांव तुका तेंच सांगतां. अनिता तेंचे वांगडा सुखान संवसार करतलें.''

'' संवसार तेंचे वांगडा करप काय घोवा वांगडा? संवसार पयलीं घोवा-बायलेचो आसता. मागीर सगळीं. घोव म्हऱ्यांत नासल्यार संवसार तो कसलो?'' श्रीकांतान थोमणो मारलो.

'' जालें तुजें सुरू? घोव कसो म्हऱ्यांत आसचो ना? घोव येवन वचून आसतलो. दोन दीस त्रास जातले, मागीर संवय जातली. कितलीं जाणां अशीं आसात, जांचे घोव वर्सांचीं वर्सां पयस आसतात. तीं कितें सुखान संवसार करनात?''

'' हांव कांय उलोवचोना. सगळें तुज्या मना सारकें जालें. तूं अनिताक समजाय.'' श्रीकांतान म्हळें. तांतले तातूंत भांगराचो खर्च आसचोना हाचें ताका समाधान आशिल्लें.

'' अनिताक कशें कितें सांगपाचें तें हांव पळयतां.'' सुकांतीन म्हळें आनी तो विशय तितल्याचेरच सोंपलो.

घरा पावना फुडें सुकांतीन धुवेक उलो मारून भायर आपयलें. अनिता ताचे कुडींत कम्प्युटराचेर काम करतालें. ''बाय,आमी गीताच्या घरा वचून येयलीं. समिराचीं आवय-बापूय आनी भयण सुषमा येयल्लीं. बरीं उलयलीं. आमचें सगळें उलोवणे बीन जालें. बरीं मनशां! सुषमान तुका पळयलें, तेका तूं आवडलें.''

'' खय पळयलें म्हाका?'' अनितान अजापान विचारलें.





'' तुज्या स्कुलांत येवन गेलें खंय तें!''

अनिताक याद जाली चार-पांच दिसां पयलीं कोण एकली अस्तुरी स्कुलांत आयिल्ली. हेड-मिस्ट्रेशी सरीं बशिल्ली. अनिताक पळोवन हांसताली. मॅडमीन म्हाका कांयच कशें म्हणलें ना, तें चिंतूक पडलें.

'' पळय, आतां सगळें जालां. फुडली तयारी करपाची मगो?'' सुकांतीन धुवेक विचारलें.

फुडली तयारी? अनिताक कच्च जालें.

'' हांवें तेका पळयलो ना, आई. तो कसो दिसता, कितें करता, कांयच खबर ना म्हाका.''

'' तो कितें करता, खंय आसता, घरांत सगळें उलयल्यांत आमी. तुवें काना-मनार घेतलें ना जाल्यार हांव कितें करूं? तो ऑटो मेकानीक, फाटलीं आठ वर्सां दुबय आसा. तेचो पगार कितलेच हजार दिरहम म्हणल्यार लाखानीं रुपया. तेचो फोटू तुका दाखयल्लो हावेन. तेचो व्हिडिओ बाबाच्या म ोबायलाचेर धाडला तेणीं. सारको पळय.''

अनितान समिराचो व्हिडिओ पळयलो. व्हिडीओंत तो फोटवांत दिसता ताचे परस वेगळोच दिसलो. तोंडावळो राकट सो, दाट मिशयो, फुडले वटेन केंस पातळ जाल्ले. पळोवपाक बॉडी बिल्डर कसो...कितलो वेळ तें ताचो फोटू पळयत रावलें.

''आई, हांव विचार करून फाल्यां सांगतां.'' तार्णे म्हळें.

रातचें जेवण जाले उपरांत अनिता आपले कुडींत गेलें. कितें करप ताकाच कळनाशिल्लें...समीर काय राजेश?

मनांत येतालें राजेशाक फोन करून सगळें सांगचें. तो पूण कितें करतलो? कुटूंबाची सगळी जबाबदारी ताचेर आसा. ताचो बापूय आरीचे पिडेन घरांतच बसून आसता. दोगय भयणी, धाकटो भाव सगळें ताकाच पळोवचें पडटा.

समीर लाखांनी जोडटा पुणून ताच्या सांगातार्चे सूख कशें मेळटलें? हांव हांगा, तो थंय...हो कितें संवसार जालो ?.....

ताच्या दोळ्यां मुखार नवेंच लगीन जाल्लें सुनिता आयलें. लग्ना उपरांत म्हयन्या भितर विनोद सावदी वचपाक गेलो तेन्ना सुनिता खूब काचाबूल जाल्लें. ताचे दोळे एक सारके भरुन येताले. तो परत केन्ना येतलो..एका वर्सान...आपल्या मनांतलें दुख्ख उकतावपाक तें कांचवेतालें. नव्या फ्लॅटांत

तें रावपाक गेलें तेन्ना सांगाताक ताणें आपल्याक व्हेल्लें. गॅलरींत कितलो वेळ मेरेन तें एकलेंच उबें रावन आसतालें. कोलवा वेळेर केन्नाय तीं वतालीं तेन्ना एकामेकांक तेंकून रेवेंतल्यान चलत वतात तीं जोडपीं पळयतकीर तें अस्वस्थ जातालें...एकामेकांच्या स्पर्शान धादोस जाल्लीं नवीं जोडपी. मनमेकळेपणान भोंवपाक अयिल्लीं जोडपीं मजेंत पळयलीं तशें तें पिशार पडटालें. एका वर्सा उपरांत विनोद आयलो तेन्ना ताच्या सांगातांत दीस कशे बेग्गीन सोंपले हें ताका कळ्ळेंच ना. मागीर पार्थ जल्माक आयलो. तेन्ना विनोद स-स म्हयन्यानी येवन वतालो. सुनिताक आतां एकलें रावपाची संवय जाल्या. तें आसा तातूंत सुखी आसा.

अनितान सुनिताचो नंबर घुंवडायलो. ताका सोयरीकेची खबर सांगली. '' तुका कितें दिसता,ताई? तुजें मत कितें?'' ताणें विचारलें.

'' म्हाजी लग्नीक जीण तुवें प्रत्यक्ष पळयल्या अनिता. हांव तुका कितें सांगू ? सात दर्या पलतडीं आसतल्या तरनाट्या वांगडा संवसार करप काय ना हो निमणें तुजो निर्णय. पूण एक सांगतां, पयशाचें सूख तुका मेळटलें, सांगाताचें न्हय!''

थोडे भितर सुनितान ताका समजावन सांगलें..कितलो वेळ मेरेन अनिता चिंतत रावलें. चिंतनातच ताचो दोळो लागलो.

सकाळीं उठना फुडें ताणें आवयक सांगलें,''कितें करप म्हाका कळना जालां, आई. तुमकां सोडून वचप म्हाज्या जिवार येता. धड हांगांय ना धड थंयूय ना अशें जातलें!''

'' कितलें फुडलें फुडलें चिंतता गो तूं? लगीन जावन दुसऱ्या घरांत वचप दरेके अस्तुरेच्या नशिबांत आसता. तें तिका चुकना. हांगाय ना आनी थंयूय ना अशें तूं कित्याक म्हणटा? समीर नवो फ्लॅट घेतलो, तेचे आवयन सांगलां. मागीर तीं, समिराचीं आवय-बापूय रावतलीं तुजे वांगडा. समीर तीन-चार म्हयन्यांतल्यान येवन वचून आसतलो. आमीय आसतलीं. थंड राव. सगळें सारकें जातलें.'' सुकांतीन धुवेक सांसपीली. कितलो वेळ मेरेन ती ताच्या केंसा वयल्यान, फाटी वयल्यान हात ओडीत रावली.

***

लग्नाची तारीख थारली. म्हयन्या भितर सगळी तयारी करपाची. हॉल बुक जालो. कोविडाक लागून लग्न सुवाळो शंबर लोकां भितर करपाचो बेत जालो. श्रीकांतान हाका ताका उतर घालून, बॅंकेंतलें सेव्हिंग एकठांय करून पयशे जमयले. भांगराचो खर्च नाशिल्लो. सुकांतीन आपल्यो पाटल्यो मोडून अनिताक नवीं कांकणां केलीं. पाटल्यो घालपाचें उतर न्हवरेकारांनी दिल्लें. शालू-साडयो, मानपानाची दक्षणा, सुकांतीन व्हडल्या जावे सरीं वचून सगळें विचारून घेतलें. लग्नाची तयारी हळुहळू जावंक लागली.

सद्दां स्कूलांत वतना बसस्टॉपा लागीं राजेश अनिताक मेळटालो. अनिताक स्कूटी थंयच पार्क करूंक लावन आपले मोटारसायकलीन ताका व्हरतालो-हाडटालो. सोयरीक जायत सावन अनितान ती वाट बदलील्ली. तें दुसऱ्या रस्त्यान वतालें...ते दिसा वचपाक कळाव जालो देखून अनितान सदच्या रस्त्या वयल्यान स्कूटी व्हेली आनी वाटेर ताका राजेश दिसलो. ताणं स्कूटी थांबयली.

'' स्कूटी हांगा खंयूय पार्क कर. हांव सोडटां तुका.''राजेशान म्हळें.

'' नाका, हांव वतां.'' मुमुरख्यांनी हांसत ताणें म्हळें.

'' कित्याक गो, रागार म्हजेर?''

'' ना रे. तुजेर राग धरून हांव खय वतलें?''

'' कितें सांगपाक जाय तुका!''

अनिता राजेशाक पळयत रावलें. तो मनांतलो ओग काडटा अशें कितेंशें ताका दिसलें.

'' म्हाका नोकरी लागल्या. वेर्णा टोयोटा शोरुमांत. सव्वीस हजार स्टार्टिंग सेलरी. आठ दीस जाले. सकाळीं साडेसातांक भायर सरतां. थंय पावपाक देड वर लागता.'' राजेशान हांसून म्हळें.

हांव नोकरी करचोना, बिझनेस करतलों...अशें नेटान सांगतालो राजेश. निमाणें ताका नोकरीच धरची पडली...अनिताच्या मनांत आयलें. तरी लेगीत बरी नोकरी, पगारय बरो आसा. ताका ताचे विशीं उमेदशी जाली.

''कॉंग्रेच्युलेशन्स, राजेश. आयकून खूब खोस जाली.'' मुमुरखें हांसत ताणें म्हळें.

'' थॅन्क्स, अनिता. आनीक एक खबर हांवें आयकल्या. तुज्या लग्नाची. खरी खबर?''

'' हय.'' जड अंतस्करणान अनितान म्हळें.

'' खरें सांगूं अनिता, हांव मनांतल्यान सांगतां. म्हाका तूं खूब आवडटा. तुजे वांगडा संवसार करपाचें म्हजें सपन आसलें. हांव मेकळे मनान केन्नाच तुका हें सांगपाक पावलों ना. घरच्या अडचणींक लागून तोंड धांपून रावलों. म्हजे व्हडले भयणिची सोयरीक जाल्या. हळू हळू सगळें जाग्यार पडटा. अशा वेळार तुजो सांगांत मेळिल्लो जाल्यार खूब बरें जातलें आसलें.'' राजेश उचांबळीत जाल्लो.

'' कितें सांगूं तुका? म्हज्या लग्नाचें इतलें बेगीन थारतलें हें हांवें केन्नाच चिंतूं नासलें. आनीक एक वर्स गेल्यार लेगीत कांय अडचें नासलें. पुणून एक एक खीण असो घडत गेलो, हांव कांयच करूंक पावलें ना.'' मान सकयल घालून तें घुस्मटून घुस्मटून उलयतालें. '' बरो करून राव. सदां सुखी राव.'' तोंडार बळ्यां हांसो हाडून ताणें म्हळें.

ताचे जापेची वाट पळयनास्तना अनितान स्कूटी चालू केली आनी कांय खिणां भितर तें ताचे नदरे आड जालें. कितलो वेळ मेरेन राजेश तें गेल्ले ते दिकेन पळयत थंयच उबो रावलो.

***

तेर्मा खातीर सिव्हिल रजीस्ट्राराच्या ऑफीसांत तीं पावलीं तेन्ना अनिताचे दोळे चारुय वटेन भिरभिरताले.

ताका प्रत्यक्ष पळोवपाचो आनी मेळपाचो खीण. फोनाचेर केन्ना उलोवप जालेंना. खूब फावटीं समिराचे मेसेज ताच्या मोबायलाचेर येताले. अनिता तितल्यो पुरत्यो जापो धाडटालें. आतां 'ताका' पळोवपाची उत्सुकताय वाडटाली. मन उतावीळ जातालें. मनशाचें जिवीत कितल्या वेगवेगळ्या रुपांनी मुखार येत रावता! दरवेळा जिवीत बदलत वता... केन्ना गोड, केन्ना कोडू...केन्ना सोबीत, केन्ना कुरुप. दरेका पिरायेचे संबंद वेगळे...नातें वेगळें...निरागस भुरगेंपण कितलें गोड! पिराय वाडत गेली तशें भुरगेंपण सरलें...कितले बेगीन पिराय सतराच्या सोंपणार पावली!

घरा मुखावेलो चांफो पयलींयबी फुलतालो पूण ताचो परमळ तेन्ना जाणवलोना. आतांचो परमळ जाणवतालो.... खूब खूब जाणवता.. मनांत कोणाच्या तरी पावलांची सुलूस जाताली...दोळे धांपना फुडें सैंमाच्या गोपांतल्यान मन कोणतरी ओडून व्हरतालो. परमळाच्या गोपांत वचपाची उर्मी जाताली. ती उर्मी एकाएकीं कशी थांबली?...हांवच खंयतरी शेणत गेलें. चार वणटीं भितर जाल्ले वाद-संवाद!

बरें कितें..वायट कितें हेंच समजना जालें...मुखावेल्या चांफ्याचो परमळ एकाएकीं जाणवना जालो. कितें अशें जालें!

एकदम ताची नदर गेली...मुखार दोन गाडयो येवन थांबल्यो.

...गाडयेंतल्यान कोण कोण देंवता, तांकां तें पळयत उरलें.

...चार तरनाटे पयलीं देंवले...हातूंतलो समीर कोण! फाटल्यान देंवलीं तीं समिराचीं आवय-बापूय, भयण-भावोजी.

'' समीर, हें अनिता. हो ताचो बाबा, ही आई.''

समिराची भयण सुषमान समिराक वळख करून दिली. समिरान हांसत्या मुखान हात जोडले. अनिता एक पावल फाटीं सरलें..व्हिडीओचेर पळयल्लो समीर आनी आतां मुखार उबो आसा तो समीर...लांब रुंद भिल्ल माड कसो..दाट तपकीरी मुदयाळे केंस, फुडले वटेन पातळ जाल्लो. ..मॅरेथॉना वरी कमयल्लें आंग..फुगिल्ले पोले...दमदार आवाज... दोळ्यांत गॉगल, शर्टाक परफ्युमाचो वास. हाचे मुखार हांव सामकी बावली कशी...खीण भर अनिता चिंततालें...आमचो जोडो कसोच सोबचोना....हाचे वांगडा म्हाका संवसार करूंक जाय...सगळें आयुश्य काडूंक जाय. अनिताच्या मनांतली उत्सुकताय एकाएकीं शेणिल्ले वरी जाली. एकाद्री सोबीत कांचेची वस्त हातांतल्यान सुटून सकयल पडची आनी तिचे कुडके कुडके जावचे अशें दिसलें ताका. मान सकयल घालून तें ओगी रावलें.

''हाय अनिता, कशें आसा तूं?'' समीर ताचे म्हऱ्यांत आयलो. कितल्यो मॅसेजी केल्यो तुका...कितले फोन केले. तूं फकत हय, ना...येस्स, नो...इतलीच जाप करतालें''. संवकळीचो जाल्ले भशेन समीर हांसून उलयतालो. अनिता वयले वयर हांसलें. कांयच उलयलेंना.

फॉर्माचेर सय करपाक तांकां दोगांयकय भितर आपयलीं ...थरथरत्या हातान अनितान सय केली...सय करून दोगांय भायर आयलीं. खीण भर थांबून समिरान अनिताक म्हळें,

''कॉग्रेच्युलेशन्स... आयचो दीस आमचे खातीर खूब मोलादीक जावन आसा. आमच्या दोगांयच्या जिविताची नवी सुरुवात... कांय वेळ थांबून ताणें म्हळें, '' हांव येदोळ साकून पळयतां. तूं नर्व्हस कशें दिसता. तुज्याच चिंतनांत शेणिल्लें शेणिल्लें कशें! हांव तुजेसरी येतां तितलें तूं कुशीन कुशीन वता. बिलीव्ह मी अनिता, आय व्हील मेक यू हॅप्पी. तूं सदांच हांसरें, सुखी रावचें अशें म्हाका दिसता. तुज्या मनांत गोंदळ चल्ला तो पयस कर. फाटलें बरें वायट विसरून वच. एक नवी सुरवात करूं या...नवें नातें जोडूं या. हांसून खेळून रावूं या.''

अनितान मान वयर करून समिरा कडेन पळयलें. ताच्या दोळ्यांत ताका वेगळोच परजळ दिसलो. भरवंशाचो ,धीर-आदाराचो...

रेजीस्ट्रेशना खातीर थंय लोकांची गर्दी जाल्ली. लोकांच्या घोळक्यांतल्यान वाट काडीत.. एक एक पावल घालीत...समिरा वांगडा तें फुडें फुडें वचत रावलें.

■■■



# इमांचे मणिपूर



हर्षा सद्‌गुरू शेटये
मो. 9850530152

गोदावरीदेवी केजरीवाल पुरस्कार,
रॉक बार्रेत साहित्य पुरस्कार,
बिम्ब आनी हेर साबार पुरस्कारांनी सन्मानीत
हर्षा सद्‌गुरू शेटये
सगले तरेचें साहित्य आपले
खाशेले शैलींनं हाताळटा.
भोंवडे वर्णनूय तांचें आवडीचें लेखन.
साहित्य अकादेमीच्या निमंत्रणा वयल्यान
मणिपुराक काव्योत्सवाक गेल्ले कडचो
ताचो हो प्रवास..

मणिपूर ! ईशान्य भारतांतले एक राज्य. पयलेच फावट ताचो उल्लेख हांवें भुरगेपणांत आजये कडल्यान आयकल्लो. आजये कडेन महाभारता वयल्यो दोन मराठी कादंबऱ्या आशिल्ल्यो. ते भायर ' पांडव प्रताप' म्हणून एक ग्रंथ आशिल्लो. तातूंत अर्जुन, धर्मराज आनी द्रोपदीचो एकांत भंग केलो म्हणून शिक्षा म्हणून वनवासाक वता. तो भोवत भोवत मणिपूरांत पावता. थंय ताची भेट चित्रांगदा कडेन जाता. चित्रांगदा चित्रवाहन राजाली धूव. तांचे लग्न थारता. लग्ना पयली राजा अर्जुनाक सांगता, 'लग्न जावन चित्रांगदाक तुजे वांगडा येवपाक मेळचेंना. मणिपूरचें राज्य तिकाच सांबाळूंक जाय. तिका जातलें तें भुरगें ह्या राज्याचें वारस!' अर्जुन मान्य करता. लग्न जावन तीन वर्सा तो थंय रावता. तांकां बब्रुवाहन हो चलो जाता. चित्रवाहना फाटल्यान हो बब्रुवाहन मणिपूरचो राजा जाता. अशी काणी आयकल्ली. बब्रुवाहन म्हणून एक सिनेमाय पळयल्लो याद जाता. तर तेंच हें मणिपूर. मणिपूरची दुसरी वळख शाळेंत आसतना मणिपूर नाचावयल्यान जाल्ली.

फेब्रुवारी २०२० त संवसारीक मांयभास दिसा निमतान साहित्य अकादेमीन म्हाका मणिपूराक वचपाची संद दिली. जेन्ना कोंकणीचे साहित्य अकादेमीचे

निमंत्रक भूषण भावेचो फोन आयलो तेन्ना हांवें रोखडोच हयकार दिलो. मागीर, इतलो पयस आनी आपूण खंय पावतलों अशें म्हणत म्हजो घोवूय येवपाक तयार जालो.

आमची फ्लायट गोंय सावन बंगळुरू आनी बंगळुरु सावन कोलकाता थांबून मागीर इफांळ अशी आशिल्ली. रात बंगळुरू विमानतळाचेर काडून न्हिदे दोळ्यांनी विमानांत बसलीं. धा वरांचेर विमान सुटलें. म्हजे एक वटेन घोव बशिल्लो. तो रोखडोच न्हिदलो. दुसरे वटेन एक चली बशिल्लें. तार्णे विमान सुटल्या बराबर रोखडीच ब्लँकेट येवन गुठली केली. तें बद्द कोलकाता विमानतळार विमान देवलें तेन्ना जार्गे जालें. कोलकाता कांय प्रवासी चडले आनी देवलेय बी.

आतां म्हऱ्यांतलें चली जार्गे आशिल्लें. हांव ताका हांसलें. तेंवूय हांसले.

'इंफाळाक वता? पर्यटक म्हणून?' हांवें विचारलें.

'ना... ना. म्हजें घर थंय. हांव बंगळुरु शिकपाक आसतां'.

'किर्ते शिकता?'

'होम सायन्स करतां. थर्ड इयर. न्युट्रीशन विशय घेवन'.

'डायटीशियन जातलें?'.

'हय.. हय. खरें म्हळ्यार डॉक्टर जावपाक जाय आशिल्लें पूण मार्क कमी पडले'.

'आतां सुटी पडल्या तुका?'

'ना.. ना. भावाचें लग्न आसा. प्रिन्सिपलाक रिक्वेस्ट करून पांच दिसांची सुटी मागून येतल्या'.

'मणिपूरांत होम सायन्स कॉलेज ना?'

'आसा तर! म्हज्या बापायक मुद्दम हांव मणिपूरा भायर शिकिल्लें जाय आशिल्लें. इंग्लिश बी उलोवपाची बरी संवय जाता न्ही मागीर'.

आमचो हो संवाद इंग्लिशींतल्यानूच चलतालो. उच्चार कशेय आसूं. दोगांय किर्ते उलयतात हें एकामेकांक समजतालें हें म्हत्वाचें.

' तुजें नांव किर्ते?'

'राजकुमारी रिक्कादेवी'.

'राजकुमारी! वा! बरें नांव'.

'तशें न्हय. हांव खरी राजकुमारी. जल्मान. म्हळ्यार आमी राजवाड्यांत बी रावनात आं. बापूय सरकारी खात्यांत काम करता. आवय टिचर पूण आमी

राजघराण्याचे वंशज. ते खातीर आमच्या नांवां मुखार राजकुमार, राजकुमारी'.

ताका खूब उलोवपाक जाय आशिल्लें. हांव मणिपूराक कित्याक वता तें ताणें विचारलें. हांवें ताका निमंत्रण पत्रिका दाखयली. तातूंतल्या कांय मणिपूरी लेखकांचीं नांवां आपणें आयकल्यांत म्हणून सांगलें. मागीर तें आपल्या भावाच्या लग्ना बद्दल उलोवंक लागलें. कपड्यांचो विशय आयलो तेन्ना हांवें ताका विचारलें,

'मणिपूरी न्हवरो, व्हंकल लग्नांत कसले कपडे घालतात?'

'तुवें मणिपूरी नाच पळयला? तातूंतली नर्तकी वाटकुळो घागरो घालता, वयर पोलको आनी ओढणी. तोच आमची व्हंकल घालता. म्हजी भावाची बायलूय तसलोच घागरो घालतली. ह्या ड्रेसाक 'पोटलोय' म्हणटात.

आमी भुरगेपणांत शाळेंत मणिपूरी नाचाक तसलोच घागरो केल्लो. पुठ्ठ्याचो सिलिंडर करून भायल्यान चकचकीत कपडो लायिल्लो. तो मागीर उबोच उरता. बसपाक मेळना.

'मागीर व्हंकल कशी बसता तर?' हांवें अजापान विचारलें. 'घागऱ्या पोंदा स्टूल दवरतात, त्या स्टूलाचेर व्हंकल बसता आनी कपलाक न्हवऱ्या व्हकलेन गंदाचो तिबो लावपाकूच जाय आं, न्हवरो धवी धोती, धवो कुर्तो आनी धवी पगडी घालता. आनीक एक, लग्नाक न्हवरो व्हंकल जास्मीन फुलांच्यो माळो घालतात. व्हंकल त्यो माळो गुंथता'.

उलयतां उलयतां आमी इंफाळ पावलीं. तें मणिपूरा विशयी आनीकूय सांगतलें आशिल्लें. मनांत म्हळें हाका इतली गुठली करून कित्याक न्हिदूंक जाय आशिल्लें!

'हांगची सिंग्जू ही डीश खांवन पळयात आं' देंवतां देंवतां रुक्कादेवीन म्हळें.

विमानतळा वयल्यान भायर सरतना आंगाचें तापमान मेजताले. आर्म कसो थर्मामिटर पयलेच फावटी पळयलो. ह्या दिसांनी चिनांत, अमेरिकेंत कोरोना विशाणूचे संक्रमीत दुयेंती मेळिल्ले. भारतांतूंय केरळाक



भायल्यान आयिल्ले दोन दुर्येती मेळिल्ले. ते खातीर भायर सरतनाच आंगार्चे तापमान मेजताले.

विमानतळा भायर रुक्कादेवीचो भाव ताका व्हरपाक आयिल्लो. वळख आसूं दी म्हणत तें ताचे वांगडा गेलें. आमीय टॅक्सी येवन हॉटेल क्लासिक ग्रॅन्डांत गेलीं.

भितर सरतनाच आमच्याच विमानांतल्यान आयिल्ले कन्नड लेखक सिध्दरमैया आनी मल्ल्याळम लेखक मेरी रोज मेळ्ळीं. चावी घेवन आमी रुमांत वचपाक वतालीं, इतल्यांत साहित्य अकादमीचे सेक्रेटरी श्रीनिवासराव येवन, पयलीं जेवपाक येयात म्हणून जेवपाक घेवन गेले.

जेवन फ्रेश जालीं आनी सबंद सांजवेळ आसा, मात्शीं भायर भोंवन येवया म्हण सकयल आयलीं. पळयल्यार पांच वरांचेरुच सांजवेळची सात जावन गेल्ले भशेन काळोख जाल्लो. मागीर सकयल लॉबींत बसलीं. एक एकटी  सकयल आयलीं. जेवतना सगळ्यां कडेन वळख जाली. मराठी कवी रफिक सूरज, तांची घरकान्न तब्बसूम, तामिळ कवी जोडर्पे मुरूगेश आनी वेनिला. नामनेचे गुजराथी गितकार तुषार शुक्ला, रोज मेरी, तांच्या  वांगडा उलयत उलयत वेळ कसो गेलो कळ्ळेंच ना.

हांगा फांतोडेचेरूच उजवाड जाता. आज २१ फेब्रुवारी २०२०. संवसारीक मांयभास दीस. त्या निमतान साहित्य अकादेमीन कविता उत्सव आयोजीत केल्लो. मणिपूरच्या पोरणे सचिवालय इमारतींत कार्यावळ आशिल्ली. आतां थंय म्युझियम आसा. तेच इमारतींतल्या सभागृहांत धा वरांचेर कार्यावळ आशिल्ली. णव वरांचेर आमकां गाडी व्हरूंक आयली. भायर शीं आशिल्लें. म्हजे खातीर कुडकुडोच तो! हांवें शाल गुठलायली.

गाडयेतल्यान देंवल्या बराबर मणिपूरच्या युवा लेखकांनी आमकां घसघशीत येवकार दिलो. ल्हानसो हॉल, माची खासा मणिपूरी पद्दतीन सजयिल्ली. माचयेर मुखारूच तबकडेंत दिवली दवरिल्ली. दिवले भोंवतणी खाप्री रोजां तशेंच दिवलेच्या दोशीं वटेन पांच पांच पानांचेर खाप्री रोजां आनी हेर फुलां दवरिल्लीं. मर्दी एके परातींत भाताच्या लाह्यांचे लाडू दवरिल्ले. बरे परातभर. केळ्यांचो फेणो आनी सोण्णां सकट नाल्ल.

साहित्य अकादमीचे सेक्रेटरी के श्रीनिवासरावान येवकारार्चे उलोवप केलें. मणिपूरी लिटररी सोसायटीचे प्रल्हाद शर्मा हांचेंय उलोवप जालें. साहित्य अकादेमीचे उपसंचालक माधव कौशिक हेवूय उलयले.

कवितेचें पयलें सत्र सुरू जालें, तुषार शुक्ला हांचे कवितेन. गुलमोहर ही तांची हिंदींत अनुवाद केल्ली कविता. घरा वांगडा गुलमोहर कसो वाडत गेलो.... काळजाक भिडपी कविता. आनीक याद उरली काश्मिरी कवियत्री रुकसान जबीन हांची कविता. तांकां पयलीं एक फावट हांव गोंयांत मेळिल्लें.

कवितेचें पयलें सत्र जाले उपरांत जेवपाक भायर



माटवांत आयली. जेवण खास मणिपूरी तरेचें आशिल्लें. मोठ्ठ्या तांदळाचें शीत, तांदूळ वाटकुळसार सो आनी मोठो. दोन तरांच्यो दाळी. उडदाची आनी चण्याची. म्हाका कच्च जालें. शिता वांगडा तोरची, मुगाची दाळ खावपाची संवय आसाच. गरज पडल्यार मसुरचीय खावंक शकतां. पूण ह्या दोनूय दाळींनी शीत कालोवन जेवप म्हळ्यार!तीन चार तरांच्यो पातळ भाजयो आशिल्ल्यो.एक आंकूर कशे,दोन पालेभाजयो. लांब लांब पानां तातूंत दिसतालीं. ह्यो कसल्यो भाजयो? हांवें कोणाक तरी विचारलें. ताणें सांगलें न्हंयचे कडेक जावपी पानां म्हणून. हांव आनी रूच पळोवपाक बी गेलें ना. चपाती, पाव अशें कांय नाशिल्लें. इल्लेंशें शीत आनी चण्याची दाळ घेतली. गोडशें म्हणून खास मणिपूरी काळ्या तांदळाचो पायस आशिल्लो. जांबळ्या रंगाचो पायस. इल्लोसो घेतलो, बरोड लागलो. आनीक एक वाटी भरून घेतली आनी पोट भरलें. ह्या पायसाक मणिपूरी भाशेंत चाक - हाओ म्हणटात. हालींसराक हो तांदूळ भारतभर खूब खपता खंय. तातूंत विटामीनां, खनिजां, फायबर,

प्रोटीन खूब प्रमाणांत आसता. अडीजशें ते हजार रुपया किलो मेरेन ताचें मोल आसता अशेंय एकट्यान सांगलें. पायसाची रूच आमी गोंयांत करता तशीच. फक्त तांदळाच्या रंगा खातीर पळोवपाक वेगळो दिसता.

हांव बेगीबेगीन जेवन म्युझियम पळोवपाक






धांवलें. पूण तिकेट काडपाक भायर गेटी मेरेन वच्चें पडलें. बाकी सगळी लेखक मंडळी एकामेकां कडेन खबरो करताली. ह्या निमतान एकामेकां कडेन वळख जाता. पूण इतलें म्युझियमाच्या दारांत पावन म्युझियम पळयनासतना कशें येतलें आशिल्लें? म्युझियमांतलो स्टाफूय बाबडो बसून आशिल्लो. कार्यावळीक आयिल्ली लेखिका म्युझियम पळोवपाक आयल्या म्हणटकीच तिवूय बाबडी उमेदीन धांवून आयली.

मणिपूरची पयलींची विधानसभेची इमारत आतां म्युझियम म्हणून सांबाळ्ळ्या. विधानसभे संबंदीत फोटो, रिकोर्ड्स आनी हेर वस्तू थंय दवरल्यात. विधानसभेची मांडावळ तशींच आसा. थंयचें कांयच हालोवंक ना. ते भायर थंय मणिपूरच्या वेगवेगळ्या जमातींचे भेस, लोकनृत्याचे भेस, थंयचे थळावे अळंकारूय पळोवपाक मेळटात. कृष्ण राधेचें जें प्रसिध्द मणिपूरी नृत्य आसा ताका रासलिला हें नांव आसा म्हणुनूय कळ्ळें. ह्याच नृत्यांतलो भेस मणिपूरी व्हंकल घालता.

एका मणिपूरी लोकनृत्यांत हॉर्नबिल सवण्यांचीं पिसां माळतात. ताचे फाटल्यान एक दंतकथा आसा. आमचे कुंडेकुरकुराचे काणयेंतल्या कुंडेकुरकुरा भशेन एक ल्हान चली आसता. ताची आवय तें ल्हान आसतना मरता. बापूय ताचेर सामको जीव घालता. चलये खातीर म्हणून तो दुसरें लग्न जाता. काणयेंतल्या हेर सावत्र आवयां भशेन हीय आवय चलयेक खूब त्रास

करता. तिचे कडल्यान खूब कामां करून येता.. तिका उपाशी दवरता. चली बापायक कांय सांगना. तांच्या घरा मुखा वयल्यान सदांच हाँर्नबिल सवणीं उडत वतात. हें तांचीं सकयल पडिल्लीं पाखां एकठांय करून दवरता. एक दीस बापूय पयस गेल्लो आसता. कसली तरी परब आसता म्हणून शेजारच्यो इश्टिणी तिका जेवपाक व्हरपाक येतात. आवय तिका धाडीना. वयल्यान जेवणूय दिना. ही चली सांजवेळची भायर येता. आपल्या सगळ्या आंगाक हाँर्नबिलाचीं पिसां लायता. मळबांत हाँर्नबिल दिसतकीच ती व्हडल्यान आड्डता
'लांगमेय डाँग.... लांगमेय डाँग... म्हाकाय व्हरात, म्हाकाय व्हरात. म्हाका मळबांत मुक्त उडूंक जाय. हे बंदखणीचो म्हाका सामको वाज आयला.' हाँर्नबिल तिका रावतात. 'चल यो, पाखां हालय तुजीं'. चली पाखां हालयता. तिवूय एक हाँर्नबिल जाता आनी तांचे वांगडा उडून वता. ही काणी ते चलये कडल्यान आयकली. आनीकूय कांय काणयो आयकूंक मेळतल्यो आशिल्ल्यो. पूण म्हजे कडेन वेळ नाशिल्लो. बेगीबेगीन म्युझियमाक एक धांवती भेट दिवन हांव परत वयर सभागृहांत गेलें.

परिसंवादाचें दुसरें सत्र सुरू जालें. 'इज पोयट्री डायिंग'. परिसंवादांत रोजमेरी, रफिक सूरज, खासा अमेरिकेच्यान आयिल्ले बंगाली लेखक गौतम दत्ता, सगळ्यांचो सूर एकूच आशिल्लो. कविता अमर, ती मरची ना. फाटोफाट आमचें आठ जाणांचें कवितेचें सत्र. चिरू, मणिपूरी, राजस्थानी, तेलगू, उर्दू, उडिया, बोडो आनी कोंकणी. अखिल भारतीय पांवड्यार कोंकणीचें प्रतिनिधित्व करपाक खूब खोस भोगली. हांवें म्हजी एक कविता कोंकणींत सादर केली. मागीर तीन हिंदींत आनी दोन इंग्लीशींत. कविता सगळ्यांक आवडल्यो. 'एक कविता शिजूनाशिल्ली' तर सगळ्यांनी माथ्यार घेतली. अखिल भारतीय पांवड्यार म्हज्या कवितांक इतलो प्रतिसाद मेळत म्हणून हांवें धरूं नाशिल्लें. पंजाबी कवी जगदीप सिध्दू हांणी तर म्हजी कविता मागून घेतली. पंजाबी भाशेंत अणकार करून आपूण पंजाबी मासिकाच्या मुखपृष्ठार छापतां म्हणून.

च्या पिवपाक भायर गेलें तेन्ना मणिपूरी लेखकांनी मुजरत येवन सांगलें कविता आवडली म्हणून .जीव सुखावलो.

कवितेचें निमार्णे सत्र सिंधी लेखिका जया जादवानीन गाजयलें. एका परस एक सुंदर कविता सादर केल्यो आनी एके सोबीत कार्यावळीची सांगता जाली. तो दीस सदांच याद उरतलो आनी ती सांजूय.

रातचें सगळ्यांनी एकाच मेजार बसून येतिल्लें

{ पान क्र. 123 पळयात.}

# हो खेळ दैवाचो...!

दिसाळ्यांनी आनी नेमाळ्यांनी सातत्यान मराठी लेखन करपी डॉ.गुरुदास नाटेकार हे गोंयचे एक नामनेचे उद्देजक आनी सामाजीक वावुरपी. तांणी साहित्याचे वेकवेगळे प्रकार हाताळून गोंयच्या मराठी साहित्यांत मोलाची भर घाल्या. आतां मेरेन तांचीं मराठी, हिन्दी, इंग्लीश आनी कोंकणींत 18 पुस्तकां आयल्यांत.हो खेळ दैवाचो ही तांची सत्य घडणुकेचेर आदारीत आगळी वेगळी नवलिका.



डॉ.गुरुदास नाटेकार
मो. : 9822101357

-8-

लुसी फेरीबोटीची वाट पळयत आसतनाच ताचे फाटले वटेनच्यान कोणें तरी ताका उलो केलो,''लुसीऽऽ''

साद कानार पडटनाच लुसीची मान झुप्प करून आपसूक फाटल्यान घुंवली. आनी पळयत जाल्यार कितें! खासा मायकल धांवत धांवतसो ताचेच वटयां येतालो. तो ताच्या म्हऱ्यांत पावलो तशी लुसीची आवतिकाय सामकी आबूज जाल्ले वरीं जाली. कितें म्हणचें, कशें पाचारचें हाचें ताका कांयच येवजना जालें. मायकल ताचे सामकार उबो रावून ताकाच पळयतालो. धांवत धांवत आयिल्ल्यान तो सामको धांपेतालो!

मागीर मात लुसीक मायकलाचो हुस्को सो जालो. ताणें हुसक्यांनूच ताका विचारलें, ''मायकल,कितें घडलें? असो इतलो नेटान कित्याक म्हूण तूं धांवत आयलो? कित्याक म्हूण तुका अशें धांवत येवंक जाय आसलें?''





'' हे..कांय ना गो...तुका ही चीट दिवपाची आसली.'' मायकलान धांपेतूच म्हणलें.

'' हय रे..पूण ते पासत तुका असो धांवत सो कित्याक येवंक जाय आसलें?''लुसीन विचारलें.

'' आगो येवंक जाय आहलें म्हुणचे कितें? एक गजाल म्हणल्यार हांव तुज्या घरा येवन तुका दिवंक शकना. कित्याक तुज्या घरा तुजी आंटी आसता...'' मायकल.

ताचीं हीं उतरां आयकून लुसीक हांसो फुटलो.

ताका तशें हांसतना पळोवन मायकलान म्हणलें,

'' आनी आतां जर धांवत येवन हांवें तुजी फाट धरूंक नासली जाल्यार तूं परतून म्हाका केन्ना मेळूंक पावतलें हें त्या देवाकूच खबर म्हणपाचें!''

'' आरे, तशें कांय ना आं..सांग! कितें म्हुणटा तूं? मायकल कों मिस्ता? कसो आसाय तूं?''

ताच्या दोळ्यांत पळयत लुसीन विचारलें.

'' हांव फोर्त! रातीं तशी बरी न्हीद पडूंक ना म्हाका देखून तकली मातशी फोडटा..'' मायकल.

हें आयकून लुसी सामकें मोगाळ हांसलें.

'' घे..ही चीट धर...ती पोय तुजी फेरीबोट येता. नातर मागीर म्हुणशी, तुका लागून म्हजी फेरीबोट चुकली म्हूण...!! गरजे भायर म्हजेर गुन्याव नाका.''

''अशें कांय ना आं मायकल!'' अशें म्हणत लुसीन ताचे लागच्यान चीट घेतली. ती ताणें आपल्या बॅगांत घातली. मागीर मायकलाक 'बाय' म्हणत तें फेरीबोटींतल्यान पलतडी वचपाक आपली सायकल धुकलीत फुडें सरलें. ताणें आपली बॅग इतली घट्ट धरून दवरलेली,जशें कितें ताची चीट आनी तें बॅग ओडून काडून कोणूय घेवन धांवतलो!

सायकल घेवन तें फेरीबोटींत भितर सरलें. ताका ती न्हंय सदचीच आसली. पूण आयज मात ताका ती खूबच आपली आपली दिसूंक लागली. न्हंयतलें उदक सामकें शांत आनी थीर आसलें. पूण त्या उदकाचो आनी ताच्या काळजाचो ताळमेळ कसोच लागनासलो. उदक शांत आनी ताच्या काळजाचे ठोके मात एक सारके वाडतूच आसले. पासेंजराक घेवन वचपी ती फेरीबोट ताका आयज बरीच स्लोव चलता अशी दिसली. एकदांची फेरीबोट धक्याक लागली. तरी तें उदका लागीं पळयत उबें आसलें. मागीर सगळ्यांत निमणें ते फेरीबोटींतल्यान सुसेगाद देंवून भायर आयलें.

फेरीबोटीच्या धक्या लागसारचे सुवातेर तरांतरांचीं जायतीं रुखां दाटायेन वयर सरिल्लीं. त्या पासत आतां ते सुवातेर पंचायतीन लोकांक बसपाक कांय बांकडेय घाल्ले. ते सुवातेक एके बागेचेंच रूप आयलां म्हणपाचें दिसतालें. लुसीन सायकल व्हरून कुशीकशा आशिल्ल्या थंयच्याच एका बांकड्या लागीं स्टॅन्डार काडली..आपल्या बॅगांतल्यान लेंस काडून ताणें तो बांकडो मातसो झाडलो आनी ताचेर बसकण मारली.

खरें म्हणल्यार ताका आयज ताच्या फुडल्या शिक्षणाविशीं खबर काडपाक वचपाचें आसलें. तेच पासत तें घरांतल्यान भायर सरिल्लें. पूण वाटेर मायकल मेळिल्ल्यान तें आपलें काम सामकेंच विसरून गेल्लें. म्हुणटातूच न्हय,मोगांत पडटकच आपलो मोगी वा मोगिका सोडल्यार हेर कांयच दिश्टी पडना. लुसीचेंय तशेंच जाल्लें. केन्ना एकदां ती चीट वाचतां अशें ताका जाल्लें.

ताणें आपले बॅगेंतल्यान अचळय ती चीट भायर काडली. तातूंत ताणें कितें बरयलां आसतलें काय म्हणपाची ताका उत्सुकताय लागलेली. तें आयज आपले भितरूच लजेतालें!

तोंडार एक मोगाळ हांसो हाडून लुसीन ती चीट उकती केली.वाव्व! मायकलाचें हातबरप कितलें सोबीत आसलें! त्या हातबरपाच्या तें मोगांतूच पडलें. ताणें चीट वाचपाक आरंब केलो.

'माय डीअर लुसी,

तुजे खूब खूब उपकारी हांव, तुवें म्हाका चीट बरयल्या पासत! कित्याक, तुजे चिटयेची हांव मना काळजांतल्यान खूब आतुरतायेन वाट पळयतालों. हांवें तुजे लागीं इश्टागत जोडप काय ना, हो प्रस्नूच हांगा येयना. कित्याक ज्या खिणाक हांवें तुका पळयलें तेन्ना सावन तुका हांव म्हजी इश्टीण मानतां. तुका हांव गिन्यानाचीं उतरां सांगपाक हांव कोण तितलो व्हड मनीस न्हय! आनी व्हिजिटींग कार्डाचें म्हणल्यार तें कितें घेवन बसलां तूं! तें तर कोणाय कडेन आसूं येता. मनशान व्हड आसचो जाल्यार मनान व्हड आसचो. दुडू आयज आसा जाल्यार फाल्यां ना. मनाची गिरेस्तकाय हीच चड म्हत्वाची ही गजाल तूं सदांच मतींत दवर!

एक म्हत्वाची गजाल. म्हाका म्हुजे इश्टीणी सांगाताक पणजे शारांतल्या पाटो पुला लागीं आसलेल्या 'आंटीज कॅफे'त कॉफी घेवपाची आसा. आय होप,तूं येतलें! वेटींग फॉर यू...

विथ लव्ह...




–मायकल '

ती चीट वाचून लुसी भुरकुटलें. त्या गार्डनांत उडयो मारीत खोशेन नाचचें अशें ताका दिसलें. त्या गार्डनांत तसो दुसरो आनीक कोण नासलो. तीच संद घेवन लुसी आपलेच भोंवतणी वाटकुळेंच घुंवपाक लागलें.

ताणें आपलीं आतां सगळीं कामां कुशीक दवरलीं आनी जाता तितले बेगीन तें मारियागेर पावलें.

मारियाच्या घरा पावल्या बराबर लुसी घरभर भोंवून मारियाक उले मारीत फिरूंक लागलें. लुसीचो आवाज आयकून मारियाय धांवत भायर आयलें.

'' कितें जालें गो लुसी? अशें इतल्यो उडक्यो शें कित्याक मारता?'' मारियान अजापानशें ताका विचारलें.

'' तूं वळखय पोवया कितें जालां आसतलें तें!'' लुसीन तेच उमेदीन मारियाक विचारलें.

'' तुजें ॲडमिशन कन्फर्म जालां आसतलें! पिशा तातूंत इतल्यो उडक्यो मारपा सारकें कितें आसा गो? तुका बरे मार्क मेळ्ळ्यात देखून तुका ॲडमिशन मेवतलेंच! '' मारियान ताच्या भुजांक धरून ताका हालयतशें म्हणलें.

'' आगो,ना! ॲडमिशनाचें कितें घेवन बसलां..? तें आयज ना जाल्यार फाल्यां जातलेंच! म्हाका मुगो, मायकलान चीट बरयल्या.''

खोशयेन भरिल्ल्या लुसीन मुखामळार म्होवाळ हांसो हाडीत आपल्या हातांतली ती चीट ताचे सामकार धरली.

मारियाक तो सामको अजापाचो धक्को आसलो. ताणें लागीं लागीं ती चीट लुसीच्या हातांतल्यान ओडूनूच कशी घेतली.

''आगो, सांबाळ,पिजशी ती!'' अशें चिंतेस्त जावन म्हणपी लुसी कडेन आडनदर करून ताणें ती सरसरीत वाचली लेगीत. मारियाकूय लुसीच्या तोंडांतल्यान ती खोसयेची गजाल आयकून आनी ती चीट वाचून भोवच खोस जाली.

'' मागीर कितें मॅडम? फाल्यां वयता तर तूं तुज्या मयकलाक भेटोंक?'' मिश्कील उतरांनी मारियान लुसीक सवाल केलो.

''चिंततालें गो हांव, वचूं काय नाका म्हूण!''

'' अशें? विचार करता वचूं काय नाका ताचो? तूं ताका मेळूंक सामकें तडफडटा मुगो!''

मारियान ताका तिडायतशें म्हणलें आनी ताचें तें उलोवणें आयकून लुसी आनीकूय लजलें.

''वचूंक तर जाय न्ही गो! पूण हांवें खंयचो ड्रेस घालप फाल्यां तें तरी सांग मुगो!''

''तुका तशें कितेंय सोबता गो! पूण फाल्यां तूं तो आझूल कलराचो व्हिस्तीद घाल.तातूंत तूं आनीकूय सोबीत दिसता. तुजे आझूल दोळे, गोरें आंग आनी तातूंत तुंवें तो व्हिस्तीद चडयलो काय ना, तो खास तुजेच पासत आसा आनीक आनी हे धर्तरेर तो कोणाकूच न्हय अशें दिसूंक लागता!''

आपले मोगाळ इश्टीणीच्या,मारियाच्या तोंडांतलीं तीं तोखणायेचीं उतरां आयकून लुसी सामकें भुरकुटलें. केन्ना वचून आपूण तो ड्रेस भायर काडून फेर्र बी मारतां अशें ताका जालें आनी मारियाचो च्याचो आग्रो मतींत घे नासतना ताका,'बाय बाय! सी यू टुमारो' म्हणत ताणें सायकलीचीं पेदालां मारीत घरची वाट धरली.

घरा परतता आसतना लुसी शेवण्या पांख कशें सामकें वाऱ्यार उफेतालें.आयचे इतली खोशी ताका हे आदीं केन्नाच जावंक नासली. ते खुशालकाये मुखार ताका आपूण फुडल्या शिक्षणा पासत चवकशी करूंक पावलेंच ना हाची मात्तूय खंत ताच्या मनाक आफुडली ना.

तेच खोशयेंत तें केन्ना घरा पावलें हें ताकाच उमगलें ना. तें एका आगळ्याच मुडांत आसलें आनी चलता भोंवतना तो हेरांक जाणवतालो. जेवताना लेगीत तें त्याच मुडांत जेवलें आनी आयज सूर्य खंयचे दिकेक उजवाडला काय म्हूण रोझी आंटीक प्रस्न पडलो. सदांच शांत, दुखेस्त दिसपी लुसीक ती आयज वेगळेच खोशेन भरिल्लें पळयताली!

लुसी आपले कुडींत गेलें. ताणें आलमारींतल्यान



नांत आशिल्लें. पूण मायकलाच्या मोगाचो प्रभाव ताच्या जिविताचेर इतलो खरायेन पडिल्लो, ताणें आपल्या जिविताचो प्रवाहूच दुसरे दिकेन घुंवडायल्लो. भुरगेपणार सावन ताची इत्सा ड्रेस डिझायनर जावपाचीच आशिल्ली. तरी ताणें आतां मायकलाच्या सांगण्यां वयल्यान टिचर जावपाचो निर्णय घेतिल्लो.

उलयतां उलयतां बरोच वेळ जाल्ल्यान लुसीन मयकला लागीं वचपाची परवानगी मागली. पूण मायकल मात कसलोच हुसको आनी चिंता नाशिल्लेवरी निवांत बसून आशिल्लो. ताका लुसीनूच अजापान विचारलें,

'' आरे, तुका शिर्वीस बी ना काय कितें? बारा जालीं. आमी धा वरां सावन पिर्शी कशीं हांगा गजाली मारीत बसल्यांत. चल वच तूं शिर्वीसेक! ना जाल्यार म्हाका लागून तुका पात्रांवाची तापोवणी खावंची पडटली! पागाराचे पयशे बियशे कट जातले!''

आयकून मायकल हांसलो. ताणें म्हणलें,''आगो, म्हजे पयशे कोणूच कट करचोना. हांवूच म्हज्या हाता खाला काम करतल्ल्यांचो पागामेंत कट करतां...आनी दुसरें म्हणल्यार म्हजेर कोणूच आड्डना.''

आपूण कितें उलयलें काय अशें लुसीक जालें.

मायकल बऱ्याच वयल्या हुद्दयार आसा म्हणपाची जाणविकाय इतले मजगतीं लुसीक जाली. देखून ताणें मायकलाक 'सॉरी' म्हणलें आनी ''बाय,सी यू '' म्हणत थंयच्यान वचूंक गेलें.

इतल्यांत मायकलान ताका उलो मारलो,''लुसीऽऽ''

लुसीन फाटल्यान वळून पळयलें.

'' बी इन टच...इट फील्स नायस टू टॉक टू यू...''

ताचें उलोवणें आयकून लुसी मोगाळ हांसलें आनी घरा वचूंक थंयच्यान सडसडीत आपले सायकली कडेन गेलें. ताच्या हांसपांत हयकार आशिल्लो, मायकलाकूय न उलयतां तो उमगलो. दोगांय आपल्या नव्या जिविताविशीं खूब खोशी आशिल्लीं.

त्या मेळपा उपरांत तांचे मदीं एक आगळेंच नातें निर्माण जाल्लें.

त्या उपरांत तीं दोगांय एकमेकांक एकार एक चिटी बरोवंक लागलीं. वयले वयर मेळूंक लागलीं.

१०

लुसी आनी मायकल एकठांय येवन स–सात म्हयने अशेच सरिल्ले. ह्या काळांत दोगांयच्याय नात्यांत जायतो बदल जावन गेल्लो.



एकमेकां बगर रावप तर पयसूच; पूण, एकमेकांक सोडून रावपाची कल्पनाय तांकां सोंसना आशिल्ली. इतलें आसुनूय दोगांय मदल्या एकल्यानूय आपलें तुजेर प्रेम आसा म्हणपाचें उलोवन दाखोवंक नाशिल्लें. मायकल लुसी पासत जमता तितलो वेळ दितालो. लुसी मात ताच्या म ोगांत सामकें बुडून गेल्लें. दीस-रात ताच्या मनांत,ध्यानांत आनी तकलेंत फकत एक आनी एकूच नांव आसलें आनी तें म्हणल्यार 'मायकल'. मायकल सांगता तीच ताचे पासत पुर्व दिका; आनी तो म्हणन तेंच ताचे पासत रायट...अशी ताची अवस्था जाल्ली.

म्हणणी आसाच न्हय!'जेन्ना आपूण कोणाच्या तरी मोगांत पडटा तेन्ना सगळो संवसार एके वटेन आनी मोग करपी ती व्यक्ती दुसरे वटेन आसली तरी आपले पासत ती व्यक्तीच संवसारा परस प्रिय आसता.'

लुसीचेंय तशेंच जाल्लें. पूण लग्ना विशीं वो फुडारा विशीं दोगां मदल्या कोणेंच विशय काडूंक नासलो. लुसी जेन्ना मारिया लागीं उलयतालें तेन्ना तें मारियाक सांगतालें,'' मायकल आनी हांव कितलेच दीस जाले एकठांय आसां; पूण तो केन्नाच म्हजे लागीं आमच्या फुडाराचो विशय काडीना वो ताचो म्हजेर मोग आसा म्हणपाचेंय सांगना.''

तेन्ना मारिया ताका सांगतालें,'' तुजो ताचेर विश्वास आसा न्हय?''

''हय!'' लुसी बाबडेपणान ताका हय म्हूण सांगतालें.

''तशें जाल्यार मागीर सांगतलो तो एक दीस!'' मारिया ताका समजायतालें.

''आगो,पूण केन्ना?''

'' वगत आयलो काय सांगतलो. कित्याक तर, मोगाचे बाबतींत कांय चेडे लजेझाडांच आसतात!''

'' आगो,पूण चेडे केन्ना लजतात तर? कित्या कितेंय सांगूं नाका. चेडवांच लजेतात!''

'' आगो आयक तरी, तुवें आयकूंक ना? झुजांत झुजपाक थोडे लोक भियेनांत. पूण, 'मोग करशीत व्हय', हें विचारपाक वो 'हांव तुजेर मोग करतां' म्हूण सांगपाक मात भियेतात.''

मारियान अशें म्हणलां मात लुसी हांस हांस हांसलें आनी मारियाचोय हांसो तातूंत भरसलो.

''मायकल भिता गो? म्हाका एक सांग मारिया,जो मनीस सकाळीं घरांतल्यान भायर सरल्या उपरांत रात्रीं-अपरात्रीं केन्नाय एकटो घरा येता, ताका गो कसली भिरांत?''

''आगो पिश्या, यू आर सच अ फूल गर्ल! ती भिरांत आनी मोगांतली भिरांत सामकी वेगळी आसता गो!''

'' आगो, तातूंत कितें व्हडलें?''

''फुलीश! आगो तूं न्हयकार बी दीत म्हूण तो भियेता आसतलो! देखून तो विचारपाचे भानगडींत पडना मिस्ता!''

मारियाचें उलोवणें आयकून लुसी लजेलें.

'' आनी तशें जर तुका दिसताच जाल्यार तूं विचार मुगो ताका काजरा विशीं!''

'' आगा, हांव कशें विचारूं? हांव चेडूं भुरगें मुगो! मोगा विशी फुडाकार चेड्यांनीच घेवपाचो आसता, चेडवांनी न्हय अशें आमचें कल्चर सांगता न्हय गो!''

लुसी उलोवपाच्या भारार उलयलें खरें पूण आतां तें लजून सामकें तांबडें जाल्लें.

'' मॅडम, विसर त्यो गजाली आतां, ते दीस गेले आदले. आयज संवसार बदल्ला!''

मारिया इतलें बोल्ड उलयता तें आयकून लुसीक अजाप दिसलें. तें ताच्या तोंडा कडेन पळयतूच उरलें.

उपरांत दोगांयनी हेवटेन तेवटेनच्यो जायत्यो गजाली केल्यो. पूण कसो कोण जाणां मारियाचे तकलेंत मायकला विशीं प्रस्न आयलो आनी ताणें सट्ट करून लुसीक विचारलें,

''बाय द वे लुसी, हो तुजो मायकल करता कितें गो?''

''आगो, कंपनींत आसता तो...''

''खंयचे?''

लुसी आतां मात घुस्पलें. तें मोठ्या कुवाड्यांत सांपडलें. मायकल नेमको खंय काम करता हें ताकाच खबर नासलें.

लुसीन मातशें नाराज जावन शें म्हणलें,'' म्हाका तशें कांय खबर ना गो...''

''अशें कशें खबर ना तर तुका? ज्या मनशा वांगडा तुका फुडार काडपाचो आसा,जिवीत सारपाचें आसा, जो मनीस तुजेर मोग करता अशें तुका दिसता, तो मनीस कितें करता म्हणपाची इतली सादी गजाल तुका खबर नासप? हें चुकीचें अशें दिसना तुका?''

मारियान ताका कडक उतरांनी विचारलें.

''हातूंत चुकीचें कितें आसा तर? म्हजे लागीं ताचें व्हिजिटींग कार्ड आसा! आनी जाचें स्वताचें व्हिजिटींग कार्ड आसा हाचोच अर्थ तो बरे नामनेचे कंपनींत काम करता अशेंच म्हणचें पडलें ना?''

'' लुसी, हांव तुका सल्लो दितां, कोणाच्याय लागीं व्हिजिटींग कार्ड आसप म्हणल्यार तो नावास्ते कंपनींत काम करता अशें जायना. असलीं व्हिजिटींग कार्डां आतां कोणूय

छापून दितात. तूं कितेंय करचे आर्दी.. म्हणल्यार ताचे लागीं काजार करपाचे येवजुचे आर्दी...एक खेप ताका ताचे फामिली विशीं, कामा विशीं,तुमच्या फुडारा विशीं सीरीयसली विचार ताका.''

''बरें आसा.'' लुसीन फुगून शें म्हणलें.

''लुसी, तुजें बरें जावंचें इतलेंच म्हाका दिसता. देखुनूच तुका बऱ्याचीं दोन उतरां सांगनशीं दिसलीं.''

''हय गो मारी..हांव जाणां तें!''

'' आय केअर फॉर यू..''

''आय नो डिअर.''

''  चल! येतां हांव. लुसी, तूं तुजी स्टडी सारकी कर.आय वील मीट यू लेटर.''

''बाय!''

''चड येवजूं नाका.तकली शांत दवर''

मारियान लुसीक आपलेपणान सांगलें,आनी लुसीक, आपले मोगाचे इश्टीणीक बाय करून आपल्या घरा गेलें.

(चलता...)

जेवण आनी कवितांचेर केल्ली चर्चा. परत केन्ना तरी अशीच कार्यावळींनी मेळुंया म्हणत आमी एकामेकांचो निरोप घेतलो.

आमी सोडल्यार हेर सगळीं जाणां दुसरे दिसा सकाळीं फुडें वचपाचीं आशिल्लीं. फकत जया जादवानी 'मोरे' ह्या मणिपूराच्या गांवांत वचपा खातीर मुद्दम राविल्ली. ब्रम्हदेशाच्या म्हळ्यार म्यानमाराचे शिमे वयलो हो गांव. हांगच्यान म्यानमारचे तामू हे शिमे वयल्या गांवांत वचपाक मेळटा. पूण मदीं मदीं ही शीम बंद आसता. जया टॅक्सी करून थंय वचपाची आशिल्ली. आमकांय येता जाल्यार यो म्हणपाक लागली. इंफाळ ते मोरे स वरांचो प्रवास. ती सकाळी फुडें संक भायर सरपाची आशिल्ली.

आमच्या हॉटेलांत जाणट्यांचो एक कॉलेज रियुनियन ग्रुप राविल्लो. तांचे भितर एक रिटायर्ड मेजर आशिल्लो. तेवूय आमचेकडेन उलयताले. तांणी म्हाका सोमर्तेच सांगलें तुजे कडेन जर मणिपूर पळोवपाक एकूच दीस आसा जाल्यार तूं मोरे वचूं नाका. वचपाक स वरां आनी येवपाक स वरां. रस्तो सामको वायट, आंग धोडावतलें. आनी दुसरें म्हळ्यार थंय वेगळें कांयच ना. मणिपूराच्या खंयच्याय गांवा भशेन, ल्हान शारा भशेन गांव. फकत थंय चिनी बनावटीच्यो सगळ्यो वस्तू विकत्यो मेळटात. थंय वचून त्यो येवन येवपाच्यो आनी आपूण म्यानमाराक पांय लावून आयलों म्हणून खोशी जावपाचें. चॉयस इज युवर्स. हांवें सोमर्तेच मोरे वचपाचें तकलेंतल्यान काडलें आनी दुसरे दिसा इंफाळ लागसार भोंवपा खातीर संबंद दिसां खातीर टॅक्सी बूक केली.

सकाळीं फुडें ड्रायव्हर बिपीन गाडी घेवन आयलो. पयलीं मोयरांग ह्या लागसारच्या गांवांत या म्हणूंक लागलो. भारतांतल्या सर्वसादारण गांवा भशेन एक गांव. फकत पुर्वोत्तर राज्यांतल्या मनशांचो तोंडावळो वेगळो आशिल्ल्यान आनी न्हेसपाचे पद्दती वयल्यान भारताचे ईशान्येक आसात म्हणून कळटालें. रस्त्यार चडश्यो रंगरंगयाळ्यो 'फनेक' न्हेशिल्ल्यो बायलो सायकली वयल्यान वतना दिसताल्यो. नांबोल ह्या ल्हानशा गांवांत रस्त्या कुशीक तरेकवार भाजयो घेवन बशिल्ल्यो बायलो दिसताल्यो. लांब लांब कोयतेवालांचे घोंस दिसताले. देंवर्ले आनी पळयर्ले. लांब लांब पीळ पडिल्ले वाल. योंगचाक म्हणटात खंय थळावे भाशेंत.

वाटेर बिष्णूपूर हो गांव लागलो. थंय पंदराव्या शतकांत बांदिल्लें गांवठी विटांचें विष्णूचें देवूळ आसा म्हूण काल आयकल्लें, ती याद जाली.

'आरे पळय हांगा खंय विष्णूचें देवूळ आसा तें!'.

'हांगा कांय ना. इंफाळाक तें गोविंदजी टेम्पल आसा. हांगा हांवें केन्ना आयकूंना.'

गाडी थांबोवन हांवें कोणाक विचारलें. 'हय खूब पोरणें देवूळ आसा'. तार्णे वाट सांगली. पांयणी पांयणींतल्यान वाट काडीत, रस्तो विचारीत एकदांचीं देवळा कडेन पावलीं. ल्हानशें वेगळेच शैलीन बांदिल्लें तांबड्याच कोरांचें सुळसुळीत देवूळ. देवळाचें दार बंद आशिल्लें.

आतां आमी मोयरांग तळ्या कडेन पाविल्लीं. लोकटाक तळें. पाचवेचार तळें. ईशान्य भारतांतलें गोड उदकाचें सगळ्यांत व्हडलें तळें. तळ्यांत इल्ले इल्ले पांचवेचार जुंवे उफेताले. हांकां थंय फुमडी म्हणटात. तळ्यांतलो गाळ, वनस्पतीचीं मुळां हांचे पासून ह्यो फुमड्यो तयार जातात. ह्या फुमड्यांनी नुस्तेकारांच्यो खोपी लेगीत आसतात. केन्ना केन्नाय खोपी आशिल्ल्यो फुमड्योय बी उफेत वतात. त्यो वचूंक जायना म्हणून कुशीक कोंडे लायिल्ले आसतात. ह्या लोकटाक तळ्या मदीं एक ल्हानसो सेंद्रा नांवाचो जुंवो आसा. ताचेर इल्लीशी दोंगुल्ली आसा आनी हे दोंगुल्लेचेर आसा एक सुपुल्लें फ्लोटींग हॉटेल. थंय मेरेन वचपाक व्हडीं आसात. चेन्नयचे मुरुगेश आनी वेनिला हें कवी जोडपें एक दीस पयलीं आयिल्लें. ती हांगा सेंद्रा जुंव्यार येवन गेल्लीं. म्हाकाय वचपाची उमेद आशिल्ली. सद्गुरून सोमर्ते ना म्हणून सांगलें. असल्या व्हड्यांत बी बसून आपूण वच्चोंना, तुका जाय जाल्यार तूं वच,

आपूण हांगा बसतां. आतां एकटे किर्ते वतलें? आंसू म्हळें. थंय आशिल्ल्या रिसोर्टात भितर सरलीं. आमी इंफाळाक ज्या हॉटेलांत राविल्लीं तांचेंच हें रिसोर्ट. बिपीनान सांगलें, चलात भितर म्हणून. हांगच्यान लोकटाक तळ्याचो व्ह्यू सुंदर दिसता.

थंय वचत जाल्यार आमचो बंगाली कवी गौतम दत्ता थंय बशिल्लो. कोलकाता वचपी फ्लायटीक अजून बरोच वेळ आसा म्हणून हांगा आयलो. सैमाच्या सांगातान अशें एकटयान बसपाक बरें दिसता म्हणूंक लागलो. हांव आनी ताका चड डिस्टर्ब करपाक गेलें ना. तळ्याचे फोटो काडूंक लागलें. इतले म्हणसर रुकसान जबीन, जगदीप सिध्दू, जया जादवानी आनी उर्दु कवी हनीफ रिसोर्टातल्यान भायर सरलीं. तांचीय फ्लायट खंय दनपारची आशिल्ली, खरें म्हळ्यार जया मोरे वचपाची. तिका थंय पळोवन म्हाका अजाप जालें. तिणें सांगलें आज म्यानमार शीम बंद म्हणून.

इंडियन नॅशनल आर्मिचें म्युझियम थंय लागींच आसा. थंय गेलीं. १४ एप्रिल १९४४ दिसा नेताजी सुभाषचंद्र बोसाच्या आझाद हिंद सेनेन थंय भारताचो झेंडो हुबयल्लो. हांगा ८ जुलै १९४५ त स्वता नेताजीन वॉर मेमोरियम बांदपाक पायाभरणी केल्ली आनी फातर बसयल्ली. ब्रिटीश सैन्या कडेन झगडटना मणिपूर, आसाम आनी ब्रम्हदेशाच्या जवानांनी आपलो जीव वगडायिल्लो. ताचो उल्लेख ते फातरीचेर आशिल्लो. पूण १९४५त ब्रिटिशांनी तें मोडून उडयलें. मागीर १९९५ त सिंगापूरांत आशिल्ल्या भारतीयांनी पयशे एकठांय करून तें परत बांदलें. इंडियन नॅशनल आर्मीचो सिंगापूरच्यान सुरू जाल्लो प्रवास ... ब्रम्हदेशांतल्यान इंफाळ पाविल्लें सैन्य...कॅप्टन रामसिंगान बरयल्लें गीत 'कदम कदम बढाये जा' सैन्याचें मनोबल वाडयतालें... हो सगळो इतिहास थंय वाचूंक मेळटा.

ते भायर नेताजींचे फोटो, पत्रां आनी हेर वस्तू थंय आसात. भायर नेताजींचो पुतळो आसा. परत येतना बिपिन म्हणपाक लागलो, हालींच हांगा इंफाळ पीस



म्युझियम जाला. थंय या?

'हय तर, इतले लागी पावन आनी वचनासतना रावप!' गेलीं थंय. सुंदर वाठार. ह्या म्युझियमाक दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत १९४४ च्या अदमासाक जपानी आनी ब्रिटीश सैन्याचे इंफाळ वाठारांत जाल्ल्या झुजाची फांटभूंय आसा. जपानच्या निप्पॉन फांवडेशनान हें म्युझियम बांदपाक फुडाकार घेतला. ह्या म्युझियमाचे तीन भाग आसात. एका भागांत प्रत्यक्ष झुजांत वापरलेल्यो वस्तु आसात. चडश्यो जपानी सैनिकांच्यो. तांच्या घरच्यांनी म्युझियमा खातीर त्यो दिल्यात. दुसरो भाग झुजा उपरांतच्यो आनी तिसऱ्या भागांत मणिपूरचे संस्कृतायेचें दर्शन जाता. थळावीं लोकनृत्यां, भेस, खेळ. म्यानमार ते इम्फाळ मेरेनच्या झूज जाल्ल्या त्या जाग्यार जेन्ना केन्ना उत्खनन जाता, तेन्ना झुजा संबंदीत किर्ते ना किर्ते मेळत आसता.

म्युझियम पळोवन तकली भेरेली. फाटीं जपानांत गेल्लीं तेन्ना हिरोशिमा पिस म्युझियम पळयल्लो. हीं म्युझियमां पळयल्ल्या मनशांक आनी झुजां जावंची अशें केन्नाच दिसचें ना. भारतांत दुसऱ्या म्हाझुजाचो सगळ्यांत चड धग कोणाक लागला जाल्यार तो ह्या

मणिपूरच्या लोकांक. दुसऱ्या म्हाझुजाचो परिणाम बी आमी शाळेंत इतिहासांत शिकल्यांत. पूण मणिपूराचो उल्लेख तातूंत केन्ना आयिल्लो याद जायना.

मोयरांग सावन परतीं इंफाळाक आयलीं. खूब वर्सां पयलीं इंफाळाक मिलिटरीचो पारो आसतालो. नागा, कुकी आनी हेर जमातीं भितर थंय सदांच झगडीं जातालीं. दंगे जातालें. ते खातीर पर्यटक बी थंय वचपाक भितालें. आतां तशें कांय ना. पर्यटकांक मेकळेपणान भोंवपाक मेळटा. पूण काळोख बेगीन जाता. ते खातीर आठां उपरांत रस्ते किण्ण जातात.

फाटीं हांवें मणिपूरी कवी देवराजाची 'इंफाळ' ही कविता वाचिल्ली. धगधगत्या इंफाळाचें वर्णन आशिल्लें तातूंत. कवीन इंफाळाची तुळा शेंदरेच्या पुरपल्ल्या धाग्यां कडेन केल्ली. एका संपन्न शाराची दशा जाल्या. पुरपल्ले धागे सुटून सुटनात. शाराचे छातयेचेर बांयच्या उदका भाशेन शेळो दाटला. फौजी बुटांच्या आवाजान शारांतले रस्ते इमारती भंयान कुळकुळटात. आर्म दाखोवन युवांक जिपीन भरतात. जाणट्यो आवयो तांची परतून येवपाची वाट पळयत दारांत उब्यो रावतात.. खूब व्हडली कविता. फनेक, इमा बाजार, असलींय सांस्कृतीक संदर्भ आशिल्लीं उतरां तातूंत आशिल्लीं. इंफाळ भोंवतना ते कवितेची याद जाली.

दनपारचीं अडीज वरां जाल्लीं. वाटेर सँन्डविचाचें पार्सल घेतलें. तें लेगीत चुकून म्हणटात तशें मेळ्ळें. दुसरें खावपा सारखें कांयच मेळूंक ना. जेवपाक एक वर बी ओगडावपाचें नाशिल्लें. ते खातीर किर्ते मेळटा तें घेतलें. बिपिनान म्हळें, ' आतां देवळांत व्हरतां'. बरें म्हळें. थंय वचत जाल्यार कळ्ळें, आतां देव न्हिदला. देवूळ बंद. दनपारां बारा ते चार वरां मेरेन खंय देवूळ बंद आसता.

हें देवूळ कृष्णाचें. वैष्णव संप्रदायाचें एक मुखेल सांस्कृतीक केंद्र. देवूळ धवेंच. वयर दोन भांगरा कोराचे घूड आसात. भितर सरपाक तीन दारां. भितर तीन गर्भकुडी. मदले कुडींत राधाकृष्ण आनी कुशीचे कुडींत कृष्णबलराम, तिसरे कुडींत जगन्नाथ. सगळ्यांक

भायल्यानूच पांयां पडले. होळयेक आनी अष्टमीक हांगा व्हड उत्सव जातात. तेन्ना मुखा वयल्या मंडपांत रासलिला हें खाशेलें मणिपूरी नृत्य सादर जाता.

थंय सावन कांगला फोर्टांत वचपाक गेलीं. 'देवूळ बी दनपारां बंद आसता म्हणून तुका कांयच खबर ना रे? काय बरें निमाणें हांगा येवपाक मेळटलें आशिल्लें.' बिपिन हांसलो आनी ओग्गी रावलो. पर्यटकांक दाखोवपाचीं थळां सगळीं खबर आसात. वयल्यान हो म्हाका सांगता.

' हो पळय शहीद मिनार.' मिनारा कडेन बोट दाखयत बिपिनान म्हळें. आपल्याक सगळें खबर आसा हें दाखोवपाक हो मिनार तार्णे म्हाका दाखयलो जावंयें! भारताक स्वातंत्र्य मेळोवपा खातीर ब्रिटीश सत्ते कडेन जे लोक झगडले जांणी आपलो जीव वगडायलो तांचें यादस्तीक म्हणून हो मिनार उबो केला. हो मिनार एका पार्कांत आसा.

लागींच कांगला फोर्ट. कांगला म्हळ्यार मणिपूर भाशेंत सडो. ह्या सड्यार पयलीं राजवाडो आशिल्लो. किल्लो आशिल्लो. आतांय ताचो थोडो भाग पळोवपाक मेळटा. मणिपूरांत सगळ्यांत पयलीं वसणूक करपी मैतेय समुदाया खातीर हो कांगला परिसर म्हळ्यार तिर्थस्थान कशें. हांगा तांचीं लोकदैवतां आसात. भितर सरतना खूब देवळां-देवळ्यो दिश्टी पडटात 'इबुधो पाखांबा' हो मणिपूरचो लोकदेव. सोरपा भशेन दिसपी. पूण ड्रेगना भशेन शिंगां आसात. हाचें देवूळ थंय आसा. थंय आनीक एक व्हड्लें घर आसा. देवळाच्या आकाराचें. हातूंत चार व्हडीं आसात. दोन सादींच लाकडाचीं. तीं सामान्य लोकांक. बोट रेसींत बी भाग येवपाक. दोन बरींच व्हड. हीं खास देवा खातीर. इबुधो पाखांबा हातूंत बसता. ह्या व्हड्यांचो फुडलो भाग लांब. ड्रॅगनाच्या आकाराचो. भांगरा कोराचो, ह्या ड्रॅगनाचे नांव 'तावरोयनाय'. फुडें किल्ल्यांत भितर सरपाच्या दरवंट्या कडेन दोन धवेच शिंवाच्या रुपांतले ड्रॅगन आसात. हे किल्ल्याचे राखणदार. कांगलाशा बरोच व्हड परिसर. दनपारचीं तीन वरां जाल्लीं. वताचो रखरख. भितरले रस्ते बरे रुंद. खूब चलचें पडटा. पळयत जाल्यार पर्यटकांक बसोवन व्हरता ती बग्गी कार दिश्टी पडली .आतां वासपूस करून कांय उपेग नाशिल्लो. परतें चलून आयलें. चलून चलून पांयांत गुळें आयिल्लें. गाडयेंत येवन बसलें.

'आतां खंय व्हरता?' 'सिमितरीन' बिपिनान म्हळें. 'सिमितरीन?'

'हय, इंफाळ वॉर सेमट्री' अशें म्हणत तार्णे गाडी युंवडायली. 'आतां हांगा कोनशाक बसून मोग करपी जोडपींच चड मेळटलीं.' अशें म्हणत हासूंक लागलो. म्हाका इंफाळ हे कवितेची याद जाली. कवी म्हणटा, 'इंफाळ शारांत नळाच्या उदका खातीर हातांत कळसुल्यो येवन फनेक न्हेशिल्ल्यो चलयो रांको लायतात. आनी त्योच चलयो रिकाम्या वेळार आपल्या मोग्या वांगडा वॉर सेमट्रिच्या दुरगा कुशीक बसून पळून



वचपाचो प्लॅन करतात. मणिपूरांत चलो-चलयेचे संमतीन जावपी गांधर्व विवाहाक मान्यताय आसा.

हांव कविता याद करत वॉर सेमट्रिंत भितर सरलें. पाचव्याचार लॉनार एके वळींत मर्दी मर्दी एक एक थडें. ताचेर भितर न्हिदिल्ल्याची म्हायती. दोन थड्यां मर्दी एक एक फुलांचें झाड. निवळ परिसर. सेमट्रिच्या भायल्या दुरगाक तेंकून स्कूटरीचेर दोन जोडपीं बशिल्लीं. यडये भितर रखरखीत वोत आशिल्लें म्हणून थंय बशिल्लीं जावये! भायर झाडी आशिल्ली आतांच इंफाळ पीस म्युझियम पळोवन आयिल्लें. आतां ही सिमितर. कित्याक आनी कोणा खातीर हीं झुंजां? दोनूय वटेन मरपी हो निमणो मनीसूच!

'चलात, आतां आमी इमा मार्केटांत या'. बिपिनान म्हळें.

'नाका इतले बेगीन. वताच्या कडार ! पयलीं म्हाका हातमागार तयार जावपी हांगची खास मोयरांगफी साडी येवपाक जाय.' मणिपूरी लेखिकेन म्हाका साडयांच्या दुकानांचें पत्ते दिल्लें. पवना बाजारांतल्या एका दुकानाचें नांव दिल्लें. थंय मेळना जाल्यार व्हिवर्स सोसायटीचो पत्तो दिल्लो. हांवें दोनूय पत्ते ताका दाखयले.

'तर्शे जाल्यार पयलीं तुमकां आनीक एका जाग्यार व्हरतां. हांगचें लोकदैवत - मागीर साडी येवया'. 'बरें बाबा, खंय व्हरता थंय व्हर'.

'आनीक एक देवूळ आसा, मणिपूरचे लोक खूब मानतात ताका. थंय व्हरतां'. तर तार्णे रानांतल्यानशी गाडी व्हेली. सामको अशीर रस्तो. फुडल्यान आनी गाडी आयल्यार किर्ते करतलो काय? अर्शे येवजीत हांव वोग्गी बसलें. तार्णे गाडी एके दोंगुल्ले कडेन व्हरून थारायली. हांवें वयर पळयलें. दोंगुल्लेचे सकयल एक दरवटो आशिल्लो. ताचेर एक पाटी आशिल्ली. पाटयेचेर दोशी वटेन घोड्यांचीं चित्रां काडिल्लीं आशिल्लीं आनी मर्दी बरयल्लें, 'इबुधो मारजिंग खुबा'. हैमगेंग, चींग, इंफाळ, ईस्ट. आतां हांगा मेरेन आयलां, तर वयर वचून पळोवया म्हळें. वयर चडपाक सोंपणां आशिल्लीं. आनी सावळीय आशिल्ली. बिपिनान म्हळें, म्हाका मणिपूरी भाशा कळटा. तो आयलो. सद्गुरू सकयलूच रावलो.

कितलींशींच सोंपणां चडून वयर आयलें. तर वयर एक बांदिल्लें पेड आशिल्लें. पाशाणी मुर्त आनी ताका धर्वे पुडवें न्हेसयल्लें. फुलां याल्लीं आशिल्लीं. कुशीक व्हडलो घोडो आशिल्लो. ते भायर कितलेशेच मातयेचे ल्हान ल्हान घोडे आशिल्ले. मडगांवच्यान साखळे बी वतना उसगांव, कुडण्या घुमट्यो दिसतात. थंय ल्हान व्हड असले घोडे दवरिल्ले दिश्टी पडटात. राखणदारांक भोंवपाक म्हणून अशे मातयेचे घोडे दितात. तें पळोवन दिसलें, तूं खंयूय वच, लोकांच्यो भावना त्योच आसतात. ह्या मारजिंग देवाचो संबंद सागोल कांगजेय ह्या खेळा कडेन आसा. आतांचो जो पोलो खेळ आसा ताची सुरवात ह्या सागोल कांगजेय खेळा पासून जाल्या. सागोल म्हळ्यार मणिपूरी भाशेंत घोडो. मणिपूरी जातीचे घोडे हेर भारतीय घोड्यां परस मोटवे आसतात. कांग म्हळ्यार वाटकुळी वस्त. जेय म्हळ्यार बडी. ही लोकदैवतां आसात. भितर सरतना खूब देवळां-देवळ्यो दिश्टी पडटात 'इबुधो पाखांबा' हो मणिपूरचो लोकदेव. सोरपा भशेन दिसपी. पूण ड्रेगना भशेन शिंगां आसात. हाचें देवूळ थंय आसा. थंय आनीक एक व्हड्लें घर आसा. देवळाच्या आकाराचें. हातूंत चार व्हडीं आसात. दोन सादींच लाकडाचीं. तीं सामान्य लोकांक. बोट रेसींत बी भाग येवपाक. दोन बरींच व्हड. हीं खास देवा खातीर. इबुधो पाखांबा हातूंत बसता. ह्या व्हड्यांचो फुडलो भाग लांब. ड्रॅगनाच्या आकाराचो. भांगरा कोराचो, ह्या ड्रॅगनाचे नांव 'तावरोयनाव'. फुडें किल्ल्यांत भितर सरपाच्या दरवट्या कडेन दोन धवेच शिंवाच्या रुपांतले ड्रॅगन आसात. हे किल्ल्याचे राखणदार. कांगलाशा बरोच व्हड परिसर. दनपारचीं तीन वरां जाल्लीं. वताचो रखरख. भितरले रस्ते बरे रुंद. खूब चलचें पडटा. पळयत जाल्यार पर्यटकांक बसोवन व्हरता ती बग्गी कार दिश्टी पडली .आतां वासपूस करून कांय उपेग नाशिल्लो. परतें चलून आयलें. चलून चलून पांयांत गुळें आयिल्लें.

गाडयेंत येवन बसलें.

'आतां खंय व्हरता?' 'सिमितरीन' बिपिनान म्हळें. 'सिमितरीन?'

'हय, इंफाळ वाँर सेमट्री' अशें म्हणत तार्णे गाडी धुंवडायली. 'आतां हांगा कोनशाक बसून मोग करपी जोडपींच चड मेळटलीं.' अशें म्हणत हासूंक लागलो. म्हाका इंफाळ  हे कवितेची याद जाली. कवी म्हणटा, 'इंफाळ शारांत नळाच्या उदका खातीर हातांत कळसुल्यो घेवन फनेक न्हेशिल्ल्यो चलयो रांको लायतात. आनी त्योच चलयो रिकाम्या वेळार आपल्या मोग्या वांगडा वाँर सेमट्रिच्या दुरगा कुशीक बसून पळून वचपाचो प्लॅन करतात. मणिपूरांत चलो-चलयेचे संमतीन जावपी गांधर्व विवाहाक मान्यताय आसा.

हांव कविता याद करत वाँर सेमट्रिंत भितर सरलें. पाचव्याचार लाँनार एके वळींत मदीं मदीं एक एक थडें. ताचेर भितर न्हिदिल्ल्याची म्हायती. दोन थड्यां मदीं एक एक फुलांचें झाड. निवळ परिसर. सेमट्रिच्या भायल्या दुरगाक तेंकून स्कूटरीचेर दोन जोडपीं बशिल्लीं. घडये भितर रखरखीत वोत आशिल्लें म्हणून थंय बशिल्लीं जावये। भायर झाडी आशिल्ली आतांच इंफाळ पीस म्युझियम पळोवन आयिल्लें. आतां ही सिमितर. कित्याक आनी कोणा खातीर हीं झुंजां? दोनूय वटेन मरपी हो निमणो मनीसूच!

'चलात, आतां आमी इमा मार्केटांत या'. बिपिनान म्हळें.

'नाका इतले बेगीन. वताच्या कडार ! पयलीं म्हाका हातमागार तयार जावपी हांगची खास मोयरांगफी साडी घेवपाक जाय.' मणिपूरी लेखिकेन म्हाका साडयांच्या दुकानांचें पत्ते दिल्लें. पवना बाजारांतल्या एका दुकानाचें नांव दिल्लें. थंय मेळना जाल्यार व्हिंवर्स सोसायटीचो पत्तो दिल्लो.  हांवें दोनूय पत्ते ताका दाखयले.

'तशें जाल्यार पयलीं तुमकां आनीक एका जाग्यार व्हरतां. हांगचें लोकदैवत - मागीर साडी घेवया'. 'बरें बाबा, खंय व्हरता थंय व्हर'.

'आनीक एक देवूळ आसा, मणिपूरचे लोक खूब मानतात ताका. थंय व्हरतां'. तर तार्णे रानांतल्यानशी गाडी व्हेली. सामको अशीर रस्तो. फुडल्यान आनी गाडी आयल्यार किर्ते करतलो काय? अशें येवजीत हांव वोग्गी बसलें. तार्णे गाडी एके दोंगुल्ले कडेन व्हरून थारायली. हांवें वयर पळयलें. दोंगुल्लेचे सकयल एक दरवटो आशिल्लो. ताचेर एक पाटी आशिल्ली. पाटयेचेर दोशी वटेन घोड्यांचीं चित्रां काडिल्लीं आशिल्लीं आनी मदीं बरयल्लें, 'इबुधो मारजिंग खुबा'. हैमर्गेग, चींग, इंफाळ, ईस्ट. आतां हांगा मेरेन आयलां, तर वयर वचून पळोवया म्हळें. वयर चडपाक सोंपणां आशिल्लीं. आनी सावळीय आशिल्ली. बिपिनान म्हळें, म्हाका मणिपूरी भाशा कळटा. तो आयलो. सद्‌गुरू सकयलूच रावलो.

कितलींशींच सोंपणां चडून वयर आयलें. तर वयर एक बांदिल्लें पेड आशिल्लें. पाशाणी मुर्त आनी ताका धवें पुडवें न्हेसयल्लें.  फुलां घाल्लीं आशिल्लीं. कुशीक व्हडलो घोडो आशिल्लो. ते भायर कितलेशेच मातयेचे ल्हान ल्हान घोडे आशिल्ले.  मडगांवच्यान साखळे बी वतना उसगांव, कुडण्या घुमट्यो दिसतात. थंय ल्हान व्हड असले घोडे दवरिल्ले दिश्टी पडटात. राखणदारांक भोंवपाक म्हणून अशे मातयेचे घोडे दितात. तें पळोवन दिसलें, तूं खंयूय वच, लोकांच्यो भावना त्योच आसतात. ह्या मारजिंग देवाचो संबंद सागोल कांगजेय ह्या खेळा कडेन आसा. आतांचो जो पोलो खेळ आसा ताची सुरवात ह्या सागोल कांगजेय खेळा पासून जाल्या. सागोल म्हळ्यार मणिपूरी भाशेंत घोडो. मणिपूरी जातीचे घोडे हेर भारतीय घोड्यां परस मोटवे आसतात. कांग म्हळ्यार वाटकुळी वस्त. जेय म्हळ्यार बडी. हीवाटकुळी वस्त चड करून लाकडाचो वाटकुळो कुडको वा सोण्णां सकट नाल्ल आसतालो. हो इबोधु मारजिंग देव घोड्यार बसून भोंवता आनी सगळ्यांची राखण करता. आमची मडगांवकारांचीय तशीच श्रध्दा आसा. दामबाब रातचो घोड्यार बसून भोंवता म्हणून. झुजांत,

{ पान क्र. 228 पळयात.}

# मिलेर






प्रमिला सुभाष बोरकार
मो. : 0832-2759181

कोंकणी भाशेची आनी साहित्याची चळवळ हातूंत आपलें तांकता तशें योगदान दिवपी प्रमिला बोरकार कविता, कथा, बालसाहित्य आनी ललित ह्या साहित्य प्रकारांत फाटलीं कितलींच वर्सां योगदान दीत आसात. भुरग्यां खातीर बरयतना तांचो भुरग्यांच्या मानसशास्राचो अभ्यास वाचकांच्या लक्षांत येता...

बाई भुरग्यांक १९ डिसेंबराक सादर करपाक गीत शिकयताली. राजूचें लक्षच नाशिल्लें. दप्तार खांदाक लावन तो शाळा केन्ना सुट्टा हाची वाट पळयतालो. ताची चुळबूळ पळोवन बाईन एक धेंगसो घालो,

''राजू खंय चल्लो? अजून वेळ जावंक ना शाळा सुटपाचो. सारकें लक्ष दिवन पद म्हण.''

राजूच्यान आनीक चड वेळ कशेंच रावूं नज जालें. पूण कितें करतलो?

ताका कारणूय तशेंच आसलें. तो आनी ताचो भाव विजू सकाळीं शाळेंत येतना वाटेर तांकां दोनशें रुपयांची एक नोट मेळिल्ली. ती नोट ताच्या बोल्सांत आशिल्ली. केन्ना एकदां सदाकाकाल्या







पसऱ्यार वचून व्हडली कॅडबरी घेवन खातां अशें ताका जाल्लें.

इतल्यांत शाळेची घांट वाजली. राजून आनी वेळ केला? तो धांवत वर्गाच्या भायर सरलो. बाईन रागान दोळे मोठे केले. तिणें म्हणलें, ''राजू पयलीं येवन रांगेंत उबो राव. दुसरी, तिसरी आनी निमणे चवथेच्या वर्गांतलीं भुरगीं भायर सरलीं. राजू सगळ्यांच्या शेवटाक! ताणें विजूचो हात धरून ओडत-ओडत ताका घेवन धांवपाक सुरू केलें. खर्शेंत-धांपेत तो सदाकाकाल्या पसऱ्यार गेलो.

'' काका, काका एक व्हडली कॅडबरी आनी एक चीप्सां पाकीट दी.'' ताणें खर्शेंत म्हणलें.

सदाकाकान चॉकलेट आनी चीप्स राजूक दिले.

''१८० रुपया जाले...'' सदाकाकान सांगलें.

राजून बॉल्सांतली दोनशें रुपयांची नोट काडून सदाकाकाक दिली. काकान उरिल्ले वीस रुपया काडून ताका परत दिले. फाल्यां ह्या पयशांचे गड्डे घेवन खावया अशें थारावन विजूक कॅडबरिचीं तीन कापां दिवन राजून उरिल्ली सगळी कॅडबरी आपणेच खाली.

घरा येवन कपडे बदलून, हात-पांय धुवन सकाळीं आईन रांदून दवरिल्लें जेवण काडून विजून दोगांयच्याय ताटांत वाडलें. आई लोकांगेर आयदना घांसप, जमीन पुसप असलीं कामां करताली. शेजाऱ्यांगेर घराची चावी दवरून ती कामाक वताली.

''राजूदादा, यो मरे जेवपाक. म्हाका भूक लागल्या.'' विजून राजूक उलो मारलो. हांगा राजू चीप्स खावपाक गुल्ल जाल्लो.

सांजे आई घरा येतकच विजून आईक सगळी गजाल सांगली. आईन राजूक म्हऱ्यांत बसोवन खूब समजायलो, ''शाण्या तुका ते पयशे रस्त्यार मेळ्ळे. तुवें ते चोरू नात हे हांव जाणां. पूण तुवें ते खावन कित्याक सोंपयले? हांव दिसभर काम करतां, पुरो जाता रे म्हाका. ते पयशे तशेच दवरिल्ले जाल्यार गरजेक मेळटले आशिल्ले.''

राजून उरिल्ले वीस रुपया काडून आईक दिले.

सात-आठ दिसांनी शाळेंत बाईन सांगलें, ''अंदू चवथेच्या भुरग्यांक बोंडला सहलींक व्हरतलीं. सगळ्यांनी देडशें रुपया हाडून दिवचे. शाळा सुटून घरा येतना राजून विजूक ही गजाल सांगली. '' विजू आई कडेन इतले पयशे नासतले न्ही रे? म्हाका काय वचूंक मेळचें ना सहलीक.'' तो इल्लेंशें तोंड करून घरा आयलो.

दोगूंय जाण सदचे भशेन जेवंक बसले. एकूय उंडी तोंडांत वचना तें पळोवन विजू पानावेलो उठलो. ताणें हात धुले आनी काशेदांत लिपोवन दवरिल्लो आपलो मातयेचो मिलेर भायर काडलो. राजूच्या म्हऱ्यांत बसून ताणें तो जमनीर आपटून फोडलो आनी पयशे मेजूंक लागलो. तो ल्हान आशिल्ल्यान परत परत चुकपाक लागलो. ताणें राजूक सांगलें, ''राजूदादा मेज मरे हे पयशे.''

राजून पयशे मेजले. 175 रुपया आशिल्ले. विजूक खूब आनंद जालो. ताणें म्हणलें, ''राजूदादा हे पयशे व्हरून बाईक दी आनी तूं सहलीक वच.''

ताचीं हीं उतरां आयकून राजूचे दोळे भरुन आयले. ताणें विजूक घट्ट वेंग मारली.

■■■

# संगणकाच्या दुनियेंतलो जगावेगळो जादुगार




## STEVE JOBS - THINKING DIFFERENTLY

*- by Patricia Lakin*






मंजुषा सिनाय तळावलीकार
मो. : 9822981508

फाटलीं कितलींच वर्सां शिक्षिकेच्या पेशांत आशिल्लीं मंजुषा सिनाय तळावलीकार मानसशास्त्राच्योय अभ्यासक आसात. भुरग्यांचें मानसशास्त्र समजून घेवन तांकां आनी हेरांकूय योग्य दिकेन व्हरप ही तांची मोख. तेच पासत दर्जेदार लेख आनी पुस्तकांचे अणकार करून तांकां वाचनाची गोडी लायतात.

जिणेंत येसस्वी जावपाची दरेकल्याची व्याख्या वेगवेगळी आसता. भुरगो जेन्ना पयलेच फावट आपल्या पांयार उबो रावन, पयलेंच पावल घालता तेन्ना ताचे खातीर तें खूब व्हड यश आसता. मोनजातीचे सगळे वेव्हार हे अंतप्रेरणेन चलतात पूण मनशाक मात बुदवंतकाय आनी सर्जनशीलताय ही जल्मजात आसता. शाळेंत वचून रितसर शिक्षण घेवन जायती म्हायती आनी संकल्पना आमी जाणून घेतात. संवसारांत घडपी जायत्यो अद्भूत गजाली कश्यो आनी कित्याक घडटात हें शिकून वैज्ञानिक दृश्टिकोणान जियेपाची संद आमकां मेळटा. पूण अजून मेरेनची शिक्षण पद्दती आमकां एक फिशाल आनी परिपूर्ण गिन्यानी मनीस घडयना. वेल्यान जल्मजात सर्जनशिलताय उणी करता वो मारून उडयता अशें दिसता. पूण सर्वसामान्य लोक ताचेर चड चिंतपाक वचनात. भुरग्यांक शाळेंत धाडून, तांणी परिक्षेंत चडांतचड मार्क घेवन पयलो नंबर घेतलो की तांच्या पालकांक समाधान मेळटा. सगळ्या विशयांत





पुराय मार्क घेवन परिक्षेंत सदांच पयलो नंबराचेर आशिल्लो भुरगो फुडें वचून खऱ्यानीच कितलो येसस्वी जाला हाचो हिशेब कोणूच दवरना. हाचे उलट आमकां जायत्यो देखी मेळटात जंय भुरगो शाळेंत आसतना सामको मस्ती आसता, सारकें लक्ष लावन शिकना आनी केन्ना केन्नाय शाळा वो कॉलेजींचें शिक्षण अर्दारुच सोडटा. पूण तोच फुडें वचून आपले मुळजात बुदवंतकायेच्या नेटार जायतें प्रशंसनीय अशें कर्तुब करता आनी व्हड नांव मेळयता.

आयचें हे पुस्तक जावन आसा अश्याच एका म्हान व्यक्तीचें जाणें जग भर आपलें नांव गाजयलें. तंत्रज्ञान क्षेत्रांत व्हड अशी क्रांती घडोवन ताणें आपलें नांव अजरंवर करून दवरलें.

1980 वर्सां आदीं शाळेंत भुरगीं जेन्ना 'A' for 'Apple' म्हूण शिकतालीं तेन्ना रसाळ गुलाबसार तांबडें सफरचंदाचें चित्र तांच्या दोळ्यां मुखार आपशींच येतालें. पूण आयज शाळेंत भुरगीं 'A' for 'Apple' म्हणटात तेन्ना तंत्रज्ञान युगांत जल्मल्ल्या आयच्या ह्या भुरग्यांच्या दोळ्यां मुखार घास मारून कुडको काडिल्ल्या एपल कंपनीचें प्रतीक चिन्ह (logo) येता हीच ते व्यक्तीच्या यशाची गवाय. ती सर्जनशील जैतिवंत व्यक्ती जावन आसा एपल कंपनीचे जनक स्टीव जॉब्स.

नामनेची लेखिका पॅट्रिशिया लॅकीन हांणी बरयिल्लें तांचे जिणे चरित्र, 'स्टीव जॉब्स - थींक डिफरंटली' हें आमकां खऱ्यानीच वेगळे तरेन विचार करपाक प्रवृत्त करता. जिणेंत जैतिवंत जावपाची एक वेगळीच वाट आसूंक शकता ही खेरीत नदर आमकां दिवन वता. तर आयज ह्या पुस्तकांतल्यान एक दुरद्रश्टे व्यक्तीची वळख करून घेवंया. तांचे जिणेंत आयिल्ले चडउतार, अपेस, अपमान पचोवन अडचणींतल्यान वाट काडीत जैता कडले वाटचालीचो प्रवास आमकां निश्चितच प्रेरीत करतलो हातूंत दुबाव ना.

## जल्म आनी भुरगेंपण:

स्टीव जॉब्स हांचो जल्म 24 फेब्रेर 1955 वर्सा जाल्लो. तांचे जल्मदाते बापूय अब्दुलफत्ताह जॉन जंदाली आनी आवय जुआन स्कीबल. स्टीव जेन्ना जल्मुपाचो आशिल्लो तेन्ना दोगांय जाणां कॅलिफॉर्निया हांगासर कॉलेजींत शिकतालीं म्हूण तांणी दोगांयनीय ताका पोसको दिवपाचो निर्णय घेतलो. आनी स्टीवाच्या जल्मा उपरांत क्लॅरा आनी पॉल जॉब्स हांणी ताका पोसको घेतलो. पूण पोसको दितना ताच्या जल्मदात्या आवय-बापायन तांकां एक अट घाल्ली ती म्हणल्यार, तांणी आपल्या भुरग्याक कॉलेजीचें शिक्षण दिवपाक जाय, जी क्लॅरा आनी पॉल जॉब्सान मान्य केली. पोसको घेतकच क्लॅरा आनी पॉल जॉब्स हांणी ताचें नाव स्टीवन दवरलें आनी फुडें वचून तो स्टीव पॉल जॉब्स ह्या नांवान नामनेक पावलो. ताका पोसको घेतकच तीं दक्षीण सां फ्रांसिस्कोक हांगासर वचून भाड्याच्या घरांत रावपाक लागलीं. तीन वर्सां उपरांत तांणी एके चलयेक पोसकें घेतलें आनी तिचें नाव 'पॅटी' दवरलें. स्टीव 5 वर्सांचो आसलो तेन्ना बापायच्या वेवसाया खातीर तांचो घराबो माउंटन वीव्ह हांगासर एका सादारणशा तीन बेडरुमाच्या भाड्याच्या घरांत रावपाक लागलो. तांचो बापूय पोरण्यो गाडयो घेवन डागडुजी करुन विकतालो. घरा भायर ताची एक गॅरेज आशिल्ली, जंय ताणें स्टीवाकूय बी थोडो जागो दवरलो. आपलीं आवतां वापरपाची ताका परवानगी दिली. थंयच स्टीवाक इलेक्ट्रॉनिक साधनांचेर प्रयोग करून नवनवें शिकपाची संद मेळ्ळी आनी तंत्रगिन्यानाची आवड निर्माण जाली. थंयच ताचे जिणेंत घडिल्ले क्रांतीची बुन्याद पडली.

## गॅरेजींतलें शिक्षण

1960 साला उपरांत इलेक्ट्रॉनिक युगाची नेटान सुरवात जाल्ली. कांय वर्सां आदीं माउंटन व्हीवाक एप्रिकोट फळांची लागवड जाताली थंय आतां इलेकट्रॉनिक वेवसाय सुरू जाल्ले. हॅवलेट-पॅकर्डांत काम करपी लॅरी लँग नांवाचो एक इंजिनियर तांच्या शेजराक रावपाक आयलो. तो हिथकीट्स तयार करतालो (हिथकीट्स म्हणल्यार इलेक्ट्रॉनिक उपकरणाच्या वेगवेगळ्या भागांचो एक संच जो लोक विकत घेवन ते भाग जोडून उपकरण तयार करताले.) तो स्टीवाचो आवडीचो विशय आशिल्ल्यान ताणें रोकडीच लॅरी कडेन इश्टागत केली. 1967 त लॅरीन ताका हॅवलेट-पॅकर्डांच्या एक्सप्लॉरर क्लबांत आसपावन घेतलो तेन्ना स्टीव फकत 12 वर्सांचो आशिल्लो. तेदे वेळार संगणक फकत गणिती गणनेत वापरताले आनी सामान्य मनीस ताचे वाटेक लेगीत वचनाशिल्लो.

स्टीव जे शाळेंत वतालो थंय भुरगीं ताचे कडेन खूब दादागिरी करताले. एक दीस त्या भुरग्यांनी ताका इतले त्रास केले, की आपूण ते स्कुलांत कसोच वचो ना म्हूण घरा येवन ताणें हट्टच धरलो आनी शाळा बदल्ली ना जाल्यार आपूण शाळाच सोडटलों म्हूण धमकी घाली.

स्टीवाचो हट्ट पळोवन बापायन रोकडेंच घर बदलपाचो निर्णय घेतलो आनी तो सां फ्रांसिन्स्को हांगा सरल्या लास आल्टोस वाठारांत ताणें भाड्यान घर घेतलें आनी कुपरटीनो हे शाळेंत स्टीवाचें नांव घालें. पूण स्टीवान आपले एकमुळे वृत्तीक



लागून त्या स्कुलांतय नवे इश्ट जोडले नात. फकत 'बिल फर्नान्डीस' हो ताचो एकूच इश्ट जालो, जाची एक इलॅक्ट्रॉनिक गॅरेज आशिल्ली. बिलान ताची वळख आपल्या शेजारच्या स्टीवा परस 5 वर्सांनी व्हड आशिल्ल्या भुरग्या कडेन करून दिली जाचें नांवूय स्टीव आशिल्लें आनी आडनांव आशिल्लें वॉझनिक. स्टीव वॉझनिकाकूय इलॅक्ट्रॉनिक्सांत खूब आवड आशिल्ली. ते खातीर दोनूय स्टीवांचें बरें सूत जुळ्ळें.

त्या वर्साच्या गिमाचे सुटयेंत स्टीव जॉब्सान एक भन्नाट गजाल केली. पालो आल्टो फोन वळेरींतल्या हॅवलेट-पॅकर्ड कंपनीचो सीईओ बिल हॅवलेट हांचो नंबर सोदून तांकां फोन केलो आनी आपल्याक सुटयेंत कंपनींत कामार घेवचें अशी विनंती तांकां केली. आनी अजाप म्हणल्यार ताची विनंती बिल हॅवलेटान मान्य केली. स्टीव जेन्ना हॅवलेट-पॅकर्ड कंपनींत स्क्रु लावपाच्या कामार रुजू जालो तेन्ना ताका सर्गाक हात लायिल्ल्याचें समाधान लाबलें.

1968 वर्सा स्टीव हॉमस्टीड हांगासर जेन्ना हायस्कुलांत वचपाक लागलो, तेन्ना अमेरिकेंत सामाजीक, सांस्कृतीक आनी राजकीय क्षेत्रांत जायते बदल घडटाले. सां फ्रॅंसिस्को हें मुक्त विचारांच्या तरनाट्यांचें ठिकाण जाल्लें, जांकां लोक हिप्पी म्हणटाले. स्टीवान जॉन मॅककलम हांचे लागी इलॅक्ट्रॉनिक शिक्षणक्रम घेवपाक सुरवात केली खरी, पूण रोकडोच ताणें तो सोडलो. जॉन मॅककलम हांची कडक शिस्त ताका मानवली ना. मागीर ताका साहित्यांत रुची निर्माण जाली. कविता वाचन, संगीत आयकुवप, सिनेमा पळोवप आनी चलयांक पळोवप हातूंत तो आपलो वेळ पासार करपाक लागलो. तशेंच माउंटन व्हीवांतल्या 'हलटेक' ह्या व्हडल्या इलॅक्ट्रॉनिक दुकानांतूय तो कितें ना कितें सोदत आपलो वेळ घालयतालो. कांय दिसांनी इलॅक्ट्रॉनिक उपकरणांत वापर जावपी भागाची पुराय वळख ताका जाली. तो स्टीव वॉझाक संगणक तयार करपांत मजत करपाक लागलो. संगणका शिवाय तांकां दोगांयकूय संगीत आवडटालें. स्टीव जॉब्स कमीत कमी वेळ हॉमस्टिड हायस्कुलांत आनी चडांत चड वेळ स्टॅनफॉर्ड विश्वविद्यालयांत कसले ना कसले तरी अभ्यासक्रम करपांत घालोवपाक लागलो. उरिल्लो वेळ तो आपल्या क्रिसान नांवाच्या गर्लफ्रेंडा वांगडा घालयतालो. केन्ना केन्नाय ताका हिप्पीच्या पंगडांत वचून पदां आयकुवपाक आवडटालें. आपलो भेसूय ताणें संवग केल्लो. मानेर लांब केंस आनी पिंजकी निळी जीन पॅंट, तशेंच पांयांतूय बूट आसल्यार आसले, ना जाल्यार उक्त्या पांयानी तो भोंवतालो.



## पॉर्टलॅन्डातलें कॉलेज शिक्षण:

1972 वर्सा हायस्कूल शिक्षण पुराय करून आतां तो कॉलेजींत वचपाचे तयारेक लागलो. पॉर्टलॅंडच्या रीड नांवाच्या म्हारग्या कला म्हाविद्यालयांत दाखलो घेवपाचें ताणें थारायलें. ताच्या आवय-बापायक गरीब परिस्थितीक लागून तें परवडपा सारकें नाशिल्लें पूण स्टीवाच्या जल्मदात्या आवय-बापायक 17 वर्सां फाटी दिल्ल्या उतराक जागून तांणी तें मान्य केलें. आनी स्टीव कॅलिफॉर्निया आनी क्रिसानाक सोडून पॉर्टलॅंडाक गेलो.

पूण थंयूय बी स म्हयन्या उपरांत तो शिकपाक बेजारलो. जिणेंत कितें करचें हेंच ताका समजना जालें. ताणें कॉलेजांत वचपाचें बंद केलें. पूण पॉर्टलॅंड मात सोडलें ना. थंय ताणें डॅन कोट्क आनी रॉबर्ट फ्रायडलॅंड हे दोन घट्ट इस्ट जोडले. केन्ना केन्नाय तांचे वांगडा तर केन्नाय कोणूय भुरगो कॉलेज सोडून वतकच रिकामी जाल्ले डॉर्मेटरी रुमांत तो रावंक लागलो. म गीर तो बारीक सारीक कामां करून लागसारचेच एके सवायशे भाड्याचे कुडींत रावपाक लागलो. आनी फुकट जेवणा खातीर 7 मैल चलून हरे रामाच्या देवळांत जावपी अन्नसत्राच्या





शिवराक जेवणाक वतालो. केन्ना केन्नाय उपासूय करतालो. ना जाल्यार मागीर दुदा वांगडा ओटमील खातालो. तेदे वेळारूच ताणें मांसाहारी जेवण खाण सोडलें आनी तो जीण भरा खातीर शाकाहारी जालो.

पॉर्टलॅन्डाक रीड कॉलेजींत शिकतना स्टीवाक आहार, झेन बौध्दधर्म, आनी सुलेखन (कॅलिग्राफी) हाची आवड निर्माण जाल्ली आनी ताका भारतांत 'नीम करोली बाबा' ह्या आध्यात्मीक गुरूक मेळपाची उमळशीक आशिल्ली. ताणें रीड कॉलेजींत फ्रायर रॉबर्ट पलाडिनो हाचे लागीं सुलेखन शिकपाक सुरवात केली. त्या शिक्षणाचो उपेग ताका उपरांत ॲपल संगणका खातीर जालो. आयज लेगीत ॲपलाचीं चिन्हां, जाहिराती, उत्पादनांत आनी पॅकेजींत ताचो प्रभाव आमकां दिसता.

सुलेखना भायर ताका डॅन आनी रॉबर्ट फ्राइडलॅन्ड ह्या आपल्या इश्टां वांगडा वेळ घालोवपाक आवडटालें. रॉबर्टाच्या सोयऱ्यांची ऑरेगॉन हांगा सफरचंदाची बाग आशिल्ली, जंय रॉबर्ट जायते फावट वतालो. स्टीवाक ताच्या वांगडा थंय वचून सफरचंदाचे बागेंत काम करपाक आवडटालें. भारतांतल्या आध्यात्मीक गुरू नीम करोली बाबा हांचे बद्दल स्टीवाक रॉबर्टानुच सांगिल्लें. तेन्ना सावन भारतांत वचुन तांकां मेळपाची स्टीवाक उमळशीक लागिल्ली. पूण भारतांत वचपाक तांच्या दोगांय लागीं तितले पयशे नाशिल्ले.

स्टीव आपल्याक आवडटा तसल्या वर्गांत नोंदणी करतालो. तो आधुनीक नृत्य वर्गाक लेगीत भरती जालो. पूण ताचे मुखार प्रस्न आसतालो तो जेवणाचो आनी रावपाचो. सगळ्या इश्टांगेर थोडे थोडे दीस रावन 18 म्हयन्या उपरांत ताणें घरा परतुवपाचो निर्णय घेतलो. घरा येतकच तो नोकरी सोदपाक लागलो. भारतांत वचपा खातीर ताका पयशे उबे करपाक जाय आशिल्ले. रोकडीच 'अटारी' हे गेमींग कंपनींत ताका जाय तसलें काम करपाची नोकरी मेळ्ळी. अटारी कंपनीची 'पाँग' नांवाची व्हिडीयो गेम तेन्ना फामाद आशिल्ली. ताचो मालक अल आलकॉर्न हाणें उपरांत स्टीव जॉब्साचे इंटरव्ह्यूक आयिल्ली याद सांगतना सांगलें, 'म्हज्या पर्सनल डायरेक्टरान भितर येवन रकाद दिलो की भायर एक हिप्पी सारको दिसपी मनीस आयला, जो म्हणटा आपल्याक कामार घेतले शिवाय आपूण हांगा सरलो हालचों ना. आमकां एक तर पोलिसांक आपोवचें पडटलें ना जाल्यार ताका कामार घेवचें पडटलें.' ताचो हो निर्धार पळोवनच आलकॉर्नान ताका नोकरी दिली आनी ताचो हो निर्णय चुकलो ना. तो खूब मेहनती आशिल्लो आनी रात रात जागून लेगीत काम पुराय करतालो. पूण हें सगळें करपा फाटलो ताचो हेत फकत एकूच आशिल्लो, तो म्हणल्यार आपल्या अध्यात्मीक गुरू नीम करोली बाबा हांकां मेळपाक भारतांत वचपाक पयशे एकठांय करप आनी ताका तशी संदी मेळ्ळीय. कंपनीच्या कामा खातीर आलकॉर्नान ताका जर्मनींत धाडलो. अमेरिके सावन येवचे परस जर्मनी सावन भारतांत येवप ताका परवडपा सारखें आशिल्लें. ताणें आपलें काम सोंपोवन भारतांत वचपाचो बेत केलो आनी आपलो इश्ट डॅन कोटक हाकाय बी आपल्या वांगडा आपयलो. दोगांयनीय भारतांत मेळपाचें थारायलें. स्टीव कांय दीस पयलीं भारतांत पावलो आनी उत्तर भारताचे भोंवडेर गेलो. गंगा न्हंयच्या घाटाचेर भोंवडी करतना ताका वेगळीच अनुभुती आयली. कांय दिसांनी जेन्ना ताचो इश्ट डॅन भारतांत पावलो तेन्ना ते दोगूय गुरू नीम करोली बाबांक मेळपाक आश्रमांत गेले तेन्ना तांच्या गुरुचें फाटल्याच वर्सा महानिर्वाण जालें हें तांकां समजलें आनी तांचो विरूस जालो.

थळाव्या लोकांनी तांकां आनीक एक गुरू बद्दल सांगलें. पूण जेन्ना ते तांकां मेळपाक गेले तेन्ना तो तांकां तितलो प्रभावी दिसलो ना आनी भ्रमनिरास जावन तांणी दोगांयनीय रोकडेंच अमेरिकेक परतुवपाचो निर्णय घेतलो.

कॅलिफॉर्निया हांगासर आशिल्ले एके मोनेस्ट्रींत झेन गुरू कोबुन चिनो ओटोगावा हांचे लागीं तो आध्यात्मीक मार्गदर्शन घेवंक लागलो. ताच्या मुखार सद्या दोन मुखेल समस्या आशिल्ल्यो, एक म्हणल्यार स्वताचें व्यक्तिमत्व समजुवपाक लागून ताका आपल्या जल्मदात्या पालकांचो सोद घेवपाक जाय आशिल्लो. पूण आपल्याक पोशिल्ल्या आवय-बापायक ताका दुखोवपाक नाका आशिल्लें म्हूण ताणें तो विचार सोडून दिलो.

दुसरी गजाल म्हणल्यार ताका सगलें सोडून जपानांत मोनेस्ट्रीक वचून आध्यात्मीक मार्गान वचन दिसतालें. पूण ताच्या झेन गुरू कोबुन चिनो ओटोगावा ताका तशें न करपाचो सल्लो दिलो. कदाचीत ताच्या हातान संगणक क्षेत्रांत जावपाच्या आशिल्ल्या म्हान कार्याची तांकां सुलूस लागिल्ली आसत.

## एपलाच्यो बियो रुजल्यो

1975 त स्टिव जेन्ना 25 वर्सांचो आशिल्लो तेन्ना नोकरी करपाक आपल्या पयलीं सारख्या सवंग भेसांत तो अटारींत परतलो. भारताचे भोंवडेर वचून ताच्या भेसांत आनीकूय बदल घडिल्लो. भगवे कपडे, पांयांत जोतें घालनासतना, तशेंच केंस वळय नासतना तो साधू सारखो ऑफिसांत भितर सरलो तेन्ना



थंय कोणाक चड कांय अजाप दिसलें ना. थंय ताका परत ताचो इश्ट वॉझ मेळ्ळो जो आतां संगणक तयार करपाच्या सोदांत आशिल्लो. तेदे वेळार संगणक सामान्य लोकां मदीं वापरांत नाशिल्लो. मायक्रो प्रॉसेसर तेन्ना नवोच बाजारांत आयिल्लो. कॅलिफॉर्नियाच्या उमेदी लोकांनी होमब्रीव कम्पुटर क्लब केल्लो. वॉझ तांकां संगणकाक लागपी प्रीन्टेट सर्किट बोर्ड तयार करून विकपाक लागलो. वॉझा वांगडा संगणक तयार करपाच्या व्यवसायाचो विचार स्टिवाच्या मनांत केन्ना सावन घोळत आशिल्लो.

1976 वर्साच्या फेब्रेर म्हयन्यांत तार्णे वॉझाक ते खातीर विचारलें. त्या धंद्या खातीर वॉझाक हॅवलेट पॅकर्डांत आनी स्टिवाक अटारींतली नोकरी सोडपाची गरज ना अशें उत्तर स्टीवान ताका दिलें. वॉझ उलोवपाक फाटीं आशिल्ल्यान ते विकपाचें काम स्टीवान करपाचें अशेंय थारलें.

आमी तातूंत घाल्ले आमचे पयशे बुडले जाल्यार लेगीत जिणेंत एक फावट स्वताची अशी कंपनी काडिल्ल्याचें समाधान आमकां आसतलें अशेंय स्टीवान ताका सांगलें. दोगूय इश्टांनी मेळून बराबरीचे भागिदारीन आपली अशी कंपनी काडली आनी स्टीवान ताचें नांव दवरपाचें थारायलें 'एपल'.

'एपल' हें नांव वॉझाक बरें पसंत पडलें ना. हं आनी कसलें फळाचें नांव? बरेंशें तंत्रगिन्यानी नांव आपले कंपनीक आसचें अशें ताका दिसलें. 'तुका जाय तें नांव सोद. पूण बरेंशें नांव मेळूकं ना जाल्यार मात एपल हेंच नांव दवरुया' अशें स्टीवान ताका सांगलें.

कदाचीत स्टीवाक 'एपल' हें नाव आवडपाक दोन कारणां आशिल्लीं. एक म्हणल्यार ताका आपलो इश्ट रॉबर्ट फ्राइडलॅन्ड हाच्या वांगडा सफरचंदाच्चे बागेंत काम करपाक आवडटालें आनी दुसरें म्हणल्यार पयलीं तार्णे जायते फावट फकत सफरचंदां खावन दीस काडिल्ले. शेवटाक वॉझाक बरें मना सारकें नांव मेळुंना तेन्ना 'एपल' हेंच नांव दवरपाचें तांणी थारायलें.

## एपल-१ संगणकाचे निर्मिती कार्य

सुरवातेक प्रिन्टेड सर्किट बोर्डच करपाचें काम तांणी हातांत घेतलें. लार्गी लार्गी 2500 डॉलर भांडवल जाय आशिल्लें. स्टीवान आपली पोरणी वॉक्सवॅगन गाडी विकपाक काडली. ताचे ताका 1500 डॉलर मेळ्ळे. स्टीव वॉझान आपलो 'हॅवलेट पॅकर्ड 65'कॅलक्युलेटर विकलो जाचे ताका फकत 250 डॉलर मेळ्ळे. पूण फुटकें नशीब म्हणल्यार स्टीवान विकिल्ली गाडी मोडिल्ल्यान विकत घेतिल्ल्या मनशान परतिली, जी सारकी करून दिवपाक स्टीवाक अर्दान खर्च आयलो. हावाशिवा करून शेवटाक तांणी प्रिन्टेड सर्किट बोर्ड घेवपी एक गिरायक सोदलें आनी पयशे उबे केले. दोगूय स्टीवांक वेवसायाचो अणभव नाशिल्ल्यान 'रॉन वेयन' नांवाचो तातूंत अणभव आशिल्लो आनीक एक भागिदार घेवपाचो निर्णय स्टीवान घेतलो. दोगूय स्टीवांचो 45-45 टक्के आनी रॉनाचे 10 टक्के अशी भागिदारी दवरून धंदो सुरू करपाचें थारलें. मॅन्युएल, लोगो आनी करार बरोवपाची जापसालदारकी रॉनान घेतली.

आनी 1976 ह्या वर्सा 1 एप्रीलाक म्हणल्यार एप्रील फुलाच्या दिसा तिगांयनीय रॉन वेयनाच्या माउंटन व्हीव अपार्टमेन्टांत धंद्याच्या कराराचेर सही केल्यो.

पूण अकराच दिसांनी रॉन वेयनान तातुंतल्यान फाटीं सरपाचो निर्णय घेतलो आनी दोगूय स्टीवांची 50-50 टक्क्यांचे भागिदारीचेर कंपनी सुरू जाली. फुडें मागीर रॉन वेयनान आपले जिणेंत घेतिल्लो तो सगळ्यांत मुर्खपणाचो निर्णय आशिल्लो हें सिद्द जालें.

तांणी तयार केल्लो प्रिन्टेड सर्किट बोर्ड जेन्ना तांणी आपल्या होमब्रीव कंप्युटर क्लबांत दाखयलो तेन्ना 'टॅरेल' नांवाच्या कंप्युटर व्यवसायिकान, ते जर पुराय एसेंबल केल्लो कंप्युटर तयार करून दितात जाल्यार 50 कंप्युटर विकत घेवपाची तयारी दाखयली, जें स्टीवान मान्य केलें. आनी अशे तरेन 500 डॉलरांत एक ह्या हिशोबान 50 कंप्युटरांची पयलीच ऑर्डर तांकां मेळ्ळी. परत हावाशिवा करून तांणी ते तयार करपाचो कच्चो म्हाल उदारीचेर घेतलो आनी 50 कंप्युटर फकत 30 दिसां भितर करपाची मोख दवरून ते कामाक लागले. सुरवातेक कांय दीस वॉझाल्या घरांत काम सुरू केलें आनी कांय दिसांनी तें स्टीवाच्या आवय-बापायच्या लॉस आल्टोस हांगांसरल्या घरा हालयलें. स्टीवाच्या घरचीं सगळींच जाण-भयण पॅटी, आवय क्लॅरा, बापूय पॉल तशेंच स्टीवाचो इश्ट डॅन



आनी ताची घरकान्न एलिझाबेथ, आपापले परीन ताका मजत करपाक लागलीं.

ॲपल कंप्युटर्सांचें ऑफिस नाशिल्लें, ना कामगार. पूण आपली कंपनी वेवसायीक दिसपाक लागून स्टीवान थंय एक टेलिफोन जाप दिवपी सेवा (Telephone Answering Service) घेतिल्ली जंय तांचे फोन येताले ते स्टीवाच्या घरा कडेन जोडटाले आनी स्टीवाची आवय क्लॅरा ते घेवन गिरायकाक जाय ती म्हायती दिताली. भायले गॅरेजींत स्टीव वॉझ आनी स्टीव जॉब्स दोगूय सर्किट तयार करून संगणकाची बांदावळ करताले आनी रातभर ते चालू दवरून ते सारके चलतात काय नात तें तपासून पळयताले.

तांकां ते कंप्युटर चलोवपाक सॉफ्टवेराची गरज आशिल्ली. 'बॅझिक' ह्या संगणकाचे भाशेचेर कांय जाणांनी काम करून ते आपल्या वापरांत हाडपाक लागिल्ले. बील गेट्स तातुंतलोच एक आशिल्लो, जो तेन्ना मायक्रोसॉफ्ट कंपनी काडपाचे तयारेंत आशिल्लो. वॉझान तीच भास आपल्या संगणकाक वापरपाचें थारायलें, जाका बील गेट्सान आक्षेप घेतलो. तरी लेगीत वॉझान आपलें काम चालू दवरलें. तेन्ना संगणकांक कसलीय म्हायती वो सुचना भितर उरपाची सोय नाशिल्ली. संगणक बंद करताले तेन्ना सगळो डेटा ना जातालो. वॉझान तकली वापरून, कॅसेटीचेर तो सगळो डेटा साठोवन वापरपाक सुरवात केली. आनी अशे तरेन ॲपल 1 चे 50 संगणक तयार जाले, जे तांणी 500 डॉलरांच्या घावूक किमतींत टेरेलाच्या 'बायट' ह्या दुकानाचेर पावयले. टेरेलान ताचो किरकोळ दर 666 डॉलर दवरलो. आनी एपल कंप्युटर्स कंपनीची संगणक विक्री सुरु जाली.

## रंगीत ॲपल -२ संगणकाचो हावेस

ॲपल -1 येसस्वी जातकच स्टीव वॉझाच्या मनांत एपल-2 तयार करपाचो ध्यास लागलो. आनी तो करपाचे तयारेक ते लागले. ते वर्साक न्यु जर्सीक 'पीसी 56' नांवाचो संगणकाचो वार्शीक उत्सव जावपाचो आशिल्लो. जगभरांतले संगणक तज्ञ आपणें तयार केल्ले संगणक घेवन थंय सहभागी जावपाक येवपाचे आशिल्ले. हेवूय दोगुय जाण आपले एपल-1 आनी अर्दवट तयार जाल्लो एपल-2 संगणक घेवन थंय पावले. बाकीच्या सगळ्यांचे संगणक कीबोर्ड आनी मॉनिटरा सकट विक्रीक तयार आशिल्ले. हांच्या संगणकाक कीबोर्ड आनी मॉनिटर नाशिल्लो. ते फकत सीपीयुच तयार करताले. हॉटेल रुमांत राविल्ले आसतना वॉझान आपलो एपल-2 संगणक थंयच्या रंगीत टिवीक जोडलो आनी तो सगळो डॅटा टिवीच्या रंगीत पडद्याचेर प्रदर्शित करपाक लागलो.

संगणक प्रदर्शनाक दवरिल्ले थंय तांणी आयोजका कडेन प्रॉजेक्टर मागलो आनी तो एपल-2 जोडटकच रंगीत पडद्याचेर संगणकांतलो डेटा झळकलो, तेन्ना दोगूय स्टीवांचो आनंद सामको तेंगशेर पावलो.

थंयचे लोकांचे नदरेंतलें अजाप आनी तोखणाय पळोवन तांकां बरीच उमेद आयली. आपलो एपल-2 संगणक लोकांक पसंत पडटलोच आनी ताची भरमसाठ विक्री जातली हो विस्वास मनांत घेवन ते कॅलिफोर्नियांत परतले.

अजून ॲपल-2 पुराय तयार जावंक नाशिल्लो. ताचेर काम करपाक तांणी सुरवात केली. सगळे भाग एकठांय दवरपाक ताका भायले वटेन एक प्लास्टिकाचें कॅबिनेट केलें. इतलें करऽ मेरेन तांचे कडलो फंड सोपलो. म्हूण तांणी 'माइक मारकुला' नांवाच्या पयशेकार मनशाक आपल्या वेवसायांत गुंतवणूक करपाचो प्रस्ताव मांडलो. मारकुला तयार जालो. फकत एके अटीचेर- स्टीव वॉझान आपली हॅवलॅट पॅकॉर्डांतली नोकरी सोडून पुराय वेळ हांगा दिवप. वॉझ तयार नाशिल्लो. स्टीव ताका मनोवपाक तागेर गेलो आनी ल्हान भुरग्या भशेन रडलो आनी कशे तरेन तरी ताका मनयलोच.

माइक मारकुला कडल्यान स्टीव वेवसायांतलीं तीन म्हत्वाचीं तत्वगिन्यानां शिकलो. पयलें म्हणल्यार - गिरायकाच्यो गरजो समजून घेवन तांचे सोयी प्रमाण म्हाल तयार करपाचो आनी तांच्या कलान चिंतपाचें. दुसरें - आमी जें करपाक थारायतात तें बरे तरेन करपा खातीर बाकीच्यो गरजे भायल्यो संदी पयस दवरप. म्हणल्यार आमचें लक्ष म्हत्वाच्या गजालींचेरूच केंद्रित उरता आनी तिसरें म्हणल्यार - कंपनीचें सादरीकरण. आपलें आनी आपल्या म्हालाचें सादरीकरण कंपनी जितले बरे तरेन करता तितली गिरायकाचेर छाप पडून कंपनीची नामना जाता. हीं तीन तत्त्वगिन्यानां स्टीवान जल्म भर लक्षांत दवरलीं आनी आपणायली. तेंच एपल कंपनीच्या यशाचें गमक अशें ताचें म्हणणें आशिल्लें.

रॉब जॅनोफ नांवाच्या एके एजन्सीच्या कलानिर्देशकाक तांणी एपलाचें नवें प्रतीक चिन्ह करपाचें काम दिलें. ताणें दोन चिन्हा केलीं. एक पुराय सफरचंदाचें चित्र आनी दुसरें जें ताका स्वताकूय चड आवडिल्लें तें म्हणल्यार एक घास मारून कुडको काडिल्लें सफरचंद. रंगक्षमता हें एपल संगणकाचें वैशिश्ट्य आशिल्ल्यान ताका तें प्रतीक चिन्हांतल्यान दाखोवपाक जाय आशिल्लें म्हूण ताणें त्या सफरचंदाचो देंठ पाचव्या रंगान दाखयलो आनी

बाकीचें सगळें सफरचंद स रंगानी रंगयलें. स्टीवाच्या मनांत एपल संगणक शाळेंत वापरांत येवपा सारको करपाचो आशिल्लों हें जॅनोफ जाणां आशिल्लो म्हूण ताणें भुरग्यांक आवडपा खातीर रंगांचो खासा वापर केलो. तें दुसरें प्रतीक चिन्ह स्टीवाक खुबच आवडटलें हो ताचो अंदाज आशिल्लो. ताच्या अंदाजा प्रमाण तें दुसरें प्रतीक चिन्ह स्टीवाक खुबच भावलें.

3 जानेर 1977 त एपल कंपनी औपचारीक रितीन निगमांत रुपांतरीत जाली. आतां तांचे शेअरमार्केटांत शेअर आयले. डझन भर कर्मचारी कामार घेवन तांणी आपलें ऑफीस जॉब्स गॅरेजींतल्यान कुपर्टिनो कॅलिफॉर्निया ह्या भाड्याच्या ऑफिसांत हालयलें. कंपनीचें काम पळोवपाक 'माइक स्कॉट' नांवाचो एक मॅनेजर मारकुलान नेमलो जो स्टीवाक तितलोसो मानवलो ना. पूण वॉझाचें ताचे कडेन बरें जुळ्ळें.

आतां तांचें सगळें लक्ष 'व्हेस्ट कोस्ट कंप्युटर फेअर' हाचेर केंद्रित जाल्लें जें होमब्रीव क्लबान सां फ्रांसिस्को सिविक ऑडिटोरियमांत एप्रील म्हयन्यांत आयोजीत केल्लें. तो मेरेन तांचे फकत ॲपल-2 चे तिनूच संगणक तयार जाल्ले. पूण तांणी तेच घेवन प्रदर्शनांत सहभागी जावपाचें थारायलें. मारकुलाच्या तत्वा नुसार सादरीकरण पेजाद आनी वेवसायीक जावपा खातीर तांणी विजीटींग कार्डां, पत्रकां बी छापून घेतलीं. 50000 डॉलर चड फारीक करून मुखेल जाग्याचेर स्टॉल घेवन आपली माडांवळ केली. फाटल्यान लायटी घालून प्लॅक्सिग्लासाचेर व्हडलो रंगीत ॲपल लोगोचो बोर्ड लायलो. केंस वळोवन, गुळगुळीत दाडी करून आनी पयलेच फावट सुटबूट घालून दोगूय स्टीव थंय उबे रावले.

तांचे ते यत्न फळादीक जाले आनी जायत्या विक्रेत्यांच्यो आनी वितरकांच्यो रांको तांच्या स्टॉला मुखार लागल्यो. आपलो ॲपल-2 संगणक 30 आब्रील 1977 मेरेन – म्हणल्यार तोच म्हयनो सोंपता मेरेन -विक्रेक तयार जातलो अशें तांणी जाहीर केलें.

प्रदर्शना सावन परततकच ते नेटान तयारेक लागले. पूण पयशे सोंपत आयिल्ले आनी संगणक बाजारांत विकले शिवाय पयशे उबे जावप कुस्तार आशिल्लें. म्हूण मॅनेजर माइक स्कॉटान जायत्या खर्चांत काटछाट केली. संगणका वांगडा दिवपाचें मॅन्युअल बरें डिझाइन करून छापून घेवपाचें स्टीवाच्या मनांत आशिल्लें, पूण ताच्या मना विरुध्द माइकान तें थंयच टायप करून छापपाक लायलें. अश्यो आनीकूय बारीक सारीक गजाली स्टीवाच्या मना सारक्यो ताणें करपाक दिल्यो नात. पूण एक गजाल मात स्टीवान करून घेतली ती म्हणल्यार संगणका वांगडा एक वर्साची हमी. मारकुलाच्या पयल्या तत्वा नुसार कंपनीन गिरायकाच्या कलान आनी सहानुभुतीन वागपाचें उतर स्टीवान पाळ्ळें.

आब्रील 30 तारके सावन विक्री सुरू जाली आनी माया म्हयनो मेरेन तांणी 300 संगणक विकले आनी दरेक म्हयन्याक तांची विक्री वाडतच गेली. ॲपल संगणकाचेर चलपी तरेकवार उपयुक्त सॉफ्टवेअर जायते जाण करून ॲपल गिरायकांक विकपाक लागले. तातुंतलेंच एक म्हणल्यार डॅन ब्रिकलीन हांणी तयार केल्लें 'विजीकॅल्क स्प्रॅडशीट' जाचेर सगळो हिशेब आपोआप जातालो. तशेंच वॉझान सव्वा पांच इंचाची फ्लॉपी डिस्क आनी ती चलपाक डिस्क ड्राइव केल्ल्यान ॲपल-2 घराघरांनी पावलो. अशे तरेन ॲपल चाहत्यांचो व्हडलो वर्गच तयार जालो.

उत्पन्न वाडलें तशें स्टिवान आपल्या बापायलें घर सोडलें आनी रावपाक एक भाड्याचें घर घेतलें आनी डॅना वांगडा थंय रावपाक लागलो. बापायगेर सावन येतना ताणं फकत आपलें कुलचांव आनी योग करपाची शेंदरी इतलेंच सामान हाडिल्लें. ताची हायस्कुलांतली गर्लफ्रॅन्ड क्रिसानूय ताच्या वाठारांत रावपाक आयली आनी तांची परत जोडी जमली.

कंपनीन कुपर्टिनाक आशिल्ल्या आपल्या ऑफिसा परस 15 पटीनी व्हड ऑफीस भाड्यान घेतलें. वेवसाय भरमसाट वाडोवपाची स्टीवाची योजना आनी हावेस आशिल्लो. वॉझाक आनी माइक स्कॉटाक ती तितली मानवली ना. वॉझाक वैयक्तीक वेळ असो मेळच ना जालो आनी तातूंत स्टीवाच्या रागाचो मर्दी मर्दी जावपी उद्रेक ताका सोसनाशिल्लो.

स्टीवान आता ॲपल-3 तयार केलो जो 4000 डॉलर दरांक विक्रेक आयलो. पूण तो चड म्हारग आशिल्ल्यान लोकांक तितलो पसंत पडलो ना. स्टीवान 'लिसा' नांवाचो संगणक तयार करपाक घेतलो. लिसा ताचें आनी क्रिसानाचें चली. क्रिसानाचें आनी ताचें बिंगसळिल्लें आनी क्रिसान ताका सोडून गेल्लें. वतना लिसाक आपले वांगडा घेवन गेल्लें. लिसाचे यादीन ताणें आपल्या संगणकाक आपले चलयेचें नांव दिल्लें.

ॲपल कंपनींत जॅफ रस्कीन नांवाचो एक इंजिनिअर तेच वेळार मॅकिनतोश नांवाच्या संगणकाचेर काम करतालो. स्टीवाक तो दोळ्यां मुखार नाका आशिल्लो. स्टीव सदांच लोकांक दोनच लेबलांनी विभागतालो- हुशार ना जाल्यार भोजो. आनी ताचे नदरेंत जॅफ भोजो आशिल्लो.

डिसेंबर 1979 त ते झेरॉक्स पार्क कंपनीक भेट दिवपाक गेल्ले आसतना झेरॉक्स कंपनीची ग्राफीक युजर इंटरफेस

(Graphic User Interface) ताका सामकी भावली. ती चलोवपाक वापरांत येवपी तीन बटनाचो माउस तर ताका साम को आवडलो. तें तंत्रज्ञान ताणें आपल्या मॅकिनतोशांत वापरपाचें थारायलें आनी दोन बटन आनी एक बॉल आशिल्लो एक वेगळे डिजाइनाचो माउस तयार करून घेतलो आनी मॅकिनतोशांत वापरांत हाडलो.

12 डिसेंबर 1980 त अॅपल कंपनीन आपली कंपनी भौशीक करपाक आय.पी ओ काडले, जाचो दर २२ डॉलर प्रती शेअर दवरलो. तेच दिसा ताचो भाव 29 डॉलर इतलो चडलो. स्टीव आतां 26.5 कोटी डॉलरसांचो धनी जालो. ते दिसा जवळ जवळ 40 कर्मचारी लक्षाधीश जाले. 25 वर्सांचो स्टीव जॉब्स नामनेच्या इंक आनी टाइम्स मॅगजीनाच्या कव्हराचेर झळकलो. लॉस गॅटोस हांगासर ताणें स्वताचें घर विकतें घेतलें, पूण थंय लेगीत ताणं राहणीमान सादेंच दवरलें. घरांत चडशे फर्निचर ताणें दवरूंक नाशिल्लें आनी बेडरुमांत दोन फोटो लायिल्ले– एक ताचो भारतांतलो गुरू नीम करोली बाबा आनी दुसरो थोर वैज्ञानीक अल्बर्ट आइन्स्टाइन.

बारीक–सारीक कारणां वेल्यान तो भडकतालो म्हूण ऑफिसांत ताचे वांगडा काम करपाक जायते जाण बेजारताले. ऑफिसांत सद्या ताचे कडेन चड काम नाशिल्लें. लिसाच्या प्रकल्पांतल्यान ताका काडिल्लो आनी मेशिनतोश प्रकल्पाचेर जॅफ काम करतालो. ताका तो प्रकल्प आपल्या कडेन घेवंक जाय आशिल्लो. म्हूण त्या कारणां वेल्यान तांचें दोगांयचेंय बरेंच पेटलें. कंपनीचो अध्यक्ष माइक स्कॉट मर्दी पडलो. स्टीव परत एकदां ल्हान भुरग्या भशेन रडलो आनी माइकान जॅफाक थोडे तेंपा खातीर सुटयेर वचपाक सांगलें. जॅफ अॅपल कायमचोच सोडून गेलो. स्टीवान आपली टीम केली आनी मेशिनतोशाचेर काम करपाक सुरू केलें. कलात्मक रितीन काम करपा कडेन ताचो कल आसतालो. मात्शें म्हारग आसल्यार जाता पूण सर्वोत्कृश्ट म्हाल वापरून तो तयार करपाची ताची मोख आशिल्ली.

## अॅपल कंपनींतल्यान राजीनामो

तेवटेन अॅपल–3 संगणकाच्या अपेसा खातीर कंपनीक लुकसाण सोसचें पडलें. माइक स्कॉटान 40 कर्मचाऱ्यांक कामा वेल्यान काडले. तो दीस अॅपल कंपनींत 'ब्लॅक वेनस्डे' म्हूण वळखतात. कांय म्हयन्यांनी माइक स्कॉटान स्वता राजीनामो दिलो. दोन वर्सां मेरेन मारकुला आनी स्टीवान तांचें काम साबांळ्ळें. दोन वर्सां उपरांत 'जॉन स्कली' नांवाचे व्यक्तीक तांणी कंपनी अध्यक्ष म्हूण नेमलो. तो आदीं पेप्सीको कंपनींत मुखेली आशिल्लो आनी सभावान तो स्टीवाच्या उरफाटो म्हणल्यार शांत आनी नमळायेचो आशिल्लो.

अॅपल कंपनींत मेशिन्तोश आनी लिसा संगणकाचेर काम चलतालें. मेशिन्तोश पयलीं तयार जावचो अशी स्टीवाची इत्सा आशिल्ली पूण लिसा पयलीं तयार जालो. लिसाच्या लोकार्पणाच्या दिसा मेशिन्तोश बद्दल ताका कांय उलय नाका म्हूण स्कलीन सांगिल्लें आसतना ताणें ताचो उल्लेख केलोच जे खातीर लिसाचे विक्रीचेर ताचो परिणाम जालो. लिसाची किंमत 16000 डॉलर आशिल्ली आनी मेशिन्तोश ताचे परस सवाय आसल्यार आनी थोडे दीस रावन तोच घेवया अशी लोकांची मानसिकता जाली.

मेशिन्तोश 1000 डॉलरांत विकपाची स्टीवाची मोख आशिल्ली. पूण ताचो खर्चच इतलो जालो की तो 2000 सकयल विकपाक मेळना जालो. तातूंत स्कलीन ताची किंमत 2500 डॉलर दवरपाक सांगली जें स्टिवाक आवडलें ना. ह्या मुद्याचेर स्टीवाचे संबंद स्कलीकडेनूय ताणले.

1984 त जेन्ना मेशिन्तोश विक्रेक तयार जालो तेन्ना नामनेचो निर्देशक रिडली स्कॉट हांकां जाहिरात करपाक दिली. त्या क्रांतीकारी फिल्माचें बजेट आशिल्लें 9 लाख डॉलर्स. 35 वर्सां आदी जॉर्ज ऑरवेल्स हांणी बरयिल्ल्या 1984 हे भविश्यवादी कादंबरीचेर आदारीत ती जायरात आशिल्ली. 1984 वर्साच्या जानेराच्या 24 तारकेक मेशिन्तोश बाजारांत येवपाचो आसा अशें तांणी जायरात फिल्मांत सांगलें. स्कलीक ती जायरात बिलकूल आवडली ना. ताणें ती टेलिविजनाचेर येवची न्ही हे खातीर जायते यत्न केले. पूण जेन्ना ती आयली तेन्ना ते जायरातीन सगळे रिकॉर्ड मोडले आनी ताका जायते पुरस्कारूय मेळयले.

कांय दिसांनी कुपर्टिनोच्या फ्लीन्ट सभाघरांत स्टीवान मेशिन्तोशचें भपकेबाज लोकार्पण केलें. मेशिन्तोशाची विक्री धडाक्यात सुरु जाली. पूण कांय दिसांनी मेशिन्तोशाचें वारें मत्शें कमी जालें. अॅपलाच्या कर्मचाऱ्यां मदींय आतां फूट पडूंक लागिल्ली. तातूंत स्कली वांगडा स्टीवाचे संबंद चडूच ताणशेले. स्टीवान बोर्डांच्या सदस्यांक आपले आनी स्कली भितर निवड करपाक सांगलें. पूण हे फावट सगल्या सदस्यांनी स्कलीक निवडलें. स्टीवाक कंपनींतल्यान भायर मारलें ना. पूण ताका फकत एक ऑफीस दिवन बेकार बसयलें. ताचे कडेन कसलोच प्रकल्प दिलो ना. आपणेंच उबारिल्ले कंपनीत आपल्याचेर असली वेळ आयली तें पळोवन ताका सामकें वायट दिसलें. तो ऑफिसांत येवन दोन–तीन वरां भितर घरा परततालो. 17 सप्टेंबर 1985 ताणें राजनामो दिलो.

## नेक्स्ट कंपनीची स्थापना

अॅपलांतल्यान जरी भायर सरलो तरीय ताचो धडपडी सभाव ताका वगी बसपाक दिवपाचो नाशिल्लो. ताणें खासा वैज्ञानिकां खातीर संगणक करपाचो प्रकल्प हातांत घेतलो. ताचे कडेन आशिल्ले अॅपलाचे 65 लाख शेअरांतले फकत एक शेअर दवरून बाकीचे विकले आनी जे 10 कोटी डॉलर्स मेळ्ळे ते गुंतोवन नेक्स्ट (NEXT) नांवाची कंपनी काडली. अॅपलांत आपले वांगडा काम करपी 6 जाणांच्या पंगडातल्या वांगड्यांक ताणें आपले नवे कंपनींत येवपाचो प्रस्ताव दिलो. स्टीवा वांगडा कितें तरी नवें भन्नाट करपाक मेळटलें हे उमेदीन सवूय जाणांनी तो मान्य केलो. संगणक करपाचें काम रात दीस पळय नासतना नेटान सुरू जालें. परत बारीक सारीक गजाली कलात्मक आनी बरे प्रतीच्यो जावच्यो ह्याच यत्नांत स्टीव लागलो. पूण ते खातीर खर्चूय भरमसाठ वाडपाक लागलो. पूण ताची पर्वा स्टीव करनाशिल्लो म्हूण कंपनी रोकडीच दिवाळ्यांत येवपाची लक्षणां दिसूंक लागलीं. तेच वेळार रोस पॅरॉट नांवाच्या एका अब्जाधीशान तांचे कंपनींत 2 कोटी डॉलर्सांची गुंतवणूक केली. हार्डवेअर आनी सोफ्टवेअर दोनूय आसपावल्ली एक परिपुर्ण संगणक प्रणाली तयार करपाची ताची मोख आशिल्ली. ते खातीर ताणें मायक्रोसॉफ्ट कंपनीचो संस्थापक बील गेट्साक सॉफ्टवेअर तयार करपाचो प्रस्ताव दिलो जो बील गेट्सान भायर मारलो आनी वेल्यान पत्रकारां लागीं स्टीवा बद्दल आनी ताचे नेक्स्ट कंपनी बद्दल आरते परते उद्गार काडले. तो वेळच असो आशिल्लो की स्टीवाचे नशीब ताका साथ दिनाशिल्लें. तरीय ताणें धीर सोडलो ना. जनमानसांत आपले कंपनीची प्रतिमा निवळावपा खातीर तांणी 12 ऑक्टोबर 1988 त सां फ्रांसिस्कोच्या सींफनी सभाघरांत एक व्हडलो सुवाळो करून आपल्या नेक्स्ट संगणकाची वळख लोकांक करून दिली. तो संगणक सर्वोत्कृश्ट कसो हें लोकां मुखार मांडून लोकांच्यो अपेक्षा ताणें वाडोवन दवरल्यो, पूण जेन्ना तो बाजारांत विक्रेक आयलो तेन्ना ताचो 6500 डॉलर्स हो भाव पळोवन लोकांनी तो तितलो पसंत केलो ना. 10000 संगणक दर म्हयन्याक विकपाचें ध्येय स्टीवान दवरिल्लें पूण प्रत्यक्षांत दरेक म्हयन्यांत फकत 400 संगणकांची विक्री जाली.

## पिक्सार एनिमेशन कंपनीची मालकी

ताका कलेची आवड आशिल्ल्यान ताणें जॉर्ज लुकास हांचो पिक्सार हो संगणक अॅनिमेशन फिल्म स्टुडिओ 1 कोटी डॉलर्सांत विकत घेतलो आनी अॅनिमेशन विभागाचो मुखेली जॉन लासेटर हांच्या वांगडा अॅनिमेशन फिल्मां तयार केलीं. तातूंतले लुक्सो जुनिअर, टिन टॉय आनी टॉय स्टोरी अशे जायते पुरस्कार विजेते अॅनिमेशन सिनेमा तांणी संगणक वापरून तयार केले. रोखडीच ताणें पिक्सार कंपनी भौशीक करपाक शेअर विक्रेक काडले. 22 डॉलर्सांत दरेक शेअर विक्रेक काडिल्लो तो पयलेच दिसा 39 डॉलर्स इतलो वयर चडलो. तातूंतल्यान ताका 1.2 अब्ज डॉलर्स प्राप्ती जाली. पूण फकत पयशे जोडप हें ताचें ध्येय नाशिल्लें. तंत्रगिन्यानाच्या संवसारांत कितें तरी नवें तयार करून आपलो छाप उमटावपाचें ताचें सपन आशिल्लें.

1980 त जेन्ना ताची आवय क्लॅरा पुलमांवांच्या कांक्रान दुयेंत पडली तेन्ना ताणें आवयची जायती सेवा केली. 1986 त जेन्ना ती संवसार सोडून गेली तेन्ना स्टीवान बापाय कडेन आपल्या जल्मदात्या आवय-बापायचो सोद घेवपाची परवानगी घेतली आनी बापायनूय ताका ती आपखोशयेन दिली. आपल्या जल्मदात्या आवयक तो मेळ्ळो तेन्ना ताका समजलें आपल्याक एक मोना नांवाची भयण आसा म्हूण. भयणीच्या जल्मा उपरांत ताच्या बापायन आवयक सोडली आनी ती जॉर्ज सिम्पसन नांवाचे व्यक्ती कडेन लग्न जाली आनी मोनाक जॉर्जान आपलें नांव दिलें. आवय-भयणीक मेळून ताका खोस जाली. चली लिसाच्या वांगडाय तो कांय वेळ घालयतालो. हीं सगलीं जाणां ताचे जिणेंत आसून लेगीत आपल्याक समजून घेवपी कोणूच ना ही खंत मात ताका आशिल्ली.

ऑक्टोबर 1989 त ताका स्टॅनफॉर्ड विश्वविद्यालयांत, वेवसाय वेवस्थापन शाखेच्या पदवीधर भुरग्यां सामकार भाशण दिवपाचें आपोवणें आयलें. थंय ताची वळख लॉरेन पॉवेल हिचे कडेन जाली आनी तांचे वळखीचें रुपांतर मोगांत जावन 18 मार्च 1991 त तीं दोगांय लग्न जालीं. लग्ना उपरांत तीं पालो आल्टो हांगासर रावपाक लागलीं. ताका एक चलो रीड आनी दोन चलयो – एरिन आनी इव अशीं तीन भुरगीं जालीं. ताचें पयलें चली लिसाय तांचे वांगडा रावपाक आयलें. अशे तरेन घराब्याचें सुखय तो अणभवपाक लागलो.

## अॅपल कंपनींत पुनर्प्रवेश

तेवटेन 1995 त मायक्रोसॉफ्टान 'विंडोस 95' हें क्रांतीकारी सॉफ्टवेअर काडून सगलें मार्केट काबीज केलें आनी अॅपलाची घसरण सुरू जाली. जॉन स्कलीय कंपनी केन्ना सोडून गेल्लो. आपणें तयार केल्ले कंपनीची अशी दुर्दशा जाता तें स्टीवाच्यान पळोवंक नजो जालें. अॅपल कंपनीक एक उत्कृश्ट ऑपरेटिंग सिस्टमाची गरज आशिल्ली जी नेक्स्ट कंपनी कडेन




'नेक्स्टस्टेप' ही आशिल्ली. 1996 त स्टीवान ॲपल कंपनी कडेन आपलो प्रस्ताव मांडून, 20 डिसेंबराक ॲपल आनी नेक्स्ट कंपनीन करार केलो. नेक्स्ट कंपनी ॲपलान 377.5 डॉलर्सांनी विकत घेवपाची आनी 15 लाख ॲपल शेअर स्टीवाक दिवपाचे जे बदलाक स्टीवान ॲपलाचो सल्लागार म्हूण काम सांबाळपाचें आनी नेक्स्ट कंपनीची ऑपरेटींग सिस्टम ॲपल संगणकाचेर वापरपाची. सुत्रां हातांत घेतकच स्टीवान वेवस्थापन मंडळा वेल्यान जायते जाणांक काडले आनी आपल्याक जाय तशे व्यक्तींची नेमणूक केली. ॲपलाच्या संस्थापक मंडळाचो वांगडी मार्क मारकुला हांका लेगीत नमळायेन विनवणी करून ताणें राजीनामो दिवपाक तयार केलें आनी मारकुलाय वायट धरनासतना संस्थापक मंडळ सोडपाक तयार जालो.

आपणें स्थापन केल्ले कंपनीक परत जाग्यार हाडपाक आपल्याक संद मेळ्ळी हाची ताका मना सावन धादोसकाय भोगली. ऑगस्ट म्हयन्यांत ताणें सगल्या ॲपल उपभोक्त्यांक उद्देशून एक भाशण करून कंपनीची फुडली मोख सांगली. ल्हव ल्हव करून कंपनी परत रुळार येवपाक लागली. तें पळोवन बील गेट्सूय आतां ताचे कंपनींत15 कोटी डॉलर्साची गुंतवणुक करपाक तयार जालो आनी ॲपल कंपनी दिवाळखोरींतल्यान भायर सरली.

फुडें ताणें आय-मॅक संगणक तयार केलो. आनी एक क्रांतीकारी पावल ताणें घालें तें संगींतक्षेत्रांत. संगीता खातीर आय-पॉड तयार करून संगीत कंपनी कडलीं गीतां वितरण करपाक आय-ट्युन्स काडले. आय-पॉडाचेर जाय तसलें संगीत आयकुवपाक ॲपल उपभोक्त्यांक नाममात्र मोलाक आय-ट्युन्स विकत घेवन आयकुवपाची सोय जाली. संगीत क्षेत्रांतलें हें एक व्हड ल्हार आशिल्लें जें पारंपारीक पद्दतीक मोडींत काडून संगीत नवे तरेन भौसा मेरेन पावपाची सुरवात जाली.

2001 वर्सा वॉशिंगटन डीसी शाराच्या भायर ॲपलाचें किरकोळ दरांत म्हाल विकपी पयलें दुकान उगडलें, जंय ॲपलाचीं सगळीं उत्पादनां उपलब्ध आशिल्लीं. 10 वर्सा भितर जग भरांत मेळून ताणें 300 वयर दुकानां उगडलीं. पिक्सार कंपनींन लेगीत ए बग्स लाइफ, मॉनस्टर्स, इंक, द इनक्रेडिबल्स, फाइंडिंग नेमो अशीं नामनेची कार्टुन फिल्मं तयार केलीं. 2006 त डिस्नेन ती कंपनी 7.4 अब्ज डॉलर्सांत विकत घेतली आनी स्टीव ते कंपनीचो सगळ्यांत चड वैयक्तीक शेअर आशिल्लो भांडवलदार जालो.

2003 त ॲपल जेन्ना आय-फोन निर्मीतीक लागली, तेन्ना दोतोरांनी स्टीवाक स्वादुपिंडाचो कांक्र आसा म्हूण निदान केलें. ताका शस्त्रक्रिया करपाचो सल्लो दिलो. पूण ताणें तें मानलें ना. आहाराचेर आपूण निवळटलों असो ताका विस्वास आशिल्लो. पूण 2006 त जेन्ना ताका समजलें की ताची भलायकी निवळपा वाट्याची खालावत आसा तेन्ना ताणें शस्त्रक्रिया करपाक मान्यताय दिली.

2005 वर्सा ताका स्टॅनफोर्ड विश्वविद्यालयांत पदवीधरांक भाशण दिवपाक आपयले तेन्ना ताणें आपलेच जिणेंतल्यो तीन काणयो सांगल्यो - एक म्हणल्यार आपणें कॉलेज अर्दवट सोडून आपल्या काळजांतल्यान जें करीन दिसता तें करपा फाटल्यान लागलों. मनशान स्वताच्या मनाचो उलो आयकल्यारच ते स्वताचें सपन पुराय करूंक शकता. दुसरी काणी म्हणल्यार जेन्ना ताका ताचे कंपनींतल्यान भायर मारिल्लो तो प्रसंग. तेदे वेळार तो निर्शेवन वचूंक ना तर नेटान नेक्स्ट आनी पिक्सार कंपनी उबारपाच्या कामाक लागलो आनी निमणी काणी म्हणल्यार मरणाची. ताचे मतान जल्मल्लो मनीस हो एक दीस संवसार सोडून वता हें ताचें सगळ्यांत व्हडलें साधन. आमी मरतले हाची सदांच याद दवरप म्हणल्यार आमी जिवितांत कितें तरी हारतलीं ह्या विचारांच्या सापळ्यांतल्यान आमकां मुक्ती मेळटा. आमचे कडेन वेळ खूब कमी आसता तेन्ना दुसऱ्याची जीण जगपाचें सोडून स्वताच्या सपनां फाटल्यान लागात. हें सगळें ताणें आपले जिणेंत प्रत्यक्षांत हाडलें. तो सदांच सगळ्याच बाबतींत स्वताच्याच मनाप्रमाणे जियेलो.

27 जानेर 2010 त ॲपलान आय-पॅड बाजारांत हाडलो जाचें उक्तावण स्टीव जॉब्सान स्वताचे भपकेबाज पद्दतीन केलें. ॲपलाच्या सगळ्याच उत्पादनानी क्रांती केली आनी अजुनय ताची नामना जनमानसात आसा.

5 ऑक्टोबर 2011 हे दीसा पिरायेच्या 56 व्या वर्सा एक धडपडी आनी मनमानी जीण जगून तो हो संवसार सोडून गेलो. ताच्या मरणा उपरांत संवसार भरच्या ॲपल स्टोअरांत आय-पॅडाचेर पेटते मेणवातीचो फोटो घालून लोकांनी ताका श्रध्दांजली दिली. तांच्याच ऑफिसांतल्या एका कर्मचाऱ्यान ॲपलाच्या लोगोचेर स्टीवाचो फोटो घालून तें इंटरनेटाचेर वायरल केलें. कंपनींतल्या कर्मचाऱ्यांनी, तो जे पद्दतीन आपलें नांव पुराय धाकले वर्णमालेंत बरयतालो तेच पद्दतीन 'ॲपल चान्सरी' फोन्टान एका कागदाच्या कुडक्याचेर कोरले 'i thank you stevenpaul jobs!'

■■■





# मालवणी मामा

म्हज्या भुरगेपणा वयली गजाल. हांव चवथी यत्तेत आसुंये! तेन्ना  आमी वाडे नगर हांगा रावतालीं.

त्या वेळार आमचो घराबो, जना आमोणकारालो घराबो म्हूण नांवा रुपाक आयिल्लो. तसो आमचो घराबोय खूब व्हड आशिल्लो. त्या भायर सोयरे धायरे आनी बापायच्या हाता खाला वावुरपी मनशांचो चोमो सदांच आसतालो. आवय कामांत  गुंथिल्ली आसताली! फावता तेन्ना शिवणसूत घेवन बसताली. एका दिसा दनपारच्या वेळार आवयन सांगलें,'एक दोन दिसां भितर आमगेर मालवणचो मामा रावपाक येतलो. तेन्ना ताका त्रास बी दिवं नाकात आं! बरे शाणे भुरगे कशे वागात आं!'

आमी मामा येतलो हीं उतरां आयकनूच सामके खुशालभरीत जाले. पूण एक व्हड प्रस्न आमकां पडलो, आमचो मामा तर पणजे रावता. हो आनीक खंयचो मामा येवपाचो आसा काय म्हण! मनांत जायते प्रस्नांनी घर केलें! कसो दिसता काय हो




एच. मनोज
मो. : 9822441417


एच.मनोज म्हणल्यार मनोज हळर्णकार.पेशान ते शिक्षक आनी फाटलीं 31 वर्सां अध्यापन करतात. तांचो 'मनोभाव'हो काव्य संग्रह आनी 'मनकळे फुलतना'हो लेखसंग्रह उजवाडाक आयला. ते 'बिम्ब','भांगरभूंय' तशेंच हेर नेमाळ्यांतल्यान सातत्यान लेखन करतात. तांचे सामाजीक योगदाना पासत नागरी भोवमान जाल्यात..

मामा? आमकां कितें हाडटलो हो मामा? अश्या प्रस्नांच्या कुवाड्यांनी हांव घुसपून उरिल्लों. तेच परी मामा येतलो हे उमळशिकेन म्हाका आनी म्हजो धाकलो भाव, संदीपाक सारकी न्हीद लेगीत पडना जाली. कितेंय जावं आमचो मामा येता तेन्ना आमकां बऱ्यो बऱ्यो वस्तू हाडटा. होय मामा तसोच सो आसतलो असो अदमास हांवें लावन हातरुणार पडलों. पूण म्हज्या दोळ्यां मुखार पळोवंक नाशिल्ल्या मामाची आकृती उबी आसा असो भास जावंक लागिल्लो. बरोच वेळ हांव कूस बदलीत राविल्लों 'पॉकी पॉकी मोटार गाडी,मोटारींत बसल्या मामा मामी' हें पद म्हज्या कानांत आपसूक घुमूक लागिल्लें. हाचें एक मुखेल कारण म्हणल्यार तेन्ना 'खळार आनी मळार' हे कार्यावळींत हें पद चडशें आयकुपाक मेळटालें आनी तें आमचे संवकळीचें जाल्लें देखून घडये म्हाका भास जाल्लो जावं ये! हे गजालीक साबार वर्सां जायत आयलीं तरी ती हांव विसरूंक पावंक ना.

मामा ह्या उतरांत कितली खोशी आनी मोग भरिल्लो आसता हें सांगून कोणाक पटोवपाची गरजच पडना. ल्हान भुरग्यांचे मायेचो झरो, तसोच भाचरांचे सगले हट्ट पुराय करपी म्हणल्यारूच मामा! भुरगें जेन्ना ल्हान आसता तेन्ना आवयक कुळारा कडचो कोणूय मनीस मेळत तर आवय भुरग्याक 'हो पळय मामा तुजो' अशें तरेन वळख करून दिता आनी मागीर भुरग्याचें आनी त्या मामाचें नातें इतलें घनिश्ट जावंक पावता,रगताच्या मामा परस ह्या मानिल्ल्या मामाची ओड चड जावंक पावता. तशें शें नातें आमचें आनी मालवणी मामाचें जावंक पाविल्लें.

दोन दिसां उपरांत जाची वाट पळयतालीं तो दीस उदेलो. दनपार जाता म्हणसर मामा आयलो. ताच्या एका हातांत एक ल्हानसो ट्रंक आनी दुसऱ्या हातांत एक पोती आशिल्ली. पिराय सुमार 46 ते 47 वर्सां आसत. ह्या मामाक आमी सगळीं जाणां पयले फारा पळयतालीं आनी मेळटालीं. थोड्याच दिसांनी तो आमचे सरी मेळून मिसळून घराब्याचोच एक मायेस्त वांगडी जावंक पावलो. जस जशे आमी मामाक जाणां जावंक लागले तस तशे ताचो सहवास आमकां जाय-जाय सो दिसूंक लागिल्लो.ताच्या वांगडा खबरो मारतां-मारतां आमकां कळून आयलें तो पयलीं आमी रावता त्याच घरांत एकटोच रावतालो म्हण! आमी थंय रावपाक गेल्ले कारणान तो आमच्या वांगडा पेईंग गेस्ट म्हूण रावंक आयिल्लो. तो धेंप्याले बोटीर कामाक वतालो. सामको सादो, सरळ मनान वागपी मनीस. ताचे वागणुकेन आमचीं मनां जिखिल्लीं अशें हांव आयज अभिमानान सांगपाक शकतां. अभ्यास करपाच्या वेळार लेगीत तो आम कां गणितां सोडोवंक मजत करतालो. ताचे चडशे प्रस्न साम ान्य ज्ञानाचेर आदारिल्ले आसताले. म्हाका आनी संदीपाक तो वेग-वेगळे प्रस्न विचारून चितूंक लायतालो. जापो खबर नासत जाल्यार सोदून काडपाक लायतालो वा कोणाकय विचारून यो म्हूण आमकां तिश्टायत दवरतालो. मनशाक सामान्य ज्ञान कितलें गरजेचें आसता हें ताणेंच आमकां पटोवन दिल्लें. मनीस वेग-वेगळे प्रयोग करून कसलोय सोद लायता तोच सोद मागीर ताचें पोट भरपाचेंच साधन जावंक पावता अशें ताचें सांगणें आसतालें. रेल गाडयेचें इंजिन, ट्रकाचें इंजिन वा फेरी बोटीचें इंजिन हांचो आवाज तो आमकां बारिकसाणेन आयकुपाक लायतालो आनी ताचे फाटल्यान आशिल्लें तंत्रगिन्यान समजावन सांगतालो. जण एका मनशांत कसले ना कसले खाशेले गूण आसताच आसता देखून ते गूण ताणें हेरां कडेन पावोवपाक जाय अशें तो सांगतालो. Knowledge is to be shared,गिन्यान हेरां कडेन वाटपाक जाय हें तत्व ताणें आपणायल्लें. हांवें लेगीत ताणें शिकयल्ल्यो बऱ्यो गजाली आपणायल्यात तातूंतली एक म्हणल्यार आपूण कितें जाणां तें हेरांक शिकोवप. अशें केल्ल्यान आपलेंच गिन्यान वाडपाक लागता. बऱ्या वायट गजालींचो अणभव येता ही ताणें घालून दिल्ली देख हांव केन्नाच विसरूंक पावंक ना. निती मुल्यांचेर शिकयतना हांव ताणें सांगिल्ल्यो गजाली इश्कोलांत भुरग्यांक लेगीत सांगतां, तेन्ना भुरग्यांक त्यो मानवतात. हाचे वयल्यान निती मुल्यांचो अभ्यास कितलो म्हत्वाचो हें आमी थारावपाक शकतात. इलेक्ट्रीसिटींत ट्रीक आसा म्हूण ताणें आमकां सांगप आनी वेग-वेगळे प्रयोग उदारणां सयत करप घडये तांचेच प्रेरणेन संदीप, म्हजो धाकलो भाव इलेक्ट्रीकल इंजिनियर जावंक पावलो अशें म्हाका सदांच दिसता.

मायाळू सभाव आनी ताची मालवणी कोंकणी भास जी आमकां सगल्यांक बरीच मानवल्ली म्हणल्यार अतिताय जावची न्हय. आमी ताका 'मालवणी मामा' म्हूण पाचारूंक लागले. ताचो भेस सामको सादो आसचो. कलसांव आनी लांब खोमीस. पांयांत चामड्याचीं जोतीं. आनीक एक गजाल म्हणल्यार तो खड्डो आशिल्लो, जाका लागून आमी ताचे फाटल्यान ताची टवाळी उडयतालीं. आमचो व्हडलो भाव, ताका आमी बाबा म्हणटाले, तो तेन्ना निर्ला, सेंट जोजेफ स्कूलांत शिकयतालो. दर शेनवारा घरा येतालो आनी सोम

रा सकाळीं परत वतालो. एक फावट मजाच जाली. शेनवार आशिल्ल्यान बाबा (व्हडलो भाव) घरा आयलो तेन्ना ताका आमचो मालवणी मामा दिसलो ना. म्हूण तार्णे आवयक विचारलें, 'आमचो मिस्टर खड्डो मालवणी मामा खंय गे आई?' मामा घडये पोरसांत आशिल्लो, ताणें भावाचीं उतरां आयकलीं आनी जाप दिली, 'बाबा मी हंय आसय पोरसांत. वाऱ्याक बसलंय!' आमकां सगळ्यांक लज जाली. व्हडल्या भावाक तर सामकें पिकासांव जालें. असो हो आमचो म्हनलेलो मालवणी मामा सादो भोळो आनी भावार्थी, जाणें आमची खूब अपुरबाय केल्या. वेळा काळार आमची मजत लेगीत केल्या.

आनीक एक मजेशीर गजाल आयज मेरेन म्हाका याद आसा. तेन्ना आमचे आंगणांत मातयेची जमीन आशिल्ल्यान शेणान सारोवंची पडटाली. दिवाळीय लार्गी पाविल्ल्या कारणान आवयन सांगलें, 'जमीन धोबडी जाल्या. माती भरीक घालून पेटून आंगण साफ करुया' म्हण. हांवं आनी म्हजो धाकलो भाव संदीपान मेळून माती एकठांय करून हाडली. मामाय आमच्या सांगाताक आशिल्लोच. मामान सुचोवणी केल्ली,'माती हाडली की ती चाळणींत चाळून नंतर ती जमीन थापटून गुळगुळीत करूंक व्हई. तरुच आंगण सुळसुळीत जातलें हां!'

'हां मामा, तसांच करुंया!' आमी नेट दिलो. माती चाळून घेवपाचें काम मामान आपल्या आंगार घेतलें. आमी जाले ताचे वांगडी. दिसभरान माती चाळून घेवन ती धोंगां पोंगां आशिल्ले सुवातेर भरली आनी ताचेर उदक घालें. पेटणें घेवन ती सुवात मामान बरीच पेटली. तेन्ना जमीन बरी सुळसुळीत जाली. तें पळोवन मामा म्हणपाक लागलो 'बगीतलां मां, मी कांय सांगीतलां हुतां. जमीन उजू जालीं बघा? आतां आनीक काय करुची गरज न्हांय!' इतलें म्हणून मामा मागील दारा गेलो. हांवें चिंतलें, जमीन बरी जाल्या खरी! मात्शी आनीक बडयल्यार बरी! अशें मनांतल्या मनांत म्हणलें आनी हातांत पेटणें घेतलें आनी बडोवंक लागलों. तशी एका एका धपक्यार माती पेटण्याक दसून वयर आयली. सुळसुळीत जाल्ले जमनीचे कुडके वचूंक लागले. पेटण्याचो आवाज आयकून मामा धांवत आयलो. म्हज्या हातांत पेटणें पळोवन चाळवलो. म्हणपाक लागलो, 'मी बोलला ना पाटणे मारून जालां म्हूण! ह्यां काय केलां? सत्यानास केलो तुवें!' पयले फावटी हांवें ताका इतलो रागार जाल्लो पळयलो. पूण परत एकदां पेटणें हातात घेवन जमीन आशिल्ली तशी केली.



तेन्नाच ताका सूऽऽ जालें. मामा मना सारकें काम जाल्या बगर वगी बसपी न्हय हें ते दिसा आमकां कळ्ळें.

वाड्या वयले शेजारी-पाजारी लेगीत मालवणी मामा म्हूण ताका पाचारताले. वाड्यार कोण दुयेंत पडलो जाल्यार ताका दोतोरा कडेन घेवन तो वतालो. एकाद्या कोणागेर सत्यनारायणाची पुजा आसत जाल्यार पुजेची तयारी करपाक केळमे हाडपाक मामा, भटागेर सांगणें धाडपाक मामा. असो हो मामा कोणायल्या कामाक पावपी देव कसो. वेळ पडल्यार हेरांची सेवा करपा खातीर आपली ड्यूटी बदलून घेवपी, असो मनीसपणाक जपपी, पाळो दिवपी असो मामा.जायते मनीस सभाव हांवें पळयले. पूण मामांत आशिल्ले गूण आनीक खंयच्याच मनशांत हांवें पळोवंक नात. मामा हो वेगळोच प्राणी म्हणल्यार जाता. ताचे उपकार आमी केन्नाच विसरूंक नात.

आमी नवें घर बांदून थंय रावपाक गेलीं तेन्ना ताणें आपले बायलेक आनी भुरग्यांक मुरगांवां हाडलीं आनी त्याच घरांत रावंक लागलो. कांय वर्सां उपरांत आमी सगले भाव व्हड जावन कामां धंद्याक लागले, आपल्या संवसाराक लागले तरी लेगीत ताचें, आमचें लग्ना कार्यांक, बऱ्या वायटाक यो वच सुरु आशिल्लेंच! कांय म्हयन्या पयलीं तो हो संवसार सोडून गेलो तेन्ना लगीत ताचें निमणें दर्शन घेवपाक आमी एकठांय जाल्ले. चडशा बऱ्या गुणांचो मेळ आशिल्लो हो मामा आमच्या काळजांत नकळत घर करून बसला.

■■■

# इत्सा आनी पूर्तताय



प्रा. डॉ. वामन. रा. नायक
मो. : 9527744990

डॉ. वामन रा. नायक हे पुण्यांत महाविद्यालयाचे प्राचार्य म्हूण वावुरतात. कथा,कविता आनी ललित ह्या साहित्याच्या मळांचेर तांणी योगदान दिलां. तांचीं 'इंग्लीश-कोंकणी समानार्थी-विरुध्दार्थी शब्दकोष','वेध फुडाराचे', 'हिंद स्वराज्य वा इंडियन होम रूल','अशें घडले डॉ.ए.पी. जे. अब्दुल कलाम' आनी '85 म्हणी फाटली काणी' हीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.

इत्सा आनी पूर्तताये विशीं जाणा जावपाक सगळ्यांकूच उत्सुकताय आसता. आपली इत्सा फळाक पावची म्हूण दर एकलो हर तरेचे यत्न करता. कांय तातूंत फळादीक जातात, कांय जाणांक जाय तशें येस मेळना. अशें कित्याक जाता? एच. डब्लू. लॉगफेलो हया तत्ववेत्यान म्हळां – व्हड लोकांनी पादाक्रांत केल्ली येसाच्यो तेंगश्यो खिणांत वा सहजतायेन मेळयल्ल्यो नासतात. जेन्ना तांचे इश्ट व्हडा सुखा समाधानान आनी ऐश्वर्यांत लोळटात, तेन्ना हीं मनशां आपली जीण घडोवपा खातीर दिस–रात कश्ट काडीत आसतात.

अशें दिसून येता की वायट परिस्थिती येतकूच लोक बेजार जातात. कामा पासून कडेक वतात. ते निराश जातात. हाचे उरफाटे कांय लोक अशे आसतात, ते कसलीय परिस्थिती आयल्यार आपले वाटे कडसून कुशीक सरनात. तांचो संयम, उमेद सहजपणान कमी जायना. अपार कश्ट



करून रातीचो दीस करून, नव्यो तेंगश्यो ते हातासतात,. असले मनीस हेरांक उमेद हाडटात. भोवतेक वेळार अपेस, हें येसाचें पयलें सोंपण आसता. पयल्या अपेसान, दुसऱ्या एखादऱ्या नव्या क्षितिजाची वळख जाता.

आमचे सगल्यांचे आवडते सुपरस्टार अमिताभ बच्चन हे जे वेळार कॉलेजांत शिकताले, तेन्ना तांणी दिल्ली आकाशवाणीचेर निवेदकाचे सुवाती खातीर अर्ज केल्लो. ताच्या आवाजाची चाचणी घेवपांत आयली. तेन्ना तज्ञान सांगलें, 'तुजो आवाज खूब घोगरो आसा. देखून तो मायकांतल्यान स्पश्ट आयकूंक येना.' आकाशवाणीचेर तांची निवड जाल्ली जाल्यार ते बरे निवेदक जावपाचे. पूण एका अपेसांतल्यान, मुखार संघर्श करून, व्हडा चिकार्टेतल्यान तांणी बरेंच येस मेळयलें.

थॉमस एडिसनाक भुरगेपणांत जे शाळेंत घाल्लो. ते शाळेच्या मुख्याध्यापकान तिनूच म्हयन्यांत ताच्या पालकांक चीट बरयली, 'तुमचो चलो शाळेंत शिकपाचे लायकीचो ना.' पूण त्याच एडिसनान सुर्वेक सोदाच्या जगांत सगळ्यांवून व्हड अपेस आनी उपरांत सगळ्यांवून व्हड येस मेळयल्लें आसा.

इत्सा आनी पूर्तताय हे विर्शी सगळ्यांवून म्हत्वाची गोश्ट म्हळ्यार भावना. Unless we are emotionally charged,it is not possible to reach the goal or accomplish. भावनेचो परिपोश आमी कितलो करतात, हाचे वेल्यान पर्याया कडेन वचपाची दिका सुरू जाता. आमची इत्सा कितली खर आसा, ते खातीर आमी कितें करपाक तयार आसात, ते खातीर पुरायेन ते दिकेन झोकून उडोवप, तांचे पुर्तताये खातीर लायफ मिशन आसल्या सारखें तांचो तो प्रवास आसता. तें साध्य जाले बगर ते सुशेगाद जायनात. बील गेटसान थारायल्लें, दर एका व्यक्तीगत टेबलाचेर हांव संगणक दवरतलोंच.

हया खातीर सगळ्यावून म्हत्वाची गोश्ट म्हळ्यार जिद्द – धारणाशक्तीची. ती पुर्ततायेचे दिकेन पयलीं पावलां पडूंक मजत करतात.

ह्या लोकांची इत्सा कितली कणखर आसता तें लुई पाश्चरचे देखी वयल्यान दिसून येता. एकदां लुई पाश्चर रस्त्या वयल्यान वतना ताच्या इश्टाक सुणें चाबलें, आनी तो मेलो. सामान्यपणान तो मनीस मेलो तें पळोवन आम कां कांय खिणां खातीर वायट दिसपाचें आनी कालांतरान आमी विसरपाचे. पूण लुई पाश्चरान ते एके घडणुकेंतल्यान ध्यास घेतलो. सुणो चाबिल्ल्यान इश्टाक कित्याक मरण आयलें? हया एका प्रस्नान ताका पछाडलें. मजा म्हळ्यार पिसाळेल्ल्या सुण्या फाटल्यान पिसो कसो जावन, तो लागलो. ताचें सेंपल घेवपा खातीर.

ताचेर ताणें संशोधन केलें. मनन चिंतन केलें. ताचेर प्रयोगशाळेंत बरेच प्रयोग केले. आनी व्हड कश्टांनी ताचेर येस मेळयलें. तांणी काडिल्ल्या त्रासांक, कश्टांक शीम–मेर नासली. उपरांत त्या संशोधनाचो मानवजातीचेर कितलो उपकार जाला, कशे तरेन त्या संशोधनाचो फायदो जालो, हें आमी सगळे आयकून जाणात. हया विशया वयल्या जाणकारांच्या मतान ही उर्जा आमकां मेळटा ती आशावादांतल्यान. फक्त आमकां इत्सा आसल्यार जायना. त्या खातीर योग्य तो रोड मेप करचो पडटा. म्हाका खंय वचूंक जाय? म्हजें उद्धीश्ट कितें? हे विर्शींची स्पश्टताय, ते विशींचें चिंतन केल्यार विचारांत स्पश्टताय येता.

उद्धीश्टांची स्पश्टताय जातकच गरज आसा ती उत्कृश्ट नियोजनाची. आमी कशे तरेन नियोजन करतात, ताका खूब म्हत्व आसा. योग्य साधनांची निर्मिती केल्या बगर योग्य साध्य आमकां मेळचें ना. पुर्तताये खातीर खंयच्या साधनांचो उपेग करून हांव खंय पावतलों, असो मनाक मोह सुरू जाता.

कबिरान एके कडेन आपल्या दोह्यांत म्हळां.

करता था सो क्यों किया, अब कर क्यों पछिताय ।

बोया पेड़ बबूल का, आम कहाँ से खाय ।।

बियो भाबळीच्यो लायल्यार ताका आंबे कशे जातले?

एडिसनान एके कडेन म्हळां, आमी काम करतना तातूंत एक टक्को inspiration आनी शंबर टक्के perspiration आसता. वेवसायात येस मेळप इतलें सोंपें आशिल्लें जाल्यार दर एकलो गिरेस्त जावपाचो. हॉवर्ड शुल्टझ हांका स्टारबक्स, रे क्रॉक हांका मॉकडोनाल्डस खातीर आनी मायकल डेल हांकां डेल कॉम्प्युटर्स उबो करपा खातीर बरींच वर्सा लागल्यांत.

'आउटलायर्स : द स्टोरी ऑफ सक्सेस' हया आपल्या पुस्तकांत माल्कम ग्लडवेल स्पश्ट करतात की खंयचेय बाबतींत विशेश निपूण जावचें आसल्यार ताका 10,000 वरांचे खर परिश्रम लागतात. शाळेंत वचपी भुरगो आसतना बील गेटस हांका प्रोग्रामाचेर धा हजार वरां घालोवची पडलीं. बीटल्स हें एका वेळार कोणाक खबर नासले, तें फक्त एक ब्रिटिश हतकरू बॅण्ड आसले, तेन्ना

ते हेम्बर्गच्या एका नायट क्लबात दिसांतली सात वरा आनी सप्ताकांतले सात दीस गातालें. तांणी धा हजार वरां मेहनत केली.

ग्लडवेल म्हणटात ह्या 10000 वरांच्या नेमांची एक मनरिजवपी गोश्ट आसा की हो नेम सगळ्यांक लागू आसता. तुमी जर प्रॅक्टिसी खातीर 10000 वरां घालयलीं ना तर तुमी बुद्दिबळाचे ग्रँडमास्टर जावचे नात? हीच गत बोरीस बेकर पिरायेच्या सव्या वर्सा खेळपाक सुरवात करता आनी सोळाव्या वर्सा विम्बल्डनांत खेळटा. हेरांची हीच गत आसा.

धा हजार वरांचो नेम, ताचेर दिसपट्टी उदरगत आनी रियाज करप सोंपें न्हय.

देखीक, बील गेट्सान पिरायेच्या 21 व्या वर्सा प्रोग्रामिंग पुराय केल्लें तेन्ना कम्प्यूटर सोपेपणान मेळनासले.ताचीं धा हजार वरां कशीं जालीं ताचो इतिहास बरो मन रिजोवपी आसा. रातचीं सगळीं न्हिदिल्लीं आसतना तो लिपचोरयां दाराची कडी ल्हवूच उगडून, रातचो विद्यापीठांत पांयांनी वतालो. तेन्ना बस मेळ्ळ्यार मेळ्ळी. तेन्ना प्राध्यापक सकाळीं स वरांचेर येवन कम्प्यूटर वापरताले, कित्याक तेन्ना कम्प्यूटर कमी आसले. तेन्ना रातचो मध्यान रातीचेर आयल्यार कम्प्यूटर वापरपाक मेळपाचे. उपरांत ब्याच वर्सांनी बील गेट्सचे आवयन बरोवन दवरलां, म्हाका दिसतालें म्हजो चलो सामको आळशी आसा. तो न्हिदो काडटा. तो दिसपट्टो बेगीन उठना अशें म्हाका दिसतालें. म्हाका खूब उसरां कळ्ळें तो रातचो बस मेळ्ळी ना तर चलत विद्यापीठांत वतालो, कम्प्यूटर वापरतालो. होच आसा तो धा हजार वरांचो नेम!

प्रयत्नार्थी परमेश्वर अशी मराठीत एक म्हण आसा. हो एकूच इत्से कडल्यान पुर्तताये कडेन सहजतायेन व्हरपी मार्ग आसा. बेश्टेंच सहजतायेन जातलें अश्या भ्रमांत जे रावतात तांचे जिणेंत पुर्ततायेचो योग येना. पुराय तळमळ आनी एकाग्रताय आसची पडटा. आमकां कितल्योय अडचणी आयल्यो तरीय सकारात्मक दिश्टीकोन बाळगीतात ते जिणेंत खुशालभरीत आसतात. सकारात्मक दिश्टीकोना विशीं एडिसनाचे बायलेन तांचे विशीं एकीकडेन बरोवन दवरलां, ते इलेक्ट्रिकल बल्बाचो सोद लायताले तेन्ना ब्याच वेळां लौकीक अर्थान तांका अपेस आयलें. 63 वेगवेगळे तरेचीं तांणी मटेरियल वापरलीं. 1734 मटेरियल ट्राय केले. 'केदें व्हडलें हें अपेस अशें तुका दिसना?' मित्रान विचारलें.

'कोणें सांगलें तुका अपेस आयलां म्हण! हीं 1734



मटेरियल बल्बा खातीर चलचीं नात, इतलें म्हत्वाचें ज्ञान म्हाका मेळ्ळें. ताणें केन्नाच खंयचेच व्यक्ती विशीं, प्रयोगा विशीं वा घटका विशीं केन्नाच नेगेटिव्ह सांगलें ना. असली सकारात्मकताय तांचे खातीर आनी हेरांकूय खूब मार्गदर्शक थारली. आमकां जर पुर्तताये कडेन वचपाचें आसल्यार स्वयं शिस्तीची एकदम गरज आसा. खूब बरें नियोजन जाय. योग्य कृती, उपाय आनी तांची स्पश्टताय खूब गरजेची. आतां ही ल्हानशी काणी आसा वेळेच्या नियोजना विशींची. एका प्रोफेसराची. तो वर्गांत येता आनी असो एक काचेचो जार दवरता आनी म्हण्टा, 'आयज आपल्याक एक प्रयोग करपाचो आसा.' सुर्वेक तो व्हड व्हड फातर घेता आनी वयर दवरता. विद्यार्थ्यांक विचारता, 'आतां सुवात आसा व्हय?' आनी विद्यार्थी 'ना' म्हणतात. मागीर तो ल्हान ल्हान फातुरल्यो घेवन थंय घालता. आसा तातूंत सुवात. मागीर तातूंत तो रेवं घालता.आसा सुवात? उपरांत कॉफीचो जार घेवन कॉफीचे थेंब तातूंत उडयता.

आपले इत्से प्रमाणे पूर्तताय करपा खातीर ब्याच जाणांनी वेगवेगळो सल्लो दिला. त्या पासून शिकपाची संदी मेळ्ळ्यार ती वगडावंक फावना.

हे विशीं जगांतल्या सगल्यांवून व्हड बिझनस लीडर्स मर्दीं स्टीव्ह जॉब्स सल्लो दितात. येस मेळोवपा खातीर सेगीत सुदारणा करप भोव गरजेचें आसता. तुमी खंयचेंय काम बरे तरेन करतात तर मुखार अशें काम आनीकूय बरे तरेन करात. बरें जालें म्हूण समाधानान रावप न्हय. सेगीत बरें करपाचे तांचे आवडीक लागून ॲपलाक सेगीत

उदरगत करप आनी आपल्या वावराचो विस्तार करप जमलें. तांणी अडचणीचेर मात केली. ते पासून लाखांनी लोकांक प्रोत्साहन मेळ्ळें.

जिणेच्या यशापयशाच्या चडउताराचो आलेख पळयलो तर अशें म्हणचे लागतलें की सैम दर एकल्याची परिक्षा घेता. अपेसाच्या खडपाचेर आपटून परत लडो दिवपा खातीर सज्ज करून 'बचेंगे तो और लडेंगे' अशें म्हणत कोण ठामपणान उबो रावता, तर कोण कोसळटा तें पळेत आसता. आमचें बरेंच अपेस खिणयाळे आसता.

नेपोलियन हिल हांणी 'थिंक अँड ग्रोव रिच' ह्या अभिजात पुस्तकांत बरयल्लें आसा. खंयच्याय मनशाचे जिणेंत येस मळपा आर्दी ताका फाटीं ओडप आनी घडये थोडें अपेस सेर्त येता. जेन्ना अपेस मनशाचो ताबो घेता, तेन्ना सगल्यांवून सोंपी गोष्ट म्हळ्यार फाटीं सरप, आनी भोवसंख्य बायलो दादले तेंच करतात.

हालींच घडिल्ली शारदा बापट हांची काणी आयकतकूच घडये तुमकां अजाप जावये! 12 वी आर्टस् करतकूच तिका दोतोर जावपाचें आसलें. कांय लोकांनी तिका पिशांत काडलें. पूण तिणें जिद्द सोडली ना. 35 व्या वर्सा दोतोर जावपाचो विचार तिच्या मनांत आयलो. तिची आवय दुयेंत आसली. तिचो ट्रीटमेन्ट चालू आसलो. आवयक कितें जालां तें सम जुपाक शारदा वाचन करताली. तिचे एके मैत्रणीचो इंजिनेर न्हवरो दोतोर जाला म्हूण तिका कळ्ळें. तिका प्रस्न पडलो, भारतांत हें शक्य आसा व्हय? ही गजाल 2001 सालांतली. इंटरनेट थोडोसो सुरू जाल्लो, गुगल नासलें. तांणी मेडिकल कौन्सिलचे नेम वाचले, तेन्ना 12 वी सायन्स केल्यार घडये जमत, अशें तिका दिसलें.

मागीर 12 वी सायन्स करपाक मेळत काय म्हूण विचारपाक बोर्डात गेली. परत करपाक बारावी परत करपाक मेळची ना म्हूण सांगलें. विश्वास नासलो, म्हूण ती संचालकाक मेळपाक गेली.

एक वेगळी कॅटेगरी आसा तातूंन करपाक मेळुंये!

ती पयलींच्या कॉलेजात गेली. तांणी अशें कितें करपाक मेळचें ना म्हूण धांवडावनूच घालें. थंयच्यान ती हुजूरबाग,पयलीचें शाळेंत गेली. तांणी 12 वी आर्टस् केल्या ते कॉलेजची ना हरकत दाखलो हाडपाक सांगलो. अडचणींतल्यान वाट काडून ॲडमिशन घेतलें. पयल्या दिसा विद्यार्थ्यांक ती आपली टीचर कशी दिसली. आनी 75%मार्क घेवन पास जाली. इतले मजगती बी.जे. मेडिकल कॉलेजीक फोन केलो, आपल्याक प्रवेश मेळू येता, हे पिरायेचेर हें काय म्हूण विचारपाक. डिनान सांगलें, 'असलो प्रस्न म्हाका आतां मेरेन कोणेंच विचारूंक ना. तरनाट्या भुरग्यांक लेगीत हो कोर्स कठीन लागता. तुमी हे भानगडींत पडूं नाकात.

त्याच वेळार पेपरांत एक ॲड आयली, इंटरनॅशनल कॉलेबोरेशनान एक कॉलेज सुरू जाता म्हूण. त्या खातीर दोन वर्सा फिलिपाईन्स वचें पडटलें, दोन वर्सा क्लिनिकल करपा खातीर. तिणें तयारी केली. इतले मजगती जिचे खातीर ती शिकताली, ती तिची आवय भायर पडली. बरोऽऽ विचार करून ती परदेशांत गेली. दोन पदव्यांचें वेरिफिकेशन, authentication मेळऽसर तिका नाका पुरो जालें. निमणे ज्ञानलालसेन तिका 35 व्या वर्सा डिग्री मेळ्ळी. इंटर्नशिप करतना हेर भुरगीं तिचे परस अर्दे पिरायेचीं आसलीं. शेनवार , आयतार सुटी आसताली तेन्ना तांणी चित्तथरारक घडणुकांक फुडो करीत पायलट लायसन्स घेतलें.

अशे तरेन आमच्या भौरंगी बुद्दिक योग्य सारें घालें तर ताचें भांगर जावं येता. कुतूहलाचो प्रवास आमकां क्षमतांची पारख करपाक फायदेशीर थारता. स्वताचो सोद घेवप सगळ्यांकूच जमता अशें ना. पूण यत्न जावंक जाय!

■■■

# प्रवास

कारवार वाठारांतले संदेश बांदेकार हे कोंकणीचे खडेगांठ वावुरपी. कथा कविता,नाटक, ललित हे तांणी केळयल्ले साहित्य प्रकार. तांचीं पुस्तकांय उजवाडाक आयल्यांत. तांकां अणकाराचीय आवड आसा आनी तातूंत ते फिशाल थारल्यात. पंढरपुरच्या अंकुश गाजरे हांच्या मूळ मराठी कथेचो हो कोंकणी अणकार ताची गवाय



संदेश बांदेकर
मो. : 9480790172

आन्नीचेर शांता भाकरी भाजूंक लागील खरें, तरी तेगेल मन थाऱ्यार नाशिलें. एक बाजून घोव गणपा परवते पडिलो.

चलो युवराज खंय तरी भायर खेळच्या गेल्लो. घरांतलीं सगळीं कामां तशींत पडिलीं. शांताल मनाक घोर लागील कारणान तेगेल मन सैरभैर जाल्लें. भाकरी भाजज्याचेर तेगल मनत नाशिलें.

युवराज शांतालो धाकलो चलो. व्होडल्यो तीन चल्यो. तेमकां लग्न कन्न दिल्ले. शांताल घोवाक म्हणलार गणपाक टी.बी जाल्ली. खोकून खोकून गणपा अस्थीपंजर जावन पडिलो. बरगालाक पडिल्या पोरां म्हणकी दिसतालो. सगळ्यां आस्पत्रेचीं देल्लां झरोवन जाल्लीं. चलेल लग्नाच्या रिणान तेमी पुराय बुडन्न गेल्ली. शांताक कोणालोत आधार नाशिलो. तशें जावन गणपालो उपचार समा जाते नाशिलो. आत आयुर्वेदिक औशदां चालू आशिल्यान तेणें मातर तड धरिली.

युवराज णव्वी शिकतालो. युवराजाल शाळे प्रवास दोन दिवसां नंतर कोंकण दर्शन करूंक वयचे आशिले. घरचे गरिबी लागून हेजे

वयले बी तेकां प्रवासा वचू जमलेत नाशिलें. तसो तो वचू जाय म्हण हट्ट बी करनालो. आतां बी करते नाशिलो. कारण तेकां घरच्या गरीब परिस्थितीची जाणीव आशिली.

शांता आजून विचार करतेत आशिले. जल्मां येयले तेन्नाच्यान ही गरिबी फाट सोडते नाशिली. आनी गरीब गरीब करते बसलार युवराज प्रवासाक ह्या जल्मांत तरी पावचना. त्या पेक्षा हांव खंयी हात पांय मारील बरे. खंय तरी कीत तरी मेळतलें. तश केलार तो प्रवासा पावतलो. आनी तेणें वचें तरी केन्ना? हो विचार शांताल बोडांत घुवते आशिलो. तेन्नात तेगेल नाकांत भाकरी करपल्लो वास गेलो आनी तें भानार येयलें. तोंडांन 'च च' करते तव्या वयली भाकरी काडली आनी चोबलांत उडयली. कायल्याट्यान तवो बरगून काडलो. उजो बारीक कन्न तें परत भाकरी बडोवुं लागलें. परत विचार करतेत.

पल्यात हातांत एक फुटकी कवडी ना.......कोणाकडे उधारी मागची......पूण म्हाक दितल कोण.....? आत कीत करचें.....?

अस विचार तेगेल बोडांत घोळते आशिलो. विचार करतेत अर्द मायतो जावु येयिलो. शांताली भाकरी आनी तोंडा लावूंक तयार जाल्ले. तेन्नात तेकां वयल वाड्या वयल्या राधाबायली याद जाली.शांताल मनाक ती दितली अशी खात्री आशिली आनी दुसर कोण दितल अशें दिसते नाशिलें.

शांता उटलें. सरसरी सगळें साकशिलें. आरसो घेवन सोंडी पळयली. रान्नी धगान तोंड काळें पडिलें आनी कपला कुंकूम फाफसून गेल्लो. कुंक्माकड्यांतलें कुंकूम परत लायलो. पालवान तोंड पुसलें. पालु बोडार घेयलो. घोवाकडे पळयतेत म्हणु लागलें,

'' हांव जरा वयल वाड्या वयल्या राधाबायकडे वचून येतां. घरांत लक्ष उरुं. घरांत सुणे बिणे येवन भाकरी खावन वचत. जरा पळया.''

गणपान नदरेनत 'बरें' म्हणलें. शांतान राधाबायेलो घरा रस्तो धरलो. शांता भरभर चमकताल खरें पूण बोडांत विचार फिरते आशिले. ' राधाबाय म्हाक पैशै दितल मु? काय आनी कितें दुसरेत सांगना मु?' शांताक दोळ्यां मुखार युवराजालो प्रवास दिसतालो.ह्या विचारा गुंगेंतत शांता राधाबायल्या देल्लांत पावलें. देल्लांत रावनत तिका जबाब दिलो.

'' ये......राधा मावशे.......राधा मावशे !''

राधाबाय रान्नी पोल्लेंत बसून भाकरी बडयताली. कानार उलो पडिल्यान तिणें भाकरी बडोवचें बंद केलें. परत शांतान उलो घातलो. राधाबायन शांतालो आवाज वळखलो.

'' कित गो शांते....? आज अशें पैस कशें पावलें? यो भितर यो !''

'' येल येयले,....म्हणत शांता चोरपावलांन घरांत गेलें आणी थंयीत वण्टी तेंकून बसलें. तरी दबत विचारलें,

'' कित गे राधा मावशे, भाकरी करत दिसता...?''

शांताल उलौवणे आयकून राधान जरा गर्वान म्हणलें,

'' हें कित गो बाये.....दिसन गो तुका हांव भाकरी करत तें? बरे दोन दोळे दिला मुगो तुक देवान....काय चाळीसपत्र बी लागल गो तुका? ''

शांता थंड पडलें. तोंड येदें जालें. तेणें मनांत म्हणलें,'बाये, म्हागेलेंत चुकलें. म्हागेल दोळ्यां दिसताना तुक विचारलें.'

शांतालें पडील तोंड पळोवन वयर वयर उलौवु जाय म्हण राधाबाय म्हणु लागली,

'' ये शांता.....तोंड येदें करूंक कित जाल गो....मस्करी केल तुगेल हांवें.....तुक मस्करी बी कळ्ळन गो....? ''

शांतान वयर वयर हांसलशें केलं तेन्ना राधाबाय म्हणु लागली,

'' बरे, उलय गो शांता.....कशें येवचें येवजलें गरिबाकडे?''

शांता उलोवुंक कचरलें. तेगेल मनाक खात्री जाली,ही बायल काय म्हाक पावची ना.......पूण परत मनात विचार केलो...... पावल्यार पावली......पळोया......शांतान राधाबायकडे पळयते बारीक आवाजांत म्हणलें,

'' जरा तुगेलकडे काम जातल म्हण येयील पळय.....''

भाकरी थापचे थांबोवन कपाळाचेर दोन आठी जास्तत घालन्न राधाबायन म्हणले,

''कसल काम गो ? आनी म्हागेलकडे...? कोणाले लफडे बी न्हीं मुगो....? ना तर ओगीतत...... ''

राधाबाय अर्धकुडेत उलयली. शांताक वयर उखलन्न सखल आपटील्या म्हणकी जालें. कित उलौवुं म्हण कळते ना जालें........ इतलें म्हणतेत तिगेली चार भाकरी थापटून जाली. तोंड लावण्याक फोण्ण घालते राधाबाय म्हणु लागली,

'' चल मस्करी जाल्ली पुर जाली.......उलय कित काम आस ते.....?''

शांता उलौवुं काय नाका होत्त विचार मनांत करतेत म्हणलें

'' जरा पैशे जाय आशिले तुगेल कडल्यान उसणे......होड आशेन येयल तुगेलकडे..... ''

राधाबाय शांताकडे भुवी वयर कन्न नाक वाकडें करतेत, तोंड वाकडें करतेत म्हणु लागली,

'' कित्या गो पैशे...?''

शांता बाबडे जावन म्हणु लागलें,

'' पोरालो प्रवास जावचो आसा. तेकां प्रवासा धाडचें मनांत आसा. केन्नात आत पर्यंत तेकां प्रवासा धाडलोत ना. म्हण.... ''

राधाबाय मान हालयत आश्चर्यान म्हणु लागली

'' प्रवासाक?..... अगो शांता तू चार पुस्तक शिकलां. तुक तर खबरत आसा.रीण काडन्न सण करनोय म्हण......बरें तें आसुं. म्हाक सांग....तेतुत तुकां दिलें हांवें रीण तू मागीर कश पावयतलें म्हाका ? .....घोव तुगेल हांतुळनात. पोर शाळेंत. तू अशी गरीब गाय. तुवें परत पैशे दिल ना तर हांवें टाळ कुट्टेत तुगेल नांवान पंढरीची वारी करते बसता मागीर. ग्यानबा..... तुकाराम...... म्हणतेत. ना गो बाये ...... म्हागेलकडे पैशे नात......दिसलार अर्धी भाकरी मागून व्होर पूण पैशै मागनाक बाये.''

राधाबायन शिरे मोडील्या म्हणकी सगळेंत एक घावाक दोन तुकडे केले. तोंडांतल्यान एक शब्द न काडतां शांता तेमगेरच्यान भायर पडन्न रस्तो धरलो. विचारान बोड भरलें. नशिबा येयिलें सांगचें कोणाक ? शांतान धीरसोडल्ना. आत कोणाकडे मागचे ह्या विचारांतच भोसलेगेरच्या शालाबायल्या घराकडे पावलें. शालाबाय उदार मनाची. गरिबाक अडीनडीक पावची बायल मनीस. शांतान दबत दबत दारांतल्यानत आवाज दिलो.

''शालाकाकु, आस हय गे घरात? ''

शालाबाय भाकर खाते आशिली. शांताल आवाज आयकतरे भाकरी खातेत म्हणु लागली.

'' यो गो शांता जेवुक .....!''

'' जेवा,जेवा...'' म्हणत शांता उंबरो बंदाळून घरांत गेलें आनी वण्टी तेंकून बसलें. पालवान तोंडा वयली, गळ्या वयली हूम पुसली. पालवानत वारो घालन्न घेयलो. तेन्नात भाकरी चाबडयत शालाबायन म्हणलें,

'' त गो शांता...? कशें येणें केलें....? ''

शांतान कळवळोन म्हणलें,

'' जरा काम आशील पळय काकु.''

'' कसल गो काम?'' उदा पितेत शालाबायन म्हणलें.

परत शांता बाबडें जावन म्हणु लागलें.

'' थोडे उधार पैशे जाय आशील म्हाका.''

कपाळाचेर दोन आठी घालतेत आनी तोंडान 'च्योक च्योक' करत शालाबायन म्हणलें,

'' शांता, तुक तर खबरत आसा. हांव कोणाकत ना म्हण्णा. पूण कित सांगू तुका, कालत हजामाल्या रंगप्पाक तेगेल धिब्बे ऑपरेशन आस म्हण तेक दिले.''

शांतान गप्पत आयकून घेतलें. 'बरें आसुं, येतां हां 'म्हण तें थंच्यान भायर सरलें.

आपल्याकडे आशील तेन्ना,सगळो गांव आमगेलोत उरता. आनी कांय नाशिल तेन्ना कोण कोणाल न्हीं. लोक फक्त आपसुवार्थी झालात. ह्या म्हागेल तुगेल काय रावलेत ना. असो विचार तेगेल मनांत चालू आशिलो. पैसो कसो उभो करचो आनी पोराक कश कन्न प्रवासा धाडचें होत्त विचार तेगेल तकलेंतल्यान वयते नाशिलो. शेवटाक आनेक पटी पळया म्हण तें वाट वाकडी कन्न चुलत भयणीले घरची वाट धरली. शांताक दिसलें,आमगेल लागीचें नातें आसा. म्हाक कोणें पैशै दिल ना तरी म्हागेल भयण म्हाक दितलीत.

शांता भरभर चमकते तेमगेर पावलें. देल्लांत रावनत आवाज दिलो, ''ये......मंगल....''

मंगल पालवाक हात पुसतेत भायर येयलें. हें बरें शिकील सवरीलें. शांताक पळयतेत व्होळु आवाजात म्हणु लागलें,

'' कित गो आका...? कश येणें केलें?''

शांतान बारीक आवाजांत तरी हक्काच्या आवाजांत म्हणलें,

'' सकाळच्यान युवराजाल्या प्रवासासाठी खंयी पैशै मेळत म्हण हेडते आसां. तीन चार घरांचीं देल्लां झाडलीं तरी पांच पैशांची परापत जाल ना. वयत वयते तुगेलकडे मेळत काय म्हण येयलां.''

मंगल कांय क्षण कायीत उलयल ना. शांताकत चुकल् अशें जालें. सोयऱ्याल दारांत ओगीत येयिल्या म्हणकीत जालें. बोडांत नाक जाल्ले विचार घोळुं लागले. तेन्नात मंगलान म्हणलें,

'' अगो, आसा तुक खबरत आसा हांव हांगा मामेल हाती सखल आसा. म्हाक कोण एकटो एक रुपय हातींत दिना. तेतूंत हेमी बी नात. गांवाक गेलात. आनी दोन दिवसां नंतर येतल तेमी.''

शांतान वयर वयल्या मनानत,'उरु गो. उरु गो' करतेत फाटले पांयान फाटीं फिरलें. तडक घरा रस्तो धरलो. सकाळधन्न पोटांत ना अन्नाकण, ना उदका थेंबो. कोणें घोंटभर च्या पाजयल ना. शेवटा कोण बी पावलोत ना. 'पापी गेल्ल कडे पावल भर उदाक ' अशी गत शांताल आज जाल्ली.

दनपारचे बारा वाजून गेल्ले. कोणत पैश्या मदत करूं पावलना तरी शांतान धर्ये सोडल् नाशिलें. तरी तें त्या वता कडारत घर येयलें. घरांत थोड वेळ असोत काडलो, विचार करतेत. लोक तर पैशै दिनांत. पैशै पातेनात. आत करचें कितें....? शांता मुकार व्होड प्रस्न उभ आशिलो. तेन्नात शांताल बोडांत एक विचार येयलो. गळ्यांत एक बारीक भांगराचो फोडो आशिलो. शांतान मनांत विचार केलो, हांतुळानात काय जायन...तरी घोव आस म्हागेल फाटल्यान......मागीर ह्या फाड्याची गरज कित्या....? आठ पंदरा दिवस अडवा दवरलार कितं वायट....?

शांता पट्टकन उठलें. छाती फुलोवन दादल्या भाशेन आनी

सरळ पंढरपुरचो रस्तो धरलो. सोनाराल दुकाना वचून फोडो अडवा दवन्न एक हजार रुपय घेवन तडक घरा वाट धरली. गळ्यांत फोडो ना जाल तरी तें खुशेंत आशिलें.

दुसरे दिवस युवराज शाळेच्या कोंकणात प्रवास वयचो आशिलो. तेकां प्रवासा वयची इत्सा खूप आशिली तरी मन तयार जाते नाशिलें. तेकां घरची परिस्थिती खबर आशिली. बापूय सदात हांतुळणार. आवयले हाल जावचे तो दोळ्यांन पळयतालो. आवयलो खाली गळो तेजान पळोवु जायनाशिलो. तेगेल मन तेगेलकडे म्हणतालें,' प्रवासा वचें हें श्रीमंत घरांतल्या पोरालें काम. आमच सारख्या गरिबाल न्ही. आई-बाबा बरा रावचें होत्त म्हागेल प्रवास.तो पयल दिसाच्यानत आपूण प्रवासा वचना म्हण सांगते आशिलो.पूण तेकां प्रवासा धाडची इत्सा शांताक आशिली. तो नाक नाक म्हणलें तरी. आनी आत पैशै उरले तरी तो नाकात म्हणते आशिलो. तरी बळ कन्न शांतान युवराजाक प्रवासा साठी राजी केलें.

प्रवासा वयचो दिवस उजवाडलो. शांतान सगळी युवराजाल प्रवासाची तयारी केली. सकाळीं शाळे कडल्यान आठ वाजतना वयचे आशिले. घरा कडल्यान शाळा दोन किलोमीटरार. युवराजान आपणाले साकसून घेतलें आनी प्रवासा वचून भायर सरचे पयलीं आवय बापायक पाय पडलो. शांतान तेगेल हातात एक हजार रुपय दिले. तेणें आवयल दोळ्यांत पळयलें. शांताल दोळ्यांत आनंदाचे उदा येयिलें. युवराजान शांतान दिल्ले एक हजार रुपय खिशांत दवरले. तो वचू भायर सरलो......तशें शांतान तेगेल पोल्या वयल्यान हात फिरयतेत म्हणलें,

''पुता, प्रवासाक समा वच....मस्ती कर नाका...कोणाकडे झगड नाका.........समुद्रा उदकांत पैस वच नाका......बरो कन्न चल......आनी बरो कन्न यो. ओगीत आमकां जिवा घोर लागचे अशें काय कन्नाका.''

युवराजान मान हालयत प्रवासा वचूक शाळे वाट धरली. सकाळचे अकरा वाजिले. शांतान घरांतलें सगळें काम साकशिलें. घोवाक वाढलें. आपूण जेवलें. जेवल नंतर आनी कीत करतल काय म्हण तें गोदड शिवुं बसलें. गणपा थंयीत खाटा वयल्यांन आपल्याल बायलेकडे एक सारखो पळयते आशिलो. तेक आपणाल बायलेलें कौतूक दिसतालें. गोदड शिवुंक शांता एकदम रंगार येयिलें. तरी तेगेल मन युवराजाल्या प्रवासांत व्हावतें गेल्लें.

युवराज आत खंय उरतल काय...तो झोपाळ्यार बसतलो...समुद्रांत न्हांतलो...... शिवाजी महाराजाले किल्ले पळयतलो....आनी मज्जा करतलो...

अशेत कीत तरी शांताल मनांत घोळते आशिलें. शांताल मनांतले मनांत प्रवास चलते आशिलो.

दनपारचे साडे बार जावन गेल्ले. शांता आजून गोदड शिवते आशिलें. बोडांत युवराजालो विचार चालूत आशिलो. तेन्नात शांता म्होऱ्यात युवराज येवन उभ रावलो. क्षणभर शांताल दोळ्यांचेर विश्वासत बसल्ना. असो अचानक युवराजाक येयील पळोवन आश्चर्यानं शांतान म्हणलें,

''अरे बाळा, कीत जालें? कितें तु प्रवासा गेल ना? परत कित्या येयल तु? ''

काय एक उलयनास्तना युवराज आवय शांता म्होऱ्यांत गेलो. युवराज परत येयील पळोवन गणपा बी हांतुळणाचेर उठून बसलो. युवराजान हाततली बॅग सखल दवरली. खिशांत हात घातलो.खिशांतल्यान आपल्याल आवयन अडव दवरिलो फोडो काडलो आनी आवयल हातांत दितेत म्हणू लागलो,

''आई, तुगेल असो खाली गळो दवरन्न हांव कित्या प्रवासाक वयतलों? आमगेल घरांत समा मीठ ना....जेवणा सामानाची गजालत सोंडन्न दी...बाबा शीक आसा...तर कसो वयतल हांव प्रवासाक?....तुगेल खाली गळो म्हाजान पळोवुं जाल ना. म्हण हांवें पंढरपूर वचून तुवें अडवा दवरिलो फोडो सोडोवन हाडलो.......आई...बाबा तुमगेल बरा म्हागेल प्रवास......म्हाक आनी काय नाका....फक्त म्हाक तुमी दोगजाण जाय.....बाकी काय नाका.....''

युवराजाल उलौवण्यान शांताल दोळे ओल जाले........युवराजाल बी दोळे ओल जाले. शांतान पट्कन्न पोराक आपल्याल येंगांत घेतलें........पटापट पापी घेतली.......गाला वयल्यांन हात फिरोवन हाता बोटां कटाकट मोडन्न नदर काडली. मायेन पोशेलें...... शांताक पोराले कितलं कौतूक करुं काय म्हण जालें......तरी तेगेल तोंडांतल्यान शब्द भायर पडते नाशिले........फक्त होंठ तितले हालताले........आवयल पुतालें प्रेम पळोवन..... गणपाले दोळे बी भरन्न येयले......आंगांत अवसाण ना जाल तरी गणपा हांतुळणातल्यान सासपते तेमी बशील कडे येयलो. युवराजल दोनी गालाक पापी घेतली. आनी म्हणु लागलो,

'' हय बाळा, तुवें आपल्याल आवयल गळ्यांत फोडो बांदून खरो जिवनाचो प्रवास तुवें आज अनुभवलो.''

गणपान युवराजाल हातांतलो तो फोडो घेतलो आनी आपल्याल बायलेल गळ्यांत घातलो.......गणपा तेगेलकडे पळयते उरलो.....नकळत परत गणपाल्या दोळ्यांत परत उदा येयलें.

**– मुळ मराठीत: अंकुश गाजरे,पंढरपूर**

■■■



# घमेंड

रघुनाथबाब खूब्ब शिकिल्लो. तरी ताका भाटकारपणाची घमेंड आशिल्ली. त्या कारणाक लागून तो सदांच बोंबलेच्या देंटांतल्यान घमेंड उक्तायतालो. कोंकणी भास तर ताच्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्ली हांवें केन्नाच आयकलीना. जेन्ना जेन्ना तो तोंड उगडटालो तेन्ना ताच्या तोंडांतल्यान इंग्लीश भाशे बगर दुसरी तिसरी भास भायर सरनाशिल्ली. हरशी ताका सगल्यो भासो येताल्यो. पूण मुद्दामूच कोंकणी उलय नाशिल्लो.घरांत कामवाली बाई आनी भाटांत काम करतल्या मानायांक तापयतालो लेगीत इंग्लीशींतल्यान. सुण्या-मांजराची आपुरबाय इंग्लीशींतल्यान करतालो. मागीर ती इंग्लीश भास तांकां कळूं वा नाका कळूं. ताचें ताका पडूंक नाशिल्लें. केन्ना केन्ना तर सुणी मांजरां बेजारून ल्हवूच तीं कूस मारतालीं. पूण रघुनाथबाब इंग्लीश उलोवपाचो बंद जाय नाशिल्लो.

रघुनाथबाबाक दोगां भुरगीं. एक चली आनी दुसरो चलो. धाकले धुवेली आपुरबाय चड. पुता परस ल्हान आशिल्लें तेन्ना लेगीत तागेल्या दोळ्यांतल्यान दूक लेगीत पोल्यार देवंक दिलें ताणें ना. एक दीस धूव दुयेंत पडली. ताका कुलकुलो मारून जोर आयलो. रघुनाथबाबान धुवेक बरे व्हडल्या व्हडल्या दोतोरांक दाखयलें. वखदां, गुळ्यो, इनेसांव तोपून पळयलें. पूण कितेंयच केल्यार धुवेलो जोर मातूय कमी जायना. तें पळोवन रघुनाथ चिंतनांनी बुडलो. शेजारच्या काशिनाथबाबाली घरकान्न भारतीचे खबरेक आयली.

'' कितें गो बाय, अजून बरें दिसना जिवाक?''

'' ना गे काकी.'' पिरंगत पिरंगत भारतीन जाप दिली.

'' अशें कशें तर बरें जायना? इतले दीस जाले तुका

कोंकणीच्या मळार हालींच्या काळार कोंकणीचे वावुरपी आनी लेखक म्हूण जे तरनाटे आयल्यात तातूंत नामदेव गणपत सुर्लीकार हांचें नांव घेवंचें पडटलें. कविता, कथा आनी ललित लेखनांत ते आपले परीन योगदान दितात आनी वाचकांची तांकां पसंतीय लाबल्या.



नामदेव गणपत सुर्लीकार
मो. : 9823889585



रघुनाथबाब दोतोरा कडेन व्हरून हाडटा तें हांव बलकावांत उबी रावून पळयतां.भायल्यो बी अडी अडचण्यो ना मरे रघुनाथबाब? ना म्हणजे दिसान दीस पोराची भलायकी चडूच इबाटाना दिसता. पळ्यात एकदां तरी देव धर्म करून!''

दोन तीन दिसांनी रघुनाथबाबांच्या घरा आंगणांत एक चादरी विकपी आयलो आनी दारा मुखार रावन उबो रावलो. ताणें रघुनाथाक विचारलें, ''पात्रांव चादरी जाय तुमकां?''

रागाच्या भरांत रघुनाथबाबान त्या चादरीवाल्याक बरोच तापयलो. तेन्ना चादरीवाल्यान ताका थंडपणान ताका म्हणलें,''खबर आसा म्हाका तुमी हे वेळार टेन्शनांत आसात ते! हांव समजूंक शकतां तुमगेलें दुख्ख! एक काम करात, हांव सांगतां तशें करात. ह्या शेनवाराक मारुतीच्या देवळांत वचात. तेल, पिंजर मारुतीचे तकलेर घालात. अगरबत्ती, फुलां, हार घालात आनी नाल्ल फोडून अर्दे वळें घरा हाडात. खोबरें काडून धुवेल्या तोंडांत घालात. मागीर पळयात तुमी तुमगेली धूव कशी बरी जावन हाथरुणारसून उठून बसता ती!''

चादरीवाल्याच्यो फालतूर गजाली आयकून रघुनाथबाबाली तकली आनीक्य सणसणपाक लागली. त्या रागान ताणें, ''अशें! बरो आसा मरे तूं! तुजीं चादरां घेना म्हूण देव धर्माचें वारें म्हजे तकलेंत भरता व्हय? पूण ताचो म्हजेर कांयच असर जावंचों ना, मतींत दवर! आतां वच हांगा सरलो तुगेलें कुशिल्लें तोंड घेवन आनी परत हेवटेन नदरेक लेगीत पडचोंना सांगून दवरतां. आनी जर तर तूं चुकून लेगीत ह्या वाड्यार आयला म्हूण म्हाका कोणेंय सांगलें तर तुजे हात पांय मोडल्या उपरांत चादरां विकपाचे लायकीचो उरचो ना. चल हांगा सरलो, वाशिमेर गांव हेडग्या!''

चादरी विकपी एक उतर ना उलयतां, ओग्गी मोन्यानी गेलो. तो गेल्या उपरांत रघुनाथबाब विचार करूंक लागलो. जें किर्ते ताणें सांगलां त्या प्रमाण यत्न करून पळोवपाक किर्ते जाता! एकाद्रें तें बरें जाल्यार जालें. गूण पडलो जाल्यार पडलो. ते आशेन रघुनाथबाब शेनवारचो सांज वेळार मारुतीच्या देवळांत गेलो. पूण ताच्या मनांत तसलो कसलोच ते विर्शी विस्वास म्हणटात तो नाशिल्लो. ताणें सांगलें म्हूण रघूनाथबाबान त्या प्रमाण विधी केलो. तरीय तागेले धुवेक मातूय बरें दिसूंक ना. वयल्यान चडूच जोर वाडलो.

दुसऱ्या दिसा रघुनाथबाब शेजारच्या गांवांत दोतोराक हाडूंक वतालो. तेन्ना तो चादरीवालो ताका थंय वाटेक मेळ्ळो.ताका पळोवन रघुनाथबाब रागान तांबडो जालो. '' ये मेर्दा राव रे'' म्हूण मोठ्यान आइडलो. '' तूं तर सांगतालो की म्हजी धूव बरी जातली म्हूण? तुवेन सांगिल्ल्यो सगल्यो विधी केल्यो. पूण कांय एक उपेग जालो ना. तुमच्या सारक्या अनपड लोकांचेर विस्वास दवरून हांवें म्हजो वेळ वगडायलो.''

तो आपली सदची घमेंड दाखोवंक मोठमोठ्यान आइडेलो खरो, पूण ताका लागून ताचो गळो सामको सुकून आयलो.पियेवपाक ताका इल्लें तरी उदक जाय आशिल्लें.

''पात्रांव तूं मातसो शांत राव पळोवया. तूं कांयच भिये नाका. पयलीं उदका घोट घे.'' चादरीकारान ताचे मुखार आपली उदकाची बाटली धरून म्हणलें.

तानेन वळवळपी रघूनाथबाबान फाटफुडो पळय नासतना ताच्या हातांतली उदकाची बाटली ओडून घेतली आनी तोंडाक लायली. दोन घोट पियेतकच ताका मात्शें बरें दिसलें.

''पात्रांव, आतां आनीक चड आइडेंव नाकात. हाडून दियात म्हजे कडेन पुजेचें सामान!''

ताचे सांगणे प्रमाण मुकाट्यांनी रघुनाथबाबान पुजेचें सामान लागींच्याच पसऱ्या वयलें हाडून दिलें. चादरवालो सामान घेवन देवळांत गेलो. थंय वचून आदीं ताणें सांगणें केलें. पूजा करून देवळांतल्यान भायर सरलो. प्रसाद घेवन तो रघुनाथबाबा वांगडा ताच्या घरा गेलो. ताणें प्रसाद तागेले धुवेक खावपाक दिलो. देवाली बिबूत चादरवाल्यान धुवेल्या कपलाक लायली. कांय वेळा उपरांत रघुनाथाली धूव सट्ट करून उठून बसली. तागेलो जोर नाच जाल्लो. तागेले धुवेक पळयल्यार अशें दिसतालें की ताका कांयच जावंक नाशिल्लें.

आपली धूव बरी जाल्या तें पळोवन रघुनाथबाबाल्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवलीं. ताणें धुवेक मोगान वेंगयली.

मागीर फाटीं वळून रघुनाथबाब त्या चादरवाल्याक पळयत रावलो. ताणें ताका हात जोडले आनी म्हणलें, ''म्हजी धूव तुवेन केल्ले पुजे वरवीं बरी जाली. पूण म्हाका एक कळूंक ना, जेन्ना हांवें तुजेच पद्दती प्रमाण पूजा करून लेगीत म्हजी धूव बरी जावंक नाशिल्ली. मागीर हो कसलो चत्मकार तुजे हातून घडलो?''

चादरवालो मुरमुरख्यानी हांसलो आनी म्हणलें,''तुवेन पुजा करूंक जाय म्हूण केल्ली, दुसरो सांगता म्हूण! पूण तुगेलो ते फातराचे मुर्तीचेर विस्वास नाशिल्लो. तुवेन केल्ली पुजा खरी पूण तातूंत निश्ठा ना, ना श्रध्दा आशिल्ली. आशिल्लो तो तुजो घमेंडी सभाव. निश्ठा भावनेन, श्रध्देन जर तुवेन पुजा केल्ली जाल्यार, तेन्नाच तुगेली धूव बरी जावपाची! सोड, तुजी चूक तुका कळ्ळी तें बरें जालें. गर्वाचें घर सदांच खालीं म्हणटात तें फट न्हय!'' अशें म्हणून चादरवालो चलत रावलो. रघुनाथबाब ताका उलो मारतालो, पूण परत ताणें वळून लेगीत पळयलें ना. पूण रघुनाथबाबाच्या मनांत एक प्रस्न सासणा खातीर दवरून गेलो,खऱ्यानीच हो चादरवालो आसलो? काय म्हाका चडिल्ली पयशांची आनी भाशेची घमेंड देवोवपा खातीर, म्हजी परिक्षा घेवपाक कोण तरी अवतारी पुरुष आसूंयेत

■■■





# कुत्रू

कोंकणी तशेंच मराठींतल्यान सातत्यान जीं कोण बरोवपी आसात तातूंत सुषमा तिळवे हांचें नांव येता. कोंकणींत'दवरणें' आनी मराठींत 'गंध मातीचे' हे काव्यसंग्रह तांचे संवेदनशीलतायेचे गवाय आसात. हालींसराक तांणी कथिका बरोवंक आरंभ केला. तातूंतलीच ही एक...



सुषमा तिळवे
मो. : 9823055751

मॅडमीलें फर्मान सुटलें तसो गोविंद कोनशाक दवरिल्ली बडी घेवन, कुत्रूक बेल्ट घालून भोंवडावपाक

सकल देंवलो. व्हडा उमेदीन टुणूक टुणूक उडयो मारीत कुत्रू दोन मजले फटाफट देंवलो. फुडें कुत्रू आनी फाटल्यान बडी हातांत घेवन गोविंद, अशी वरात भायर सरली. बडी पळोवन हेर कुत्रीं आंगार आयलीं नात. तांणी

व्हडाव्हडान भोंकून निशेध उक्तायलो. कालूच एका कुत्र्याक बडयेचो प्रसाद मेळिल्लो.

कुत्रू बऱ्याच नेटान गोविंदाक आपणाक जाय ते दिकेन ओडीत व्हरतालो. गोविंद नविलाजान ताचे फाटीं फाटीं वतालो. जुस्त आजोबाच्या च्या घेवपाच्या वेळार मॅडमीलें फर्मान सुट्टालें आनी आजोबा गोविंदाली वाट पळयत ताटकळत उरतालो.

सकाळीं उठल्या उठल्या आजोबाक च्या बिस्कुट भरोवन वखद दिवपाचें आसतालें. पूण मॅडम हीच वेळ सादून कुत्रूक सुसू, पोटी करूंक सकल व्हरपाक लायताली. आनी मागीर आजोबाचें वखदांचें



वेळापत्रक चुकतालें. आयज धीर एकवाटावन गोविंदान म्हळें 'मेडम, आजोबाक च्या आनी वखद दिवन वतां.'

मॅडमीन तापसाणी काडत म्हळें,'ताका पयलीं व्हरून हाड. ना तर तो घरान हळशीक करतलो.'

घरांत हळशीक केली जाल्यार गोविंदाकूच काडची पडटली आशिल्ली.

'हो कुत्रू म्हळ्यार एक कटकटूच!' अशें तोंडांतल्या तोंडांत पुटपुटत गोविंद मुकाट्यानी कुत्रूक घेवन सकल देंवलो.कुत्रू पांयान माती काडून हांगा थंय जागो सोदपाक पडिल्लो.तंगडी वयर करून इल्लें इल्लें मुतप चालू आशिल्लें. मना जोगतो जागो सोदत गोविंदाक ओडत राविल्लो. गोविंदान रागान ताचेर एक बडी हाणली. तो परतो गोविंदाचेर भोंकपाक लागलो. आजोबा खातीर गोविंदाचो जीव कासावीस जातालो.कुत्रू घरा वाटेन येवपाक पळय नाशिल्लो. गोविंद ताका वोडीत घेवन आयलो. सोंपणां चडपाक कुस्तार करता म्हूण ताका उबारून वयर हाडलो. मॅडम बाल्कनिंतल्यान ताका पळयताली. तिगेले नदरेक नदर दी नासतना ताणें ताचो बेल्ट काडलो.

'' मॅडम, आजोबाची च्या तयार आसा?'' भीत भीत गोविंदान विचारलें.

'राव,करून दिता. ते मेरेन वलो फाडो घेवन तागेले मातयेचे पांय पुसून घे.'

मॅडमी कडल्यान च्या बिस्कुट घेवन ताणें आजोबाक भरयली. ताका वखद दिलें. आठांक दिवपाचें वखद आज णवांक पडिल्लें. आजोबाच्या वखदांची हयगय जावंक फावना अशी सायबान गोविंदाक सख्त ताकीद दिवन दवरिल्ली.तोवूय आजोबाची बरी कुयदाद घेतालो. ताका अर्धांगवायू जाल्यान ताचें सगळे कुडीचे विधी हातरुणांत जाताले.ताका फकस्त हालचाल करपाक जाय नाशिल्ली, पूण बुद्ध बरी जाग्यार आशिल्ली. गोविंद ताका पेपर वाचून दाखयातालो. सायबान ओडियो केसेट्स हाडून दवरिल्ल्यो. ताची आवड विचारून त्यो ताका आयकयतालो.

आजोबा पुलीस कमीशनर आशिल्लो. ताणें बरी नामना जोडिल्ली. सायब आपणाल्या बापायची बरी काळजी घेतालो. गोविंदाक ताचें पुराय काम ताणें आखून दिल्लें. शाळेंतल्यान आयलो काय बंटी तडक आजोबा म्हऱ्यांत वतालो. ताका शाळेंतल्यो पुराय खबरो सांगतालो. सायब लेगीत कामा वयल्यान आयलो काय पयलीं बापाय कडेन वचून ताची खबर घेतालो. आजोबा देहान परावलंबी जाल्लो खरो पूण कान,दोळे आनी बुद्धी तल्लख आशिल्ल्यान ताका पुराय गोष्टी समजताल्यो.

रातीचें जेवण सायब बापाय वांगडाच घेतालो. एक वटेन गोपाळ ताका भरयतालो आनी जेवतां जेवतां बापूय पुताच्यो खबरो आयकतालो. रातीचीं जेवणां जालीं काय कुत्रूक परत एक पावटी सकल घेवन वच्चें पडटालें. सायब आजोबा म्हऱ्यांत बसतालो देखून आतां गोविंदाक आजोबाचो हुस्को नासतालो. सकाळीं आपणें कुत्रूक मारलो ताची भरपाय म्हणून गोविंद ताका बरी व्हडली पासय मारपाक व्हरतालो. तो जंय ओडून व्हरता ते दिकेन वतालो. मॅडमील्या रागान आनी आजोबाच्या हुस्क्यान ते मोनजातीक आपणें मारलें हाचें ताका वायट दिसतालें. पूण मॅडमीक आजोबा आनी कुत्रू हांचे मदीं कांयच फरक दिसना हाचें ताका इल्लें चडूच वायट दिसतालें.

■■■







# कविता...

## गांव

कोणा खातीर कोणे
उखलासलो प्राण
पोशांतलें दान
लाख मोल.

लायले कळंतरा
सगळें म्हजें जिणें
शब्द अर्था विणे
रितो जसो.

ओठांतल्या शब्दाक
चैतन्याची कळा
भितल्ल्या पर्जळा
ना गांव.

## रुजिल्ल्या शब्दांतल्यान

येना सोलूंक पाणी दाण्या भशेन
येना गावंक दूख गाण्या भशेन
वाट म्हजी सुळक्यांचे धारे भशेन
झणझणटा प्राण तारे भशेन

ओंपून सगळें तुका आतां रितो
रुजिल्ल्या शब्दांतल्यान जातां जितो



माधव बोरकार
मो. : 9420222876

## आवयचो उलो

सांग रे पुता म्हज्या
कित्याक तू बाडगना
आवयचो उलो तुज्या
कानार कसो सादना?

ल्हानपणांत पांयाक घावो तुज्या
चर्र जातालें काळजांत म्हज्या
आतां म्हाका घावो जाल्यार
पुता कित्याक तूं घेना खबर ?

तू बरो  ना जाल्यार
मांडयेर घेवन बसतालीं
जेवण-खाण सोडून सगलें
तुजीच चिंता करतालीं

आतां म्हाका बरें ना जाल्यार
वखदां हाडपाक कोण ना
तुजे वाटेक म्हजे दोळे
कित्याक बाबा तू झळकना?

पुण्य जोडपाक मेल्या उपरांत
श्राद्ध तू वाडटलो
जितेपणी तोंडांत म्हातारेच्या
दोन गोटे घालूंक मात रडटलो

म्हातारपण पुता म्हज्या
कोणाकूच येवंचें रावना
म्हातारपणाचें दुख्ख सोंसूंक
आवय गे म्हणचें,सोडचोना..



राजेंद्र शेटकर
मो. : 9423885549





## तेणीं

तेणीं तीं उतरां बरयल्लीं
आनीक  कोणाक तरी लागून
कशीं म्हूण हांव सांगूं
गेली म्हज्या मनाक लागून

   तेणीं तो नेम जोखलेलो
   आनीक  कोणाक लेखून
   कसो कितें कोण जाणा
   गेलो म्हज्या काळजाक तोपून

तेणीं दोळ्यांत उदक भरलें
आनीक कोणाक लागून.
पूण कशें कोण जाणां
हांवच त्या उदकांत गेलें बुडून



प्रतिक्षा देसाई
मो. : 0000

## आदले

जाणट्यांक दिसता फुडली पिळगी
आपले परस हुशार जावंची
शिकून सवरून गिन्यांनी जावन
नांवां रुपाक बेगीन पावची

   जाणटे केन्नाय चुकता आसत
   पूण अणभवान शाणे ते
   खणखणीत आवाज करपी
   भांगराचें नाणें तें

जिणेच्या शेतांत तांणी
कुणग्यो खणून पळयल्या
पोरण्यांचें स्मरण करून
नवें रुजोवन पळयलां

   नुस्तें धस्क गेल्लो तेन्ना
   काश्टी भिजोवन पळयल्या
   दिसना तसलें लेगीत
   मनाक आमच्या दाखयलां

जाणटे म्हणल्यार जाणटेच ते
जाणकारांच्या मदले
कशेय आसले तरी ते
आमचे परस आदले



नामदेव गणपत सुर्लीकार
मो. : 9823889585





# चोय रे सवण्या

व्हय रे सवण्या
तू कशी काडता दीस ?
लोकण्डाचे ते घुडांत
कशी काडता श्वास
सिरकून ते कारागृहांत ?

आस दिसना वे
मळबाचि निळबाणि चोवून
पाक विस्कळांवचाक ?
पाचवे तणांत लोळून
चोंच मारून भोंवचाक ?

मोह वाडना वे
पावसाचे उद्दाक भरतना
पाक फड्-फडावनु न्हांवचाक ?
शेळ वारें खेळतना
उब्बून भोवनु चिंवचिंवेंवचाक?

अत्तां चोय रे सवण्या
चार पागराचे मद्दे पोडून
आमि घुसमुट काडताय
जेन्नरलाचे भायर चोवून
तुजे वरि आयण्डो गिळताय



अंजली किणी
मो. : 0000

# सांग गे आई

सांग गे आई पावस येतकच
तळ्या बांदार बेबो भिजता
सत्री ताका कोण दिता ?

तूं म्हणटा पावसांत भिजल्यार
थंडी जावन जोर येता
दीस भर पावसांत गेल्यार
बेब्याक वखद कोण दिता ?

बेब्या, बेब्या मारून उडकी
बेगीन यो गोजडेंत म्हजे
गरम-गरम, गोड-गोड
कसाय पी म्हज्या वांगडा



प्रमिला सुभाष बोरकार
मो. : 0832-2759181

## तूं म्हाका इल्लो उजवाड दी

हे राजा,
निदान आतां तरी
तूं म्हाका इल्लो उजवाड दी
उजवाड दिवपाक जमना जाल्यार
तुजे कडलो इल्लो उजो दी
हांव म्हाका जळयतां
आनी म्हजे सरभोंवतणीं
इल्लो उजवाड करतां ...
निदान तितल्यान तरी तुका
तुजो काळोख लख्ख
बरो दिसतलो ...

## सरण म्हजेंच हांव सजयत गेलों

सरण म्हजेंच हांव सजयत गेलों
मरण म्हजेंच हांव गाजयत गेलों ...

निखळ्ळो सूर्य हांवें तुज्या मळबांतलो
बिण्ण काळोख तुजो हांव पुंजायत गेलों ...

पालखी तुजी भोंवली म्हज्या प्राकारांत
मरणधून म्हजी हांव वाजयत गेलों ...

मरणाची परिभास हांवें बदल्ल्या
काळखान काळ हांव रंगयत गेलों ...

अनंताची लांबी रुंदी हांव मेजचो ना
अख्खो अनंतूच हांव पचयत गेलों ...

रितें कर तूं तुका हे म्हजे होटयेंत
म्हजे मठयेंत तुका हांव वेंगायत गेलों ...

अग्नीशिखो तुज्यो हांव केळयत गेलों
मरणोत्सव म्हजो हांव मनयत गेलों ...

## दोन हायकू

१

हें म्हजें फूल
हांव ओपतां तुका
तूं जाय म्हाका

२

थंय तूं फुल्लां
हांगा हांव बावलां
आनी झडलां

## खरें म्हणल्यार

तशें पळयल्यार
तुका सगळेंच कळटा
कळना ती तुका
म्हजी कविता ...

खरें म्हणल्यार
हांवूच तुका कळना ...



[redacted]
मो. : 0000

## दडकांनी

तूं
दडकांनी
झडलें ...

हांव
नखशिखान्त
बुडलों ...

तो बुचकळत
व्हांवलो ...

## केंच्च करून

म्हाका
जाग
आयली
तशी
जीण
केंच्च करून
आं
गा
र
आयली ...

# बुडबूडे

हांवें वळून पळयलें
आनी समाजाक गैरसमज जालो...!

धडधडून थकलां हांव
काळीज सांगून रडटा
मागीर ताका मनोवंक
तुजें नांव सांगचें पडटा

चंद्रीम विचारता
'हालींसरां तुवें म्हजेर
कवनां करपाचीं सोडलीं?'
पिसो खंयचो

'तो जिणेंत आसतना
हाचेर कवनां करप
पिशेपणां व्हडलीं

काल राती वेंगेंत ओडीत
ताणें म्हाका विचारलें
एकार एक कवनां करूंक
जिणेंत अशें कितें घडलां
कशें ताका सांगूं आतां
हांव परत मोगान पडलां

हिशोबाक धरचे आसल्यार
जिणेंचे दोनूच खीण
एक ताचे बरोबर
एक ताचे विण
तुजी कसली बिशाद
गर्वान उदेल्लो सुर्या लेगीत
सांज जातकच धारेक वता

म्हाका ना भेटपाचें
कारण तरी कसलें दिता
खरो मोग आसल्यार
सपनांत लेगीत भेटूंक जाता

फांतोडेच्या पारार
मिणमीणपी काळजांत
तेल तूं घालूं नाका
हांव पालवूंक सोदतां

संवसार भरचो सुवास
एकठायलो जरी सगळो
ताच्या यादींचो
परमळूच वेगळो

ये! बेजार आयलो
तुज्या काळजांत
भोंवडावन हाडशी

ताच्या यादींचो वेव्हार
खुबच म्हारग पडला
फायदो तर जावंकूच ना
म्हजो दिसवडोय बुडला

ताणें फकाणानींच म्हणिल्लें
'मोग करतां हांव तुजो'
हांवूच पिशें
मनार घेतलें

तुजे जिणेंचो हिशोब हांव मागना
म्हाका मात वजा कर

केंसांत मोगरीं माळ्ळीं
म्हूण कितें जाता
फुलूंक ताची वेंग जाय

लोक विचारता
कवनां कशीं सुचतात तुका
तुजें अनंव सांगूं काय ना
होच प्रस्न पडला म्हाका

आयज न्हिदपाचें नासले
पूण सपनांत
तो आयलो जाल्यार

फेस्ताचे फेरयेंत
काळजाक भोंवडावन हाडलें

पूण ना



## तें , तूंच जाय म्हूण रडलें

तुजें-म्हजें नातें
जर सपन आसत

तर म्हाका
जागूच येवंची न्हय

तुवें म्हजेर मोग करचो
अशी कसलीच शर्त ना
तुजेर मोग केलय बगर
म्हजे जिणेंक अर्थ ना

काल म्हजी कवीता
अचकीत नांच जाली
तुज्या काळजांत बा
लिपोवंक ना मूं

तुजें राज्य चान्न्याचें
काजुल्यांच्या आदारान
म्हाका रात काडूंक जाय

ज्या दिसा हांव
कविता करपाचें थांबतलें
त्या दिसा हांव
ताची कविता जावन रावतलें

जिणें खूब किते सांडलां
बाकी फक्त ताची याद
आनी म्हजी कविता
जर सर्ग तुजे वेंगे सारको
तर हांव
आतांच मरूंक तयार



ग्वादालूप डायस
मो. : 8605942157

## नरकासूर

बाबूच्या वाड्यार
नरकासूर केला
रंगयाळ्यो फोली लावन
खूब बरो सजयला

नरकासुराचें तोंड
खुबूच मोठें दिसता
जिबली भायर काडून
हें हें हें करून हांसता

धोल बडयत बाबूय
नाच नाच नाचता
पप्पाच्या हाताक धरून
खुबूच उडयो मारता

सगळ्यांचे नरकासूर
ताणें रातभर पळयले
पप्पान पुराय शारभर
स्कुटरीन ताका भोंवडायलो..



शोभा फुलकार
मो. : 7875237478





# चान्नी रातीक

दिसता म्हाका हे चान्न्या राती
वेंगेंत म्हजे येवचें तुवें
आनी गावचें एक सोबीत गीत
तुजे पासत तेन्ना हांवें

जावची हातां पकड चडूच घट्ट
आनी बसचें तुवें म्हाका खेटून
माथ्यांत माळिल्ल्या मोगऱ्यां वास
तसोच रातभरचो तुजो धुंद सहवास

गंधान त्या मनांत म्हज्या मद भरचो
अळंग पोल्यार तुज्या मारची टिचकी
तेन्ना काळ्या केंसा मदल्यान
चंद्रीम जावन तुवें हांसचें

चंद्राच्या समेळ एकामेकाक
उतर आमी दिवचें
जिवीतभर वांगडा रावपाचो
सोपूत आमी घेवचो

दिसता म्हाका हाताची वेंग तुज्या
सदळ केन्ना जावंची न्हय
रातभर शितळ चान्न्यांत
तुज्या हांवें रावचें गोपांत

दिसता म्हाका चान्न्याची रात ही
सोंपची न्हय , उरची अशीच
गोपांत तुज्या पडून रावून
जीण म्हजी सरची अशीच!



दत्तप्रसाद नायक
मो. : 9552914969

# पावस

पयलीं पयलीं पावस म्हाका
दिसतालो कसो नाकाच नाका
पावसा दिसांनी सगळे हाल
दप्तर आनी हातांत सत्री घे
ना जाल्यार कापोत घाल

धावत शाळेंत येतना वतना
पावसांत भिजून वतालों
केन्ना वाऱ्यार सुकतालों
नातर ओलो शर्ट दसतालो

जीव थंडेन सामको शिरशिरतालो
कोडू कसाय पिवंचो पडटालो
ना तर थंडी जोर आंगाक
मारून कुलकुलो खातालो

वयांत जसो आयलों हांव
पावसा मोग तेन्ना कळ्ळो
सत्री नासतनाएक दीस
पावस रकलो घस घस

पावस सुरू दडकांनी
रकूंक लागलो घसघश्यानी
भिजता तौ पळोवन म्हाका
साद घातलो आपोलिनान

घेतलो म्हाका ताणें सत्रेंत
तरी दोगांय चिप्प भिजलीं
त्या पावसांतलो मोग म्हजो
पावसाचोय मोग लावन गेलो



सोनिया सुभाष शाह
मो. : 9403079052

२०१८ ओक्टोबर म्हयन्यांत थायलँडाक दुसरेफावटीं भेट करचो सुयोग लाबलो. पयले भेटेवेळार बँगकोक, पट्टाया तसल्या शहरांक भेट दिल्ली. दुसरेफावटीं 'फुकेत' शहराक पावलों. वियेट्नाम, बरमा, लावोस, कांबोडिया, मलेशिया तसले देश फुकेताथावन चडीत पयस नांत. फुकेत सोबीत शहर. नितळ शहर. आमी दर्याचें उदक निळें आसचें पळेलां. पुण फुकेताच्या दर्याचें उदक पाचवें. तेंय दाट पाचवें. फी फी जुंव्याक जरीतरी क्रूसाचेर तूं पयण करताय, तवळ दर्यामदें आसचे दोंगर आनी दोंगरावयले पाचवे रूक दर्यातल्या उदकांत आपलीं तोंडां कशीं पळेवन आसाता म्हळ्ळें झळकता. तशें जाल्लयान सुर्याच्या वताक लागून हें उदक पाचवें पाचवें दिसता.

फुकेत शहर दिसाक एक तर, रातीक वेगळें. हांगासर बांगला स्ट्रीट म्हळ्ळो रस्तो आसा. हांगाच्या रस्त्या देगेवयल्या उगत्या पब्बांनी हरयेका मेजामदें उबारल्लया खांब्यांक उण्या वस्तुराचेर आसची उगती चली नाचून आसता. तिच्या पांयांपोंदा मेजाभोंवतीं सोरो पियेंवचे गिरायकी. एका पब्बांत चडुणें आट-धा मेजां. तशें खांब्यांक पोटलून नाचच्यो तितल्योच चलयो. रस्त्याच्या पोंतान पोंत हें पळेंवक मेळता. रस्त्यार वेवेगळ्या देशांच्या लोकांची खातड सांजेर स थावन मध्यान राती परयांत आसता. कांय रस्त्या भितरल्या गल्लेंनी कामकेळीचे तशें हेर शो आसतात. हे पळेतल्यांक एक हजार भात, (थायलँडाची करेन्सी) भारतचे चडुणे दोन हजार तिनशें रुपय फारीक करचे पडतात. तशें फारीक केले जाल्यार एक बियर मेळता तरी उपरांत कितलो दुडू उदक जाता हें सांगूंक जायना.

हांगाच्या जायत्या रातच्या शों-पयकी 'पिंग-पोंग' खेळ प्रमूख. पिंग-पोंग म्हळ्यार धाकटे टेबल टेन्नीस खेळचे तसले चेंडू. ह्या खेळांनी सेक्स ना तरी, संपूर्ण उगतीं चेडवां नाचचीं पळेंवक मेळतात आनी आपली योनी वापरून वेवेगळे खेळ खेळवन हाजर आसल्ल्या दादल्यांक आनी स्त्रीयांक खुशी करतात (?). ही कविता त्या खेळांविशीं आनी खेळांचे फाटभुंयचे भीकरतेविशीं उजवाड फांकयता.



## फुकेताची योनी

फुकेताचे योनी
तुजी मिस्तेरांची काणी
पोटा-भूक थांबोंवक मुगे
जाताय भुकेल्ल्यांची राणी!

मध्यान रातचे जागेंत
उगते तुजे जांगेंत
सुकण्यान घोंटेर बांदतास्ताना
घरचींच चिंतनां गवजेंत.

जळची सिग्रेट चेपुनी
धुंवर सोडतां योनी
हांसून सांगून आसा संस्राक
फुगासांवाची जिणी.

टेबल टेन्नीस बॉल-मुगे
लिपून बसल्यात योनींत वोगे
मज्जा घेंवचीं हरधीं फासळूंक
हरयेक खिणा जागे!

काळजांत येतात वाकळां
देखतां पिंग-पाँग नवलां
अशें कशें योनींत दवरन
फुंकताय-मुगे बिगुलां!

सलाम करचोच पडटा
तरी काळीज बारीक रडटा
ब्लेडींची लांब माळा तूं
योनींतल्यान वोडटा.

योनींत काडयो उज्याच्यो
पेटयतां वाती केकिच्यो
संभ्रम तुजो सदां असोच
चिरून शिरो मर्यादिच्यो.

फुकेताचे योनी
इतलेंच तुज्यान जाता?
खिणाक जांवच्याक ज्वालामुखी
कित्याक तूं भिंयेता?

तवळ सरवय पळत
दुष्टां दुबळीकाय जळत
जळून जाल्ल्या गोब्रा थावन
नवें जिवीत तुका मेळत !

## तेंपल

हजारों वरसां जालीं
म्हज्या देरान उडयल्ल्या
ताचे कुडीच्या कुडक्यांक
पुरून तांचेर हांवें
तेंपलां बांदल्लीं -
सरवां विस्रल्यांत.

आतां तरी-
तेंपलांच्या गांवचो
भारताचो म्हान मनीस
आमच्या गांवाक पांवचे आदीं
तुजे सिस्रिच्या पोटांतलें
म्हज्या ओसिरिसाचें शिश्न
फाटीं दी.

मरचे आदीं
ताका मर्यादेची माती दितां
आनी ताचेर उबारल्ल्या तेंपलाचें
ताचे करना उगतावण
करयतां.



मेल्विन रोड्रीगस
मो. : 9980136297



# निस्तार देवा कोरोनाचो सांवार

कोरोनाचें आयलां संकट
हाता वेल्यान बोटार
बोटा वेल्यान पोटार
परीस्थिती जाल्या बिकट
जाल्यात कितलेशेच बेघर
पोटाचें सांबाळटां सांबाळटां
कोरोनाचो सोंसतात मार
तेन्ना आतां तरी निस्तार देवा
कोरोनाचो हो भिरांकूळ सांवार

देवा, तुका शिकोवची आसली
संवसार बुद्द, जाग हाडूंक मनीसपणाक
मनीस वळचो मनशाकडे
आनी जावची मनीसजीत शाणी
तेच पासत आज जग घालता घाराणीं
आनी दिता देवा उतर तुका
तेन्ना आतां तरी निस्तार देवा
कोरोनाचो हो भिरांकूळ सांवार

घसघशीत हातांत पैसो येतल्यांक
कोरोना म्हळयार लॉकडावन
बरीं बरीं खाणां केल्ल्याचो
लोकांक दाखोवचो वावरदज
गरीब मात दर दिसा
खावचें कितें होच करता विचार
तेन्ना आतां तरी निस्तार देवा
करोनाचो हो भिरांकूळ सांवार

शाळांची जाल्या दुर्दशा
बांक, फळे भातेल्यात
खेळामळां पडल्यां पडींग
आनी शिक्षणाचीजावन गेल्या दशा
भुरग्यांक जाल्या संवय लॉकडावनाची
कश्ट घे नासताना पास जावपाची
लागल्या आतां तांका गोडी
तेन्ना आतां तरी निस्तार देवा
कोरोनाचो हो भिरांकूळ सांवार

घरा भायर पावल घाल्यार
दवरचें लागता सुरक्षीत अंतर
हॉस्पिटलांत घाल्ल्या दुयेंतीक
व्हरचें पडटा थेट सरणार
धड ना शास्त्र धड ना विधी
आयकूंक नजो त्यो रडारडी
जिवीत हें असलें नाका देवा
पयस कर ही दुखदिणी घडी
देखून आतां तरी निस्तार देवा
कोरोनाचो हो भिरांकूळ सांवार



मेघना वासुदेव गंवडळकार
मो. : 9822155933







## सपन काय संवय

हांव तुजी इत्सा जावं काय संवय?
इत्सा म्हळ्यार सोबीत सपन
उदंड आशेचो आलाशिरो घेवन
भविश्याचें सुंदर चित्र दाखोवपी
तुका जाय ते रंग तूं तातूंत भरत वतलो
तुका जाय तसलो आकार ताका दितलो
एकाच रंगाच्यो अगणीक छटा तूं
तातूंत सोदत बसतलो
तुजी इत्सा तुजें सपन हें
तुजीच निर्मणी आसतली.
तातूंत सत्य कितलें आसतलें काय?
हांव जर तुजी इत्सा जालें जाल्यार, तुवें भरिल्ल्या रंगांनी
म्हाका रंगूंक जमत काय?
तशें जालेंना जाल्यार तुजें सपन विस्कटतलें आनी तुजें
सत विट्टलें.
तिव्रताय, खराय, उमेद
आनी मोहकताय
शेणिल्लें सपन जावन उरतलें.
पूण म्हज्या सताची जर तुका
संवकळ जाली, वळख जाली,
ओड लागली जाल्यार हांव म्हज्याच अस्सल , मूळाव्या,
निजाच्या रंगासयत म्हज्या एकाय रंगाची छटा बदली
नासतना म्हज्या निज रूपांत तुजी खोड, तुजें व्यसन,
तुजी सुंदर संवय जावन रावतलें सासणाचें, निरंतर!!
आनी हीच संवय तुजें जीवें सपन जातलें अनंत
काळाची! तथास्तु!



उर्जिता भोबे
मो. : 9527565598

## कोंकणी मालवणी

मालवण म्हजो गांव
मालवणी म्हजी भास
खारी धवी माती
वाऱ्याकूय नुस्त्याचो वास

माथ्यार लाल आबोली
सोबीत शेवत्याची पाती
केण्णाय सुरंगाचे वळेसार
दिसतात बायलांच्या हाती

दर्याचो खारो वारो
शीण सगळो वेता
शीतल गारपाची सावळी
आवयचो मोग दिता

उंच नारळ पोफळी
वारो मोगान धोलयता
केळी,काजूच्यो बागो
धनया बरी उलयता

नुस्तें मारून रांपणकार
घर आपलें चलयता
थोडो लोक मालवणी
थोडो कोंकणी भास उलयता

## महापूर

अरे पावसा तू असो कसो
नको करुस रे कहर असो
कसो,किती,येड्या ओतलस
अजाण जीवावर रुसलस

चिपळूण,खेड ,सांगली कोल्हापूर
पावसाचां थैमान,पाण्याचो महापूर
जगबुडी,वाशिष्ठी, पंचगंगा,रुसले
गावागावातसुन शहरातय घुसले

पोरा बाळांचा,नशीबच फिरलां
पुराचा पाणी घराघरात घुसलां
बघलां,तां सपनातंय नाय होता
मानसा वांगडा देवय व्हावत जाता

व्हावांन गेली शेतीवाडी,गुरा ढोरा
छत्रय गेलां, उघडी पडलीं बायका पोरा
दप्तर व्हावलां,शाळेंत भरलां पाणी
कधी कानार पडतली ती बोबडी गाणी

आतां करूंक व्होई प्रयत्नांची शर्थ
नाय जावची मेहनत आमची व्यर्थ
तेव्हाच रवतलो माणूसकीक अर्थ
आमच्या माणूसकीक खरो अर्थ

## दर्या देगेर

पोरा खेळतत दर्या देगेर
कागदाचे होडये करीत
शंख आणि शिंपले शोधीत
मातयेचीं घरां बांधीत

दर्याचां निळां पाणी
तेंच्या साठी गाणी म्हणता
पांढरीधोप लाट सुद्धा
संगीताचो ठेको धरता

अजाण निष्पाप मुलां
एकमेकांक संभाळून घेतत
कोणाकडे कांय नसात तर
आपल्याकडचां उकलून देतत

नाय तेंच्यात हेवोदावो
नाय थंय भेदभाव
सुखी आणि समाधानी
तेंचो आपलो येगळोच गांव



रुजारीओ पिंटो
मो. : 9422054600







# खरी दिवाळी

दीपोत्सव हो मंगल दिव्यांची रोशणाई
आकाशदिवे लावूया पण्ट्यो समई
विसरूं नाका लावूंक मनमंदिरांत एक ज्योत
जेन्ना मनाचो अंधकार विरून वता
तेन्ना खरी दिवाळी सजता ।।१।।

पावन ही परब नातीगोती मैत्रीचीं
स्नेह भावना फुलता वात्सल्य प्रीतीची
जेन्ना वैरी सुदांय मित्र बनता
तेन्ना खरी दिवाळी सजता ।।२।।

घरादाराची जाता जेन्ना साफसफाई
निंदा नसाय झाडून उडय वायट संवई
जेन्ना मनाचो मळ धुऊन काडता
तेन्ना खरी दिवाळी सजता ।।३।।

आंगणांत रेखिली सुंदर रंगरांगोळी
उत्साह उमेदीचो गुलाल उधळी
जेन्ना पिडितांचे जिणेंतय तूं रंग भरता
तेन्ना खरी दिवाळी सजता ।।४।।

दिवाळीच्या सणाक फराळ पक्वान्न
मिठाईचो आस्वाद घेऊन सगळीं प्रसन्न
जेन्ना वागण्या उलोवण्यांत मिठास येता
तेन्ना खरी दिवाळी सजता ।।५।।

घर सजयलें भांडार भरलें
कोठारे तिजोरीचें पूजन साजरें केलें
जेन्ना एखाद्या गरिबालेंय घर तूं भरता
तेन्ना खरी दिवाळी सजता ।।६।।

पर्जळ पसरय नाका प्रदुशण
हर्षाच्यो चंद्रज्योती उमेदी उधळण
जेन्ना खुशीचो फवारो फुलता
तेन्ना खरी दिवाळी सजता ।।७।।

ज्योतीक ज्योत लायतलीं,निविल्ली ज्योत पेटयतलीं
तेन्ना मळबांतलीं नखेत्रांय आंगणांत देंवतलीं
जेन्ना सबंद जगांत सूखशांती पसरता
तेन्ना खरी दिवाळी सजता ।।८।।

# लॉक-डावन कवनां

१

ताळेबंदी.......
घराचे बंदखणींत आमी कैदी
भायर सगळें सामसूम
लोकांली हालचाल ना
वाहनांचो आवाज ना
स्तब्ध निशब्द
वातावरण सुद्धां सुन्न पडलां
फकत हाता पोशांत धरिल्लो वेळ
रेंव कशी सर सर सखल निसरता
कण कण
खीण खीण

–२–

अदृश्य शत्रू हो कोरोना
सगल्या विश्वाक हालोवन सोडलां
राजा जावं रंक
पंडित जावं अनपढ
सगल्यांक एकच न्याय

–३–

संवसारांत खूब धांवपळ केली
पयलीं वेळच मेळनाशिल्लो
लॉकडावन आयलें....
आतां वेळच वचना

-४-

येदेंशें  सुक्षीम किटाणू
पूण सगल्या जगार आकांत केला
येदेंशें ल्हान विशाणूं
पूण शाबवान धुल्यार
जाता तोच जीव निर्जीव

-५-

रे मना,
आमकां प्रवास बंद,भोंवडी बंद
पूण तुका रे कोणें बांदून दवरलां?
तूं विश्वांत खंय जाय थंय
भरारी मारून यो

-६-

कोरोना शिक्षा करूंक आयला
पूण ठरलो खरो शिक्षक
मानवजातीक शिस्त लायता
कोरोना शासन कडक

-७-

जीण अतिलोभान ग्रासून गेली
निश्कारण वस्तू एकठांय केल्यो
आवश्यक कितें अनावश्यक कितें
खऱ्यो गरजो समजून आयल्यो
कोरोनान उपकार केलो

-८-

परतून जाता सादी सरळ जीण
परतूनपरंपरागत रिती
सादें जेवण,सात्वीक खाण
परतून अर्विली संस्कृती

-९-

ल्हानपणीची पयली शिटकावणी याद जाता
हात पांय धुवून घरांत रीग
स्वच्छ शुद्ध रावंक शीक
उगी भायलें खावूं नाका
भायर चड भोंवूं नाका
शिस्त पाळूंक शीक

-१०-

बेपर्वा बेसावध जुवानी
ताकीद दिल्यार आयकना
हांसत खेळत भोंवतात तुमी
मास्क ना,हुस्को ना
सादूर रावात,आरे पोरांनो
तुमकां तुमचे वांगडा दिसना
हांसत भोंवता तो कोरोना?



इंदू अशोक गेरसप्पे
मो. : 9972956132

## एक मनीस

एक दीस एका मनशाक हांवें
झाडां नाशिल्ल्या रानांत पळयलो
सगळ्या झाडांक एकठांय बसोवन चर्चा करतना
तांचेकडें वाचून दाखयतना जिवीत
तांकां समजावन सांगतना मनीस
कोयतो आनी कुराडीच्या संदर्भासैत

ती संवेदनशीलतायूच आशिल्ली
केन्नाच आरशा मुखार उबो ना रावपाची
न्हंयेंत ओणोव घालून उदक ना पिवपाची

आमचे पयलीं जल्मता आमची आस
झाडां पयलीं जल्मता झाडांची आस
पृथ्वीच्याकूय पयलीं पृथ्वीची आस
आनी घडये देवाच्याकूय पयलीं
जल्मल्या देवाची आस
आनी खरें म्हटल्यार
थंयच आसपाक जाय
हें संवेदनशीलतेचें रान
मनशांचे आनी झाडांचेय
जाच्यात भरिल्ली आसतली
धिरोदात्त आसक्ती जगपाची
आनी जिव्या मरणाच्या अनंत आशयाची
म्हण जो मेरेन
मातयेचें मन मळबाची साय
फातरांचे अंतरंग आनी उदकाचे पांय
जाणवत रावतले
तो मेरेन नीतीमत्ता आनी स्वाभिमान आसतलो
म्हण जाण म्हत्वाची
मागीर आपशीच बळगत वयतली
बुद्धाची करूणा

आता तुमी उलयात
उलोवप गरजेचें आसा जाल्यारूच
जशें मळब उलयता भुंयेकडें
पानां फुलांकडें
न्हय चंद्रिमाकडें
आनी अनंत काळाकडें–

इतलेंच जाल्लें उलोवप
आनी रान लुप्त जालें

आयजूय कितलेशाच शतमाना
उपरांत पळयतां
त्या रानाची कुरू
तें यादींतलें रान
आनी त्या शब्दांची हार

पावसाच्या यादींतलो आपूण
सांडिल्लो इंद्रधोणू
हें ताका खूब उसरां कळटा
त्या एका मनशाक

## रमेश,प्रकाश...एक शीण

रमेश वेळुस्कार
प्रकाश पाडगांवकार
खंय आसात तुमी?
दिसलें धरचेल्यांनी खेळाचो
एक डावूच आशिल्लो काय कवितेचो
तुमी तर त्या खेळांतूच लुप्त जाले
खेळ उगडून पळयलो खिस्ती-खिस्तींनी
जाल्यार मेळ्ळी
दोन आरसो नाशिल्लीं वक्लां
बुराक पडिल्ले दोन बोटवे
फुटिल्ल्या कपांत उरिल्ली च्या
आनी तेच मेजार जाल्लो शेळो
दाण्यायेदे धरतरेर उबो रावन
तनरजोतीच्या उजवाडांत
दिसल्यो तांच्योच मळबभर सांवळ्यो
आनी परत शिपडून पटिल्ले
कविते खातीरचे शब्द

घडये खूब वर्सां जालीं म्हण्टगीत
एक तरेचो आवाज जाता
मनीस मरपांचो
आनी घडये पुस्तकांचो,
पुस्तकांतल्या शब्दांचो
तशें पळोवंक गेल्यार
दोनूय आवाज सारखेच जाणवतात



ायकात बारकायेन
ड्ये विचारपूर्वक
ो वेगळ्योच तरेच्यो कविता आसतात
ंयच जायना वेळा भायर
ण वेळ्ूय नासता मनशां बगर
ीण हें जल्माचेंच नाम न्हय
र मरणाचेंय सर्वनाम
ं तुमचे कवितेन वाचिल्लें

आतां काळखांतूय जाणवता शेळो
जो चडत वयता चडावोडीच्या ओलीन
घड्ये दुस्वासान
अकलेचे कांदे तोडपी कवींच्या तकले वयल्यान

फक्त दुसऱ्यांचे दिकेन मारपा खातीर
आपल्या हातां फातोर आसता
स्वताचे नदरेंतल्यान इतके संशयास्पद
आमी हाचा पयलीं केन्नाच नासिल्ले

शेळो आतां चडत रावतलो
तुमचे फाटल्यान सत्य आनी परिस्थिती
कविते आड करपाक
म्हणुनूच घडये तुमी धांवले
एकमेकांची फाट धरपाक
मोने करून तुमीच श्रेश्ठ केलें हें काव्यांगण
आनी खबर आसुनूय
एकांतांत उरना खंयचोच कवी
कविता बरयल्या उपरांत
रूपक पांखी शिंपडावन उडले उपरांत
म्हण,
आतां हांव म्हण कशें भोगूं हें
कवीचें उत्तरदायित्व?



निलबा अ.खांडेकार
मो. : 9637092524

# गजल

खिणा-खिणाक उज्याविणेंच जळटा अस्तुरी
तरी हांसत माथ्यार फूल माळटा अस्तुरी

काळजावेले धांपून घाय-पिडणुको
वेंगायत काळोख दुकां गाळटा अस्तुरी

फितूर तिका कितले ऋतू, लाख तिच्यो लिन
सपन जावन मना-मनाक चाळटा अस्तुरी

पदर हुबता वाऱ्यार, मन ना रे थाऱ्यार
बाजाराकय असली खंय भाळटा अस्तुरी

होंटयेंत पडलीं फुलां, केन्ना मेळ्ळे कांटे
ओंठ धांपून दिल्लें उतर पाळटा अस्तुरी

जात्यावेली उठली, चपकुलांत फसली
संवसाराचें तेंच सरण दाळटा अस्तुरी

जाणकारांनी विणल्यो कितल्योच काणयों
कळली खंय, कशी पूण कळवळटा अस्तुरी



राधा भावे
मो. : 9923811006

# सुखार्थ- दुखार्थ

१
जिणेंत दुख इतलें पिलों
आतां सुखाच्या पेल्याक लेगीत
दुखाचो वास मारता!

२
सुखाचे बाझ्रेर लोळपी
दुखाच्या धगांनच
हुलपून वतात!

३
दुखांत लेगीत दवरची
सुखाची रे आस
त्या फुलाक पळय
चिड्डील्यारुय ताका येता वास!

४
सोंसल्या बगर
दुखाच्यो वेणो
हालना केन्नाच
सुखाचो पाळणो!

५
सूख म्हगेर काल
पासय मारून गेलें
तें खंय म्हज्या दुखाची
खबर घेवंक आयिल्लें!

६
सगळ्या सुखांक
दुखाची एक देग आसता
सुखांत भुरकटून वच्चों न्हय म्हण
देवान केल्ली ती एक माण्णी आसता!

७
सुखा परस
दुखच चड
जिवीत तेन्ना
लागता जड!

८
दुखांत सदांच सूख सोदपी
सुखाचे पांगेंत
केन्नाच रावना!

९
फ़ायच्या दुखाचो
बाळगून भंय
आयच्या सुखाक तूं
कित्याक घालता वंय?

१०
दुखाविणे सुखाक
ना रे मोल
सूख आनी दूख
एकेच तागडेन तोल!

११
सूख भोगता
दूख सोंसता!

१२
दुखांन तोंड भाजतगीर
सूख लेगीत फूंक मारून
पियेवंचें पडटा!

१३
दुखांतल्यान तूं
एक गजाल शिकता
आपलो कोण परकी कोण
हें रोखडेंच तुका कळटा!

१४
सुखा फ़ाटल्यान धांवचे खातीर
मनीस करता सगळे खेळ
जेन्ना ताका मेळटा सूख
तेन्ना भोगूंक खंय आसता वेळ?

१५
सूख सोदतां सोदतां
हांव म्हाकाच शेणलों.
दूख सोंसतां सोंसतां
हांव म्हाकाच मेळ्ळों!

१६
सूख म्हळ्यार
आळवा पानावेलो दंवा थेंबो
आनी दूख म्हळयार
आळवाचें आख्खें पान!

१७
पोसोभर दूख आनी
चिमटीभर सूख
पुरो आसता चंवरपाक
जिविताचो रुख!

१८
आसतात थोडे हांगा
वाजयतात धोलकें आपल्या दुखाचें
आनी बडयतात आपलें हड्डें
पळयतगीर सूख दुसऱ्याचें!

१९
जांचे कडल्यान आमी
सदांच सूख आंवडेतात
ज्युस्त तींच आमकां
चड दूख दितात!

२०
सूख आनी दूख खंय
नाण्याच्यो दोन वटो
थोड्यांचे जिणेंच्या वांट्याक
दोनूय वटांनीं दुखच!

२१
सुखाचें रीण
पावयता म्हणसर
वाडत गेलें
दुखाचें कळंतर !

२२
सुखाचे वाटेर
दुखाचो सडो
हुपून वता तोच
जैतवंत गडो!

२३
सूख पलतडी
दूख आलतडी
मनीस बाबडो मदीं
काडटा काडाओडी!

२४
दुखांत रडपी
चडशे सगळेच
दुखांत सुखावपी
आसता आगळेच!

२५
केन्ना केन्ना
सुखय दुकां गळयता
केन्ना केन्ना
दुखय हांसो केळयता!

२६
जाणा जा जीण तुजी
सूख आनी दुखाची भरस
मागीर फ़कत सुखाखातीरच तूं
कित्याक काडटा खरस?

२७
दुसऱ्यांचो आदार तुका
जाय आसता दुखांत
मागीर आसपावन कित्याक घेना
दुसऱ्यांक तूं सुखांत?



२८
ाच्या हुमऱ्यार रावन
खाची वाट पळयत रावलों
ख केन्ना फ़ाटल्यान येवन गेलें
ळ्ळें लेगीत नां!

२९
ख आनी दूख
मनाच्यो अवस्था
ल्यार सूख
जाल्यार दूख!

३०
खाचेर दवरुन आसता
र सदांच दूख
ल्लुसून वचनाका केन्नाच
गतना भावा तूं सूख!

३१
यचीय वस्त
सणाची तशीच उरना
खाची आनी दुखाचीय
च गत!

३२
ख भोगतना
र विसरता देवाक
र दूख येता तेन्ना
का होरायता कित्याक?

३३
खाचो गिम सरतगीर
खाचो पावस पडटा!

३४
ापल्याकडेंन नां ताचे
रचे परस दूख
ापल्याकडेंन आसा ताचें
ानचें सदांच सूख!

३५
हजें दूख व्हडलें, तुजें दूख ल्हान
शें म्हणचे न्हय मनश्यान
यचेय माप उणें पडटा
जूंक दुखाची खरसाण!

३६
केतलेंय दूख सोंसलें तरी
ोळ्यांत म्हज्या ना एकूय दूक
ुखाच्याच नशिबांत जर दूक ना
ांतूत म्हजी कसली चूक?

३७
सुखाक येवकार दिंवक
दार उकतें दवरिल्लें
पूण घरांत इतलें दूख भरिल्लें
सुखाक रिगपाक जागो ना म्हण
सूख आयिल्ल्या पावलांनी परतलें!

३८
सगळेच सुखाफ़ाटल्यान धांवल्यार
दुखाचें कितें जातलें
हें येवजून हांवे दुखाक वेंगायलें
म्हज्या दुखाशिवाय तुमच्या सुखाक
कसो वालोर येतलो आसलो?

३९
पोसोभर आपलें दूख
मनांतल्या मनांत दवरचें
चिमटीभर लेगीत आपलें सूख
धाय दिकांनी वांटचें!

४०
सगळे सोडून गेले
तेन्ना दुखच
म्हज्या सांगाताक उरलें!

४१
आयकुपाक दुखां दुसऱ्याचीं
आसा कोणा कडेन वेळ?
ही जिणच सगळ्यांची एक
सुख दुखाचो मेळ!

४२
तुज्या सुखाखातीर तूं
दुसऱ्यांक दिंवक नाका दूख
तुका दूख सोंसचें पडटा म्हण
इबाडूं नाका दुसऱ्याचें सूख!

४३
दुखांत
दिवपी हात
ताका
सर्ग सात!

४४
फुलांचो राजा गुलाब
ताच्याय देंठाक कांटो
मनश्याचें जिवीत निखटें सूख न्हय
दुखाचोय आसता तातूंत वांटो!

४५
तुज्या दुखाचो भार
तुंवेच उखलपाचो
न्हय आपूण कुशीक रावन
दुसऱ्यांचेर धुकलपाचो!

४६
सुखांन घरांत
जियेतलो म्हळ्यार
दुखान पैलींच हांगा
घर केलां!

४७
दुसऱ्याच्या दुखांत
मेळोवपी सूख
अमृत पिल्यार लेगीत
ओंकपी वीख!

४८
तुजी म्हजी जीण
सूख आनी दूख हांचें
खेळपाचें आंगण!

४९
सुखांत
जगपाची आस
दुखांत
पिरंगुपाची भास!

५०
काळजांतलें दूख
कागदार रकयलें
कागदा भशेन तें
ल्हवपीक जालें!

५१
सुखांत आनी दुखांत
कविताच दिता
म्हाका सांगात!



सखाराम शेणवी बोरकार
मो. : 9923306751

## अभंग

-१-

कशी काय चडली बेनुल्ल आंगाचेर
उरली जीणभर पनवत

सद्गुरू मुखांतल्यान गावलो गुरूमंत्र
जालें भक्तिसत्र सुरवात

हरीच्या नांवाक वाखराची धार
विखार साबार कांपतात

सद्गुरू कृपेची महिमा अगाद
फुलतात संवाद साळकावरीं

म्हणटा सुखा देवआसून ना सो
तरी पूण घसघसो भावार्थाचो

-२-

तरणेंपण आतां उरलें ना कुडीचें
धड नामीचें जिवनाचें

कितले तरी इश्टट गेले हात सोडून
बांदपास तोडून मायपासचे

काळाच्या लोटान पयसावल्यो यादी
वगडायल्यो संधी सतसंगाच्यो

जल्म मरणांचे चुकनात फेरे
जाणीनात कोरे भोगानंदी

हरीच्या नांवांत खरो सुखानंद
दिव्य परमानंद परमसूख



सुनील पालकार
मो. : 8888074687

## कृत्रीम जग

पयस उडून वच रे पांख्या
सचाईच्या जगांत वच रे सख्या
नाका भुलूंक कागदी जगा
मरशी पापया हवेवीण श्वासा
कुंसाकिडी गे कुंसाकिडी
कुंसाबगर तुजी जीण रिती
कुंसां तुजीं गे वतलीं झडून
प्लास्टीक पानां तुजीं न्हय रानां
सरपटपी रे तूं गांयडोळ
नाकाभुलूंक ह्या प्लास्टीक जगा
हुळहुळपी तूं मातयेंत सदां रे
कृत्रीम जगा तूं भुलूं नाका रे

## फूल जायात

कळ्यांनो तुमी फुलून येयात
फूल जायात आनी फुलत रावात
कोंब्यांनो तुमी साद गालात
सुकण्यांनो तुमी गायत रावात

मोग रंगला मना मळ्यांत
फांतोड रंगता म्हज्या दारांत
किर्णां उदेतात काळजा घरांत
कळ्यांनो तुमी फुलून येयात

परमळ फांकीत फुल्लें फूल
मन भुलुसलें पडली भूल
मीण मीण फांतोड रोंपणी रोव
कळ्यांनो तुमी पुलत येयात

सांगात आमी जोडुंया आतां
मजेत दीस सारुया आतां
फुलांवरी आमी हांसुया आतां
कळयो जावन फुलुंया आतां



डॉ. उल्हास प्रभू नास्नोळकार
मो. : 9823066540





# सा व धा न

वेवसायान वैजकी मळार वावुरपी डॉ. नूतन देव मराठी आनी कोंकणींतल्यान कविता आनी ललित ह्या साहित्याच्या मळार सातत्यान लेखन करतात. तांचो 'आभाळ' हो काव्य संग्रह उजवाडाक आयला. तांची सादी सरळ चालंत कोंकणी भास तांच्या लालित्यांत गोडसाण हाडटा.



नुतन देव
मो 9850133160

जागतिक आरोग्य संघटनेन (World health organisation) धा ते एकोणीस हें वय किशोरावस्था (adolescence) अशें थारायलां. ह्या वयांत ल्हान भुरगीं तांचे कुडींत तयार जावपी हार्मोनसांक लागून शारिरीक तशीच मानसीक वाड जावन तीं प्रौढ जातात आनी अशे तरेन जाणविकाय आशिल्लें एक स्वतंत्र व्यक्तिमत्व घडटा. हीं वर्सां तशें पळोवंक गेल्यार खूब म्हत्वाचीं.

ह्या वयांत भुरग्यां भितर खूब उत्साह आसता. तांच्या मनांत तरेतरेकवार विचार चालूच आसतात. ल्हानपणांतली बडबड जरी खुपश्या प्रमाणांत कमी जाली तरी तांकां आपले विचार एका कोणा कडेय उलोवन दाखोवचे शे दिसतात. ह्या वयांत तांच्या हातांक धरपाची गरज आसना. ती आपल्यो शारिरीक गरजो स्वता सांबाळटात. तांकां चड दुर्येसांय बी ह्या वयार जायनात. हाका लागून तांकां कितें आवडटा, कितें आवडना, तीं कितें सांगूंक सोदतात हाचेर आमची खूब प्रमाणांत आडनदर जाता.

तशें पळोवंक गेल्यार किशोरवय हें खूब संवेदनशील आनी संस्कारक्षम आसता. आयुश्यभराच्यो बऱ्यो वायट संवयो चड करून ह्या वयांत लागपाची शक्यताय चड. 'stitch in time saves nine' हे म्हणी प्रमाण वेळारच जर उपाय जालो जाल्यार भुरग्यार्चें फुडलें आयुश्य खूब बरे बशेन घडटा.

खुपश्या वेळार आवय-बापूय म्हण्टात, 'भुरग्यां कडेन आनी कितें उलोवपाचें? आमी ल्हानाचीं व्हड जालीं ना? आमकां कोणें

कितें सांगलें? भुरग्यां कडेन नाका त्या विशयांचेर उलयत जाल्यार तीं आनीक चड बिगडूंक शकतात.'

हें म्हणटना तीं चिंतनांत की जग आतां कितलें फुडें पावलां तें! तांचें भुरगेपण आनी आतांचें भुरगेपण हातूंत खूब अंतर आसा तें! जगभराच्या भुरग्यांचे वागणुकेच्या अभ्यासांतल्यान हें स्पश्ट जाता की भुरग्यांक बरे तरेन सेक्सा बद्दल शिक्षण दीत जाल्यार भुरग्यांची सेक्सा बद्दलची नाका जाल्ली उमाळशीक थंड जाता. तांकां किशोरवयांत बरे तरेन समजावन सांगल्यार ह्या वयांत येवपा सारकें नैराश्य, तरेकतरेकवार व्यसनां आनी वासनेंतल्यान जावपाच्यो मारामारी, अपघात, आत्मघात, रेप, खून हे गंभीर विशय आमी खूब प्रमाणांत कमी करूंक शकतात. दिसाळ्यांचेर वा अन्य मिडीयांतल्यान जेन्ना अश्यो बातम्यो येतात तेन्ना घरांत हाचेर वाडट्या भुंरग्यां समोर थोड्या प्रमाणांत तरी उलोवप जावंक जाय. हालींच आमी आयकलो, एके अभिनेत्रीच्या घरकाराचो प्रताप! अशे कितलेशेच विशय आसतात ज्यांचेर आमी विचारपुर्वक भाश्य करनात. रातचो कोणाचेर रेप जालो जाल्यार ती रातची कित्याक भोंवतात अशें म्हणून ओगी रावतात.

पोर्न व्हिडीयो भुरग्यां कडेन केन्नाय आनी कशेय पावंक शकतात. आठ-णव वर्सां पिरायेच्या भुरग्याक स्वताच्या लैंगीक अवयवांची जाणीव आसता. ह्या वयांतल्या भुरग्यांक आपलें वाड जाता तें आंग पळोवपाची एक सैमीक आस्त आसता. पूण शारिरीक संबंदा बद्दल ह्या वयांत तांकां म्हायती आसपाचें कांय कारण ना.

तशें पळोवंक गेल्यार तीन-चार वर्सां पिरायेच्या भुरग्याक सुद्दा आपल्या प्रायवेट आवयवांचें कुतुहल आसता, पूण सादे सरळपणाचें. खुबशे फावट घरांतलीं जाणटीं मनशांच तांकां अबाजवी म्हत्व दितात. स्मार्टफोनाचो वापर आतां ऑनलायन शिक्षणाक लागून खुबच वाडला. ह्या साधनाचो बरो वा वायट गूण कितें हाचेर आवय बापूय आनी भुरग्यां मदीं चर्चा कितलीशी जाता आसतली काय? चडश्या घरांनी मोबायलाचेर कितें कितें ॲप्स मेळटात तें गिन्यान भुरग्यांक जाणट्यां परस चड आसता. गुगलाचेर एकच शब्द घालत जाल्यार सेक्सा बद्दल कितलीशीच म्हायती मेळटा. चित्रां, विडियो पळोवंक मेळटात हें आतां भुरग्यांक सांगचें पडना आनी भुरगीं हट्ट करतात म्हणून तांकां बऱ्यातले बरे मोबायल हाडून दिवपी आवय बापूय खूब आसतात. हाका लागून पोर्नाचे दिकेन नकळत भुरग्यांचें पावल पडूंक शकता.

चडशे फावट भुरग्यांचे पर्सनल मोबायल फोन आसतात. पूण घरांतल्या हेर मनशांचे फोन तांकां सरळ हाता कडेन मेळटात. तीन चार वर्सां पिरायेचो भुरगो सुद्दा फायल उगडून फोटो, व्हिडियो कांय न्हय करून पळयतात. मोबायल लॉक आसल्यार सुध्दां ते लॉक काडून दवरतात आनी जाणटीं तांचें कवतूक करतात. तांकां हें कवतूक बुस्ट दिता आनी तीं चड वेळ मोबायल घेवन बसतात. घरांतलीं जाणटीं एक एक फावट मोबायलार पोर्न पळयतात. वॉट्सॲपा वयल्यान खूब फावटी पोर्न क्लिपींग्स फॉरवर्ड करतात. नाका आशिल्लीं चित्रां आनी ज्कोक्स फोनाचे गेलरींत जमून आसतात. तरेकतरेकवार लिंक्स गुगल हिस्ट्रिंत पडून आसतात. त्यो सहज पळोवंक मेळटात. हिस्ट्रिंत वचून नेमकें कितें सोदपाचें हें णव धा पिरायेच्या भुरग्यांक बरोबर खबर आसता. फोन हिस्ट्री म्हणजे कितें हाचें ट्रेनींग घडये जाणट्यांक दिवचें पडत पूण भुरग्यांक न्ही. अशा वेळार सोदतां सोदतां तांकां पोर्न लिंक्स मेळूं येतात. सुरवातेक कुतूहल म्हणून तीं तें पळयतात. इतल्यार सोंपना, एकदां ते क्लिप्स पळोवंक लागले काय मागीर एका फाटल्यान एक पोर्न ॲप्स जातात, थोडे व्हिडीयो ॲनीमेशन वापरून केल्ले आशिल्ले कारणान भुरग्यांक ते कार्टून कशे दिसतात. हे व्हिडीयो पळयत पळयत हीं भुरगीं मागीर कळत नकळत हार्डकोअर पोर्न पळोवंक लागतात. थोड्यो थोड्यो गेमींग ॲप्स तर भुरग्यांक पोर्ना कडेन घेवन वचपी राजमार्गच म्हळ्यार फट जावचें ना. हांगा जायरातींनंत सुद्दा एक एक फावट पोर्नाचो सुळसुळाट आसता. एक क्लिकान भुरग्यांची नदर केन्ना कित्याचेर पडत म्हणून सांगूंक जायना.

ह्या सगळ्याक मोबायलाक जापसालदार धरपाचो काय असले पोर्न ॲप तयार करतल्यांक शिक्षा करपाची, काय घरांतल्या जाणट्यांक सादूर रावपाक जाय? घरांत संवाद नासप, भुरग्यां भितर एकटेपणा आनी नैराश्याचे विचार, फोनाच्या वापराक कसलेंच धरबंद नासप, शिक्षण संस्था सेक्स एजुकेशन दिवपाक कमी पडप, भुरग्यांच्या हट्टाक भिवन आवय बापायन तांकां जाय तें करपाक दिवप, आनी घरा भायर समाज देख अश्यो ह्यो कितल्योशोच गजाली हाका जापसालदार आसात.

पोर्न व्हिडीयो पळोवपाचो नाद लागलो जाल्यार भुरग्यांचे एकूण मानसीक आनी सामाजीक वाडीचेर परिणाम जाता. मागीर तांचें लक्ष अभ्यासाचेर वा दुसऱ्या कसल्याच बऱ्या कामांत लागना. त्याच वांगडा असले व्हिडीयो खूब अतिरेक आनी हिंसाचार आसल्यार सेक्सा बद्दल तांच्या मनांत एक तरेचो भंय किंवा किळस तयार जावंक शकता. हाका लागून भुरग्यांच्या विचारांचेर slow poisoning जावंक शकता. शारांतल्या तशेंच गांवांतल्या भुरग्यांक सोशल मिडीया पासून गेमिंग पर्यंत प्रत्येक गजाल खबर आसता. तांचे स्वताचे टीकटॉक अकाउन्ट आसूं येतात. जांचो एकून ट्रॅन्ड सोफ्ट पोर्ना कडेन वचपाचो आसता. हीं माध्यमां गिरायक म्हणून भुरग्यांक टार्गेट करतात आनी हीं भुरगीं आठ ते अठरा वर्सां पिरायेचीं आसतात. जेन्ना तांचो चडांत चड भावनीक विकास जावचो आसता. आमी जाणट्यांनी आमचे भुयेंचीं भुरगीं बरे नागरीक जावचे म्हणून सादूर रावंक जाय. आनी भुरग्यांचें कल्याण जावचें म्हणून वावरूंक जाय.

■■■










जर तुमी हिन्दू तर तुमी जाणात की शिवराक आनी उपास ह्यो गोष्टी एकाच बरोबर हातांत हात घालून वावुरतात. धार्मिक सणां दिसांनी तर प्रत्येक हिन्दू जैन जाल्ले वरी दिसता, कारण कांदो आनी लसूण जेवणांतल्यान नाच्च जातात. आनी  आमचो उपास म्हळ्यार तर सामको मजेशीर – फळां आनी गोडशीं पोट फुटसर खा खा खावपाचें. पोट रिकामें दवरप म्हळ्यार कितें तें आमकां खबरूच ना.

सांगपाचें म्हळ्यार शिवराक आनी उपास ह्यो संकल्पना म्हजे असल्यांक सामक्योच परग्रहवासी अशें म्हणल्यार चुकीचें न्ही. तातूंत म्हजो तो राक्षस गण बेरीज करात आनी तुमचे मुखार सारकें चित्र प्रगट जातलें. खंयच्याय देवाचो वाडदीस आसल्यार वाग तण खातलो अशी आशा कोणूय करता केन्ना? आनी जेन्ना फांतोडेर म्हजी बायल फकणां केल्ले वरीं सांगता की श्रावणांतली एकादस आशिल्ल्यान जेवणाक फक्त भाजीपालोच आसतलो! हांवें एक असली गर्जना घाली की पुराय मडगांव हालपाचें. पूण ती गर्जना मनांतल्या मनांतूच उरली. शिंवाकूय खबर आसता आपले अर्धांगिनी मुखार केन्ना म्याऊ म्हणपाचें आनी केन्ना मोनो रावपाचें तें, गर्जना तो दूर की बात है। शिवराक पतकरलें, पूण शिंवीणीचो राग नाका रे सायबा!

तोंड धुवन हांव आशावादी कसो आमलेटीची वाट पळयत बसलों. कांय ना जाल्यार कालची कडी आनी पाव तरीं?

बंगलुरूच्या आयटी जंगलांनी 10-12 वर्सां कश्ट करून परत गोंयांत सुसेग लोदत आयलां अशी आपली वळख सांगपी प्रसाद रायकार हे मर्मविनोदी साहित्याचे गूण आशिल्ले तरनाटे. समाजमाध्यमाचेर तांच्या कथा कवितांचो आस्वाद गेवंक मेळटा. ते इंग्लीश-कोंकणी, कोंकणी-इंग्लीश अणकारांतू फिशाल आसात..



प्रसाद रायकार
मो. : 9823055751





पूण म्हाका धुकळून धुकळून मान्न्यांत न्हावपाक धाडलो. आंग पुसत भायर यो जाल्यार घमघमीत उपमा म्हजी वाट पळयता. कांय नजो, हो चलता म्हाका. जिणेंत इतलो तरी समझोतो करचोच पडटा. तातयां आनीक एक दीस फ्रीजां भितर रावपाक शकतात! तातूंत किचकटीचें कांयच ना. हांव म्हज्या दिसपट्टीच्या कामांत गुल्ल जातां आनी म्हज्या आगापिछा पूजा, अर्चना आनी आरत्यो सुरू जातात. पूण म्हजे मनांत मात्तूय शांती ना. आनी हांव कारणूय जाणां. रांदचे कुडींतल्यान तरेतरेकवार वास हवे वांगडा नाचत भायर येतात. पूण म्हज्या नाकाक सोबऽसो एकूय वास कित्याक ना काय? कितें तरी गोड, कितें तरी तीख, कितें तरी आंबट चल्लां थंय भितर. पूण ती मत्स्यगंधा म्हणटात ती खंय शेणल्या काय? विष्णु देवाचो पयलो अवतार नुस्तें म्हणून काय, विठ्ठल देव नुस्त्याकूच कानांतलीं करून वापरता म्हणून? म्हाका सुळे दांत फुटल्यात तेन्नाच्यान हो मुलभूत प्रस्न म्हज्या जबड्याक पडला. पूण मनाक पट्टा तसली जाप आजून सापडूंक ना. एकाय शिश्याक आपल्या गुरूक किव्वा खंयच्याय रुशीक अशें विचारचेंशें कित्याक दिसूंक ना? म्हाका एका तरी उपनिषदात जाप सापडपाची!

आमी परत म्हज्या यातना जाल्ल्या मना कडेन येवया. कारण म्हाका याद जाली, समय म्हणटात ते गोशटीचो चडांत चड राग कित्याक येता तो. गरज नासतना आपूण कसो लेंगें लेंगें करत सरकटता तें दाखोवपाक तो सामको फिशाल. ताका पळोवन गोगलगाय लेगीत लजेन जीव दितली. अशें न्ही की हांव शिवराक जेवणाची आतुरतायेन वाट पळयतां. पूण जेवणाच्या पानार कितें काय आसत हाची एक भयाण आस्त मनाक खाता हें सांगपाची गरजच ना. आनी ही गोष्ट म्हाका भितरल्या भितर खाता. जेन्ना पयलें मेमें खाल्लें तेन्नाच्यान हांव नुस्त्याचो परम भक्त. म्हज्या ह्या भक्ती आनी मत्स्य मोगाचेर थोर लोकांनी काव्य आनी गझल बरयल्यात. पिळग्यांच्यो पिळग्यो, हांव कसो नुस्तीं खातां आनी म्हज्या ह्या कर्मान नुस्त्यांक कशी मुक्ती मळता, हाचे गूण गायतलीं. आनी जेन्ना जेन्ना अशे शिवराक दीस येवन देव म्हाका अशीं बरीं कामां करपा पासत पयस दवरता तेन्ना म्हाका खूब राग येता. बरेंपणा वयलो म्हजो विश्वास हालता. आनी जेन्ना हे देव उपासाचो रेकाद बायले कडल्यान पावयतात तेन्ना तर मनांत येता की एक नुस्त्या कांटो घेवन तांकां एका द्वंद्वयुद्धाचे आव्हान दिवचें. हें युद्ध अनंतकाळ पर्यंत चलतलें हातूंत दुबावूच ना. येवूनी तांकां व्हडलीं व्हडलीं अस्त्रां घेवन, म्हाका एक मच्छी का कांटाच पुरो!

शेवटीं 'वाडलां' असो सर्वव्यापी उलो येता आनी हांव पांय वोडीत जेवपाक बसतां. हांव बसलां खरो पूण जेवणाचें पान पळोवपाची हिम्मत म्हज्यांत ना. अशें म्हणटात की जी गोष्ट आमकां समजना ताचो चड भंय दिसता. हांव जाणा की म्हाका जाय ते जिनस पानार आसपा नात तरी चमत्कार जावपाक शकतातूच न्ही? पूण जेन्ना कोण तरी 'जेव मरे' म्हणटा आनी हांव पानार पळयतां तेन्ना म्हज्यो सगळ्यो आशा चकनाचूर जातात. कण्ण आनी कसली तरी उसळी म्हाका पळोवन मुमुरखीच हांसतात. तांच्या मनांत बरेच हेतू आसतले पूण हांव नकळों, म्हाका ब्रुटस आनी विभीषण हांची याद कित्याक येता ती! म्हाका खबर आसा हातूंत जेवणाची कांयच चूक ना. तें बाबडें तर म्हज्या पोटा भितर वचून आपली जीण सार्थकीं लावपाक सोदता. हांव तर बरो भुरगो – जेवणाक निराश कसो करतलों? जेवचेंच पडलें न्ही? जशी एक एक उंडी भितर वताली, ती हासत नाचत पोटा कडेन आपली वाटचाल करताली. सगळें जग सणाचे उमेदीर आशिल्लें, पूण म्हजो आत्मो मात काळखांत रडत बशिल्लो. बायल म्हजी भितरल्या भितर चलिल्ली दशा पळोवन हांसता हें हांव जाणाच. ह्याच दिसा खातीर आमी बरोबर सप्तपदीचो सोपूत घेतिल्लो? कोण आपलो आनी कोण परको तें आज समजलेंच!

पूण रावात. हीं काणी हांगाच सोंपना. हांवें सोंसपाचें सोंसलेंच तरी मनांत खंय तरी हयकारीपण आशिल्लेंच. जेवन हांव मेजा वयलों उठलों आनी हात धुवपाक गेलों. मनांतल्या रागाक सामको हुंवार आयिल्लोच. कसो तरी बदलो घेवपाकच जाय! पूण करतलों कितें? मन शांत जातलें कशें? आत्म्याक हांसो फुट्टलो कसो? हात धुवन परत कुडींत वतना फ्रीजाचेर नदर पडटा. हरशींच म्हणून हांव तो उगडटां. आनी कितें तरी पळोवन म्हजे दोळे बल्बावरी लख्ख पेटतात. आनी ती वस्त काडून, कोणेंय पळोवचे पयलीं तोंडांत घालतां आनी कुडींत धांवतां. निवांत शांतताय आतां म्हाका घट्ट वेंगेंत घेवन बसल्या, जणू हांव एक बुद्ध!

सुक्या बोमीलाचो तो एक कुडको. कोणाकूच त्रास करनासतना सूड घेवपाक म्हाका तितलोच पुरो आशिल्लो. श्रावणांत म्हजो रावण भायर येवूना, पूण भितरलो तो राक्षस असोच सदा जैतिवंत उरू. सुको बोमील फ्रीजांत आसा सर आतां म्हाका कसलोच भंय ना. पूण ताका आंग्ल भाशेंत ' मुंबयचें बदक ' कित्याक म्हणटात हें कोडें मात कशेंच सुटना!!!

■■■

# घुस्पल्लो संवाद

कथाकार,कादंबरी आनी बालसाहित्य ह्या साहित्य प्रकारांत आपली खाशेली सुवात केळोवपी रा.ग.गावडे हांचे तीन कथासंग्रह,दोन बाल नवलिका,एक नाटक आनी एक कादंबरी उजवाडाक आयल्या.तांकां कोंकणी अकादेमी,कला अकादमी आनी हेर संस्थांचे साबार पुरस्कार लाबल्यात...



रा. ग. गावडे
मो. : 9420979010

दार नेटान धुकलून ती समती केबिनांत भितर सरली आनी आपली पर्स शेवटिल्लेवरी मुकारल्या मेजार दवरीत कुशिची खुर्ची ओडून एक पोझ घेवन बसत म्हणपाक लागली,

– मिस्टर ॲडवोकेट भरत, म्हाका अशें अर्जंट तुवेन किद्याक आपोवन घेतलां. कसली ताकतीक आसा?

– मॅडम...

– आयज मॅडम सो म्हण्टा, नांव विसरलो?

– बरें. सरोजा, मातशें बस. सवकासायेन किदें उलोवंक जाय...

– म्हाका हांगा किदें फकत बसपाक तुवें इतले ताकतिकेन आपयलां! आनी उलोवंक फोन नासलो? तुज्या त्या दमळ्या फ्रेंडावरी हांव कितें बेकार ना. इलेक्शन लागीं पावलां, आनी जायत्यो केसी म्हज्या मेजार पडिल्ल्यो आसात.

– दमळो म्हणू नाका ताका. एक सक्सेसफूल बिझनेसमॅन




तो...

– बिझनेसमॅन कसलो कपलाचो! फकत आपली रोयण पयशांनी भरीत आसता. ती रोयण एक दीस कोसळटली आनी सगळें मातये भरवण जातलें. आपूणय खावपाक पावचो ना आनी...

– रिलॅक्स सरोजा, रिलॅक्स ...

– आरे, इतलें कसलें अर्जंट काम आसा? कितें तें फोनाचेर सांगपाक जाय नासलें? अश्यो पासयो मारपाक म्हजे कडेन वेळ ना.

– हांव जाणां, तूं एक कर्तव्यदक्ष अधिकारी. म्हणूनच तर तुजी रोखडीच नामनां जावपाक लागल्या न्ही! तूं एका तालुक्याची मॅजिस्ट्रेट, शिवाय ...

– त्यो गजाली नाका, कामाचें उलय. हांवेन तुका किदें बरोवपाचें तें सगळें सांगलां. जाय ते पेपर दिल्या. तरीय तूंच सगळें किदें तें करता म्हणटालो न्ही? मागीर म्हजी आनी आतां कसली गरज पडली?

– तुमची केस ही घटस्फोटाची. म्हणजे ते केसींत जायते गुंतागुंतीचे प्रस्न लिपिल्ले आसतात. नातीं-संबंद तुट्टात आसतना जायत्या वेव्हाराच्योय गजाली पळोवंच्यो लागतात.

– फाटल्या सात वर्सांत ज्या नात्या आनी संबंदांक कांयच अर्थ उरलो ना, ताचे विशीं आनी कसली गुंतागुंत! आनी वेव्हाराचें म्हणशीत जाल्यार म्हाका ताचे कडलो एक पयसोय नाका.

– आनी ताका जाय जाल्यार...

– घे म्हणचे, जाय तें घे! पूण म्हाका एकदाचें मेकळें कर!

– ना, तशी ताणें कांय मागणी दवरूंना. पूण तुवेंन घटस्फोट मेळोपाक जे आरोप केल्यात, ते तुजी डायव्हर्स केस स्ट्राँग करपाक उणे पडटात. सोरो पियेवप, पार्ट्यो करप, सदांच भायर भायर भोवप, तुका जाय तशें वागप ना. असलीं हीं कारणां खूब किरकोळ दिसतात. किदें तरी बरीं सनसनाटी कारणां जाय.

– मागीर तूंच घाल मरे किदें तीं सनसनाटी कारणां. कसोय करून म्हाका एकदाचो त्या मनशा पासून डायव्हर्स जाय.

– ओके, तीं कारणां हांव घालता. आमचें कामच तें. पूण हांव जीं कारणां बरयतलों तीं तुवें जुविजा मुकार 'हय' म्हणून मात सांगचीं पडटलीं. अशींच आमी तयार केल्लीं कारणां मुकार करून जायते घटस्फोट घेतल्यात. म्हणूनच तर हांव डायव्हर्स स्पेशालिस्ट म्हणून फामाद जालां. हांव किदें लोकांवरी वगीच धा धा वर्सां केशी लोळयत दवरिना. चडांत चड दोन वर्सां. घेतली कातर कापलें फीत.

– पूण हांवें आतां तुजे कडेन केस दिल्यार तीन वर्सां जालीं.

– जातलींच. कारण केस स्ट्राँग करपाक पॉईंट्स स्ट्राँग आसचे पडटात.

– सांगले न्ही तुका. तुका जाय तें बरय आनी जाय थंय धाड. म्हाका सामको वीट आयला त्या मनशाचो. असो किद्याक वागता तेंच कळना.

– वीट! पूण तुमी तर मोगान पडून लगीन जाल्लीं.

– हय. केल्लो हांवेन ताचेर मोग. तेन्ना हांव पिशें आसलें न्ही!

– तू पिशें जाल्लें काय तो?

– हांवूच पिशें जाल्लें. पिशें केल्लें ताणें म्हाका. तींच तर पानवळां भोगता न्ही हांव आतां. म्हजें लायफ सामकें पिड्डयार करून वडयलें त्या दमळ्यान...

– दमळो! आगो, काय बरें नांव आसा ताचें, दमयंत. एके काळचो मोगी तो तुजो. कॉलेजींत सुंदर सुंदर चलयो मरता आसतनाय तुजेर फिदा जाल्लो एका काळावेलो अमीर खान तो.! तेन्ना तुमीं बरीऽ गुलुगुलू पारव्यांची जोडी कशी भोंवतालीं मगो! आनी आतां तो डाकू जालो!

– हय. आतां तो म्हजे खातीर हिरो उरुना, व्हिलन जाला.

– अशें तुका दिसता. पूण खरेपणी आजूनय तो तोच चॉकलेट हिरो आसा. फकत माथ्यावेले चार केंस गेल्यात आनी... ताचो स्वभाव तर–

– पुरो पुरो, तुवेन हेंच सांगपाक म्हाका हांगा आपयल्लें? ज्या मनशा बद्दल म्हाका सपनांत लेगीत चिंतपाचें ना ताची तूं म्हजे मुकार तोखणाय किद्याक करता? म्हाका त्या दमळ्याचें नांव लेगीत घेतल्यार भिरभिरी मारता. बरें, तुजें किदें तें सांगपाचें जालें जाल्यार हांव चल्लें. हांव ऑफिसाची गाडी घेवन भायल्या भायर आयलां. गाडी रस्त्यारूच दवरल्या. त्या ड्रायव्हराक आतां गाडी घेवन इलेक्शनाची स्टेशनरी हाडपाक वचपाचें आसा.

– बरें बरें दोनूच मिण्टां. तुजे मान्यतायेन बरे स्ट्राँग पॉईंट घालतां.

– म्हजे मान्यतायेन!

– तुवेंनूच सांगलां न्ही, तुका जाय तें बरय म्हणून. म्हजे कडेन कारणांची वळेरी आसा ती सगळी तश्श्या तशी कॉपी-पेस्ट करतां. मार-बडय, बळजबरी असले न्हंवऱ्याचे अत्याचार... उपाशीं दवरप, घरांतल्यान भायर घालप, अपमान करप, नाका जाल्लीं कामां करून घेवप असली घरच्यांची

सतवणूक... पयशां खातीर सदांच छळणूक, पिडापीड. त्या भायर भायलीं लफडीं. हीं पळय अशीं डझनांनी कारणां तयार करून दवरल्यांत. तीं सगळीं लायतकीर फटांयच करून डायव्हर्स!

– म्हणजे म्हाका तूं किदें सामकेंच खेडवळ बाई करून सोडटा! तुजो सामको खाशेलो इश्ट मरे तो! मागीर हातूंतलें एक तरी तो करपाक शकता अशें दिसता तुका?

– म्हाका दिसून कितें फायदो? केशीचो निकाल बेगीन लागतलो जाल्यार अशें कितें तरी बरोवचेंच पडलें. ना जाल्यार अशींच वर्सांचीं वर्सां वचत रावतलीं.

– वचूं. पूण हीं असलीं कारणां सोडून तूं आनी किदेंय बरय. जनाची ना जाल्यार मनाची तरी...

– आनीक म्हजे कडेन दुसरीं कारणां नात.

– आरे, पूण तुवेन कितें सांगिल्लें, आमी दोगांयनी एकामेकाच्या पेपरार सायन केली म्हणटकच जालें म्हूणून. मगीर आतां हें नविनूच कितें सांगता तूं?

– हय. तशेंच जातलें.

– मागीर हें असलें टुणटुणें किद्याक लायलां तर?

– हांव जरी वकील आसलों तरी दोगांयचो एका काळावेलो इश्ट. हांवेन तुजी गरिबीय पळयल्या आनी ताची श्रीमंतीय पळयल्या. तुमच्या दोगांयाचो स्वभाव आनी मनांचो थाव म्हाका खबर आसा.

– हय मरे, मागीर वेळ किद्याक काडटा तर?

– कसलीय गजाल गडबडीन जातकीर तिचो परिणाम सारको जायना.

– आरे, पूण म्हाका वेळ जाता न्ही!

– मातशें राव गो. आनीऽ हें गो, फाटल्या दिसांनी तो मरणांतल्यान वाटावलो. तेन्ना तुवें ताची सादी खबर लेगीत घेवना खंय मगो! घोव म्हण न्ही. तर, तुजो एका काळावेलो घट इश्ट म्हूणून तरी–

– म्हाका त्या अपघाताची खबरूच दोनेक म्हयन्यांनी कळ्ळ्या. आयकल्लें हांवें, हॉस्पिटलांत म्हजी निस्सां याद काडटालो म्हूणून...

– मागीर, एकदां तरी...

– म्हाका कसली गरज रे?!...

इतल्यान कोण तरी दारार टकटक करून भितर आयलो.

–शिवा, किदें जालें? थोडो वेळ डिस्टर्ब करूं नाका म्हण सांगिल्लें न्हय तुका!

– सर, तो क्लायंट वचपाची गडबड करता.

– तुवेन ताका च्या बी किदें जाय तें हाडून दिलां मरे?

– तो तसलें कांय नाका म्हणटा. फकत उदक मात दोन–तीन ग्लास घेवन पिला.

–बरें, आनी एक पांचूच मिण्टां बस म्हण सांग.

–पूण सर, आपणाक तो विमान चुकतलें म्हणटा. कशेंय करून तेका आयज दिल्ली पावपाकूच जाय खंय! हो पळय तो भायरूच येवन रावला. कसोच बसना. भायर भितर येता वयता.

– बरें तर चल, येतां हांव.

तें आयकून तो नोकर मान हालयत परत गेलो.

– कोण? कोणा विशीं उलयतात तुमी?

– आसा एकलो. ताची बारांक फ्लायट आसा. अर्जंट दिल्ली वचून कसली तरी म्हत्वाची डील सायन करपाची आसा म्हूणून तो सकाळीं सातांकूच आयिल्लो. ताका वयर गेस्ट रुमांत बसोवन आयलां. तूं बस आं, रोखडोच ताका थंड करून येतां.

ताची तीं उतरां आयकून वगीच तिका दुबाव सो आयलो. कोण काय तो?... तेन्ना ती वगीच हेवटेन तेवटेन नदर मारून अदमास घेवपाक लागली. ती ज्या ऑफिसांत बशिल्ली, तो एका बंगल्याचो भायलो भाग. तो बंगलो भरतान हालींच बांदिल्लो. त्या बंगल्याची सुवात आनी रुबाब पळयल्यार ताचे जोडीचो अदमास येतालो. आमच्यानूय असले चार बंगले बांदू येताले. पूण...

पूण तिचो दुबाव दोळ्यां मुकारल्यान कसोच हालनासलो. कोण काय तो? प्रस्नांचें भिरें वाडत आसलें.

– किदें जालें, कोणाक पळयता? – परत येता येतांच ताणें विचारलें.

– अंऽ! ना ना कांय ना. को–कोण–कोणाक ना.

– खऱ्यानीच? पूण तुजी नदर तर कोणाक तरी सोदिल्ले वरी दिसता.

– हें हें, हांव तें हाका पळतालें–ड्रायव्हराक. ताका वचपाक लेट जाता न्ही म्हूणून...

– हांव समजलों, तूं तुज्या दमल्याक बी पळयता काय म्हण.

– च्ये च्ये! हांव ताका किद्याक सोदतलें? आमचे संबंद तुटल्यार चार वर्सां तरी जालीं. आनी ताका पळोवपाक म्हाका हांगा किद्याक येवपाक जाय! ताका हांव खंयी पळोवपाक शकतां.

– पूण तो तर सांगतालो, फाटल्या तीन वर्सांत तुमी एकामेकाक पळोवकूंच ना खंय!

– जायत. पूण म्हाका कसली गरज ताका पळोवपाची. आनी हांवेन ताका केन्ना पळयल्लो ताचो हिशोब दवरुना. ताणें दवरला आसत. हरशीं म्हण ताका सगळ्याच बायजणपणाचो हिशोब दवरुपाची संवय.

– ताचे सगळेच हिशोब आनी आराखडे तंतोतंत आसतात. पूण आतां हो लग्नाचो हिशोब कसो चुकलो तें मात कळ्ळें ना म्हाका.

– तागेले ते हिशोब आनी कॉतां तूं मागीर पळय. म्हाका लेट जाता.

– खऱ्यानीच तुजी ताका पळोवपाची इत्सा ना!

– ना. बिलकूल ना. कितले फावट सांगलें तुका, म्हाका त्या मनशाची याद लेगीत त्रास करता.

– आरे वा! ताच्यो यादी तुका आजूनय त्रास करतात तर! तशें जाल्यार आयक, हाचे मुकार तुका तो पळोवपाक मेळपाचो ना. हांगाचें जें किदें आसा तें सगळें भावाच्या आनी भयणीच्या भुरग्यांक दिवन तो लंडन सेटल जावपाचो आसा.

– म्हाका खबरूच आसलें. म्हजी ताका मात्तूय पर्वा ना. लगीन आनी किद्याक जाल्लो म्हण देवाक खबर! फकत घर आनी घरचीं. एक मात बरें जमता ताका, पयशान पयसो करपाचें.

– तुकांय ताणें जायतें दवरलां. तुज्या नांवार घेतिल्ले सगळे शेअर्स, जांचें मोल आयचे दरेन तीन कोटी तरी जातलें, अशें तो म्हणटालो. शिवाय...

– पळयलें पळयलें, प्रत्येक गजालींत तो आपलें मोटेंपण–गिरेस्तकाय मदीं हाडटा. आनी म्हाका शिरविसूय ताकाच लागून मेळ्ळ्या अशें तुका बरें सांगुना. शी! पयसो पयसो आनी पयसो! फकत लाखांच्यो आनी कोटींच्यो गजाली. तेंच तेंच आयकून आयकून वीट आयलो. तांकां मनशाक म्हणटा ती किंमत दिवपाची मात्तूय संवय ना. पयसो पयसो करून किदें करपाचें आसा तें देवाक खबर! ह्या मनशांनी सूख म्हणटा तें फकत पयशांनी पळयलां. मनीस म्हणल्यार एक लाकडाचें खेळणें कशें!

– बरें, ताणें दवरला तो पोटलो आतां किदें करूं?

– दी ताचो ताका परत. ना जाल्यार भायर काडून उडय. म्हाका कांयच नाका ताचें!

– खऱ्यानीच सांगता तूं, कांयच नाका ताचें?

– सांगलें न्ही. ताची याद लेगीत म्हाका नाका म्हणून.

– सायन लेगीत!

– ... ...

– अशें रागार जांवन पळोवं नाका. ती तर ताणें केन्नाच मारून दवरल्या. आतां फकत ताच्या पेपरांचेर तुवें सायन



करपाची उरल्या.

– मागीर इतलो वेळ तुवेन किद्याक दवरलें तर म्हाका?

– राव. ताचे पेपर म्हजे दुसरे गाडयेंत उरल्यात. ड्रायव्हर ते घेवन येवपाचोच जाला. तांचेर तूं सायन मार आनी चल. मागीर तुमी दोगांय मुक्त . उडटीं सवणीं. भुर्रर्रर करून जाय थंय भोवपाचें. जाय तें करपाक मेकळीं.

– म्हणजे, इतलो वेळ तूं किदें म्हजे वांगडा टायम पास करतालो!

– तुका जाय तें समज.

– तुका मरे फकत फकाणां येवजतात. म्हजेर कितलो ताण आसा तें खबर ना तुका.

– आगो, कामां केन्ना सोंपल्यां? एक सोपयतकीर रोकडेंच दुसरें तयार जाता. बरें, आसूं त्यो गजाली, तूं किदेंय थंड बी घेतलें? – अशें म्हणटनाच तो बॅल मारता.

– नाका नाका म्हाका कांयच नाका. फकत इल्लें उदक मात दी.

इतल्यांत शिवा भितर सरलो.

–किदें सर?

– कांय ना, चल तूं. तो आसा मरे, गडबड बी करिना न्ही?

– ना. आतां वग्गी बसला आनी फकत उदक पियेता.

– बरें चल, दोनूच मिण्टांनी येता म्हणून सांग. – अशें म्हणून ताणें आपणेनूच लागच्या फ्रिजांतलें उदक काडून सरोजाक दिलें.

– मीस सरोजा, म्हजें एक ल्हानशें काम आसलें. जायत तुजे कडेन?

– म्हजे कडेन जाता तसलें आसल्यार अवश्य करीन.

– हय. तुजेच कडेन जावपाचे तें. ना म्हणू नाका... म्हाका तुजें उतर जाय.

– किदें तें कळळ्या बगर वगीच हांव किद्याक उतर दिवं? अशें उतर दिवनूच एकदां हांव फसलां. परत आनी म्हाका त्रासांत पडपाचें ना.

– वगीच अर्थाचो अनर्थ करून घेवं नाका. हें उतर निस्वार्थ भावनेचें. त्या कामांतल्यान म्हाका तसो फायदो जावपाचो ना, पूण समाधान अवश्य मेळटलें.'

– अंऽ दिलें, सांग कसलें काम?

– गेस्ट रुमांत जो मनीस रावला, ताका तुवेन येतिस्ट बडोवपाचो.

– किदे?! मिस्टर भरत, तुका किदें पिशें बी लागुना मरे!

– निदान दोन गाळी तरी...

– म्हाका कळिल्लेंच! तुवेन वयर दमळ्याकूच हाडून बसयला म्हण.

– हय. तोच तो. निदान म्हजे खातीर तरी ताचे कडेन दोन उतरां– फकत, हॅलो आनी बाय...

– ना ना. तें कशेंच शक्य ना! आरे, ज्या मनशाचें म्हाका तोंड लेगीत पळोवपाचें ना, त्या मनशाक तूं 'हॅलो' म्हण म्हणून म्हाका सांगपाची तुका कापास्ताद जालीच कशी!

– पळय, तुवें म्हाका उतर दिल्लें. हांव सांगतलों तें काम करतलें म्हण.

– दिल्लें. पूण म्हाका खंय खबर, तूं अशें किदेंय सांगतलो म्हण. हांव समजल्लें, कसलेंय ऑफिशियल बी काम आसतलें म्हणून.

– म्हजे खातीर तें ऑफिशियलूच काम. पळय, आतां तुका ना म्हणपाक मेळचेंना.

– ... अंऽ ...

– आतां आनी किदें चित्ता? तुकाय वेळ जाता आनी ताकाय वेळ जाता. ताचे ते पेपर घेवन ड्रायव्हर दोनूच मिण्टांनी पावतलो. तीं फकत दोन मिण्टां तूं म्हाका दी. यो. आतां आनी आनी टायम व्हेस्ट करूं नाका... खरें म्हणजे म्हाका तुमची निमाणी भेट एका रोमॅन्टीक वातावरणांत घडोवन हाडपाची आसली. तशी हांवें तयारीय केल्ली. पूण तुमी येतनाच तरसादी घेवन घोड्यार बसून आयल्यांत. चल, तो रुसवो फुगवो कडेक दवरून यो म्हजे वांगडा...

अशें म्हणून तो चलत रावलो. फाटल्यान ती गळ्यांत दावें घातिल्ले वरी ओडतशी निर्जीव गाय कशी गेली.

दार उगडिना बराबर दमयंत सटक् करून उबो रावलो आनी आबूज जांवन तिकाच पळयत उरलो. तिवूय ताचें बदलिल्लें रूप पळयत उरली. जणू दोगांयचो पुनर्जल्म जांवन पयलेच फावट एकामेकांक पळयतालीं! रोखडींच तीं दोगांय विचार चक्रां बंद पडून एका व्हडल्या शून्यांत घुसपलीं. तांची ती अवस्था पळोवन भरत आनी थंय रावलो ना. एकाच गालान हांसलो आनी अळंग दार बंद करून भायर सरून किदें उलयता बी काय म्हण अदमास घेवपाक लागलो. पूण बरोच वगत कोणेंच तोंड उगडलें ना. तसो तो सवकासायेन आपल्या ऑफिसा वटेन वळटालो, इतल्यांत हय–न्हयशीं उतरां ताच्या कानार पडलीं:

– म्हाका वेळ जाता. तुका किदें उलोवपाचें आसा तें सांग बेगीन.

– कोणें सांगलें तुका, म्हाका उलोवपाचें आसा म्हणून! तुका वेळ जाता जाल्यार चल तूं. हरशींय म्हणून तुजेकडेन

केन्ना वेळ आसलो तर? म्हजे खातीर तर तुजे कडेन एक मिनीट न्हय, एक सेकंदूय केन्ना नासलो.

– बरें चल, आतां दितां. निमाणे कडेन आनी वेळ दिवना अशी आनी खंत उरूं नाका.

– म्हाका कांयच नाका तुजें. तुवेन जो पोटलो दवरला तोवूय. समतोच तोंड घेवन चल! आनी तुका लागून जर शिरवीस म्हाका मेळ्ळ्या अशें तूं म्हण्टा जाल्यार तिवूय सोडटां! मना सारको म्हण्टा तो केन्नाच वागलो ना, आनी आतां वेळ दिता खंय...!

– बरें, आसूं त्यो गजाली. आतां आनी झगडीं करपाची म्हज्यांत शक्त उरूंक ना.

– तरीय म्हाका तुजे कडेन झगडपाचेंच आसा! हांव झगडटलेंच!!

– आगो आतां तरी पुरो कर. आयच्यान आमचें नातें सोंपलें.

– सोंपलें, सोंपूं. पूण तुका हांव वगी रावचेंना... ...

वादावादी वाडत रावली. भरत मुमुरक्यांनी हांसत ऑफिसांत आयलो.

इतल्यांत ताकतिकेनसो सरोजाचो ड्रायव्हर आयलो.

–दोतोर, म्हाका अर्जंट पणजे आपयला. आनी गाडयेंत दवरिल्लो मॅडमीचो फोन परत परत वाजत आसा. तिका मातशें ...

–अंऽ बरें बरें. चल तूं भायल्या भायर. तिका हांव सोडटां.

–पूण तिचो मोबायल ...

–स्वीच ऑफ करून हांगा हाडून दवर.

तसो तो गडबडीन सो गेलो आनी फोन घेवन आयलो. तेन्नाच शिवाय देंवन आयलो.

–शिवा, किदें जालें?

–सर, तीं दोगांय झगडटात! एकामेकांक मारतात काय किदें तें कांयच कळना. मोटमोट्यान थापटांचो सो आवाज येता.

ताची तीं उतरां आयकून नेटान वतलो ड्रायव्हर रावलो. तें पळोवन भरतान ताका म्हणलें, ''तूं चल तूं. आमची घरची गजाल ती. मॅडम वयर च्या घेता. तिका मागीर हांव पावयतां.''

तरीय तो दुबावान सो हेवटेन तेवटेन पळयत पळयत गेलो.

–शिवा, चल आनी भायल्यान खिळी घाल. कितलीं झगडटात तीं झगडूं. दार धोडयल्यार लेगीत हांवेन सांगल्या बगर उगडपाचें ना. ए सी फूल करून दवरल्या मरे?

– हय सर.

– बरें आसा आनी म्हाका एक सिगारांचें पाकीट हाड.

उपरांत बरोऽ वेळ गेलो. भरतान जायतीं सिगारां ओडून सोंपयलीं. पूण शिवा कसलीच खबर घेवन आयलो ना. तेन्ना ताच्या मनांतली पाल वगीच चुकचुकपाक लागली. ताणें तसोच वचून अदमास घेतलो. आतां दोगांयचो आवाज बंद जाल्लो. ताका किदें करचें कांयच कळनासलें. दनपारचीं दोन जाल्लीं. जेवणाचो वेळ जांवन गेल्लो. ताणें शिवाक तांकां किदेंय खावपा पिवपाक व्हरून दिवचें म्हण फरमायलो. तसो तो भियेत भियेत अळंग भितर वचून ट्रे दवरून आयलो.

–शिवा, तीं दोगांय किदें करतात भितर?!

ताणें कांचवेतशें विचारलें.

–कांय ना सर. दोगांयचीं तोंडां रडून–रडून रापेल्ल्यावरी जाल्यांत. एकामेकाचो हात घट धरून सोफाचेर दोळे धांपून वग्गी बसलेलीं. म्हाजो आवाज आयकून अचकीत भियेल्लेवरी कुशीक सरलीं. पूण एकामेकांचो हात मात सोडलोना

–चल, अहंकाराची घुसपल्ली गांठ एकदांची सुटली म्हणपाची!

अशें बडबडत ताणें पाकिटांतलें निमणें सिगार पेटयलें.

■■■








जेश्ठ कथाकार आनी कादंबरीकार .पांच कथासंग्रह,तीन कादंबऱ्यो आनी पांच बालसाहित्याचीं पुस्तकां प्रकाशीत.केंद्रीय साहित्य अकादेमी ,विश्व कोंकणी केंद्र तशेंच हेर म्हत्वाच्या पुरस्कारांनी सन्मानीत. तांच्या साहित्याचो देशांतल्या भोवतेक भासांतल्यान अणकार जाल्लो आसा...



दामोदर मावजो
मो 9422059509

पियानोच्या सुरेल संगितान म्हाका फांत्या पारार जाग हाडली. जाग? काय सपन? अशें सोबीत सुंदर संगीतवादन हांवें जागेपणीं थोडें, सपनांत चड आयकल्लें. तेंय इतलें अप्रुपांचें न्हय. म्हाका सपनां खूब पडटालीं. न्हिदो काडल्यात ताचे परस सपनां चड पळयल्यांत हांवें. अजाप म्हळ्यार खूब खेपो हांव सपन पळयतां हें म्हाका सपनांत आसतनाय खबर आसता. ताका लागून जागेपणी, चड करून सकाळीं जाग येता तेन्ना, ही खरेपणीं आयिल्ली जाग काय सपनांतली हें कळपाक वेळ लागता. आतांय हांव जागो जालां तरी हें सपन बी न्हय मूं असो दुबाव आयलो. हांव उठून बसलों. पियानोचे सूर सामके संवकळीचे. आग्नेसाचे आवडीचें- मोझार्टस ४०. इतले सकाळीं फुडें उठून वाजोवपाक शें बसलां आग्नेस! वाजयता तें ताचे आवडीचें कम्पोजिशन - मोझार्टाचें. दिसाचो खंयचोय वेळ आसूं - शांत, सोबीत, परमळीत, प्रशांत, निवांत करून सोडपी. मागीर ह्या फांत्या पारार भोंवतणचो परिसर ताणें प्रसन्न करून सोडलो जाल्यार अजाप न्हय. पूण





म्हाका अजाप करपा सारकी जाणवली ती आयज आग्नेसाच्या वादनांतली एक अती सुंदर संवेदना, दिव्यत्व पातळावपी चेतना, आनंदमय उमेदीन भरिल्लें ल्हार. मन तरल करपी हें दैवी संगीत अशें जागेपणीं म्हज्या कानांर पडचें? हांवें उठून हारशांत पळयलें. दोळ्यांतलें न्हिदसुरेपण गायब जाल्लें. भोंवतणांतलें चैतन्य म्हज्या दोळ्यांतच न्हय, आंगांतूय खेळूंक लागिल्लें.

हांव सालांत गेलों. दारांतल्यान पयलीं पळयलें – आग्नेसाच्या निरागस मुखामळा भोंवतणीं तेजाचें वलय आसचें तशें दिसलें. आग्नेस शांत समाधानी चेऱ्यान ती प्रशांत धून वाजोवपांत गुल्ल आसलें. हांव आवाज करनासतनां फुडें सरून पियानोचे कुशीक तामरेतीचेर बसलों. आग्नेसाची तनरी मोडपाची नासली म्हाका. हांव आयकत, पळयत बसलों. आग्नेसाल्या उकत्या दोळ्यांक बोर्डाचेर उकतें करून दवरिल्लें पियानो नोटेशनांचें पुस्तक दिश्टी पडटालें काय ना तें कळनासलें. दोळे खंय तरी अदृश्टांत शेणिल्ले. बोटां की बोर्डाचेर चलतालीं तींय संवकळेन. पूण तातुंतल्यान निर्मण जावपी संगीत अलौकीक आसलें. त्या खिणाक आग्नेस आनी पियानो एकरूप आनी एकजीव जाल्लीं. आग्नेसाचें मुखामळ जितलें शांत तितलेंच म्हगेलें उचांबळ जाल्लें. त्या अद्वितीय संगीतांत न्हातनाच हांवें जनेलांतल्यान भायर पळयलें. सगलीं झाडां-पेडां, वाली-झोंपां मुग्ध जावन मंद धोलतालीं. कळे-कळ्यो फुलपाचें विसरिल्लीं आनी काल बावून गेल्लीं फुलां पर्थून ताजबाण घेवन तट्टटीत फुलिल्लीं. उदेन्त तांबडी निळी जावन तटास जावन आयकताली. घडये सुर्या लेगीत खीणभर लागणूक विसरून थीर उरलो जावंये. मागीर ताची ताकाच लज जाली – सहस्रादि वर्सांचो दीसक्रम आपणे चुकयलोच कसो! खीणभर ताका ह्या सुरेंद्र संगिताची नसाय दिसली आसूंये! तो कूसभर चडच वयर सरलो. ताची कंवळीं किर्णां रुखां-पानांतल्यान वाट काडीत जनेलांतसून पयलीं पियानोचेर आनी मागीर आग्नेसाच्या दोळ्यांचेर नाचूंक लागलीं. सर्गांतले अप्सरेन रुशीची समाधी भंग करची तशी आग्नेसाची तनरी भंगली. की-बोर्डा वयल्या बोटांनी गियर बदललें. केन्ना तरी आयकल्ल्या मांड्याचीं उतरां तें सहजतायेन गावंक लागलें.

जाली सकाळ दीस उजवाडलो, सुर्या-उजवाड फांकारलो नखेत्रांचो परमळ शिंवरलो, आमचो एकवोट मुरे जालो..

सूर शांत जायत गेले. आग्नेसान दोळे धांकले. हांव ते उकते जावपाची वाट पळयत बसलों.

च्याचो घोंट घेत आग्नेसान शांत सुरान सांगलें, 'रातीं सपन पडलें म्हाका.'

म्हजें लक्ष आजून त्या दिव्य संगितांत घुसपून उरिल्लें, 'सकाळीं जाग येयली आनी तुगेऽ पियानो वाजोवप आयकलें तेन्ना म्हाकाय हांव सपनांत बी ना मूं असो दुबाव येयललो. इट इज ट्रुली आउट ऑफ द वर्ल्ड!'

' देव येयललो सपनांत.' आग्नेस तेच तनरेंत आसलें.

'कोण म्हुटलेन तुवेन?'

'देव. सपनांत येयललो.'

'कोण, सांत आंतोन? ह्या दिसांनी पावस नासलेल्यान लोक बेजार जावन सांतातोनीक उलो घालताले.'

'तो सांत. देव न्हूं.'

'आं. यू मीन, जेजू? जीझस?'

'तो देवागेलो पूत.'

'तुवेन कोणाक चयलो तर?' म्हगेली जिज्ञासा जागी झाली.

' देव. देव येयललो म्हाका मेळूंक.' आग्नेसाल्या मुखामळा वयले शांत प्रशांत भाव पळोवन ताचीं फकाणां मारपाची म्हाका आयिल्ली कूय हांवें दामून उडयली.

'आं. सपनांत मुगो?'–

सपनां खूब जाणांक पडटात. सपनांक अर्थ नासता. खुबशीं सपनां सकाळीं उठटकच लोक विसरून वतात. थोडीं उगडासांत उरतात तांचो मतितार्थ लावप कठीण आसता. म्हगेल्या धाकल्या भावाक ल्हान आसतनां एक सपन पडिल्लें– ताका सोरपान घांस मारिल्ल्यान मरण आयलें म्हूण! तो भियेल्लोच, पूण मांय चड भियेल्ली. ती चेड्याक घेवन सपन पारख्या लागीं गेली. ताणें सांगलें, तो मेलो म्हूण ताका सपन पडलां जाल्यार तो चड जियेतलो. दोगांय खुशाल जाल्लीं. त्या उपरांत बारा वर्सांनी खऱ्यांनीच तो सोरोप चाबून मेलो. सपनाचो आनी त्या मरणाचो संबंद नासुंये. पूण मांय मात त्या सपन पारख्याक मरसर गाळी संवताली. म्हगेले भयणीक गुरवारपणांत खंय सपनांत सोरोप दिश्टी पडिल्लो. सोयरे शेजारी सांगूंक लागले – तुका बाब जातलो. बाबड्याक बाबच जाय आसलो. खुशाल आसलें पूण ताका जालें बाय. फुडलीं पंदरा वर्सां तें वाट पळयतालें बायेचो लिंगबदल जावन बाब जातलो म्हूण. सपनां खरीं जायनात आनी जाल्यारूय तो निखटो योगायोग आसता अशें मानपी म्हगेल्या मुंबयच्या एका आंकवार राविल्ल्या विद्वान इश्टाक खंय चाळीस वर्सांचेर पोजडीं सपनां पडूंक लागिल्लीं. ब्रह्मचर्याचेर आकांत विस्वास आशिल्ल्यान ताणें जिवीतभर आंकवार रावपाचें व्रत घेतिल्लें. ताणें विचार कर कर केलो. मानसोपचार तज्ञा कडेन वच्चे बदला ताणेंच उपाय सोदलो. एक दीस भेस बदलून कामाठीपुरा वाठारांत गेलो. एके वेश्ये कडेन कबलात केली. तिका विंगळी करून सामकार बसयली. सपनांत

्रेवपी बायलांवरी नखरे करपाक लायले. ताका खातरी आसली ह्या उपायान सपनां पडपाचीं बंद जातलीं. पूण जालें उरफाटें. तागेलें ब्रह्मचर्यूय गेलें आनी सपनांय पडतच रावलीं.

मनांत आसा तेंच सपनांत दिसता अशें चडशे मानतात. म्हाकाय सपनां पडटात. सिनेम पळोवचो तशीं हांव तीं पळयतां. कांय कांय सपनां तर सिरियलां वरी आसतात. फाटल्या पाना वयल्यान फुडें चलत रावतात. हांव तातूंत अर्थ सोदीत मात बसना. इतलीं सपनां पडटात की केन्ना केन्ना सपन पडलें ना जाल्यार न्हीद पुर्ण जाली ना शी दिसता. आग्नेस केन्नाय म्हणटा – 'इतलीं सपनां चयता जाल्यार न्हिदता केन्ना तर तूं?' आतां ताका जाप कितें दिवं? पूण दीस भर कामां करून पुरो जावन घरा येतकूच शितळ उदक न्हाल्या उपरांत जशी सगली थकान पयस जाता तशीं सकाळीं तोंडार उदक मारल्या उपरांत म्हगेलीं राती पडिल्लीं सपनां विसरायेचेर पडटात. थोडीं सदांकाळ तकलेंत उरलीं तरी तीं दिसपट्ट्या कामांत अडखळ हाडनात, म्हळ्यार म्हाका अस्वस्थ बी करिनात. पूण कांय सपनां अशींय आसतात की तांचो फुडलो एपिसोड पळोवपाक मनाक उमळशीक लागून उरता. एक फावट, जुवान आसतना, म्हगेल्या सपनां पळोवपाचे संवयेचेर आग्रेस हांशिल्लें, 'एकूय तुगेऽ सपन खरें जायना तरी आसतना तूं सपनांची वाट पळयत कित्याक राबता?' हांवें जाप दिली ना. पूण जाप आशिल्ली म्हजेकडेन. 'हांव सपनांची वाट पळयना. सपनां म्हजी वाट पळयतात.' हांवें मागीर आग्रेसाकच प्रस्न केल्लो. 'तूं केन्ना सपनां पळयना तरि?' ताणें तेन्ना जाप दिली नासली. पूण खूब वर्सांनी ती मेळिल्ली, 'तूं म्हाका मेवलो तेन्ना सावन तूं म्हज्या सपनांत येत राबलो. केन्ना खबरो सांगतालो मोगाच्यो, केन्ना गोपांत घेतालो. केन्ना केन्ना तर म्हाका – म्हाका कितें? अशें विचारतकच आग्रेसान दोनूय हात तोंडार दवरून म्हणिल्लें, अं – तूं मुरे सामको– सगलें कितें सांगपाचें आसता? '

आनी आतां हे पिरायेर ताच्या सपनांत आयला हो देव! तो कित्याक आयिल्लो काय?

'म्हुगे मुरे विस्वासच बसना.'

देव? आग्नेस भुल्लुसून वचूंक नासलें. हे जाण्टे पिरायेचेर आनीक कसलीं सपनां पळयतलें तें!

' तुका केशें कळें तो देव म्हुणोन?' हांवें आग्रेसाच्या सुरा कडेन जुळोवन घेत विचारलें.

' हांव वळखलें! '– तागेले दोळे लिकलिकले.

' मनशापरी? काय आंज्य सो?'

' आंज्य–एंजल हांयेन देखूंक नात. पूण तो– देव. हांव जाणां.' आग्रेसान तोंडार मंद स्मीत खेळयत म्हळें, 'आमचेच भाशेन दिसतालो. फादर आग्रेला भाशेन? आमगेल्या सांकिश्तांवां



भाशेन? तुजे भाशेन? ....ना, तो ताचेच भाशेन. '-

सपनांत पळयिल्ल्या मनशांचे चेरे वळखूंक येतात काय? म्हाका उगडास आसा, १९७८ वर्सा म्हेगेली मांय मेल्ली. दनपारांचेर ती मेली. भयणीन येवन तिका न्हेसोवन बी दवरली. तेच राती ती म्हज्या सपनांत आयिल्ली. तिणें म्हाका सांगिल्लें - 'खंयूय पूर म्हाका. पूण घोवा बगलेक नाका.' ती मांयच हाची म्हाका खातरी नासली. तेन्ना तिचें मुखामळ म्हाका आग्रेसाले मांयचें कशें दिशिल्लें. पूण भयणीन न्हेसयिल्ली तशीच सपनांत आयिल्ल्यान ती मांय म्हूण वळखल्लों हांव. त्या सपनाची खबर सकाळीं भयणीक लेगीत सांगली ना हांवें. तिचे खातीर फोंड खंय मारचो तेंय हांवें कोणाक सांगलें ना. मांयचें मरण जालें. फोंड मारपी त्या पेद्याचें तोंड लेगीत हांवें पळोवंक नासलें. तरी मांय मेल्या उपरांत तिच्या फोंडार माती ओडपी पेदो एक फावट म्हज्या सपनांत आयिल्लो. तो पेदो म्हूण वळखल्लों. पूण ताचें तोंड कशें दिसतालें तें उगडास जाय नासलें. खरो पेदोच दोळ्यां मुखार नासलो मागीर ह्या पेद्याचें तोंड तरी कशें वळखतलों? तो पेदो इतलें कळिल्लें सपनांत.

भुरगेपणा सावन इतलीं सपनां पळयिल्लीं हांवें, पूण देव केन्ना सपनांत आयलो ना. घडये येवन गेलाय आसतलो. म्हजे यादींत उरलो नासूं येता. म्हाका भुरगेपणांत पडिल्ल्या सपनांचो उगडास जायना. उगडासांत उरिल्लें पयलें सपन तें मात आग्रेसाचेंच. सपन पडचे आदले सकाळीं म्हाका जाग आयिल्ली ती आग्रेसाच्या पियानो वादनान. तो दीस सुटयेचो आसलो. म्हाका दिसता तो पुर्तुगालाचो रेपुब्लीक दीस. सुटी आशिल्ल्यान सवकासायेन उठपाचे तयारेनच हांव उसरां न्हिदिल्लों. बइडेंची इश्पिरीत सांताची इगर्ज लागीं म्हणपा इतली बगलेक नासली. सकाळीं फुडें वाजपी घांटीची संवय जाल्ल्यान न्हीद चाळवनासली. पूण त्या दिसा सकाळीं जाग हाडली ती आफ्रिककाराल्या घरांतल्या पियानोच्या सुरांनीं. हेरशीं जाल्यार म्हाका तिडक मारतासली. पूण त्या ओडलायण्या सुरांनी उठटनाच मन प्रसन्न केलें. उठून जनेल उकतें करून पळय जाल्यार फुडल्या घराच्या उकत्या जनेलांत एकचित्त बशिल्लें धाकटुलें आग्रेस पियानोचेर एक आगळीच धून वाजयतालें. त्या तेंपार धा वर्सांचे चलयेन पियानो वाजोवप, तेंय पुराय तयारेन, ही अजापीत करपा सारकी गजाल. जनेलाक फाट करून बशिल्लें आग्रेस तेच राती म्हज्या सपनांत आयिल्लें तेन्ना मात ताचो फुडो आसलो. सपनांतल्या आग्रेसान स्वताची काणी म्हाका सांगिल्ली.

माया म्हयन्यांत तीं मोम्बासांतल्यान गोंयां आयिल्लीं. कायमचीं रावपाक. आफ्रिकेंत आग्रेस खुशालकायेंत वाडिल्लें. बापूय ईस्ट आफ्रिकन रेल्वेंत काम करतालों. ताची ब्रिटीश अधिकाऱ्यां कडेन बरी संवकळ आसली. कामाक रॅक्त आनी इंग्लीश बरी जाणा आशिल्ल्यान ब्रिटीश अधिकारी ताका बराबरच्या वरी वागयताले. पूण तेंच कारण जाल्लें थळाव्या आफ्रिकन लोकांक ताचो राग येवपाक. एके राती मुक्ती खातीर वावुरपी कांय नेशनलिस्टांनी ब्रिटिशां वांगडाच हांच्याय घराचेर फातर शेंवटिले आनी फारपेट्टूय केली. व्हडलेंशें लुकसाण जालें ना. पूण फुडाराची सुलूस लागिल्ल्या बापायन गोंयां गांवघरा परतुपाची तयारी केली. आग्रेसाले मांयक पियानो वाजोवपाचें पिशें आसलें. दिसांतलीं तीन चार वरां तिचीं पियानोचेरच सरतालीं. ब्रिटीश शेजारी लेगीत तिचे वादनकलेची भोव तोखणाय करताले. आग्रेसाक भुरगेपणांतच पियानो वाजोवपाची गोडी लागिल्ली. आवयनूय जेल दिल्लें. आठ णव वर्सांचे पिरायेचेर आग्रेस एटीसीएल ची आठवी ग्रेड उत्तम गुणांनी पास जाल्लें. ताका नोटिंग्स बरोवपाकूय कळटालें. अदीक शिकपाची उमेद आसतनाच तांचें घरा परतुपाचें थारिल्ल्यान त्या पियानो वयल्यान घरांत वादळ निर्माण जाल्लें. पाय म्हणटालो, इतलो जडेलो पियानो बोटीर चडोवन गोंया धाडप खूब म्हारग पडटलो. ते परस हो विकचो आनी गोंयां पावतकच नवो घेवचो. पूण मांयन आगरो धरलो तेय परस पिरायेन धा वर्सांचें आग्रेसूय रडूंक बसलें तेन्ना बापायन बें म्हळें आनी पियानो बोटीर चडयलो. तीन म्हयन्यांनी पावपाचो पियानो पांच म्हयन्यांनी गोंयां पावसर मांय आनी आग्रेस दोगांयलो जीव गोळाक लागिल्लो. पावस सोंपतनाच पियानो घरांत पावलो - तोय सुखरूप, कसलीच म ोडफोड जायनासतनां- हाची खोस उक्तायतना आग्रेसालीं बोटां पियानोच्या कीबोर्डाचेर फिशालकायेन खुशालकायेचे सूर काडीत राविल्लीं.

हें सगलें सपनांतलें. पूण ते पयलीं आग्रेस म्हाका मेळिल्लें. ताची खबर हांवें आयकल्ली. ताच्याच तोंडांतसून आनी लोकां कडल्यानूय. म्हणटकच सपनांत आग्रेसान जें सांगिल्लें तें हांवें आदीं आयकल्लेंच, नवें कांय नासलें. पूण हें पुर्ण खरें न्हय. सपनांत आग्रेसान म्हजे खातीर वाजयिल्लो पियानो वेगळो आसलो. ते सूर नवे आसले. तें गीत-संगीत नवें आसलें- म्हजे खातीर आसलें.

तें म्हज्या उगडासांतलें पयलें सपन. पियानो आनी आग्रेस हांकां वेगळावंक नज अशें सपन. त्या दिसाच्यान आग्रेसाच्या हांव मोगांत पडलों. हय. हांव तेन्ना बारा आनी आग्रेस धा वर्सांचें. पूण मोग जावपाक, मोग करपाक पिराय ही आडमेळें जावं येता व्हय? ते पिरायेचेर हांवूय घडये ताका मोग म्हणचों नासलों. हें सपन पडचे पयलीं आग्रेस म्हाका मेळिल्लें. तांचें घर, ताका लोक

आफ्रिक्ककारालें घर म्हणटाले, बड्डेंच्या आमच्या घरा कुशीकच आसलें. तीं आफ्रिकेच्यान माया म्हयन्यांतच गोंयां पाविल्लीं. पूण तीं पावलीं तेन्ना हांव सुटयेंत व्हडल्या मामागेर काणकोणां गेल्लों आशिल्लों. परतुपाच्या दिसांनींच वादळी वारे आनी उटंगराच्या पावसान करमल घाटा वयले व्हडव्हडले रूख मार्गार आड घाले. आठ दीस हांव आडखळून उरलों. परतो आयलों तेन्ना शेजारचें आफ्रीक्कारालें घर उकतें पळयलें. मांयन मागीर सांगलें तीं सदां खातीर परतल्यांत म्हूण. एक दीस सकाळींच आग्रेसाली किळांच आयकून हांव भायर धांवलों. तागेलीं मांय-पाय मिसाक गेल्लीं आनी हें एकलेंच पोरसांत खेळटालें. थंय दोन बिरमुट्यो भोंवताल्यो. त्यो बगलेक पावल्यो तेन्ना त्यो आपणांक चाबतल्यो हे भिरांतेन बाबडें जावन तें थरथरतालें. तें पळोवन हांव हांसलों तेन्ना तें तिडकलें. उपरांत हांवें 'सॉरी' म्हणिना फुडें राग विसरलें. आफ्रिकेंत तें इंग्लीश माध्यमांत शिकिल्लें. गोंयां हांगा पुर्तुगेज वा इंग्लीश. हांव लॉयलांत शिकतालों. ताच्या बापायन आग्रेसाचें नांव प्रेझेंटेशन कॉन्वेंट लागीं देखून थंय घाल्लें. ताका आंतऱ्या पयऱ्यान डिफिकल्टी आसताल्यो आनी त्यो सोडोवपाक हांव लागीं देखून म्हजेसरीं येतालें. म्हजो खेळपाक वचपाचो वेळ चुकतालो तेन्ना हांव तापतालों- 'पायक विचार मुगो तुगेल्या!' तें जाप दिनासलें. पूण इदें तोंड करून वतालें. पूण त्या ऑक्टोबराचे पांचवेर, हय आजून ती तारीख उगडास आसा, हांवें ताका पियानो वाजयतनां पळयलें आनी तेच राती तें सपनांत आयलें, तेन्नाच्यान ताच्या वांगडा चडांत चड वेळ सारपाक म्हाका आवडपाक लागिल्लें - खेळ चुकोवन लेगीत.

अजाप म्हळ्यार, आग्रेसाच्या तोंडसून हांवें ताचे मांयच्या पियानो वादना विशीं इतलें आयकल्लें, पूण तिका केन्नाच पियानो वाजयतनां हांवें पळोवंक नासली. ते विशीं उपरांत आग्रेसानच सांगलें - सांगलें तें सपनांत काय जागेपणीं तें आतां उगडास जायना - आफ्रिकेच्यान येतना पियानो वयल्यानच मांय-पाय मदीं इतलीं झगडीं जाल्लीं की मांयन थंयचे थंय सोपूत घेतिल्लो- पर्थून केन्नाच पियानोक हात लावचीं ना म्हूण. उपरांत बापायन पियानो कार्गो करून धाडिल्लो. पूण मांय उतराची, हट्टी- ना म्हळ्यार ना. देखून आतां पियानो जाल्लो आग्रेसाचो- एकल्याचो. पूण वाजोवपा पुरतो. मांयन आपणालो मालकी हक्क सोडूंक नासलो. एखादरो सूर सारको लागना अशें दिसलें जाल्यार ती बेगोबेग मेस्त्रीक आफोवन ती की दुरुस्त करताली. एक्क झरकटो पडूंक दिनासली. आपूण वाजयनासली. पूण आग्रेस वाजयतनां बगलेक रावताली. टेप रेकोर्डराचेर पियानो पर्फोमन्सेस वरांचीं वरां आयकताली. आपूण क्लासिकल आयकताली आनी आग्रेसाकूय क्लासिकला भायर प्रयोग करूंक दिनासली. आग्रेसानच सांगिल्लें - एक दीस आग्रेसान गोंयचो मांडो पियानोचेर वाजोवंक घेतलो जाल्यार ती खंय ताणशेली. फुडले तीन दीस आग्रेसाक त्या पियानोक हात लावपाक दिलो ना. तीन दीस आपणांक उपाशीं दवरलें अशा सुरांत आग्रेसान सांगिल्लें.

ओपिनिअन पोल गोंयां आयलो आनी गेलो. हांव तेन्ना कॉलेजीक पाविल्लों आनी आग्रेस इकरावेक. पालकांनी पोल खुबच गंभीरतायेन घेतिल्लो. उदक गळ्या कडेन पाविल्लेवरी लोक धडपडटाले. कॉलेजींतूय फुला-पानांचो संघर्श पाविल्लो. पूण आग्रेसाक तो लागलो ना देखून हांवेंय लावन घेतलो ना. एक दीस गोवा बंद दिसा आग्रेसान म्हाका विचारिल्लें - हय. सपनांतच तें. ताणें विचारलें, 'आमचो मोग शार्तीक पावतलो मुरे? मांय-पाय मानून घेतलीं?' हांव हांसलों, 'आमचो मोग शार्तीक पावोवंक मांय पाय कित्याक जायीं? आनी एक सांगतां - म्हगे मांयपाय मदें इतलीं केस्तांवां जाताय - एक तरी आमचें तेंकां पडून वयचें ना; वो केस्तांवां करपाक आन्येक रझांव मेवतलें.' ताचेर आग्रेसान म्हळें, 'द सेम हिअर. पाय व्हय म्हणीत जाल्यार मांय ना म्हुणटेली. आनी मांयन व्हय म्हुणल्यार पाय ना म्हुणटलो. तेतूंत तूं -' आनी आग्रेस थारलें. हांव अजापलों, 'हांव? हांव कित्याक ना म्हणूं?' आग्रेस घुसपलें. 'तेशें न्हूं रे! तूं चाड्डी न्हूं रे! देखून -' सपनांत लेगीत म्हाका तें विपरीत शें दिशिल्लें. आग्रेस हें बामण आनी तें स्वताक बामण लेखता अशें दिसून म्हाका अजाप जाल्लें. त्या सपनाची अखेर कितें जाल्ली ती याद ना. पूण दुसऱ्या दिसा हांवें ती सपनाची खबर आग्रेसाक सांगली तेन्ना तें अजापलें, जाणाय तूं? फट म्हूण आयक. काल दीसभर हांव तेंच चिततालें - तुका विचारचें वो ना - आतां हांव चिंतूंक पडलों -तुवेन कितें थारायलां? आनी झुप्प करून जाप आयली, हांव तुजे भायर ना. तितल्यार आमी तो विशय थांबयलो. म्हगेलें कॉलेज सोंपून हांव सिर्विसेक लागसर हो विशय आमी 'मॉरॅटोरियमांत' दवरपाचो आनी वेळ येतकच स्पश्ट विचारपाचें, अशें थारायलें. तांची जाप कितेंय आसूं, निमणो निर्णय हो आमचो आसतलो.

पूण निर्णय घेवपाचो वेळ आयलो तेन्ना येवजूंक नाशिल्लेंच घडिल्लें. ते पयलीं, म्हळ्यार म्हगेलें ग्रॅज्युएशन जालें त्याच वर्सा जाकनी बांदार जाल्ल्या भिरांकूळ अपघातांत म्हगेलीं मांय पाय दोगांय सोंपिल्लीं. तांचे वांगडाच तागेलो विरोधूय सोंपिल्लो. मागीर वशिल्यान आनी लाखभर रुपये खावोवन हांवें सीडीसी केली आनी म्हाका पि.एन.ओ. बोटीचेर नोकरी मेळ्ळी. पि.एन.ओ. ही विदेशी कंपनी जाल्ल्यान म्हाका इंटरनेशनल आर्टिकल्स लागताले. पगार भोव बरो आसलो. णव म्हयन्यांची पयली वियाज करून येनाफुडें



आमी थारायिल्ल्या प्रमाण आग्रेसाच्या मांय-पाय लागीं काजाराचो प्रस्ताव दवरलो. येवजिल्लें तश्शें जालें. पायन आडमेळें हाडलेंच. आमची तयारी आशिल्ल्यान आमी आमचो निर्णय तांकां सांगलो. म्हुगे इस्टेटींतुलो पाणदुडू तुका मेवचो ना. उगडास धर. पायन आग्रेसाक निश्ठून सांगलें. आमकां ताची गरजच नासली. मांय वग्गी आसली.

'आमी रोकडींच रेजिस्त सिवील करतलीं.' हांवें स्पश्ट सांगलें.

'मांय, हांव काय पयस वयचीं ना. बगलेकच राबतेलीं न्हू!' आग्रेस उलयता थंय आसा, मांयन फटच करून सांगलें, 'वोस तूं. पूण तुका हिंगाचें कांयच व्हरोंक मेळचें ना.'

' म्हाका कांयच नाका, मांय. फकत हो..' -

' तेंच सांगतां, तुका पियानो व्हरूंक मेळचो ना.' मांयलीं निबर उतरां आयकून आग्रेस शेडावलें.

'पूण मांय, तूं कांय वाजयना. तेचो इबाड जातलो.'

'तेचो हुसको तुका नाकां. तूं थाराय - काजार जायें वो पियानो! हांव कोपोयसांव करचीं ना.'

अजाप म्हळ्यार आग्रेसाचो निर्णय शेळेलो. ते राती केदो वेळ तरी म्हाका न्हीद पडली ना. पडली तेन्ना आग्रेस आयलें. जागेपणीं सांगूंक पावलें ना तें ताणें सपनांत सांगलें. हांवें स्पश्टच विचारलें, 'तुका म्हजे परस त्या पियानोचो मोग चड मुगो?' आग्रेस रडकुरें परतलें. पियानो बगर आपूण कशें राबूं, असो ताचो प्रस्न ो. हांवें म्हळें, 'काजार जातरीच एक परस दोन पियानो ा.' आग्रेस हांसलें. म्हज्यांत खंय ताका ताचो पाय दिश्टी डलो. ताणेंय आफ्रिकेक आसतना मांयक होच जबाब दिल्लो.

निर्शेवन हांव मुंबय गेल्लों आनी सोमतोच बोटीर चडिल्लों. दुसरी वियाज मारून मुंबय देंवलों पूण घरा वच्चें शें दिसलें ना. निर्शेणी शी आयिल्ली. आग्रेसाचो उगडास येतालो. पूण ताणें फटयलो ही भावना फाट सोडिनासली. म्हयन्या भितर तिसरे वियाजीची तयारी केल्ली. वच्चे आदल्या दिसा खबर मेळ्ळी, आग्रेसाचो पाय मेलो. ताका ब्लड कॅन्सर जाल्लो खंय! तेच राती आग्रेस सपनांत आयलें. रडलें बी ना. 'इतलो रागार रे म्हुजेर?' ताणें विचारलें. 'चयलें मुरे, मांय आमचो ब्रेकप करूंक सोदता' हांवें आग्रेसाक आडायलें, 'बाबडे मांयचो गुन्यांव कित्याक करता तूं? तिणेन काजाराक ना म्हुणलें ना. तियेन फकत पियानो व्हरूंक ना म्हणलेलें. त्या पियानोचे आशेन तुवेन म्हाका फाट केली.' आग्रेसान सदचेवरी दोनूय हातांत तोंड लिपयलें आनी रडकुऱ्या सुरांत 'ना, ना, ना' म्हणीत तें भायर धांवलें. म्हाका जाग आयली.

दुसऱ्याच दिसा हांव मडगांवां पावलों. घरा पावलों तेन्ना आमोरी जाल्ली. वर्सभर बंद उरिल्ल्या घराचें दार उगडटनां आवाज जाले बगर रावलो ना. पूण पियानोच्या सुरांक लागून तो आग्रेसाच्या कानांर पावलो ना जावंये. हांवें जनेल उकतें केलें तेन्ना पियानोचे आर्त सूर म्हज्या कानार पडले. हय. आग्रेसच पियानोचेर ते दुखेस्त सूर काडटालें. म्हजें काळीज कळवळ्ळें. तसोच शेजारच्या घरांत गेलों. बेल वाजयली तेन्ना पियानोचें वाजप बंद जालें. थोड्या वेळान दार उगडलें आनी खिणांत आग्रेस म्हज्या गोपांत रिगलें. तुवेन जनेल उकतें केलें तेन्नाच कयळें म्हाका तूं येयलो म्हुणोन. हांव जाणाच आसलें तूं येतलो म्हूण. पूण कितलो वगत लायलो रे तुवेन?

ते राती सपनांत आग्रेसान म्हाका प्रस्न विचारलो- 'तूं म्हाका मेळोंक येयला काय मांयक रे?' आग्रेसाक मांयचो राग आशिल्लो. ताणें स्पश्ट सांगलें तशें. 'तियेकूच लागोन आमी साक्रामेंत जोडूंक पावनात. ती आसोसर ती आमकां बगलेक येवपाक दिवची ना, जाणा जाउ.' कशें जाणा जावन घेवं हांव? तिणें काय आमच्या एकवोटाक विरोध करूंक नासलो. फकत तो पियानो जाय काय काजार इतलेंच तिणें विचारिल्लें. 'इतलेंच?' आग्रेसान खंती जावन विचारिल्लें, 'तो पियानो म्हजो जीव. म्हुज्यान चिंतुंकच नेजो- त्या पियानो बगर हांव!' हांवें खूब सांगून

पळ्यलें– सपनांतूय आनी जागेपणींय. स्टाइनवेस पियानो कंपनीचे हाचे परस नवे आनी बरे मॉडॅल आयल्यात तांतलो एक घेवंया. पूण ना. हांवेंच मागीर मांय कडेन विशय काडलो. तिणें आग्रेसा इतलेच निबरसाणीन सांगलें, 'आग्रेसाक व्हर तूं. पूण हो पियानो म्हुगेलो. तो हिंगाच राबतलो, म्हजे सरीं.'

म्हयनो भर वाट पळोवन हांव निर्शेलों. आतां म्हजो उरला कोण? घरदार विकून हांवें गोंय सोडलें. मुंबय पावलों तेन्ना वियाज चुकिल्ली. पयस वचपाचें थारावन हांव कुवेत गेलों. थंय कोणूय वळखीचो मेळ्ळो म्हण्टकच आग्रेसाचो विशय काडटालो. मागीर हांव युके आनी थंयच्यान अमेरिकेक, न्यू हॅम्पशायरांत पावलों. आतां म्हाका कोण गोंयकार मेळनासले आनी आग्रेसाची खबरूय. आग्रेसाक तकलेंतल्यान काडून उडोवपाचो खूब येत्न केलो. डेटिंग लेगीत केलें. पूण डेटिंग केल्ले खेपेक राती कडेन आग्रेस येतालें. कांयच उलयनासलें. पूण ताच्या दोळ्यांतलें दुख्ख, पैसाव्याची खंत म्हाका कळटाली. मागीर हांव डेट चुकयतालों. न्हीद पडनासली तेन्ना एक एक फावटी हांव बोर्बोन घेवन बसतालों. सोरो चडसर पियेतालों. पूण ताका कशें कळटालें हांव नकळो, दोळो लागनाफडें आग्रेस येतालें, केन्ना केन्ना दोळो लागचे पयलींच. ताच्या दोळ्यांत दोळो घालपाचें धाडस म्हाका जायनासलें. अशीं वर्सां गेलीं. कितलीं? धा–पंदरा व्हॅलेन्टायन डे आयले आनी गेले. देव काकूट करूंक लेगीत म्हज्या सपनांत केन्ना आयलो ना. पूण पिकिल्ले केंस तकली वयर काडून म्हाका कूयकूय करूंक लागले ते राती आग्रेस म्हजे केंस पळोवन खूब हांसलें. फकाणां मारिल्लेवरी. मागीर पळय जाल्यार ताचेंय रूप आदलें उरूंक नासलें. ताच्याय केंसांनी रुपें पिकूंक लागिल्लें.

गोंयां भाशे पासत व्हड आंदोलन जालें आनी कोंकणी राजभास जावन तें सोंपलें म्हणसर १९८७ वर्साच्या मार्चांत आनी फाटोफाट एप्रिलांत मैन, न्यू हॅम्पशायर आनी मासाच्युसेट्स शारांनी आकांताचें स्प्रींग स्टॉर्म आनी स्नो मॅल्ट जावन हुंवार आयले. लोकांचें खूब लुकसाण जालें. हांवूय सप्तक भर अपार्टमेंटांत बंदिस्त उरलों. तेन्नाय देव म्हज्या सपनांत आयलो ना. पूण आग्रेस काळजांत हुसको भरून रात रात म्हज्या सांगाताक रावलें. हुंवाराची उमळ निवळटा आनी लोकजीण थिरावता म्हणसर सप्तकां उलगलीं आनी अचकीत तो दीस उदेलो. गीम सोंपत आयिल्लो. भोंवतणांत प्रसन्नताय पातळटाली. काम सोंपोवन अपार्टमेंटाचेर परततनां एके तरेची हुरहूर जाणवली. आयज राती तें येतलें! सपन पडटलेंच. पूण तातूंत नवें कितें? सपनां तर आंतऱ्या पयऱ्यान पडटातच. ती हुरहूर घेवनच न्हिदूंक गेलों. इलो बेगसारच आड पडलों. कसली ही हुरहूर? खोशेची? काय हुसक्याची? सपन पडपाचें आसा म्हूण अशी ताळणी लागपाची ही पयलीच खेप. दोळे बंद करून आड पडिल्लों. पूण तें दोळ्यां मुखार आयलें ना. सपन विंगेंत रावन न्हीद पडपाची वाट पळयतालें काय? तशेंच आसूंये. न्हीद पडली आनी दार उकतें केल्ल्याची सुलूस लागली. तो भितर सरलो. मात्त आवाज करिनासतना चारूय खुरांचेर चलत आयलो. अजाप म्हळ्यार एकलोच आयलो. ताच्या वांगडा आग्रेस नाशिल्लें. आग्रेसाक सोदपी म्हजी नदर वळखून तो हांसलो, 'ना, आग्रेस येवंक ना. आयज म्हाकाच मेळ तूं.' म्हज्या मनांतलें तो वळखलो हाचें म्हाका अजाप दिसलें ना. कारण सपनांतूय म्हाका खबर आसलें हें सपन म्हूण. मागीर म्हाका जाणवलें – हाचे पयलीं तो केन्नाच येवंक नासलो सपनांत. घरा आसतनां मात हांवें प्रत्येक खेपेक ताका पळयला तो आग्रेसा बराबरच. म्हाका आग्रेसालीं तीं उतरां घट बरीं याद आसात – 'म्हज्यान चिंतुंकच नेजो – त्या पियानो बगर हांव!' पूण मागीर इतलेय खेपो आग्रेस सपनांत येतालें तें मात एकलेंच. पियानोक केन्नाच पळयलो ना हांवें सपनांत. 'तूं चिंतता तें खरें. तुका मानवचें ना म्हूण तें एकलेंच येतालें तुज्या सपनांत'. बरोच मनपारखी मूं हो पियानो! ताका खूब उलोवपाचें आसा म्हूण जाणवलें म्हाका. 'म्हाका जाल्यार ताचो राग येतालो. आनी तुजी नसाय जाताली. आजुनूय जाता. पूण हांव तें विसरूंक सोदतां. देखून आयलां तुका मेळपाक. कोपोयसांव करपाक–'

कोपोयसांव! हें उतर आग्रेसाले मांयलें. हांवें सट्ट करून विचारलें, 'तुका मांयन धाडला?' तो शिटकावलो – काय तशें दिसलें म्हाका? 'तशें समज तुका जाय जाल्यार. पूण म्हजी काणी आयकुशी जाल्यार तुजे खुबशे गैरसमज पयस जावं येतात. सांगूं?'

सपनांतूय म्हाका सांगपाचें आसलें ताका – हें सपन पडलांच तुगेली काणी हांवें आयकुची म्हूण. हांवें ना म्हणल्यार तूं वगी रावतलो?

'स्टाइनवेस पियानो कंपनींत जल्म म्हजो. केनियांत मोम्बासाच्या ब्रिटिश क्लबान म्हाका व्हेल्लो. पूण थोड्याच वर्सां भितर तांकां म्हजी उबगण आयली. ते कोणच म्हजो वापर करिनासले. एक दोन बायलो झेत दाखोवपाक केन्नाय म्हाका वाजयताल्यो. आनी तांचीं भुरगीं म्हज्यो की कश्याकश्यो दामून म्हाका नाकापुरो करतालीं. उपरांत तांणी म्हाका आग्रेसाच्या पायक विकलो. सवाय भितर मेळटा म्हूण पायन घेतिल्लो– एक इन्व्हेस्टमेंट म्हूण. पूण आग्रेसाले मांयन म्हजी बरी अपुर्बाय केली. ती खंय गोंयां आसतना इगर्जेंत पियानो वाजोवपाक शिकिल्ली. तिणें मागीर आग्रेसाकूय कीबोर्ड शिकयलो. त्या तिगांयनी आफ्रिका सोडून गोंयां परतुपाचें

थारायलें तेन्नाचें नाटक आग्रेसान तुका सांगलांच आसतलें. मांयलो आगरो पाय बेपर्वायेन मोडून उडयतासलो. पूण आग्रेसान काडिल्लीं दुकां ताच्यान पळोवं नज जालीं. आग्रेसाक लागून हांव तांच्या घरा पावलों. पूण इतल्या सोपेपणी न्हय. आफ्रिकेच्यान कार्गो बोटीर चडोवचे पयलीं म्हाका घुसमटावन उडोवपा इतलें पॅकिंग घालून पियां फळ्यांचे व्हडले क्रेटींत बंद केल्लो. आफ्रिकेच्यान गोंय खूब्ब पयस अशांतलें न्हय. पूण तेन्ना गोंयां पुर्तुगेजांचें राज आशिल्ल्यान व्हडलो भोंवताडो घालून, हे बोटी वयल्यान ते बोटीर, ह्या बंदरा थावन त्या बंदरांत अशें करीत गोंयां पावतासर पांच म्हयने लागले. तीन म्हयन्यांनी पावपाचों. ज्युस्त तितले भितर इंडियेन मिलिटरीन कारवाय करपाची तयारी केल्ल्यान म्हाका कराची बंदरांत आनी पर्थून मुरगांवां खूब काळ तिश्टुवचें पडलें. हांव घरा पावलों आनी आग्रेस सामकें भुल्लुसून गेलें. एक सारकें म्हाका पोशेतालें, तोखेतालें, चुमतालें. मांयकूय खोशी जाल्ली. पूण ती उतावीळ जावंक नासली. तिका अदमास आसलो जावंये. खूब दीस तोंडाक गुड्डो लागिल्ल्यान आनी वारें बदलिल्ल्यान म्हजो ताळो पडिल्लो. तिणें मेस्त्रीक आफोवन म्हाका सालांत बसयलो. म्हजें आंगान आंग तपासून घेतलें आनी मागीर पयली की– आग्रेसान हट्ट केलो देखून, मेस्त्रीक दामूंक दिनासतना– आग्रेसान दामली. त्या दिसा आग्रेसा वांगडाच म्हजेय खोशेक शीममेर उरली ना. खूब कश्ट



सोंसल्या उपरांत ही खोशी म्हाका मेळिल्ली. तूंच सांग पळोवंया, म्हगेली खोशी वाटून गेल्ली म्हाका कशी मानवतली? आग्रेस तुजो मोग करता तें म्हाका दिश्टी पडटालें. म्हाका तुजी नसाय जाल्ली. तूं तुगेल्या जनेलांत रावन आग्रेस म्हाका वाजयतना आयकतालो. तुका तागेलें वाजोवप कितलें आवडटालें तें पळयतालों हांव. केन्नाय तूं सालांत येतालो, आग्रेसाक वाजयतना पळयतालो, तोखेतालो. पूण ताका– आग्रेसाक. म्हाका केन्नाच तुवें हात लेगीत लायलो ना. तरी आग्रेसाक तूं आवडटा तें पळोवन म्हाका तुजो राग येतालो, दुस्वास दिसतालो.'

फुडें कितें सांगचें तें कळनासले वरी पियानो थंड रावलो. हांवेंच तोंड उगडलें, 'पूण कित्याक? तें तर तुजो खूब मोग करता. इतलो की 'तूं काय हांव' हांचे मदीं ताणें तुकाच वेंचून काडिल्लो.'

ताणें एक व्हड सुसकारो सोडलो. त्या सपनांतूय म्हाका दिसलें– फकत सपनांतच पियानोच्यान सुसकारूं येता. 'तूं चुकता. आग्रेस तुजो कितलो मोग करता तें तुजे आनी ताचेय परस हांव बरो जाणां. काजार जावन वतलें जाल्यार पियानो व्हरूंक मेळचें ना अशें मांयन म्हणलें तेन्ना आग्रेसान काजाराक फाट केली ही गजाल खरी. पूण ताणें तुका फाट करूंक नासली ही गजाल तूं वळखलो ना. बरें, ताणें तशें कित्याक केलें आसतलें हाचोय तुवें विचार केलो ना.'

'तातूंत विचार कसलो करपाचो?'

'तूं जाणा, आफ्रिकेच्यान परततना पायन म्हाका विकून उडोवपाचो विचार केल्लो. मांयल्या हट्टाक लेगीत तो बदलो ना. तेन्ना मांयन सोपूत घेतिल्लो तें तुका खबर आसा न्हय?– आपूण ह्यान फुडें केन्नाच पियानो वाजोवचीं ना म्हूण? तिणें घोवाक दिल्ली ती ख्यास्त आसली आनी आग्रेसान काजाराक फाट केली ती ताणें मांयक दिल्ली ख्यास्त ...'.

'पूण कित्याक तेशें केलें तेणेन? हांवेन तेका सांगललें, नवो पियानो घेवंया म्हूण–' तुजेय परस बरो अशें म्हणल्यार ताका वायट दिसतलें म्हूण मन मारलें हांवें. घडये ताकाय हांव तशें म्हणीत शें दिसलें जावंये, हांव कितेंय उलोवचे पयलींच ताणें म्हणलें, 'तशें कशें जावं येता? मोग तो. तूं तसलीं रझांवां करूं नाका. पंदरा वर्सां जायीत आयलीं तुवें ताका फाट केल्यार. ताच्यान दुसऱ्या लागीं काजार जावं येतालें. तुज्यानूय दुसरी व्हंकल सोदून काजार जावं येतालें. पूण दोगांनीय तशें केलें ना. कित्याक? मोग करतात ते रझांव सोदिनात. आन्येक तुका जाणा जावपाक सांगतां. तूं गेल्याक आग्रेसान एकूय खुशालकायेची, शांतिकायेची धून वाजयली ना. तें घुसमट्टा आनी म्हाकाय घुसम टायता. स्वता अस्वस्थ उरता आनी म्हाकाय अस्वस्थ करता.'

आपणांली अस्वस्थताय उक्तावन तो वगी रावलो. म्हजे कडल्यान भुजवणेचीं दोन उतरां मेळचीं म्हूण काय? थोडी वाट पळोवन तोच उलयलो, 'हांवें थारायलां. हांव तडजोड करतलों. उतर दितां तुका, हांव दुस्वास करचोंना. तुमचे मदीं आडमेळें जावचों ना. तुम च्या सांगातान रावतलों. आग्रेसाक खोशी पळोवंक जाय म्हाका....'

'अशें कित्याक?' म्हज्या मनांतलो गोंदळ लिपोवपाक मनांत आयलें तें उलयलों हांव.

'मोग! ताचो म्हजेर जीव आसा तेय परस चड म्हजो जीव ताचेर आसा. आतां म्हाका एक गजाल होलमल्या– मोग आसता थंय दुस्वासाक थारो नासता. तुमी साक्रामेंत जोडिल्लो म्हाका पळोवंक जाय.'

हांव किण्ण हांसलों– म्हजी पिराय चाळीस जाल्या म्हणपाचें येवजून. 'आतां म्हातारपणांत?'

पियानोन जिद्द सोडली ना. 'पिरायेचो आनी म्हातारपणाचो संबंद ना. आग्रेस हे पिरायेर म्हातारें जावंक ना. तूं जाला?'

हांव चिंतपाक पडलों. काजारी जिविताचें सपन पळोवपाचें हांवें केऽन्ना सोडून दिल्लें. 'पूण आग्रेस– ' म्हजें वाक्य सोंपचे पयलींच ताणें निर्वाणीचें सांगलें, 'यो. तें रावता तुका.'

पियानो गुप्त जालो आनी म्हाका जाग आयली. जाग आयली देखून पियानो गेलो अशें दिसून हांवें दोळे पर्थून धांपले. पूण ना आयलो परतो. पयसुल्ल्यान कानांर पडची तशी मांड्याची एक मंद धून मात हयन्हयशी आयकूंक येत रावली.

दुसऱ्याच दिसा भायर सरून तिसऱ्या दिसा सांजेर हांव गोंयां पावलों. घर आनी खंयचें! हॉटेलार मागीर वच्चें म्हूण पयलीं बड्ड्यां गेलों. आग्रेसाच्या दारांत टॅक्सी थारली आनी कानांर पियानोचे सूर पडले. तेच सूर. मांडो? हय, आग्रेस वाजयतालें. आनी गायतालेंय – काळजा थावन.

पंदरा वर्सां जालीं मोगा, हांव रावलीं देरांतू
कालच म्हजी मांय मेली, म्हाका दवरून घरांतू
पियानो हांव वाजयतलें, तूं राव जनेलारी –
सांजेर पासयेक वचुंया आमी, बसुंया सांकवारी
मोगा यो, मोगा यो तूं यो
म्हज्यान रावुं नेजो, मोगा यो, बेगीं यो –

पियानो म्हाका सपनांत मेळिल्लो तेच सांजेर खंय मांयचें मरण जाल्लें. सपनाची खबर आग्रेसाक सांगली जाल्यार तें दोळे मेटून हांसलें.

पियानोन सपनांत इतलें सगलें सांगलें हाचें तुका अजाप दिसलें ना? हांवेंच अजापून विचारलें.

तशेच दोळे बंद दवरून आग्रेसान जाप दिली. 'म्हज्या काळजांतलो मोग पियानोक कळ्ळो ना जाल्यार कोणाक कळपाचो?'

हांवेंय दोळे धापून घेतले. आग्रेसा बराबर म्हजीय तनरी लागली.

पियानोचे तृप्त धादोशी स्वर कानांर पडले – 'हांव जबर खोशी, तुमी एकठांय आयलीं. आतां म्हजी निमणी इत्सा आसा, आग्रेसान तुजे हाजिरेंत सर्गींचें वादन म्हजे सवें करचें. मागीर हांव मेकळों.

'आरे, पूण तूं म्हणटालो मुरे, तेका निमण्या दिसा मेरेन सांगात दितलों म्हुणोन!'

पूण जाप आयली ना म्हूण पळय जाल्यार – आरेच्च्या! तितले भितर म्हजो दोळो लागलो काय?

तीं काळजाचे खोलायेंतसून आयिल्लीं उतरां फुडें तीस वर्सां म्हज्या उगडासांत कोरांतून उरिल्लीं. हे खबरेक आतां तीस वर्सां सरलीं? तीस? कळ्ळींच ना, पळय. आग्रेसान तो पयलो मांडो वाजयिल्लो तो तीस वर्सां आदीं! काल पयरच कसो आजून कानांत घुमता..... आनी आयज सकाळीं फुडें हें सर्गसुख दिवपी अलौकीक संगीत !

'हांव पियानोचेर वाजयतालें. आनी पळय जाल्यार – फुड्यांत देव!'

देव देवस्पणाचेर म्हजो विस्वास नासलो. पूण आग्रेसालें उतरान उतर म्हाका खरें दिसलें. तो आयकीत राबलो. हांव जबर खोशी जालें. ताच्या चेऱ्या वयले सात्वीक भाव पळयतनाच म्हाका त्या उतरांचो उगडास जालो – पियानोलीं तीं उतरां दसून कशीं उरिल्लीं म्हज्या काळजाक – 'हांव जबर खोशी...' घडये आयज पियानोच उलयला आसूंये आग्रेसाच्या तोंडान.

तो आख्खो आदेस आग्रेस मंत्रायिल्लेवरी चलतालें, भारावल्ले वरी वागतालें. हांवें ताका आडायलें ना. सात्वीक तेजाचें तृप्तीचें वलय म्हाकाय दिपकायतालें. दनपारां जेवणा वेळार आग्रेसान म्हाका सांगलें, 'रांदून दवरलां हांवेन. तूं जेय. हांव मातसो सुशेग घेतां.' हांवें यंत्रावरी तागेलें आयकलें. जेवन घेतलें. ताचे खातीर काडून मेजार दवरलें. आनी भायर सालांत आयलों. आग्रेस पियानोच्या की बोर्डाचेर तकली दवरून बशिल्लें. केन्ना पळोवंक ना अशें बशिल्लें. विपरीत शें दिसलें म्हूण पळय जाल्यार– !...

तेय आवतिकायेंत हांवें पियानोच्या की बोर्डाचेर बोटां भोंवडायलीं. पूण सूर उदेले नात.

■■■





# मोलादीक भेट

केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो अणकाराचो पुरस्कार आनी हेर संस्थांच्या म्हत्वाच्या पुरस्कारांनी सन्मानीत अलका सिनाय असोळडेकार कविता, कथा आनी ललित ह्या साहित्य प्रकारांत सातत्यान लेखन करतात. एक संवेदनशील लेखिका म्हूण तांची वळख थारल्या....



अलका सिनाय असोळडेकार
मो. : 9822981107

"अगो अर्चना आमोरी जाली. दिवली निवळ करून दवरल्या मुगोऽ!"अशें सुमनान म्हळें.

" हय गे वयनी."

" दिवली घेवन येतना तेला बाटली घेवन यो हां!"

अर्चनान रोखडीच दिवली आनी तेला बाटली हाडून सुमना कडेन दिली. सुमन सामकी सुगरण! जेवण बरें रांदताली. ती खरी अन्नपूर्णा आशिल्ली. कोणाक दुखोवप तिच्या मनांत नासतालें . कामांक दवरिल्ल्या अर्चनाक लेगीत भेदभाव करिनासतना वेवस्थीत वागयताली. सुमानाचें मन एकेच गजालीक लागून खंती आशिल्लें. तिच्या लग्नाक पांच– स वर्सां जावन गेल्लीं तरी तिका भुरगें जावंक नाशिल्लें . तिची मांय दुसऱ्या पुता म्हऱ्यांत पुण्यांत रावताली. दुसरो पूत तिचो लग्न जावंक नाशिल्लो. जेन्ना

जेन्ना ती आपल्या व्हडल्या पुतागेर येताली तेन्ना सुमनाक तिचे थोमणे आयकून घेवचे पडटाले. तिणें सदांच म्हणप, 'म्हज्या नशिबांत नातरां आसात काय म्हूण कोण जाणा !' हीं तिचीं सदचीं उतरां कानार पडटकीच सुमन सामकें दुख्खी जातालें.

इतले मजगती तिच्या धाकट्या पुताक सोयरीक आयली.तो एके नामांकीत कंपनीत नोकरेक आशिल्लो. ताका प्रोफेसर चलयेची सोयरीक आयिल्ली. चली कितलीय शिकिल्ली सवरिल्ली आसूं, चली पळोवपाचो कार्यक्रम हो कोणाक चुकना. ती सगळ्यांक आवडली आनी चलयेच्या घरच्यांक पसंदी कळयली. साकरपुडो केलो आणि रोखडीच म्हयन्या भितर लग्नाची तारीख थारायली. लग्नय व्हडा दबाज्यान जालें. धाकटी सून नोकरी करपी म्हूण मांय उमेदीन आशिल्ली आनी आपल्या चल्याल्या संवसाराक हातभार लागतलो हाचीय तिका लक्तुबाय जाली. तांच्या लग्नाक दोन वर्सां जावन गेल्लीं तरी हेय सुने कडल्यान बरी खबर आयकूंक मेळना म्हूण मांयचें मन खंती जातालें. पूण ती नोकरी करपी म्हूण ओग्गी रावन तिची अपुरबाय करताली.

सदचे वरी कांय दिसां खातीर आवय व्हडल्या पुतागेर रावपाक आयली. घरा पावता म्हणसर सांजवेळ जाल्ली. चलो आपल्या ऑफिसांतली फायल घरा कडेन हाडून कामांत गुल्ल आशिल्लो. घरकाम करपी अर्चना आयदनां पुसून वेवस्थीत लायतालें. गॅसाचेर पिवपा खातीर उदक तापोवपाक दवरिल्लें. घरांतलें वातावरण सामकें शांत आशिल्लें. आवयन विचारलें ''सुमन खंय गेलां?''

''हांगा लागींच शेजान्नीगेर गेलां. येवपाचो वेळ जाला.'' अशें म्हणून पूत परतो आपल्या कामांक लागलो .

दर खेपों आयिल्ले फावटी ताचे आवयच्या उतरांचो ताचे बायलेक त्रास आनी मनस्ताप जातालो. ते खातीर ताका आवयची तिडक मारूंक लागिल्ली. ते खातीर तो तिचे कडेन चड उलोवपाचे भानगडींत पडनाशिल्लो.आवयकूय दिसपाक लागिल्लें, आपले वागणुकेचो हांकां वीट आयला आसतलो म्हूण कांयच अदीक उलयनासतना ती भितर गेली. तिणें तोंडार उदक मारलें आनी रांदचे कुडींत कदेलाचेर वचून बसली. अर्चनान तिका फोण्ण मारिल्ले फोव आनी दाट्ट च्या करून दिली. ते खावन जातकीच ती टीव्ही पळोवंक बसली.

इतल्यांत सुमन घरांत भितर सरलें.अचकीत मांयक पळोवन तें अजापीत जाल्लें तरी मांयक ताणें कांयच जाणोवन दिवंक ना. तें निट्ट वचून बाज्रेर आडवें पडलें आनी थंयच आशिल्ले बावलेक घेवन अपुराबाय करूंक लागलें. ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हावंक लागिल्लीं. मांय ताचे कुडींत आयली. सुमन रडटा तें पळोवन मांयन म्हळें, ''हांव तुका कितेंय म्हणन म्हूण तूं पयलींच रडूंक लागलें !!!''

तशें ' ना आई!' अशें म्हणून तें आनीकूय व्हडल्यान रडूंक लागलें . ताचो रडपाचो आवाज आयकून घोव थंय आयलो. ताणें सुमनान कुशीक दवरिल्ली फायल उक्ती करून पळयली. ताचो रिपोर्ट पॉजिटिव्ह आशिल्लो. घोव सुमना म्हऱ्यांत गेलो आनी ताणें म्हळें, ''अगो, ही बरी खबर दिवचे पयलींच तूं रडूंक लागलें?''

आयकून मांय बेगबेगीन पुता म्हऱ्यांत गेली.

''अरे, तूं हांगा हांसता आनी ती तेवटेन खोळसांनी रडटा. कितें जालां तें कांयच कळना. हांव हांगा बेश्टींच आयलीं शें दिसता. फाल्यांच हांव परतीं वतां.''

पुतान म्हळें,'' अगे आई, तूं खंय वता. इतले वर्सांची इत्सा तुजी पुराय जाली.''

'' कसली रे बाबा?''

'' अगे तूं आजी जावपाची आसा.''

पुताच्या तोंडांतल्यान अशें आयकतकीच ती सुने म्हऱ्यांत गेली.तिणें तिच्या माथ्या वयल्यान अपुरबायेन हात भोंवडयलो. तशें सुमन शांत जालें. इतले दीस घरच्या मनशांचे थोमणें आयकून ते मनान सामकें खचून गेल्लें. आतां सुमनाच्या जिविताक नवी आंकरी आयिल्ली. मांयन म्हळें, ''म्हजेंच चुकलें. हांव तुजे कडेन वायट वागलीं. आतां तूं कांयच मनाक लावन घेवं नाका. भुरग्याचेर वायट परिणाम जातलो!''

सुमनाक तिचीं उतरां आयकून बरें दिसलें. तें सडसडीत उठलें आनी ताणें मांयचे आवडीचें



वायंग्याचें भर्त आनी रोटयो करूंक घेतल्यो.

हरशीं सुमन फांतोड जाली काय ना जागें जावन कूस परतीत रावतालें. आतां ताका जायते तेंपान सुशेगाद न्हीद लागताली. अशेच दीस उलगले आनी सुमनान एका गुटगुटीत चल्याक जल्म दिलो. बाळटेराची ही ताची पयलीच खेप जाल्ल्यान तें आवयगेर आयिल्लें. तीन म्हयने पुराय करून तें म गीर आपल्या घरा आयिल्लें. पुताची धांदळ जावची न्हय म्हूण पुताक रांदून वाडपा खातीर आवय हांगाच येवन राविल्ली. आवय हांगा आसा म्हूण धाकटो पूत आपले बायलेक,राधाक घेवन आवय म्हऱ्यांत आयलो. आवयन तांकांय अपुरबायेन येवकार दिल्लो. पूण राधान मात नाक किमसून भुरग्याच्या तोंडार लेगीत नदर घाली ना.. सुमनाक ताचें मात लेगीत वायट दिसूंक ना. कांय दीस रावन वतलीं हें तें जाणा आशिल्लें.

दीस वता तसो चलो व्हड जालो. बालवाडेक वचपाक लागलो. ताचीं लुबडीं उतरां आयकून दीस कसो पासार जातालो हें सुमनाक कळऽ लेगीत नाशिल्लें. हाचे मजगती ताका आनीक एक खेप दीस गेले आनी सुमन चलयेचें सपन पळोवंक लागलें.

पुतान आवयक ही खोशयेची गजाल सांगली. पूण तिणें तितलेंशें काना मनार घेतलें ना. धाकट्या पुतागेर भुरगीं नात हाचेंच तिका वायट दिसतालें .

दरवर्सा मे म्हयन्यांत मांय गोंयांत येतालीच. हे फावटी ती वांगडा धाकटे सुनेकूय घेवन आयिल्ली. सुमनाच्या चल्यान काकी म्हूण तिका वेंग मारली. पूण ताका तिणें वेंगेंत घेतलो ना, वा माथ्या वयल्यान हात लेगीत भोंवडायलो ना. उपरांत सगळीं एकठांय बसून च्या बी पिलीं आनी आपापल्या कामाक गेलीं. राधा तेर्रासाचेर वचून सूर्य अस्ताक वता तें पळयत रावलें. इतल्यांत आपल्या हातांत जपमाळ घेवन मांय थंय पावली. तेन्ना राधा रडटा म्हणपाचें तिचे नदरेक पडलें. मांय ताचे म्हऱ्यांत गेली. ताचें रडप पळोवन तिणें ताका घट्ट वेंगेंत घेतलें.

''रडलें म्हूण काम जाता! मनशान आसा तातूंत सुखी रावंक शिकूंक जाय. तुजें कितें वय जालां ? कांय जाणांक भुरगीं जावपाक कळाव लागता. ते खातीर धीर सोडूंक जायना.''

पूण राधाक एका दोतोरान सांगिल्लें,ताका भुरगीं जावपाचे चान्स साप्प उणें आसात म्हूण! हें जर मांयक आपणें सांगत जाल्यार मनांतल्या मनांत आपल्याक दोश दितली म्हणपाचो ताका मनांत

भंय दिसूंक लागलो. आनी दुसरें कारण म्हणल्यार राधाक सुमना मुखार उणेंपण दिसूंक लागिल्लें. तें अस्तमपी सुर्या कडेन पळयत चिंतूक पडिल्लें. ताका मनांतल्यान दिसूंक लागलें, पयसो म्हळ्यार सगळेंच न्हय. पयशां परस आपलें भुरगें म्हणल्यार व्हडली संपत. म्हजे परस सुमन कितलें गिरेस्त! नासूं मागीर ताचे लागीं आपले सारकी संपत्त!

एक दीस राधान उलयतां उलयतां सहज सुमनाक म्हळेंय बी, 'खरें पळोवंक गेल्यार तूच गिरेस्त सुमन!'

त्या उतराक सुमनान म्हळें, '' अशें कित्याक म्हणटा गो! देव तुकाय भुरगीं दितलो. आतां म्हाकाच पळय, खूब वर्सांनी काय जायना भुरगीं दिली न्हय म्हाका!'' तेन्ना राधान कांचवेतशें ताका आपल्याक भुरगीं जावपाचे चान्सीस उणें आसात म्हूण दोतोरान सांगलां म्हणपाचें सांगलें. आयकून सुमनान ताका धीर दीत म्हळें, ''भिवपाची गरज ना गो. हाचेर उपाय सोदून काडूं येता न्हय!''.

सुमनाचीं तीं उतरां आयकून राधाच्या जिवाक सूऽऽ जालें. आपूण गरजे भायर सुमना कडेन आकस धरून रावलें अशें ताका दिसलें.

दीस सरताले. मांया म्हयन्याची सुटी सोंपली. मांय आनी राधा परतीं आपल्या घरा गेलीं. सुमन राधाचे मनस्थिती विशीं विचार करत रावलें. सुमनाक कोणूय दुख्खी जाल्लें पळयल्यार मन खंती जातालें. राधाक तर ताणें आपली भयण मानिल्ली. देखून ताका कशेय भाशेन खोशी दवरपाचो उपाय तें सोदून काडपाक लागलें. अशेच कांय म्हयने गेले. सुमनाच्या मनांत तिसऱ्या भुरग्याक जल्म दिवपाचो विचार आयलो. ताचीं पयलीं दोनूय ऑपेरेशनां जाल्लीं . दोतोरान तिसऱ्या ऑपेरेशनाक न्हयकार दिलो. तिसरें ऑपेरेशन केल्यार ताच्या जिवाक धोको आशिल्लो. दोतोरान तिसऱ्या भुरग्याचो विचार मनांतल्यान काडून उडोवपाचो सल्लो ताका दिलो . पूण सुमनान आपूण तिसऱ्या अपत्त्याक जल्म दितलें अशें दोतोराक ठामपणान सांगलें आनी तिसऱ्या भुरग्याक जल्माक घालपाचो निर्णय घेतलो.

दीस सरले. दिवाळी चार म्हयन्यांचेर पाविल्ली. सुमनान घोवाक म्हळें, ''हे फावटी आमीं दिवाळी मंयगेर वचून मनोवया. खूब तेंप जालो गांवांत वचपाची संद मेळूंक ना आमकां!''

अशें म्हणटकीच घोवान रोकडीच पुण्याक वचपाची तयारी दाखयली. रेल्वेची तिकिट बुक केली आनी थारायिल्ल्या दिसा पुण्याक वचपाक भायर सरलीं आनी मांयच्या म्हऱ्यांत पावलीं. राधान दार उक्तें केलें. ताका पळयतकीच सुमन सामकें तटाकलें. ताका कांयच येवजना जालें. उदक पडनासून सुकिल्ले वाली वरी ताची गत जाल्ली. तें चिंतनांनी घुस्पलां आनी ताचे तरंग ताच्या मनपटलाचेर येवन आपटतात अशें ताच्या मुखामळाचेर दिसून येतालें. तें मेजकीच उतरां उलोवंक लागिल्लें.

सुमनान ताच्या भुजार हात दवरून म्हळें, ''अशें खचून गेल्यार कशें जातलें? फाल्यां तूं हांतूणार पडलें जाल्यार तुका पळोवपी कोण ना, हें मात तूं जाणा जा.''

सुमनान अशें म्हणटकीच राधान सुमनाक घट्ट वेंग मारली. सुमनान म्हळें,'' तूं अशें खचून वचूं नाका. तुजो प्रस्न हांव सुटावो करतां.''

राधान म्हळें, '' तें कशें शक्य आसा ?''

'' हांव तिसऱ्या भुरग्याक जल्म दितलें. चली जावं चलो, तुजे होटयेंत घालतलें. ही तुका व्हडले भयणी कडल्यान भेट अशें समज.

राधान म्हळें,'' तिसरें ऑपेरेशन करपाक मेळना. आवयचो जीव धोक्यात वचूंक शकता.''

सुमनान म्हळें, '' हांव बेस बरें जाणा. हांवें दोतोराक सांगलां तिसरें भुरगें हांव जल्माक घालतलेंच म्हूण!

थारायिल्ल्या प्रमाण तिसरे फावटी ताका दीस गेले. ताची भलायकी बरी उरना जाली. परतो परतो जोर येवंक लागिल्लो. दोतोरान न्हिदून रावपाचो सल्लो दिलो. हिमोग्लोबीन देंवपाक लागलें. दोतोराल्या सल्ल्या प्रमाण वखदां घेतलीं. व्हडा कश्टान ताणें तिसऱ्या भुरग्याक जल्म दिलो . सुमार तीन म्हयने दूद दिवन ताका राधाचे सुवादीन केलो. हीच आशिल्ली सुमनाची राधाक मोलादीक भेट. ताचें गिरेस्त मन पळोवन मांयच्या दोळ्यांतल्यान दुकां आयलीं. पूण तिणें घरच्यांक जाणोवन दिलें ना.

■■■

# नरकासुरा रे नरकासुरा

केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कारान सन्मानीत तुकाराम शेट हे अष्टतासी साहित्यकार. बालसाहित्य,कविता, ललित, कादंबरी ह्या सारख्या सगळ्या साहित्यमळार तांणी आपले सर्जनशीलतायेची कुरू रेखल्या. खास करून ते भुरग्यांचे कलात्मक वाडीडेर भर दितात. ते पासत बाल निकेतन चलयतात...



तुकाराम रामा शेट
मो. : 7588446660

दिवाळेचे दीस लागी पावल्ले. बोंडये वाड्यार दोन सुवातीर नरकासूर करपाची तयारी चलताली. धाकटो विनय तांचे शाळे कडच्या नरकासुरा कडेन आमोरेर वतालो. तो थंय चडसो पळयतालो. केन्नाय व्हडल्या भुरग्यांच्या कामांत हातबोट घालतालो तितलेंच! तो नरकासूर बरोच उंच आनी व्हडलो आसलो. सजोवपाचें काम ताका करपाक मेळऽ नासलें. तो खंती जावन घरा परतलो.

आजोबान ताका विचारलें, ''किदें जालें? आयज तूं बेगीनसो आयलो?''

'' म्हाका थंय नरकासुराचें काम करपाक मळना, हात पावना.''

''तशें जाल्यार तूं घरा कडेन ल्हान नरकासूर कर, शेजारच्या ल्हान भुरग्यांक वांगडा घे''.

''म्हजो पप्पा रागार जातलो.''





''जावचो ना, हांव सांगतां ताका. नरकासूर करप म्हणजे नरकासूर आपणें जावप न्हय. नरकासूर करप, ताची प्रतिमा करप ती कलाकृती... निर्मिती... भुरगेपणांतली खोशी.

तुकां हांव म्हज्या भुरगेपणांतल्यो कांय गजाली सांगतलों. ते पयलीं हांव तुजीच गजाल सांगतां. चार वर्सां पयलींची. तुज्या भुरगेपणाची.

तूं तेन्ना ल्हान. चार वर्सांचो. दिवाळेच्या दोन दीस आदीं तुका स्वताचो नरकासूर जाय जालो. आमच्या वाड्यार दोन तीन नरकासूर. पूण तुवें बाळहट्ट सोडलो ना. मागीर तुजे दिदीन... सुमनान ल्हान नरकासूर करपाक मजत केली. तो तयार जातकच तूं खोशयेन हांसपाक लागलो. हो... हो.. करून! तुज्या नरकासुराक पळोवपाक तेन्ना शेजारचे रवी, मुन्नी आयिल्ले.

पळय, तांचें नांव घेता थंय हाजीर.... सरदार कशे....

रवी, मुन्नी फुड्यांत येवन आयकत रावले. ते दिवाळेचे राती वांगडा रावले, तुमकां याद नासत. पळयात, तेवूय कशे हांसतात मस्ते कशे! ''

सुमन दिदी थंय येवन सांगपाक लागली,''तुज्या त्या नरकासुराक हांवें म्हज्यो फोली, रंग, बेंगडी बीन वापरल्यो.''

आजो फुडें सांगपाक लागलो.

''तुवें ते आमोरेर तुजो नरकासूर गेटीर दवरलो. मागीर तूं वाड्या वयल्या नरकासुरांक पळोवंक गेलो. आयल्या उपरांत तुका पुरो जालें, तुका न्हिद येवपाक लागली. तुवें सांगलें, आपूण फांतोडेर उठ्ठलों.

फांतोडेर आमी उठले. तुका उठयल्यार तूं उठना. आमी भायर येवन पळयल्यार गेटी कडचो नरकासूर ना. तेच वेळार वाड्या वयलो नरकासूर लासताले. आमी समजले, तुजो नरकासूर कोणे व्हेलो आनी लासलो म्हणून!

दुसरे दीस तूं उठून भायर येवन नरकासुराक सोदपाक लागलो. तो ना. ताका कोणें तरी लासलो हें कळटकूच तूं व्हडल्या व्हडल्यान रडपाक लागलो. म्हणपाक लागलो, 'म्हजो नरकासूर दी, हांवें ताका काय बरो रंगयल्लो! न्हेसयल्लो! होवाळे लायल्ले!' तूं बरोच वगत रडलो.''

आज्यान फुडें सांगलें, ''ताणें आनी दिदीन केल्लो तो नरकासूर ताचो आसलो. ताचे कडेन

तुजे भावनीक संबंद जोडलेले. तो तुका खोशी करपी, आनंद दिवपी आसलो.''

तें आयकून विनय आपल्या इश्टांक पळोवन मुमुरख्यांनी हांसलो.

आजो सांगपाक लागलो,– ''हांव म्हज्या आदल्या गांवांत... म्हज्या सोनाळ गांवांत... म्हज्या भुरगेपणाच्या गांवांत रावतालों. म्हाका शशी म्हण अख्खो गांव वळखतालो. तेंय म्हजे करामतीन. शशीच्यो करामती. फुडें आयकात.

हांऽ येते दिवाळेक दोन दीस उरल्यात. तुमी फाल्यां सावन फोली, पुट्टे, तण, सूंब बीन हाडात आनी नरकासूर करात. तुमचे कडेन जाता तसो ल्हान तुमीच करात.''

''सांग शशी आज्या.'' रवीन म्हणलें.

''आंऽ हांव सादारण तुमचेच येदो. मात्सो व्हडलो जायत. हां, तर शशी हुशार! शाळेंत शिकपाक, गांवार हेडपाक, खेळपाक, मस्ती करपाक.

दिवाळे आदले दीस, हांव म्हज्या दोन इश्टांक घेवन शेतांत गेलों. थंय हांगा थंय पडलेलें तण एकठांय केलें. हरीन आनी आपुल्यान तण शाळे कडच्या मळार हाडलें. तेच सांजवेळा हांवें घरचे म ानीकोंडे आनी सूंब हाडलें. मोठ्या कोंड्याक कोंडो बांदून नरकासुराचो फाटीकणो, हात, पांय केले. सांपळो तयार जालो. मागीर तण रेवाडून छाती, पोट, हात पांय केले. पुठ्ठो कातरीन कापून ताचेर तोंड, नाक, मोठे मोठे दोळे, मिशयो चितारल्यो. तें म्होंवाळें वयर तकलेक बांदलें. रंगीत फोली कापून न्हेसण कश्यो न्हेसयल्यो आनी खळीन दसयल्यो. पुठ्ठो कापून तलवार केली आनी ती चांदिच्या रंगाचे बेगडीन कवळ्ळी. ती उजव्या हातांत दिली. काळी ढाल दाव्या हातांत दिली. हें सगळें करपाक आमच्या वांगडा हरी, आपुलो, सुभाष अशे खूब जाण आसले. काम नेटान चलतालें. सादारण आमच्या उंचायेचो नरकासूर दिसतालो. दुसरे दीस दिवाळी आसली. आमोरे मेरेन नरकासूर पुर्ण जावंक जाय आसलो.

नरकासुराचें तण मदीं विस्कळ जाल्लें. तें घट करपाक जाय आसलें. तुमचें सुमनदिदी कशें... तशें आमच्या लतादिदी कडेन रिबीनी मागल्यो. ताणें वेगवेगळ्या रंगाच्यो आनी चकचकीत रिबीनी हाडून दिल्यो. त्यो जाय तश्यो कापून दंडाक, पांयाक बांदल्यो. तातूंन तो घट जालो आनी सोबलो. तणाचो बावलो झेतान उबो जालो. आमकांय उमेद जाली. ल्हान भुरग्यांनी कुलाट्यो मारल्यो.

वाड्या वयलीं भुरगीं आमोरेरच नरकासुराक पळोवपाक जमलीं. काळोख जाता तसो शेजारच्या भाईन आपलो पेट्रोलमास पेटोवन हाडलो. तो नरकासुराच्या मुखार दवरलो. तेन्ना गांवांत वीज येवंक नासली, पेट्रोलमासाच्या उजवाडान नरकासुराच्यो बेगडी, फोली, म्होवाळें चकचकपाक लागलें.

रातच्या णवांक देवळा कडेन किर्तन चालू जालें. कांय भुरगे किर्तनाक गेले आनी चडशे नरकासुरा कडेन रावले. सादारण देड वरान किर्तन सोंपलें आनी देवळाच्यो घांटी वाजल्यो. टण.. टण... टण.... घण...घण...घण....

वाड्या वयले भुरगे,तरणाटे,काय जाण्टे नरकासुरा कडेन जमले. कांय भुरग्यांनी नरकासुराक उखल्लो आनी नाचोवपाक लागले,– नरकासुरा रे नरकासुरा ... भुरग्यांक जायते रंग भरा.... नरकासुरा रे नरकासुरा ... जाय जाय ती मजा करा ....

नरकासुराक लागच्या मार्गार भोंवडायलो आनी नाचयलो. सादारण अर्द वरान भुरगे दमले. रातचीं इकरा वरां जालीं तशीं नरकासुराक कुशीक व्हरून उजो पेटयलो. कोणें तरी फोगोट्योय पेटयल्यो. नरकासुराचें तण फट करून जळून गेलें. भुरगीं घरा परतलीं.

दुसरे दीस फातोडीर भुरगीं उठलीं. ताणी दिवे लायले, काट्टांच्यो पणत्यो, मातयेच्यो पणत्यो आपल्या घरांत आनी फांतोडेच्या काळखांत उजवाड केलो.''

शशीआज्याचें सोंपता सोपता विनयान गायत म्हणलें –

दिव्यांची दिवाळी
काळखाक धुकळी
नरकासुराक ढिशांऽव....
फोव आमी खांव....

■■■




गोंय विद्यापीठांत अतिथी प्राध्यापक म्हूण वावुरपी मिलिंद म्हामल इंदिरा गांधी मुक्त विद्यापीठ, पिलार गोवा अध्यापन केंद्राचे समन्वयक जावन आसात. तांचे कथासंग्रह, नाटकां,चरित्रां,इतिहास,ग्रंथसुची,दस्तऐवज संकलन अशीं साबार पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. तांकां साबार पुरस्कारूय लाबल्यात...



मिलिंद म्हामल
मो. : 9822580789

दि दर्यार भरतेचो वेळ आसल्या कारणान भरपूर माडवळे मेळटले आनी रुचीन जेवपाक मेळटलां म्हूण भर दोनपारच्या दोनाकच पोती घेवन मी आनी गोपी दर्यार वचपाक भायर सरलंव. माडवळे म्हणजे त्रिकोणी आकाराचे आनी फकत दीड दोन सेंटीमिटर लांबयेचे तिसऱ्यां भाशेन फकत भरतेच्या वेळारच दर्याचे रेंवेंत मेळपी मास आसलले शिपये. इंग्लीशींत त्याका कोक्युना शेल्स असां काय तरी म्हुणटत. पूण आमी त्याका माडवळेच म्हुणटंव.

''कित्याक इतक्या बेगीन कडाचे वयतात दर्यार? निबार खर आसा, तापांक जातालां, आनीक एक दोन वरांनी गेल्यार बरां जातालां!''

आईक माजी काळजी, पूण आनीक दोन वरांनी भायर सरपाचां म्हुटल्यार भरती मेळपाक मुस्कील. माडवळे सोदतलंय जाल्यार दर्याक भरतीच जायी. आयज आयतार आसल्या कारणान घराच आसलंय, त्या खातीर मांतसो उशीर





केल्यार माडवळे मेळपाचे नसले. आनी निबार कितक्यांय खर आसलां तरी दर्यार एकदा पावतकत वारो आनी दर्याचां पाणी आंगार पडतकत कसलां निबार लागता? माडवळ्याची सुकी कडी आसतकत शिताचे गोटे मातशें जास्तीस खपतत. आई मगेर एक माप जास्तीच तांदूळ घालता. त्याकाच लागान ही सगली खटपट.

भरती काय सदींच आयतारा तिनसांजची येयना. आनी आतां आमी कामाचे माणूस आसल्या कारणान आयतार सोडूनआनीक दुसरो वेळ ना. ते खातीर आयतार आसलो काय खंयच्याय टायमार भरतेच्या वेळार दर्यार वचान आमी माडवळे हाडूं. आमी म्हुटल्यार मी आनी गोपी. गोपी नसल्यार मी एकटोच. आनी कोणाकच तेचो घोस्त ना. ना म्हुटल्यार आमी आतां धा वर्सा दर्यार माडवळे काडूंक वयतंव. दर्याक क्याँवा भरती येता आनी माडवळे खंयच्या टायमार आमी खंय मेळटत ह्यां आमकां सारक्या खबर आसा. खंयच्याय टायमार गेलंव म्हूण माडवळे मेळनत ना. दर दिसा बावन मिनटाच्या फरकान भरतेची वेळ बदलता. अमास आनी पुनयेची भरती सदींच सकाळच्या आनी सांजच्या सातांक चडता. अमाशेक आनीक पाच दीस आसत म्हुटल्यार आयज दोनांक–अडजांक भरती चडांकच जायी. त्या एक दोन वरांकच माडवळे मेळटत. भरती सामकी वयर चडांक जायी.

फूल भरतेच्या दोन मीटर सकयल्या पट्ट्यान माडवळे मेळटत. भरपूर आसले तर आपूणच वयर येतत आनी रोखडेच परत दर्याचे रेवेंत पुरावतत. माडवळे काडटाल्याक तेंचे धोली खबर जाये. वगीच कोणांयक तशे ते मेळपाक खूब कठीण. माडवळ्यांचे ते बारीक ढोली त्याच टायमार वलसर रेवेंत बघूक जाये आनी त्याच टायमार काडूंक जाये. वगीच कोणांयक ते तशे दिसचे ना आनी पायांतळा आसले तरी कळचे ना. ते खातीर आमचे बरोबर चुकारे जे कोण येतत त्यांका आमचे बक्षी चार पटीनी ते कमीच मेळटत. खंयच दिसानत मरे म्हूण ते काडपाचेच ते सोडून दितत. माडवळे काडप म्हुटल्यार खांवपाचां काम न्हू. त्याका भरपूर मेहनत आनी पाशियेंत लागता. वगीच कोणयक तशे ते मेळचे ना, आनी ज्याका तेची रुच कळाना तो तर ते काडूंक वयचोच ना.

आमचे थोरले काकीक माडवळ्यांची खूप रुच आसली. मानीच्या बेळांची चाळण घेंवन ती क्याँवाय तरी माडवळे काडूंक वचा. धा अकरा वर्साचो आसताना एकदा माका तेणी दर्यार बरोबर हेल्लो आनी माडवळे काडपाक शिकयल्ले. त्या वगतार तर खूपच माडवळे मेळत. दर्याच्या पाणयांतली माती खरवडून ती आपल्या चाळणींत घाली आनी माडवळे साफ करी. काकीक बगतां बगतां मीय माडवळे काडूंक लागलंय. ल्हानपणांत दर्यार कोणय वयता असां कळ्ळां काय मगेर तेचीच कास धरून दर्यार वचय. मगेर मगेर एकटोच वचांक लागलंय. बरोबरच्या गोपीकय माडवळे आवडत. तेचे वांगडा तर दर आठ दिसानी दर्याचेर फावट आसलीच. पयलीं पयलीं खंयच्याय टायमार गेलो काय कायच मेळांना जालां. पूण ते उपरांत दर्याची भाशा कळपाक लागली.

दर्यार पावल्यार जितो मूस ना. फकत आमी दोगच माडवळे काडपी. तीस वर्सां पयलींची ही गजाल. आमचो मांद्रेचो बीच ते वेळार व्हर्जीन बीच आसलो. चुकारे कोणतरी एक दोन हिप्पी दिसत. त्यांच्या खाणा जेवणाची त्या वगतार कसलीच सोय नसली. कोणय दर्यार गेलो तर रापणींक, खारां पाणी न्हावक, ना तर माडवळे, घुलो, बारने, आनी बामुड्डे काडपाक. ना तर आतांचे भाशेन वगीच दर्यार वचपाक कोणांक कसलीच खाज नसली. दर्यार फकत रापणकारांचीं दोन मोठ्ठी व्हडी, आनी चार धाकटे व्हडये. रेंवेंत दिसत ती रापणींचीं जाळीं, सुकत उडयल्लीं. रापणकारय सगले वळखीचे. ते कशे काय रापण मारतत ह्यांचा आमकां अप्रुप जाल्यार एद्याशा माडवळ्यांक हे कित्याक इतके तळमळतत ह्याचां त्यांका कौतूक.

आईन सांगलाला. निबार खर आसा. खरांच निबार खरच आसलां. रेंव सामकी तापलली. त्या तापलाल्या रेंवेंतल्यान पाणया देगेक पावलंव त्यांवा वांयश्शी थंडाय दिसली. भरती निकतीच चडा आसली. हळू हळू माडवळ्यांचे धोली दिसपाक लागले. पाणयाचां ल्हार वयर नेटांन येय तशे रेंवेंत लिपलले माडवळे हळू हळू वयर चडत आनी परतून रेंवेंत लिपत. त्या एक दोन सेकंदाकच त्यांका बघले तरच ते मेळत. मगे त्याच जाग्यार बॉट घालून आमी ते काडूं. भरतेचां पाणी फसफसून वयर येंवक लागलां तशें ते उमथान पडांक पडत.

''खूब मरे माडवळे!'' – एकाच जाग्यार खूब माडवळे बघून गोपी खूश जालो.

''सारके टायमार पावलंव. जाय तशी भरती मेळ्ळी. वांयस्सो वगत काडललो जाल्यार कायच मेळाचां नसलां!''

''घुलो आनी बामुड्डेय पडल्यात मरे!''

माडवळे सोदताना मदीं मदीं मासाचे घुलोय मेळत. ते काडप सामके सोपे. ज्या जाग्यार लिपत थंय काळां काळांच जाय. वयर सरले तर खूप वेळ तशेच रवत. बामुड्डे म्हणजे

दर्यार मेळपी रंगाचे धाकटे कुरले. त्यांका मोठीशी चव नसली तरी खूप मेळ्ळे तर बरी कडी जाय. माडवळे काडटां काडटां घुलो आनी बामुड्डेय धरले. बामुड्डे काडपाक धोंपार भर पाणयांत वचाचां पडा. मगेर माडवळे काडपाचे चुकत. एक मोठ्ठो बामुड्डो दिसलो. तेचे फाटल्यान गेलंय. धरताना मेल्यान आखाण्याकच घास मारलो, कसोच सोडीना त्यांवा गोपीक म्हुटलां,

''गोपी मांतसो ये. बामुड्ड्यान धरल्यान.''

बामुड्ड्याक हात घालताना मूठ आवळून धरूंक जायी, ना जाल्यार क्यांवा चांवतलो तां कळचांच ना.

''बरोच मोठो आसा मरे!''

बामुड्ड्याचो दुसरो व्हडलो दोको मोडलो तरी एक दोको सुटांक ना. मगेर गोपीन आपल्या दातांनी त्याका फोडून काडलो आनी माका सोडयलो. मांतसां रगत इलां.

''बामुड्डे पुरो आतां. माडवळ्यांची पोती भरत इल्या. आतां घरा वचाया.''

आनीक चार माडवळे धरतलंव आसलंव, पूण बामुड्ड्यान चांवल्या उपरांत हात दुखपाक लागलो आनी मगेर तशेंच घरा कडेन पांवलंव. माडवळ्यांची पोती आई कडेन दिली. तेणी ते धुले. वरभर लागान ते करलायले, आनी एक्दाची कडी केली. ते दिसा चार उंडये जास्तीच जेयलंय.

माडवळ्यांक वचपाचां आसल्यार गोपी रोखडोच तयार जाय. पिरपिरांक लागलो तर मगेर मी एकटोच जाय. भरतेच्या वेळार सकाळ, दोनपारां, तिनसाना, अशा सगळ्या वेळार आमी माडवळे काडल्यात. त्या एक दोन वरांकत ते दिसत आनी मेळत. मांद्रयाचे शिमे पसून फुडें फुडें हरमालच्या दिशेन चलत रवलो काय माडवळे खूब मेळत. आनीकय कांय लोक खास माडवळ्यांक येयत. पूण चुकारीं. कांय जाणट्या बायलांक तेची रुच आसली. पयलीं पयलीं खूब माडवळे मेळत. पूण हळू हळू ते पातळ जावपाक लागले. ते काडपाक पारखीच जायो आसलो.

माडवळ्यांची रुच आसलाल्यांक तेचो घोस्त जास्ती. माडवळ्यांची रुच आमच्या आज्याक अदीक आसली. पूण बापायक न्हू. त्याका मोठां मोठां निस्त्याक जायां आसलां. मी खूब ल्हान आसताना असांच एकदा कसलां तरी घाणीचां निस्त्याक हाडलां. त्या वासानच निस्त्याकाक खूब कटांळ्ळय आनी निस्त्याक खावपाचांच सोडून दिलां. तां कसां तां म ाका याद ना. पूण त्या वेळे पसून निस्त्याकाच्या वासानच पॉटांत धवळता. पयलीं पयलीं घरांत निस्त्याक हाडलां काय भायर पळय. पूण तसा आसलां तरी माडवळे, खूबे, तिसरे, कालवां, सुंगटा, आनी कुरले मोठे आवडीन आनी रूचीन खातय. त्यांका निस्त्याका भशेन वास मारीना. ह्या सगल्या भितर म्हाका माडवळ्यांची रुच जास्ती. खुबे, तिसरे, शिनाणे ह्या सगल्या शिपयां भितर जसो रुचीचो फरक आसा तसोच तो माडवळ्यांकय आसा. माजे खातीर आतां घरांत सदींच दोन दोन कडये करूंचे पडटत. म्हाका सदींत ती दाळ, ना जाल्यार कसलां तरी सांबारा. खुबे, तिसरे सदींच खंय मेळटत?.

बरां, माडवळे मेळ्ळे म्हूण उपेगाचां ना. ते तशें करूकय जाये. पयलीं म्हुटल्यार ते आदाळ्यार धरून करलावपाक खूपच पाशियास आनी अणभव जायो. कित्याक ते करलांवक जाये म्हूण चुलीर उब काडून तशीच कडी केल्यार त्याका मगेर रुच येयना. खणखणीत सुक्या नाल्लाचां चून, भरपूर कांदो आनी मसालो, आनी भिरणांची सोलां घालून तां आटोवन आटोवन सुके केल्ले माडवळेच बरे लागतत. ते करताल्याचेरय अवलंबून आसा. आजयेन केल्ले वेगळे, आईन केल्ले वेगळे, आनी आतां बायलेन केल्ले तर साम केच वेगळे. थंय आनीक रुचीचां कांयच बोलपाचां ना.

लग्न जाल्या उपरांत पयलेच फावट बायलेक घेंवन दर्यार फिरपाक गेल्लाय. आयजय दर्याक भरती आसली. भरती रेशे वयल्या दर्याच्या पाणयांतल्यान फिरता फिरता म्हाका म ाडवळे दिसपाक लागले. तसोच तेचो एक हात धरून दुसऱ्या हातींन पंचवीशेक माडवळे काडले. तेनींय खूप सांसांपले पूण एकय माडवळी मेंळांक ना. शेवटाक वाज्यांला आनी वयर रेंवेंत वचांन बसलां. म्हाकाय मगेर माडवळे थंयच सांडून झक मारीत तेचे फाटल्यांन वचान रेंवेंत बसाचां पडलां. तेचे उपरांत पंचवीस फावटीं तरी त्याका घेंवन दर्यार गेलंय. पूण सदींच सुकती.

दिवाळे दिसा पूजन जाल्या उपरांत थोरले काकीक जोड्यानी पायां पडलंव. तर थोरली काकी म्हणटा कशी,

आतां निस्त्याक खांवक शिकय त्याका, भट आमचो तो. ना जाल्यार दर्यार वचान माडवळे हाडून दितलो, तितक्यांच एक खाता, तुका काय करलांवपाक ते येवचें ना, तेचे पेक्षा निस्त्याकाचांच बरां. पयलीं खाय, मगेर काय त्याका जालां कोण जाणां, आमी खूप यज्ञ केले, पूण जमांक ना, आतां तुका तरी आयकता तर बघ.''

मी निस्त्याक खायनय म्हूण पयलीच त्याका धक्को बसललो. तां आवडीन निस्त्याक खावपी. बापायचे सदींच

फडफडीत निस्त्याचे खबरी. तेतूंत ह्या काकीचां फोडणां आयकतकत हसांचां काय रडांचां तांच त्याका कळाना. एक दोन फावटी मगेर तेणीय लाडी गोडीन निस्त्याचो एक एक कुडको दिवपाचो यत्न केलो, पूण जमलां ना. सदींच ती दाळ आनी सवराक खातकत मगेर म्हाका माडवळ्यांचो उगडास येय. खंयच्याय टायमार मगेर सांगा नसताना वचय. पूण करलायताना सदींच वाज्या. मगेर म्हाकांच ते करलांवन दिवचें पडत. पयलींच ते एदेशें. बारीक बारीक करलावपाकच एक दोन वरां लागत. पूण त्या निमतान माडवळे करलावपाकय मी तरबेज जालंय.

फुडें दोन भुरगीं जालीं. तीं ल्हान आसताना दर्यार वचाया म्हणतकच सदींच फुलत. त्यांका दर्यार व्हरतलो जाल्यार सांजच्या पांचा उपरांतच भायर सरांचां पडा आनी तिनसांजच्या पयली घरांत येवचां पडा. दर्यार मगेर तेंचो वले रेवेंत जमीन खरवडून कसलीं तरी चित्रां काडपाचो ना जाल्यार कसलीं तरी अक्षरां काडपाचो खेळ. दर्यार गेला जाल्यार माडवळे हाडटलो हो आईचो अंदाज, पूण भुरग्यांनी काडूंक दिले तर न्हू! त्यांका सांबाळतलंय काय माडवळे काडटलंय. फकत माडवळे काडपाकच दर्यार गेलो तर भुरग्यांची मगेर 'म्हाका सांडून गेलय म्हूण रडारड'.

एक दीस भुरग्यांक फटोवन एकटोच दर्यार पावलंय. माडवळे काडटाना दर्यार सालू दिश्टी पडलो. आमच्या वांगडा शाळेंत शिकतालो. तेच्या हातांत आडसारांची पेंड आनी कोयतो. सालून विचारलां,

''काय रे माडवळे काडटंय? माडवळ्यांची खूब उमेद न्हू तुका. आनी कोण ना रे काडनत, आमकां जमानत ते काडूंक, फकत तूंच दिश्टी पडतंय.''

'' चार मेळ्ळ्यार मांतशा रुचीन जेवपाक मेळटा.''

''फुडें एक फॉरेनर जोडप्यां आसा. त्यांका दिवन येतय. आठ दी जाले हैंयच आसत. सकाळ सांज त्यांका आडसारां लागतत. असलांच कायतरी खांवन दिसभर दर्यार आसतत.!''

पयस रेवेंत फॉरेनर जोडप्यां लोळत पडलालां. सालू देगेक पावलो तशे त्यांच्यानी आपापले चड्डे चढयले.

सालुची एक व्हडी आसा. ती घेंवन तो निस्त्याक मारता. धा पंदरा माड आसत तेची तो सूर काडटा. आनी आतां असले नवीन धंदेय करता.

हळू हळू फॉरेनरांची संख्या वाडत गेली आनी सालून आमच्या दर्यार पयलो शॅक घातलो. चार पांच वर्सां सालुचो एकच शॅक चलतालो. एक दीस माडवळे काडटाना शॅक सोडून आमचे खबरीक इलो. मी इचारलां,

''चलता मरे शॅक बरो?''

''चलता रे, शॅक आसा म्हूण कळ्ळ्या उपरांत कोणतरी फॉरेनर येवन बसतत. ते खातत तां आतां म्हाका करपाक जमता. बियरी आनी सोरोय आसा. चार पयशे मेळटत. पूण हे भिकणाकार शॅकार येंवक जायना. वांयस्सा पितले आनी सगली मस्ती करतले. तेंचो कायच फायदो ना. त्यांका बगून फॉरेनरांचा आसलालां गिऱ्हायकय वयता.''

सालूचे भिकणाकार म्हणजे देशी भोंवडेकार. चार आण्याचो घेतले आनी धा आण्याची मस्ती. फॉरेनरांक बघपाकच तेंचीं गर्दी.

आमचो दर्या आतां खूपच गजबजता. व्हर्जीन बीच उरांक ना. कलंगूट आनी कोलवा सारकी तेची ख्याती जगभर पसरल्या. देगेक हरमल बीचय आसा. परदेशी भोंवडेकारांची संख्या वाडली तशी त्यांका बघपाक मगेर देशी भोंवडेकारय वाडले. तेंचे खातीर मगेर शॅक्स आनी हॉटेलां. टॅक्सी आनी गाडयो. फॉरेनरांचे बरोबरीन तेय आतां खर्च करतत. दीस रात पार्टे चलतत. मुंबय, दिल्ली, कलकत्ताकारांचे मोठमोठे पार्टे चलतत. रातभर पार्टे केल्या उपरांत तेंची नवी सकाळ उजवाडटा. दोन नंबरचो सगलो माल आतां सरसकट मेळटा. तेंचे ते गर्देन त्यांच्या फुड्यान माडवळे काडप म्हुटल्यार मोठां दिव्य केल्ले भशेन. ते खातीर आमचां आतां दर्यार वचपाचां आनी माडवळे काडपाचां कमी जालां. आनी चुकारे हाडले तर आमचां ह्यां सदींच वाजाता. असोच एकदा खूप दिसानी दोनपारचो माडवळे काडपाक मी आनी गोपी दर्यार गेल्लंव. थंय आतां सगल्याक शॅक्स, आनी जायते फॉरेनर, आनी भिकणाकारय रेवेंत लोळत पडलले.

भरती फुल्ल जाल्ली. माडवळे मेळपाक लागले. तितक्यान दोन मनीस दाणे घेंवन इले आनी म्हणपाक लागले,

''इधर क्या काम है? यहांसे आगे जाव, हमरे कस्टमर को डिस्टर्ब मत करो, नही तो मार पडेगा.....''

दर्या आमचो आनी आमचे वांगडाच दादागिरी. हैंसले शॅक गांवांतल्या लोकांच्या नांवार, चलयतत हे भिकणाकार. हैंसल्या लोकांक ते किंम्मत दियनत. इतकीं वर्सां दर्यार वचान माडवळे काडले, पूण कोणीच आडावंक ना. ह्या भिकणाकारांक माडवळे म्हणजे काय तां कसां कळटालां. त्यांका फकत चरस आनी गांजा खबर. दर्या कोणाच्या बापायचो तांच कळाना.



त्याच्या वांगडा वाद घातल्यार खरोच मार पडपाचो. आमी मांतशे फुडे सरलंव, आनी चलता चलताच चार माडवळे काडले. वाटेर सालू मेळ्ळो. दर्यार तेचोय शॅक आसलो.

''काय रे सालू, दादागिरी मरे!''

''गिन्हायक वयता न्हू रे त्यांचा! काय जाण त्यांका बघुकच येतत. वगीत तेंचे सामकें घुटमाळटत. तुमकाय तशेंच समजल्यात आसतले.''

''तुजोय शॅक आसा न्हू रे?''

''शॅक फकत नांवार आसा रे. पूण भाड्याक दिला.''

''कोणांक रे?''

''कोण तरी शेट्टटी आसा.''

''भिकणाकार?''

''आतां भिकणाकारांचेच दीस इल्यात. आमकां ते शॅक चलोवपाक जमचे ना. खावपा जेवपाक कोण शॅकार येयनत ना. सगल्यांक दोन नंबरचो माल जायो. तो काय खपवपाक आमकां जमाचां ना, आनी कोण गिन्हायक तांय कळचां ना. पंदरा वर्साचो दाखलो दिंवन शॅक घेवपाक सरकाराक पांच हजारांची फी भरल्या, आनी पंचवीस लाखांक चलौवपाक दिला. कांय करतंत तां करूनी, आमकां कसलांच टेन्शन ना.''

सालू आमचे बरोबरचो. तेणी धंद्याची गजाल काय लिपय नसाताना सांगली. आमकाय ती मांतशी खबर आसा. पूण बोलान कायच फायदो ना.

भुरगीं आतां मोठीं जाल्यांत. तेंचें हातींत आतां मोबायल आसा, त्यांका आतां खेळय नाका आनी खंय फिरांक वचपाकय नाका. कोरोनाच्या काळांत दोन वर्सा तर दर्यार पांयच दवरूंक ना. मी एक निस्त्याक खायनय, आतां भुरगींय खायनत ना, दुसरां म्हुटल्यार त्यांका खुबे, तिसरे, कालवां, कुरले, तसलां कांयच नाका. सामकीं भटां जाल्यांत. मगेर माडवळ्यांचे रुची आनी कसले?.

आमचो दर्याय आतां सामकोच बदलला. भोंवडेकारांक आतां सिझन लागाना. कोरोनाच्या काळांत सुद्धा ते हैंसरच आसले. कोरोना उपरांत परतून क्रुज आनी स्पीड बोटीय येतत. खूप म्हणजे खूपच गर्दी जाता. तरेतरेचे लोक. फॉरेनर कमी आनी भिकणाकारच जास्ती. त्यांच्यानीय आतां आपापलीं दुकाना थाटल्यात. हैंसले जमिनी विकत घेंवन भूमिपूत्र जाल्यात आनी शॅक चलौवपाक लागल्यात. रात, दीस, दनपार, तिनपार, सगलो वगत गर्दी आनी मस्ती. सगलो दर्याच विद्रुप जाला. बऱ्या मनशान तर दर्यार आतां पांय सुद्दा दवरपाचो न्हू. गांवचो मोठ्ठो विकास जाला. पयलीं सालुचो एकच शॅक आसलो, आतां पंन्नाशेक शॅक दिस्टी पडटत. तेंचें खुर्चे आनी बेडस दर्याच्या भरती रेशे मेरेन पावल्यात.

आतां बाजारांत खुबे, तिसरे तशे खूब मेळटत. पावसाच्या दिसांनीय मे म्हयन्यान काडून गोनत्याचो साक भरून चिखलाक मारलले इल्ले इल्ले खुबेय कोणतरी विकूंक घेवंन येता. दोनशी रुपया किलो, पूण तेतूंत वास मारपी तोंणा उघडललेच अदीक. सातशीं रुपया किलोनी विकपी शिनाणोय रस्त्याचे कडेक दिशटी पडटत. पूण माज्या म डवळ्यांची रुचच वेगळी.ते सदींच माका खांयशे दिसतत. आतां ना रे तसलां काय पडाना असां खूप जण सांगतत. ते आतां मेळटत काय लुप्त जाल्यांत ह्यां कळपाक मार्ग ना. पूण म्हाका आजूनय दिसता, भोंवणेकारांच्या गर्देन खंयतरी आजूनय माडवळे आसपाक शकतत. फकत त्या जाग्यार आनी भरतेच्या त्याच वेळार थंय पावपाक जायां. पूण थंय आतां वयतलंय तरी कसो? आनी गेलोय जाल्यार तेंचे मदीं वणवो रवांन माडवळे काडटलंय तरी कशे?.

– मिलिंद म्हामल, गोंय विद्यापीठ. ९८२२५८०७८९

वळख

– मिलिंद म्हामल गोंय विद्यापीठांच्या ग्रंथालय आनी म्हायतीशास्त्र विभागांत प्राध्यापक आसात. तांणी कोंकणी, मराठी आनी इंग्लीश भाशेंत पुस्तकां बरयल्यांत. तातूंत 'अंधारसावल्या' हें नाटक, 'चतुर्थी', 'आलकाण्याचो डोंगर',' मांड' हे कथासंग्रह, आचार्य धर्मानंद कोसंबी, स्वामी विवेकानंद, डॉ. रघुनाथ माशेलकारः जिवीत आनी कार्य हीं चरित्रां, गोवा सार्वजनीक ग्रंथालये अधिनेम, १९९३, आनी गोंय भौशीक ग्रंथालय अधिनेम, १९९३ हीं कायद्याचीं पुस्तकां, गोमंतकीय ग्रंथकारांच्या मराठी ग्रंथांची ग्रंथसूची (आरंभ ते २०१२) हो सूचीग्रंथ, भारतीय तत्वगिन्यानाची रुपरेखा (अणकार), ऋ्‍ै'ी ऋशवो डीींससश्रश हें इतिहासा विशींचे पुस्तक हांचो आसपाव आसा. तांका साबार पुरस्काररूय लाभल्यात. तातूंत गोमंतक मराठी अकादमीचो उत्कृश्ट साहित्य पुरस्कार; धि गोवा हिंदू असोसिएशन, मुंबईचो बाकीबाब बोरकर स्मृती पुरस्कार, २०००; आनी उत्कृष्ट ग्रंथपाल, गोंय राज्य पुरस्कार, २०१०-११, ह्या पुरस्कारांचो आसपाव आसा.

■■■

# पापड पिज्जा

ग्रंथपाल म्हूण साबार वर्सां वावुरपी रुपाली कामत शेटये हांणी ललित लेखनांतल्यान आपले साहित्यीक जिणेक आरंभ केला. संवेदनशील मनाची ही लेखिका वेगवेगळ्या विशयांचें अवलोकन करून तांचेर भाश्य करीत आसता..



रुपाली कामत-शेटये
मो. : 9850467477

चवथीचे दीस.घर सामकें भरिल्लें.जिवाक साम की खोस भोगताली. सणूच तर आमकां एका निमतान एकठांय हाडटात. भुरगीं,तरनाटीं,जाणटीं सगळीं मेळून मिसळून गणरायाच्या आगमनाक येवकार दितात. चवथ म्हणटकच उमेद. माटोळी बांदप,मखर सजोवप, तय,चवथ,पंचम ह्या तिनूय दिसांनी रांगोळी काडप,जेवणाचो बोवाळ, फोग लावप, घर सामकें बोवाळान गजबजता. आमची चवथ घोवाच्या आत्यागेर. थंय आामी सगळीं कजन्स धुडगूस घालूंक सज्ज जातात. दीस कशे वतात तें कळच ना. अशें करपाचें, तशें करपाचें प्लॅनींग चालूच आसता. दीस सामके मजेंत वतात. आनी देड दिसाचो गणपती पावोवन घरा परतुपाक आंग जड जाता. सगळें मिसआवट जातलें, परतून रुटीन चालू जातलें आनी ही मजा मारपाक आनीक एक वर्स रावचें पडटलें हें चिंतुनूच मूड ऑफ जाता. एकदाची



चवथ उलगली काय मागीर नवरात्रां, दसरो, दिवाळी, नातलां अश्या सणांनी दीस फटाफट सरतात आनी वर्स सोंपता.

बरयतां बरयतां गजाली पळय खंय पावल्यो! सांगपाची आशिल्ली म्हाका एक मजेशीर गजाल. चवथीच्या दिसा आरती जावन आमी जेवणाक बशिल्लीं. आमी सगळ्यांनी जेवण जेवपाक सुरू मात केलां, हाच्या आतेभावाच्या चल्यान फर्मान सोडलें,'आय वॉन्ट पापड पिज्जा.'

आमी सगळींच अजापलीं आनी ताचेर प्रस्नांचो बडीमार केलो. बाब विहान तसो सामको क्रिएटीव्ह आनी इमेजिनेटीव्ह! पूण आमकां पापड पिज्जा हो कन्सेप्ट कळपाक धा पंदरा मिन्टां लागलीं. जेवतना चर्चा चालू आशिल्ली. आमचे चर्चेंत आमी कसले तरतरेचे पिज्जा खाल्यात हें ताका सांगलें. चिकन पिज्जा ,सीफूड पिज्जा,मशरूम पिज्जा हीं सगळीं नांवां ताचे सामकार दवरलीं. पूण ताका जाय आशिल्लो तो सामकोच पापड पिज्जा. ताणें आमकां पापड पिज्जाचें सारखें वर्णन केलें. भाजिल्लो पापड, ताचेर तोमाट, कांदो, चिली पावडर आनी चाट मसाला. हॉटेलांत सर्व करतात तसो आपले भाशेन आमकां समजायलें. आमी मुमुरखीं हांसत ताचे क्रिएटीविटीची तोखणाय केली. आमी पिज्जाचे टॉपींग्स म्हणटात तशेंच ताणें आपले कल्पनाशक्तीन

पापडाचेर टॉपींग्स (मसाला पापड) पळोवन पापड पिज्जा हो कन्सेप्ट इमेजीन केला आसूं येत अशें आमचें मत जालें. आमचो जो मसाला पापड, ताचो तो पापड पिज्जा.

आतां चवथीक कांदो कसो वापरतलीं हो प्रस्न पडलो. मागीर ताच्या दादाकाकान तोमाट आनी कॅबेज, इल्लो चिली पावडर फाफडून एकदांचो पापड पिज्जा तयार केलो.आनी आमच्या बाबून तो आवडीन खालो.

तर है चवथीक आमकां 'पापड पिज्जा' हो एक नव्या पदार्थाचो कन्सेप्ट मेळ्ळो.

Hats off to Bab Vihan for his inovative ideas and a wonderful concept of inventing new form of pizza!

■■■

# म्हज्या भुरगेपणांतली दिवाळी

केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्काराच्यो मानेली,सर्जनशील लेखक आनी लोकवेद संशोधक म्हूण आपली खाशेली वळख घडोवपी डॉ. जयंती नायक कथा,कविता,नाटक, निबंध,लोकवेद अशे साबार विशय समर्थपणान हाताळटात.तांचें साहित्य हेर भारतीय भाशांनीय अणकारीत जालां...



डॉ. जयंती नायक
मो. : 982357562

हालींच्या वर्सांनी चवथ, दसरो, दिवाळी बी परबो लागीं पावल्यो की हांव चडूच भावूक जातां. आज ह्यो परबो जे तरेन मनयतात तें म्हज्या मनाक भावना. मागीर म्हाका भुरगेपणांतल्या त्या अस्सल गांवगिरे पद्दतीन मनयिल्ल्या उत्सव-परबांची याद जाता. त्या यादिंनी हांव रमतां. नकळत जिणेचो चाळीस -पन्नास वर्साचो काळ हुंपून हांव शाळेंत वचपी, हायस्कुलाक वचपी अल्लड भुरगें जातां. आज ह्या संवसारांत नाशिल्लीं पूण त्या काळार आपले बगर सण-परब जावचीच ना ह्या भावार्थान दुयेंत आसल्यारूय वर्सावळीच्यो रिती-भाती पुराय करपाक कश्टुवपी म्हजीं मायेचीं मनशां म्हाका याद जातात. ह्या सणा - परबां विशीं तांणी सांगिल्ल्यो काणयो, म्हायती याद जाता. सण-परबो म्हणजे गांवच्या एकचाराचे उत्सव, तेन्ना एक-मेकांच्या कामाक हात-बोट लावंक जाय हे भावनेन शेज-पाजाराच्या उल्याक पावपी म्हजीं देवाधीन जाल्लीं गांवचीं जाणटीं याद



जातात...

सप्टेंबर म्हयन्यांत चवथ जाली. ऑक्टोबरांत दसरो आनी आतां नोव्हेंबरांत दिवाळी पावली. दिवाळेची सुलूस लागतांच शेंवण्या सारकें मन यादिंनी चिंवचिंवाट करूंक लागलें. म्हणूंक लागलें,'बरय गो तुज्यो यादी...सांग गो सगळ्यांक कशी आशिल्ली ती तुजी भुरगेपणांतली दिवाळी...कशी मनयताली ती तुमी दिवाळी भुरगेपणांत...! मागीर हांव बसलें लॅपटॉप उगडून (आतां कागद-पेन काळा भायरें जावंक लागलां) आनी एक एक याद त्या सुपर मेंदवांत देस्तावेजीत करूंक लागलें...

भुरगेपणांत दिवाळी घरांत येताली ती पिकेच्या पावलांनी. आमच्याच घरांत न्ही तर गांवभरच्या घरांनी दिवाळी दारांत पावता म्हणल्यार लुंवणी-मळणी जावन घरांत नवें धान्य आयिल्लें आसतालें.. घराच्यो कोठयेकुडी-सालां भाताचे राशींनी आनी साकाच्या पोटल्यांनी भरून गेल्लीं आसतालीं. आंगणाच्या कोनशां-कडांनी भाताचें पोल, सुकें तण आनी नव्या दाण्याचो उडून गेल्लो कोयर कोचोप राशीक पडिल्लो दिसतालो. आंगणच कित्याक, गांवभरच्या वाटांनी नव्या फसलेच्या तणाच्यो काडयो शिंवरिल्ल्यो दिसताल्यो.

ह्या दिसांनी घरांत चलतना सुद्दा पायांक नव्या भाताचीं कुसां तोंपतालीं. (तेन्ना घरांत जोतीं घालून भोंवपाची पद्दत नाशिल्ली) पूण कोणाकच ताची वेदना जायनाशिल्ली. घरांत धान्यलक्षीम आयल्या हाची खोशी ल्हान-व्हडांच्या तोंडाचेर पातळिल्ली आसताली.. सगळो वाठारच ते धान्यदेवतेच्या परमळान उमेदीत जाल्लो आसतालो. हातूंत भर म्हण भायलें वातावरणय सुर्यदेवान आदले पंद्रशी सावनच आपल्या सवर्ण किरणांनी झगमगायिल्लें आसतालें. अदीं मदीं पावसाची मोतयाळी शेन येवन वताली ही गजाल वेगळी.

... मागीर दुदांत साखर कशी दिवाळेची परब घरांत येताली. भुरगेपणांत पीक आनी दिवाळी हांचो संबंद मातय लक्षांत आयलो ना, पूण लोकसंस्कृतीच्या अभ्यासाच्या निमतान जेन्ना सगळ्या सणा-परबांचीं मुळां उस्तूंक लागलें, तेन्ना जाणलें की हे परबेचो उद्देश पिकेची - नवे फसलेची खोशी मनोवप हो आसा. घरांत आयिल्ले धान्यलक्ष्मीक येवकार दिवप हें ह्या दिव्यां उत्सवाचें मूळ प्रयोजन आसा आनी आदिम कृषी संस्कृताये कडेन ताचीं मुळां जोडिल्लीं आसात.

दिवाळी आनी पीक हांचो संबद प्रस्थापीत करपी दिवाळे कडेन जोडिल्ली एक भोव म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार फोव. फोवांचें गोंयचे दिवाळे कडेन इतकें घट्ट नातें की फोव नासल्यार गोंयची दिवाळी संपरूण जायना. आज गोंयांत दिवाळेक तरेकवार मिठायो- खाणां करपाची वा विकतीं हाडपाची पद्दत सुरू जाल्या. तरी फोव हे जायच. देवांक फोवांचोच नेवेद्य. खाणांचे ताटलेंत फोव मुखेल. फोवांचे तरेकवार प्रकार रांदतात. आजय गोंयच्या शेती प्रधान गांवांनी, आजय फोवांचें म्हत्व अबाधीत आसा.

आमच्या गांवांत लुंवणी- मळणेचीं कामां फटाफट सोपोवन दरेक घर फोव कांडपाच्या कामाक लागतालें. दिवाळेक फोव हें नव्या फसलेच्या भाताचें करपाक जाय अशी पिळग्यां सावन चलत आयिल्ली परंपरा.. कारण दिवाळेक देवाक नेवेद्य हो गोड म्हणजे कालयिल्ल्या फोवांचो. नवे फसलेचें धान्य आपूण खावचे पयलीं ह्या संवसारांतली दरेक गजाल रचपी, निर्मुवपी जे शक्तीन (देवान) आपल्याक तें दिलें, तिका तिचो पयलो ग्रास ओंपून तिचे विशींची कतृज्ञताय व्यक्त करपाची ते फाटली भावना. तिचो ताचेर पयलो अधिकार असो समज. म्हणूनच गांवांतले जाण्टे- वडील कोणेंय कितलोय आग्रो केलो तरी दिवाळेक देवाक फोवांचो नेवेद्य दाखयल्या शिवाय केन्नाच फोवांचो एक गोटो लेगीत जिबेर दवरनाशिल्लो.

दिवाळेचे आदले धा-पंदरा दीस गांवांत जो तो फोवांच्याच कामात पेटिल्लो दिसतालो. म्हजे यादीक गांवांत फक्त दोग जाणांल्या घरांनी फोव कांडपाची लाट आशिल्ली. एक उंचल्या भटाच्या घरा आनी दुसरी आमगेर. गांवचे लोक केन्नाय चुकून म्हण्टात तशे भटाले लाटीवर फोव कांडपाक वताले. अख्खो गांव आमगेले लाटीरच फोव कांडपाक येतालो. जर कोणाकय लाट खाली मेळ्ळी ना, मागीर तो लाकडाचे खोडीर मुसळान कांडून फोव करतालो. तश्यो खोडी बऱ्याच लोकांगेर आशिल्ल्यो, पूण म्हज्या आज्यान स्वताच्या हातान ( सुरवेक आज्यान मिनाचो धंदो केलो, तातूंत ताका एका इश्टान नागयलो तेन्ना तो मेस्तपण शिकलो, थोडे दीस ताणें फोव कांडून शारांत विकपाचोय धंदो केलो. ) मागील दाराच्या बागेलांत लाट बसयली. तेन्नाच्यान गांवच्या लोकांक लाटीर फोव कांडपाची सुविधा मेळ्ळी.

दिवाळे आदले धा-बारा दीस आमगेल्या घरांत लोकांची जात्रा भरिल्ली आसताली. अखंडपणान घडघड असो आवाज घर भर घुमत आसतालो. गांवठी भाताच्या ताज्या फोवांचो गोड घमघम आमच्या घर भर पातळिल्लो





आसतालो. 'आज तुजे, फाल्यां म्हजे' ...अशें करून गांवच्यो दादले-बायलो एकमेकांक फोव कांडपाक आदार करताल्यो. फोवां खातीर उबेक लायिल्लें भाताचो, म्हणल्यार हय-न्हयशें उकडिल्ल्या भाताचो एक एक घाणो पयलीं कैलार भाजचो-फुलोवंचो पडटालो, मागीर तो वायनांत घालून कांडचो पडटालो, तो कांडपा खातीर एका मनशान लाटीर पांय मारून ताचेर फार घालचे पडटाले. एकल्यान वांयना कडेन बसून लाटीचो लोंडो वयर वतकच, तो परत सकल येवचे आदी पट्ट करून चत्रायेन तापयेन वांनांत चाळचें पडटालें. हो मनीस फिशाल आसप गरजेचें आसतालें, कारण वानांतलो घाणो योग्य तरेन चाळल्यार वा परतिल्यार फोव बरे पातळ रुंद जातालें नातर अर्दे करडे उरताले, चड कांडल्यार तूस जाताली, उणे काडल्यार अर्दे आंसकडेच जाताले. वट्ट तीन मनशां लाटीर फोव कांडपाक लागतालीं. तातूंत साकांनी भात आसल्यार मदीं मदीं मनीस बदलचे लागताले. लाट बंद उरूंक उपकारनाशिल्ली . पंदरा दीस मदीं गांवच्या सगळ्यांचेच फोव कांडून सोपोवंक जाय आसताले. आडवादानच कोणय , गांवच्या क्रिस्तांव घरांतलीं बी दिवाळे उपरांत फोव कांडटालीं.

त्या दिसांनी आमगेलें घर सार्वजनीक थळाचें रुप घेतालें. आमगेर फोव कांडप्यां खातीर च्या-पाणी, जेवणाचें अखंड धर्मदाय सत्र चालूच आसतालें. म्हजे पणजेक-आवयक तातूंत भोव समाधान मेळटालें. एखाद्याक काम करतां करतां न्हीद आयली तर तो सरळ घरांत येवन ताणून दितालो. आमची लाट लोकांक फुकट वापरपाक तर आशिल्लीच पूण जर कोणाचेंय अडलें आनी आदाराक मनशाची अडचण जाली तर मागीर आमगेल्या घरांतल्या मनशांक उलो मारप जातालो आनी जो कोण खाली आसा तो आदाराक वतालो. हांवें लेगीत कितकेशेंच फावट भात फुलयलां आनी वांयनांतलो घाणो परतिला. कांडपाक मात म्हाका जमनाशिल्लें...तर अशें आशिल्लें, त्या वेळावेलें गांवचें फोवकांड.

दिवाळी म्हणजे कडकड्याचें, दांतकडयो वाजोवपी, आंगाचीं हड्डां फोडपी शीं केन्ना केन्ना ह्या शियां सांगाताक धुकेंय (हिं ) आसतालें. ह्या दिसांनी दर घराचे आंगणाकुशीक फांतोडेर केन्ना तिळसानाच धुंवरी पेट्टाली. गांवांत दाटायेन आंब्या-पणसाचीं, काजू-जांभळीचीं झाडां असताली, शेंयांत तांचीं पानां झडटालीं. सगळ्याक दाट पत्रो पडिल्लो आसतालो. गांवचीं पोरां सांजवेळा तो पत्रो खोटल्यांनी भरून धुंवरे खातीर राशीक घालतालीं. 'म्हगेली धुंवरी व्हडली काय तुगेली, म्हगेली धुंवरी चड वेळ पेट्टा काय तुगेली...' अशी जणू पोरां मदीं सर्तच लागताली. दिवाळेच्या आदल्या दिसा तर चडूच व्हडली धुंवरी घालप जाताली. मध्यान रात उलगतांच पोरां उठून ती पेटयतालीं. म्हजो आनी म्हज्या भावांचोय ते धुंवरे सर्तीत सहभाग आसतालो. आमी भुरगीं एकटींच रातचीं भायर आसात म्हण मागीर आजोय येवन धुंवरेक बसतालो. त्या वेळार गांवांत नरकासूर बी करपाचें वारें पावलें नाशिल्लें. तेन्ना कारीटाकच नरकासूर मानताले. धुंवरी पालवली तशी फोगोट्यांचे माराण लावन आमी न्हावपाक धांवतालीं. कोणाचो नंबर पयलीं लागतलो हाचीय हांगा सर्त लागताली. येदोळ म्हणल्यार आई-पापाय उठून आप-आपल्या कामांक लागिल्लीं आसतालीं. आईन आदले दीस उदकाचें भाण (हांडो) बरें घांसून, चुन्याचे तिबे लावन रंगोवन, फुलांच्यो माळो बी घालून कडकडीत तापोवन दवरिल्लें आसतालें. तेंच उदक ती आमकां न्हाणयताली.

आयच्या सारकीं लायटीच्या दिव्यांनी घरां झगझगोवपाची तेन्ना पद्दत नाशिल्ली. फकत एक आकाशदिवो पेटयताले. तेन्ना ह्या आकाशदिव्यांत पणटी पेटोवन दवरताले, आयचे सारको बल्ब वा लायटीचो दिवो न्ही. हो आकाशदिवो घरांतले भुरगेच तयार करताले. आमगेर व्हडलो भाव करतालो. धाकटे दोगय भाव आनी हांवय ताका मदत करतालीं. कोंड्याच्या कामटांचो आरखाटो तयार करून तो रंगीबेरंगी फोलींनी सजयताले. ताका फोलींच्योच शेपट्यो लायताले. हें काम चड करून म्हजें आसतालें. आकाशदिव्याच्या भितर एक लाकडाची पट्टी दवरून, तिचेर एक शेणाचो गुळो चिकटावन, ताचेर मातयेची पणटी दवरताले. तिनसाना काळोख पडटकच, तेलाचे वातीन ती पणटी पेटयताले. कोंड्याचे लांब बडयेक हो पेटयिल्लो आकाशदिवो बांदून तो घरा वयर वा आंगणा कुशीच्या आंबाड्याचेर हुमकळायताले. हांगाय वाड्या वेल्या भुरग्यां मदीं सर्त (इनाम नाशिल्ली) लागताली. ज्या कोणालो आकाश दिवो चड सोबीत आनी जागेलो चड वयर गेला, तो दिवाळेचो हिरो जातालो. दिवाळे दिसांनी तो भाव खातालो. हो आकाशदिवो कित्याक पेटयतात हें संबंदी आजो सांगतालो की सर्गात गेल्ले आमगेले पुर्वज दिवाळेक रातचे घरा परततात. तांकां घराची वाट दिसची म्हणून हो वयर दिवो पेटयतात. आमकां भुरग्यांक तेन्ना तें खरेंच दिसतालें. आजो न चुकतां दरवर्सा ती खबर सागतालो आनी आमी तितक्याच भावडेपणान ती आयकतालीं.

दिवाळी म्हणल्यार म्हजे खातीर भोंवतणी रांगोळी घाल्ल्या पाटार बसोवन , झिळमिटे फांतोडेर , दिवलेच्या मंद उजवाडांत आईन आंगाक सारयिल्लें खोबरेल तेल आनी



उपरांत सजयिल्ल्या हांड्यांतल्या कडकडीत उदकान, हांवें आनी म्हज्या भावांनी सोदून हाडिल्ल्या ताळखिळ्याच्या बियां पासून तयार केल्लें वटणें सारोवन आनी पापान हाडिल्लो नवो सुवासीक शाबू लावन घाल्लें न्हाण. ताका अभंग्यस्नान म्हणटात हें नंतर कळ्ळें.

न्हाल्या उपरांत नव्या करकरीत तुवाल्याक आंग पुसतना संवसारांतलीं सगळीं सुखां आपल्याक आज मेळ्ळ्यांत असो भास जातालो. मात हो शाबू आनी तुवालो सगळ्यां खातीर एकच आसतालो हेंवय हांगा मुजरत सांगूंक जाय.

सगळ्यांचीं न्हाणां जालीं म्हण्टकच आई वुंवाळटाली. हांव चली मनीस आसलें तरीय हांव भुरगेपणांत वुंवाळणेक उबें रावतालें. पापानच दिल्ले पयशे आईच्या वुंवाळकेच्या तबकांत घालतना कितें तरी व्हडलें केल्ल्याचो अभिमान दिसतालो..

आई कितक्या तरी तरांचे फोव करताली. काट्टाचो इल्लोसो कुडको खाले नंतर हो फोवांचो फराळ मेळटलो असो तिचो कडक नेम आशिल्लो. ( आज घरांत हो नेम शिथील जाला). त्या दिसा तेंच जेवण. एक-मेकां कडे फोव खावपाक वचपाची गांवांत पद्दत आशिल्ली. गेले ना तर शेजारी रागार जाताले! एखाद्यागेर फोव करूंक वेळ जालो, तर मागीर तो आपल्या फराळाची वाडी (ताट) शेजाऱ्यांगेर पावयतालो. फोव खावन ल्हान-व्हडांक उसरमटी मारताली. म्हज्या तर पोटांत हमखास दुखतालेंच. मागीर जिरें, तिखवोंव्याचें उदक पिवचें पडटालें.

दिवाळीच्या दुसऱ्या वा तिसऱ्या दिसा येवपी गोरवांचो पाडवो हो आमगेल्या गांवांत दिवाळे इतकोच म्हत्वाचो आशिल्लो. आज गांवांत लक्ष्मीपुजन तशेंच भावबीजेची बी प्रथा सरसकट सगळ्या घरांनी पावल्या. तेन्ना ताचें व्हडलें म्हत्व नाशिल्लें, पूण पाडव्याचें आशिल्लें. आमचो गांव शेतीप्रधान. दर घराक गोठो आसतालोच. चेड्यां बराबर चेडवांय ह्या पाडव्याच्या येवपाची वाट पळयतालीं. कारण धेंणल्या पाडव्या दिसा, आंगणांत तांकां शेणाचो गोठो घालपाचें काम (उमेद) आसतालें.

हिंदू बराबर क्रिस्तांवय गोरवां पाडव्या दिसा गोरवांची

पुजा करताले. पुजा म्हणचे परस गोरवांक सजोवन तांच्या गळ्यांत रोजांच्यो माळो आनी नाल्लाचीं वळीं बांदताले. तांकां सान्ना-पोळे खावंक घालताले. आमगेर खरीं हाताच्या बोटार मेजपा इतकींच गोरवां आशिल्लीं. पूण  तांचे पुजेचो थाट औरच आसतालो. व्हडल्या गोठ्याचीं गोरवां आशिल्ले बशेन आमगेर बोवाळ. फांतोडेर उठून पापा , भाव गोरवांक धुवन तांच्या शिंगांक रंग सारयताले. रंगांत वा निळींत बुडयिल्ल्या वाटयांचे छाप तांच्या आंगार काडटाले. मागीर  आजो तांची पुजा करतालो.  आईन फांतोडेर उठून केल्लीं सान्नां-पोळे तांकां आपल्या हातान खावयतालो आनी मागीर तांच्या गळ्याचें  दावें सोडून तांकां मेकळीं सोडटालो. ते दिसाच्यान गोरवांची राखण बंद जाताली, ती बद्द रोंपणी सुरू जाली म्हण्टकच परत सुरू जाताली.

हो दीस राखण्यांचो म्हणजे  गांवच्या पोरांट्यांचे मौज-मजेचो आसतालो. त्या दिसा ते गोरवांचे राखणे तर आशिल्लेच, शिवाय ग्रामसंस्कृतायेचे  राखणदारय . तांकां ते दीस खूब्ब भाव मेळटालो. पोरट्यांचो जमो, पुजा करून सोडिल्ल्या गोरवांच्या गळ्यांतल्यो फुलांच्यो माळो, नाल्लाचीं वळीं बी काडून घेवन, धिंणल्या देवाक म्हणजे, राखण्यांच्या, गोरवांच्या देवाक सजयताले. मागीर तो घेवन गांवच्या  दर आंगणांत वचून  धे धिणुल्यो, रामा पावस शेणुल्यो.... म्हणून गितां गायत दारांत घाल्ल्या शेणाच्या गोठ्या मुखार नाचयताले.दर घरा कडेन तांकां तळी म्हणजे  तांदूळ, नाल्ल , पयशे बी मेळटाले..

धिणल्याची हांव आतुरतायेन वाट पळयतालें. कारण म्हाका शेणाचो गोठो घालूंक खूब आवडटालें. म्हजे पणजे कडल्यान तो घालूंक हांव शिकिल्लें. मागीर आंगांतली सगळी कला पणाक लावन हांव तो सोबीत करपाचो यत्न करताले. म्हज्यो सांबाळून दवरिल्ल्यो भुरगेपणांतल्यो बावल्यो, लाकडाचीं गाडगुलां बी दवरून हांव गवळी गवळीण आनी तांच्या दुद-धंयाच्या मडक्यांची प्रतिकृती करतालें. पणसांच्या खोलयांक व्हीर तोंपून गोरवां करतालें. तांची पुजाय हांव करतालें आनी कालयिल्ल्या फोवांचो नेवेद्य दाखोवन ताची इल्लीशी पोटली गवळ्याच्या खांक्यांत रानांत वतना ताका दनपारची भुती म्हण बांदतालें.

धिंणलो नाचोवन जाता आनी देव विसर्जीत जाता म्हणसर दनपार उलगताली. मागीर राखणे थाण्यांत  धिंणल्या वडाच्या जाग्यार (पारंपारीक थळ) मेळिल्ल्या सामानाचें जेवण रांदून जेवताले. ह्या जेवणाक सुरवेक चेडवांक घेनाशिल्ले. उपरांत



ताका गांवजेवणाचें रुप आयलें तेन्नां मात चेडूं-चेडो, जाणटे-नेण्टो, हिंदू-क्रिस्तांव असो भेदभाव करी नासतनां आख्ख्या गांवांचेंच तें गांवजेवण जालें. निकतीच लुंवणी जाल्ल्या शेता-बांदयांत, थांबाच्या ताट्यांचेर  जमनीर बसून , पत्रावळीचेर  वाडिल्लें, राखण्यांनी रांदिल्लें जेवण गांवच्या लोकांच्या सांगातान जेवतना आगळीच खोशी मेळटाली. आज हें गांवजेवण धिंणल्या बरोबरच काळा भायरें जालां.

फाटल्या दसक-दोन दसकां साकून गांवची दिवाळी बदल्ल्या. शारी संस्कृतायेचें वारें गांवांत पावलां. आतां धुंवऱ्यांचो  जागो नरकासुरांनी घेतला. फांतोडेर ताच्या पोटांत फोग घालून भुरगे तो पेटयतात आनी ताचे धगींत नाचतात. आकाशदिवो जाला रेडीमेड. ताचोय मुखावळो बदल्ला. खोडी-लाटो कोसमेवन ना नपश्चात जाल्यो. फोव जाले रेडिमेड. सांगाताक राजस्थानी, युपीची मिठाय. नक्षत्रांकय फाटीं घालपी लायटीच्या दिपमाळांचो घराक झगमग. सान्नां तडीपार, गोरवांचे गोठे वसाड, धिंणलो काळा भायरो, राखण्याचें गांवजेवण शेणलें,  काट्ट्यांक फाट, शेतां पडींग. मात लक्ष्मीपूजन आनी भावबिजेचो घर-घरांत थाट...

हे नवे रुपांतले दिवाळेक पळोवन म्हाका खूब अस्वस्थाय येता. हांव हांगा थंय  म्हज्या भुरगेपणांतल्या सारकी दिवाळी खंय दिसता काय म्हण पळयतां....पूण हाय!म्हजी निराशा जाता...!

■■■

# दिवाळेंतलीं नखेत्रां

म्हायती तंत्रगिन्यान अभियांत्रीक म्हूण एके खाजगी कंपनींत वावुरपी **गौतम जल्मी** हांकां ल्हानपणा सावन खगोलशास्राची खुबूच आवड.पर्यावरण तशेंच खगोलशास्र सारख्या दुर्मीळ विशयांचेर चडांत चड म्हायती मेळोवन ती आपले परीन फुडें पसरावपाचो अतिरिक्त भार घेवन ते वावुरतात...



गौतम जल्मी
मो 9922910978

म्हाका आजुनूय याद जाता, ल्हान आसतना मम्मी-डॅडी, आजो-आजी, एक एक तरेच्यो काणयो सांगताली. खऱ्यो आसुं वा घडयिल्ल्यो, तांकां त्यो सुचताल्यो बऱ्यो. देख दिवपी, उमेद हाडपी, हांसोवपी-रडोवपी. भेश्टावपी भुतांच्या काणयांचो तर भयूंच दिसतालो. पूण तरिकूय आमी हट्ट धरुन त्यो सांगूक लायतालीं. कोण जाणा कित्याक लागून, पूण एक अप्रुप अशी ओड जाणवताली तांच्या त्या भावनीक विचार प्रगट करपाच्या खाशेल्यापणाचेर आनी कदाचीत हाकाच लागून आमकां त्यो खूब काळ पर्यंत यादूय उरताल्यो. तांचो खरो उद्देश होच आसतालो की धाकट्या भुरग्यांच्या मनाचेर प्रभाव पडचो आनी तांच्या वागण्याचेर सकारात्मक परिणाम जावचो, तशेंच बरी कितेय देख घेवंची.

पूण कितेंय म्हणात हां, खऱ्यो काणयो मात त्योच आसताल्यो ज्यो राती कडे न्हिदल्या उपरांत सपनांत





येवन रंगताल्यो. आमी मागीर आमच्या आवडट्या पात्रांच्या जाग्यार वा तांच्या वांगडा स्वता हजर रावतालीं आनी मनसोक्त त्या खिणाचो आनंद लुट्टालीं. मागीर इत्सा पुराय तरेन भागली म्हण्टकच आपशीच दोळे उगडटाले आनी लक्षांत येतालें की सकाळ जाली म्हूण. आसूं, सोडून दियात त्यो आतां सपनांतल्यो गजाली.

हरशी काणया विर्शी सांगपाचो म्हाजो उद्देश होच आसलो की, ह्यो असल्योच काणयो आशिल्ल्यो त्यो, जाका लागून आमची मनीसजात तिगून उरपाक शकली. हय, तुमकां हें आयकून घडये आश्चर्य जातलें. पूण असल्याच काणयांच्या तर्काचेर आदारून, पुरातन काळांत आमचे जाण्टेले हे सृष्टींत जगप कशें तें शिकले. विश्वास बसना जाल्यार येयात, सोमतीच एक काळ-भोंवडी (Time Travel) करून येवंया.

खूब-खूब, हजारांनी वर्सां पयलीची गजाल ती... तो वेळ आसलो स्थित्यंतराचो (transition)...

एक जीव तेन्नाच माकडाचे जातींतल्यान एके नवे जातींत प्रवेश मेळोवपाक धडपडटालो. खावप-जेवप, राहणीमान तरीकूय जनावरां भशेनूच आशिल्लें. दिसभर खाणाच्या सोदांत हेडप, मागीर मेळटा ताची शिकार करप, त्या-त्या दिसा पुरतें भागोवप आनी रात जाली काय सुशेग घेवन परतून दुसरो दीस उजवाडपाची वाट पळोवप. हेंच तांचें नित्याचें काम आसलें. पूण जसो जसो काळ सरत गेलो, ते परिवर्तीत प्रजातीचो उद्धार जायत गेलो.

चार पायांचे दोन हात - दोन पांय, भेंड नीट जावप, शेपडी, कुडिचे भाग, तशेंच एक-एक करीत शारिरीक रचनेंत थोडे-थोडे बदल जायत गेले. हें सगळें घडपा वांगडाच तांच्या मेंदुचोय विकास जायत गेलो आनी हाचोच परिणाम म्हूण एक अप्रुप अशी गजाल घडली. तांच्यांनी चितपाक सुरवात केली.

जालें, होच आशिल्लो हे कणयेचो सगळ्यांत व्हडलो वळणात्मक खीण (Turning point). हाचे फुडें जें कितें घडलें तो फक्त संघर्श, आपूण एक सर्वश्रेश्ठ जनावर (म्हळ्यार मनीस) म्हूण वळख मेळोवपाचो.

त्या वेळार ते जें कितें खाताले-पिताले, दिसाचे तशेच राती वेळार आपल्या सरभोंवतणी जें दिसतालें, ताचो पयल्यांत पयलीं तांच्यांनी अर्थ समजून घेवपाचो यत्न केलो. वातावरणांत जावपी बदल आनी तांचे आपल्या जिविताचेर जावपी प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष परिणाम लक्षांत घेतले. निसर्गाच्या ह्या बदलांचेरूच आपलें पुराय अस्तित्व निंबून आसा हें तांच्यांनी हुबेहूब वळखलें. अशें म्हणटात, मनीस हो एक सामाजीक प्राणी (Social Animal), हाकाच लागून, आपल्या पोटा पाणयाचो प्रस्न सोडोवपा वांगडाच, एकमेकांच्यो बाकीच्यो गरजो, अडी-अडचणी समजून, संवसार थाटून, समुदायान एकठांय रावप ही तांकां काळाची गरज दिसली. पूण अशें करतलो जाल्यार फकत शिकार करून जगप शक्य नासलें, म्हूण त्या मनशाळलेल्या प्राण्यान सुदारणा घडोवन हाडपाचे वेगवेगळे विकल्प सोदले आनी हेच मजगती आनी एक उत्क्रांती घडली, जाका लागून तांची जीण पुराय तरेन बदलुनच गेली. दर वेळा अन्नाक लागून दुसऱ्या जिवांचेर निंबून रावचें सोडून, तांच्यांनी तें स्वताच उत्पन्न करपाचें कसब आत्मसात केलें आनी सरभोंवतणी उपलब्द आशिल्ले साधनसामुग्रीचो बेसबरो उपेग करून शेती-कामाची बुन्याद घाली.

इतले म्हणसर सैमाचे निती-नेम ते सारके वळखल्ले. तांच्यांनी फुडें चिंतलें, आतां समज कसलीय लागवड करून जर भात पीक काडटलो, जाल्यार सैमाच्या सानीध्यांत रावुनच वावुरचें पडटलें आनी ताका अनुसरून, सृष्टीन थारायिल्ल्या कयद्या नेमाक पाळो हो दिवचोच पडटलो, ना जाल्यार परतून माकड जावन, हांगा थंय उडयो मारपाची पाळी येतली.

फुडें, बारीक निरिक्षण करून तांच्यांनी सोदून काडलें, हें सैमाचें वेगवेगळें सैमीक रूप नित्यान एका फाटोफाट एक, थारावीक वेळांत पुनरावृत्त जायत आसता. जरी ह्या बदलांची नोंद करून, काळचक्राचें रुतु आनी तांची मंडावळ ते सोंपेपणान समजल्ले. तरी पूण खंयच्या वेळार कसलो बदल जातलो, केन्ना पीक लावपाचें, उदक-पावस केन्ना येतलो, फुडली तयारी कशी आनी केन्ना चालू करपाची, हें सगळें जाणून घेवपाक तांकां मातशे त्रास पडले. पूण इतली तरी जाणविकाय आसली, खंयचींय कामां समज एके नियोजन बद्द पद्दतीन जावंचीं आसत जाल्यार, योग्य तो रुतू केन्ना येतलो हाची जाप सोदचीच पडटली.



निसर्गात, एके अविरत पद्दतीन जावपी ह्या बदलांचे फाटभुंयेर, तांच्यांनी स्वताची बुद्धी पणाक लायली आनी आपल्याकूच प्रस्न विचारपक चालू केलें. हें सगळें दिसाच्या–रातीच्या वेळार दिसता तें कितें, ते कोण, तें कशें तयार जालें, तें कित्याक लागून आसा, तें आम कां कशे तरेन उपेगाक पडूंक शकता, असल्या प्रस्नाचे जापेंतल्यान जल्म जालो. विज्ञानाची आवय म्हूण प्रतिश्ठा आशिल्ल्या विद्येचो, खगोलशास्त्र (Astronomy - The Mother of all Science) आनी तीच थारली, मनीस जातीची खरी वळख.

एका वाक्यांत सांगपाचें जाल्यार, खगोलशास्त्र म्हळ्यार पृथ्वी भायल्या सगळ्या अवकाशीय वस्तुंचें केल्लें निरिक्षण वा अभ्यास. हे सूर्य, चंद्र कोण..? ते थारावीक वेळारूच कित्याक दिसतात? ते प्रत्येक दिसा पुर्वेकडल्यानूच कित्याक वयर सरतना दिसतात? ते कशे तरेन आपले जागे बदलतात? ते खऱ्यांनीच बदलतात काय आमकां तशें भासता? चंद्र कशे तरेन सदांच आपलें रुपडें बदलता? सगळे पृथ्वीचेच भोंवतणी कित्याक लागून फिरतना दिसतात? तांचो पृथ्वीचेर आनी आमच्या जिविताचेर कसलो प्रभाव आसता? ते रातीच्या वेळार दिसपी, इल्लेशे पूण शेकड्यांनी–हजारांनी लिकलीकपी तिबके कसले? तातुंतली तीं आवकाशीय नवलां आमकां कितें सांगूंक सोदतात? ते एक–एक प्रकारचे रुतु कितें खुणायत आसतात? आमचें वा हेर जिवावळीचें हे धर्तरे वयल्या अस्तित्वाचें मूळ कितें? ह्या सगळ्या प्रस्नाच्यो जापो म्हळ्यारूच खगोलशास्त्राचो गाभो, जी तांकां पडिल्ल्या त्या कुवाड्यांतल्यान भायर सरपाची एकमेव वाट आसली.

हे मेळिल्ले जापेच्यो तांच्यानी काळजीपुर्वक नोंदी करून दवरल्यो आनी दर एकल्या बदलत्या घटकांचो सतत अभ्यास करीत रावले. तशेंच त्या अभ्यासाच्या निश्कर्शा वयल्यान, मेळयिल्ले म्हायतींत फावो तशी सुदारणा करून, आपले जिणेंत ताचो योग्य वापर करीत रावले. तांकां कळून आयलें की, आपली जीण जर समृद्ध करतले जाल्यार ह्याच मार्गान चलचें पडटलें आनी म्हणूनच तर ते मनीस म्हूण नावलोकीक मेळोवंक पावले.

फुडें तांच्यांनी तयार केल्लीं सगळीं समिकरणां आप्तपणान जोडून, एक पुराय नकासो तयार केलो आनी ताचे वयल्यान वेळाची व्याख्या सोदून काडपाचो यत्न केलो.

आमी जो आतां घडयाळींतलो वेळ वा दिसावळींतल्यो तारखो, म्हयने, वर्साची नोंद दवरतात ताचो खरो मूळ होच. पूण तो तयार करपाक तांकां भरपूर परिश्रम घेवचे पडले.

सुर्याचे सदचे हालचाली वयल्यान दीस-रातीचें चक्र थारायलें. उपरांत चंद्रिमाच्या नेमान बदलत्या रुपड्यां कडे ताका जोडून, उमास-पुनव आनी परती उमास हाचे संबंद वेळाचे पांवडे घडोवपाकडे जोडले. सैमांत, निसर्गात जें मंद गतीन परिवर्तन जायत आसता, तार्चीं रुतुचक्रां घडयलीं आनी चंद्राच्या पुराय भोंवताड्याचेर आदारून लार्गीं लार्गीं बारा समान फांटे घाले. अशें करून, पुराय सैमीक चक्राची घडणूक थारायली. एक सोंपतगीर परतून दुसरी नवी सुरवात हेंच चिंतून.

इतलें सगळें मेळयल्या उपरांत, सगळ्यांक दिसलें की जालें... आतां जीण फकत सुखान जगपाची, पूण ना... तो तांचो गैरसमज आसलो.

तांच्यांनी सगळे सृष्टीचे नेम गृहीत धरले आनी चूक केली, पूण ती रोखडीच तांच्या लक्षांत आयली.

सृष्टीक आजून पर्यंत कोण समजूंक पावुना, नाय फुडाराक तशें कोण करूंक शकतलो, हें तत्व तांच्यांनी बेस बरें जाणून घेतलें आनी हाका लागून तांच्यांनी थारायलें, जेन्ना जेन्ना सैमाचे शक्तीक फुडो करपाची पाळी येतली, तेन्ना तेन्ना मान सकयल घालून ओणव घेतले. तांकां जुस्त उमजल्लें, सैमाच्या बळा आड झुझप म्हळ्यार स्वताचें अस्तित्व नश्ट करून घेवप आनी हाका लागून तांच्यांनी स्वता भितर कायदे घालून घेतले.

आतां पर्यंत तांकां स्वताची, तशेंच धर्तरे वयले आनी ताच्या भायले सृष्टीची खरी वळख पटिल्ली.

इतलें करून सोपूंक ना, तर हाचे फुडें, तातुंतलो सगळ्यांत मोटो पांवडो घडोवपाचो अजून शिल्लक उरिल्लो आनी तो म्हळ्यार थरावीक वळख, नांवां दिवपाचो. एकामेकांक वळखच ना जाल्यार तांकां याद धरतले कशे? तांच्यांनी हाचेर दीस-रात काम केलें. तांच्या लक्षांत आयलें, आजून पर्यंत जें निरिक्षण जाल्लें तें फक्त चंद्राचें आनी दिसा-धवळ्या जाणवपी बदलांचें, पूण रातीच्या वेळाचें कशें कितें, हो प्रस्न तांकां सतावपाक लागलो.

ते काळख्या मळबांत दिसपी इल्लेशे लिकलिकपी, बारीक-बारीक तिबके कोण, ते खंयच्यान आयले, ते आमकां कितें सांगूंक सोदतात, हांच्यो जापो सोदपाचो यत्न केलो. त्या तिबक्यांक तारे-नखेत्रां म्हूण वळख दिली आनी तेजिश्ट आशिल्ल्या एक-एकट्यांक वेचून काडून मेळटा ते सुवातेर, वेगवेगळीं नांवां दिवन, तांच्यो नोंदी करून दवरल्यो. फुडें त्या तार्‍यांचेर अभ्यास करतना तांकां अशें जाणवलें की बदल हो धर्तरेचेरूच न्हू तर तार्‍यां-नखेत्रांनी लेगीत घडटात आनी हाका लागून तांकां समजून घेवपाक त्या मनशांनी एक शिस्तबद्द पद्दत आपणायली.

पयल्यांत पयलीं, तांच्यांनी जे नोंद केल्ले उजळ तारे आशिल्ले, तांचे एक विशिश्ट प्रकारान चोंबे (वा तार्‍यां-पुंजुले, Star Constellations) तयार केले आनी दिसपटे जिणेंत वापरांत येवपी वा खाशेले अशे वस्ती वयल्यान चित्रां रेखाटलीं. तीं बरे तरेन याद उरचीं म्हणून तांच्यांनी आपले कल्पकते प्रमाण, वेगवेगळ्यो आकृतायो घडयिल्ल्यो आनी त्या संदर्भातल्यानूच तांकां नांवां दिलीं (उदारण - कुल्ले भशेन दिसपी आकृतायेक तांच्यांनी कर्क, Star Constellation Cancer) अशें नांव दिलें. तशेंच नागा भशेन लांबचे लांब दिसतले आकृतायेक वासुकी, Star Constellation Hydra).

फुडें, चंद्र-सुर्याचे प्रवासाचे वाटेर (म्हळ्यार क्रांतिवृत्त, Ecliptic Line) येवपी विशिश्ट तार्‍यांचोंब्याचे (म्हळ्यार राशी, Zodiac Constellations आनी नक्षत्र, Moon Signs) संबंद जुस्त सैमाच्या बदलत्या रुतू बराबर जोडले आनी उदरगतीचो आनीक एक खडेगांठ पांवडो रचयलो.

चंद्राचे, थरावीक जाग्या वयल्यान मारिल्ले पृथ्वीचे भोंवताडे लक्षांत घेवन, दीस रातीच्या चक्रा वयल्यान, नक्षत्रांचे २७ खण तयार केले, तशेंच चंद्राच्यो प्रत्येक दिसाच्यो बदलत्यो कळा (Moon Phases) घेवन, एकोड्या दिसांक नांवां दिवपाक तिथी तयार केल्यो (पाडवो, बीज, तय, चवथ...). उपरांत त्या पुराय चंद्रकळेच्या तिथींक (एक उमास ते दुसरी उमास) घेवन, मास वा म्हयनो घडयलो.

फुडें, चंद्राच्या खोलायेन केल्ल्या निरिक्षणा वयल्यान तांकां हेवूंय समजलें की, दर दिसा चंद्राच्यो वेगवेगळ्यो कळा, वेगवेगळ्या नक्षत्रा सामकार येतात, ह्या गजालीचो फायदो घेवन, पुनवे सारक्या, अनन्य अशी वळख

आशिल्लो खाशेले चंद्रकळेक, ताचे फाटभुंयेर दिसपी नक्षत्रां वयल्यान नांवां दिर्ली (चैत्र पोर्णिमा, कार्तिक पोर्णिमा...) आनी हे तरेन, रुतूचक्राक घाल्ल्या बारा (चंद्र भ्रवताड्याच्या) फाट्यांक, आपली अशी वळख मेळ्ळी आनी दर म्हयन्यांक नांवां. जे पुनवेचे चंद्र तांकां सदांच एकेच भशेन दिसले, तांचें वेगळेपण तांकां जाणवलें.

जरी ते पुराय प्रक्रियेंत तांच्यांनी जायते ताऱ्यां-पुंजुल्यांक नांवां दिवन घडयिल्ले, पूण जितले पुंजुले तांकां उपकाराक पडटले आशिल्ले, म्हळ्यार जे चंद्र - सुर्याच्या प्रवासाचे वाटेर येतात तांकांच तांच्यांनी खास म्हत्व दिलें आनी आपले जिणेंत एक मोलांचें स्थान.

जरी त्यो काळख्यो राती तांकां मोन्यो आशिल्ल्या वरी जाणवताल्यो, पूण त्या वेळार त्यो तांचेकडे खूब कितें उलोवन गेल्यो. खंयचो रूतू केन्ना येतलो, खंयचो तारो खंयच्या वेळार दिसपाक लागलो काय कितें जातलें, हें इल्लें इल्लें करून काळख्या आकाशाकडे पळोवन ते सारके वळखूंक लागले.

हे तारे, पुंजुले बी बरे तरेन याद उरचे आनी फुडले पिळगेक ते समजुपाक सोयीस्कर जावचे म्हूण तांच्यांनी खासा यत्नय केले. प्रत्येकान आपल्या सभ्यतायांचेर, थळाव्या लोकजीणेचेर आदारून आपले परीन देख दिवपा असल्यो आनी अर्थपुर्ण काणयो रचयल्यो आनी तांकां दीस तशेंच राती वेळारचे सैम - सृष्टिचेर, तशेंच त्या घडयिल्ल्या पुंजुल्यांच्या आकृतायांक सोब सारक्यो जोडल्यो. फुडें काळांतरान त्यो शेणच्यो न्हु म्हूण मागीर जमनीर, घोर्लीनी फातरांचेर, तळपांचेर वा पाशाणी पाटयांचेर, चित्रांच्या रुपान त्यो कोरांतून दवरल्यो. थोड्यांनी तर तांकां आपले संस्कृतायेंत खोल पर्यत रुजोवनूय घेतल्यो.

हातुंतल्याच थोड्या काणयांचेर आदारिल्ले सण अजुनूय आमी गोंयांत मनयतात, फकत तांच्या उपकाराची याद उरची आनी तांकां फावो तो मान मेळचो ह्या हेतान.

ह्या भारतीय शास्त्रांतल्या ताऱ्यापुंजुल्यांतल्या तरेकवार काणयां भितर अशीच एक ओडलायणी काणी आसा. वृश्चीक विंचु आनी मृग वा ऑरायन शिकाऱ्याची (वृश्चीक, Scorpio ही आमच्या बारा राशीं पयकी एक रास आनी मृग वा ऑरायन, Orion हें आमच्या २७ नक्षत्रांतलें एक नक्षत्र).

आमच्या पुराय काळख्या आकाशांत ह्या दोन ताऱ्यापुंजुल्या इतले सुंदर आनी विशाळकाय अशी खंयचीच आकृती ना. तांच्या भितरल्या खुबश्या तेजिश्ट ताऱ्यांच्या आदारान, सहजतायेन ते पळोवप्यांचे दोळे आपल्याकडे थिरावन दवरतात.

पुराणकाळांत जरी एकाच ताऱ्यांपुंजुल्याचेर जायते प्रसंग जोडून वेगवेगळ्यो काणयो घडयल्ल्यो आसात, तरी गोंयांत पावतगीर, एक आपलेपण (वेगळेपण) जाणवपा खातीर, तांकां कोंकणी रंग लागप हें स्वभावीकच न्हु?

पूण कितेंय जालें तरी, हांगा परिस्थितीक सोब सारकेंच, तांचें रुपांतर केलां. निमाणें म्हत्वाचें कितें? अर्थ समजून देख घेवप आनी जमता तशें मान वयर करून तांचेकडे पळोवप. फकत तांकां याद करपाच्या आनी वळखुपाच्या हेतान.

हाकाच लागून घडये कोणाकूय (संवसाराक अंतरलेल्यांक) याद करपाच्या वेळार आमी मळबाकडे वयर पळयता आसत.

(हे काणयेंत, ऑरायन हें पाश्चात्य नांव जरी वापरलें आसलें, तरी हांगा त्या संदर्भातलो तर्क समजावपाकच ताचो वापर केला)

तर ही काणी अशी आसा...

एक ऑरायन म्हूण मोटो राकेस जातींतलो शिकारी आशिल्लो (Orion, म्हळ्यार आमच्या शास्त्रांतलें मृग नक्षत्र. मृग म्हणजे हरण. ह्या ताऱ्या-पुंजुल्यांत मद्दी एके वळीन दिसता ते तीन तारे, हे आनीक एके काणयेच्या अनुसार, व्याध म्हणटा त्या शिकाऱ्यान हरणाक मारूंक सोडिल्लो बाण, जो ताका तोपता आनी हरण मरता.

तशें हें नक्षत्र सगळ्यांचेच वळखीचें! जाचे तकलेकडे (मृगशीष नक्षत्र) सुर्य पावलो म्हण्टकच आमी, वा आमचे जाण्टेले म्हणटाले की मिर्ग लागलें, आतां मोटो पावस लागतलो. हाचे वयल्यान एका हिंदू म्हयन्याक नावूय दिल्लें आसा - मार्गशिर वा मार्गशिष).

तर हो ऑरायन खूब बळिश्ट आशिल्लो आनी मेळटा तीं सुकणीं-सावजां, जीव-जनावरांचो शिकार करतालो. कोणाकूच बरे भशेन जगूंक दिनाशिल्लो. ताच्या ह्या क्रुर कर्मांक लागून पृथ्वी वयल्या सगळे जिवशृष्टीचेर काळें सावट पसरलेलें आनी प्रत्येक जण भंयान वावुरताले.

धर्तरी माता सातेरी, जी तांची रक्षण कर्ता आशिल्ली, तिणें तर खूब पयर्ली, धर्तरेचो सैम-समतोल बिगडोवपाच्या गुन्यावांक लागून, ऑरायनाक शिटकावणी दिवन ख्यास्त

फर्मायिल्ली, की जर तो खंयच्याय निर्दोश प्राण्यांची, प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष तरेन शिकार करून खायत, जाल्यार तें खाण ताका केन्नाच पच्चेंना. इतलें आसुनूय ऑरायनाचेर कांयच परिणाम जावंक नासलो. ताका तो शिराप मेळून लेगीत, आपल्या सुवार्थीपणाच्या सभावाक लागून, तात्पुर्ती भूक भागोवपाच्या हेतान, त्या प्राणी-जिवावळींचेर अतिरेक करप हें ताणें चालूच दवरिल्लें. पूण तो जें कितें अन्याय करून मेळयतालो, खातालो, तें चड-वेळ ताच्या पोटांत उरनासलें आनी सगळें परतें, (पूण नव्या रुपान) भायर सरतालें.

(हाचे फाटलो तर्क असो की, मळबांत ज्या जाग्यार ऑरायन तान्यां-पुंजुलो, म्हळ्यार त्या शिकान्याचें चित्र रेखाटिल्लें आसा, ताचे कमरेच्या पट्ट्याच्या सकयल्या भागांत एक व्हडले, सुंदर शे केण आसा, जे जलजनक वाय (हायड्रोजन Hydrogen Gas) आनी धुळीच्या कणांनी भरलेलें आसा, जाका आमी ऑरायन नेबुला (Orion Nebula) म्हूण वळखतात. नेबुला म्हळ्यार, ज्या जाग्यार साकून अणु प्रक्रियेच्या माद्यमांतल्यान (Nuclear Fusion Reaction) नवे तारे जल्म घेतात - Birth place of a new Star. हें केंण काळखो राती, खास करून ह्याच दिसांनी, उकत्या दोळ्यांनी लेगीत स्पश्ट दिसता, सारको निळो-गुलाबी कापसाचो गुळो कसो... आसूं आतां, उजो लायात ते केणाक व्हरून!)

तर, ऑरायनाच्या छळवणूक आनी अत्याचाराक विटोन, सगळ्या धर्तरवासियांनी थारायलें की ते धर्तरी माता सातेरी, हिचेकडे आपलें गाराणें घेवन वयतले.



ह्या दिसानी, पृथ्वीची दक्षिण गोलार्धातली बाजु ही सुर्याक फुडो करुन आसता

थंयच्या सगळ्या जिव-जिवावळींनी मातेच्या पांयार घालून घेतलें आनी आपली व्यथा सांगली. तांची सगळ्यांची ती अवस्था पळोवन सातेरी मायक तांचे चुरचुरे दिसले. तिणें ऑरायनाल्या अतिरेकाचेर आळाबंद हाडचे खातीर एक येवजण आखली.

(एका गोंयकाराल्या दिश्टीकोनांतल्यान, धर्तरी माता, (Mother Earth) हिका सृष्टीच्या नेमा प्रमाण सातेरी हें नांव दिल्लें आसा. चडशांक हें खबरूय आसचें ना की, तिचें मुळस्वरुप हें धर्तरेंतल्यान तयार जाल्ली रोयण हाचेर आदारून आसा. धुमे सरान आपल्या पुस्तकांत म्हळां, 'मुंडारी भाशेंत रोनो म्हूण एक शब्द आसा, ताचो अर्थ जाता बुराक आशिल्लो. इतिहास अशेंय म्हण्टा की, आर्यन्सानी त्या शब्दाचो संस्कृत अणकार संतारा म्हूण केलो खंय, जाचो अर्थ एकूच जाता. ह्या उतरा वयल्यानूच उच्चारून सातेरी हो शब्द आयला.

आमच्या पुरातन काळांतल्या जाण्टेल्यांक शास्त्र तितलें खबर नाशिल्ल्यान, रोयण (सातेरी)मातयेंतल्यान कांयच न्हू करून तयार जाता हो एक तरेचो चमत्कारूच कसो दिसलो आनी ते तांकां बऱ्या मनान, तशेंच धर्तरी मातेन मनीस जातींचेर केल्ल्या उपकाराची जाण उरची ह्या नात्यांन पुजूंक लागले... मागीर फुडें आमी ताचें कितें कितें केलें तें आनी मान सकयल घालून सांगिना. आमी आमची काणी फुडें चलोवया.

जरी ऑरायन क्रुर आसलो, तरी धर्तरी माता ताका पुराय तरेन मारपाक सोदी नाशिल्ली, कारण तो (recycle, परिवर्तीत करुनूच जावं पूण) नव्या रुपांत, अपत्यांक जल्म दितालो. पूण इतलें आसून लेगीत, अन्यायाचेर आळाबंद हाडचे खातीर, ह्या अरिश्टाचो उपाय तर काडपाक जाय ह्याच हेतान तिणें आपलें पोट फोडून, पृथ्वींतल्यान एका विशाळ अशा विंचवाक भायर काडलो (जल्म दिलो) आनी ऑरायनाच्या फाटल्यान लायलो.

दोगूय एकाच आकाराचे आनी बराबर क्षमतेचे योद्दे आशिल्ले. तांचे मर्दी धुमशेणाचें झुंज पेटलें. हरशीं म्हूण ऑरायनाक पुरापणान ना मारपाचो उपदेश विंचवाक पयलींच मेळिल्लो, म्हूण ताणें आपल्या खासा कसबांतल्यान ऑरायनाचेर उरफाटो हल्लो केलो. विंचवान डंख मारून ऑरायनाच्या आंगांत वीख चडयलें आनी घायाळ अवस्थेंत ताका बेशुध्द करून उडयलो.



आंगांत वीख आस पर्यत तो सामको घुंवळिल्लो वरींच उरलो. मागीर ल्हव ल्हव जसो त्या विखाचो परिणाम कमी जावपाक लागलो, ऑरायन आपले पयलींचे स्थितींत परत येवंक लागलो.

ताणें सोपूत घेतलो की, आतां पयली शिकार करतलों ती विंचवाचीच, ना जाल्यार कोणाकूच खावंचोंना. ताची ही प्रतिज्ञा आयकून विंचू मात्सो कासावीस जालो. हरशीं तो जाय जाल्यार ताका जितोच मारूंक शकतालो, पूण फकत सातेरी मांयच्या आदेशाक मान दिवंच्या खातीर, तो थंयच्यान धांवट सुटलो. ऑरायनाक चुकोवन, धर्तरेर लिपपाक ताका सुरक्षीत अशी एकूय जागा नासली म्हूण ताणें विशाळकाय ब्रम्हांडांत, मळबा वटेन झेप घेतली.

सातेरी मांयन जें कितें घडलें ताचेर विचार केलो आनी सगळ्यांचें हीत चिंतून, ऑरायन आनी विंचवाक, दोगांकूय धरून, ताऱ्यांच्या रुपान कायमचे मळबांत व्हरून दवरले आनी अमरत्व प्रदान केलें.

फुडें तांची थंय सरली जागाय बी अशे तरेन वेंचली की कोणूच, केन्नाच कोणाचे वाटेक येवंक शकचोना.

हे काणयेचोच परिणाम म्हूण काय कितें, खंयचेय काळखे राती आमी जर मळबांत पळयलें जाल्यार हे दोनूय ताऱ्यां पुंजुले आमकां एकाच वेळार केन्नाच दिश्टी पडनात. ते एकामेकांच्या सारके विरुद्ध दिकेन आसात. (विश्वास बसना जाल्यार मुद्दम स्वता, खंयचेय काळखे राती तपासून पळयात).

पुर्वे कडल्यान एकटो उदेता जाल्यार पश्चीमे कडल्यान दुसरो मावळटा. तांचो हो लपंडावाचो खेळ वर्साचे बाराय म्हयने चालूच आसता. आतां एकोडेच जावं पूण, जेन्ना जेन्ना हे दोनूय ताऱ्यां पुंजुले मळबांत दिसतात, आपल्या मोहक आकृते वयल्यान सगळ्यांचें लक्ष ओडून घेतात. आमच्या ब्रम्हांडांतल्यो एका परस एक फुडल्यो अजापीत करपी वस्तू (ताऱ्यां-गुच्छ, केणां, कृष्णविंवर...) तांच्या भितर वा लागसारच्या भागांत पळोवंक मेळटा. ओगीच आमच्या जाणट्यांनी तांकां सगळ्यांत सुंदर अशें लेखूंक ना!

चैत्र-वैशाख (आब्रील-माय) आनी आश्विन-कार्तीक (ओयतुंब्र-नोव्हेंब्र) हो सगळ्यांत उत्तम वेळ, जागरण करी नासतना तांकां दोगांकूय मळबांत पळोवपाचो.

काळख्या मळबांत त्या ओडलायण्या रंगीबेरंगी ताऱ्यां-नखेत्रांकडे पळोवन कोणूय भुल्लुसून वचूंक शकता अशेंच कितेंतरी ते खुणायत आसतात. हें रातीवेळारचें तारे-नखेत्रांनी व्यापलेलें काळखें मळब, अशेंच एका फुडल्या एक ओडलायण्या काणयांनी (ताऱ्यां-पुंजुल्यांनी) भरलेलें आसा. फकत गरज आसा ती मात्शी कास्तीक घेवन मान वयर करून पळोवपाची आनी संवसारांतलें सगळें दुख्ख विसरून, तांचे मदीं शेणून वचपाची.

कार्तिक म्हयन्यांतल्यो सांस्कृतीक
खगोलशास्त्रीय घडामोडी आनी धर्तरेची दिवाळी

कार्तिक म्हयन्याची सुरवात म्हळ्यार दिवाळी. उमास ते पुनव ह्या पुराय काळांत गोंयांत जो दिव्यांचो झगझगाट पळोवंक मेळटा तो दोळे दिपकावपीच आसता. सगळीकडे प्रकाश फुलोवपाचो आनी वातावरण दिव्यमय करून उडोवपाचो हो सण आसता, म्हणुनूच तर ताका इंग्रजींत फेस्टिवल ऑफ लायट्स (Festival of Lights) अशेंय म्हणटात.

पूण कोण म्हाका सांगूंक शकता की आमी ह्याच वेळार तो 'दिव्या दिव्या दिपत्कार' कित्याक करतात? कितें कारण आसतलें काय हो उत्सव चालू करपा फाटल्यान? कोणाक लावंक जातलो व्हय अंदाज हाचो? पूण इतलें नक्की की तो सृष्टीचेर आदारून आसा.

चत्राय - ह्या दिसांनी, रातचे वेळार घरांतल्यान भायर सरून सोदीत जाल्यार, त्या प्रस्नाची जाप आमकांच न्हू तर, ते फोग लावन धुंवर करून, पर्यावरणाचो इबाड करपी पिशांक लेगीत सोंपेपणान सापडटली. पूण एक मात, त्यो (खंयचो) राम राज्य (आनी खंयची) प्रजा सुखी च्यो काणयो मात कुशीक दवरच्यो पडटल्यो.

हांव खंयच्या काणयांच्या वा आनी कोणाच्या विरुद्ध बी ना, पूण जे अभ्यासांतल्यान थोडे-भोव निश्कर्श भायर सरल्यात ताचेरूच आदारून उलयतां. आनी हरशीं म्हूण, जो पर्यंत कोण प्रत्यक्ष आचरणांत हाडटा, तो पर्यंत तरी, प्रामाणीक मोख दवरून घडयिल्ल्या काणयांक तर पुराय मान दिवपाचोच, पूण सगळ्या काणयांचो उद्देश एक सारकोच आसता अशेंय ना.

थोड्यो म्हायती पावोवपाक वा पसरोवपाक लागून आसतात, जाल्यार थोड्यो देख दिवपा खातीर. थोडे फटींग मनीस तर, सुवर्था खातीर आपल्याक जाय तश्यो

त्यो घडयताय बी, हातूंत फकत गरज आसता ती तांकां पारखुपाची... आसूं आतां, त्यो काणयांच्यो काणयो मगीर पळोवया.

तर हांव म्हणटालों, जे तरेन कार्तिक म्हयन्याक आमचे संस्कृतायेंत म्हत्व आसा, तेच तरेन खगोलशास्त्रांतूय तो भोव मोलाचो. पावसाच्या ढगाळ सावटांतल्यान भायर सरून, आकाश निरिक्षणाच्या हंगामाची एक नवी सुरवात करपाचो. हें तान्यांनी भरलेलें काळखी आकाश नियाळपाची प्रथा आताच्यानूच न्हू तर, वयल्या बरपांत सांगिल्ल्या प्रमाण, पुरातन काळांत सावन चालू आसा आनी ताचो श्री गणेशा करपी दुसरो तिसरो कोण नासून, आमचोच शेतकरी समाज.

आयच्या खिणाक घडये हें कोणाक खबरूय आसचें ना की गोंयचे थोडे कुळवाडी लोक ही प्रथा आजुनूय पाळटात. थोडे म्हळ्यार, फकत हाताच्या बोटांनी मजपा इतलेच गांव आसात ते, कारण ह्या कलियुगाच्या आधुनिकीकरणांत, पयशां खेरीज आनी कोणाकूच तशें म्हत्व उरूंक ना, म्हणटकच कितलोय बडबडलो म्हूण ताचो जाय तसो परिणाम जावपाचीय तशी आशा नाच. फकत हें आमचें पुरातन काळांत सावन चालू आशिल्लें दायज शेणून वच्चें न्हू म्हूण, प्रत्येकान आपल्याकडे जमता तशें ते (वा ताचे विशी म्हायती) तिगोवन दवरपाचो यत्न करपाचो म्हण्टगीर जालें.

भाद्रपद म्हयन्यांत, आंतरराष्ट्रीय खगोलशास्त्र संघ (International stronomical Union-ISU) हांचे कडच्यान म्हाका एक पत्र आयलें. तातूंत तांच्यानी विनवणी केल्ली की आमचे हांगा थळावे संस्कृतायेंत समज कसलोय खगोलशास्त्राचेर आदारून बी सण वा उत्सव आमी मनयतात जाल्यार ताची म्हायती दिवची.

तांच्यांनी खगोलशास्त्र आनी दायज हाची जागृताय जावपाच्या हेतान जगभर ही मोहीम राबयल्या, तशेंच संवसारीक पातळीचेर ताका राखून दवरपाचो तांचो यत्न आसा. तांच्या ह्या प्रामाणीक यत्नाक आमचो बारीक सो आदार जावंदी म्हूण हांवें गोंय आनी खगोलशास्त्र ह्या आमच्या उपक्रमाक तांचेकडे जोडपाचो निर्णय घेतलो.

तशें पळोवंक गेल्यार गोंयच्या २-३ खगोलशास्त्राचेर आदारिल्ल्या सणांचीं नांवां हांव तांकां निर्धास्तपणान दिवपाक शकतालों, पूण मागीर ते उमाशेचे पराक्रम कशे जावचे न्हू म्हूण एकल्याचीच, पुराव्या सकट आशिल्ली म्हायती दिली, कारण धाडिल्ले म्हायतीचो अभ्यास करपाक आय.ए.यु.चें शिश्टमंडळ गोंयांत येवपाची शक्यताय खूब आसा म्हूण (हाकाच लागून हे वळेरींतल्यान हांवें मकरसंक्रांतीक दोन हात पयसूच दवरलां, ताचें कारण फुडल्या अंकात सांगतां).

हो सण (म्हळ्यार लोक-उत्सव), म्हाज्या अंदाजा प्रमाणे पुरातन काळांत साकून चालू आसा, जो आमच्या थोड्या गांवच्या लोकांनी आजून पर्यंत तिगोवन दवरला आनी तोच खरो गोंयकारांचो अभिमान. म्हाज्या आजून पर्यंतच्या ह्या बारीकशा अभ्यासांत, हो एकूच सण असो मेळ्ळा जाचो इतिहास आमकां मनशाचे उत्पत्तीकडे व्हरून पावयता.

ताची काणी अशी...

तीन-चार वर्सां पयलीं, म्हाज्या गुरुजीन एके कार्यावळींत, गोंयचो सांस्कृतीक इतिहास आनी खगोलशास्त्र हाचे विशीं उलयतना, ओकामी आनी उदळशें ह्या दोन गांवांचो खास उल्लेख करून सांगलें, थंयचे गांवकार कृतिका नक्षत्राचेर (Pleiades Star Cluster - Seven Sisters, सात भयणी, तान्यांचो गुच्छ) आदारून 'कातयो' म्हूण एक लोक-उत्सव मनयतात. फुडें गुरुजीन अशी आस्त उक्तायली, खगोलशास्त्रीय दिश्टिकोनांतल्यान ताचेर अभ्यास जावंक जाय म्हूण.

त्या वेळार, आपलेच धुंदीत नाचपाच्या नादान, हांवें ताचेर तितलें लक्ष दिवना, पूण पोरूं, आमचो शेजारी, दोतोर रुपचंद्र नवेलकर हांचे कडच्यान त्या दोनूय गांवांचीं नांवां परतून एकदा म्हाज्या कानार पडलीं. निमित्त इतलेंच की, दोतोराले सुचोवणेचेर, तांच्या गांवांतल्या मांडार जावपी वेगवेगळ्या सांस्कृतीक कार्यावळींचो अभ्यास.

दोतोराक लोक-उत्सवांची बीन आवड आशिल्ल्यान, हांवें कातयां विशीं मातशी वासपूस करिना फुडें तांच्यांनी म्हाका थेट उदळशें गांवांतल्या आपल्या सोयऱ्यांगेर, गणपत शाबा कालेकर, हांगेर व्हरून पावयलो. तांचे दारा भायर आंगणांतूच हो कातयांचो मांड जाता. गांव भरच्यो बायलो जमता आनी फुडें...

ओकामीय तशेंच. तुळशी लग्ना दिसाच्यान तांचो कातयांचो खेळ चालू जाता तो चार दीस (पुनवे)पर्यंत

# चंद्र कळा

शुक्ल पक्ष कृष्ण पक्ष









तय पुनव सप्तम

चलता.

गोंयांत आनीक खंयच्या खंयच्या गांवांनी असले उत्सव घडटात काय म्हूण सोद चालू केलो आनी विनायक खेडेकार सरां कडच्यान फोन करून म्हायती घेवन, शिरोड्या पाज्जेर वचून येयलों. तशेंच थंयच्यान म्हायती मेळोवन आनीक दोन गांव भोंवन येयलों. पाडी (केपे) गांवांतले एके म्हातारे कडल्यान मेळिल्ले म्हायती वयल्यान तर म्हाका खुबूच दुख्ख जालें. थंय खंय थोड्या वर्सां पयलीं पर्यंत गांवचीं बायलां कातयांचो खेळ खेळटालीं, पूण आता...

ह्या उत्सवा विशीं थोडे भितर सांगपाचें जाल्यार, पयल्यांत पयलीं, कातयो हें नांवूच घेतल्या उपरांत, खगोलशास्त्राचो तांच्या वांगडा आशिल्लो संबंद स्पश्ट जाता. कृतिका (Pleiades Star Cluster) ह्या उतरा वयल्यानूच कातयो हो शब्द आयला. आमचो गोंयच्या तारखावळींतलो आठवो म्हयनो कार्तिक, होवूय ताचोच प्रतीक. ह्या म्हयन्यांत, पुनवेचो चंद्र, कृतिका तान्यां-गुच्छाकडे आसता.

आतां सगळ्यांक खबरूच आसतलें की चंद्र पृथ्वीचो भोंवताडो मारता आसतना, इल्लो इल्लो करून अस्तंत ते पुर्व दिके वटेन फुडें सरकतना आमकां दिसता. (सुर्य, चंद्र, उदेता-मावळटा बी तें दुसरें प्रकरण हां, तें पृथ्वीच्या स्वता भोंवतणच्या फेऱ्याक लागून आसता, पूर्व ते पश्चिम).

चंद्राचो एका नक्षत्रांतल्यान दुसऱ्या नक्षत्रांत प्रवास हो असोच उरफाटो आसता. त्या दिसा, असो सरकत-सरकत चलतना, पुनवेचो चंद्र जेन्ना कृतिकाची शीम हुपता, तेन्नाच खरी मजा जाता.

(ही काणी सविस्तरपणान मागीर केन्नाय सांगतां).

हरशीं हो उत्सव मनोवपाक, पुनवेचो चंद्र त्या नक्षत्राकडे आसप हें एक फकत निमित्त. आमचे संस्कृतायेंत पुनवेचे चंद्र-कळेक खास म्हत्व आशिल्ल्यान, तो दीस याद धरून, कृतिका नक्षत्राक ताच्या हक्काचो मान भेटोवपाचो, होच खरो उद्देश, जेणे करून तान्यांच्या रुपान, कृतिका नक्षत्रान शेतकरी समाजाचेर केल्ल्या उपकाराची ती एक परतफेड जातली.

आतां उपकार कसलो काय म्हणल्यार, सगळ्यांक खबरूच आसतलें, शेतकऱ्यांचें पुराय जिवीत निंबून आसता उदक आनी पावसाचेर. ताका भात-पीक लायतलो जाल्यार, पावस सुरू जावंच्या खूब पयलीं तयारेक लागचें पडटा. ही तयारी केन्नाच्यान चालू करपाची ही जाप तें कृतिका नक्षत्र दिता, म्हणल्यार लागीं लागीं जेन्ना सुर्य कृतिका नक्षत्रांत प्रवेश करपाक लागता तेन्नाच्यान तांकां पावस येवपाचें शिनाल, संकेत मेळटा

(सुर्य, मीर्ग नक्षत्रांत प्रवेश करता तेन्ना आमी कितें म्हणटात तें सगळ्यांक खबरूच आसतलें, होच तो तर्क. हरशीं ताऱ्यांच्या मानान आतां हे सगळे समज बदलिल्ले आसात आनी आता ताचो कोण वापरूय करिना आसत, पूण म्हायतीची जाण आसची ह्या उद्देशान तांकां याद करप हातूंत कांयच चूक ना... हाचे विशी मागीर केन्नाय उलोवया)

आतां हो दिवाळेचो सण आशिल्ल्यान, ताचे विशीं थोडें तरी उलयल्या बगर म्हाका सूख लागचेंना.

पूण पयलीं म्हाका एक सांगात, उमाशेक जर आमी वायट अशें मानतात (चडशा वाठारांनी तरी), जाल्यार दिवाळी सारको इतलो बरो आनी सगळ्यांची उमेद वाडोवपी सण ह्या दिसा कसो येता? त्या वेळार आमी सगळीकडे पणट्यो पेटोवन कितें करूंक सोदतात? धर्तरे वयलें वातावरण सगळें प्रकाशमय करपा फाटलो हेतू कितें? हातुंतल्यान आमी कोणाचें अनुकरण करूंक सोदतात? केन्ना हाचे विशीं चिंतलां व्हय कोणी?

जरी हाचे वयलो अभ्यास आजून चालू आसा, पूण हो उत्सव सुरू करपा फाटलो मूळ हेतू जेन्ना हांव उस्तूंक लागलों, तेन्ना म्हाका थंय खगोलशास्त्राचीं थोडीं सुत्रां सापडलीं. तुमकांय तशेंच दिसता जाल्यार पळयात:

१. कार्तिक म्हयनो – पावसाळी ढगांतल्यान, तशेंच परतीच्या पावसा सकट पुराय सुटका जावन मेळपी हो पयलो म्हयनो (त्या मसण्यांनी आतांच्या वातावरणाची आनी सैमीक कायद्याची वाट लावन उडयल्या ती वेगळी गजाल हां. पावसाळी ढगांतल्यान आतां सुटका केन्ना जायच ना.)

ह्या दिसांनी, वातावरणांतले बारीक सारीक धुळीचे वा हेर प्रदुशणाचे कण लेगीत पावसाच्या उदकान व्हावून वचून, आकाश एकदम चकचकीत निवळ जाता.

दिसाच्या वेळार शुभ्र निळें मळब आनी रातच्या वेळार काळेंकिट्ट, पूण लिकलिकपी ताऱ्यांनी भारलेलो अंतरिक्ष. ह्या काळांत आमकां हरशीं परस चड तारे दिश्टी पडटात.

२. दिवाळी उमाशेकूच आसता – आतां तें आनी वेगळें सांगना की चंद्राचो उजवाड हे राती आसना, म्हळ्यार अंतरिक्ष आनीक अदीक पटिनी काळखी आसता. हाचोच अर्थ, लिकलिकपी तारे दिसपाचें प्रमाण आनिकूय वाडटा.

३. दिवाळी हो आमी दिव्यांचो उत्सव म्हूण म नयतात.. हे धर्तरे वयले दिवे आनी ते अंतराळांतले दिवे... निसर्गातल्या त्या दिव्यांनी केल्ल्या उपकारांची याद उरची, तशेंच तांकां तो मान दिवपाच्या हेतान, धर्तरे वयल्यान ह्या सणाच्या रुपान केल्ली ती मानवंदनाच...

ह्या सगळ्या तर्का भितर कसलें साम्य वा कितें मेळ – जुळणी बी जाता काय?

...जाता बी जाल्यार सांगात आनी जायना जाल्यारूय सांगात. ह्या संबंदान कोणायकडे जर अदीक म्हायती (गांवची वा सणांची) बी आसा जाल्यार ती तर मुद्दम सांगात. हातूंत हांव खंय चुकतां (वा कोणाकूय ते, सगळीकडे खगोलशास्त्राक व्हरून तेंकोवपाचे भपके अशें दिसता) जाल्यार थापटां मारून सांगात, पूण ओगी रावं नाकात.

आतां काय आमी त्या पुरातन काळा वयल्या लोकांक परते जिते करूंक शकचेनात. म्हण्टकच जे कितें निश्कर्श काडपाचे ते तर्क आनी पुराव्या वयल्यानूच, कितें म्हण्टात?

हरशी म्हूण दर दिवाळेक ते पणट्यांतले दिवे तर पेटयताच, पूण हे खेपेक, मात्सो बदल घडोवन ज्ञानाचे दिवे पेटयल्यार कशे? पळोवया तरी कोण कितलो उजवाड घालता आनी कोणाचो कितलो उजवाड पडटा तो.

कार्तिक मास, शके १९४३, चालू:

आयज खगोलशास्त्रीय उमास. बाकीचे लोक (आनी पुराय जग) कितेंय मानू, पूण ज्या खिणाक पृथ्वी – चंद्र – सुर्य, एके सरळ रेशेंत येतात, तेन्नाच खरी उमास जाता.

आयच्या दिसा, म्हळ्यार ५ नोव्हेंब्र, सकाळचे फांतोडेर जुस्त २ जावन ४४ मिणटांनी तो खीण येतलो.

शास्त्रीय नदरेन हाचो अर्थ असो जाता की, ह्या दिसा सुर्य आनी चंद्राचे, पृथ्वीक मध्य बिंदू धरून ० ओ (शुन्य अंश) चो कोन (एंगल–angle) जाता. इतले पुरतीच आसता ती उमास, बाकी सगळो टायम पास.

कार्तिक मास, शके १९४३, शुक्ल पक्ष पाडवो/बीज:

ओपोजिशन ऑफ प्लॅनेट युरेनस (Opposition of Planet Uranus). आयज (६ नोव्हेंब्र) रातीच्या





व्हायट बेलीड सी इगल,
White-Bellied Sea Eagle



ग्रेट होर्नबिल, Great Hornbill

वेळार, आमचो सातव्या नंबरचो गिरो, हर्षल आमचे विरुद्ध दिकेन आसतलो, म्हणल्यार सुर्य एके वटेन जाल्यार हर्षल दुसरे वटेन. ह्या दिसा खंय तो पृथ्वीच्या सामको लाग्गी येता.

उकत्या दोळ्यांनी तो दिसपाक सामको कठीण, पूण तरीकूय कोणूय जर ताका पळोवपाचो यत्न करतलेच जाल्यार तांच्यांनी बारीक दुर्बीण घेवन मेष राशीकडे पळोवचें, म्हळ्यार आश्विनी आनी भरणी ह्या नाक्षत्रांच्या मदेगात (मात्शें उजवे वटेन).

कार्तिक मास, शके १९४३, शुक्ल पक्ष साष्ट-सप्तम:

आयज-फाल्यां (११-१२ नोव्हेंब्र) एक मोटो धुम केतू पृथ्वीच्या लाग्गीच्यान पसार जातलो म्हूण बातमी मळ्ळ्या. मोटे दुर्बीणीन तो सारको दिसतलो खंय. हो तोच धुमकेतू, जाचेर येवरोपेव लोकांनी खूब वर्सा फाटीं एक यान धाडलेलें, तातूंतलें एक यंत्र थंय देंवोवन, खोलायेन ताचो अभ्यास बी करपाचे आसले खंय. आसुनी, बेश्ट्या दोळ्यांनी दिसपाना जाल्यार आमकां कित्याक खावपाक जाय तो?

हरशी ह्या धुमकेतूचें नांव खंय 67P/ Churyumov-Gerasimenko.

ना... सपनांत लेगीत चितूंक नाका की हांव ताचो कोंकणींत अणकार करून बरयतलों म्हूण. झक मार. असलीं नांवां उच्चारून, म्हाका म्हाजी कोंकणी इबाड करपाची ना. आतां सामकीच गरज भासली जाल्यार, असल्या अबड-धबड शब्दांची उतरावळ (कशी वा कित्याक) घडोवंची काय नाका तें फुडल्या अंकांत पळोवया.

(चत्राय: पळोवपाक सोदतल्यांनी ताका पुनर्वसु तान्याचे सकयले वटेन पळोवचो. मोट्टो गाबो आनी शेपडे सयत तो बरोऽऽ दिसतलो खंय आनी समज दिसूंक ना जाल्यार, ह्या प्रकारचो, दोळ्यांनी दिसपा लायक धुम केतू, कॉमेट लियोनार्ड (Comet Leonard) तर फुडल्या म्हयन्यांत आमचे भेटीक येतलोच न्हू, तेन्ना मागीर पळोवया.)

कार्तिक मास, शके १९४३, शुक्ल पक्ष त्रयोदस:

आयचो दीस (१७ नोव्हेंब्र), म्हाका खुबशा कारणांक लागून खास, आनी तातूंतलेंच एक म्हळ्यार लियोनिड्स मीटियोर शावर (Leonids Meteor Shower).बाकीचीं कारणां मागीर केन्नाय्र सांगतां.

हे खेपेचो उल्कापात, म्हळ्यार तुट्टातं ते तारे (Shooting Stars) बी कोणाकूय पळोवंक आवडटात जाल्यार तांच्यांनी एकतर मध्यान-राती वेळार (११ - १२ - १ वरांचेर) वा सकाळचे फांतोडेर, सुर्य उदेवच्या पयलीं (४-५-६ वरांचेर), पुर्व दिके वटेन पळोवंचें. वाटकुळ्या चंद्राचें व्यत्यय आसून लेगीत, थोडे तरी शुटिंग स्टार, तुटटात ते तारे दिसतलेच.

ही एक तरेची, देजेंब्र म्हयन्यांतल्या व्हडल्या जागरणाची (उज्याचो पावस) पुर्व तयारी कशी.

कार्तिक मास, शके १९४३, पुनवः

आयज(१९नोव्हेंब्र),दोनपारच्या२ जावन २९ मिणटांचेर जातली खगोलशास्त्रीय पुनव. हरशी मानतल्यांनी आनी कडक शिस्त पाळटल्यांनी बी खरं ह्या वेळाक म्हत्व दिवंक जाय. पूण कितें करतले, दिसता तशें नासता म्हूण तर जग फसता हे खबर आसून लेगीत चडशे लोक असल्या तत्वाचेर आडनदर करतात आनी फुडें त्रासांत पडटात, म्हण्टकच, मानप काय ना-मानप हो सगळ्यांत व्हडलो प्रस्न उप्रासता. बेटेच त्रास घेतले म्हूण जालें? ताचो फायदो जावं नाका? आसू आतां तें!

आयच्या दिसाचें आनीक एक खाशेलपण म्हळ्यार, आयज मिनी फूल मून (Mini Full Moon).

हो उमास वा पुनवेचे तिथीचो जुस्त वेळ कसो कळटा..? तशेंच ह्या Mini/Micro dm Super Moon हांचें खाशेलेपण (वा फटींगपणा) कितें ते फुडल्या अंकांत पळोवया.

आमचो हांगा जीं गिराणां बी जातात तीं कसले तरेचीं आनी कितल्या वेळा खातीर दिसतात, असलीं मजेशीर तर्कां हे घडणुकीचेर निंबून आसतात.

गिराणांची बी गजाल आतां (गोंयांत रावतल्यांनी तरी) ना काडलेलीच बरी. हाचे विशीं बद्द आमी २५ ऑक्टोबर २०२२ सांत कितें तें पळोवया.

■■■

तुटिल्ल्या ताऱ्याचो कुडको

खेळांत यश मेळपा खातीर इबोधू मारजिंगा कडेन शक्ती मागतात. हो देव घोड्यार बसून पयले फावट हो खेळ खेळिल्लो खंय! ते खातीर सागोल कांगजेयाक देवाचो खेळ म्हणटात. सणां परबेक थंय हो खेळ उमेदीन खेळटात. हातूंत दोन गट आसतात. दोशी वटेन सात सात खेळगडे आसतात. मणिपूरच्या राजांचो बी हो आवडटो खेळ आशिल्लो. थंयच्या च्याच्या मळ्यांनी नेगोस करपाक येवपी ब्रिटीशरांनी तांकां हो खेळ खेळटना पळयलें आनी फुडें तांणी तो खेळ आपणायलो. देवाची पूजा करपी एकटो आशिल्लो ताणे मणिपूरी हिंदींत ही म्हायती दिली. बिपिन नेपाळी.पूण ताका मणिपूरी भाशा कळटा. म्हाका कितें कळूं ना तें ताणें सांगलें. कोणतरी इतल्या पयसुल्ल्यान इबोधू मारजिंगाची भेट घेवपाक आयले हेंच ताका म्हत्वाचें दिसलें.

मणिपूरी लोक आनंदी, काटक आनी कश्टी. नाच आनी खेळ तांचे सामके आवडीचे. खोंग कांगजेय (हॉकी) आनी मुकना कांगजेय (कुस्ती) हेवूय खेळ परबांच्या निमतान ते खेळटात. खंयचेय परिस्थितीचेर मात करपाची एक जिद्द तांचे भितर आसा. ते खातीर मेरी कोम आनी मिराबाई चानू ऑलिंपिकांत मेडलां मेळोवपाक शकलीं.

आतां मात म्हळें, साडी घेवपाक या. बिपिनान मार्केटांत एका दुकानांत व्हेलें. नांव वेगळेंच दिसलें. 'तिणें सांगलां तें दुकान हें न्हय!' हांवें ताका तशें सांगलें. 'ना, ना, हांगाय बऱ्यो मेळटात.' तो म्हणूंक लागलो. पूण म्हाका जाय ती मोयरांगफी साडी थंय नाशिल्ली. आनीक दोन दुकानांनी व्हेलें. आतां हो बिपिन आमकां हांगा थंय भोंवडायतालो तें पळोवन घोवान म्हळें, 'हो टॅक्सी बेश्टीच भोंवडायता. आपल्या वळखीच्या सगळ्या दुकानांनी व्हरता. एके साडये खातीर म्हणून इतलें भोंवप! हो कोंबये परस मसालो चड जालो.

फाटल्या म्हयन्यांत आमी कोची आनी उदयपूर गेल्लीं तेन्ना थंयच्यो थळाव्यो साडयो घेतिल्ल्यो तुवें, आतां आनी हांगची कित्याक जाय?' हांव ओग्गी

रावलें. निमार्णे तार्णे विणकारांचे सोसायटींत व्हेलें. एकेच इमारती सकयल्या मजल्यार खूब दुकानां आशिल्लीं. तरेकवार हस्तकलेच्यो वस्तू आशिल्ल्यो. भायल्यानूच दिसताल्यो.

एका दुकानांत भितर सरलें. थंय फकत धव्योच मोयरांगफी आशिल्ल्यो. म्हणून दुसऱ्या दुकानांत गेलें. थंय तरेकवार रंगांच्यो साडयो आशिल्ल्यो. ह्यो मोयरांगफी साडयो बिष्णूपूर जिल्ह्यांत मोयरांग गांवांत तयार जाताल्यो. हांगच्या राजान ही साडी मुद्‌दम मितैय राजघराण्यांतले राणये खातीर विणूंक लायिल्ली. णवव्या-धाव्या शतकांत. तेन्ना हे साडयेक यार्रोफी म्हणून वळखताले. मागीर मोयरांगान तयार जातात म्हणून मोयरांगफी म्हणूंक लागले. हे साडये वयले डिझायन विणपाची एक खास तरा आसा. माल्शी ढाकाय जामदानी साडये भशेन. हे साडयेक दोशीं वटेन काट्या काट्यांची देग आसता. थळावे भार्शेत या म्हळ्यार दांत. रोंग म्हळ्यार लांब. फी म्हळ्यार वस्त्र. लांब दांत आशिल्लें वस्त्र. ह्या लांब दांतांचो संबंद मणिपूरचें लोकदैवत पाखांबा कडेन आसा. ह्या देवाचे दात हे साडयेर विणिल्ले आसतात. म्हणून ही यारोंगफी. आतां ही साडी मणिपूर राज्यांत सगळे कडेन तयार जाता. पूण नांव मोयरांगफीच उरलां. ह्या डिझायनाच्यो ओडण्यो आनी हाफ साडयोय न्हेसतात. कविता उत्सवांक आयिल्ल्यो चलयो ह्यो साडयो न्हेशिल्ल्यो. कांय जाणांनी फनेक न्हेसून वयर ह्यो ओडण्यो घेतिल्ल्यो.

ह्यो साडयो सुती तशेंच मलबरी सिल्काच्योय आसतात. सहसा ह्यो साडयो भारतांतल्या हेर दुकानांनी मेळनात. म्हाका खंयूय वता तेन्ना शॉपिंगाची क्रेझ ना. फकत थंयच्यो एक वा दोन थळाव्यो वस्तू हांव हाडटां. हालीं हालीं आलमारी भरून उरपाच्यो ह्यो वस्तूय हाडपाच्यो हांवें बंद केल्यात. पूण साडयो वा हेर कपडे मात सोदून हाडटां.

आतां ह्याय दुकानांत सुंदर शी मळबा कोराची सुती साडी हांवें घेतली. साडयेक गुलाबी कोराचे या म्हळ्यार दांत आशिल्ले. पदरार सुंदर काळ्या, हळदुळ्या आनी गुलाबी कोराचे हत्ती, फुलां आनी घोडे आशिल्ले. मोव, मुलायम साडी, उबाळाच्या दिसांनी बी न्हेसपाक बरी. साडी हातांत दितना सेल्सगर्लान 'थँक्यू' म्हळें. 'तुमी खंयच्यान आयल्यात?'

' गोंय' म्हणतकीच तिका चडूच बरें दिसलें. 'इतल्या पयसुल्ल्यान येवन तुमी आमकां हातमाग कारागिरांक उर्बा दितात. खूब खूब बरें जावं तुमचें. तुमचे सारके लोक येवन आमच्यो हातमागा वयल्यो वस्तू घेतात म्हणून आमचीं घरां चलतात.' खरेंच तिचें. तांचो तोच वेवसाय पर्यटकांचेरूच चलता म्हळ्यार जाता. ते खातीर खंयूय भोंवडेक वतात तेन्ना थंयच्यो थळाव्यो वस्तू घेवपाकूच जाय. जाल्यारूच आमच्यो पारंपारीक कला जिव्यो उरतल्यो.

प्रसन्न मनान हांव इमा मार्केटांत वचपाक गेलें. सांजवेळचीं साडेचार वरां जाल्यांत. पूण तिनसांज जाल्ले भशेन दिसता.

'इमा मार्केटांत गर्दी आसतली, गाडी व्हरपाक मेळची ना.' बिपिनान सांगले.

'हांव आनी गर्देंत भितर येवपा ना. तूं जाय तितलो वेळ भोंव. आमी हांगाच रावतात, तुजें जातकीच फोन कर. मागीर तुका व्हरपाक येतां' घोवान सांगलें. बरें म्हळें.

'इमा' म्हळ्यार मणिपूरी भार्शेत आवय. तेखातीर 'इमा बाजार' म्हळ्यार आवयांनी चलयिल्लो बाजार'. मणिपूरी बायलो आदीम काळा सावन सदांच घरचे भायले दिसपट्टे व्यवहार करत आयल्यात. शेतांत काम करप, हातमागाचेर कपडे तयार करप हीं कामां बायलोच करतात. मणिपूरच्यो शिमो नागालँड, मिझोराम, आसाम आनी ब्रह्मदेश (म्यानमार) हांकां लागून आशिल्ल्यान थंय सदांच एके एके जाती मर्दी झुजां सुरूच आसतालीं. दादले सदांच झुजा मळार आसताले. घरां, शेतां बायलोच सांबाळतालीं. इतलेंच न्हय तर दुसरे वटेन कोर्णेय धुरी याल्यार बायलांक झुजूय करचें पडटालें.

मणिपूरचे लोक राणी लिथोइम्बीची एक काणी सांगतात. सादारण १५३०-३२ च्या काळांतली ही काणी. मणिपूरचो राजा निग्थौखोम्बा राजाची ही महाराणी. त्या काळार मणिपूर आनी ब्रम्हदेश हांचे मर्दी झूज सुरुच आसतालें. ते भायर मणिपूर राज्या भितरलेय वेगवेगळे समुदायाचे सरदारूय विद्रोह करताले. एकदां राजा निग्थौखोम्बा ब्रम्हदेशान घुरी यालतकीच थंय झगडपाक गेल्लो. हें कळटकीच तांगखूल नागा सरदार आपलें सैन्य घेवन राज्याचेर झगडपाक आयलो. आतां राणये कडेन सैन्य नाशिल्लें. कांय पारेकरी तितलेच आशिल्ले. महाराणीन तांकां एकठांय केले आनी सांगलें आतां अस्त्रां, शस्त्रां चलोवन कांयच फायदो ना आमी युक्तीन हें झूज जिकपाक जाय. तिणें आपल्या राज्यांतल्या सगळ्या युवा आनी मध्यम वयाच्या बायलांक आपयलीं आनी परिस्थिती सांगली. सगळ्यो बायलो तिचे वांगडा झुजाक वचपाक तयार जाल्यो. सगळ्यांनी दादल्यांचे भेस याले. हातांत तरसादी बी घेवन त्यो तयार जाल्यो. महाराणीन राजा भशेन भेस केल्लो. तकलेक पगडी, आंगार चिलखत... ते खातीर ही महाराणी म्हणून सांगल्यार लेगीत कोणाक खरें दिसचें नाशिल्लें.

तांगखूल नागा सरदार आतां मणिपूर आपलेंच अशें घेवजीत येतालो. राजधानीच्या लागीं पावता म्हणसर ताणें पळयलें, हजारांनी सैनिकांक घेवन महाराज निग्थौखोम्बा घोड्यार बसून येता. ताका सामको कलकल आयलो. राणीन महाराजा सारको आवाज काडीत म्हळें, 'यो सरदारा यो, तुज्या येवकाराक आमी आयल्यात.' तें पळोवन सरदार भिलो. उठून राणीचे पांय धरत तिका शरण आयलो. राणी हेंच सोदताली. तिणें सांगलें आमी तुका माफ केलें. आयच्यान तूं आमचो सोयरो. आमच्या विश्रामगृहांत मुक्काम कर. फाल्यां दरबारांत तुजें स्वागत करतां'.

तांकां भरपूर खावयलें. सोरो पियवलो आनी बंदखणींत व्हरून याले. ते खातीर मणिपूरचे लोक आज लेगीत लिथोइम्बी राणयेचें नांव आदरान घेतात. मणिपूरच्या लोकां कडल्यान अश्या असामान्य बायलांच्यो, आववांच्यो काणयो आयकूंवपाक मेळटात. तर हें इमा मार्केट फकत बायलांनी चलयल्लें आशियांतलें सगळ्यांत व्हड मार्केट. म्हाका असल्या थळाव्या बाजारांत भोंवपाक खूब आवडटा. केन्नाय जिवाक मरगळ बी आयल्या जाल्यार हांव मडगांवच्या न्यू मार्केटांतल्या खांची कोनश्यांनी, अशीर पायणींनी पासय मारून येतां. जिवाक एक सकारात्मक उर्जा मेळटा.

आतां ह्या इमा मार्केटांत मडगांवच्या नुस्त्या बाजारांत बी आसता तश्यो शेडी आसात. कपड्यांचो, नुस्त्याचो, फळाभाजयांचो अशे वेगवेगळे बाजार. पयलीं हांव कपड्यांच्या बाजारांत भोंवलें. रंगरंगयाळ्यो इनापी. इनापी म्हळ्यार एके तरेच्यो ओडण्यो. पदर कश्यो घेवपाच्यो. फनेक, वयर पोलको आनी मागीर पदर कश्यो इनापी. स्वेटर, कानतोपयो, शाली सगळ्यो भडक रंगाच्यो. म्हाका कांयच घेवपाचें नाशिल्लें. हांवें फकत विन्डो शॉपिंग केलें. पूण घेवपी खूब लोक आशिल्ले. बाजार भरिल्लो आशिल्लो.

तेकुनूच दुसरे शेडींत नुस्त्या बाजार. नुस्तेकान्नी भायर लेगीत बशिल्ल्यो, 'नुस्तें व्हर व्हर' म्हणीत. सगळें न्हयेंतलें नुस्तें. ताजें फडफडीत. आनी ते भायर चिखलांतलें. चिखलान भरिल्लें. ल्हान ल्हान काळुंदरां कशीं. सुकें नुस्तें तर विचारूच नाका. बारीक बुरांटे, मोतयाळीं, यडये तें दुसरें नुस्तें आसत पूण पळोवंक तशेंच दिसतालें.

भाजी तशी तरेकवार. फळभाजयो तशोच फुलभाजयोय. वेगवेगळ्या लांबायेचे वाल. मीठ लावन सुकयल्ल्या किल्लाची तर सामकी खातड. फळां मात सदचींच. अनसां आनी मोटवीं गुडगुडीत केळीं. तांदळाचे कितलेशेच प्रकार. , धवेफुल्ल, तांबडे तांदूळ आनी काळेच तांदूळ. काल पायस खाल्लो ते. घरांत लागपी अवजारां, कवचेचीं कांकणां... कितें ना म्हणून

ना.

हांगा चार हजारां वयर रजिस्टर्ड गाळे आसात. ते भायर रस्त्यार बसून विकपीय 'इमा' आसात. पांचशें वर्सां जालीं हो इमा बाजार असोच सुरू आसा. मणिपूरी लोकां खातीर हो निखटो बाजार न्हय तर तांचे खातीर तें एक सांस्कृतीक केंद्र. ती एक परंपरा. येद्या व्हडल्या इमा बाजारांत भोवन कांयच येतले ना शें दिसलें म्हणून परतें कपड्या बाजारांत वचून एक शाल घेतली. जरी हांवें चड कांय घेतलेंना, म्हजे दोळे मात सुखावले. तृप्त जाले. येद्या व्हडल्या बाजारांत शास्त्राक एक लेगीत दादलो विकपी नाशिल्लो. मात विकत घेवपी खूब आशिल्ले.

खरें म्हळ्यार मणिपूरी समाज हो पितृसत्ताक समाज. पूण फाटले दोन तीन दीस हांवें मणिपूरी लोकां कडल्यान जें जें आयकलें , अणभवलें ताचे वयल्यान हो मातृसत्ताक समाज कसो दिसलो. मणिपूरच्या इतिहासांत खंय बालविवाह केन्नाच जावनांत. मणिपूरांत चलो चलयेचे सहमतीन जावपी गांधर्व विवाहाची प्रथा आशिल्ली.

संवसारांतल्या 'मैरा पायबी' ह्या मशाल आंदोलनाचो जल्म ह्या मणिपूरी आवयांनीच केला. सोरो, ड्रग्स हाका लागून संवसार काबार जाता तें पळोवन मणिपूरच्या शारांनी आनी गांवांनी रातच्यो हातांत मशाली घेवन ह्या बायलांनी आंदोलनां केल्यांत. अजुनूय करतात. १९०४त मणिपूरी बायलांनी एकठांय येवन ब्रिटीश साम्राज्या विरोधांत आंदोलनां केल्लीं. अशी ही मणिपूरी बायल- आवय. हो इमा बाजार म्हळ्यार मणिपूरी आवयांचो भोवमान. मणिपूरी समाजान केल्लो मणिपूरी बायलेचो सन्मान.

फाल्यां हांव परतें गोंया वतलें पूण जेन्ना केन्ना मणिपूरची याद येतली तेन्ना हो इमा बाजार दोळ्यां मुखार येतलो.



# दिवाळी

कोंकणी साहित्य मळा
वयली नवी पिळगी
आपले परीन साहित्य
सेवा करपा पासत
प्रयत्न करता
तातूंतलें एक
सुवेदा पालकार...
कविता आनी निबंद
ह्या साहित्य प्रकारांत
तांचो सद्या वावर चालू
आसा, जातूंत परजळीत
फुडार जाणवता...



सुवेदा पालकार
मो 00000

नरक आनी सर्ग हे दोन तरांचे लोक. जे कुकर्म करपी लोक आसतात ते नरक लोकांत पावतात आनी सत कर्मां करतल्यांक म्हणल्यार जांचे आचार विचार शुध्द अशे मनीस सर्ग लोकांत पावतात. बारीकसाणेन पळयल्यार नरक आनी सर्ग हाचीं प्रात्यक्षिकां आमकां धतरिचेर पळोवपाक मेळटात.

नरकासूर हें एक वायट अहंकारी प्रवृत्तीचें प्रतीक. ताणें खंय खूब कडक अशें तप करून देवाक प्रसन्न केलो आनी ताणें खंय देवा कडेन आपल्याक रातीचेंय आनी दिसाचेंय मरण येवचें न्हय असो अमर पदाचो वर मागलो आनी देवान ताका तसो वर दिलो. वर मेळटकच ताणें आपल्या अत्याचारी कुकर्माक ओतो हाडलो. अहंकाराचो मद मस्तकाक मारून सगलो संवसार आपले मुठींत आसा अशें ताका दिसपाक लागलें. हजारांनी अस्तुऱ्यांक ताणें बंदीस्त करून दवरल्यो, देवभक्तांक, रुशींक नाका पुरो करून सोडलें. मागीर सगल्यांनी ह्या संकश्टांतल्यान





वाटावपा खातीर देवाक प्रार्थना केली. श्रीकृष्णान दिल्ल्या वराचें भान दवरून आनी मान राखून रात सरचे आनी दीस सुरू जावच्या वेळार दोनायचे रेशेर म्हळ्यार फांतोडेर ताचो वध केलो. तेन्ना सगल्यांनी दिपकां पेटोवन आपलो आनंद व्यक्त केलो. वचत थंय व्हडा उमेदीचें आनी उत्सवाचें वातावरण पसरलें.

ह्या नरकासूर वधाचें भान दवरून आमी दर वर्सा आमच्या जिवनांतलो अंधकार घालोवपा खातीर दिपकां पेटोवन दिवाळेचो उत्सव मनयतात. आमच्यांतले वायट विचार ना नपयत करून ज्ञान जोडपाचो हो उत्सव.

नरकासूर वधाचो वेळ जातकच लोक आपआपल्या घरांनी आंगाक उटणें लावन न्हाण नातात. घराच्या मुखा वेल्यान आकाश दिवे पेटयतात. मागीर तुळशी वृंदावना कडेन वचून तुळशीक न्हाण घालप, फुलां अर्पण करून काट्टें खावप. गंध, तिळो लावप मागीर फोव खावप अशी प्रथा आसा. ह्या दिसांनी वचत थंय काट्टीं मेळटात. तीं मुजरत रोवचीं पडनात. काट्टें जिबलेक लावन काळजांतली कोडसाण पयस करप आनी गोड म्होवाळ उतरां जिबलेर घोळोवप म्हणल्यार एकामेकां कडेन आपुलकायेन उलोवप वा मान सन्मानान उलोवप. पूण विज्ञानीक नदरेंतल्यान पळयल्यार काट्टें आमचे कुडींतल्यो हानीकारक गजाली काबार करता आनी कूड तंदुरूस्त आनी आरोग्यान बरी दवरता.

दिवाळी हो हिन्दू धर्मांतलो सगल्यां सणां परस उमेदीचो आनी उत्साहाचो सण. ह्या सणांतल्यान आमकां अध्यात्मीक नदरेंतल्यान शिकपा सारकें भरपूर आसा. ह्या सणाक भोवतेक लोक एकामेकांगेर मिठाई दिवन एकमेकां बद्दल मोगमया व्यक्त करतात. हे परबेचो आनंद व्यक्त करपा खातीर लोक फोगाचो वापर करतात. फोगा खातीर भरपूर पयशे खर्च करतात. अशे तरेन ही लक्ष्मी उज्यांत घालचे बदलेक खंयचेय आप वावुरपी संस्थेक जर दान दिले जाल्यार तें पुण्य काम थारूं येता. नाय जाल्यार तें मनीसपणाचे नदरेन बरेंच काम.

आमच्या पुर्वजांनी सणां परबां निमतान भोवच बऱ्या चाली रितींची बुन्याद घालून त्यो परंपरा चालू दवरल्यात. पूण हालींसराक ह्या चाली रितींचें भ्रश्ट अनुकरण जाल्लें पळोवंक मेळटा. पाश्चात संस्कृतीचें आमी अनुकरण करपाक लागिल्ल्यान नवे पिळगेक आमी आमचे संस्कृती पसून पयस पयस धुकलीत आसात. आमचें मूळ कूळ आमी आमच्या सणां परबां सकट राखून दवरप ही काळाची गरज आसा. हो धर्म पवित्र अनवाळो.

अशें म्हणटात एकदां मेलो ताका परत परत मारपाची गरज आसना. पूण दर एके पिळगेक नरकासुराची प्रतिमा जाणीव करून दिवपा खातीर अध्यात्माचें हें पुस्तक आरतें करून दाखोवचें पडटा.

■■■

# हस्तीदंताचे गोपूर

**मूळ कोची-केरळ हांगाचे नामनेचे कोंकणी साहित्यीक गोकुळदास प्रभु हांणी कथा हो साहित्य प्रकार प्रामुख्यान हाताळ्ळा. अनवाद ह्या प्रकारांतूय उल्लेखनीय वावर केला. तांकां केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो 1994 वर्सा खातीरचो पुरस्कार फावो जाला.**



गोकुळदास प्रभु
मो. : 9986074635

ट्रेन प्लटफार्मा कडेन पावतना ताणें आपलें बॅग हातांत घेतलें. डब्यांत चड लोक नाशिल्लो. देखूनच देंवपाक दारा लागीं बोवाळ्य नासलो. प्लटफार्मार देंवन भायर वचपाक सोदतना ताणें पयसुल्ल्यान लोक येतना पळयलें. वेशा वयल्यान लागी पाविल्ल्या खेटांतले धा पंदरा लोक राजस्थानी म्हणपाचें स्पश्ट आसलें. थवयकाम, गंवडेपण आदी करपा खातीर बेंगाल, बिहार, उत्तर प्रदेश हांगाच्यान आयिल्ल्या लोकांचो बंगाली, हिंदी संवाद आनी बिजापुरी कामगारांनी एकामेकांक मारिल्लो उलो कानार पडलो.

भायर भिकारी लोक न्हिदून, बसून वा भोंवत आशिल्ले. दारा लागींच एके कुशींत ऑटोरिक्शांची लायन. मुखारच टॅक्सी स्टॅन्ड. मातशें पयस सिटी कडेन वचपाच्यो बशी. सगळ्या वाहनांचे चालक गिरायकांची वाट पळयत भायर रावल्यात. बशीचे कंडक्टर बोब मारतात.

निळें मळब. सकाळचें सवाय आठांचें वत. नगर तशें चड

पयस ना. साडे तीन-चार किलोमीटर पयस. आनी म्हाका त्या कार्यक्रमाक पावपाक जाय सांजे स वरांक. ताणें चिंतलें, म्हाका कांय ताकतीक ना. चलून वचूं येता. तरीय हॉटेलांत वचून न्हावन घेतलें तर बरें दिसतलें अशें चिंतून थारायलें, बशीर या.

हॉटेलांत पयलींचो रिसेप्शनिस्ट नासलो. ताणें नव्या मनशाक आपली वळख करून सांगलें, 'रूम बुक केल्लें'. ताणें रजिस्टर, डायरी कांय पळय नासतनाच जाप दिली. 'जाणां. येतनाच बुकिंग पळयलां हांवें.' नांव बी बरोवन सय करपा खातीर रजिस्टर दिवन रिसेपशनिश्टान सांगलें, 'फोटो आयडी दी.' मागीर सय केल्या काय ना म्हण पळोवंचे पयलींच ताणे विचारलें, 'अॅडवान्स कितले दिता?'

एका दिसाचें भाडें अॅडवान्स दिवन चावी घेतली, बॅग उखल्लें आनी चावयेर कोरांतिल्ल्या आंकड्याचें रुम सोदीत तो चल्लो.

रातीं बरी न्हीद पडिल्ली. ट्रेन वेळार पाविल्लें. भायर येतनाच बस मेळिल्ली. वळखीचो रिसेपशनिस्ट नासलो तरीय सगळें वेवस्थितपणान जालें. ताणें आपलें रूम उक्तें केलें. भितर सदां भशेन खाटी वयल्या हातूळणाचेर धवें चादर, धवें उशें आनी धवें पांगरूण. मेजार कंवचेच्या निव्वळ आयदनांत शुद्ध उदक. नितळ न्हाणी. सगळें वेवस्थीत. ताच्या तोंडांतल्यान आपशींच एक शिळोणी आयली.

ट्रॅवल किट घेवन न्हाणयेंत वचून ताणें दांत घासले, खाड काडलें. आनी न्हावपाची तयारी करूंक लागलो. बॅगांतल्यान कपडे काडून भायर दवरतना ताच्या लक्षांत आयलें, चेड्डी ना. ना? ना म्हळ्यार नाच. काल घरांतल्यान भायर सरतना काडली ना दिसता. आलमारींतल्यान काडून खाटीर दवरिल्ली ती थंयच उरली जायत..! ताळ्यांत आयिल्ली शिळोणी जिरून गेली. तकलेंत स्वताचो शिराप रूप घेतलो- आतां कितें करप?

आनी कितें? भायर वचप, खंयच्याय दुकानांत वचून नवी चेड्डी घेवप. व्हड्लो विशय न्हय.

तो न्हाणयेंत गेलो, गीझर ऑफ करून परतलो आनी मुस्तायकी बदल्ली - पयलीं नाश्तो घेवप. मागीर खरेदी. परत येवन न्हावप. तशें आयज ताकतिकेन करपाचें कांय ना. इश्टागेर साकरपुड्याचो कार्यक्रम जावपाचो आसा तो सांजेचो. आतां णव वरां जाल्लीं. भरपूर वेळ आसा.

हॉटेलाच्या रेस्टॉरेंटांत नाश्तो घेवन तो भायर सरलो. पयलींच जायते फावट आयिल्ल्यान हो गांव तसो परको नाशिल्लो. आनी एक चेड्डी घेवपाक कसली वळख जाय? तो दुकानांत प्रदर्शित केल्लें म्हाल नियाळीत, वस्त्रांच्या दुकानांचे तकटे सोदीत, चलत रावलो.

वखदाक सुण्या गू जाय म्हळ्यार सुणें खंय कांटयेर वचून हागता. भितरल्या मुस्तायकेचें सोड, सादा लुगटाचें एकय दुकान दिसलें ना. पावला कणकणीं दिसताल्यो त्यो ल्हान-व्हड खाणावळी. अदीं मदीं फार्मासी, जिनसाचे पसरे, तरकारी आनी फळां विकप्यांच्यो आंगडी.. म्हणट्कूच ताचे दोळे एका दुकानांतल्या शो-केसांत प्रदर्शित करून दवरिल्ल्या कापडांचेर पडले आनी ताचे पांय थंय वळ्ळे. लागीं पावतना ताका समजलें, ते कुर्ते आनी पन्टां चलयां खातीर आसात. बायलांच्या कापडांचें दुकान आसतलें. थंय वचून उपेग ना.

ताणें परत सोद सुरू केलो. सगळे कडेन मोबायल चार्जिंग केंद्रां, केंस कापपाचीं सलूनां, डी.टी.पी ऑफीस, पांयतणाचीं दुकानां, किरकोळ दोतोरांचीं क्लिनिकां, एटीएम केंद्रां, बायलां खातीर फॅन्सी वस्तू विकपी सुवात, जाय तें दुकान मात ना. पूण खंय तरी आसतलें. आं, मेळ्ळें. पयस, मार्गा कुशींतल्या एका उक्त्या जाग्यार मांटोव आनी ताचे वयर 'वस्त्रांचें प्रदर्शन आनी विक्री' अशें बरयल्लो व्हडलो तकटो दिसलो. ताका सूं जालें..

मांटवांत भितर मेजांचेर म्हाल रास करून घाला हें स्पश्ट आसलें. मेजां भोंवतणीं लोक गर्दी करून राविल्ले. गिदानी मेल्ल्या जनावराच्या मड्याक रेवाडो घालून ताचे कुडके ओडून खावंचे तशे लोक मेजावयले राशींतल्यान कपडे ओडून काडटाले, पळोवन नाका जाल्यार थंयच उडयताले. ते गर्दीत बायलांचो आनी चलयांचो आंकडो चड आशिल्ल्यान तो मात्सो पयस रावलो. मागीर संद मेळ्ळी तेन्ना ताणें ते राशींचो नियाळ घेतलो. ल्हान माणकुल्यांचें वस्त्र, चल्यांचे जीन्स आनी शर्ट, चलयांचे कुर्ता, टॉप, लेगिंग्स आदी वेग वेगळ्यो रास करून उडयल्ल्यो पूण मेज-मापाचो कांय प्रम ण नाशिल्लो.

आपणाक जाय ती चेड्डी थंय मेळपाची ना म्हण कळून तो भायर सरलो आनी परत चलपाक लागलो. फुटपाथार राजस्थानी कपडे न्हेशिल्ल्यो कांय बायलो आनी भुरगीं दिसलीं. कसलीं तरी बावलीं विकपाक बशिल्लीं. मात्शे फुडें वतना एका दुकानाच्या शो-केसांत कपडे प्रदर्शीत करून दवरिल्ले दिसले. पूण थंय वचपाक घुंवतनाच ताणें

तकट्यार पळयलें - लेडीज एन्ड चिल्ड्रेंन्स वेअर. ताचेच लागीं आनीकय दोन दुकानां आशिल्लीं. तींय बायलां आनी भुरग्यांचीं. फकत बायलां खातीर आनी भुरग्यां खातीर? पयलीं केन्ना लक्षांत व्हरूंक नाशिल्लें. अशें कशें? ह्या शारांत दादल्यां खातीर दुसरीच सुवात बी राखून दवरल्या? आसत!

फुडें वतना ताका ती सुवात दिश्टी पडली. तिस्का वयल्या कोनशाच्या बिल्डिंगांत. चिके व्हडलें बिल्डिंग.

एकय दार वा जनेल दिसना. सगळें बिल्डिंग नीळ रंगाच्या हारशा भितर. तातूंतल्या एका दुकानाचो लांब तकटो भायर दिसलो: मेन्स वेअर. तो चल्लो, भितर रिगलो. दारा कडल्या धनयाच्या/कशियराच्या जाग्यार एकलो तरणाटो बशिल्लो. तो हातांतल्या स्मार्टफोनांत इतलो गुल्ल आशिल्लो, दुकानाचें दार उगडून एकलो गिरायक आयला म्हणपाचें ताका कळ्ळेंच ना.

गिरायक भितर गेलो. एके कडेन रावन दुकाना भितर दिश्टी भोंवडायली. सगळे कडेन स्यूटिंग, शर्टिंग आनी जीनसाचें नीळ, काळें, गोबरा रंगाचें लुगट. शिंवोवन बावल्यांचेर चडयल्ले पॅण्ट, स्यूट आनी शर्ट. सांगिल्ल्या मापाक अनसरून कातरून दिवपा खातीर आलमारींत दाळून दवरिल्ल्यो लुगटाच्यो घडी. दुसरें मेन्स वेअर कांय दिश्टी पडलें ना. विचारपाक काउंटरार कोण सेल्समनय नासलो. ताणें दारा कडेन बशिल्ल्या त्या तरणाट्या कडेन वचून ताका विचारलें:

''हांगा ब्रीफ मेळता? ''

तरणाट्यान आंग काडलें: 'अं? अं?'

''अंडरवेअर, अंडरवेअर. हांगा मेळता?''

''ना.'' ताच्या तोंडार एक विचित्र भाव.

'' ह्या बिल्डिंगांत आनी खंयचेय दुकानांत मेळत?''

'' खबर ना.''

गिरायकान त्या तरणाट्या कडेन पळयलें. हो ह्या दुकानाचो मालक काय नोकर? ह्या संवसारांतच जियेता काय कितें? तो दार उगडून भायर आयलो. बिल्डिंगांत वयर सकयल भोंवलो आनी चेड्डी विकपी दुकान आसा काय म्हणून सोद घेतलो. पूण थंय आनी खंयचेंय दुकान नासलें. कांय ऑफीस चलतालीं.

मात्शें पयस ताका दोन बिल्डिंगां दिसलीं. एकामेकांक तेंकून. एक बिल्डिंग दोन माळयांचें जाल्यार आनीयेक खूब मोटें. वांकडे मांडणेचें, चार माळयांचें. दोनय हारशान पांगरून उरिल्लीं देखून भितरचें कांयच दिसनासलें. हारशांत रुखाचीं, मार्गा वयल्या वाहनांचीं पडबिंबांच दिश्टी पडटालीं. धाकटें बिल्डिंगाचें कवंचेचें आवरण नीळ काय पाचव्या रंगाचें तें स्पश्ट नासलें. पूण मोट्या बिल्डिंग सगळें शेळ्या रंगाच्या हारशाचें. ताचेर लायिल्लें व्हडलें होर्डींग उठून दिसलें. जायरातीच्या त्या फलकांत एक तरणाटी जमनीर कोंपरार उमथी पडून व्यायाम करचेलें चित्र. बिल्डिंगार दुसरे कडेन हिंदी, इंग्लीश आदी चलचित्रांची जायराती.

तो धाकटे बिल्डिंगांत भितर सरलो. पळोवया हांगा म`ळटा काय म्हणून! भायरच्यान बिल्डिंग धाकटें दिसलें तरीय भितर विशाळ दुकानां आशिल्लीं. इतलीं विशाळ दुकानां ह्या दोन मंजिलाच्या बिल्डिंगांत कशीं आसतात म्हणून ताका अजाप जालें. सगळ्या दुकानांनी यूनिफॉर्म पॅन्ट आनी शर्ट घाल्ले लोक भोंवताले. दर दुकानाच्या नोकरांचें यूनिफॉर्म आगळें वेगळें आसलें. चडावत दुकानां कपड्यांचींच.

एक स्पश्ट जालें. खाणावळी सोडल्यार मागीर ह्या शारांत सगळ्यांत चड दुकानां आसतलीं कपड्यांचीं. पूण एकूच दुबाव आसलो. गरजेची चेड्डी मेळत काय ना? धा पंदरा मिनटांनी स सात शो-रुमांत वासपूस केल्ल्या उप्रांत एका दुकानांत पावलों, जंय भितरली मुस्तायकी घालून राविल्ल्या तरणाट्या चल्या-चलयांचीं चित्रां आशिल्लीं. तो भितर रिगलो, काउंटरार राविल्ल्या मनशा कडेन वचून ताणें कितें जाय तें सांगलें.

सेल्समनान दाट कागदाच्यो कांय पेटी हाडून गिरायकाक तातूंतल्यो चेड्डी काडून दाखयल्यो. गिरायकान त्यो घडी सोडोवन लुगटाची वीण सांसपिली. इलास्टीक ओडून पळयलें. सायझ तापासलें. आनी मोल समजून घेवपाक लेबल सोदलें. चेड्डेर लेबल नासलें. पूण पाकीटार आसलें. १७९९ रुपय. कच्च जालें.

''आरे, हें कसलें मोल! ह्या मोलाक दोन तीन शर्ट घेवं येता मरे!''

सेल्समन हांसलो.

'' मार्क्स एन्ड स्पेन्सर कंपनीचें प्रोडक्ट, सर. तांचेंच दुसरें एक प्रोडक्ट आसा. दाखयतां. पांच कॉट्टन चेड्ड्यो. ९९९ रुपय. एक चेड्डेक सुमार २०० रुपया बसता. ना जाल्यार हें पळयात. डमेंस्च कंपनी. इंडियन. दोन चेड्ड्यांक ८९९ रुपय. म्हळ्यार एक चेड्डेक सुमार ४५० रुपय.''

''नाका रे बाबा,'' ताणें सांगलें. ''तूं ते दोनशें रुपयांची एक चेड्डी दी.''

" पूण सर, आमी किरकोळ दिनात. एक पाकीट तरी घेवंचें पडटलें. ९९९ रुपय."

"आरे, पूण म्हाका पाकीट नाका. घरांत जाय तितल्यो चेड्ड्चो आसात. हांगा येतना काडपाक विसरलों. आयच्या दिसा खातीर एक जाय. पाकीट घरा व्हरून कितें पुजपाचें?"

"सबरी सर."

"बरें."

तो घुवन पळयनासतना भायर सरलो. मात्सो अस्वस्थ जाल्लो: कसली भानगडी ही? हांकां कोण विचारपी ना? टेक इट ऑर लीव इट मानसिकता? आय विल रादर लीव इट!

तो लागींच्या मोटे बिल्डिंगांत रिगलो. हो आनी येक कंवचेचो गोपूर. रावळाराची मांडणी. फुडल्या दाराच्या दोनय वशीनी आनी फाटले कडेन दरेक माळयेर, संवसारांतल्या सगळ्या जिनसाचें प्रदर्शन करपी रूंद विशाळ दुकानां. एका मंजिलार पांच स सिनेमा थियेटरां. हांगा थंय खाणावळ. रावळारांतल्या मदल्या, उकत्या जाग्यार लोकांक वयर सकयल वचपाक लिफ्ट आनी एस्कलेटर. तांचेय वयर, चवथे मंजिलाच्या छप्परा वयल्यान दोन तीन कडेन हुम कळायिल्ले झुंबर. सगळे कडेन दोळे दिपकावपी झग झग. कुबेराच्या उपासकांची गर्दी. सुंदर चले, चलयो आनी भुरगीं. तांच्या आंगाक वेंग मारून सोबाय वाडोवपी मोलादीक कपडे.

उकत्या जाग्यार कितें तरी गेम्स चलताले आनी चारूय माळये वयल्यान, तिनीय वशींतल्या बाल्कनीर रावन लोक पळयताले. कोण तरी मायकांतल्यान घोशणा करून गेम्सांत वांटो घेवपी लोकांची उर्बा वाडयतालो.

ते गर्दैतल्यान एकूणपन्नास वर्साचो तो फकत एक चेड्डी विकती घेवपाक आयलो. कोणा कडेन कांय विचारपाची गरज नासली. खंयचे आंगडींत कितें मेळटा तें शोकेसांतल्यान कळटालें आनी दरेक वस्तूचें मोल लेबलार नोंद केल्लें दिसतालें. जायत्या दुकानांच्या दारा कडेन मोलांत ४०, ५०, ६० टक्के सूट म्हूण सुचोवपी जायराती दिसताल्यो. तो हळूच आपणाक जाय तें दुकान सोदीत फुडें सरलो. पूण वचत आसतना हरशींच शोकेसांत प्रदर्शीत केल्ल्या वस्तूंडांचेरूय ताणें नदर भोंवडायली. विंगड विंगड दुकानांतल्या बुजगावण्यांचेर चडयल्ल्या

कपड्यांचें मोल पळयलें.

झोडियाक कारलेटी ओलीव कॉटन शर्टाचें मोल रु.५९९९. तेच कंपनीचें बस्सानो कोट्ट्न शर्टाचें मोल रु.४४९९; बार्बोनी क्लासीक फिट ३३४९ रुपयाचें. आंडमन कंपनीचें साक्सी चम्ब्रे लिनन शर्ट ४४९० रुपयाचें; पॅन्टाचें मोल रु.५४९०..

आमचेच देशांतले कंपनीचे कपडे इतले म्हारग जाल्यार विदेशी कंपनीचे कशे आसतले? ताणें चिंतलें.

ताका रोकडीच जाप मेळ्ळी. पोलो राल्फ लबरेन शर्टाच्या लेबलार मोल बरयल्लें दिसलें: रु.११,६९० ८,७६८. तेच कंपनीच्या हेर दोन शर्टांचें मोल रु.११,६९० आनी रु.१४,०००; ह्यूगो बबस धव्या शर्टाचें मोल रु. २०,००० -१५,०००; हकट लंडन कंपनीचें मळब नीळ शर्ट १८,००० रुपयाचें; काळ्या रंगाचें ट्राउसर रु.२७,०००. एंपोरियो अर्मानी कंपनीचें जकार्ड प्रिंट शर्ट: रु.२२,०००; वायन प्रिंटड फोर्मल शर्ट: रु.३१,०००; तांबड्या रंगाचें वेर्सेस शर्ट: रु.३४,०००, गाड नीळ कषुअल शर्ट: रु.८०,०००. तेच कंपनीचें पुडी रंगाचें डेनीम जीन्स ३४,५००; मिड वाष्ड डेनीम जीन्स रु.३८,०००; नीळ रंगाचें स्केटर जीन्स रु.५०,०००; आयस वाष कमूफ्लष जीन्स रु.९०,०००.

चेड्ड्यांचें स्पेशालिटी दुकानय ताणें पळयलें. देश विदेशांतल्यो वेग वेगळ्या कंपनीच्यो चेड्ड्यो ताका पळोवंक मेळ्ळ्यो. तांचें मोलय ताका समजलें. ह्या फुडें 'वरसाचे' हे कंपनीचें नांव विसरचो ना अशें ताणें आपले भितर सांगलें. ते कंपनीचे ग्रेका बोर्डर बोक्सर चेड्ड्येचें मोलरु.११,५००; लो रायस ट्रंक्साकरु.३४,३००; ग्रेका बोर्डर सिल्क पैजामा चेड्ड्येक रु.३५,७००.

ताची तकली भेरेल्ली. हें सगळें खरें काय एक दु:स्वप्न? आपूण भारतांतल्या दुकानांत आसा काय विदेशांतल्या? हीं लेबलां लायलांत भांगराचे वस्तूक काय कपड्यांक? तेंय बी दाद्ल्यांच्या कापडांक?

ताका सकाळीं रेल्वे स्टेशनाच्या प्लॅटफॉर्मार पळयल्ल्या बिहारी लोकांची याद जाली. पोरूं वर्सा दरेक सामान्य बिहारी मनशाची वर्सुकी येणावळ आसली खंय सुमार पन्नास हजार रुपयांची. आनी हांगा स्केटर जीन्साक ते येणावळीक समान मोल? बिहार सोड. पोरूं वर्सा झारखंडाच्या आनी उत्तर प्रदेशाच्या प्रति मनशाची वर्सुकी येणावळ णवद हजार रुपय लेगीत नासले खंय. हांगा एका जिन्साचें मोल ९०,०००रुपय दवरलां! आनी लजेक न्हेसतात ते चेड्ड्येक पस्तीस हजार रुपया!

ताका दिसलें, सकयल गेम्स खेळतात, थंयचो म ायक घेवन चवथे माळयेर वचून आइडून सांगपाक जाय: 'पापयानो, जाणांत तुमी? हेयटीचे दुर्बळ लोक खावंक गती नाशिल्यान मातयेची बिस्कूत करून खातात. मडगास्करचे गरीब धवे मातयेंत मीट आनी चिंचांब भरसून पोट भरतात.भूख भागोवपाक लाचार लोक वेनीझुएलांत कुशिल्लें मांस शिजोवन खातात आनी फिलिपिन्सांत घरच्या आनी खाणावळींच्या कोयरा राशींतल्यान पुंजायल्लें उश्टें मांस खतखतावन खातात. दक्षिण सुडानांत लोक भुखेन सादें तण शिजोवन खातात. खंय तरी तांचो तो वीडियो पळयला? सोदात. पळयात. संवसारांत अशेंय घडटा. कित्याक, आमच्या देशांत लेगीत घडटा न्हय? आनी हांगा हें शोशण, अधाशीपण चलूंक दितात तुमी! थांबयात!

पूण लोक आपलें खंय आयकतले? आनी तसो मायक घेवन चवथे माळयेर वचपाक ते सोडटले? तरीय एक करूं येता

ताणें चेड्ड्येचो सोद सोडून दिलो, आपल्या हबटेलाची वाट धरली. पंदरा मिनटांची वाट. बारा वरांचो वेळ. वताक लागून हूम देंवंक लागली. तरीय चलत वचपाचें थारायलें.

हबटेल रिसेप्शना कडल्यान चावी घेवन रुमांत वचपाक लागिल्लो, पूण रोखडोच घुवन ताणें सांगलें, ''रुमांत एक पेसकाती धाडून दी.'' काउंटरा वयलो रिसेप्शनिस्टान म ात्शें दुबावान पळयलें पूण चड विचारी नासतना 'जायत' म्हळें.

रुमाचें दार उकतें करून तो भितर येवन सीदा न्हाणयेंत गेलो. आतां गीझर घालपाची गरज ना. न्हावपाक थंड उदकच बरें. तो येवन खाटीर बसपाक पळयतना थंय पयलींच बगांतल्यान काडून दवरिल्लें बनियन आनी लुंगी दिसली. मेजा कडेन वचून कंवचेच्या आयदनांतलें उदक पेल्यांत ओतीत आसतना दारा कडेन बेल वाजलें. भायर पेसकाती घेवन एकलो राविल्लो. ती घेवन ताणें दार बंद केलें.

मागीर ताणें पेसकातेन लुंगयेच्यो दोन फाळ्यो कातरून काडल्यो. न्हावन मागीर एक फाळो पिळून कमराक बांदपाचो. आनी येक काश्टी करून न्हेसपाची. झक मार तुमची पस्तीस हजारांची चेड्डी! तो बानयन, लुंगयेच्यो फाळयो आदी घेवन न्हाणये कडेन गेलो.

■■■

# शिकशान

'बिम्ब' तशेंच हेर साबार पुरस्कारांनी सन्मानीत रुपा कोसंबे एक संवेदनशील सर्जक. तांचो 'उमळ' हो कविता झेलो 'सुवर्णमध्य' आनी 'पल्लू' हे ललित निबंधांचे संग्रह बरेच लोकप्रिय थारल्यात. तांच्या लेखनांतली विनोदी शैली वाचकांचीं मनां ओडून घेता...



रुपा कोसंबे
मो. : 9404914437

ट्रे 'को अंह? को अंह?' म्हणत मनुश्यप्राणी जरी संवसारांत आयलो तरी जन्माक येतकच ताची शिकपाची धडपड चालूच आसता. सैमूच जल्माक आयले नंतरचे ताचे एकेक हालचालीक बळगें दिवन तार्चे शिक्षण पुराय करुन घेता. जन्माक येतनाच आवयन छातये कडेन धरलें म्हणटगर चुरू चुरू करून पानें ओडप, दोळे बिटबिटावप, भूख लागली म्हणटगर ताळो सराटून रडप ह्यो क्रिया हें तिचे शिकपाचे एकेक पांवडे. फुडले पांवडे हुपतनाच ल्हवल्हव उम थे पडटा. धिमकुऱ्यांनी वचप, धरून उबें रावप, ल्हव ल्हव पावल्यो मारप अशें तार्चे शिक्षण चालूच उरता. मनीसप्राण्याक ह्या येस्तेदाचेर पावता म्हणटासर लागलार्गी वर्स देड वर्स उलगता. पूण हेर प्राण्यां खातीर मात सैमान आपलो हात हे बाबतींत सदळ दवरला. घडये तांचे आयुष्यमान मनशा परस कमी आशिल्ल्यान आसूं येता. गायचें पाडूक जातनाच उबें रावन आवयक लुचपाक लागता. म्हणटासर कानांत वारें

भरिल्लेवरी हेवटेन तेवटेन धांवता आनी मातशें व्हड जालें म्हणटगीर आपल्या पोटाची व्यवस्था सुद्दां आपले आपूण करता. ईश्वरान मनशाक बुध्दी नांवाची वस्त प्रधान केल्ल्यान ताका हेर जिवा परस चड कश्ट पडटात आसत. शिक्षणाच्या बळग्यार तो हें साध्य करपाचो यत्न करता. शिक्षण घेवचे खातीर पयलीं भुरग्यांक गुरूकुलांत धाडटाले हें आमी वाचून, आयकून जाणांत. आमी कांय तें अणभवलेंना म्हणटगीर ताचेर चड भाश्य न केल्लें बरें. आमी आमचेच पिळगेच्यो गजाली करूंया. आमच्या वेळार भुरगें बरें स वर्सांचें जालें म्हणटगर ताका बरोसो म्हुर्त पळोवन पाटी काडी दिवन शाळेंत व्हरून बसोवन ताच्या शिक्षणाचो श्री गणेशा सुरू करताले. मागीर दोन दीस शाळेंत न वचपाचो हट्ट करत रड बीड जाताली आनी ल्हव ल्हव शाळेच्या वातावरणा कडेन एकरूप जावन फुडें फुडें शाळेचे एकेक पांवडे चडप अशें जातालें. थोडीं पटापट म्हणजे वर्साक एक एकेकदा दोन पसून यत्ता मेहनतीन अभ्यास करून कांय न्ही करून पुराय करतालीं तर थोडीं दर यत्तेंतलो अभ्यास सवकासायेन शिकत, एकेक बाकार, दोन तीन वर्सां बसून बिसून बरें अणभवसंपन्न जातासर शाळा शिकताली.

उत्क्रांती काळांत मनशाचें खंय शेपूट गळून पडलें म्हणटात. तशेंच शिक्षणाचेंय जालें जावपाक जाय. कोणाचें तरी पुण्य फळाक आयलें आनी शिक्षणखात्याक भुरग्यांक णववी मेरेन नापास करप ना म्हणपाची बुध्द आयली आनी सगळ्या भुरग्यांचें शिकप अनिवार्य रित्या धावी मेरेन जावपाक लागलें. जालें तें बरेंच जालें म्हणपाचें! ही सुविधा आमचे वेळार आशिल्ली जाल्यार हांव यंव करतलों आशिल्लों वो त्यंव करतलों आशिल्लों म्हणपाक अर्थ ना. दर एकलो नशिबान खाता. तर शिक्षण पुराय करुन आपले पांयार उबे रावतासर शिकत रावचें पडटा. आमच्या तेपार पदवी मेरेन शिक्षण जालें म्हणटगर सर्ग हाताक आयलो कसो दिसतालो. थोडे क्वचीत फुडल्या शिक्षणाची आस बाळगिनासले पूण चडशे जाण शिक्षणाक विराम दिवन नोकरे खातीरचे धडपडीक सुरवात करताले. तेदेवेळार हाका ताका कोणाकय पांयां पडून उतराच्या बळग्याचेर नोकरेचें काम जातालें. ते बाबतींत आम ची पिळगी मात्शी भाग्यवान. ती नोकरी तिगोवन दवरपाची कसरत करत वर्सां सोंपतली. त्या मानान आतां भुरगीं खूप शिकतात, मेळत तो कोर्स पुराय करपाक धडपडटात आनी मागीर स्पर्धेच्या या युगांत आपले निजाच्या क्षेत्राचेर उदक सोडून दुसरेच क्षेत्रांत पदार्पण करतात. मागीर इदनेर जाल्लो कारकून जाता आनी दोतोरकेची पदवी घेतिल्लो साहित्य क्षेत्रांत चमकता. अशें सगळ्यांचे बद्दल जाताच अशें ना. दर एकल्याची मर्जी. पूण आपल्या क्षेत्रा कडेन प्रामाणीक रावून आपली प्रगती सादून समाजाच्या भल्या खातीर आपलें शिक्षण उपेगांत हाडप्यांक वालोर दिवचो पडटलो.

शाळा शिकता तेन्नाच भुरगो बाकिचेंय खूब कितें कितें शिकता. दुसऱ्याच्यो खोड्यो काडप, ईर्ष्या करप, हेराच्यांकय आपणेंच फुडें पावप. सरभोंवतणच्या वातावरणा नुसार तो घडत वता. पूण ईर्ष्या आनी ध्येय हांचो समन्वय साधत फुडें वता तोच येशस्वी थारता.

आतां भुरग्यांचें शिक्षण पळयतगर दिसता आमी भोगलें तें सर्गसूख. शाळा, गृहपाठ, शिक्षा, परिक्षा हीं दिव्यां पार करत खेळीमेळीन शिक्षण पुराय जातालें. भुरगो शिकपाक कमी पडटासो दिसलो जाल्यार गुरूजनांकय तळमळ लागताली. ते स्वता जातीन कश्ट घेवन भुरग्यांक शिकपाक प्रवृत्त करताले. तांणी शिकचें म्हण मारूय घालताले. पूण तेन्ना मास्तर बाईंची कागाळ जायनाशिल्ली. भुरग्यांच्या आवय बापायक शाळेंत आफोवन हाडून तांच्या पराक्रमाचो पाढो वाचलो म्हणटगीर घरा कडेन वचून पडटालो तो पेट येवजिल्यार आजूय काळजाक एक खपखपो कसो येता. भुरगो शिकना जाल्यार ताका येतना वतना शिकपाची ताकीद दितनाच जाणटेले ताका गोरवां राखणो जावपाची भंय घालताले. 'आतां शिकना जाल्यार गोरवां दोंगरार घेवन वच्चीं पडटलीं'. अशे शिटकायताले. तेन्ना गोरवांक दूद बी काडटगीर प्लेस्टीकाच्यो पोतयो उस्तुवपाक आनी रेडीमेड खाणां खावपाक रस्त्यार सोडपाची चाल नाशिल्ली. गोरवांक दावें म्हण आसतालें, गोठो आसतालो, गायर आसताली. आतां हे सगळे शब्द इतिहासजमा जाल्यात.

पूण कितेंय म्हणा, आतांचीं भुरगीं मात जातनाच स्मार्ट. उंडी गिळपाक शिकचे पयलीं तांकां आतां मोबायल हाताळूंक जमता. आमकांय तांची अपुरबाय दिसता. भुरगें जेवना, दिले तांच्या हातांत मोबायल. मोबायल पळयत भुरगें मागीर तोंडात पडटा तें पटापट गिळटा. रडटा जाल्यार दिलो मोबायल. थप्प जावन तो रडपाचें कारण पसून विसरता. मागीर मोबायल हाताळपाक ती इतलीं फिशाल जातात की तीच आमच्या ह्या क्षेत्रांतली गुरू जातात. आमकां कळना तें आमी तांकां विचारतात. तांच्या मोबायल गिन्यानाची तुलना येतल्या वयतल्या चार चवगां कडेन करतात. ल्हव ल्हव भुरगो मागीर त्या मोबायलाचो ॲडिक्ट जाता तें आमच्या लक्षांत पसून येना. तीं मोबायलार कसल्यो सायटी पळयतात, खंयच्यो

गेमी खेळटात हें पळोवपाची आमकां गरज लेगीत पडना.

आनी पडटली कशी? तांचें शिक्षणच आतां मोबायलाचेर. केन्ना किर्तें विचारलेंच जाल्यार थारावीक साच्यांतलीं उतरां कानार पडटात, 'पयलींच मोबायलाचेर अभ्यास करून दोळे दुखतात, तातूंत तुमची कटकट!' म्हणपाक पुसून तीं फाटीं फुडें पळयनात. मागीर 'बाबू म्हजो शिकूं' हे धरतेचेर थंयच्यान कडसरल्या बगर मार्ग आसना.

शिक्षणाच्या नांवा खाला हीं बाबू-बायां दीस भर मोबायलांत मान सकयल घालून टीक टीक करत रावतात. मागीर कोण आयलो, कोण गेलो तांकां पडूनच वचना. घरांत कोण आजो आजी चुकून आसलींच जाल्यार तीं नातरांक शिटकायतात, 'आरे मोबायल घेवन किर्तें बसला, भायर मातशी पासय बी मारून यो, अशें केल्यार तुजी व्हीस्त पिड्ड्यार जातली.' मागीर तीं रागार जावन फडफडील्ल्या वरी 'हां, मागीर तूंच कर तर अभ्यास ' म्हण पुस्तकां बी फापसून उठून वचूंक लागता. मागीर घे त्या आज्या आजींचो उध्दार जाता.

'तुमकां किर्तें कळटा तातूंतलें, वगी बसात पळोवंया मात्शीं तोंड धापून' म्हण भुरग्यांचे आवय बापूय आपल्या बाबू-बायांचो पाखो घेतात.

ह्या मोबायल शिक्षणाच्यो म्हण एक न्ही, हजार तरा. कोण भुरग्यांक कमर-मान एक करून शिकचें पडटा म्हण पिरंगता तर कोण मैदानी खेळ नाशिल्ल्यान भुरगो सामको थुलथुलीत आनी बलबलीत जाला म्हण चिंता करता. कोणाक दोन- तीन भुरगीं आसलीं जाल्यार प्रत्येक भुरग्याक वेगवेगळो मोबायल घेवन दिवपाक परवडना. मागीर समाजांतले थोडे स्वतःक दानशूर समजुवपी लोक फुडें येतात आनी व्हडले व्हडले फोटो दिसाळ्याचेर छापून हाडटात आनी प्रसिध्दी मेळयतात.

फाटीं वासिनाचो (कोविशिल्ड) दुसरो डोस घेवपाक लायनींत राविल्लें. म्हज्या मुखा वयलो एक पालक फुडल्याक सांगतालो,

'बेगीन आयल्यार पुरो नंबर, वतना नवो मोबायल व्हरपाक जाय. पुताची फाल्यां ऑनलायन परिक्षा आसा. ह्या मोबायलाचेर शिक्षण जाल्ल्याक ताचे तीन मोबायल जाले. एक स्पेर करून दवरल्यार बरो, परिक्षा चलतना आनी गोंदळ नाका'.

' कितले मेरेन हें अशें चलतलें देव जाणां. तशें ऑनलायन शिक्षण वायट न्ही. परिक्षा ऑनलायन आशिल्ल्यान भुरग्यांचें वर्स फुकट वचपाचो भंय उणो जाला, हँ हँ हँ,' फुडलो पीछे मुड करत.

' जाता तेन्ना जाता, तो मेरेन तरी भिवपाची गरज ना न्हय?'

हें संभाषण म्हाका मदीं दो गज की दूरी आशिल्ली. तरी आयकुपाक मेळ्ळें, बरें मनोरंजन जातालें पूण तितले म्हणसर तांचो कोण तरी गॉडफादर येवन तांकां कुरू करून आफोवन डायरेक्ट इनेसांव करतात त्या तंबूंत घेवन गेलो आनी हांव पांयां वयली जळारां फापडीत म्हज्या नंबराची वाट पळोवंक लागलें.

आमीं ल्हान आसतना प्रांत:विधी खातीर तांबयो घेवन दोंगरार वतालीं. आतां नेटवर्क प्रोब्लमाक लागून गांवगिऱ्या वाठारांतल्या बाबड्यां भुरग्यांच्या नशिबांत मोबायल घेवन शिकपा खातीर दोंगरार धावपाची पाळी आयल्या. आमचें गोंय आतां 'उडटा पंजाब' जावपाचे वाटेन प्रगती करीत आशिल्ल्यान एकट्या दुकट्याक रानांत वतना बरेंच सादूर रावचें पडटा. त्या भायर रानांत वाघ, गवे, कोले, बिबटे अशीं जनावरां आशिल्ल्यान कोर्णेय हल्लो केलो जाल्यार ही भिरांत आसाच. बायलां-चलयांचेर जावपी अत्याचाराचें प्रमाण वाडत आशिल्ल्यान कितेंय आगळीक घडत म्हणपाचोय हुस्को आसता. अशें ह्या ऑनलायन शिक्षणाचो सगळो घुस्पागोंदळ जावन पडला.

ते दिसाक आमच्या शेजारचें संगीता पोरसांतलो निरपणस घेवन आयिल्लें. तें सद्याक ऑनलायन आदवोगासी शिकता. ताका पळयना फुडें म्हाका जिवाक बरें दिसलें. ह्या दिसांनी घरांत कोण येवपाचें दुर्मिळ जालां. आमी बऱ्यो खबरो केल्यो. ताका पोळे-कुंवोळ बी दिलो. खातां खातांच अचकीत उठून तें 'काकी येतां आं रोखडेंच' म्हण कांयच विचारपाक वेळ दिना आसतना घरा धांवलें. धा मिनटांनी खर्शेत परत येतगीर हांवें विचारलें, 'आगो, कितें जालें? अशे वाग फाटीक लागिल्ल्या भशेन धांवपाक?'

'कांय ना गे काकी, णवांक लेक्चर सुरू जावपाचें आशिल्लें. पयल्याच तासाक ते हजेरी घेतात, नाजाल्यार मागीर एबसेंन्ट पडटा आशिल्लें न्ही? म्हणून हजेरी दिवन आयलें. आतां वरभर सुशेगाद' ताणें हांसत हांसत सांगलें आनी उरिल्ले पोळे सवकासायेन खावन सोंपयले आनी 'थेंक्यु काकी' म्हणून घरा गेलें.

आतां नव्या शिक्षणीक धोरणा खातीर केंद्रान शिक्षकां खातीरूय प्रशिक्षण दवरपाचें केलां म्हण कानार पडटा. शिकूं बाबडो कोणूय, आमचें कितें वता?

कोवीड सुरू जाल्ल्याक आॅनलायन, ऑफलायन शिक्षण अशे शब्द दिसपट्टे कानार पडटात. थोड्यांक ऑनलायन शिक्षण केन्नाच काबार जावचें न्ही अशें दिसता. वर्ग प्रत्यक्षरित्या सुरू करतले अशें परिपत्रक शिक्षणखात्यान काडलें रे काडलें हांच्या पोटांत दुखूंक लागता. मागीर विध्यार्थ्यांक कितेंय जाल्यार सरकार कशें जबाबदार थारतले हाजेर ते लेक्चरां दितात. जणू काय ऑनलायन वर्ग जाल्ल्याक भुरगो हुमरोच हुपिनात. हरशिल्लें सभा, प्रचार, उत्सव मात कसलोच पातसो धरिनासतना संपन्न जातात.

शिक्षणाचें म्हत्व वाडत आशिल्ल्यान एकेकल्यांच्या नांवा फाटलें डिग्र्यांचें शेपूट लांब लांब जायत आसा. आमची एक काकी सोयरिको करताली. 'भुरगो कितें शिकला गे?' म्हणटगर तिची एक थरावीक जाप आसताली, 'कितें म्हण हांव सांगूंक नकळो, पूण तो मगो खूप्प शिकला'. तेन्ना तिची जाप आयकून हासूंक येतालें. पूण म्हाकाच आतां एकेक पदवेचें नांव आयकून रानांत पडिल्लेवरी जाता. पयलीं दोतोर आपल्या नांवा फुडें आपल्यो पदव्यो लायताले. पूण आतां लग्न पत्रिका पुसून हातांत घेतल्यार पदव्यांच्या यादीं मदीं न्हवऱ्या-व्हकलेचें नांव सोदचें पडटा.

फाटीं बॅकेंत गेल्ले कडेन दिस्त वक्ल व्हरपाक विसरलें. एक अर्ज बरोवन दिवपाक सांगिल्लें. हेवटेन तेवटेन नदर मारता थंय आसां दिस्त नेहा दिश्टी पडलें. नेहा आमच्या घरा मुखा वयल्या बंगल्यांत रावता. डबल ग्रेजुएट, विशय खंयचो घेतिल्लो खबर ना. बॅकेंतल्यो खंय वस्ती व्हरपाक आयिल्लें. हांवें मात्शें ताका बाये पुता करून अर्ज बरोवन दिवपाक सांगले. ' सॉरी, तसलें कांय बरोंव ना हांवें केन्नाच, वेळ जाता आं'. म्हण सांगून थंयच्यान कडसरलें. मागीर क्लार्कानच दोन वळींचो अर्ज बरोवन दिलो आनी म्हजे काम जालें.

शिक्षणान सगळेच साध्य जाता अशें ना. मॅट्रीकेमेरेन शिकिल्लो भुरगो लेगीत आपलो धंदो येशस्वी रित्या चलयता. खरें पळोवपाक गेल्यार परिस्थिती हो खरो गुरू. परिस्थिती जें शिकयता तें कोणाच्यानूच शिकोंव नजो. कोवीड महामारी सारखी परिस्थिती आयली, तातूंतल्यान आमी खूब कितें शिकलीं. कोविडानूच न्हीं तें आमचें ुंदर मुखामळ मास्का पोंदा लिपोवन आमकां भोंवपाक शिकयलें?

■■■





# एक काणी शाणी शाणी

– डॉ. हनुमंत चोपडेंकार

(बाल कादंबरी)



## १६ शाणीची गांवच्या मठांतली काणी इश्टांची पेवपाची काणी

गोंय विद्यापीठांतल्या कोंकणी विभागाचे मुखेली म्हूण वावुरपी डॉ.हनुमंत चोपडेकार हांणी साहित्याचे विंगविंगड प्रकार हाताळ्ळ्यात. कविता, कथा,ब ालसाहित्य, आनी हेर संशोधनात्मक लेखना वांगडाच तांचें समिक्षा लेखनूय सातत्यान चालू आसा. तांची ही खिस्ती खिस्तीनी चालू आशिल्ली बालनवलिका भुरग्यांच्या जिविताकडेन पळोवपाची वेगळी नदर दिता...



डॉ. हनुमंत चोपडेकार
मो. : 8805152539

श्रावण म्हयनो लिगिल्लो आनी पुराय सैम नव्या चैतन्यांत ताजो टवटवीत जाल्लो. भोंवतणचो सगळो सैम पाचव्या रंगान फुलिल्लो. नदर भोंवडयता थंय एक तरेचें शांत, शितळ आनी सोबीत वातावरण पातळिल्लें. हय, ह्या सुपुल्ल्या गांवांत आमचो शाणी रावतालो. त्याच गांवांत दर बेरेस्तारा बरीच मोठी गर्दी उसळटाली. तोच हो बेरेस्ताराचो दीस. गांवांत ते दीस बरोच बोवाळ आसलो. सकाळ सावन गाडयांच्यो गाडयो भरून लोक मठा वटेन वयताले. कांय लोक पिकपीर, जिपिंनी, स्कुटरीर तशेच मोटरसायकलीरूय पावताले. शाणी आनी ताचे खाशेले इश्ट चवथेच्या वर्गांत बशिल्ले खरे पूण तांचें लक्ष रस्त्यार लागिल्लें. आयज चडूच गाडयो येतात हाचें तांकां अजाप दिशिल्लें...

'आयज बेरेस्तार. मठा कडेन आयज मज्जा येतली..... पूण मठांत कितें जालां आसतलें! मठा कडेन कितली गर्दी जाल्या आसतली,..!. मठा कडेन दुकांनांनी बटाटवडो, मिर्ची



आनी भर्जी तळ्ळ्यां आसतलीं काय.... मठांत फोव आनी च्या केल्या आसतली काय लोकांक दिवपाक, दनपारा कसलो रोस आसतलो महाप्रसादाक, खतखतें राती कडेन....'

चिंतता चिंतता शाणीन आंवडो घोंटलो. घडये त्याच वेळार सुभाष आनी सुनीलान ताका पळयलो. तेवूय तोच विचार करताले. आनी घडये आंवडोय घोंट्टाले. तांच्यांनी दोळ्यांतल्या दोळ्यांत कसली तरी सिनाल केली. थोडी तकली हालयली तें दिस्त बाईन पळयलें.

'' हे....! काय चाललंय तुमचं? गणितं सोडवा लवकर.''

वर्गांत लताबाई आसली, ती गणिता सोडोवपाक शिकयताली. तांचीं सिनालां पळोवन ती तापलीच. ते सरशी शाणी आनी ताचे इश्ट गणिता सोडोवपाचें नाटक करपाक लागले. त्या नाटकांतूय तांकां पाटयेचेर मठाचो परिसर स्पश्ट दिसपाक लागलो.

हय, तो श्रावण म्हयन्यांतलो पयलोच बेरेस्तार आसलो. तशी दर बेरेस्तारा शाणीच्या गांवांत लागीं लागीं जात्राच भरता म्हटल्यार जाता. कारण गांवच्या पद्मनाभ सप्रदायाच्या स्वामी सुशेनचार्य मठांत सप्तकांतलो दर बेरेस्तार व्हडा भक्तीभावान म नोवपाची रीत चलताली. तातूंत श्रावण म्हयन्याच्या बेरेस्ताराची मजाच वेगळी. गोंयच्या चडश्या गांवांनी त्या मठाचे अनुयायी आसले. वर्साचे सगळे बेरेस्तार मठांत भावार्थान मनयताले. वर्साचे सगळे बेरेस्तार दर एका गांवाक एक हे भशेन वांटून घातिल्ले आसले. ते भशेन दर एक । गांवांतले मठाचे अनुयायी तांकां वांटून दिल्ल्या दिसा थंय येवन पुजाअर्चा करताले. तशेंच दिसभरांतली सगळी सेवाय दिताले. संत रामदास स्वामींच्या दासबोदाचें निरुपण आनी गुरूबाबा ब्रह्मानंद स्वामीचें आशिर्वचन हें त्या बरेस्ताराचें सगळ्यांत व्हडलें आकर्शण आसलें. ते भायर मठांतरात रात मेरेन भजन आनी गायनां चलतालीं.

गांवचे भुरगे दर एका बेरेस्ताराची भोव उमळशिकेन वाट पळयताले. बेरेस्तारा निमतान तांकां राती कडेन घरा भायर सरपाक आनी वांगडा रावपाक मेळटालें. फकाणां करप, खबरी मारप, पावसाच्या दिसांनी उदकांत खेळप, थंडेच्या दिसांनी धगाटो घालप, ना जाल्यार गांवच्या सगळ्या भानगडींचेर चकाटां मारून वेळ पासार करप... अशें भुरगे करताले. ते भायर मठांतलो रातचो महाप्रसाद सगळ्यांच्या पसंतीचो आसलो. कांय जाण जाल्यार दोन दोनदां पंगतींक बसून पोट फुटसर जेवताले. उरलें जाल्यार घराय व्हरताले.

शाणीक पयलेच फावटी थंय बेरेस्ताराक पाविल्लो तो विनू भैयाक लागून. फाटल्या म्हयन्यांत विनू भैयान 'आतां तूं व्हड जाला. फुडल्या वर्सा पांचवेक पावतलो, चल यो तुका बेरेस्ताराक व्हरतां' अशें म्हणून ताका बळजबऱ्यांच थंय व्हेल्लो. ते दीस बेरेस्ताराक शाणीक व्हरपाचें ऍपलिकेशन विनू भैय्यान घरांत घालता थंयच पास जालें. कारण तें मठांत वचपाच्या पवित्र कार्याक धरून आशिल्लें. तें ऍपलिकेशन पयलीं आई कडसून बाबा कडेन आनी बाबा कडच्यान आज्या-आजये कडेन पावलें आनी व्हडा अपुरबायेन रोकडेंच मान्य जाल्लें. अजापाची गजाल म्हटल्यार, हे फावटीय तशेंच जालें. तांचें ऍपलिकेशन हे फावटी आई कडच्यानूच रोकड्या रोकडें पास जालें.

हरशीं रथसप्तमीक बी आमचो शाणी ताच्या बाबा वांगडा मठांत पाविल्लो. पूण बेरेस्तारची ती गर्दी आनी तें वातावरण ताका नवेंच आसलें. बेरेस्तारा विशीं ताका खूब दिसा सावन ओड लागिल्ली. त्या काळांत थोडी समज येवपी गांवांतल्या दर एका भुरग्याक ती ओड लागतालीच. मठा कडेन रावपी आनी शाणीच्या वर्गांत शिकपी सुभाषान शाणीच्या कानार केन्ना तरी बेरेस्ताराची खबर सांगिल्ली. मठ आनी मजा अशें कितेंशें तांणी सांगिल्लें शाणीक याद जातालें. ते भायर मठा विशीं आनी बेरेस्तारा विशीं तांणी ताका जायत्यो बऱ्यो वायट खबरी सांगिल्ल्यो. तेन्ना सावन शाणीन मनांतल्या मनांत आपूण एक दीस बेरेस्ताराक वयतलोंच म्हूण गांठ मारिल्ली.

विनू भैया वांगडा फाटल्या बेरेस्ताराक गेल्ले कडेन तांणी तें प्रत्यक्ष पळयल्लें. खरें म्हणजे भुरग्यांनी मठाच्या सभाघरांत बसून निरूपण आयकुवचें म्हूण जाणटे परत परत शिटकायताले पूण एक दोन भुरगे सोडले जाल्यार हेर भुरगे मठा सकयल वा मठा फाटल्यान ना जाल्यार मठाचे वयले वटेन काजीनी बी वचून गोळक्यांनी रावताले. आनी सभाघरांतल्यान'पसायदान' म्हणपाक सुरवात जातांच पंचाखाद्य घेवपाक सभाघरांत दत्त कशे हाजीर रावताले. ते केन्ना आनी कशे सभाघरांत पावताले कोणांक कळच नासलें. उपरांत महाप्रसाद म्हणजेच मुखेल जेवण घेवपाकूय सगळ्यांत पयली लायन उबी जावचे पयलींच वचून जागो आडायताले. पयले फावट गेल्लो तेन्ना शाणीन हें सगळें बारीकसाणेन पळयल्लें. ते फावटी ताका कांय गजाली खटकल्यो. आतां दुसरे फावट वचपाक भायर सरताना त्योच गजाली ताचे तकलेंत परत परत घुंवूंक लागल्यो.

सांजेच्या साडेसातांक विनू आनी शाणी मठांतल्या बेरस्ताराक वचपाक भायर सरले. आईच्या सांगण्या वयल्यान दोगांयनी बरें कलसांव आनी खोमीस अशी मुस्तायकी



घातिल्ली. आंगणांतल्यान भायर सरतांच रस्त्यार पावतां पावतां शाणीन फाटले फावटी बेरेस्ताराक गेल्ले कडेन ताचे तकलेंत उप्राशिल्ले प्रस्न विनूक विचारलेच.

''आरे विनू भैय्या, बेरेस्तार जाता मठांत. म ागीर चडशे भुरगे मठाच्या सभाघरांत बसून देवाचीं गायनां कित्याक आयकोंक सोदिना? तुमी सगळे हेवटेन टेवटेन कित्याक रावतात? कोण काजींनी, कोण सकयल्या रस्त्यार आनी कोण मठा फाटल्यान! म्हाका सांग अशें कोशें जातलें? अशें केल्यार देव रागार जावचो ना. सांग मरे...?''

विनू शाणीचे प्रस्न आयकून अजापीत जालो. सुरवेक तो बाबडो वोगीच रावलो. कितें सांगचें आनी कितें सांगचें न्हय हाचेर तो निर्णय घेतालो जावंये. ताणें भितरल्या भितर कितें तरी येवजिलें आनी जाप दिना तें पळोवन शाणी बेजारलोच.

''सांग मरे भैय्या. त्या दिसा तूं म्हाका थंय मठांत सोडून पळय नाच जाल्लो. उगडास कर. हांव कितलो भियेलों जाणा तूं. दामूक मंताक बी विचार....रडपाकूच पावलेलों हांव. निमाणें 'तवशरणम्.' म्हणप सुरू जालें तेन्ना पावलो तूं म्हाजे कडेन. तुका सोबता रे हें भैय्या...? भुरग्याक असो रडोवपाक बरें दिसता मरे तुका....? उलय मरे म्हाका सांग भैय्या, तूं खंय रे गेल्लो तेन्ना?''

''हय हय सामको भुरगो तूं.इल्लोसो बाबू रे तूं!साऽऽमको बाबू! बाबू खंय! सगळें कळटा तुका. व्हड जाला तूं आतां. पुरो आतां...'' विनून ताचो प्रस्न सामको झटकून उडयलो.

''पुरो बिरो कांय नाका. सांग तूं.... खंय गेल्लो?''

''सोड, तुका कळचें ना तें!''

'' कित्याक कळचें ना?''

'' तूं ल्हान आसा रे आजून.''

'' आत्तां व्हड जाला म्हणटालो मरे तूं!''

'' हय ल्हानूच तूं त्या मानान.''

'' ल्हान खंयचो? हो पळय हांव कितलो व्हड जालां पय पय.''

''तुका मरे हायें वोगीच हाडलो आयज. पांय उखल बेगीन.''

''ना ना सांग म्हाका.''

आतां शाणीन आपले दोनूय पांय आपटुपाक सुरवात केली. तो कसोच मुखार सरना जालो. ते सरशी विनून ताका पयलीं खूब समजायलो. पूण तो बदलो ना. बऱ्यांच वगतान रागार फुगार जावपाचें सत्र सोपून निमणें विनू ताका ती गजाल सांगपाक तयार जालो. ते म्हणसर ते मठा कडेन पाविल्ले. विनून अदमास घेतलो. रस्त्यार लोकांची गर्दी आसा. तांणी शाणीक देवळा सकयल्या चिंचेच्या झाडा कडेन व्हेलो आनी फ तफुतिल्ले वरीं म्हणपाक लागलो.

''हें पळय हां, शाणी. हांव जें कितें सांगतां तें तूं कोणांकूच सांगचो ना. कळ्ळें?''

विनून अट घालितूच सांगपाक सुरवात केली.

''ना कोणांक सांगिना. भिये नाका.'' शाणीन ताका थोडो धीर दिलो.

'' पळय हां मागीर नेगार वयशी... बरें, म्हाका सांग, तुका वर्सां कितलीं?''

विनून मदींच वर्सांची खबर काडटकच शाणी बेजारलो. विनू सांगपाक फाटीं फुडें सरता तें पळोवन तो तापार जालो. विनू भैय्याचो सभाव शाणीक खबर आसलो. बेजारुनच ताणें म्हटलें.

''वर्सां कित्याक तीं? तूं ती गजाल म्हाका सांगता काय ना... ना जाल्यार चल्लों हांव.''

''फाटले फावट तूं मठांत नासलो तें सांगतां वोचोन घरा.''

आतां शाणीच विनूक उरफाटो दमकावपाचो यत्न करूंक लागलो.

'' आरे राव रे... खंय वयता....? सांगतां, पूण कोणांक सांगचो ना मरे?''

''  ना रे पापया सांगिना कोणांक.'' – शाणी.

''सातेरीच्यान?'' – विनू.

'' हय सातेरीच्यान.'' – शाणी.

''मागीर आयक तर, खरें म्हणजे, बेरेस्ताराक आमी थोडे व्हडले भुरगे आसा न्हू तेंचो एक खास फ्रेंड येता पणजे सावन.''

''पणजे सावन?''

''हय रे, हें पळय हां, कोणांक सागूं नाका हां.... प्लीज हां. सिक्रेट आमचें तें. सोपूत आसा...! तुका रवळनाथाचो. सोपूत मोडशीत जाल्यार पळय हां सातेरी दाव धरतली तुजो.''

''ना ना मोडिना. सांग तूं... फ्रेंड जाल्यार लिपोवपाचें कितें आसा तेतूंत?''

''लिपोवपाचें म्हणजे.... शाणी कशें आहा जाणा... तो फ्रेंड आसा न्हू, तो मरे आमकां पणजेसून येताना... पिचरांतल्या हिरोइनीचे फोटू हाडून दाखयता.''

''हिरोईनींचे फोटू?''

''हय, 'मायापुरी' म्हूण एक ल्हान पुस्तक येता. ताचेरूय ते फोटो आसतात आनी हिरो-हिरोईनांच्या भानगडींच्यो खबरो बी!''

''भानगडी?''

'' हय रे... पूण कोणांक सांगू नाका हां.... आनी जाणा तूं, राती कडेन मठा फाटल्यान तो कसल्यो कसल्यो गजाली सांगता जाणां तूं..!''

''कसल्यो कसल्यो रे भैय्या?'' शाणी खोदून खोदून विचारपाक लागलो.

'' नाका तुका कळच्यो ना त्यो! तूं भुरगो आसा.'' विनून अशें म्हणटकच शाणी आइडलोच.

''विनू भैय्या, भुरगो भुरगो म्हूण फटोव नाका म्हाका. सगळें खबर आसा म्हाका. तुमी थंय हिरोईनींचे फोटू पळयतात. चेडवांच्यो गजाली करतात, तो कोण तो पणजेकार भुरश्यो भुरशायो गजाली सांगता त्यो आयकता.... हय मरे?''

'' पूण तुका कशें कळ्ळें? सुभाषान सांगलें?'' विनून भियेत विचारलें.

'' ना. ते दिसा पयले फावटीच्या बेरेस्तारा तूं नाच्च जालो न्हू तेन्ना तुका सोदीत सोदीत  हायेंन आनी  सुभाषान तुम चो सेक्रेट जागो सोदून काडिल्लो. आमी थंय पावले तेन्ना तुमच्यो  सेक्रेट गजाली रंगांत येयल्ल्यो. कुशीक लिपून रावन आमी त्यो आयकल्यो.''–

''शाणी..कितें सांगता. आनी सगळें आयकून आयज परत म्हाकाच कित्याक इचारतालो?''

''तूं खरें उलयता काय फट तें म्हाका जाणून घेवपाचें आसलें.'' शाणीन जाप दिली.

इतलें म्हणून शाणी विनू भैय्याक पळयत रावलो. ताका थंयच्या रस्त्या वयल्या लायटीच्या उजवाडांतूय विनू भैय्याच्या तोंडा वयले भाव स्पश्ट दिसताले. आतां विनू नक्की कितें करतलो हें जाणून घेवपाची उमळशीक ताका आसली. सगळें खबर आसून तांणी ताचे वांगडा येवपाचें थारायल्लें तें ताकाच लागून. काय बरीं मठांतलीं भजनां, गायनां आनी निरुपणां सोडून विनू सारके भुरगे अशे मठा भायर कित्याक रावतात हांचें गुपीत शाणीक कळिल्लें. त्यो पणजेकार फ्रेंडाच्यो गजाली तश्यो शाणीक पुराय रितीन कळुंकूच नासल्यो. पूण त्यो गजाली वायट इतलें मात ताका समजतालें. विनू भैय्या आतां फुडें कितें करतलो हें ताका पळोवपाचें आसलें.

''हे विन्या   कितें करता भुरग्या वांगडा? आमचो म यापुरीचो  फ्रेंड  येयलो मरे. चल..बेगीन.''

रस्त्या वयल्यान नोनक्यान विनूक हटकीलो आनी ताका मठा फाटल्यान येवपाक खुणायलो. ते सरशीं विनू मात्सो भियेलोच. शाणी ताका पळयत आसलो. कितलोसोच वगत दोगूय कांयच उलयले ना. वाटे वयल्यान जायते लोक वताले ते तांकां पळोवन अजापीत जाताले. थोड्या वेळान थंय नानी, पेमलो, संदीप, वास्को, मंता हे शाणीचे इश्ट पावले.

'' हे शाणी, चल भजनांक या. आयज भुरग्यांचें भजन आसा. जालें सुरू. चल या.''

''हय हय या.'' इतलें म्हणीत शाणी आपल्या इश्टां वांगडा वचपाक मुखार सरलो खरो पूण मात्शें कितें तरी चिंतीत फाटी

सरत ताणें विनूक स्पश्टूच सांगलें,

'' हें पळय विनू भैय्या, हांव मरे तुज्या परस ल्हान. पूण इतलेंच सांगतां. आज तूं मठांत येवन बसलो जाल्यार हांव तुका भैय्या म्हणटलों. ना जाल्यार फाल्यांच्यान तूं तुज्या वाटेन हांव म्हाज्या वाटेन.''

शाणीन जाण्ट्यांचे आयकल्ले डायलॉग मारपाचो यत्न केलो आनी ताचें ताकाच बरें दिसलें. खूब तेंपान ताणें मनांतल्या मनांत आपलीच तोखणाय केली. पूण ताच्या मनांत विनू भैय्याचोच विचार घोळटालो. विनू भैय्या आपलें सांगणें आयकून येतलो काय ना हाचो ताका हुस्को आसलो. त्याच हुस्क्यान ताणें आपल्या इश्टा वांगडा मठांचीं सोपाणां केन्ना चडलीं आनी तो मठांतल्या सभाघरांत केन्ना येवन बसलो ताकाच कळ्ळें ना.

'हरी भजना विण काळ घालवू नको रे
अंतरिचा ज्ञान दिवा मालवू नको रे'

मठांत मदलशीक दिवचलच्या शांतदुर्गा भजनी मंडळाच्या माणकुल्या भुरग्यांचें भजन चलतालें. एक भुरगो आपल्या गोड आवाजांत भोव भावार्थान अभंग म्हणटालो. मदीं शाणी एदेंच एक चेडूं पेटी वाजयतालें जाल्यार तबलोय एक ल्हान भुरगो. हेर चार पांच भुरगे ताळ घेवन तांकां साथ दिताले. अचकीत तातूंतल्या तबलें वाजोवप्याचेर शाणीचें लक्ष गेलें. ताका पळोवन शाणीक विनू भैय्याची याद जाली. तांगेर चवथीच्या दिसांनी जावपी घुमट आरतींक विनू भैय्या खूब सुंदर समेळ वाजयता ताचो ताका उगडास जालो. ते सरशीं ताणें मठांतल्या सुशेनचार्य स्वाम्याचे मुर्तीक हात जोडले आनी मनांतल्या मनांतलो पुटपुटलो –

'सुशेनाचार्य महाराज, बरी सुबुध्दी दी रे म्हाज्या विनू भैय्याक!''

शाणी मनांतल्या मनांत इतलें म्हणटा थंय आसा. सभाघरांत बसला थंयच ताचे मांडयेर कोणी तरी हात दवरलो. आजपीत जावन शाणीन कुशीक पळयलें. थंय विनू भैय्या सामको ताचे कुशीक येवन भजन आयकुपाक बशिल्लो. एक सात्वीक नदर घेवन..... शाणीची शाणपणां आयकून.

(चलता...)■■■

# आदल्यो प्रवासाच्यो यादी - मंजूनाथ देवाचें दर्शन



राणी सुदीप कामत
मो. 9689837927

डोंगरी नावेली हांगा रावता.
रोझरी कॉलेज नावेली,
मडगांव, गोंय
हांगा बि.ए ची पदवी घेता.
बरोवपाक आनी वाचपाची आवड
कोंकणी मोगी

ह्या कोरोनाच्या काळांत स्वताची आनी कुटूंबाची काळजी घेवपाक चार वण्टीं भितर रावपाक पडलें. आनी अशेंच एक दीस जेन्ना हांव दनपरां जेवून म्हज्या गॅलरीच्या सोप्यार बशिल्लें तेन्ना म्हाका आमच्या फाटल्या काळांतले गिमाचे सुटये दिसांची याद आयली. वर्सांत एकदां गिमाच्या दिसांनी जेन्ना म्हजे कॉलेजीची सुटी सुरू जाताली तेन्ना म्हज्या घरांतलीं धर्मस्थल वचपाचो बेत करतालीं. आमी एकदां केन्ना तरी धर्मस्थल गेल्लीं. ठंड वातावरण आनी तें खूब सुंदर अश तीन देवाचें दर्शन जाल्लें पळोवन आमी वर्सांत एकदा तरी धर्मस्थल वतलींच असो निर्णय घेतलो.

आमी माया म्हयन्यांत वचपाचें थारायलें. पप्पान आपलीं सगळीं कामां आटपलीं. मम्मीन घरांची सगळीं कामां केलीं. हांवेन आनी भावान कसले कपडे प्रवासाक व्हरपाचे तें थारायलें. कित्याक थंय बरे फोटो बी काडपाक जाय न्ही! भायर सरपाच्या आदले राती म्हाका न्हिद ना. म्हजें शरीर हांगा आशिल्लें

पूण म्हजें मन थंय धर्मस्थल केऽऽन्ना पाविल्लें. आनी दुसरें म्हळयार हें म्हजें सदांचं जाल्लं! खंय वता जाल्यार म्हाका रात भर न्हिद पडना. मागीर अशें ना तशें करून म्हाका निमाणे कडेन न्हिद लागली.

दीस उजवाडलो. आमी सगळीं फांतोडेर उठलीं. न्हावन धुवन सगळीं तयार जालीं आनी बॅग पॅक करपाक घेतलें. प्रवासाक वचपाचे उमेदीन व्हडलें कितें खावप जायना, तरी सुद्दा कितें बारीक खावन आमी भायर सरपाची तयारी केली.आमची उडपी वचपाची ट्रेन सुमार  दोन वरांचेर येता. जाल्यार आमी साडे इकरा वरांचेरूच मडगांवच्या रेल्वे स्टेशनार पावलीं. इतल्या बेगीन पावपाचें कारण म्हळयार म्हज्या पप्पाक टायमा पयलीं खंय पावपाक खूब आवडटा. मागीर आमकां थंय कितलोय वेळ रावपाक पडल्यार जाता.

आमी ट्रेनीची तिकेट काडलीं आनी रेल्वे स्टेशनाच्या प्लॅटफॉर्मार वचून बसलीं. पप्पा आनी मम्मी खबऱ्यांनी गुल्ल आशिल्लीं. म्हज्या आनी भावाच्या कानांत इयरफोन! करतलीं कितें इतलो वेळ? मदीं मदीं हांव एक रेल्वे स्टेशनाचो रावंड मारतालें. थंय वेगवेगळीं दुकांनां आशिल्लीं आनी प्लॅटफॉर्मार प्रवासी बॅगांचीं बॅगां घेवन बशिल्ले आनी तांचीं भुरगीं त्या बॅगां वयर मांडी घालून बसल्यांत तें पळोवन म्हाका तांची मजा दिसली.

दोन वरां जालीं. आमची उडपी वचपाची ट्रेन आयली. आमी ट्रेनींत चडलीं. सुटयेचो दीस आशिल्ल्यान खूब गर्दी आशिल्लीं. आमकां एकदाची बसपाक सुवात मेळ्ळी. प्रवास करतना आमकां खूब स्टेशनां लागलीं. वाटेर आमकां मुरडेश्वर स्थान पळोवपाक मेळ्ळें. रेल्वेच्या जनेलांतल्यान म्हाका शंकराची मुर्ती दिश्टी पडली. ट्रेनींत प्रवास करतना

वेगळी मजा येता आनी तो आवाज जेन्ना कानार पडटा तेन्ना दिसता की खरो प्रवास आतां सुरू जाला. हांव आनी खंयचो आवाज म्हणटां काय? अशे विचार येता आसतले न्हय? तो आवाज 'च्या च्या, गरम च्या, बटाट वडा' हो आवाज आयलो काय ना, हांव पप्पा कडेन अशें तोंड करून पळयतालें, मागीर पप्पा म्हणटालो, 'बरें बाबा येतां. राव येवू तरी ताका हांगा' हें आयकून हांव सामकें खूश! च्या वालो आमच्या मऱ्यांत आयलो. ताणें एक गरम च्या काडून म्हाका दिली. हांव च्या खातीर पिशें ना, पूण त्या सांजच्या वेळार गरम च्याचो घोट ताळ्यार पडप म्हळ्यार सामकें फ्रॅश दिसतालें. करपाक कांय नाशिल्लें म्हणून हांव जनेला भायर पळोवपॉक लाग लें. पावसाचो तेंप आशिल्ल्यान झाडां पावसाच्या उदकांत न्हावन पाचविचार दिसतालीं. पयस खंय तरी ल्हान भुरगीं रेल्वे वता तीं पळोवन हात हालयतालीं. करतां करतां रात जाली. सुमार रातचे आठ वरांचेर आमी उडपी रेल्वे स्टेशनार पावलीं आनी थंयच्यान रिक्शा वा केन्ना बस करून आमी मागीर उडपी बस स्टॅन्डार पावलीं. थंयच्यान आमकां धर्मस्थल वचपाक बस आशिल्लीं. ती रातच्या बारा वरांचेर आयलीं. आमी बशींत बसलीं आनी आमचें कोंकणी उलोवपाचें बंद जालें थंयच्या लोकांक हिंदी वा इंग्लीश भाशा कळटाली. केन्ना केन्ना तांच्या कडेन उलयतना खूब गुसपा गोंदळ जातालो तरी सुद्दा आता आमकां संवय जाल्या म्हणून बरें जालें. आनी ते न्हिंदेचे दोळे घेवन आमी रातचीं दोन वरांचेर धर्मस्थल पावलीं. आतां आमी थंय खूब फावटी गेल्यां. तर थंय आमची रावपाची वेवस्था देवळा कडेन एका हॉटेलांत आशिल्ली.थंय रूम मेळपाक खूब कठीण

आसता. रातचे मदीं तशें रूम मेळनात.फांतोंडेर सकाळीं पांच वरांचेर रूम मेळटा आनी ताच्या खातीर रात भर लायनींत रावपाक पडटालें. मम्मी पप्पा बी मात्शे रेस्ट घेतालीं भायर आनी चड करून हांव थंय लायनींत रात भर रावतालें आनी मागीर सकाळीं पांच वरांचेर ऑफीस उकतें जातकच रूमाची चावी मेळटाली.रूम मेळटकच आमी न्हावन धुवन तयार जावन देव दर्शना खातीर भायर सरतालीं. त्या देवळाच्या वातावरणांत खूब बरें दिसतालें. वरां वरां थंय दर्शना खातीर लायनींत रावप, सगळ्यांच्या ओंठार देवाचें नांव आनी मनांत देव भक्ती आनी जशें आमी देवाचें दर्शन घेवपाक फुडें वतालीं, मुखार एके वण्टीर व्हडली टि.वी आसता. ते टिवीचेर देवाचें लायव्ह प्रसारण दाखयतात.आनी निमाणें कडेन मंजूनाथ देवाचें दर्शन जावप खूब सुंदर आशिल्लें. ती भांगराची मुर्ती पळोवन दोळ्यांत खुशेचीं ल्हारां उसळटालीं.

त्या देवळांत लग्ना,मुंज,देव कार्य सगळें बरें भाशेन करतात. आमी गेल्ली तेन्ना कोणाचें तरी लग्न आशिल्लें दिसता. व्हंकल खूब सुंदर न्हेसून थंय उबी आशिल्लीं.तांचे न्हेंसप म्हाका खूब आवडलें.आनी ते साडयेर धव्या फुल्ल मोगरेची फाती खूब सोबीत दिसताली. हांव तिका पळयत उरलें. म्हाका तांची देव दर्शन करपाची पद्दत खूब आवडलीं.कांयच गर्दी करी नासतना देवाचें दर्शन जातालें.

देव दर्शन जातकच देवळांत १२ वरांचेर महाप्रसाद मेळटा. आनी आमी तें केन्ना सोडना. कित्याक त्या देवाच्या वातावरणांत जेवपाक मेळप म्हळ्यार मनांक एक वेगळीं आनंद मेळप. देवाच्या वाठारांत रादिल्लें जेवण जेवपाक व्हडलीशी लायन लागता.अन्नपुरना म्हणून त्या रांदचीकूडीचें नांव




चित्रांतल्यान रंगळंगती करपी

# गितांजली केरकार

हांचें

५ ते १० पिरायगटांतल्या

माणकुल्यांनी वाचपा सारकें

बिम्ब प्रकाशनाचें बालसाहित्य




## बुकी (कोंकणी)

## BUKI (English)



मोल-100 रुपया. दोनूय वांगडा घेत जाल्यार रु.150 फक्त

विक्रेय उपलब्ध-म्युजियम ऑफ गोवा (MOG) पिळेर्ण-बार्देस-गोंय.



आसा.भितर एका व्हडल्या हॉलान जमनीर बसून जेवपाचो आनंद मेळटा.एके वळींत ५० लोक आनी सुमार ७ ते १० वळी आसतात तर सगळे मेळून ४०० तें ५०० लोक जेवपाक बशिल्ले आसतात. फकत १५ मिनटा मेळटात जेवपाक. तांचीं जेवण वाडपाची पद्दत म्हाका खूब आवडटा. एके व्हडले बालर्देंत शीत तर दुसरे बालर्देंत रसम घेवन कितल्या बेगीन जेवण वाडटात तें पळोवन अजाप जावपा सारकें आसता. थंय जेवपाक मेळप म्हळ्यार एक वेगळीं खोस भोगता.त्या जेवणाची रुच खूब वेगळी आसता. आमी कितलेंय बरें रांदल्यार जेवणाक अशी रूच केन्नाच येना.

आमचें दनपरां म्हळ्यार बरे भशेन देवाचें दर्शन जालें. मागीर आमी थंय देवळाचे भोंवतणी भोंवलीं. वेग वेगळीं दुकांनां आशिल्लीं. थंय दुकांनांत आशिल्लें सामान खूब आकर्शित करतालें. कित्याक थंय सुंदर देवाची मुर्ती, देवाचे फोटो, देवाचें आयदनां आनी खूब कितें आशिल्लें.देवळाच्या मुखार एक मुजियम आसा थंय गाडियांचें प्रदर्शन आनी एक व्हडलें विमान आसा.हें सगळें पळोवन मागीर आमी परत मडगांवा येवपाक भायर सरलीं. रेल्वे स्टेशनार पावलीं.



# AMAZING ADVENTURES TO EXPLORE IN GOA





















**For information, bookings and latest updates Contact:**

**Goa Tourism Development Corporation Ltd: Paryatan Bhavan, 3rd Floor, Patto, Panaji-Goa 403001**

**www.goa-tourism.com | www.goatourism.gov.in**

Incredible !ndia   @officialgoatourism  @TourismGoa

# केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कारान भोवमानीत डॉ.जयंती नायक हांचीं हालींच उजवाडाक आयिल्लीं नवीं पुस्तकां.















## डॉ.जयंती नायक हांचें हेर प्रकाशीत साहित्य

### कथा

१. गर्जन (पयली आवृत्ती-अपुरबाय प्र.-१९८९.२री आवृत्ती-राजाई प्र.२००८)
२. अथांग (राजाई प्र.-२००२,साहित्य अकादेमी पुरस्कार-२००४)
३. मातयेची व्यथा (राजाई प्रकाशन-२०१७)
४. आर्त (राजाई प्रकाशन-२०१९)
५. तिची काणी (राजाई प्रकाशन-२०२०)

### नाटक

१.कुकमादेवीची दिपमाळ (राजाई प्रकाशन-२००९)
२.काळमाया (राजाई प्रकाशन-२०१४)

### कविता

१.मिरविणो (राजाई प्रकाशन-२०१०)

### बालसाहित्य

१.वागमामाची फजिती (जैत प्रकाशन-२००२)
२.चड शाण्याक फातराचें शीत (राजाई प्रकाशन-२००१)
३.नवरंगी फूल (युगवेद प्रकाशन-२००२)
४.भुरग्यां खातीर लोककाणयो (युगवेद प्रकाशन-२००२)
५.सानुल्यांचीं कवनुलां (राजाई प्रकाशन-२००४)
६.गोंयची लोककला (राजाई प्रकाशन-२००४)

### निबंद

१.म्हजी माती,म्हजीं मनशां (राजाई प्रकाशन-२०१५)

### लोकवेद

१.रथा तुज्यो घुडयो (गोवा कोंकणी अकादेमी-१९९२)
२.कणेर खुंटी नारी (गोवा कोंकणी अकादेमी-१९९३)
३.मानालीं गितां (गोवा कोंकणी अकादेमी-१९९३)
४.तळय उखल्ली खेळ्यांनी (गोवा कोंकणी अकादेमी-१९९३)
५ आमोणें-एक लोकजीण (गोवा कोंकणी अकादेमी-१९९३)
६.पेडणेंचो दसरो (गोवा कोंकणी अकादेमी-१९९५)
७.नागशेराचे सूर (कला आनी संस्कृती संचालनालय,गोंय सरकार-१९९६)
८.लोकबिंब (गोवा कोंकणी अकादेमी-१९९८)
९.कोंकणी लोककाणयों (साहित्य अकादेमी,दिल्ली.प.आ.२०००,दु.आ.२००५)
१०.कर्लेची बनवड (गोवा कोंकणी अकादेमी-२००२)
११.गांवरान (गोवा कोंकणी अकादेमी-२००५)
१२.राजरत्न (गोवा कोंकणी अकादेमी-२००५)
१३.लोकरंग (राजाई प्रकाशन-२००८)
१४.लोकमंथन (राजाई प्रकाशन-२००८)
१५.देशांतरीच्यो लोककथा-भाग १ (राजाई प्रकाशन-२०१३)
१६.देशांतरीच्यो लोककथा-भाग २ (राजाई प्रकाशन-२०१७)
१७.देशांतरीच्यो लोककथा-भाग ३ (राजाई प्रकाशन-२०१७)



# अयोध्या

कोंकणी वाचकांक अभयकुमार वेलिंगकार हांची वळख आसा ती कोंकणीचे एक निश्ठावंत कार्यकर्त म्हूण. कोंकणीची सेवा करता आसतनाच तांणी साहित्याच्या मळार आपले परीन योगदान दिल्लें आसा. बालसाहित्य हो तांचो आत्मो. त्या भायर तांणी कथा,कविता, ललित,एकांकी अशे साहित्यांतले भोवतेक प्रकार समर्थपणान हाताळ्ळ्यात...



अभयकुमार वेलिंगकार
मो. : 9823138093

अयोध्येच्या दारांत बस थांबली. आनी कंडक्टरान मायेन म्हणटात तश्यो सुचोवण्यो करून आमकां देंवयले. तशें आमकां बशींल्यान केन्ना काय एकदां देंवल्यार पुरो जाल्लें. हांव केन्नाय म्हणटां– गोंयच्या बशींचो प्रवास नाका रे सायबा. पूण हांगच्या बशींनी बसतकूच गोंयचो प्रवास हजार वाट्यांनी परवडलो काय दिसता. गोंयां कश्यो दोन बशी म्हऱ्यांत पावतकूच एकामेकां कडेन सर्त करतात,तश्यो हांगच्यो बशी कोणा कडेन सर्त करतात कळना. फकत धांवडायत आसतात. बरें, फाटल्यान दुसरी बस बी आसा अशेंय ना. वाटेर प्रवासी घेवपाची घाईय ना. एका बस स्टँडा वयल्यान दुसऱ्या बस स्टँडार वचून थांबपाचें. प्रवासी भरपूर आसतात. तरी हांची वाऱ्या कडेन सर्त. मदीं ट्राफीक जाम बी जाल्लें दिसलें जाल्यार रोड डिव्हायडराचेर चडोवन दुसरे वटेंतल्यान चुकीचे दिकेन  वचूंक तांकां कांयच दिसना. मागीर दुसरे वटेन गर्दी जावन ट्रेफीक जाम जाल्यार जाता. रोड डिव्हायडर हुंपतना भितर बशिल्ल्या प्रवाश्यांचीं हाडां खिळखिळीं जावंकूच जाय. कोणाकूय





हार्टाचें बी आसल्यार ताणें जीव सोडपाचो. देखून केन्ना एकदां आमचो थांबो येता आनी आमी देंवता अशें जाल्लें. हे बशींतल्या प्रवासान वाराणसीक काशी विश्वनाथ आनी अयोध्येक राम आसा म्हणपाचें सामकें पटिल्लें. तेच तर ह्या बशींतल्या पॅसेंजरांक बरे भशेन आपापल्या थांब्याचेर वेवस्थीत सोडटात. ना जाल्यार दर दिसा कितले तरी लोक अपघातांत वचपाचे! आमी वांगडाच पंदरा पॅसेंजर मेळिल्ल्यान कंडक्टर आनी ड्रायव्हराकूय खोशी जाल्ली. मदीं मदीं दरेकल्याक देंवोवचो प्रस्न नासलो.डायरेक्ट पॅसेंजर जाल्ल्यान बस आनी धफरावपाक मेळिल्ली. प्रवास मात्सो लांबचोच आसलो, वाराणसी ते अयोध्या. वाटेर कोणाकूय च्या घेन दिसली वा मुतूंक जालें जाल्यार बस थांबोवंक चालकाचेसामकें जिवार येतालें. पूण आमच्या मदल्या कोणेंय सांगल्यार मात तो रोखडोच थांबयतालो. इतलेंच कित्याक दुसऱ्या कोणेंय सांगलें जाल्यार तो पयलीं आमकां पळोवन आमची परवानगी घेतालो. कांय खिणाक तर आमीच बशीचे पात्रांव कशे दिसतालें आमकां. सकाळीं साडे सातांक सुटिल्ली बस सांज वेळार पांचाच्या अदमासाक अयोध्येच्या दारांत पावली. इतलो वेळ बशींत बशिल्ल्यान आंग सामकेंच मोडून गेल्लें. केन्ना एकदां हॉटेलार वचून हात पांय पसरायता अशें जाल्लें. दनपरां कांय खावंक नाशिल्ल्यान पोटाक भुकूय लागिल्ली. वाटेर खातले तरी कितें? जंय बस थांबता थंय फकत चणें खावंक मेळटाले. एका दोण्यांत हरवे फुगयिल्ले सोनयाळे चणें, तातूंत तोमाट, मिरसांग चिरून घालताले आनी वयर लिंबू पिळून खावंक दिताले. सगळे लोक तेंच खाण खाताले. एके कडेन बस राविल्ली आसतना आमी उकडिल्ले चणें समजून ते घेतले. पूण खातां म्हणल्यार नाका. हाका लागून उपाशींच उरले.

आमी अयोध्येक हॉटेल बूक करूंक नासलें. अयोध्येच्या दरवट्यार शेकड्यांनी निमदळाचे आर्माद पुलीस उबे आसले. पुराय वाठाराक छावणीचें रूप आयिल्लें. आनी पंदरां जाण बशिंतल्यान देंविल्ले पळोवन ते सावधान जाले. आमच्याय पोटांत ना म्हणल्यार तो सीन पळोवन दुगदुगलें. तरीय आमी दोगांनी धाडस करून तांचेच वटेन आमचो मोर्चो व्हेलो. आनी तांकांच अयोध्ये विशीं विचारलें. रावपाक खंय मेळटलें? बरें हॉटेल खंय आसा? हाची चवकशी केली. आमी टुराक आयल्यात तेंय बी गोंयच्यान म्हणपाचें आयकून ते जे सट्ट करून उबे जाल्ले ते ल्हवू– ल्हवू आपल्या जाग्यार गेले. तातूंत एक बरें जालें तें म्हणल्यार तांच्यांतलो एक सब इंस्पेक्टर केन्ना तरी गोंयांत बदलेचेर आशिल्लो. गोंयकार म्हूण कळना फुडें तो मुखार आयलो आनी आमचे कडेन हिंदी मिक्स्ड कोंकणी उलयलो. हांगां थंय फोन करून ताणें खंयच्या हॉटेलांत जागो मेळुंये हाची चवकशी केली आनी एक दोन हॉटेलांचीं नांवां सांगून आमकां रिक्षा करून दिल्यो. आनी आपलो फोन नंबर दिवन कसलीय अडचण आयल्यार आपल्याक फोन करूंक सांगलें. आपल्या सांगात्यांक आमचेर लक्ष दिवंक सांगलें. हें सगळें जाता म्हणसर इल्लो वेळ गेल्लो. सगळ्यांची भूक आनी कासेद एकठांय जाल्ली. आमचे मदल्या केरकार सराची तर इल्ली चडूच. तो थंयच सणसणपाक लागलो. सारकी वेवस्था करूंक जायना जाल्यार कित्याक टूर अरेंज करता म्हणून तापूंक लागलो. रायकार बाब कोणाचेर तापपी बी न्ही तसो. कसल्याय कामाक तो मुखार. ताका उलोवंक बी खूब जाय. आनी उलोवपी लोकूय जाय. आतां मात तो तापिल्लो. 'कोणें कोणाक हाडल्या?' आवाज चडोवन ताणें विचारलें. 'तुमी मरे हाका माथ्यार घेतला. सगळेंच आपणांक झेपता तें काम करतात. आनी हो फकत लोकांचीं कुतां काडटा आनी दुसऱ्यांचेर तापता. हांगा कोणें कोणाक हाडूंक ना. दरेकलो आपूण येता म्हूण रिक्वेस्ट करून आयला. दुसऱ्यांचेर तापपाचो कोणाकूच हक्क ना. तांच्यांनी जर वेवस्था सारकी करूंक ना तर आमी करूंया. यो म्हजे बराबर.' रायकार बाबान अशें म्हणिना फुडें केरकार सर चूप जालो आनी ल्हवू फाटीं सरलो. इतल्यान रिक्षा आयल्यो आनी पयली कोणें उडी मारली सांगूक जाय..?

रिक्षा हॉटेला दारांत थांबली. आमी हॉटेलां पळयलीं. पूण वांगडाच पंदरा लोकांक एकाच हॉटेलांत जागो मेळप कुस्तार आसलें. निमाणें एका हॉटेलांत पांच रूम घेतले. आनी रुमांत एक्ट्रा बेड घालूंक लायली. हांगांय ताची बडबड सुरू. आपणांक खाटूच जाय, एक्ट्रा बेडीचेर आपूण न्हिदूंक तयार ना बी असली भास. खरें म्हळ्यार हाका कोणें सकयल न्हीद म्हणुंकूच नासलो. तरीय ताची संवय न्ही ती वाद घालपाची! निमाणें ताका वेगळोच रूम मेळटा जाल्यार पळे आनी राव म्हणपाचें सांगतकूच मात्सो जाग्यार आयलो. सगळे फ्रेश जाले. च्या मागयली. आनी कांय वेळान उठून जेवंक भायर सरचें म्हणून मात्शें ताणून दिलें. दिसभराची कासेद काडची आसली. वरभर सुशेग घेतकूच पांय मेकळे करूंक भायर सरले. रात जायत आयिल्ली. अयोध्या रातची कशी दिसता तें पळोवंक म्हूण रिक्षा केली. आनी अयोध्या भोंवंक लागले. रिक्षावाल्याक आमी कितें करतात तें कळ्ळें ना. तो परत परत विचारतालो. 'साहब किधर जाना है! आनी आमी 'थोडा आगे, थोडा आगे,' करताले. बरोच वेळ वतकूच रिक्षा वाल्यान वेगळ्याच सुरान विचारलें... 'आखीर आपको जाना किधर है भाय..?'

आनी आमी वेळ करी नासतना म्हळें– 'रिक्षा घुमावो. और जहाँ रिक्षा में बैठे थे, वहीं लेके जावो.' तो घुस्पलो. कितें जालें ताका कळ्ळें ना. आपूण हांकां विचारून चुकलों काय.. ह्या भंयान तो कितें जालें म्हूण विचारीत रावलो. घडये ताका भाडें मेळचें ना



काय दिसलें जावंये. आमी हॉटेला कडेन पावले आनी देंवले. ताचें रिक्षा भाडें दिलें आनी 'फाल्यां असोच फिरयतलो आमकां?' काय वेचारलें.

'जरुर साहब!' ताणें खोशयेन म्हळें. हातांतल्या पयश्यांची उब अजून वचूंक नासली. 'लेकीन साब, आपको जाना किधर है! क्या देखना है वो तो बताओ ! मैं घुमा दुंगा आपको' ताणें मुखार म्हळें. ताका सांगलें, 'हमें अयोध्याका अंधेरा और उजाला देखना है!'

ताका कितें कळ्ळें खबर ना पूण ताणें तकली हालोवन म्हळें, 'ठीक है साब, कल सुबह आता हूं !'

ताका आनीक दोन-तीन रिक्षा हाडूंक सांगून आमी हॉटेला कडेन गेले. जें मेळटा तें पोटांत उडोवन न्हिदे सुवादीन वचें आसलें. सकाळीं बहू चर्चीत बाबरीचो मलबा पळोवंक वचें आसलें. शरयूक भेट दिवची आसली. तशेंच रामाच्या पावलांनी पावन जाल्लीं हेर थळां पळोवचीं आसलीं.

अयोध्येक भितर सरले तेन्ना एक गजाल नदरेक आयली ती म्हळ्यार वानर. इतले मस्ते वानर आनी खंयच पळोवंक मेळचे नात. ह्या वानरांक पळेतकूच हनुमानान अशोक वाटीकेची नाशाडी कशी केल्ली आसुंये तें मतींत येवंक वेळ लागचो ना. लायटी खांब्याचेर बसून नेटा नेटान खांबे हालोवपी हे वानर पळोवन अजाप दिसतालें. हे खांबे आनी ताचे वयल्यो लायटी तोडूंक फोडूंक पळयताले हे वानर. हे वानर वतां-वतां लोकांच्या हातांतल्यो वस्तू झोपय मारून काडटाले आनी पयस वचून रुखांचेर बसताले. तुमच्या हातांत खाण बी आसल्यार तें फस्त करताले. आनी हेर वस्तू पिंदून उडयताले. चड करून बायलांच्या हातांतल्यो पर्सी नाच्च करताले. जे कोण टुरिस्ट म्हूण आयल्यात तांकां वानरांच्यो करामती खबर नासताल्यो आनी ते फस्तीक पडटाले. हातांतलेंच न्हय जाल्यार बोल्सांतलीं पाकिटां लेगीत काडपाची करामत ते करताले. आपली पर्स ना केली हें कोणाक कळय नासलें.

तशे हांगचे लोक भायले कोणूय दिसले जाल्यार तांकां हातांतलें सामान, पर्सी बी छातये कडेन घट्ट धरात म्हूण सांगताले. वानरां पसून सांबाळून रावात म्हणपाचें सांगताले. पूण जो मेरेन स्वताक अणभव येना, तो मेरेन आमी कशेच शाणे जाय नात हें सत. आमचे मुकारूच एके बायलेची पर्स झोपून एक वानर लायटी खांब्यार चडून बसलो. ते पर्सींत तिचे पयशे, कार्डां आनी चावयो सगळें कितें आसलें. ती बायल आनी तिचो घोव वानराक सामके पांयां पडटाले. आनी वानर खांब्याचेर बसून तांचीं फकाणां मारतालो. पर्स उगडूंक जाय ना जातकूच त्या वानरान ती पर्स पिंजली. ल्हान भुरगे करता तशी ती उमथून सगळें सामान सकयल उडयलें. वाऱ्यार पयशे बी उडून मेळत थंय पडटाले. आनी तीं दोगांय ते पुंजावंक धांवतालीं. कांय आमचे सारके मजा पळोवंक उबे राविल्ले तेय धांवले आनी जें कितें हाताक मेळटा तें तांकां पुंजावन दिलें. तांकां कार्डां आनी चावयो मेळ्ळ्यारूच पुरो जाल्लें. जें कितें मेळ्ळें ताचेर तांणी सम ाधान मानलें. कांय वानर लायटीचे खांबे वयर बसून हालयताले. लायटी तारो चाबडायताले. झोपाळ्यार बशिल्ले वरी झोके घेताले. ट्यूब लायटी फोडटाले. पूण इतलो त्रास करूनय थळावे लोक तांचे विशीं एकूय अपशब्द काडी नासले. रामाचे सेवक ते! तांचे विशीं म्हूण वायट उलोवपाचे..? रामाक वायट दिसतलें. पूण त्या वानरांक मात आपूण अयोध्येक आसात हाचें भान नासलें. तांकां आपूण अजून लंकेंतल्या अशोक वाटिकेंत आसा काय दिसतालें आसूंक जाय! रेल्वे लायनीचेर ते बिनधास्त धुमशेणां घालताले. मदींच रुळांक कान लावन पळयताले. रुळांक कान लायतकूच तांकां रेल्वे येता काय ना तें कळटालें. आनी रेल्वे येता म्हणपाचें कळ्ळें म्हणजे ते शाणे भुरगे कशे कुशीक सरताले. सामके थंड जाताले. कांय जाण प्लॅट फॉर्माचेर येताले आनी पेसेंजरांच्यो बेगो नाच्च करताले. हांची आनीक एक मजा म्हणल्यार तांकां कितेंय दिलें म्हूण ते घे नासले. तांकां झोपय मारून काडूंक आवडटालें. अयोध्येक ह्या वानरां पसून सामकें सांबाळपाक जाय म्हणपाचें कळिल्लें.

दिसभर जाल्ले आंगमोडीक लागून हातरुणार पडटनाच न्हीद लागली. दुसरे दिसा सकाळीं फुडेंच जाग आयली ती आखाडकराल्या बोवाळान. तो मोठ्या मोठ्यान कोणाचेर तापतालो. तसो तो गाडयेंत बशिल्ल्या कोणाचेर तरी तापलाच. ताची संवय ती. कोणाचें कांय आयकप ना आनी आपलेंच खरें म्हणून आवाज चडोवप. हाका सांबाळटा सर नाका जावपाचें. सकाळ फुडेंच हाचें कितें जालें म्हणून पळोवंक गेल्यार ताका बाथरुमांत तांबयो मेळ्ळो ना. ताणें रुमबॉयाक आफयलो जाल्यार रुमबॉय कितें सांगता तें ताका कळना. आनी तो कितें सांगता तें रुमबॉय समजून घेना. जाल्लें अशें, बाथरुमांत संडास करतकूच धुवपाक नळाक शॉवर बसयल्लो. न्हावपाक दुसरो शॉवर आसलो. पूण आमकां हात लावन धुले बगर समाधान जायना. ताचें कितें! तांबयो जायच. आतां हाचे खातीर तो रुमबॉय नेम कशे मोडटलो! तो नमळायेन जें कितें जाय, तें फोना वयल्यान मॅनेजराक सांग म्हूण सांगतालो. पूण आखाडकराक तें कळूंक नाका..? निमाणें म्हाकाच मदीं पडून ताका तांबयो हाडून दिवचो पडलो. इतल्यान सोपलां? कोणाक हून उदकाची बालदी जाय पडली. हून उदक शॉवराक येता म्हणपाचें दाखोवचें पडलें. सगळ्यांक सांगता आनी समजायता सर नाका जावपाचें. मठूच बरो आसलो आमचे खातीर अशें दिसलें.

सगळ्यांक सांबाळींत म्हणटा तशे न्हावन धुवन भायर सरले. हॉटेला भायर रिक्षा वाट पळयताली. आमकां खंय वचूंक जाय

आनी कितें पळोवंक जाय तें रिक्षावाल्याक पयलींच सांगिल्लें तरी ताणें आपणाक जाय तेवटेन रिक्षा घुवंडायली. ताणें आमकां एका जाग्यार व्हेले, जंय देवूळ बांदपाचें सामान पडिल्लें. जायते कारागीर काम करताले. खांबे कोंरायताले. टायल्स कातरताले, एके वटेन विटो दाळून दवरिल्ल्यो. हें सगळें पळयल्यार राम मंदिराचें बांधकाम रोखडेंच जातलें काय दिसतालें. तो आमकां सांगतालो देशभरांतल्यान ह्या कामाक मजत येता. आनी खंयच्याय खिणाक देवळाचें काम सुरू जातलें. पूण राम मंदीर तर कोर्टांत आडखळ्ळां, ताचो निकाल लागचे पयलीं देवूळ कशें..? हाचेर ताचे कडेन जाप नासली. काम चलतालें तर खरें. कितलेशेच खांबे बी तयार जाल्ले. कोर्टाचो निकाल कोणा वटेन लागतलो तें कशें कळटलें, म्हणजेच हे लोक कोर्टाचो निकाल मानचे नात अशेंच जालें ना! निकाल कितेंय लागूं आमी देवूळ हांगाच बांदतले अशेंच जावचें पडलें ना...! हांगा एके गजालीचेर मात अजाप दिसले बगर रावलें ना. खबर काडटकूच कळ्ळें, अयोध्येक मुसलमान कोणूच नात. जर ह्या गांवांत मुसलमानूच ना जाल्यार मागीर मशीद कोणा खातीर..? फकत बाबरान आक्रमण केलें आनी मीर कासिमान मशीद बांदली म्हणून ताची याद दवरचेली..? मीर कासीम हांगच्यान आपलें सैन्य घेवन गेलो तेन्नाच खरें म्हणल्यार ही मशीद काडून उडोवपाची. ताणें आपल्याक जाय म्हणून बांदिल्ली. उपरांत ते मशिदीचो वापर कोणेंच केलो ना. जर थंय मशिदींत वचपी लोकूच नात. जाल्यार मशीद तरी कित्याक ती..? गुलामगिरीचें प्रतीक म्हणून सांबाळून दवरपाची..? तशेंच कितें तरी दिसले बगर रावना.

थंयसून रिक्षा भायर सरली ती देवळा वरी दिसपी जाग्यार गेली. 'जब बाबरी तोडी गयी, तब उस मलबे से रामजीकी मुर्ती मिली थी.' रिक्षा थांबता म्हळ्यार ताणें म्हायती दिली आनी आमी त्या मठांत प्रवेश केलो. बऱ्यो चकचकीत राम-लक्ष्मण हांच्यो मुर्ती पुजेक लायिल्ल्यो दिसल्यो. ह्यो मुर्ती मलब्यांत मेळिल्ल्यो म्हणपाचें आयकून अजाप दिसलें. आनी मना सावन मुर्तींक नमस्कार केलो आनी थंयसून भायर सरतले म्हणल्यार आमकां ताणें आनीक म्हायती दिली. ती म्हणल्यार ह्या मुर्तींक सांबाळून दवरपी आनी तांची पूजा करपी साधू ह्याच मठांत रावता आनी तो उपासाक

बशिल्लो आसा. ताचे कांय शिश्य थंय आसले. तांणी आमकां येवकार दिवन बसूंक सांगलें. साधू महाराज तप करता. तप जातकूच तो दोळे उगडटलो आनी तुमकां आशिर्वाद दितलो अशें सांगून ताणें साधूची महती सांगूक सुरवात केली. रामाचें देवूळ जायना तोंवेर आपूण अन्न ग्रहण करचो ना म्हणपाचो साधून सोपूत घेतला. आनी फाटलीं साबार वर्सां सावन तो उपास करता म्हणपाचें ताणें सांगलें. त्या धट्या-कट्या साधूक पळोवन तो उपास करता हाचेर विश्वास बसप कठीण आसलें. तरीय ते सांगताले- अनशन करता. बरोच वेळ उलयतकूच कळ्ळें साधू जेवण सोडून सगळें खाता. फळफळांवळींचेर तो जगता. आतां उपास आनी अनशन हाचो नवो अर्थ समजलो. इतले मजगतीं ताच्या अनुयायांनी कांय दाट चोपड्यो आमच्या हातांत दिल्यो. तुमचीं नांवां बरयात. आनी साधुंच्या जेवणाक तशेंच राम मंदिराक तुमच्या गेल्ल्यांच्या नांवान देणग्यो दियात. उणेंच ते पांचशें रुपयांची देणगी. चोपड्यांचेर शेंकड्यांनी नांवां आनी देणग्यो बरयिल्ल्यो दिसताल्यो. इतल्या पयश्यांनी येन्नासर जागो विकत घेवन राम मंदीर बांदूंक जातालें. पूण ह्यो देणग्यो मंदिरा नांवान हांचीं पोटां भरूंक घेतात म्हणपाचें कळटालें. आतां हांगां बसल्यात, एक साधू मुखार आसा म्हणटकूच सगळ्यांक भीड पडली आनी दरेकल्यान पांचशीं ते हजार रुपयांच्यो देणग्यो दिल्यो. गेल्ल्यांच्या नांवान म्हणटकूच कोण ना म्हणचे नात, हें सगळ्यांक खबर आसता. आनी लोक हाचोच फायदो घेतात. फकत हाका बळी पडले ना दोगूच एक केरकार आनी दुसरो पारकार. पारकारान तर तुमी फटींपणां चलयल्यांत, देणगी न्हय, ही खंडणी म्हणून आवाज चडयलो. साधुचें तप चालूच आसलें. आवाज वाडलो तरीय ताचें तप भंगलें ना. सगळ्यांनी पयशे दिले तेन्नाच ताणें दोळे उगडले. आनी सगळ्यांच्या हातांत प्रसादाची खडी साखर दवरली. तुमच्या पत्यांचेर पावती आनी प्रसाद येतलो म्हणपाचें सांगुकूय तो विसरलो ना. हे घडणूकेक धा वर्सां जायत आयलीं. तरीय अजूनच कोणाकूच प्रसाद येवंक ना ही गजाल वेगळी. आतां देवूळ ट्रस्टाचे वतीन बांदतले म्हणटकूच त्या पयश्यांचें कितें जालें तें आनी वेगळें सांगपाची गरज ना.

थंयच्यान भायर सरले आनी कैकयी महाल, सितेची रसोई, हनुमान गडी, शरयू नदी, सगळें पळयत-पळयत बाबरीच्या मलब्या कडेन पावले.

सगळे कडेन कडेकोट बंदोबस्त. सगळ्यांक तपासून भितर सोडटाले. मोबायल कॅमेरा कांयच व्हरूंक मेळ नासलें. सगळे कडेन निम लश्करी दळाचें राज्य. चार-चार कडेन तपासणी जावन भितर पावले आनी पुराय अपेक्षा भंग जालो. मातयेची रास. ही माती राखूंक इतलो बंदोबस्त? हे मातयेचे फोटे काडल्यार कितें अपसरण येतलें काय?.. कित्याक ही इतली तपासणी.? म्हाका पयलीं दिशिल्लें हांगां कितेंय तरी आसतलें. कारसेवकांनी मोडिल्लो तो डोम. वणटी तरी आसूंक जाय आसल्यो, कांयच नासलें हांगां. लोक गर्दी करून येताले आनी माती पळोवन वताले. हांगा पावतकूच एक गजाल कळ्ळी ती म्हळ्यार ह्या मलब्यांत मुर्ती मेळ्ळ्यो हें सामकेंच फट. हांगाचो एक फातर लेगीत भायर व्हरूंक सरकारान दिवंक ना. हांगा जें कितें आसलें ते सरकाराच्या ताब्यांत आसा. आनी दुसरें म्हणल्यार मंदिराच्या नांवांर पयसो जमयतात तेंय बेकायदेशीर. हें सगळें पळयतकूच एक विचार मनांत आयलो, खऱ्यांनीच ह्या लोकांक आनी चड करून साधूंक राम मंदीर जाल्लें जाय? राम मंदीर जालें जाल्यार हांकां फटींगपण करून लोकां कडसून पयशे मेळोवंक कशें जमतलें? हांगां वाद चल्ला म्हूण लोक येतात. आनी लोक येतात म्हूण हांचीं पोटां भरतात. रामाच्या नांवार हराम जागतात अशेंच म्हणचें पडटलें. ते वानर कितें आनी हे साधू कितें दोगूय एकेच माळेचे मणी कशे दिसले. शेंकड्यांनी वानर आनी साधू प्रवाश्यांक लुटून आपलें पोट भरताले. लोकांच्यो भावना मरतात हाचें तांकां कांयच पडूंक नासलें. केरकार आनी पारकार मात दिसभर त्या साधूंक पयशे दिले देखून आमकां खेपताले.

अयोध्या पळोवन जाल्ली. आतां आमचो निमणो पेणो जावपाचो आसलो. निमणो पेणो गयेक. अयोध्येच्यान गयेक वचपाचें आनी गयेचें दर्शन घेवन दुसऱ्या दिसा गोंयचे भेटेक वचपाचें. हॉटेल सोडून सगळे रेल्वे स्टेशनाचेर आयले. स्टेशनाचेर वानर धुमाकूळ घालताले. ट्रेन येवपाचो वेळ जाल्लो. आमी प्लॅट फॉर्मार आशिल्ल्या बांकड्याचेर बसले. सगळ्यांचें लक्ष हातांतल्या बॅगांचेर. केन्ना वानर झोंपय मारून व्हरीत नेम नासलो. केरकार उदकाची बाटली घेवंक म्हूणून लागच्याच स्टॉलार गेलो. बाटली घेतली आनी पयशे दिवंक बोल्सांत हात घाल्यार पाकीट गायब. कोणें चोरलें म्हणपाक स्टेशनार काय गर्दी नासली. आमी सगळे वांगडाच आसले. म्हऱ्यांत येताले ते वानर. ताचें तोंड पळोवपा सारकें जाल्लें. कोणाकूय पाकीट गेलें तर वायट दिसतलेंच आसलें. पूण ताका चड वायट दिशिल्लें ताचें कारण म्हळ्यार ताच्या पाकिटांत कालच्यान जे पयशे आसले आनी तितलेच पयशे आमी साधूंक मंदिरांत दिल्ले. हे सगळे फटींग आपूण तांकां कांयच दिवंचो ना, म्हूणून ताणें पाकिटाक हातूच लावंक नाशिल्लो आनी,' पळय तुमी, पयशें वगडायले, फटवले तुमी. नाजाल्यार म्हाका पळयात, हांवें एकूय पयसो वगडायलो ना. सगळे सारके बरे सांबाळ्ळे' असो सकाळ सावन जप करप्याचे अयोध्या सोडचे पयलीं पयशे ना जाल्ले. आतां ते रामाच्या वानरांनी व्हेले काय रावणाच्या कोणे सोयऱ्यान व्हेले कळप कठीण आसलें. बाबडो केरकार येदेशें तोंड करून आसलो. काकुळट बाबड्याची! इतल्यांत ट्रेन आयली आनी आमी ट्रेनीचे गर्देंत शेणले.

■■■

# तिची काणी




सुधा खरंगटे
मो. : 9545020101


**केंद्रीय साहित्य अकादेमीच्या बालसाहित्य पुरस्कारान सन्मानीत सुधा खरंगटे हांची वळख कोंकणींतल्यो कथाकार आनी बालसाहित्यकार म्हूण आसा. गोवा कोंकणी आकादेमीचो उत्कृश्ट साहित्य पुरस्कार, विमला पै पुरस्कार तशेंच हेर साबार पुरस्कारांनी तांचो भोवमान जाल्लो आसा...**

आजय ती बायल अमेयाच्या शेजरा येवन बसली. हालींच घोवाची बदली जाल्ली आनी अमेया पणजे पाविल्लें. ताचो घोव बँकेंत नोकरी करतालो... मॅनेजर जाल्ल्यान बँकेचो फ्लॅट बी रावपाक मेळिल्लो. बऱ्या नितळ वाठारांत, शिवाय बाजार लागीं. उदकाची कटकट नाशिल्ली. शेजारय बरो आसलो. तांकांच सांगून घरकामाक एक बायल मेळिल्ली... मांय-मांवा पसून पयस एकलेंच तें फ्लॅटांत... घोव सातां पयलीं घरा पावनासलो...

अमेयाक वाज-वाज येवचो. मागीर सांज जाली तशें पासयेक म्हणून भायर सरून तें ह्या गार्डनांत येवन बसतालें. गार्डनांतलीं तरेकवार फुलां पळोवप... भुरगीं खेळटात तीं पळोवप...तशे येतेवते लोक पळोवप... केन्ना स जालीं कळनासलें मागीर तें आपले फ्लॅटार वचून घोवा खातीर कितेंय गरमशें खाण करून दवरतालें.

काल ताचे घरा वच्चे वेळार ती जाण्टेलीशी बायल ताचे म्हऱ्यांत येवन बशिल्ली.. ताका पळोवन ती हांशिल्ली. तेंय हांशिल्लें आनी स जालीं म्हणून सडसडीत घरा वचूंक उठिल्लें. आज पांचांकच ती

बायल गार्डनांत दिसली. ताका पळोवन ताच्या शेजराक येवन बसली.

''बाय, सदांच पासयेक येता काय कितें तूं?'' तिणें सहजशें विचारलें.

''हय, तूंय बी येता सद्दां?''

''हय गो. वेळ मेळ्यार येतां. अर्जुना बायल घरा आसल्यार म्हाका भायर सरूंक मेळटा? सारकी फाटल्या फुडल्यान भोंवतली.. मदींच पोरसांत जायां-कळे काडून हाडटली. 'आई, जायां पोड गुंथून दी...' म्हणटली. हांव म्हणून कितें...दितां तिका गुंथून.... जायां पोड फुलतकच तिचे लांब विणयेचेर काय बरो दिसता जाणा....!''

'' अर्जुनाबायल?!!

''आगो सून गो म्हजी, अर्जुन एकलोच पूत म्हजो. मोग करून लग्न जाला... हांव कितें ना म्हणटलें? अपुरबायेन वाडयल्लो पूत म्हजो... ताच्या मनांत तिचे कडेनच लग्न जावचें आसलें न्ही?... करून वडयलें लग्न!.. दिसता कशी सुंदर राणी कशी..! गोरी गोरीच!!!''

अमेयाक आपले सुनेची तोखणाय करपी मांय पळोवन बरें दिसलें. जावं हां... बरीऽ सून मेळ्ळ्या तुमकां...!''

''आगो, तुमकां तुमकां कितें करता? सगलीं 'काकी' म्हणटात म्हाका.. तूंय काकीच म्हण..''

''बरें, काकी तुमची सुने विशीं तोखणाय आयकून बरेंऽ दिसलें...!''

''आगो, तोखणाय खंयची? पापणीक रांदूंक तरी सारकें येवचें आसलें.... हांवें फाटल्यान लागून भाजी करूंक शिकयलें. हुमण करूंक शिकयलें.. आनी आतां पळय अर्जुनाक ताचेच हातचें हुमण बरें लागता..''

''खरें काय कितें?''

''आनीक? लग्न जातकच पूत आपलो उरना तेंच खरें...! सामको बायलेचो जाता..!''

''अशें कितें म्हणटा तूं काकी?...''

''आगो, तुका मांय ना दिसता, ना जाल्यार तुका समजतलें आसलें..!''

''काकी, म्हाका मांय, मांव, देर सगळीं आसात हां.... पूण हांची बदली जाल्ल्यान हांव हांगा पावलां.''

''बाय गो, पगारा दिसा तुज्या घोवान तुका बरीऽ साडी हाडली, मायक कांय ना.... जाल्यार तिका कितें दिसूंक फावो?''

अमेया वोगीच रावलें. ताच्या दोळ्यां सामकार ताची मांय उबी रावली. सांवळीशी, घसघशीत बायल, थंड सभावाची. तिच्या हाता खाला अमेया खोशेन घोळटालें आनी चार नग बरे रांदुंकय शिकिल्लें, अमेयान हातभार लायिल्लो कसलोय जिन्नस वाडटना तिणें म्हणप, 'पळय रे, अमेयान केलां.... बरें जालां न्ही?...'

काकी सांगतच आसली- ''पूण पुतान केलें म्हूण सून ओगी रावली ना हां... तिणें रोकडेंच अर्जुनाक म्हळें, पळय, म्हाका कितेंय हाडलें तर आईक्य हाडटलो आं तूं, ना जाल्यार तूं हाडटा तें हांव घेवपीच न्ही.''

''खरें काय कितें?..'' अमेयाक सुनेची अपुरबाय दिसली. इतल्यांत 'आई, हांगा बसल्या तूं? हांव सगल्याक सोदून आयलें... चल या मगे घरा?' अशें म्हणत एक सतरा अठरा वर्सांचें चली थंय आयलें.. आनी काकीक घेवन गेलें. मागीर अमेयाक दोन दीस काकी दिसलीच ना. तिसरे दिसा मात ती एका बांकार ओगीचशी बशिल्ली दिसली. दोळे बी रडून सुजिल्ले भशेन...

अमेया मुद्दमच तिचे म्हऱ्यांत वचून बसलें.

''काकी, जिवाक बरें नासलें तुज्या?'' ताणें विचारलें.

''बरें आनी वायट.. आतां नशिबांत आसा तें काडपाचें! तूं पुता मायक बरें कर हां.... अर्जुनाबायले भशेन करनाका गो...!''

दुसऱ्यांचे भानगडींत पडनये... हें जाणूनय अमेयाच्यान राव नजो जालें... ताणें विचारलेंच... ''कितें जालें काकी?''

दोळ्यांत दुकां हाडीत काकीन म्हळें, ''तिका हांव नाका जालां गो. ओगीच झगडी करता.... दोन दीस बरें ना जालें हांव जाल्यार तिका लिव्ह घेवंची पडली न्ही? म्हण्टा, म्हज्यांत करूंक नजो हां तुमचें... म्हाका म्हणून म्हजें आयुश्य ना?...'' काकीन दोळे पुसले.

''काकी तूं रडनाका.. तिच्या बॉसान बी तापयली जातली ऑफिसांत... तो राग तुजेर काडलो तिणें...'' अमेयान तिका समजायलें.

''पूण अर्जुनाक सांगून फॉर्म हाडली तो?...''

हळूच सेग्रेद सांगिल्ल्या भशेन काकीन कानांत सांगलें.. ''स्नेहमंदीराचो फॉर्म...''

अमेयाक कच्च जालें. ताका काकीची काकूटशी दिसली, तें कांयच उलयना हें पळोवन काकीन म्हळें, ''पूण हांव म्हजें घर सोडून वचूंक आयलां? घरदार म्हजें.... म्हज्या घोवान बांदिल्लें घर.... अर्जुन पूण असो कसो बायलुको जालो समजना म्हाका... अर्जुनान अशें करप गो म्हाका?.. ही पळय म्हज्या आंगार हीं कांकणां आसात... पाटली, दुट्टी गोंठ, तोडे बी भांगरां बँकेंत दवरल्यांत.. हालींसराक भांगर घरांत दवरपाची माणसुकी आसा? तिका सरळ सांगतां, म्हजे कडेन बरे भशेन वागली तर म्हजीं भांगरां तुका दितलें.... नाजाल्यार खंयय धर्मदाय करतलें.. बऱ्या कामाक तरी लागूंदी म्हजें भांगर...''

आनी तरतरीत उठून ती चलूंक लागली.

अमेयाक तिची खूब चिंता जाली. ताणें घोवाक म्हळें लेगीत..

"सून एक परकी... पूण अर्जुनाकय कळना...? ती काकी बाबडी त्रासांत पडल्या.. सून तिका वृद्धाश्रमांत धाडूंक पळयता. त्या अर्जुनाची तिडक मारता म्हाका.."

घोवान अजापानशें अमेयाच्या तोंडाक पळयलें.... "म्हणून तूं अशें चिंतेतशें आसा?.. हांवय म्हणटा कितें जालें काय म्हणून तुजें... आगो दुसऱ्याचीं टेन्शनां माथ्यार घेवन बसूं नाका गो... बरें न्ही तें आरोग्याक... फाल्यां आयताराक बऱ्याश्या पिच्चराक या आमी..."

तितल्यानच तो विशय सोंपलो.

जेवन बी तिनाच्या 'शो'क वचपाक अमेया भायर सरतालें.

"पळय तुमी न्हिदून पडश्यात हां.... हांव तयार जालें..."

"म्हाका तयार जावपाक पांच मिनटां पुरो पूण च्या मात जाय कडकशी.."

अमेयान मागीर बेगीन बेगीन ताका च्या करून दिली. पिक्चर सुटतकच दोगांय भायर सरतालीं तेन्नाच अमेयाक तें चली दिसलें. तें गार्डनांत येवन काकीक हाताक धरून व्हरपी.. अमेया ताका पळोवन हांसलें... तेंय हांसलें....

"काकी बरी आसा न्ही? अमेयान विचारलें.

" तिचें कितें? आतां सदचेंच जालां तें!" ते चलयेन म्हळें आनी तांचे बराबरशें चलत रावलें.

"यो केन्नाय!" अमेयान म्हळें. "आमी पळय ,ह्या अपार्टमँटांत रावतात... पयलोच माळो..."

"बरें" तें चली हांसलें आनी गेलें.

धुवेकय म्हणून आवयची मातय चिंता ना कशी? अमेयाक अजाप जाल्लें.

मागीर चार दीस अमेयाक काकी गार्डनांत दिसलीच ना. बांकार बसून तें तिची चिंता करीत रावलें. मागीर घोवान म्हणिल्लें तें ताका याद जालें. दुसऱ्याचीं टेन्शनां माथ्यार घेवन बसल्यार आपल्याकूच माल पडटा. आज हुमणांत मीठ घालपाकच विसरलें हें ताका याद जाली. शितय मोव जाल्लें.

तकलेंतले विचार पयस करपाक ताणें फोर्सान तकली हालयली. घरा वचून घोवा खातीर उपमा करतलें अशें चिंतून ताणें रवो काडलो आनी तो भाजूंक लागलें. इतल्यांत घराची बेल वाजली.

दारांत तें चली.....!

"काकी बी आयल्या तुमगेर?" ते चलयेन विचारलें.

"काकी? काकी म्हगेरशी?? ह्या दिसांनी गार्डनांत लेगीत मेळूंक ना ती म्हाका..."

'बरें' अशें म्हणून तें चली परतलें. दार घालतना पळयल्यार एक पुलीस आनी दोन धवे साडयेंतल्यो बायलो.

तीं सकयल पावसर अमेया तांकां पळयत रावलें. इतल्यांत अमेयाचो घोव घरांत पावलो.

"आगो... तीं पिश्या हॉस्पिटलांतलीं मनशां आसा? हांगाशी कित्याक पाविल्लीं कांय?" ताणें म्हणलें."

' कितें? पिश्यां हॉस्पिटलांतलीं?... तीं आमगेर न्ही, काकीचें चली आयिल्लें.... काकी आमगेर पावल्या काय विचारतालें... तो पुलीस... त्यो बायलो... पिश्यां हॉस्पिटलांतल्यो...?'

'अर्जुनाबायलेन काकीक पिश्या हॉस्पिटलांत घाली काय कितें? पूण कित्याक?..'

ताच्या मनांत असंख्य प्रस्न....

राती न्हिदय सारकी पडली ना.... काकीचोच हुस्को... दुसरे दिसा सांजेचें पासयेक वचपाक भायर सरतालें... इतल्यांत ताणें ते चलयेक वतना पळयलें.

"शूत..... शूत.... आगो बाय.... आगो.... शूत...शूत......."

केदे व्हडल्यान उलो घालून ताणें ते चलयेक थांबयलेंच.. येतो वेतो लोक ताचे कडेन पळोवंक लागलो. ताका लजशी जाली तरी ते चलयेन वयर पळयतकच ताणें म्हळें, "मातशें राव गो बाय.." तें थारलें. अमेया ताकतिकेन सकयल देंवलें.

"बाय काकी कशी आसा? अर्जुनाक म्हणून आवयचें मात्तूय ना काय कितें? तूं काकीचें चली मगो?...."

"हांव कोण न्ही तिचें... शेजरा रावतां.. केन्नाय तिचीं घरचीं म्हणटात काकी दिसल्यार... गार्डनांत गेल्यार मातशी तिका हाड आं... म्हणून हांव हाडूंक वतां..."

"पूण काकीली सून ... अर्जुनाबायल तिका...."

तें चली हासूंक लागलें.

"काकीगेर भुरगेंबाळ कांय ना.. ती सपनेता. चलो जाला ताका अर्जून नांव दवरलां. तो मोग करून लग्न जाला. ही सुनेच्यो अपुर्बायो करता... मदींच सुनेचेर तापता.... दिसभर 'अर्जुनाबायलेन अशें केंले, अर्जुनाबायलेन तशें केलें....' पिशयार पडल्या ती..."

"पूण तिच्या घरा... तिचे घरचीं.. घोव बी?..."

"घोव ना... गुरवार आसली तेन्ना घोव तिका घेवन दोतोरागेर वतालो.... टॅक्सीक ॲक्सिडेंट जालो... घोव आक्ताक गेलो.. हिच्या पोटांतलो भुरगो गेलो... तेन्नाच्यान ती मनशांत ना.... पिशार पडल्या..."

" आनी आतां तिच्या घरां...."

" घरा तिची जाव आसा.. देर आसा... जाणटीं दोगांय... जावेन खूब सांबाळलें काकीक ... पूण आतां तींच दुयेंत पडल्यांत... आतां हिचें कोण करतलो?..... मानीकोमांत घाल्या... थंय बरीऽऽ....रमल्या.. सगल्या पिशां– सांगात्यांक जमोवन अर्जुनाबायलेच्यो होडविको... चाडयो सांगत आसता... काल थंयच्यान नदर चुकोवन भायर सरली खंय.... पूण सोदतकच गार्डनांत मेळ्ळी....."

तें चली सांगत आसलें...

आनी अमेया सुन्न जावन आयकतालें...

■■■



# काटकसर

कविता,कथा आनी ललित साहित्यांत लेखन करपाची आवड आशिल्ली स्वरुपा नास्नोळकार हांकां ललित साहित्य विस्ताराची कुशळताय आनी फिशालकाय आसा. खंयचोय विशय घेवन तो लालित्याचे फास्केंत घेवन वाचनीय कसो करप हाची तांकां नाट लाबल्या. तांचो आपलो असो वाचकवर्ग तांणी तयार केला



स्वरुपा नास्नोळकार
मो. : 8007385595

पैर कुंदामावशेचे नातीची सोयरीक जाली म्हणून घरांत फोगेट फुटली आनी त्याच दिसा म्हाका ज्योतीचो फोन आयलो. ज्योती म्हळ्यार कुंदामावशेलें चली. म्हजी मावस भयण.

हांवें उमेदीन म्हळें,'' ज्योती, जाली मुगो आर्याची सोयरीक? मनशां कशीं गो?''

हांवें उलोवपाचीच फुरसत, ज्योतीन तेवटेन आपल्याली सरबत्ती सुरू केली. ''स्वरुपा, मनशां कशीं म्हणून कितें विचारता? सामकी कर्मकट्टीं. लग्नाचे प्रसाद मात जाल्यात, न्हवऱ्याची आवय म्हाका सांगता, आतां तुजी चली म्हजी सून जातली तेन्ना तिका आतांच कटकसर करूंक शिकयल्ली बरी. फुडें ताच्या संवसाराक बरेंच न्ही तें?''

'काटकसर' हो शब्द ज्योतीच्या कानार पडना फुडें ज्योतीचें सणकलें आनी ज्योतीन







पळय आपले वेणीक जें खावयलें तें पळयल्यार तें हांगा रावपाचें न्हय हें सगळें म्हाका ज्योतीच्याच उलोवण्या वेल्यान कळ्ळें.

ज्योती उलोवंक लागलें, ''आगो स्वरुपा, आमी केन्ना काटकसर करून आयल्यांत गो? हांवें सांगलें तिका,काटकसर हो शब्द आमच्या शब्दकोषांत ना म्हणून. हांवें केन्ना काटकसर करूंक ना. म्हजे आवयन केन्ना करूंना. आमच्या अख्ख्या खानदानान केन्नाच काटकसर म्हणून आयकूं ना, मागीर आर्याच खंयचें करतलें? आमचें एकलेंच अपुर्बायेचें चली, हांव जोडटां, म्हजो घोव जोडटा आनी आर्याय बी आयटी इंजिनियर जावन भरपूर पगार हाडटा घरांत. मागीर ही सगळी जोड कोणाक खावंक गो? ''

हांवें म्हळें, ''ज्योती, आगो तिणें आतांच हें सांगपाची गरज नाशिल्ली गो! थोड्या लोकांक केन्ना कितें उलोवचें हेंच समजना, तातुंतलीच ही बायल. पूण तिणें कितें सांगलां तातूंत तिचें कितें चुकलें? तूं ताचो येदो बोवाळ कित्याक करता? आं म्हण आनी ओग्गी राव, फुडें तुगेलें चली आपणाक जाय तेंच करतलें. आतांचीं भुरगीं तीं! तूं कित्याक पराचो कावळो करता?''

ज्योतीचे चलयेन आपले आपणेंच जमयिल्लें ज्योतीक हें थळ व्हडलेंशें पसंत नाशिल्लें. तातूंत आवयलीं सुरवातेकच हीं असलीं उतरां गणेशपुजेकच कुसको नाल्ल जालो ना? तशें पळोवंक गेल्यार 'काटकसर' हो शब्द बऱ्या अर्थानय येवं येता. न्ही, न्ही तो शब्द पयलींचो लोक बऱ्याच अर्थान घेताले. काटकसर करप म्हळ्यार दळीद्र काडप असो जायना . काटकसर म्हळ्यार 'संवसारीक' असो ताचो अर्थ. ओगीच गरजे भायर फालतू खर्च करप ना म्हळ्यार काटकसर. जाय तितलोच वापर करप, ओगीच पयशे मोडप ना, घरांत आशिल्ल्यो वस्तू इबाडूंक दिवप ना म्हळ्यार काटकसर. काटकसर म्हळ्यार कंजूस न्हय, कंजूस ही एक वेगळीच जात आसता.

आमचे भुरगेपणांत शंकर आनी म्हादेव म्हणून दोन भाव , जाणटेले भाटकार सदांच बाजारांत वताले. बाजारांत नुस्त्याक वता आसतना ते पांयांतलें जोतें झरत म्हणून हातांत धरून व्हरताले . बाजार लागीं आयलो की तीं जोतीं बाजारा पुरतीं मात्शी पांयाक घालप. परत बाजार सोंपलो म्हणटकीर तीं जोतीं परत हातांत घेवप. तेदीय वाट घरा मेरेन जोंत्या शिवाय चलत येवप हें आमी सदांच पळयतालीं. हे लोक पोटांतल्यानच कंजुशीचेर पीएचडी करुनच भायर सरिल्ले आसतात.

जशीं कंजुशी तशींच फोल्गीपणाय बी बरीं न्हय. म्हज्या पणजोळा एक व्हडलें घराणें आशिल्लें. तांगेले दादले खंय जेवता आसतना नुस्तें खंय केन्नाच परतून खाय नासले. नुस्तें खंय एकेच सायडीन खावप. दुसरे सायडीचे नुस्तें फाटल्या

लोकांनी खावचें, ना जाल्यार भायर उडोवचें. तशेंच सगळें जेवण जेवन जातकीर फाटलें मागून घेवन तें ताटांत सांडप. ती खंय तांगेली 'प्रथा'. म्हजे आज्जे कडल्यान कळिल्ली खबर .

हीं दोनूय उदारणां निर्मळ लोकांचीं न्हय. आमचे जाणटेले म्हणटाले, 'पयसो आसलो म्हणून कशाय कसो मोडप न्हय. ताका गिरेस्तकाय म्हणटात. पयसो हो गरजेक आनी गरजे खातीरच मोडचो. त्या पयशांचें सार्थक जाता.

शेजारचें कामणेआका सदांच सागतालें की आपले नातीक कोण पळय सून करतलो ताचो संवसार भांगराचो जातलो! कुंड्याचो मांडो करपी आपली नात अशें म्हणून आपले नातीक सदांच तोखेताले.

चड करून सगळ्यांच्योच नाती पयलीं काम र्णेआकाले नाती भशेनच आसताल्यो. कारण परिस्थितीच अशी आसताली की तांकां तेच तरेन वागचेंच पडटालें. एक तर पयलीं खांडीभर भुरगीं आनी तातूंत कर्तो मनीस एकटोच.

व्हडल्या भुरग्याची शिकपाची पाटी सातवें भुरगें सुद्दां वापरतालें आनी घरांतली तीन चाकी सायकल घरांतल्या भुरग्यां बराबर शेजराचींय तिचेर बसून बसून–उठून ती खिळखिळी जाय म्हणसर तिचो फोर काडटालीं.

भायलीं जेवणां, भायलीं खाणां कोणें पळयल्लीं तरी? पापड,लोणचीं,शेवयो,वडयो,सांडगे,म्हानां,कणगां,हेंअसलें सगळें चडश्यां घरांनी चालूच आसतालें तशेंच चिवडो, शेव, लाडू, चकऱ्यो, नेवऱ्यो हें असलें खाण जण एकल्यागेर सण परबेक करतालींच करतालीं. कोणागेर चड तर कोणागेर थोडें पूण भायल्यान विकतें घेवप हें केन्नाच आयकूं ना . मदीं मदीं तिखशे फोव , चुरमो, फोवाचे लाडू, चिरमुल्यांचे लाडू असलींय खाणां चालूच आसतालीं.

कोणागेरूय सांजवेळा बसूंक गेल्यार धोणस, तवसळी, रव्याचे गोड ना जाल्यार तिखसो सांजो, शेंवया साजो, कणगां दिसांनी कणगां , नेवऱ्यो, पोळयो असलें घरा कणकणी दिसतालें आनी तेंच एकामेकागेर धाडपांत धन्यताय मानताली .

चड गिरेस्त, कमी गिरेस्त सगळ्यांगेर सारकीच वागणूक दिसताली. चड गिरेस्त जाले म्हणून ओगीच तरतर नासतालो. ओगीच फसफसाय नाशिल्ली. शाळा कॉलेजींनी सुद्दां भेदभाव नासतालो, दुडवांचो शो नासतालो.

म्हाळू पैगेर पापड आसल्यार सगल्या वाड्यार खबर आसताली, कित्याक तर वाड्या वयलीं सगळीं लाटणीं लाटफळें घेवन पापड लाटूंक थंय म्हाळू पै गेर सकाळीं आठ वरांचेर हजर जातालीं, आनी सगळो वाडो आपणागेरच पापड आशिल्लेवरी वावरतालो. परत येतना प्रत्येकाच्या हातांत सात–आठ पापडांची कवळी आसतालीच! शिवाय तोंडार जी धादोसकाय आसताली तिका मोल नासतलें.

तशेंच शेजारच्या कुडचडकारागेर जर खतखतें केलें तर तें वाड्या वयल्या चार जाणांच्या पोटांत गेल्या शिवाय तें जिरच नाशिल्लें. शांताबायली बांगड्यांची उड्डामेथी हिराबायगेर पावताली आनी हिराबायलें सुरबूस मणगणें, कण्ण शांताबायलो वसंत भुरकावन खातालो , अशे तरेन सगले लोक आपलेपणान , मोगान वागताले आनी हातूंत जो आनंद , समाधान आसतालें तें आतांच्या व्हडल्या व्हडल्या सुपर मार्केटांतल्या जिनसांक किंवा पंचतारांकीत होटॅलांतल्या खाणाक खंयचें आसतलें? हातूंत जो मनीसपणाचो वास येतालो तो आतांच्या खाणांत खंय येता ? आतां वास येता तो फकत पयशांचो आनी दिमाखाचो

जें जेवणाचे बाबतींत तेंच उतर कपड्यां बाबतींत हातूण पागरुण सगल्याच्या बाबतींत तोच अणभव येतालो. सगळ्यां कडेन कष्ट आसताले , आपुलकी आसताली आनी आपणा भितर बरेपण जोडून दवरपाची सर्त आसताली.

हाका बरे तरेन संवसार करप अशें म्हणटालीं. सगल्यांक आनंद वाटीत वाटीत आपणेंय आनंद घेवप अशें तेन्नाचें जिवीत आशिल्लें..

आतां लोकां कडेन सगळें आसा. पयसो, वैभव उपाट्ट भरुन व्हांवता . पूण नातें समादान ना. तो आनंद ह्या खंयच्या पयशांनी विकते घेवपाचें कोण सांगात?







# डायरी एका वर्कशॉपाची

दोनापावलाच्या अवर लेडी ऑफ द रोझरी हायर सेकंडरीत लेक्चरर म्हूण फाटलीं साबार वर्सां वावुरपी सुचेता कामत पै हांकां लेखनाचीय आवड आसा. तांणी साबार वर्तमानपत्रांतल्यान लेखन केलां. तांचें 'सारस्वती जेवण' हें पाक कलेच्या पुस्तकाची तोखणाय जाल्या.



सुचेता कामत पै
मो. : 9421242859

कैतल्या तरी वर्सां म्हज्या आयुष्यांतलें एक सपन आशिल्लें, हैद्राबादच्या सेंटर फॉर कल्चरल रिसोर्सेस ट्रेनींगच्या शिक्षकांच्या कॅम्पाक वचपाचें. पूण तें कशेंच शक्य जायना आशिल्लें, कारण 'वेळ आयलो नाशिल्लो, घडे भरिल्ले नाशिल्ले', वडे करपाक वेळ लागता' तशें म्हजें जाल्लें. पूण एकदांची संद आयली. म्हजे बराबर प्रितंकाय तयार जालें. हांवें फॉर्म भरलें आनी ऑक्टोबर २०१२त आमी तयारी करपाक लागलीं. कला आनी संस्कृती खात्यांतल्या लोकांनी सांगिल्लें, 'तुमकां आपोवणें येतलें अशें धरून तुमी तिकेटी बी काडात आनी तयारी करात.' हय आमची तयारी सुरू जाली. हांवें नाचांच्यो सिडी घेतल्यो, ताणें पुस्तकां, गोयची चित्रां, एक दोन गोंयचे नाच करपा खातीर तांचे भेस बी सगळें घेतलें. आमचीं गोंयचीं खाणां जेवणां सुद्दां

घेतिल्ल्लीं. वचपाचें आमंत्रण आयलें आनी आमची उम ळशीक वाडली.

आमी हैद्राबाद पावलीं. वर्कशॉप आठ दीस चलपाचो आसलो. तरेतरेचीं व्याख्यांनां आयोजीत केल्लीं. पिमसक जतपच सालारजंग म्युझियम तशें कुतुबशाही टॉम्बस् आनी गोवळकोंडा किल्लो हांगा आशिल्लीं. दीस सुरू कसो जाता आनी कसो सोंपता हें आमकां कळ्ळें ना. आमी तीन बायलो आनी ५९ दादले ह्या वर्कशॉपाक आशिल्लीं. आमच्या बराबर आंध्रप्रदेशची एक बायल आशिल्ली. ती आमच्या बराबर रावताली. आमच्या बराबर 'आसेतु हिमालय' म्हणटात तशे सगळया ११ राज्यांतले लोक आशिल्ले. प्रत्येक दिसा तांच्या बराबर बसून म्हायती एकठांय करपाक, तांची संस्कृती पळोवपाक वतालीं. काश्मीरच्या पंगडांत एक मनोरूग्ण शिक्षक आसलो. तो ओगी ओगी आसतालो. आपल्या भितरूच उलयतालो, बरयतालो. कोणाक त्रास दिना आशिल्लो. आमच्या फॉर्मात तर बरयिल्लें, ४५ वर्साच्यो धडधाकट व्यक्ती हातूंत वांटेकार जावपाक शकतात. मागीर मनांत प्रस्न येता, हाका कोणें प्रवेश दिलो? आमचो आयोजक श्री. मदन बाबू सरांचेर तर सामको पेचप्रसंग पडिल्लो. तो ताका फाटी घालतलो अशें दिसतालें. पूण मागीर मागीर चड जाल्लें. शेवटा शेवटाक तो शिक्षक भायरच बसून रावपाक लागलो. कांयच खायना जालो.मागीर ताका दोतोराक दाखयलो. ताचीं वखदां सुरू केलीं, ताचो भाव आयलो आनी व्हरपाचो प्रयत्न जालो. पूण विमानांत ताका व्हरपाक जमतले ना अशे ताका दिसले कित्याक तो धडधाकट नाशिल्ले म्हणून कितलें तरी दीस ते हॉस्टेलात रावले, शेवटी आमच्या हॉस्टेलाच्या रूमांत वचपाक तो अनमनूक लागलो. मागीर भायर गॅलरीत एक गादी घालून ताका न्हिदपाक लागले आनी सिक्योरिटी ताची ख-यानीच रक्षण करूक लागले. आमचे मन मसत ताका पळोवन उदास निरशेताले. एक शिक्षक आसून हांची ही तरा जाल्यार सादया मनशाचे किदे जावपाचे. कार्यक्रम बरे जाताले, पूण शाकाहारी जेवण शिवराक आसताले. पूण त्या बारा दीसानी म्हाकर तशी व्हडलीशी नुस्त्याची याद आयली ना. थंय शिस्त खुब आशिल्ली. सकाळच्या स वरांचेर योगानिद्रा

सुरू जाताली तर ९ वरांचेर व्याखाना, वेगवेगळे हुशार लोकांनी आमची तकली भेरावून उडयली. प्रस्न/जाप अशें सगळे जाताले, याद जावपासारखे प्रसंग म्हणजे आमका गोंय आनी महाराष्ट बरोबर रावन एक कार्यक्रम दाखोवन आमची संस्कृती दाखेवपाची आसली. आमी ३ महाराष्ट गीत, साने गुरूजींची प्रार्थना, दोन गोयची गीतांआनी कुणबी आनी समई नृत्य जे प्रितंका करतले आशिल्ले ते सगळे थारले. कार्यक्रम बरो जालो, सगळयांनी फोटो काडले. शेवटाक निरोप दिवपाचो वेळ आयलो. सगळे एकमेंकांची नंबर घेताले- फोन करपाचे आश्र्वासन दिताले. त्या दिसांनी आमी खूब शिकली. शिकपाचो आनंद वेगळोव आसता. पूण त्या पगंडात आमी केन्ना वेगळी अशी थारलीच ना, सगळे बरोबर येताले वताले. संस्कृती बदल उलयतले. फोटो काडटाले. आमच्या गोंयच्या दीसा तर हांवे कुणबी साडी न्हेशिल्ले ते सगळयाक इतले आवडले कि ताणी कितल्या तरी लोकांनी म्हज्याबरोबर फोटो सेशन केले. ख-यानीच भारताच्या विगंड विगंड प्रांतातले हे लोक मेळिल्यान अेक नदपजल पद कपअमतेपजल एकवट खंय पळोवंक मेळटाले, अमचे केरळीयन भांव तर सदाच लुंगी घालुन येताले, तर काश्मीरी भांव सदाच आपल्या कुर्ती पायझम्यात येताले. पूण ळया सगळयाक पुरून उरतालो तो मदन बाबु एखादया कॅजी क्लासीच्या भुरग्यांवरी आमका वागणूक दिताले. अेकदा तर अेका काश्मीरी गायकांक पदां म्हणपाची

हुकी आयली, आमी सगळ्यांनी तर ताका प्रोत्साहन दिवन वयर काडलो, तो बाबडो मायक घवन स्अेजीर रावन पदां म्हणटा थंय आसा.खंयच्यान तरी मदन बाबून पळयले ये क्या चल रा है, बच्चे जैसी टिचर लोंग हरकते करते है। ये क्या टायम है बानेका। खरेंच ऐका लेक्कचराफाटल्या ही अमची गायनाची कार्यावळ जाली. गायक हिरमुसलो ना अमका म्हणूक लागलो कि कल जरा टायम मिले तो मै सुना दुगा। अशेंच दीस गेले आनी अेक दीस घरा येवपाचो वेळ आयलो. आमची बॅगा दोनापेक्षा आता चार जाली आनी ब्बत्ज् न दिल्लूया ५-६ किलो वजनाच्या पुस्तकांचे ओजे आशिल्ले. थंय कॅम्पसच्या मुखार ग्रामशोभिका मुखार अेक भारतातल्या राज्यातल्या वस्तुंचे प्रदर्शन संदाच भरिल्ले असता आमी वेळ मेळटालो तशी थंय वताली आनी वस्तू हाडत रावताली. थंयच आमची वळख पांडेजी हया मनशाकडेन जाली. तो ब्बत्ज् चो अेक कारकुन पुण आता रिटायर्ड जाल्यान थंयच रावता, ताच्या शब्दाक थंय खूब मान आसा आनी तो तशे आमका सांगतालो. अेकदा आमी टिकेटी काडनासताना पांडेजी बरोबर प्रदर्शनाक गेली, जाण्टयाक बरी उमेद आशिल्ली. सगळेकडेन तो आमच्याबरोबर भोंवलो आमका कमी किंमतीन बारीक बारीक वस्तू घेवन दितालो. आमीय खुश आनी पांडेजी खूश कारण ताचो ताका मांगीर मोबदलो मेळटालो खंय. पांडेजी सकाळी उठून ओलेत्यान देवळांत वतना आमका मेळटाले. ब्बत्ज् तले गुलाब काडून शेजारच्याइ लोकांक दितालो आनी आमकांय म्हणटाले 'बच्चों तुम भी लेना गुलाब' आमकां मात मदनबाबूक लागुन आंगात शिस्त आयिल्ली. खंयच्याय वस्तुक हात लावप ना हे आमी मनात थारायले. पूण पांडेजी आमंका कशेंच बदनाशिल्ले. ते आमकां स्वतःहाडून गुलाब दिताले. ब्बत्ज् च्या खूब यादी आसात. आठ दीसांत खूब किते शिकूक मेळ्ळे मनशां जोडल्या 'आसेतू हिमालय' ही कल्पना थंय पळोवंक मेळ्ळी.

■■■





# म्हजें आजोळ

वाचनाची आनी बरोवपाची आवड आशिल्लें वैष्णवी रायकार कोंकणी आनी मराठींतल्यान लेखन करतात. तांचो आवडीचो विशय कथा आनी ललित जावन आसा , तांच्या लेखनांत अडेचें अशें कांयच दिसना. तांचो 'गांठवल उखाण्यांचें ' (स्वरचित कोंकणी उखाणीं) आनी 'मनभंवर' हो कवितासंग्रह उजवाडाक आयला.



वैष्णवी रायकार
मो. : 8698147583

"मम्मा, या गे वेळेर?"

बाबू म्हणटा म्हणून आमी दर्यार वचपाक भायर सरलीं. बाबू सामको उमेदीन नाचतालो, आपलीं खेळणीं एकठांय करतालो. ताका पळोवन म्हाकाय उमेद जाली. भुरगेपण कितलें निरागस आसता, हें पळोवन हांव मनांतल्या मनांत हांसलें. थोड्याच वेळान आमी दर्या वेळेर पावलीं. बाबू आपलें सामान घेवन फुलपाखो कसो धांवलो! हांव आनी घरकार देगेर बसून ताच्यो करामती पळयतालीं आनी त्याच खिणाक म्हाका म्हजें भुरगेपण ल्हारांचेर नाचत येता तें जाणवलें.

म्हजें आजोळ, म्हज्या मामाचें घर दर्यादेगेरच, कासावले (म ाजोड्ड्या) हया गांवांत. सुंदर, सोबीत सैमान नटिल्लो मामाचो गांव! शेतां, भाटां, दर्या हांच्या आंगा खांदार खेळत हांव व्हड जालें. मामाच्या घरांत हांव सगळ्यांत व्हड नात (व्हडले धुवेलें चली) आनी पयलेंच भुरगें आशिल्ल्यान म्हज्यो मामागेर खूबच अपुरबायो जाताल्यो. म्हजो आजो (बाबा) आनी आज्जी (आई) तांचें तर





लाडकें, तायटाच्या फोडावरी ती म्हाका सांबाळटाली. म्हजो आजो शेटकाम करतालो, ताका पुराय वाडोच न्हय तर वाड्या भायले सगळेच लोक 'आनंद शेटी' म्हण वळखताले. तो भांगराच्या कामांत फिशाल आशिल्लो म्हणून पयस पयसलें गिरायक ताका येतालें. ताचो खणखणीत आवाज आनी तोंडार म्होंवाळ हांसो प्रत्येकाचें स्वागत करपाक आसतालोच. पुडवें, बण्डी आनी आंगार काळो कोट घातले बगर तो घरांतल्यान केन्नाच भायर सरलो ना. दारांतल्यान येवपी वचपी कोणय शेजारी ताका,' शेटी केसो आहा रे?' म्हणले बगर आनी ताणें 'आहा सुमराचो' म्हणून जाप दिले बगर केन्नाच जालें ना. ताच्या तोंडांतल्यान पुर्तूगेज उतरां खूब घोळटालीं, जशें लाप्स (शिपलळश्र),कादेन,(पींशलेझ ) लूगट(कपडे)ह्यो सगल्यो वस्तू आमकां घरा वतना तो दितालो. ताचे भायर आनीक खुबशीं उतरां ताच्या तोंडांत घोळटालीं खोमीस(शर्ट), बुतांव (बटन), क्राम अशीं जायतीं उतरां लक्षांत येतात. म्हाका याद आसा, मांडार बसून काम करतना ताका कितेंय चिवडो, भिकणां, चणे तोंडांत उडोवपाक जाय आसतालें आनी आमकां नातरांक उलो मारून मुठभर आमच्या हातार उडयले बगर ताणें केन्नाच खाले नात. आमची नातरांची ताका सामकी ओड, तोखणाय, अपुरबाय, माया आशिल्ली. शाळेक गिमाची सुटी पडले बराबर आमची पोटली माम गेर पावताली. दोन म्हयने मामाल्या घरा धुमशेणा घालप. आमी रावपाक आयल्यांत म्हण आजो उमेदी जातालो. त्या दिसांनी आंबे खूब मेळटात म्हणून एक आंबो रेंदाक घेतालो. आमी सगळींच उम दीन बोवाळ घालत आंब्याचेर झोपय घालतालीं, धादोस जातालीं.

म्हजी आज्ञी सामकी बरी रुचीक जेवण रांदताली. तिच्या हातचें रांदिल्लें बांगडयांचें हुमण, ताल्ल्यां सुकें याद आयल्यार लेगीत आजून जिबेक रूच येता. रगड्यार आळेण काडप, मातयेचे चुलीर जेवण, ताज्ञो फडफडीत बांगडो रांदनीर भाजून खावप, हें सगळें याद येवन दोळे भरून येतात. मामाचें घर दर्या देगेरच आशिल्ल्यान नुस्तें ताज्ञें फडफडीत मेळटालें. रांपण मारून नुस्तेकारान हाडिल्लें नुस्तें पाटयांत घातिल्लें फडफडून भायर सरतालें तें पळोवपाक आमी भुरगीं सकाळीं फांतोडेर उठून भायर बसतालीं. एक उमळशीक आसताली! दर्या देगेर बसून सगळ्यो यादी ल्हारां वरींच उफेत दोळ्यां सामकार स्पश्ट दिसपाक लागल्यो.

मामाच्या दारांत एक जगमीचें झाड आशिल्लें (आजूनय आसा) जगमां खावपाची एक वेगळीच तरा आसता आनी आमचे आज्ञेन ती आमकां भोव बरे तरेन शिकयल्ली. जगम अळंग हातार घेवप आनी दोनय हातांनी रगडप आनी म्हणप, 'चानये चानये मोव कर, हुंदरा हुंदरा गोड कर' अशें पयलीं आज्ञेन म्हणप आनी तिचे फाटल्यान आमीं म्हणटालीं. अशें करत करत कितलीं जगमां पोटांत वतालीं ताचो हिशोब लागनासलो. त्या गोड जगमांची गोडसाण जिबे वयल्यान केन्नाच वच्ची ना हें खरें!

सांज वेळार सडसडीत हात पांय धुंवन प्रार्थना म्हणप जाताली. आज्ञी दिवली पेटोवन दारा मुखार दवरताली आनी ती जशें म्हणटा तशेंच आमी भुरगीं म्हणटालीं. प्रार्थना जातकर आमकां सगळ्यांक गोडाचो कुडको मेळटालो. तो खावन खोशयेन वचून आज्या फुड्यांत बसप. ताच्यो भुरगेपणांतल्यो खबरी आयकप. ताका प्रस्न विचारप, अजाप जावप, हांसप खिदळप अशें म्होंवाळ यादीन भरिल्लें मन, अचानक बाबू फुड्यांत येतकर थाऱ्यार आयलें.

वेळ चड जावंक नासलो म्हणून घोवान आनीक थोड्या वेळान वचूं या अशें म्हणलें आनी हांव घोवा कडेन उलयत परत त्याच यादिंनी घुस्पलें.

मामाल्या घरा सामकारच एक माड आशिल्लो आनी माडाची सूर काडपाक एक रेंदेर येतालो. माडार बसून कांतारां म्हणत तो सूर काडटालो. कांतारा याद जायनांत पूण आवाज म्होंवाळ आसलो. एक मजेशीर याद म्हणल्यार आमी भुरगीं ताका पळोवनच भितालीं. कारण तो काश्टी मारिल्लो,कमरेक काती लावन काळो कुळकुळीत, उकते आंगार आसतालो. दोळे मोठे करून आमकां पळोवप म्हणून येकादें आसत! पूण ताका पळोवन आमच्या पोटांत कपकप पडटालो आनी तो मामागेर आयल्यार तर आमी कोठये कुडींत, भाताचे कार्शीत लिपून बसतालीं. आतां याद करतना नकळटां तोंडार हांसो येता. मामाल्या घरा भोंवतणी ते धोलपी माड, चुट्ट्यांचो सळसळ सळसळ आवाज, आजून मन यादिंच्या नादार धोलता अशें जाणवता. रात जाली म्हणटकर आमी न्हिदपाक आज्ञे फुड्यांत येतालीं. सगळ्यांकच आज्ञेचे वेंगेंत न्हिदपाक जाय आसतालें. म्हणून सगळयांचो बोवाळ, झगडीं जातालीं. आजो आपल्या म्हऱ्यांत न्हिदपाक आफयतालो पूण, आज्ञेची काणी आयकले बगर आमी कशीं न्हीदत ! आज्ञी आमचीं झगडीं विसरायेर घालपाक श्रावण बाळाची काणी, शामची आई हाची काणी सांगप. चड आवडटाली ती पोडोळ्याची काणी. ती खूब सुंदर रितीन, पदां कशी गावन सांगप आसतालें! त्या काणयांनी ती आपल्यो भावना ओतून सांगताली अशें आतां विचार केल्यार लक्षांत येता. मामाच्या घरा फाटल्यान व्हऽऽडलें भाट आशिल्लें. त्या भाटांत आंबो, पणस , माड, चिकू, आंबाडो, बिंबलीण, केळी, निरपणस, डाळींब,सिताफळ अशीं जायतीं फळांचीं झाडां तशेंच मोगरीं, जायो, आबोलीं, सदाफुली, दसण फुलांचींय झाडां आशिल्लीं. आमी भुरगीं त्या भाटांत दीस रात खेळत, नाचत आसतालीं. माडाचीं आडसरां, गोड रसाळ चिकू, आंबे,पणस हांची रूच आतांच्या काळांत जिबेक मेळप भोवच कठीण अशें म्हाका दिसता. त्या

सैमान रसरसून भरिल्ल्या मामाच्या गांवांत म्हजें भुरगेंपण उमेदीन गेलां हाची व्हडवीक सदांच म्हजे काळजांत घट्ट उरतलीच. हें सहज घोवा कडेन उलयताना आयलें आनी मन जड जालें.

मामाच्या दुसऱ्या भाटांत घरा फाटल्यान (मात्शें पयस) रेल्वेचो रूळ आशिल्लो. रेल्वे गेल्या बराबर जमीन हालता कशी दिसप. आनी तो थरथरपी आवाज आयकपाक आमी भुरगीं आसा थंय जमनीक कान लावप! अजापशीं जातालीं! कितें, कोण जाणां? पूण ,मज्जा कशी दिसताली त्या वेळार. तें नेणारपण आतां जायशें दिसता... असो विचार करत हांव म्हज्या सान चल्या कडेन पळयतां आनी स्वताकच ताचे भितर सोदतां. घोव सांज जाता म्हण घरा वचपाक बाबूक आफयता आनी हांव भानार येवन उठतां आनी त्यो यादी घेवनच गाडयेंत बसतां. वाटेर वता आसतना पाचवींचार शेतां दिश्टीक पडटात आनी परत एकदां हांव तेच तंदरेंत पावतां, म्हज्या मामालें शेत. तें शेत, रोवप, लुंवप, भात काडप हें सगळें म्हजी आज्जी आनी कांय कामेरीं कामांक लावन करप जातालें. तें भात घरा मुखार हांतऱ्यो घालून सुकयतालीं आनी आमी भुरगीं त्या भातांत नाचतालीं. आतां काळांत हें सगळें चित्र पळोवपाक मेळप भोव कठीण! भांगराची सया मारपी तें भात दोळ्यां साम कार येता. उकडे तांदळाची पेज तर मामागेर आसतालीच. ताचे बराबर खारो बांगडो. ताची रूच येतकर जीव आशेता. त्या काळार म्हजी आजी फडफडीत,ताज्ने बांगडे बरेऽऽ मीठ लावन कडकडीत वोताक सुकयताली. ताची रूच आतांच्या बांगड्यांक सर करूंकच शकनात. हे सुके बांगडे पावसाळ्या खातीर पुरूमेंत करताली, तशेंच कोकोंण दुदयाच्यो वडयो,सांडगे , अमुरपिक्या आंब्यांचीं सोलां, पणसाचीं,आंब्यांचीं साटां, बिंबलांचीं सोलां! म्हाका आजून याद जाता, मामागेर एक व्हड शेवगो आशिल्लो. ताचेर आजी गंवा पिठाच्यो शेवयो करताली. आमकांय मदीं मदीं ती शेवगो घुंवडापाक दिताली, तेन्ना एक मज्जा कशी दिसताली. हें चिंतूनच मन भुरगें जावन मुमुरख्यांनी हांसता. अशे कितलेशेच नग ती करताली. आतां सगळेंच याद जायना, पूण हें सगळें आमी घरा वतना ताची व्हडलीशी पुरूमेंताची पोटली आमकां दिल्या बगर चुकय नासली.

विचार करत जाल्यार आतांच्या लोकांक वेळ खंय आसा हें सगळें करपाक! आनी तशें आपलेपण,मोग खूब कमी जायत गेला. ताचें कारण म्हणल्यार लोक आधुनीक काळाक चड आपणावपाक लागलो. गांवांचें शारीकरण जालें. मनीस कामांत घुस्पून उरलो आनीक भावनीक विचार आटत गेले. ही एक खंत सदांच मनाक सतायत रावतली . देवा !! म्हजें भुरगेपण परत दी गा ..!

∎∎∎





# लिलावतीचें कुवाडें

'द जंगल स्कूल
अ मोडर्न डे हितोपदेशा
हें नामनेचे लेखक दत्ता
दामोदर नायक हांचें ल्हान
भुरग्यां पासत बरयल्लें
इंग्लीश पुस्तक. हें पुस्तक
सर्वाधीक खपाचें पुस्तक अशें
म्हणूं येता. ह्या पुस्तकाचो
कोंकणी अणकार करता बिम्ब
मासिकाचें पालवी संपादक
मानसी धाऊस्कार
खिस्ती खिस्तीनी उजवाडाक
तें वाचप्या मेरेन वता..



मानसी धाऊस्कार
मो. : 8788595022

आयतार दिसा दनपारां सगलीं भुरगीं भायर खेळपाक सामकीं उबगल्लीं. दनपार आशिल्ल्यान भायर रखरखीत वत पडिल्लें आनी भुरग्यांक त्या वतांत खेळपाक जिवार येतालें! म्हणटकच एल्मीन तांकां एक वेगळेच तरेचो खेळ शिकोवपाचें थारायलें. हो खेळ आशिल्लो स्मृती तपासपाचो!

एल्मीन ते कुडींत खूबश्यो ल्हान ल्हान वस्तू दवरल्यो. तातूंत एक फस्क, एक मणवात,चावी,कुलोप,बडी, रबर, दोन कातरी, ब्रश, एक फुलां वाज, एक फोटवाची फ्रेम, एक तुवालो, एक साबण, एक लिपस्टीक, बावली, बाटलेची गुड्डी उगडपाचो ओपनर, एक दिसपीस, एक बल्ब, एक पेन्सील,आयस बॉक्स, उदका बाटली आनी असल्योच आनीक कितल्योश्योच



वस्तू..

ह्यो सगळ्यो वस्तू एके धवे चादरीचेर मंडून दवरिल्ल्यो. मागीर सगळ्या भुरग्यांक तिणें कुडींत आपयलीं आनी सांगलें, ''हे चादरीचेर मंडिल्ल्या सगळ्या वस्तुंचेर तुमी तीन मिनटां नदर भोंवडावपाची आनी परत भायर वचपाचें.''

तांणी तशें केलें. मागीर त्या सगळ्या भुरग्यांक तिणें एक कागदाचो कुडको आनी एक एक पेन दिलें आनी सांगलें, ''तुमी चादरीचेर पळयल्ल्यो सगळ्यो वस्तू आतां याद करात आनी एकान एक ह्या कागदाचेर बरोवन काडात.''

भुरग्यांक हो खेळ खूब्ब आवडलो आनी सगळ्यांनी रोखडेंच तांचे तकलेंत जे जे वस्तूचें नांव याद जातालें तीं नांवां तांणी कागदाचेर बरोवंक आरंभ केलो. मायरा आनी रायना आनीक एक खेप भितर वचून नदर मारूंक पळयतालीं, कित्याक तर तीं त्या भुरग्यां मदलीं सगळ्यांत ल्हान भुरगीं आशिल्लीं. पूण तें त्या खेळाच्या नेमांत बसऽ नाशिल्लें.

रणवीराक जनेलाच्या बुराकांतल्यान भितर नदर मारपाची आशिल्ली पूण एल्मीन ताका आडायलें. बिंगो, लैतांव आनी चानी उत्सुकतायेन भुरग्यां कडेन कोण जिखतलो काय हे उमळशिकेन पळयताले.

सगळ्यांत पयलीं रेहानान आपलो पेपर दिलो. ताचे फाटोफाट अनुष्कान आनी मागीर आवंती, मानव आनी आरुशान दिलो. मायरा, रायना आनी रणवीर निमणे मेरेन हातांत पेपर घेवन उबीं रावलीं.

हे सर्तीक न्याय दिवपाक लागून एल्मीन दोन विभाग केल्ले . ज्युनियर आनी सिनियर पंगड. ज्युनियर विभागांत रेहान आनी आरुशाक जैतिवंत म्हूण जाहीर केलें. कित्याक तांणी दोगांनीय याद करून बरयल्ल्या वस्तूंची संख्या सारकीच आशिल्ली. आनी सिनियर गटांत जैतिवंत म्हूण अनुष्काच्या नांवाची घोशणा केली.

''आमी हीच गेम पर्थून एक खेप खेळुंया.'' रणवीरान

सामको उचांबळीत जावन सांगलें.

'' पर्थून आनीक ना आं रणवीर.'' एल्मीन म्हणलें.

'' पूण म्हाका जिखपाक जाय.'' रणवीरान हट्ट धरलो.

'' तशें जाल्यार तुवें चड यत्न करूंक जाय.'' ताच्या दोळ्यांनी दुकां दाटिल्लीं आनी तीं खंयच्याय खिणाक भायर येवं येतात म्हणपाचें पळोवन एल्मीन म्हणलें.

इतले म्हणसर, मायरा आनी रायनाक, तीं खंयच्यो खंयच्यो वस्तू बरोवंक विसरलीं म्हणपाचें जाणां जावपाची उमळशीक लागिल्ली. म्हणटकच तांणी कुडींत वचून पर्थून एक खेप सगळ्या वस्तूंचेर नदर भोंवडायली.

''हाय सायबा, आमी ह्यो वस्तू बरोवंकूच विसरलीं!'' मायरान म्हणलें.

'' हांवें निदान रबर आनी पेन्सीलीची याद दवरूंक जाय आशिल्ली!'' रायनान खंत उक्तायली.

'' कांयच पिकासांव घेवन बसूं नाकात. तुमकां पर्थून संद मेळटली. आमी हो खेळ परत खेळुंया. पूण फुडले खेप आमी वस्तू बदलुंया!''

'' फुडल्या आयताराक आमी फार्मार वतलीं तेन्ना हांव वेगवेगळी भाजी, फळां आनी फुलां मंडून दवरतलीं. तेन्ना तुमी फकत वळखपूच न्हय तर तांचीं नांवाय सांगचीं लागतलीं!'' एल्मीन म्हणलें.

इतले म्हणसर एल्मोय थंय पावलो. ताका पळोवन सगळ्या भुरग्यांचो पुराय मूड फुल्लो.

'' एल्मो, आमकां आयज तूं कांय कुवाडीं घाल.'' भुरग्यांनी बोवाळ घालो.

'' ओके, पूण आदीं म्हाका चिंतूं दी.'' याद करपाचो यत्न करीत एल्मोन म्हणलें. मातशा वगतान ताणें म्हणलें,''हांव तुमकां 'लिलावतीचीं कुवाडी' म्हणटात तीं घालतां. ''

ताणें मुखार सांगपाक आरंभ केलो.

खूब खूब शेंकड्यां आदीं, पोरण्या भारतांत,आर्यभट्ट नांवाचो एक हुशार गणिततज्ञ रावतालो.ताची धूव लिलावतीय ताचेच इतली गणितांत हुशार आशिल्ली.''

''ताच्या प्रसिद्ध कुवाड्यांची जाप दिवप बऱ्याच लोकाक जमलें ना. आज आमी तींच कुवाडीं तुमचे मदले कोण सोडोवंक शकतात जाल्यार पळोवंया!'' एल्मोन तांकां सांगलें.

''एका रानांत एक झाड आशिल्लें. तें णव फूट उंच आशिल्लें. त्या झाडाचेर एक घोण आपल्या भक्ष्याची वाट तेळीत बशिल्ली. त्या झाडाच्या मुळांत एक घोल आशिल्ली आनी तातूंत एक सोरोप रावतालो. तो सोरोप त्या दिसा भायर गेल्लो आनी आपले घोलींत परततालो. तो आपले घोली पासून सुमार पंचविसेक फुटांचेर पाविल्लो. घोणीन त्या सोरपाक झाडा कडेन येता तें पळयलें. ताका झाडाच्या जाता तितले लागीं पावूंदी आनी मागीर ताका आपूण सोंपेपणी उखलतां अशें घोणीन चिंतलें. आतां म्हाका सांगात, झाडाच्या कितल्या अंतराचेर आसतना घोणीन त्या सोरपाक उखल्लो?'' ताणें भुरग्यांक विचारलें.

एल्मोन रणवीराक ताचो ब्लॅक बोर्ड हाडूंक सांगलो. ताचेर चित्र काडून दाखोवन, ताचे वयल्यान भुरग्यांनी कुवाड्याची जाप सोदची अशी मांडणी आशिल्ली.

भुरग्यांनी शक्य तो सगळ्या वटेंतल्यान त्या कुवाड्यां कडेन पळोवपाचो यत्न केलो. पूण कितेंच केल्यार तांकां ताची जाप मेळना जाली. शेवटाक तांणी बें म्हणलें आनी एल्मोक जाप विचारली.

म्हणटकच एल्मोन सरळ जाप सांगचे पयलीं तें कुवाडें तांकां समजावन सांगलें. ताणें म्हणलें,'' भुरग्यांनो तुमी शाळेंत पायथागोरासचो सिद्धांत शिकल्यात?''

''हय!''तांचे मदल्या व्हडल्या भुरग्यांनी म्हणलें.

''शाब्बास! ह्या पायथागोरसच्याय आदीं आर्यभट्टाक आनी लिलावतीक हो सिद्धांत खबर आशिल्लो.'' एल्मोन म्हणलें.

''खरेंच?'' मानवान अजापान विचारलें.

''हय, आतां म्हाका सांगात,तुमचे मदलो कोण म्हाका सांगूंक शकता हो सिद्धांत कितें सांगता तें!''

''ह्या सिद्धांता प्रमाण, त्रिकोनाच्या उजव्या कोनांतलें अंतर ताच्या दुसऱ्या दोनूय कोनां मदल्या अंतराचे बेरजे इतलें आसता.'' खुशीन सारकी जाप दिली.

''बरोबर सांगलें!आतां हें कुवाडें सोडोवंक ह्याच सिद्धांताचो वापर करात. झाडाचें मूळ मळाच्या उजव्या कोनांत आसा. सोरपाक धरपा पासत घोणीचें उडप त्रिकोनाच्या सरळ उजव्या कोनांत आसतलें. जर झाडाची उंचाय णव फूट जाल्यार पायथागोरासच्या सिद्धांता प्रमाण त्रिकोनाच्यो हेर दोनूय बाजू सारख्यो आसतल्यो!''

''ह्यो बाजू चड करून ३,४,५ वो ९,१२,१५ अश्यो आसतल्यो. म्हणटकच एक बाजू जर ९ जाल्यार ते घोणीच्या उडपाच्या अंतरा मेरेनचें अंतर १५ फूट आसूंक जाय आनी जंय त्या सोरपाक तिणें धरलो तें अंतर झाडा पासून १२ फ ुटांचें आसूंक जाय.'' एल्मोन सांगलें.

''आरेचा! हय मरे, कुवाडें सामकें सोपें आशिल्लें एल्मो!'' तें समजून घेतकच अनुष्कान सांगलें.

''सगळीं कुवाडीं ताची जाप मेळटकच साम कीं सोंपी दिसतात,अनुष्का.'' एल्मोन ताका जाप दिली.

''आनीकूय घाल कुवाडीं, एल्मो आनीकूय घाल कुवाडीं.''

आतां भुरग्यांची मागणी वाडली.

''बरें आसा, आतां हें कुवाडें आसा माणकुल्या रायनाक.'' एल्मोन म्हणलें.'' मायरा, म्हाका सांग १० किलो लोखंड जड काय १० किलो वजनाचो कापूस?''

''१० किलो लोखंड एल्मो!''मायरान सादेपणान जाप दिली.

''ना मायरा. दोनायचेंय वजन सारकेंच आसा,कित्याक दोनांचेंय वजन १० कील.''म नवान ताका सांगलें.

''आतां हें दुसरें कुवाडें आमच्या मदल्या दुसऱ्या माणकुल्याक,रायनाक.'' एल्मोन अशें म्हणत रायनाक विचारलें,''रायना, जर मोन्या



मनशाक तान लागल्या जाल्यार तो तें कशें सांगतलो?''

रायनान आपलो आंगठो तोंडा कडेन व्हरून ओंठाक लायत कुरू करून पिवपाक उदक जाय म्हणपाचें दाखयलें.

'' सारकें रायना, आतां म्हाका सांग, एका कुइड्या मनशाक भूक लागल्या आनी तो खावपाक मागता जाल्यार कशे तरेन मागतलो?''

रायनान आपलो हात पर्थून आपल्या तोंडा कडेन व्हरून तांकां दाखयलो.

''पूण रायना, कुइडो मनीस पळोवंक शकना आसलो तरी तो उलोवंक शकता न्ही? म्हणटकच तो सरळ सांगतलो,म्हाका खावपाक दी म्हूण!'' रेहानान म्हणलें.

'' आरे हय मरे१ हांव विसरलेंच पळय तें!''रायनान हांसत म्हणलें.

भुरग्यांक आनीकूय कुवाडीं जाय आसलीं. तेन्ना एल्मोन सांगलें, आपूण तुमकां आतां निमणें फकत एकूच घालतां. हे खेप कुवाडें सुटावें करूंक बिंगो,लैतांव आनी चानीय वांटो घेवंक मुखार आयलीं. म्हणटकच एल्मोन तांकां एक मजेशीर कुवाडें घालें.

एक दीस रानांत, भालू वांस्वेल फनी,बनी आनी सनी ह्या तीन माकडां वांगडा म्होंव सोदपाक गेलें. म्होंव सांपडल्या उपरांत ते तांची वाट शेणले आनी काळोखूय जावंक लागिल्लो.

नशीब सारख्यान सनी कडेन एक टॉर्च आशिल्लो जो ताणें लागशिल्ल्या गांवांतल्यान फारायल्लो. पूण त्या टॉर्चांतली बॅटरी, टॉर्च एक खेप पेटयलो काय फकत पंदरा मिनटां मेरेनच चलपाची! जे मेरेन ती बॅटरी सोंपना तो मेरेन तो टॉर्च बंद जावंक शकनाशिल्लो. म्हणटकच तो टॉर्च सनीन एमर्जन्सीक म्हूण सांबाळून दवरपाचें थारायलें.

ते सगळे आपल्या घराची वाट सोदीत चलताले तेन्ना तांकां वाटेर एक न्हंय दिसली. तिचेर एक बारीकसो पूल आशिल्लो. ताचे सुरवातीक बोर्ड लायिल्लो आनी ताचेर 'एके खेपे फकत दोगांच प्राण्यांक प्रवेश मेळटलो' अशें बरयल्लें.

पुलाची लांबाय ५० मिटर आशिल्ली. आनी आतां तर सामको काळोख जाल्लो. बॅटरेदिव्या बगर आतां पूल वलांडप शक्य नाशिल्लें.

भालून म्हणलें,'' म्हजें वजन खूब्ब आसा. म्हाका पुलाचें ५० मिटरांचें अंतर पुराय करपाक ८ मिनटां लागतलीं. फनीन म्हणलें,''म्हाका पांच मिनटां पुरो चलपाक.''

बनीन म्हणलें, ''म्हाका फकत दोन मिनटांच पुरो.''तेन्ना सनान म्हणलें,'' हांव घटमूट आनी फीट आसां. हांव हो पूल एका मिनटा भितर हुपूंक शकतां.''

'' आतां भुरग्यांनो म्हाका सांगात,ते बॅटरेचें



आयुश्य फकत पंदरा मिनटांच आसतना भालू,बनी,फनी आनी सनी त्या बॅटरे दिव्यान पूल कसो हुपतले?'' एल्मोन विचारलें.

भुरग्यांनी हातांत कागत आनी पेन घेवन ताचेर आकडेमोड करपाक सुरवात केली. पूण तांकां जाप मेळना जाली. तेन्ना तांणी ती जाप कशी सोदपाची तें एल्मोक विचारलें. भुरग्यांची उमळशीक तेंगशेक पाविल्ली आसतनाय एल्मोन तांकां सांगलें, ''हाची जाप तुमकां हांव फुडल्या आयताराक दितलों.''

फुडल्या आयताराक तीं सगळीं फार्माचेर पिकनिकेक आयलीं. सुरवेक एल्मीन उतर दिल्ले प्रमाण भुरगीं भाजी,फळां आनी फुलां आशिल्लो तो स्मृती खेळ खेळ्ळीं.

मागीर तांणी एल्मोक त्या कुवाड्याची याद करून दिवन जाप विचारली. तांच्यानी आतां हो सस्पेन्स चड काळ सोसूंक जाय नाशिल्लो.

म्हणटकच एल्मोन तांकां जाप दिली.

''सगळ्यांत आदीं सनी आनी बनी पूल हुपतले. तांकां ते पासत दोन मिनटां लागतलीं. मागीर सनी टॉर्च घेवन परत येतलो. ते पासत ताका एक मिनीट लागतलें. म्हणटकच ३ मिनटां सरलीं. ''

''आतां भालू आनी फनी आठ मिनटां भितर तो पूल हुपतले.म्हणटकच ११मिनटां सरलीं.''

''बनी टॉर्च घेवन परत येतलो तेन्ना ताका २ मिनटां लागतलीं. म्हणटकच १३ मिनटां गेलीं.''

''आतां शेवटाक बनी आनी सनी तो पूल वलांडटले. तांकां ते पासत दोन मिनटां लागतलीं. अशे तरेन सगळीं मेळून १५ मिनटां जातलीं.''

एल्मोन तें कुवाडें जे तरेन सुटावें करून सांगिल्लें तें पळोवन सगदळीं भुरगीं साम कीं प्रभावीत जाल्लीं. बिंगो,लैतांव आनी चानीय आपल्यो शेंपड्यो हालोवन अजाप उक्तायाले.

'' जाणां भुरग्यांनो,कुवाडीं तुमची हुशारकाय घासून चकचकीत करतात. तीं तुमची एकाग्रताय वाडयतात.'' एल्मोन तांकां सांगलें.

'' हय एल्मो! आमी असलीं जायतीं कुवाडीं ह्यान फुडें सोडयतलीं.'' खुशीन उमेदीन ताका सांगलें.

भुरग्यांचो वेळ एल्मी आनी एल्मो सांगाताक खूब उमेदीन सरलो. आपली खोस उक्तावंक आनी एल्मी आनी एल्मोक दिनवासपाक सगळ्या भुरग्यांनी तांचे भोंवतणी फेर धरलो आनी म्हणलें,

''थ्री चिअर्स टू एल्मी आनी एल्मो, हीप हीप हुर्रे, हीप हीप हुर्रे..!''

■■■





# भूत भूत..भूत भूतदया...!

दिलीप बोरकार हे नामनेचे साहित्यीक आनी 'बिम्ब' मासिकाचे मुखेल संपादक जावन आसात. तांचीं आतां मेरेन चाळीसेक पुस्तकां ऊजवाडाक आयल्यांत आनी ते केंद्रीय साहित्य अकादेमी तशेंच हेर म्हत्वाच्या पुरस्कारांनी सन्मानीत साहित्यकार आसात.



दिलीप बोरकार
मो. : 9822136885

दारार टकटक जालें आनी म्हजी तंदरी भंगली. थोडो वेळ रावून हांवें सुलूस घेतली. हय,म्हज्याच दारार कोण तरी टकटकायतालो..! कोण काय?

दारार बरी येदी व्हडली बेल लायल्या,म्हणचे बेल घरांत भितर दारा वयर आसा आनी भायल्यान ते बेलीचो बटन आसा. ती बेल वाजयली म्हूण म्हाका बील चड येतलें अशीय गजाल न्हय. लायटीचें बील, उदकाचें बील, फोनाचें बील आनी तांचे वयलो रकमेचो आंकडो पळोवन पळोवन आनी तो फारीक करून म्हज्यो ते संबंदीच्यो भावनाच मेल्यात. तरी ह्या दिसांनी सरकारान सोळा हजार लिटर मेरेनचें उदकाचें बील माफ केलां. आतां बील आयलां तें शून्य रकमेचें. तरी असल्या गजालींचेर विश्वास दवरपाची संवय नाशिल्ल्यान तें बील पळोवन हांवें





शुन्याचें मोल वाडूंक नाशिल्लयाची खात्री करून घेतली.

परतून दारार टकटक जालें आनी हांव अनिच्छेन उठलों. ताचें कारण म्हणल्यार म्हजे शेजारी. ते दीस–रात आपल्या फ्लॅटांत टकटक करीत आसतात आनी हांव आपलो दारार कोण तरी टकटक करता अशें समजून दार उगडटां. पळयत जाल्यार भायर कोण नासता. ती टकटक शेजाऱ्यांची आसता. आनी जेन्नाकोण खऱ्यानीच टकटक करता तेन्ना ती शेजाऱ्यांची कटकट समजून ओगीच बसता. मागीर हांव ना म्हूण पोस्टमन वा आयिल्लो आनीक कोणूय परत वता. वचूं, म्हाका परक पडना,त्रास तांकांच न्हय परत येवपाक..? बेल आसा ती मारपाक पयशे पडनांत हें हांकां कोण सांगतलो..? मारून तरी पळयात न्हय वाजता जाल्यार..!

हांवें दार उगडलें जाल्यार दारांत मानसी.. वतांतल्यान सामकें तांबडें जावन आयलां.मानसी म्हजी मानसकन्या.. तातूंत ताका हांवें बिम्बाचें पालवी संपादक म्हूण पदवी बहाल केल्या. म्हणटकच तें अधिकृत पत्रकार...पत्रकार ल्हान जावं व्हड,तांकां कितें म्हणपाची आयज माणसुकी उरूंक ना. अर्थाचो अनर्थ करून केन्नाआपलो अहंकार दुखोवन घेत हें कळपाक मार्ग नासता. तातूंत मानसी मानसकन्या जाल्ल्यान ताचेर कसल्याय कारणाक तापप ना हो अलिखीत नेम. ताचेर तापपाची म्हाका संद आशिल्ली, ' बेल मारूंक जायना गो?' इतलेंच वेगळ्या टोनान म्हणिल्लें जाल्यार म्हजो उद्देश्य़ सफळ जावपाचो आनी म्हज्यांतल्या अहंकाराचें शमन जाल्ल्याचो विकृत आनंद घेवंक मेळपाचो.

पूण ताणें म्हाका ती संद दिली ना. ''कितलो वेळ दार उगडूंक? अशें ताणेंय विचारूंक ना आनी 'बेल नागो दाराक?' अशें हांवेंय विचारूंक ना..ताच्या बदलाक हांव ताच्या उमेदी मुखामळाक पळयत रावलों आनी ताणेंय हांसतशें उमेदीन म्हणलें, हे हो पळय कोण..!

पळयत जाल्यार ताच्या फाटल्यान एक सुण्याचो काळोच पेटो.चडांत चड पंदरा दिसांचो वा म्हयन्याचो बी आसूं येता. हांव दोगांकूय पळयत रावलों. तीं दोगांय म्हाका पळयतालीं. मानसी भियेनासतना आनी तो पेटो मात्सो भियेल्लयावरी 'कूँीय कूँीय' करीत.

फाटलें वर्सभर मानसी फाटीक लागिल्लें, पोसपाक एक सुणो हाडूंया. पयलीं दिसलें तें फकांडा करता. हांगा म्हाकाच कोणें पोसपाक घेतल्यार पुरो अशी म्हजी अवस्था जाल्ली. हांव पणजे ज्या सरकारी फ्लॅटांत रावतां थंय म्हाकाच रावपा सारकी सुवात ना. तातूंत एक सुणो येवप म्हणल्यार जालें. शिवाय म्हजे सगळे व्याप हे सुण्याक पोसपाचे कल्पनेकडे खंयच लागीं येवप शक्य नाशिल्लें. बरें, मानसीक 'हाड तूं आनी पोस' म्हणलें जाल्यार तें सांज जाली काय घरा वतलें. मागीर कोणें पळोवप ताका..? म्हूण 'बरें हाडुया' म्हणत हांव तो विशय टाळटालों.

मदीं आमचेच कॉलनींत पेटे काडले आनी तातूंतल्या एकल्याक हाडून बिडून ताणें पोसपाची ट्रायल घेतली. दर दोन दिसांनी दुदाचें पाकीट, सुण्यांच्यो बिस्किटी , ताका न्हावपाक बरो सुण्या खातीरचो स्पेशल साबण आनी न्हावन जातकच ताका पुसपाक म्हजे बरे तुवाले..करोनाक लागून फाटलीं दोन वर्सां जीम बंद आशिल्ल्यान म्हजें जिम ांत वचपाचें बंद आशिल्लें आनी मागीर उपकारतले म्हणून हांवे ते धुवन बी घडी मारून आलमारींत दवरिल्ले. 'आतां म्हातारपणार जीम खंयचें?' अशें म्हणत ताणें ते सगले तुवाले दिसाक एक करून ताका पुसपाक वापरले आनी सात आठ दिसांनी तो पेटो दारांत येवपाचो बंद जाल्ल्यान वो ताका कोण तरी घेवन गेल्ल्यान म्हजे हे बरे तुवाले मात म्हाका सुक्या कचऱ्यांत उडोवंचे पडले. ताचें व्हडलेंशें म्हाका दुख्ख जालें ना कित्याक एका अरिश्टांतल्यान हांव वाचलों हेंच सूख व्हड आशिल्लें. आनी आज ती खोस विसरायेर पडचे आदींच मानसी आनीक एक पेटो घेवन दारांत उबें आशिल्लें.

त्या सुण्याच्या पेट्याकडल्यान काय हांव फाक्त जाणून घेवंक शकनाशिल्लों. जें कितें जाणून घेवपाचें आशिल्लें तें मानसी कडल्यान आनी तें सांगता ताचेर म्हाका विश्र्वास दवरल्या बगर दुसरो पर्याय नाशिल्लो.

तें बशींतल्यन देवून हांगा येतालें तेन्ना वाटेर त्या पेट्यान ताका पळयलें. तोय ताचे फाटल्यान चलत चलत आमगेर आयिल्लो. मानसीन ताका





धांवडावपाचो यत्न केल्लो पूण ताणें ताका केर केलें ना आनी आपूण तुज्या फाटल्यान येतलोंच मागीर तुका जाय तें कर अशें थारावन ताणें ताची फाट सोडली ना आनी तें हेल्पलेस आशिल्लें असो एकंदर ताच्या उलोवपाचो सार आशिल्लो. हांवें ताचेर चड विचार करपाचो विचार सोडून दिलो. त्या पेट्याक विचारिल्लें जाल्यार तो सांगतूय आशिल्लो–ताचें कितें जालें जाणां, हांव थंय भिवून सो रस्त्यार उबो आशिल्लों. म्हजी आवय आनी हेर भावंडां खंयच्यान पळ्ळीं खबर ना. कितें करूं हें खबर नाशिल्ल्यान हांव हांगा थंय पळयतालों जाल्यार हाणें म्हाका 'चूक चूक' केलें. हांव ताच्या लागीं गेलों जाल्यार ताणें म्हाका पोशेत बरेंऽऽ केलें. हांव ताच्या फाटल्यान आयलों. आनीक मुखार नाका म्हूण रावल्यार तेंय रावतालें आनी म्हाका 'चूक चूक' करून आफयतालें. अशें करीत हांव हांगा पावलों.

तो भोवतेक खरें सांगतालो. इतले ल्हान पिरायेचे कोणूच फट उलयनात. जावं तो मागीर तो सुण्या पेटो!

''ताका भितर हाडुया..?'' मानसीन विचारलें.

''आगो सायबिणी तो कोणालो.?.''

''खबर ना. पूण तो बरे जातीचो. तो खूब भियेला. ताच्या कानाक कोणें तरी कितें केलां.'' मानसीन एकाच दमांत सांगलें.

हांवें ताचो कान पळयलो. ताका निळो पेंट लायिल्लो. मागीर म्हाका सकाळची याद जाली. सकाळीं काम्राचे लोक पारपोळ सुण्यांक धरून ताका अन्टी रेबीज इंजेक्शना मारताले. हांव सकाळफुडें चलूंक गेल्लों तेन्ना ते हो उद्योग करताले. सुण्याक जाळ उडोवन धरप आनी हें इंजेक्शन करप. तें केलां म्हूण कळपाक कानाक निळो पेन्ट लावप. होय तांचे तावडीक सांपडला जावंये..! आयुश्यांतलें पयलेंच इंजेक्शन,आवयची भिवून पळापळ हे फाटभूंयेर तो खऱ्यानीच भियेल्लो जावंक जाय. तातूंत ताका ही मदर तेरेझा सांपडिल्ली.

''आतां ताचें कितें करुंया..?''

''आमी ताका पोसुया..? ताका अन्टीरेबीज केलां म्हणटकच भंय ना.'' इतलें म्हणून ताणें आपलें बॅग दवरलें आनी ताका खाक्यांत घेवन भितर आयलें.

बाबडो खऱ्यानीच भिवून थरथरतालो. ताका हांवेंय पोशेलो. ताका मागीर दूद घालपाक लायलें. तें पिले उपरांत ताचो थरथर थांबलो. मागीर ताणें भितर वचून एक कपडो हाडलो आनी ताका गुठलायलो. पळयत जाल्यार हांवें धुवन दवरिल्ल्या उश्या फ्रोजेंतली एक फ्रोंजी. जोडयेंतली एक पिंजल्या म्हूण जमीन पुसपाक दिल्ली. आतां हें दुसरेन सुण्याक पुसतालें. म्हजी पुराय सकाळ त्या सुण्या फाटल्यान गेल्ली. ताचें खेळप, घर भर नाचप, ताच्यो मानसीन केल्ल्यो तोखणायो, गुगलार वचून ताची सोदिल्ली जात,ताचे गूण, तो कितलो बरो,व्हडलो जातकच तो कसो दिसतलो बी सगळें सगळें..

''आगो ताका दवरतलें खंय..? ताची कुयदाद कोण करतलो..?''

''आमी करतलीं!''

''तूं ताका घरा व्हरतलें..?''

''ना,हांगाच दवरतलें. आमच्या फ्लॅटांत जागो ना.घरचीं ताका घरांत घेवंची नात. हांगाच रावूं दी ताका. रातचो न्हिदतलो खंय तरी!''

तें म्हाका समजायता म्हणसर त्या पेट्यान म्हज्या





पांयां कडेन खेळत खेळत दांत लावप, नाकटां लावप असो उद्योग सुरू केल्लो.'भूतदया','मुक्या प्राण्यावर दया' करा बी सगलें खरें,पूण ताचे उपद्व्याप पळयत जाल्यार हांवच मुको जावन म्हजेरूच कोणें तरी दया करची पडपाची.

तो पुराय दीस मानसीन ताचे वांगडा आपलो जीव खेळयलो आनी म्हजो जीव खालो. शेवटाक ताका म्हजी काकूट आयली. पूण म्हजे परस त्या पेट्याची ताका चड काकूट दिसताली. ताका धांवडायत जाल्यार तो रस्त्यार गाडये पोंदा पडटलो,दुसरे सुणे ताका खातले अशी कितलीच भिरांत ताणें म्हजे सामकार दवरली. शेवटाक हांवेंय विचार केलो, तें सांगता तातूंत तथ्य आसा. ताका खंय तरी बरो घराबो मेळोवन दिवंक जाय. ताणेंच अनिमल वेलफेअराक फोन केलो. तांणी सांगलें 'आमी पोसिनांत. दुयेंत बी आसल्यार काळजी घेवन तांकां आसा तशीं हाडिल्ले थंयच सोडटात.' पूण तांणी म्हाका एक नंबर दिलो जीं सुण्याक पोसको घेवपा पासत मजत करतात.

जाचो नंबर दिल्लो ती भोवतेक फॉरेनर. तिची इंग्लीश म्हाका कळना जाली, पूण मानसीक ती कळ्ळी. ताणें सुण्याचो फोटो काडून तिका धाडलो. वांगडा म्हजो संपर्क नंबर धाडलो. तिणें तत्परतेन तो 'पॉवज' बॅनरा खाल फेसबुकार घालो. कोण तरी ताका व्हरतलेच म्हूण म्हाका आश्वासक खात्री दिली. व्हरतले तेन्ना व्हरतले पूण ताका व्हरसर ताचें कितें करप हो म्हजो प्रस्न आशिल्लो.

आतां मेरेन ताका 'पफी' अशें नामकरण करूनय जाल्लें. तें नांवूय ताच्या फोटवा वांगडा फेसबुकार गेल्लें. रोखडेच म्हाका घे म्हणून फोन. चडशी चौकशी तो 'मेल काय फिमेल..?' म्हणल्यार 'चली काय चलो..?' आतां तें कशें वळखप..? अजून मेरेन असलें संशोधन करपाचो प्रसंग म्हजेर येवंक नाशिल्लो. हांवें मानसीक विचारलें जाल्यार तेंय असले बाबतींत अज्ञानी..! ताणें रोखडेंच गुगलाचेर सर्च केलें आनी ताचें पफी फिमेल म्हूण आमकां कळ्ळें. मागीर तें फेसबुकार घालें. उप्रांत जे फोन येताले तेय बंद जाले.

आतां कितें करप..? जशी सांज लागीं येताली



तसो म्हजेर कलकल येतालो. ताका रातचो दवरप खंय..? हांवें म्हज्या बऱ्याच इश्टांक फोन केले. जांणी आपलें जुवानपण 'फिमेलां ' फाटल्यान धांवून वगडायलें ते लेगीत पफी 'फिमेल' हें आयकून 'आमकां नाका,मेल आसल्यार व्हरतां' म्हूण फोन दवरूंक लागले. शेवटी अडचणीक पावतात ते रगताचेच लोक. सहज म्हूण भावाल्या भरग्यांक फोन केलो जाल्यार ताणें 'हाड' म्हणलें.

कामधंदो तसोच उडोवन हांव ताका घेवन भावागेर गेलों. तांणी 'फिमेल?' असो आदीं प्रस्न करून तोंडां वांकडी केलीं आनी जिवार आयि़ल्ले वरीं ताचो स्वीकार केलो. तातूंत म्हजे परस त्या पफीचेंच योगदान चड आशिल्लें म्हणूक जाय. तें परक्यांलें घर, आपूण आतांच भितर सरतां हाची कसलेंच तारतम्य दवरिनासतना ताणें ते लोक आनी तें घर आपलेंय मानलें. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार ताका मुतूंक जालें तेन्ना तें सरळ भायर वचून मुतून आयलें. प्रसंग ल्हान,सादोसो.पूण त्या एका प्रसंगानूच ताणें त्या सगळ्यांचीं काळजां जिखलीं. उपरांत म्हयनो भर ताणें पुराय घर भरून उडोवन 'स्वच्छ भारत अभियानाची' सक्ती केली ही वेगळी गजाल. तातूंत ताची चूक ना. रातचें घर बंद करतकच इच्छा आसुनूय ताणें वचप खंय..?

म्हजे तकले वयलो भार देंवलो,आतां हांव दिवाळी अंक करपाक मेकळों म्हणत पणजे येवंक गाडयेंत

बसतां मात म्हाका फोनार फोन,कोण विचारतालो ',हांव सुण्याक पोसूंक घेता काय म्हणून, जाल्यार कोण विचारतालो,आपल्यागेर कोणालें सुणें आयलां ताका कितें करूं..?' हें सगळें घडटालें म्हजो फोन नंबर फेसबुकार आनी हेर प्रसार माध्यमाचेर ते फॉरेनर बायलेन घाल्लो देखून..! तिणें म्हजेर केल्ले उपकार म्हाका इतले म्हारग पडटले हाची म्हाका कल्पनाच नाशिल्ली. तिका लागून आमच्या गोंयांत सुण्याक लागून कितले लोक त्रासांत पडल्यात तें म्हाका कळूंक पाविल्लें. प्रत्येक मनीस म्हाका म जती पासत फोन करताले आनी तांकां हांव, 'हांव तसलो न्हय म्हज्याच सुण्याक पोसपाक दिवपाचो आसा' अशें काकुटेक येवन सांगतालों. शेवटाक तर तांचे कडेन उलोवचे परस तांचेर भोंकपच बरें अशें म्हाका दिसूंक लागिल्लें. एकूच समाधान आशिल्लें पफी थंय भावागेर सुखासमाधानान नंदता. पूण तें सूख खिणयाळेंच थारलें.

भावाल्या चल्याचो फोन आयलो, ' सुणो बरो आसा, ताचें नांव आमी 'बगिरा' दवरलां. कांयच त्रास ना. पूण तो कोणाकूच न्हिदूंक दिना आनी सगलें घरांतूच करता तें म्हाका साफ करचें पडटा. मातसो ताका व्हर..'

पडलों त्रासांत..! म्हणलें 'राव एक दोन दीस, व्हरता..'दिवाळी अंक बी मागीर पळोवंया पयलीं हो नरकासूर वाटेक लावया..दोन दीस त्याच हुसक्यान आनी चिंतेन काडले. सकाळीं चलूंक वतालों खरो पूण वाटेर सुणे दिसताले आनी ते म्हाका त्या पफी उर्फ बगिराची याद करताले... तेच विचार घेवन चलता आसतनाच म्हजे नदरेक तो बगिरा पडलो..पूण तो थंय पावतलो कसो..तो तर व्हडले गोंयां आसा.. इतल्यांत तांची आवय दिसली..तीय सहज वळखूंक येताली तांची आवय म्हणटकच त्या बगिराक हाडून म्हज्यान आवय म्हऱ्यांत सोडूं येतालें. म्हजो हुसको खंयचे खंय ना जाल्लो. तेच खोशेंत हांवें आनीक एक व्हडलो रावंड मारलो.

सांजचो बगिराचे आवयक आनी भावाक काय भयणीक जंय पळयल्लीं थंय वचून चौकशी केली. तर कळ्ळें त्या पेट्याक,जो मेल आशिल्लो ताका लागींच कोणतरी पोसपाक घेवन गेलां. कोण तें खबर काडली आनी विचार केलो,बगिराक आवय कडेन हाडून सोडचे परस ताच्या भावाकडेन सोडप बरें. दोगांय बरीं खेळटलीं. खबर काडून हांव तागेर गेलों. जाणें त्या पेट्याक हाडिल्लो. तें चलीय बरें सोशल आशिल्लें. पूण ताणें सद्याक आपल्याक हो एकलोच पुरो म्हूण सांगलें. पूण ताका म्हजी काकूट आयली. ताणें कोणाक तरी फोन केलो. ताणें सकारात्मक जाप दिली. तेंय कोणतरी चली आशिल्लें. बरें गोड उलयतालें. ताणें तेच राती आपलो मनीस धाडलो. मोठे उमेदीन तो बगिरा उर्फ पफीक घेवन गेलो. बगिराक खंयीय गेल्यार चलतालें अशें एकंदर ताचें वागणें पळयल्यार दिसतालें.जितले बेगीन ताणें म्हज्या भावागेरच्या लोकां कडेन नातें जोडील्लें, जुळोवन घेतिल्लें तितलेच बेगीन ताणें नव्या धनया कडेन जोडलें.मोठे उमेदीन बगिरा काय पफी नांवाचें तें 'फिमेल' बरेऽऽ पॉश गाडयेंत बसून गेलें. वतना म्हजो हुसको, टेन्शन घेवन गेलें. म्हज्या भावालींय ताका व्हरतना भावूक जालीं. म्हजे भावाल्या घरांत बरे संबंध उरूंक पावले. ताच्या निमतान म्हाका दोन नव्यो मैत्रिणी मेळ्ळ्यो..आतां म्हाका त्या पेट्याचो हुसको करपाची गरज नाशिल्ली. फाल्यां मानसी येतलें तेन्ना ताका सांगूंक मेळपाचें,'तुजें पफी बऱ्या घरांत पावलां गो,तुका जाय जाल्यार ताका पळोवंकूय वचूंक मेळटलें. तुज्या शेजराकूच थिवी पावलां तें..!' आयकून मानसी खूश जातलें हें चिंतूनच हांव ते राती हुसक्या मेकळो शांत न्हिदलो...

दुसरे दीस दारार टकटक जालें..हांवें वेळ पळयलो..मानसीच आसतलें..! ताका गूड न्यूज दिवपाक हांवें ताकतिकेन दार उगडलें आनी ताणें आपले हात मुखार केले. ताच्या हातांत निकतेंच जल्मल्लें चिमणेचें पील आशिल्लें. ताका धड दोळेय फुटूंक नाशिल्ले आनी आंगार पांखां सोड ल्हंवूय नाशिल्ली. वयर लायटीच्या मिटरबॉक्सांत चिमण्यो रावतात,पिलां काडटात. फाटली धा वर्सां हांव पळयतां. तांतलेंच हें नवजन्मीत बाळक भोवतेक सकयल पडिल्लें.

''हें कितें गो?'' हांवें विचारलें..

''तें हांगा सकयल पडिल्लें आनी ताका मुयो खाताल्यो..चलचल ताका वखद करुया,खावपाक घालुया..तें भुकेलां आसतलें..!''

म्हाका कुशीक काडीत त्या पिलाक घेवन तें कामाक लागलें..

# दिवाळेचीं पक्वानां

# फोव



### रोसांतले फोव

**साहित्य :**
१.कि.फोव,अर्दकिल गोड,३-४ हळदी पानां, २ नाल्लाचो रोस. २ वाटयो दाटसो आनी उरिल्लो पातळ.चवी पुरतें मीठ.
**करपाची तरा :**
फोव बरे करून धुंवचे.नाल्लाचो पातळ रोस घालून शिजोवपाक दवरचे. तातूंत गोड, मीठ घालचें.बरेऽ शिजतकच तातूंत हळदी पानांचे कुडके,नाल्लाचो दाट रोस घालून एक खतखतो येतकीर रांदनी वयले सकयल काडचे.

### दुदांतले फोव

**साहित्य :**
१ किल फोव,एक लिटर दूद (दुदाच्यो दोन पिशव्यो),३ ल्हान कुलेरां वेळचे पिठो,अर्द किल साखर.
**करपाची तरा :**
फोव धुवन घेवंचे. दूद तापोवंचें. तातूंत हे फोव घालून खतखतो काडचो.मागीर तातूंत साखर,वेळचो पिठो घालून बरेऽ चाळचें.एक खतखतो येतकीच फोव रांदनी वयले सकयल काडचे.
चत्रायः फोवांत मीठ घालचें न्हय.

### बटाट फोव

**साहित्य :**
१ किल फोव,अर्द किल उकडिल्ले बटाट,८-१० हरव्यो मिरसांगो-चिरून,१ व्हडलें कुलेर जिरें,धाडावन घेवंचें.२ कुलेरां साखर,१ वाटी सोय,१ व्हड कुलेर सांसवां,१ ल्हान कुलेर हिंग(शंकरछाप आसत जाल्यार आनीक रुचीक),१ व्हड कुलेर तेल,१० करबेलाचीं पानां,२ ल्हानकुलेरां हळदी पिठो,चवी पुरतें मीठ.
**करपाची तरा :**
उकडिल्ल्या बटाटांच्यो बारीक फोडी करच्यो,फोव बरे भशेन धुंवन घेवंचे, फोव हळदी पिठो,साकर,सोय आनी मीठ घालून कालोवन दवरचे.रांदनीचेर तोप दवरून तातूंत तेल घालचें,तेल तापतकच हींग,सांसवांची फोडणी घालची. सांसवां तडतडलीं म्हणटकच जिरें,मिरसांगो,उकडिल्ले बटाट आनी करबेलाचीं पानां घालून बरें चाळचें. मागीर तातूंत हें फोवांचें मिश्रण घालचें. बरेंऽ चाळचें.फोव जाले तयार!

### कालयल्ले फोव

**साहित्य :**
१ किल फोव,अर्द किल गोड,२ वाटयो सोय,१ व्हड कुलेर वेळचे पिठो,चवी पुरतें मीठ.
**करपाची तरा :**
फोव धुंवन घेवंचे,सोय,गोड,मीठ आनी वेळचे पिठो बरोऽ एकठांय करून घेवंचो. हें मिश्रण फोवांत घालून बरेऽ कालोवंचें.



## ताकांतले फोव

**साहित्य :**

१ किल फोव,१लिटर ताक,६-७ हरव्यो मिरसांगो चिरून,१ व्हड कुलेर साकर,२ ल्हान कुलेरां सांसवां, १ ल्हान कुलेर शंकरछाप हिंग,८-९ करबेलाचीं पानां.१ व्हड कुलेर तेल,चवी पुरतें मीठ.

**करपाची तरा :**

फोव धुंवन घेवंचे, फोवांक साकर,मीठ सारोवन दवरचें,एका तोपांत तेल तापोवंचे. तातूंत हिंग, सांसवां फोण्णां घालची. चिरिल्ल्यो मिरसांगो,करबेलाचीं पानां घालचीं, उज्या वयलो तोप सकयल काडून तातूंत ताक घालचें, मागीर तातूंत फोव, साखर,मीठ लावन दवरिल्लें ते घालून बरेंऽ चाळपाचें...

## तिखशे फोव

**साहित्य :**

१ किल फोव(कालयिल्ले), १ किल चिकी गोड, २ व्हड कुलेरां मिरसांगे पिठो, २ व्हड कुलेरां मिरयां पिठो,५-६ हरव्यो मिरसांगो,चिरून.१ नाल्लाची सोय, १वाटी भाजिल्लीं, सोलां काडिल्लीं भिकणां, ४ इंच आलें धाडायल्लें.३ ग्राम हिंग,३ वाटयो उदक.

**करपाची तरा :**

एका तोपांत चिकी गोड आनी तीन वाटयो उदक घालून रांदनीर दवरचें.ताचें मेल करचें. मागीर तातूंत सोय,मिरसांगे पिठो, मिरयां पिठो, आलें, चिरिल्ल्यो मिरसांगो, हिंग घालून बरें शिजोवंचें. शिजतकच ताची गुळी कशी जावपाक लागलें म्हणटकच तोप सकयल काडचो. तातूंत कालयिल्लो फोव,भिकणां घालून चाळचें.

तुमकां जाय जाल्यार काजू बियांचे कुडके,भाजिल्ली चण्यां दाळ घालूं येता.

**टीपः- फोव घेतना घरावे दाट फोव घेवंचे. हिंग शंकर छाप ब्रॅन्डाचो वापरीत जाल्यार जिनस रुचीक जाता.**



डॉ.रिना लवंदे.
मो 000











**संतोष हळर्णकार**
बांदिवडे-बंदर,फोंडा-गोवा 403 401
मो. : 9762641615




## ओयतुंब्र-नोव्हेंब्र २०२१ उतरकुवाडें



**आडवे-** १.पवित्र उदक,देवाक न्हाण घाल्लें पंचामृत.२-विद्या देवता,शारदा.५-वेल,वाल.७-गरजेक आयिल्लें,आधार जाय जाल्लें.९-शीत कालोवंक केल्ली कडी,हुमण.११-लुगट विणपाचें मशीन,पत्तो.१२- दीस (इंग्लीश).१३- तीन आनी चार.१५- पद्दतशीर,उपचारीक,नियमबद्द.१७-धडो.
१८-अभिनेतो. १९-लडो,पेट.२१-दर्या,व्हड समुद्र.
२२-रूच,सुवाद,लज्जत.२३- पश्चाताप करप, दुख्ख जावप.
२५-उपरांत,नंतर.२७-झगडें,मारामार.
२८-कृपा,बेंसांव,वरदान.३०-णववी तीथ.३१-धोबी,मुस्तायकी उमळपी.

**उबे-** १-आमोरी, तीनसांज. २-पक्षी.३-आत्मगत भाशण,स्वताच कडेन उलोवपाची पद्दत.४-तड,देग,कांठ.
५-मसाल्याचें एक आंग. ६-बापूय. ८-जात,वर्ग, लोकांचो जमो,सभा. १३-पन्नास आनी धा. १४-किरकोळ,मोल नाशिल्लें.
१६-तमाशांतलो नट.१८-वस्त,जिनस. २०-कशाकशेंय,शिस्त आनी वेवस्ता नाशिल्लें. २२-विष्णू.२४-'आलतड'च्या विरुद्ध.
२६-दांत(संस्कृत),किरणांची फांकारणी.२९ आमी(हिन्दी).

## सेतेंब्र2021 ची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| 1 पु | र | 2 य | 3 त | ■ | 4 चा | क | 5 र | मा | 6 नो |
| र्व | ■ | 7 म | न | 8 मा | नी | ■ | ग | ■ | क |
| 9 ज | 10 मी | न | ■ | मे | ■ | 11 प | त | 12 क | र |
| ■ | उ | ■ | 13 सं | भा | श | ण | ■ | र्ण | ■ |
| 14 मा | ■ | 15 का | स | व | ■ | 16 सू | न | ■ | 17 च |
| 18 उ | प | स | र्ग | ■ | 19 ता | ल | ■ | 20 कौ | ल |
| ली | ■ | ले | ■ | 21 न | ट | ■ | 22 अ | ■ | णू |
| ■ | 23 क | ट | 24 क | ट | ■ | 25 च | क | च | क |
| 26 वि | त्त | ■ | 27 प | रा | त | ■ | स्मा | ■ | ■ |
| 28 ना | ल | स्ती | ■ | ज | ■ | 29 सा | त | व | डी |





*निकतेंच उजवाडाक आयलां*

**प्रा. डॉ. वामन रा. नायक**

*हांणी अणकारीत केल्लें*

# महात्मा गांधींचें
# हिंद स्वराज्य वा इंडियन होम रूल




'हिंद स्वराज्य' गांधीजींच्या ह्या ल्हानश्या पुस्ताकाक 'गांधीवादी क्रांतीचो जाहिरनामो'अशें म्हणटात. ह्या पुस्तकांत आधुनीक पाश्च्यात सभ्यतायेचें कठोरपणान खंडन केल्लें आसा आनी पर्यायी जिणे-दर्शनाची स्वराज्य, सत्याग्रह आनी स्वदेशी ही त्रिसुत्री मांडल्या.

**प्रा. डॉ. वामन रा. नायक हांची उजवाडाक आयिल्लीं हेर पुस्तकां**




**इंग्लीश-कोंकणी समानार्थी-विरुद्धार्थी शब्दकोश**
गोवा कोंकणी अकादेमी




**वेध फुडाराचे**
राज्यभाशा संचालनालय,
गोंय सरकार




**अशे घडले**
**डॉ.ए.पी.जे अब्दुल कलाम**
(अणकार)



